पुंडलीक नारायण नायक

रंगवेद : खंड-एक

## रंगकाव्य

आस्पावित नाटकां :

1. प्रेमजागोर
2. प्रेमयुद्ध
3. सांगोड
4. कथा अस्तुरी
5. दिव्या दिव्या दिपत्कार

रंगवेद : खंड-दोन

## रंगरंजन

आस्पावित नाटकां :

1. तिरंगी चक्राचक्री
2. शिरी रे शिरी! अधांतरी!
3. काळजाची काणी
4. अंता घरा भगवंता
5. धनयां देंवचारा

रंगवेद : खंड-तीन

## रंगशिल्प

आस्पावित नाटकां :

1. दिश्टदौलत
2. चित्र स्वयंवर
3. चतुरंगा
4. परिक्रमा
5. कांसुलो

# रंगकाव्य

(पांच नाटकां)

- प्रेमजागोर
- प्रेमयुद्ध
- सांगोड
- कथा अस्तुरी
- दिव्या दिव्या दिपत्कार

## पुंडलीक नारायण नायक



RANGAKAVYA

Collection of Konkani Plays

by PUNDALIK NARAYAN NAIK



प्रकाशन क्र. : 88

रंगवेद : खंड - एक

प्रकल्प संयोजक :
पांडुरंग काशिनाथ गावडे

पयली उजवाडावणी : 2011

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें, गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा, गोंय : 403 402

मुखचित्र आनी भितरल्लीं चित्रां :
श्रीधर कामत बांबोळकार

ग्राफिक डिझायन :
कलानंद कामत बांबोळकार

**मोल : ₹ 500/-**

ISBN : 81-86488-88-X



**शणै गोंयबाब...**

(वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार)

अडेच हजार वर्सांचो, भाशांचो इतिहास धवळून,
तुवें कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्हणपाचें
दाखोवन दिलें.
आधुनिक कोंकणी साहित्याचो तूं निर्मातो.
अस्सल कोंकणी दिसूंये अशे
परदेशी नाटकांचे रुपकार करून,
तुवें कोंकणी नाटकाची बुन्याद रचली.
तुजे अज्रंवर यादीक !

– पुंडलीक नायक

## ‘रंगवेद’ खंडांविशीं...

कोंकणी साहित्यांत पुंडलीक नारायण नायक ह्या साहित्यिकाची म्हत्वपूर्ण सुवात आसा. तांगेलीं नाटकां लोकप्रिय जाल्यांत त्याच प्रमाण तांची नाटकां विद्यालयां, महाविद्यालयां, विद्यापीठ थराचेर आनी संशोधनाच्या मळार अभ्यासाचो विशय जाल्यांत. त्याच खातीर 2006 वर्सा, पुंडलीक नायक हांगेल्या नाटकांचे पांच खंड एकसांगाता उजवाडाक हाडपाची ‘रंगवेद’ नांवाची एक महत्वकांक्षी येवजण अपुरबाय प्रकाशनान जाहीर केल्ली. येवजणेची प्रकाशनपूर्व नांव-नोंदणीय जाल्ली. तिका अल्प जायना, प्रतिसाद लाबिल्लो. पूण मागीर अर्थीक अडचणींक लागून वावर मुखार गेलो ना.

आतां, पांडुरंग का. गावडे, जे आदिंसावन पुंडलीक नायकाचे इश्ट आसा, ताणी हे पांचूय खंड अपुरबाय प्रकाशनाचेवतीन उजवाडाक हाडपाची आंगेती घेतल्या. ह्या ‘रंगवेद’ प्रकल्पाचे ते संयोजक आसात. नवे मांडावळींत आतां रंगवेदाचे पांचूय खंड प्रकाशित जातले.

पयल्या तिनूय खंडातलीं पंदराय नाटकां रंगमाचयेर सादर जाल्लीं आनी अप्रकाशित स्वरुपाचीं आसात. तीं पयलेच खेप पुस्तक रुपान येता. प्रकाशित जावपी पंदराय नाटकां जशीं तिनूय खंडांत आसतलीं तशीं पंदराय नाटकां स्वतंत्रपणान पुस्तक रुपान उजवाडाक येतलीं. लेखकाचीं आदीं पुस्तक रुपान प्रकाशित जाल्लीं एकूण बारा नाटकां उपरांतच्या चवथ्या आनी पांचव्या खंडात उजवाडाक येतलीं.

‘रंगवेद’च्या पांचूय खंडाखातीर जाणी आदीं नोंदणी करून रक्कम फारीक केल्ली तांकां पांचूय खंड आदलेच रकमेंत मेळटले.

**– प्रकाशक**

'काव्येषु नाटकम् रम्यम् ।'

(काव्यांत नाटक सुंदर!) (अनामिक)

## रंगकाव्य खुलताना...

'रंगकाव्य' हो म्हगेल्या पांच नाटकांचो खंड उजवाडाक येता. ह्या खंडांत 'प्रेमजागोर' (1999) 'प्रेमयुद्ध' (2000), 'सांगोड' (2004), 'कथा अस्तुरी' (2008) आनी 'दिव्या दिव्या दिपत्कार' (2000) ह्या नाटकांचो आस्पाव केला. (नाटकामुखावयलें कंसांतलें वर्स नाटक रंगमाचयेर आयिल्लें तें वर्स.) एकूण आठ वर्सांतल्या वेंचीक अप्रकाशित अशा पांच नाटकांचो खंडांत आस्पाव केला. तें करताना विशय, आशय, रचना, व्यक्तिरेखा हांच्यातली विविधता लक्षांत घेतल्या. नाटकांतलें काव्य हो मुलभूत गुणविशेश ह्या संकलनांत नदरेमुखार दवरला.

नाटक हो ललित साहित्याचोच एक प्रकार आसा. नाटकाच्या माचयेवयल्या रुपकारांत, तातूंत दृक आनी श्राव्य ह्या दोन घटकांची भर पडटा. ते भरीक लागून तातूंतलें साहित्यिक मूल्य अदिक स्पशटपणान आनी प्रभावीपणान उठून दिसता.

नाटक ह्या प्रकाराक उण्या अदिक अडेच हजार वर्सांची परंपरा आसा अशें मानूं येता. ग्रीक, रोमन, संस्कृत अशी मेळून ही दीर्घ स्वरूपाची परंपरा आसा. आयज नाटक ह्या प्रकाराची आपलेपरीन एक स्वतःची वळख तयार जाल्या. जशी कविता, कथा, निबंद, कादंबरी हांची स्वतःची व्याख्या घडल्या तशी नाटकाचीय घडल्या. 'रंगमाची' हें एक व्यापक स्वरुपाचें उतर 'थेअटर' ह्या अर्थान रूढ जालां. तातूंत एकांकी, बालनाट्य, एकपात्री, नाटिका, नाटक, लोकनाट्य आदि नाटकीय प्रकारांचो आस्पाव जाता. तातूंत 'नाटक' हो प्रकार आपल्या आकृतीबंधाक लागून स्वतंत्र रितीन निर्माण जाला. गोंयांतल्या नाटक

आनी तियात्राची वर्गवारी करताना हो भेद बरेतरेन स्पश्ट जाता. कोंकणीतलें नाटक हें संवसारीक मान्यताय लाबिल्ल्या नाटक ह्या प्रकारांतलें थारता. कित्याक तर कोंकणी नाटकाचो अणकार जेन्ना हेर खंयचेय भाशेंत जाता तेन्ना तें नाटक हे व्याख्येंतूच उरता. पूण कोंकणी तियात्र जेन्ना हेर भाशांनी अणकारीत जाता (जातलो) तेन्ना तें नाटक थारना तर नाटकासारखो एक नाट्यप्रकार थारता.

दर एका प्रांताची, वो भाशेची आपणाली अशी रंगमाची आसा पूण 'नाटक' आसाच अशें म्हणपाक जांवचेना. जशेपरी मराठी, बंगाली नाटक आयज खूब उदरगतीक पावलां पूण हिंदी भाशेंत नाटकांचें आंग सामकेंच दुबळें आसा. हिंदी भाशेचो देशांत सगळ्यांत व्हड प्रदेश आसा, ताची गिरेस्त अशी रामलिलासारखी लोकनाट्य रंगमाचीय आसा. पूण तितक्या प्रमाणांत नाटक ना. देशांतल्या बऱ्याच भाशांची ही स्थिती आसा.

हे पार्श्वभुंयेचेर कोंकणी नाटक आपली स्वतःची वळख घडोवपाक लागलां ही लक्षांत घेवपा सारखी बाब आसा. गोंयकाराचे जिणेची वास्तवपूर्ण प्रतिमा दाखोवपाची तांक आनी बळ कोंकणी नाटकान जोडलां. मराठी नाट्यपरंपरा समृद्ध करपाक गोंयकारांचें सुमाराभायलें योगदान आसा. मूळ मराठी नाटकाचें जल्मस्थान गोंय म्हणूंक जायत इतले मेरेन त्या योगदानाची मजल पावता. गोंयांत कोंकणी नाटकाक मराठी नाट्यपरंपरेचो आदार लाबप हें सभावीक आसा. हो आदार लाबताना एक मोटो धोकोय आशिल्लो, तो म्हणल्यार आदाराचें अनुकरण जावपाची शक्यताय आसता. कोंकणी नाटकाचे बाबतींत ती भिरांत आशिल्ली पूण ते बाबतींत 1975 उपरांत कोंकणी नाटकाच्या मळार वावुरपी लेखक, दिग्दर्शक, तंत्रज्ञ, संगीतकार तशेंच कलाकार लोक, खूब जाणविकायेन वावुरिल्ले दिश्टी पडटा. कोंकणी नाटक म्हणल्यार मराठी संवादाच्या बदला कोंकणी संवाद येतले आनी बाकिचो सगळो सांचो मराठीच उरतलो अशी शक्यताय आशिल्ली. पूण तशें जालें ना. कोंकणी नाटकान भास तर कोंकणी हाडलीच पूण त्याच बरोबर विशय, पात्रां, नेपथ्यशैली इतलेंच न्हय तर संगीत लेगीत कोंकणी हाडपाचो यशस्वी

यत्न केलो. देखुनूच अवघ्या पाव शेंकड्यांत म्हणल्यार पंचवीस वर्सांच्या काळांत कोंकणी नाटकान प्रगत अशे भारतीय रंगभूमीचे पंक्तीक मांडयेक मांडी लावन बसपाचो मान जोडलो.

1987 वर्सा गोंयकारांनी खर आंदोलन उबारून कोंकणी गोंयची राजाभास केली. तेदे वेळार ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकारांनी म्हणिल्लें, हें एकट्या-दुकट्याचें काम न्हय, तर तो एक सामुहिक पुरुशार्थ! कोंकणी नाटकाचे बाबतींत अशेंच म्हणूंक जायत. कारण नाटक ही एक सांघीक कला. लेखक, दिग्दर्शक, कलाकार, तंत्रज्ञ आनी निमाणे प्रेक्षक हांच्या एकवटित सहकार्यांन नाटकाक पूर्णत्व येता. कोंकणी नाटकाच्या संदर्भांत नाटककार म्हणून म्हजें नांव प्राधान्यक्रमान येता. तो मान स्वीकारूनूय हांव नमळायेन नमूद करपाक सोदतां – कोंकणी नाटकाचें आयचें यश हो रंगमाचयेवयल्या कलाकार आनी तंत्रज्ञाचो सामुहिक वावर आसा.

दोन तरांच्या प्रेरणेतल्यान नाटकाची रचना जाता अशें म्हाका दिसता. एक तर ही प्रेरणा साहित्याकडेन संबंदित आसता, नातर रंगमाचयेकडल्यान तंत्रीक मार्गांतल्यान बरोवप्यान ही प्रेरणा घेतिल्ली आसता. म्हजी नाट्य लेखनाची प्रेरणा ही साहित्यिक स्वरूपाची आसा. तंत्राची म्हाका जाण आसा. गरज तेन्ना पोरनें तंत्र हांव मोडटां, नवें घडटां. तंत्राचे चमत्कृतीची भूलय म्हाका पडटा, पूण हांव तंत्राचे भकीक पडना. म्हाका होलमल्ल्या साहित्यिक मुल्ल्यांच्या मंचीय प्रस्तुती खातीर म्हाका विशिश्ट प्रमाणांत तंत्राची गरज आसता, तितलोच हांव ताचो स्वीकार करतां. सोपे भाशेन सांगतलो जाल्यार म्हजेकडेन विचाराचें भांगर आसता, ताका प्रमाणबद्ध स्वरुपांत आकार दिवन हांव ताचो अळंकार घडयतां. विचाराचे बाबतींत हांव साहित्यिक आसतां आनी तंत्राचे म्हणजे आकृतीबंधाचे बाबतींत हांव कसबी कलाकार आसतां. साहित्यिक आनी कलाकार हे दोनूय घटक, जेन्ना एकठांय येतात तेन्ना 'नाटककार' ही संज्ञा तयार जांता. अर्थांत दोनूय घटक समप्रमाणांत आसप गरजेचे. तातूंत दावो-उजवो, उणो-अदिक जाल्यार हो तोल बिगडटा हेंवूय तितलेंच खरें.

नाटकांत संघर्श आनी संवादाचें एक सूत्र हांव जाणीवपूर्वक जपत आयलां.

एखाद्रे घटनेंत नाट्य आसा, अशें जेन्ना आमी म्हणटात तेन्ना थंय संघर्श आसा असो अर्थ जाता. आतां संघर्श म्हणल्यार उखलाप्या अर्थान झगडें असो न्हय. संघर्श जसो शारिरीक म्हणल्यार एकमेकाचेर हात घालपाचो, झुडोन आंगार वचपाचो, घुरी घालपाचो आसूं येता तसो तो हात कांबरून केल्लो संवादाच्या आघातांतलो संघर्श आसूं येता. केन्ना दोगांमदलो, दोगांपरस चड जाणां मदलो वो आपल्या आपणांमदलोच आसुं येता. शेक्सपिअरच्या स्वगतांत (Soliloque) हो आपल्या मदलो संघर्श पळोवपाक मेळटा. संघर्शांत नाटकाची धग कायम उरता. संवाद ते धगीक गती दिता. तेन्ना नाट्य अदिक खुलून येता. संवाद हे नाटकाच्या आशयाचे वाहक आसात. पूण वाहक म्हणल्यार भाडेली न्हय. तो आशय जपून-सांबाळून व्हरपी वाहक.

गरजे परस अती संवाद, शब्दबंबाळपण हे संवादाचें बरें लक्षण न्हय. संवादांतली सूचकताय सदांच अदिक परिणामकारक थारता. एका काळावयलीं आमचीं भौतेक सगळीं नाटकां (सगळ्या भासांतली) संवादप्रधानूच आसतालीं. म्हजोय ताका आडवाद ना. पूण मागीर मागीर आपसूख संवादाचेर लगाम येत रावलो. आयज मर्यादित, आनी अचूक संवाद रचना हो आयच्या नाटकाचो एक म्हत्वाचो गुणधर्म थारला. म्हजेपरीन ह्या गुणधर्माक पाळो दिवपाचो हांव यत्न करतां.

लेखक आनी सामाजिक जाणीव हो म्हजेखातीर एक आस्थेचो विशय आसा. हांव म्हाका सामाजिक जाणिवेचो लेखक मानतां. म्हजी ही जाणीव म्हज्या वयक्तीक पूर्व इतिहासाचेर तिंबून आसा. त्या इतिहासांतल्यान हांवें काडिल्लो अर्थबोध म्हजेखातीर म्हत्वाचो आसा. म्हजो इतिहास जर शोशणाचो आसत, (आनी तो तसो आसा) जाल्यार शोशणाचो प्रतिकार ही हांवें स्वीकारिल्ली सामाजिक जाणीव आसा. समाजांतली अर्थीक बाबतींतली विषमता, गिरेस्त-गरीब हांचेमदली सुमारा भायली रुंदावल्ली दोंड, जातीभेद, अंधश्रद्धा, विचार आनी आचारांतली विसंगती ह्यो म्हाका खुपपी गजाली. म्हजी सामाजिक जाणीव ह्या गजालींकडेन संबंदित आसा. म्हज्या लेखनांत ह्या गजालींविशीं किळस, तिरस्कार, राग, उद्वेग, बंड, ह्यो भावना प्रगट जाता.

त्यो प्रचारकी थाटान म्हज्या नाट्यशिल्पाचेर आरूढ जावच्योना हाची हांव जतनाय घेतां. म्हाका खूब कितें कितें सांगपाचें आसा हें खरें, पूण त्याच बरोबर नाटक नांवाच्या एका कलाप्रकाराच्या माध्यमांतल्यान सांगपाचें आसा, हेंवूय तितलेंच खरें.

नाटक हें समाजसुधारणेचें वो समाजप्रबोधनाचें माध्यम, असो एक पूर्वसूर आसा. भरतमुनीय आपणाल्या नाट्यशास्त्रांत तशें म्हणटा. पूण तो शंबर टक्के खरो न्हय. एखाद्या नाट्यलेखकाची जर अशी समाजिकाय आसत जाल्यार ताच्या सारखो दुसरो धोको ना. एखाद्रो विचार प्रभावीपणान सांगूक येता, हें नाटकाचें बळस्थान आसा. पूण ताचो अतिरेक जालो जाल्यार तो प्रभाव निष्प्रभ थारता, हेंवूय ध्यानांत घेवपाक जाय.

'रंगकाव्य' खंडातलीं पांचूय नाटकां कोंकणी संगमाचयेर वेगवेगळ्या कारणांक लागून जैतिवंत थारिल्लीं नाटकां आसात. दर एका नाटकाचो म्हजेपरीन स्वतंत्ररीतीन परामर्श घेवप योग्य थारतलें.

## प्रेमजागोर

'रणमालें' आनी 'जागोर' हीं गोंयची दोन लोकनाट्यां. कोंकणी नाटकाचें मूळ हांगासरूच सांपडटा. ख्रिस्तांव भाव खेळटाले त्या 'जागोर' लोकनाट्यांतल्यान मागीर तियात्राचो जल्म जालो. पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस हाणी 'जागोर'चे फाटभुयेंचेरूच तियात्राचो नवो रुपकार तयार केलो. ख्रिस्तांव समाजामदल्या जागराक जशीं आर्विल्लीं साधनां आनी सुविधा लाबल्यो तश्यो जर 'रणमालें' आनी हिंदूच्या 'जागोर' प्रकाराक लाबिल्ल्यो जाल्यार तियात्र जसो उदरगतीक पावला तशींच हिंवूय लोकनाट्यां वयर सरतलीं आसलीं. 'रणमालें' आनी 'जागोर'चे समर्थक आनी संवर्धक पारंपारिक कथानकांतूच घुस्पून उरले आनी पारंपारिक पद्धत सांबाळून नवे 'जागोर' वो 'रणमालें' घडोंव येता, हेंच विसरून गेले.

एक लेखक, कलाकार म्हणून हो कांटो खंयतरी म्हाका सलतालो. शिवाय 'जागोर' म्हज्या अंत्रुज वाठारांत कर्मळें, आपें, प्रियोळ, वेलंगा अशा

जाग्यांचेर जायत आसता. वर्साक एक दोन जागरांक तरी म्हजें वचप जाता. हेच फाटभुयेंचेर हांवें 'प्रेमजागोर' नाटकाची रचना केली. जागरांत संगीत हो अविभाज्य भाग. नव्यो संगीत रचना घडोवप म्हज्या आवाक्याभायलें काम. पूण मूळ पारंपारिक गीतांच्यो चाली सांबाळून हांवें लोकगीत शैलीक प्रामाणिक रावून गीतरचना केल्यो. उपरांत तातुंतल्यो कांय रचना हेर पारंपारीक जागरांतूय पावल्यो. आपणालें साहित्य लोकसाहित्यांत पावप ही एक भाग्याचीच गजाल आसता. म्हगेलें 'प्रेमजागोर' नाटक पळोवन एक ज्येष्ठ जागोर कलाकार श्री. बाबुसो गावडे हाणी एके चर्चेवेळार म्हणिल्ल्या उतरांची म्हाकां याद जाता. ताणी म्हणिल्लें, 'प्रेमजागोर' सारखे नवे नवे जागोर येवपाची गरज आसा. तेन्नाच जागोर तिगतलो.' म्हज्या खातीर हो खूब मोलाचो अभिप्राय आशिल्लो.

कोणांकूय प्रश्न पडूं येता. तो म्हणल्यार 'प्रेमजागोर' हें कितें? तो जागोर काय नाटक ? म्हजे नदरेन तें जागोर नाट्यशैलींतलें आधुनिक स्वरूपाचें नाटक आसा. मूळ पारंपारिक जागरांत अशे तरेची 'प्रेमजागोर' सारखीं आख्यानां जोडूं येता. 'प्रेमजागोर' एका आख्यानाच्या स्वरुपांत आसा. हेर नाटकांचें तुळणेन ताचो प्रयोग-अवधीय उणों आसा. पूर्ण अवधीचें नाटक पळोवप्यांक तें ल्हान नाटक दिसता. पूण राष्ट्रीय महोत्सवांनी तें व्यवस्थीत बसता असो अणभव आसा. भारत महोत्सव, नवी दिल्ली (2000) राष्ट्रीय महोत्सव-नेहरू सेंटर मुंबय (2001) हांगासरल्या भौभाशीक नाट्यमहोत्सवांनी ताचे यशस्वीपणान प्रयोग जाल्यात.

'प्रेमजागोर' नांवाप्रमाण एक प्रेमकथाच आसा. नाटकाचो नायक आनी नायिका गांवगिऱ्या वाठारांतलीं आसा. गांवच्यो पारंपारीक रूढी, संकेत, श्रद्धा, अंधश्रद्धा घेवन हें नाटक मुखार सरता. पूण निमाणेकडेन ताका हांवें म्हजे विचारधारेप्रमाण मोडण दिवपाचो यत्न केला. 'लग्न स्वातंत्र्य' हो दर एकल्याचो एक मूलभूत हक आसा अशें हांव मानतां. तो दादलो आसूं वो बायल आसुं, शारांतली वो गांवगिरी व्यक्ती आसुं, लग्न हो तिचो अधिकार. थंय तिचेर कोण बळजबरी करपाक शकना. बायलांमदल्या संवेदनेच्या आनी

जागृतीच्या संदर्भांत हो मुद्दो ठळकपणान आनी प्रभावीपणान नाटकांतल्यान व्यक्त जाता अशें म्हाका दिसता.

'प्रेमजागोर' नाटकाचे बाबतींत आनीक एक सांगपाची गजाल म्हणल्यार हें एक संगीत नाटक. संगीत हो ह्या नाटकाचो एक अविभाज्य, वेगळांव नजो असो भाग आसा. हो संगीताचो प्रयोग हांवें सगळ्यान पयलीं 'शबै शबै भौजन समाज' (1981) ह्या नाटकावरवीं केल्लो. तो खूब यशस्वी जालो. आजुनूय (2012) हें नाटक रंगमाचयेर चलता. त्या नाटकांत विविध अशे पंदरा–सोळा लोकगीतांचे प्रकार केळयिल्ले. म्हणल्यार लोकगीतांच्या चालीचेर हांवें रचना केल्ल्यो. प्रेमजागरांत अश्योच लोकगीतांच्या चालीचेर रचना घडयल्यात. पूण त्यो फक्त जागोर ह्या लोकनाट्याचे शैलीपुरत्योच मर्यादित आसात.

## प्रेमयुद्ध

झुजांत आनी मोगांत सगळे माफ आसता ! अशें म्हणटात. आयकुपाक खूब बरें दिसता. पूण प्रत्यक्षांत तें कितलें खरें? फास्के भायली ही एक प्रेमकथा. एकतर्फी प्रेमाचीय काणी अशें म्हणू येता. प्रत्यक्षांत अशक्य दिसपी ही प्रेमकथा एके विशिश्ट उंचायेचेर पावतकूच ती खरी दिसपाक लागता.

नाटकाचो प्रयोग जाल्या उपरांत कांय जाणांनी अशेच तरेच्यो कथा कांय फिल्मांनी आयल्यात म्हणपाचें सांगलें. तें तशें सभावीक आसा. एकाच सारखे दोग मनीस दिसप आनी ताचेवयल्यान वेगवेगळ्यो कल्पना सुचप सहज शक्य आसा. पूण दर एकल्याची प्रसंग, व्यक्तिकडेन पळोवपाची आपणाली खाशेली अशी नदर आनी ट्रिटमेंट आसता. हांवें म्हजे पद्दतीन ती केळयल्या. आयजवेर हांवें बरयिल्ल्या प्रेमकथां मदली ही कथा खुबूच वेगळी आसा.

प्रेमांत मीलन आसता. ना तर विरह आसता. हांगासर प्रेमांत युद्ध आसा. ह्या युद्धांत कोणूय एकलो जिखलो जाल्यार प्रेमाची हारूच थारतली. दोगांयनी जिखपाक जाय. आनी दोगांय जिखता त्या युद्धाचें स्वरूप तरी कसलें? भगवान बुद्धान एकीकडेन म्हणिल्लें, आपणांक अशें एक युद्ध अभिप्रेत आसा ज्या युद्धांत कोणूच हारचोना, आनी सगळे जिखतले. प्रेमयुद्धाचेय बाबतींत अशेंच

कितेंशें म्हणपाचें धाडस करूं येता. अखेर प्रेमाची शक्त अफाट आसा. प्रेमाखातीर युद्धां जाल्यांत आनी प्रेमाक लागून युद्धां वाटांवल्यांत लेगीत.

नाटकाचे रचनेंत भारत-चिनच्या झुजाची पार्श्वभूंय लाबल्या. युद्धाची आनी चड करून युद्धकैद्यांची माहिती पुंजायताना म्हाका लेफ्टनंट कर्नल श्याम चव्हाण हांगेल्या 'वालाँग' ह्या मराठी पुस्तकाचो खुबूच आदार जालो. नाटकाचे लेखन प्रक्रियेंत आसताना योगायोगानूच हें पुस्तक म्हज्या हातांत पडलें. ह्या पुस्तकांत लेखकान भारत-चीन युद्धाची प्रत्यक्ष माहिती दिल्या. त्या युद्धांत ते झुजिल्ले आनी युद्धबंदी जाल्ले. ते खातीर म्हाका त्या पुस्तकाचे लेखक ले. कर्नल श्याम चव्हाण हांगेले खास उपकार मानपाकूय जाय.

## सांगोड

वर्तमानपत्रांचेर अदींमदीं सयामी जुंवळ्यांच्यो खबरो येतात. काळजाक चटको दिवपी तांचे फोटोय पेपरांतल्यान वो प्रसार माध्यमांतल्यान वितरीत जातात. अशीच एक खबर जुलय 2003 वर्सा प्रसार माध्यमानी आयली, लादान (Ladan) आनी लालेह (Laleh) ह्या 25 वर्सांच्या ईराणी सयामी जुंवळ्यांची. ती दोगांय मेंदवाकडेन (Craniopagus Twins) जुळिल्लीं. सिंगापोरच्या रॅफलीस (Raffles) हॉस्पिटलांत डॉ. केथ गोह (Dr. Keith Goh) हे सिंगापोरीएन न्यूरो सर्जन आपणाल्या वैजकी पंगडा सयत तांचेर शस्त्रक्रिया करून तांका मेकळीं करपाचीं आसले. कर्तुत्व आनी बुद्धी कसवटेक लावन मानवी चमत्कार घडोवपी मनशामुखार एक आव्हान उबें जालें. ताणी तें आव्हान स्वीकारून प्रयत्नांची पराकाष्टा केली, कांय खिणाखातीर विश्वाचो स्वास थांबोवन दवरलो, पूण तांकां दोन शापीत कळयांचे नशीब बदलप जमलें ना. शस्त्रक्रियेन दोगांय वेगळीं जाली खरीं. पूण कातरिल्ली शीर जोडपाक डॉ. केथ गोह आनी तांगेल्या पंगडाक यश आयलेंना. रक्त वाहिनींतल्यान सुमारा भायलें रक्त गेल्ल्यान पयलीं लादान संवसाराक अंतरलें जाल्यार ताच्या उपरांत देड वरान लालेह हाका मर्ण आयलें. खऱ्यांनिच त्या खिणाक अख्खो संवसार धळधळयां रडलो म्हणल्यार अतिताय जांवचीना.

लादान आनी लालेह हांचोच संदर्भ घेवन हांवें 'सांगोड' नाटक बरयलें.

हें नाटक बरयताना हांवें सयामी जुंवळ्याचो बारीकसाणेन अभ्यास केलो. नेमाळ्यांनी आयिल्ल्यो खबरो, लेख वाचले. वेबसायटीवयल्यान माहिती एकठांय केली. त्या निमतान सयामी जुंवळ्याचो फाटलो इतिहास तपासलो. सयाम देशांत पयली जुंवळी केस सांपडिल्ली देखून ह्या प्रकाराक 'सयामी जुंवळी' म्हणटात म्हणपाचें म्हाका पयलेच फावट कळून आयलें. वैजकी ज्ञान म्हज्या आवाक्या भायलें आशिल्ल्यान हांव गोंयचे नामनेचे बालरोगतज्ञ आनी शल्यविशारद डॉ. संजय खोपे हांका भेटलों. ताणी म्हाका समजता ते पद्दतीन बऱ्योच गजाली विस्कटावन सांगल्यो. आपणाल्या यशस्वी शस्त्रक्रियां मदल्या शस्त्रक्रियांचे फोटे, क्लीप्स् दाखयल्यो. ताणी दिल्ले माहितीन म्हज्या आत्मविश्वासाक बळकटी आयली. ह्या संदर्भात डॉ. ललना बखले हांचोय आदार लाबलो.

नाटकाचे प्रयोग बरेच रंगले. म्हजेंच नाटक, पूण एक दर्शक म्हण पळयताना म्हाका दिसलें, हें नाटक बरोवप कठिणूच पूण तें पळोवप लेगीत एक धाडसूच. खिणभर कोणेंय कल्पना करची–असो जुंवळो प्रकार नियतीन आपल्या संवसारांत निर्माण केल्लो जाल्यार? मनांक थरथरो सुट्टलो! आमच्यांनी सादी कल्पनाय करूं नजों जाल्यार वास्तव कितलें भयांकृत आसतलें? नाटकाचो एक प्रयोग, गोंयांत पयल्या आंतर राष्ट्रीय फिल्म महोत्सवांत (IFFI) जालो. तेदेवेळार महाराष्ट्रांतल्या एका मराठी पत्रकारान आपल्या समीक्षणांत बरयताना म्हणिल्लें, ''नाटकांत खंयच सयामी जुंवाळ्यां वयल्यान विनोद निर्मिती करूंक ना.'' कारण त्याच काळांत (2004) एका दूरदर्शन चॅनलावयल्यान सयामी जुंवाळ्यांचेर कथामालिका चलताली आनी तातूंत जुंवळेपण हो विनोदाचो भाग केल्लो. जुंवळेपण हें एक प्रकारचें अपंगूळपण. आनी अपंगूळपण हो मानवीक नदरेंतल्यान विनोदाचो भाग जावपाक शकना. अशे तरेचीं विवेकी पथां हांव म्हज्या नाटकांतल्यान पाळीत आयलां. 'सांगोड' ताचें बरें उदाहरण आसा.

ह्या नाटकाचो मराठी रुपकारूय 'जोडखंड' ह्या नांवान रंगमाचयेर आयला.

## कथा अस्तुरी

'कथा अस्तुरी' हो नाटकासारखो प्रकार आसलो तरी पुराय अर्थान नाटक न्हय. हांवें ह्या साहित्य प्रकाराक 'संवाद' अशें म्हणलां.

हांवें आयजवेर तिसांवयर नाटकांचें लेखन केलां. पूण 'कथा अस्तुरी' खातीर म्हाका घेवचे पडिल्ले कश्ट नाटका परस वेगळे आसले. आशयाकडेन संबदीत तपशिल पुंजावन ताचें संकलन करून, नाट्यशैलींत ताची रचना करपाचें कसब तशें सहजसाध्य न्हय. नाटक हो साहित्याचोच एक प्रकार आसलो तरी नाटक आनी साहित्य हे दोनूय प्रकार वेगवेगळे आसात. हांगा दोनांय मदीं एक सेतू सांदपाचो यत्न हांवें केलो. तो यशस्वी जालो ताचें समाधान नक्कीच आसा.

आयजवेर हांवें बायलांविशीं आयकल्लें, वाचिल्लें, चिंतिल्लें, समजून घेतिल्लें जायतें कितें 'कथा अस्तुरीं'त आयलां. रामायण, महाभारत, वेद-पुराणां, लोककथा, मिथकां हांचो संदर्भ पावला पावलाक येता. महात्मा गांधी, डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हांच्याच विचारांचो आदार म्हाका लाबला. नामनेच्यो गुजराती लेखिका कुंदनिका कापाडिया, हांगेल्या 'सात पावलां आकाश' हे गुजराती कादंबरीची प्रस्तावना म्हणल्यार बायलांची स्थिती आनी समस्या हांचो एक व्हड आलेख. हें पुस्तक कोंकणीत आयलां. ते प्रस्तावनेचो म्हाका खूब म्हणल्यार खुबूच आदार जालो. गोंयांत बायलांच्या प्रश्ना संबंदिचे चर्चेंत गोंयचे एक विचारवंत डॉ. तानाजी हळर्णकार हांगेलीं काय खाशेलीं मतां वेळाकाळाक प्रसिद्ध जाल्लीं. (केन्ना केन्ना ताणी मुद्दाम जावन वाद-विवादाखातीर तयार केल्लीं.) तांचोय संवादात आस्पाव जाला. वर्तमानपत्रांत आनी टीवीच्या माध्यमांतल्यान प्रसारीत जावपी बायलांविशींच्यो घडणुका आनी खबरो हांचोय आस्पाव संवादांत जाला म्हणपाचें चाणाक्ष वाचप्यांचें नदरेंत आयले बगर रावचेंना.

'कथा अस्तुरी'चे आयजवेर जे प्रयोग जाले ते म्हत्वाच्या तशेंच लक्षणीय सुवातींचेर जाले. सर्वसामान्य रसीक प्रेक्षकांमुखार गोंयांत चडानचड प्रयोग जाले. त्या भायर अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन-पणजी, साहित्य

अकादेमी-मुंबय, डॉ. टि. एम. ए. पै फौंडेशन-मंगळूर, हांगासर हे प्रयोग जाले. इन्स्टिटयूट ऑफ मिनेझीस ब्रागांझा-पणजी हे संस्थेन तर नाटकाच्या प्रयोगाबरोबर नाटकाचेर एक चर्चासत्र घेतिल्लें. महिला आयोग-गोंय सारख्या महिला संघटनाचो सहभाग ह्या आयोजनांत आशिल्लो. आकाशवाणी पणजी तशेंच पणजी दूरदर्शन केंद्रावयल्यानूय ह्या नाटकाचें प्रसारण जालें. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार गोंयांतल्या कांय महाविद्यालयांनी, गोवा विद्यापीठांत, एन. आय. ओ.-पणजी हांगासर ह्या नाटकाचे प्रयोग आनी ताचेवयलीं चर्चासत्रां जालीं. एकूण अपेक्षेपरस चड प्रतिसाद ह्या उपक्रमांक लाबलो. हातुंतल्या कांय प्रयोगांक आनी चर्चासत्रांक हांव लेखक म्हणून सहभागी जाल्लों. तो अणभव एक लेखक म्हण म्हाकां अदिक कितेंतरी शिकोवपी आसलो. पणजेंत जाल्ल्या एका चर्चासत्रांत गोंयच्यो एक नामनेच्यो वकिल ॲड्. शुभलक्ष्मी नायक हाणी म्हणलें, "बायलांचो प्रश्न हो फक्त बायलांचो प्रश्न न्हय. तो एकूण समाजाचो प्रश्न. तो फक्त बायलांचो प्रश्न अशें जेन्ना आमी मानलें तेन्ना सगळो घोळ सुरू जालो."

'कथा अस्तुरी'चे दोन प्रयोग मुंबयत जाले. एक प्रयोग साहित्य अकादेमीन घडोवन हाडिल्लो. जाल्यार दुसरो प्रयोग कोंकणी त्रिवेणी कला संगम, मुंबय हे संस्थेन आपणाल्या सत्ताविसाव्या वर्धापन दिसानिमतीं, राम मंदिर वडाळा हांगासर ता. 9 फेब्रुवारी 2008 दिसा घडोवन हाडिल्लो. ह्या प्रयोगाक गोकर्ण पर्तगाळ जिवोत्तम मठाचे प. पू. विद्याधिराज श्रीपाद वडेर स्वामी हाजीर आशिल्ले. 'कथा अस्तुरीं'त श्रीरामाचेर एक कोमेंट आसा. "सीता आपूण जावन रावणाबरोबर वचूंक नाशिल्ली. तरी लेगीत तिका अग्निदिव्य करचें पडलें. सीतेक रामापासून दीस गेल्ले तरी लेगीत तिच्या चारित्र्याचो दुबाव घेवन तिका व्हरून रानांत सोडली. आनी आजुनूय हो समाज राम चुकला अशें मानूंक तयार ना." कलाकारांनी हो संवाद आशय आनी भावनासयत घेतलो. प्रेक्षकांकडल्यान हेर संवादाच्या वेळार मेळटा तसोच उत्स्फूर्द प्रतिसाद आशिल्लो. खिणभर हांव अंतर्मूख जालों. प्रत्यक्ष रामाच्या देवळांत, रामभक्तांमुखार आनी राम मंदिराच्या मठाधिशांमुखार आमी लेखक-कलाकार आमच्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो वापर करताले.

एक हिंदू म्हणून म्हाका हो अधिकार मेळटा. अशे तरेचो अभिव्यक्तीचो अधिकार आमच्या हेर धर्मिक बांधवांक मेळत व्हय?

## दिव्या दिव्या दिपत्कार

'दिव्या दिव्या दिपत्कार' नाटकांत अरेबिएन कथेंतल्या अलाद्दीन ह्या मिथकाचो वापर केला. भारतीय बोधकथा वो नितिकथां परस अरेबिएन कथा आगळ्यो-वेगळ्यो आसात. त्यो बोधकथा न्हय पूण तातूंत मनोरंजनाचे सगळे घटक आस्पावतात. अशें सांगतात, दिसाचे अरब व्यापारी रखरखत्या रेंवंटांतल्यान उंटावयल्यान प्रवास करताले आनी रातचो तांचो खंयतरी पडाव पडटालो. थंय दिसाभराचे कश्ट विसरायेर घालपा खातीर तांचे सांगाताक आसपी काणयेंकार त्यो सुरबूस मनोरंजनाच्यो काणयों सांगतालो. देखून तातूंत कल्पनाविलास आनी मनोरंजन हांचें मेळावण आसतालें. अलाद्दीनचो 'जादूचो दिवो' ही अशीच एक कथा. हे कथेंतली कल्पना जायत्या भारतीय कथा-नाटक-सिनेमा ह्या प्रकारामदीं वापरल्या म्हणपाचें आमकां पळोवपाक मेळटा. हांवेंय ते कल्पनेचो वापर करताना ताचें भारतीय बोधकथेंत रुपांतर केलां. म्हजे नदरेन तें लक्षणीय आसा.

नाटकांत मध्यमवर्गीय काटकसरीक उबगल्ली गृहिणी, चंगळवादी संस्कृतीची चटक लागिल्ली युवा पिळगी, प्रसिद्धीच्या झोतांत रावपाक सोदपी उमेदी खाकी-वर्दी आनी ह्या सगळ्यांच्या उरफाटे चलणुकेचो, म्हणल्यार सरळ उजू मार्गान चलपी मध्यमवर्गी घरकार, अश्यो वास्तव व्यक्तिरेखा नाटकांत निर्माण करता आसतानाच तांचे मदीं अलाद्दीन सारखें एक काल्पनीक अमानवी पात्र हांवें लेखक ह्या नात्यान निर्माण केलां.

दिवो हो घांसून धुंवर काडपाखातीर नासता तर पेटोवन उजवाड घालपाखातीर आसता आनी मनशांनी अमानवी उपाय वापरून संपत्ती करपाची नासता तर हात-पांय वापरून संपत्ती पुंजावपाची आसता, हीं उतरां हांवें सहजपणी संवादांत घातल्यां, तरी ताका 'तमसोमा ज्योतिर्गमय' सारख्या बळिश्ट मंत्राची फाटभूंय आसा हाची म्हाका पुराय जाणविकाय आसा. तशेंच 'श्रममेव जयते' मंत्राचोच तातूंत उद्घोष जाता हें हांव जाणां. तात्पर्य

: भारतीय लेखक, जांव नाटककार एका खूब गिरेस्त अशा पूर्वसंचीताच्या पेडार उबो आसता.

कोंकणी भाशेच्यो गोंयातूच अंत्रुजी, बारदेशी, साश्टीची, पेडणेची अश्यो विविध शैली आसात. नाटकांतल्या पात्रां खातीर, पात्रांचे वेगळेंपण दाखोवपाखातीर ह्या शैलींचो खूब उपेग जाता. आचार्य रामचंद्र शंकर नायक हांगेली 'चवथीचो चंद्र' ही एकांकी म्हणल्यार कोंकणीच्या विंगड-विंगड शैलींचें सगळ्यांत बरें उदाहरण.

कोंकणीतली पेडणेची शैली म्हाका खूब आवडटा. हांवें ह्या नाटकांत हवालदाराच्या तोंडांत ही शैली वापरल्या. म्हगेल्या 'परिक्रमा' नाटकांतूय एका पात्रा खातीर तिचो वापर केला. म्हजे 'बांबर' नवलिकेंत हे शैलीचो वापर जाला. कला अकादमीचे सातवे कोंकणी नाट्यसर्तींत (1982-83) विजय तेंडुलकर हांगेले 'अशी पाखरे येती' हें नाटक डॉ. विजय थळी हाणी संपूर्णरितीन पेडणेचे शैलीन सादर केल्लें. पेडणेचे शैलीची तांक म्हाका तेन्ना जाणवल्ली. हें शैलीचो वापर सद्याक तरी आमी फक्त विनोद-निर्मिती खातीरूच करता. तो गंभीर स्वरूपाच्या लेखनांतूय जावपाची गरज आसा, जसो शशिकांत पुनाजी हो लेखक प्रयोग करता.

मुदलचो हांव कवीच. देखून निमाणेकडेन कल्पना करतां ती अशी - समजा, एक रंगीत मनभुलयणो फुलपांखो येवन तुमच्या हातार बसलो. तुमी लक्तुबायेन ताका स्पर्श करपाचो यत्न केलो जाल्यार तो उडून वतलो पूण उडून वतना तुमच्या बोटांचेर आपणालो थोडो रंग सांडून वतलो. हें 'रंगकाव्य' लेगीत अशेंच! कांय वेळाखातीर रसीक म्हण तुमी ताचो आस्वाद घेवन तें सकयल दवरतकूच ह्या नाट्यकाव्याचो थोडोसो रंग तुमच्या मनाचेर नक्कीच उरतलो! तशी अपेक्षा आनी आत्मविश्वासूय आसा.

'रंगवेद' प्रकल्पांतलो हो पयलो खंड- 'रंगकाव्य' प्रकाशित जावपाखातीर जांचो प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष हातभार लागलो तांचे मनाकाळजा थावन उपकार!

**– पुंडलीक नारायण नायक**

## मांडावळ

## पात्रांची वळख

1. **दादी** – घरकार, मोगाचो बापूय
2. **बा** – दादीची घरकान्न, मोगाची आवय
3. **मोगा** – दादी आनी बालें तरनाटें चली
4. **बाबुराय** – मोगाचो मोगी, शेजारी
5. **देमू** – मोगाकडेन लग्न जावपाक सोदपी तरनाटो
6. **येसो** – देमूचो इश्ट
7. **कुळागरांतलीं कामेऱ्यां** –
8. **गावपी–वाजोवपी विविध सवंगां नाचपी पंगड** –
9. **गांवातलो लोक** –

## देखाव : एक

(गांवांतलो मांड. सगळो मांड पानां-फुलांनी शिरंगारला. पयसुल्ल्यान वाजप आयकूंक येता. घुमटां आनी धमको-डब हांचेवयलें वाजप. कांय वेळान वाजोवप्यांचो पंगड एक भोंवर मारून मांडाचेर येता. पंगडांतले लोक सणापरबेचीं न्हेसणां न्हेसल्यात. पंगडाच्या मुखार आशिल्ल्या मनशाच्या दोनूय हातांत पेट्टी दिवली आसा. तो दिवली हाडून मांडार दवरता. दुसरो एकलो दिवलेक गंधफूल करता.इतले म्हणसर वाजोवपी पंगड आपणाल्या वाद्यांसयत मांडार बसता. बसपाक चुट्टां-मल्लां हातुरल्यांत. दिवलेक गंधफूल करतकूच कपलाक तिबे लायता. मांडाचें आशिकुशीक आशिल्ल्या लोकांच्या कपलाकूय तिबे लायता. सगळे दिवलेक नमस्कार करतात. वाजोवपी पंगड मांडाच्या गुरुक होरायता.)

**मांडाच्या गुरू म्हाज्या नाच रे नाच**
**रोयणींतल्या देवा तुजी सुवर्णाची कात**

**पयलो मान तुकां देवा मानाचो तिबो**
**फळाक व्हरोंक कार्ये देवा मांडाचेर उबो**

**कितलो देखणो, आमचो राखणो, तूं रे वांठारो**
**तुज्याच नांवान धोलता देवा, आमचो पेटारो**

(मांडाच्या गुरूचें संवंग मांडार येवन नाचता. मांडाचो गुरू म्हणजे जाग्याचो सोरोप अशी कल्पना. मांडाचो गुरू नाचून वतकूच वाजोवपी पंगड नमन गावन गणपतीक होरायतात. गणपतीचें सवंग मांडार येवन नाचता. वांगडा रिद्धी आनी सिद्धी आसात. गणपती एकाच पांयाचेर नाचता जाल्यार रिद्धी सिद्धी दोनूय पांयांचेर. त्याच तालार हुंदीर (हुंदराचें सवंग केल्लें) हांगा थंय हुळहुळटा.)

**म्हाज्या गणेशा गणराया**
**पाव गा धा जाणांच्या कार्या**

**रिद्धी सिद्धी त्यो संगती**
**तुज्ये कृपेन फळटा माती**

**देवा हुंदराचेर बसकण**
**देवा चंद्राचेर रागवण**

**म्हाज्या शंकराच्या पुता**
**मांडार नर्तन करता**

**देवा नाचता एका पांयांरी**
**म्हाजो खेळ येता रंगारी**

(गणपती रिद्धी-सिद्धी आनी हुंदीर नाचून वतात. पंगड 'प्रेमजागोर' चें आख्यान सुरू करता.)

**मोग रुजिला झाडांनी,**
**मोग वाडिला माडांनी**

मोग देखिल्ल्या लोकांनी,
हो प्रेमजागोर रचिला होऽऽ

मोग जाल्लो चरांनी,
मोग केल्लो पोरांनी
मोग करित्या मोगीनो,
हो प्रेमजागोर तुमचो गाऽऽ

मोग व्हांवत्या पाटांनी,
मोग व्हांवत्या लोटांनी
मोग करित्या मोगीनो,
हो प्रेमजागोर तुमचो गाऽऽ

(काळोख)

## देखाव : दोन

(सुवात उजळटा. थंय कुळागर दिसता. माडयो आनी केळी. मांडयांचेर पानवेली. मदीं एका चरान कुळागराचे दोन वांटे केल्या. एका वाट्यांत बाबुराय हातांत कल्लें घेवन कुळागर शिंपता. बाबुराय पंचविशेक वर्सांचो जुवान तरनाटो. कमराक वालको. वयलें आंग उकतें. वाजपाच्या आनी गावपाच्या तालार बाबुरायाचे शिंपणे चालू आसा.

वेळ - सकाळचो.

इतल्यान मुखावयल्यान मोगा येता. मोगा तरनाटी जुवान चली.

बाबुरायाचे पिरायेचें. घागरो–पोलको असो ताचो भेस. ताच्या हातांत कल्लें आसा. तें आपणाले कुळागर शिंपपाक दुसऱ्या वाट्यांत आयलां. न्हीदसुरें आसा. बाबुरायाक ताचीं फकाणां मारपाची कूय येता. तो कल्ल्यांत अचळय उदक काडून ज्यूस्त मोगाच्या तोंडार मोखता. तेसरशीं मोगा भानार येता.)

मोगा : (रागान) बाबुरायऽऽऽ

(बाबुराय व्हडल्या व्हडल्यान हांसता. मोगा केळी आनी माडयांच्या आडसाक दडपाचो यत्न करता पूण बाबुराय ताचेर एकसारखें उदक मोखीत रावता. मोगा "बाबुरायऽऽ बाबुरायऽऽ अश्यो आड्डी मारीत रावता आनी निमाणे धांवून पयस वता.)

(काळोख)

## देखाव : तीन

(घर म्हणल्यार घराचो फुडलो भाग. आंगण आनी पडवी. पडवेर दाणी लांबता. तिचेर कांबळ, तुवाले, कपडे वडयल्यात. आंगणात सुपारी सुकत घातल्या.

वेळ – तोच, सकाळचो.

दादी, मोगाचो बापूय आनी बा, मोगाची आवय दोगांय आंगणांत वावर करतात. दादी चाळीस पंचेचाळीस पिरायेचो जाल्यार बा ताचेपरस कांय वर्सांनी ल्हान. दादी वालो न्हेसला. बाचो भेस कापड आनी पोलको असो. दादी सभावान रागीश्ट तितली बा सभावान मोवाळ. बा आंगणांतली सुपारी चाळटा जाल्यार दादी सुके पिराडे उबे करून एकीकडे दाळटा. इतल्यान

धोंपरावयर घागरो खोवन मोगा धांवत येता. आंगणांतले सुपारेचेर पांय पडून निसरून पडटा. बा कांचवेता.)

बा : मोगाऽऽ

दादी : (काम करता थंयचो वळून) पडलें? काय घालून घेतलें? दोकोबीन मोडलो मुगो? (पिराडो उखलून) मोडूना जाल्यार घालतां मोडून.

बा : (दादीक) तूं आनी एक दादलो! मेल्ल्याक आनीक मारतलो.

दादी : (बेपर्वायेन) मरुंना मुगो?

बा : (मोगाक उखलीत) कसलें धाडावलें पोर तोरंगीचो धोडो कशें! कशें जातलें बाये तुजें! तुज्या घरांत तूं पडटा-धोडटा, परक्या घरा कशें नंदतलें पोरा?

दादी : असल्या लक्षणांनी आवय-बापायचें नाक कातरतलें.

मोगा : बा, हें कितें करता?

दादी : (सुपारी चाळीत) तुजें कर्म!

बा : (ताका नियाळीत) आगे म्हाजे बाये! इतलें भिजलें खंय गो?

मोगा : बा, तेणें म्हाका भिजयलें.

बा : तेणें? कोणे गो?

(दादी दुबावान पळयता.)

मोगा : ना बा, पावस पडलो.

दादी : पावस? खंयचो पावस? पावसाक आजून म्हयनो आसा. आनी पावस थंय तूं कुळागरांत गेल्लें थंयच पडलो? हांगा आंगणांत पडलो ना? बास्कळ! (मारपाक पिराडो उखलता.)

मोगा : ना दादी, कितें जालें जाणा? शिंपण्याचो पावस पडलो. शिंपता शिंपता कल्लेंच परतलें. आनी सगलें उदक माथ्यावयल्यान आंगार पडलें.

बा : तुकां कल्लेंय धरपाक कळना?

दादी : कुळागरी मनशाचें चेडूं तूं.
तुकां कळना जाल्यार फायच्यान शिंपण्याक वचपाची गरज ना.

हांगासर घराकडेन कितेंय काडये-बडयेक आदार कर.

मोगा : ना दादी, फाल्यांसावन सारकें शिंपता. (विसरायेर घालपाक) जाणां दादी, पणसा-आळी कडली केळ व्हियेल्या.

दादी : बरें आसा.

मोगा : फाटल्या दिसानी व्हियेल्ली पळय, तीच केळ परत व्हियेल्या.

दादी : तीच परत व्हियेल्या?

मोगा : हय. खरेंच. देवाचो सोपूत!

दादी : खबर केळीची काय गायची?

मोगा : केळीची.

दादी : पिशें!

बा : तकलेन सारकें आसा मगो तूं? काय घुंवलां? कुडकुडटा पळय पारव्याचो पोर कशें! चल, कपडे बदली. (मोगा दाणयेवयलो सुकत घातिल्लो घागरो - पोलको काडटा.)

मोगा : (आपलेभितर) बाबुराय, तुजें पाड पडों रे!
(मोगा कपडे घेवन भितर वता. दादी आनी बा उलयतात.)

दादी : आतां मातशें धुवेचेर लक्ष दवरी.

बा : तेका कितें, व्हटयेंत घालून भोंवूं?

दादी : व्हटयेंत घालून भोंव नातर हांडीर मारून भोंव, पूण अशें पारपोळ कशें वाऱ्यार सोडूं नाका.

बा : बांदून घालचें पडलें.

दादी : घाल बांदून.

बा : बांदून घालपाक तें कितें गोरुं?

दादी : गोरुं न्हू जाल्यार हांगाथंय विडविडटा कित्याक? एका जाग्यार बसपाक कळना? अकस्मात कोणूय येयलो जाल्यार जाग्यार मेळचें ना.

बा : कोण कित्याक येतलो?

दादी : (चाळोवन) तुकां पळोवंक येतलो!

बा : कोण येयना.

दादी : आब्बा! कित्याक येवचोना?

बा : कोणूय येयलो जाल्यार तुजो हो आवाज आयकोन फाटल्या पांयान परततलो. तुजो अवतार आनी पळोवपाक रावचोना. उलयिल्ल्या उतरार तापप आनी तीडप. थंडसाणेन म्हण कितें सांगप ना.

दादी : (रागान पिराडो उखलीत) चुतडा, म्हजो सभाव वयर काडटा? तुजी-आवय आनी धुवेची केन्ना अपुरबाय करिना हांव? वेळावेळ वखद-विर्सद करता काय ना? सणापरबेक कापड-फाळी हाडटा काय ना? काल्या-जात्रेक व्हरता कांय ना? सांग, उलय गो. अपुरबाय करता काय ना?

बा : हातीच्या कांकणाक हारसो कित्याक? ही दिसता न्हू! ती तरसाद फाटीं काड.

(दादी पिराडो कुशीक वडयता.)

दादी : (लाडांत येवन) तुजी अपुरबाय करूं?

बा : पुरो पुरो. खरें दिसत कोणाय लोकांक.

दादी : लोक-ओक गेले खळांत. तुका खरें दिसल्यार पुरो मोगाचे आवय. वरांची वरां तुजी अपुरबाय करपाक शकतां, मात तापनासतना, तीडनासतना. वीस वर्सांआदीं मोगाच्या जल्माआदीं करतालो तशी अपुरबाय.

बा : सल्ले ते दीस. त्या दिसांचे भांगर जालें.

दादी : मोगा जालें!

बा : आतां तुकां तें शक्य ना.

दादी : कितें शक्य ना?

बा : तेन्ना तू कवळो आसलो देखून मोगाळ आसलो. आतां जालां जून आनी रातची आंबीलूय लागता तुकां हून.

दादी : बांद कर तुजीं फालां. मनांत हाडल्यार आतांच म्हज्यान तुज्या पांयांमदीं हुळहुळपाक जाता माजराचो पेटो जावन.

बा : भंगलो तूं! तुजें मन पडलें व्हाळांत.

दादी : व्हाळांत कित्याक? तें आजूय आसा, तुजेभोंवतणी.

(दादी रंगार येता. नाचून गावपाक लागता.)

दादी : **माथ्याक घेवन मोव मोव इलुदाची उशी**
**राणये तुकां गोपांत घेवन करतां खुशी**

(बा ताका गावनूच जाप करता. )

बा : **भंगलो म्हाजो राजा रे थंड जालें पाणी**
**उडून गेलो कीर आतां धोलता दाणी**

(अकस्मात दादीची नदर बा चाळटालें त्या बेडकांचेर वता. ताका राग येता.)

दादी : हें कितें?

बा : बेडकां.

दादी : तीं दिसता म्हाका, दोळे फुटोना म्हाजे आजून. हे तन्ने बेडे कोणे पाडले?

बा : माकडान.

दादी : खंयच्या माकडान?

बा : माकडाक नांवां आसतात?

(दादी बाचेर पिराडो उखलता.)

बा : माकड रानाकानांतलो न्हू.

दादी : म्हणजे?

बा : घरांतलो माकड.

दादी : म्हणजे मोगान हे तन्ने बेडे पाडले?

बा : काल एक कातरो काडलो कोंचून.

दादी : म्हणजे माडयेचेरुय चडलें?

बा : सदांच चडटा. सकयल रावून दिसलो खंय पिकला म्हणून-वयर चड जाल्यार तन्नो.

दादी : तन्नो म्हण कळ्ळो मूं? मागीर काडलो कित्याक?

बा : तें विचार तेकाच.

दादी : विचार म्हणजे सोडटां काय कितें? कसो झोड काडटां पळय. जल्माची याद उरतली. (बाक) तूं मर्दीं पडूं नाका. (हातांत पिराडो घेवन मोगाक उलो मारता) मोगाऽऽ

(मोगान दुसरे कपडे घातल्या. तें रागान भायर येता. मुखार दादी. तें दादीचेर व्हडलें लक्ष दिना. कांय न्हय करून दादीच्या हातांतलो पिराडो आपूण आपल्या हातांत घेता आनी आपल्याभितर उलयता.)

मोगा : सोडटां काय कितें! कसो झोड काडटां पळय. जल्माची याद उरतली.

(दादी मुखार येता.ताका कडेक काडून) तूं मर्दीं पडूं नाका. (पिराडो घेवन आंगणातल्यान धांवता. बाक दिसता, मोगा सुपारेचेर निसरून पडटलें. बाक कल्ल जाता. तेसरशीं ती आड्डटा, पूण मोगा सुपारेवेल्यान उडकी मारून वता. दादी तसोच पळयत उरता. बा दादीकडेन पळयता आनी धुवेन ताका चक्रायलो म्हणून ताचीं फकाणां मारून हांसता. दादीक राग येता. तो रागान हातांतलो पिराडो बाचेर मारपाक उखलता जाल्यार हातांत पिराडोच ना म्हणपाचें ताच्या लक्षांत येता. पंगड गायता.)

**मोगाक जेन्ना येता राग,**
**मोग तेन्ना जाता वाग**
**मोग करित्या मोगीनो,**
**ही कसली पीडा सांगा होऽऽ**

(काळोख)

## देखाव : चार

(कुळागर. आपल्या वाट्यांत बाबुराय उबो आसा. तो चराकडेन येवन मोगाक उलो मारता.)

**बाबुराय** : मोगाऽऽ मोगाऽऽ

(कांय वेळान ल्हवपीक पावलांनी मोगा, बाबुरायाच्या फाटल्यान येता. हातांत पिरोडो आसा. तें फाटसून पिराडो जोखीत येता आनी धप्प करुन बाबुरायाचे फाटीर घालता. तेसरशीं बाबुरायाचो तोल वता. तो मुखावयल्या चरांत पडपाचो पूण सांवरता आनी दांग मारुन चर हुपता. दुसरेवटेन पावता. मोगा आपूणय चर हुपून दुसरेवटेन वता आनी परत ताचे फाटीर पिराड्याचो धपको घालता. अशीं दोन-तीन खेपो दोळगांय चराचेर दांगो घालतात.)

**बाबुराय** : मोगाऽऽ मोगा तूं कितें करता?

**मोगा** : व्हदळ तूं कितें करतालो? तुयें म्हाका भिजंयलें कशें? व्हदळ न्हिदेंत आशिल्लें म्हणोन सुटलो तूं. आतां बरें सडसडीत जागें जावन येयलां. दादीन आनी बान म्हाका कसलें उलोवन खाल्लें. आतां हांव तुकां खातां.तरी बाबुराया, नशीब तुजें. हांयें तुजें नांव सांगलेंना. नातर दादी तुकां चिरपाचो आनी ह्या चरांत घालून पुरपाचो. म्हाज्या दादीक वळखना तूं. दादीक वळखना आनी म्हाकाय वळखना. दादी रागाक धा पटीन वायट जाल्यार हांव रागाक शंबर पटीन वायट. कळ्ळें? बाबनील्या बाबुराया?

बाबुराय : (हाय हुय करीत) कळ्ळें. सामकें कळ्ळें, दादील्या मोगा.

मोगा : आतां हत्तपार म्हाजे वाटेक वयचोना. समजलें?

बाबुराय : समजलें.

मोगा : तुजी वाट वेगळी, म्हाजी वाट वेगळी. समजलें?

बाबुराय : समजलें.

(मोगा वचपाक वळटा. इतल्यान -)

बाबुराय : मोगा -

मोगा : आतांच सांगलें मरे. तुजी वाट वेगळी, म्हाजी वाट वेगळी.

बाबुराय : मोगा, तुजो राग आजून वचोंना?

मोगा : ना.

बाबुराय : कितें करूं?

मोगा : म्हाका खबर ना.

बाबुराय : जाणा मोगा!

मोगा : अं,

बाबुराय : फाल्या कितें सांग.

मोगा : फाल्यां कितें म्हणजे? आयच्या सारकें फाल्यां. असोच दीस. असोच उजवाड. अशेंच वारें. अशेंच कुळागर आनी आयच्या सारकें म्हाका भिजयलें जाल्यार फाल्यां तुकां अशेच लडे!

बाबुराय : मोगा, फाल्यां गांवचो जागोर.

मोगा : म्हाका खबर आसा.

बाबुराय : मोगा, जागराक येतलें मुगो?

मोगा : जागोर गांवचो, धा जाणांचो. गांवच्या जागराक म्हाका आपोवपी तूं कोण?

बाबुराय : म्हाजें तुकां खाशेलें आपोवणें.

मोगा : हांव येवपी न्हूं.

बाबुराय : कित्याक?

मोगा : कितें आसा तुज्या जागरांत? दर वर्सा तींच तींच संवगां! नवें म्हणोन कांयच ना.

बाबुराय : ना? नवी उमेद आसता ती. करतल्याकूय उमेद, पळयतल्याकूय उमेद. वगीच सगळो गांव लोटोन वचना. पूण मोगा, तूं

जाय.

मोगा : आनी हांव येंयलेंना जाल्यार?

बाबुराय : हांव जागरांत नाचपी न्हूं.

मोगा : आवयस्! सगळो गांव तुकां बुड्डून खातलो.

बाबुराय : खांव!

मोगा : नाका रे बाबा! नाच तूं तुजें दांडलायवयलें सवंग.

बाबुराय : जाणा मोगा, अंदू हांयें बरी येसाय माल्ल्या. आनी काल जाली गॅर्रा-येसाय. गॅर्रा-येसायेक हांव असो नाचलों - फोबोड्डार! मोगा, येतलें न्हू जागराक?

मोगा : हांव येयना जाल्यार तुजो जागोर जाता?

बाबुराय : (उमेदीन) खरेंच? (ताच्यालागीं येता. ताका हात लावपाक सोदता. इतल्यान)-

मोगा : एऽऽऽ
(मोगा कुशीक सरता आनी हांसत हांसत एका तालार उडक्यो मारीत वता. त्याच तालार जागराचें वाजप सुरू जाता)

## देखाव : पांच

(मांड. तोच मांड. मांडाचेर जागोर सुरू जाता. एक सवंग माथ्यार तुरमुटी दवरून गावन नाचता.)

**नमन माजेंऽऽ मांडाच्या गुरू**
**नमन माजेंऽऽ सांतेरी माये**
**नमन माजेंऽऽ देंवचारा देवा**
**नमन माजेंऽऽ रौदिऱ्या देवा**
**नमन माजेंऽऽ गांव पुरसा देवा**
**नमन माजेंऽऽ सर्वय देवांक**
**नमन माजेंऽऽ बसलेले सभेक**

(जागोर पळोवपी एक एकलो मांडार येता. दादले एकेवटेन उबे रावतात जाल्यार बायलो दुसरेवटेन येवन बसतात. कांय जाण हातांत कट्टेंत मेणवातीचे कुडके पेटोवन घेवन येतात. मांडार पावतकूच फूक मारून मेणवाती पालयतात. कांय जाण पेट्टयो चुडी घेवन येतात. मांडार पावतकूच चुडी जमनीक तेंकोवन पालयतात. पळोवंक येवपी बायलांनी आपआपलीं बसपाचीं आसनां हाडल्यांत. कोणे ल्हव्याची शेंदरी जाल्यार कोणे पोंवल्यांची हातरी हाडल्या. कोणे चादर, कोणे साक आदि. आसनां हांतरुन बायलो तांचेर बसतात. मांडावयले वाजप चालू आसा.)

(घर. मोगा नवी मुस्तायकी घालून जागराक वचपाक तयार जालां. भायर रावन पासयो मारता. दादी आनी बा आजून भायर सरपाचीं आसत.)

(काळोख)

**देखाव : स**

**मोगा** : (ताकतीक करुन) बा, दादी, कितलो वगत जालो, आजून तुमचें भायर सरोन जायना. तेवटेन जागोर सुरू जालो.

**बा** : (भायर येत–तिवूय नवी न्हेसणां न्हेसल्या.) मोगा, मातसो थार धर. ल्हान भुरग्याभशेन हुतहुतेपणा कितें करता? जागोर सुरू जालो जाल्यार जावं दी. रोकडो सोंपपाचो काय ना. फांतोडमेरेन चलतलो.

**मोगा** : आनी मदलीं संवगां चुकलीं जाल्यार?

**बा** : चुकलीं जाल्यार कितें जालें? एक चुकल्यार दुसरें मेळटलें.

मोगा : आनी जाय तेंच चुकलें जाल्यार?

बा : खंयचें जाय तेंच?

मोगा : (गडबडटा. विशय बदलता.) हो दादी आनी एक. (उलो मारुन) दादीऽऽ भायर सरता काय तुकां भरभरीत ओडून व्हरूं?

बा : आयज बापायचेरुय तापपाक लागलें.

मोगा : मागीर किते तेकाच तापपाक कयटा?

बा : ताप बाये ताप.

मोगा : (रागान) दादीऽऽ

दादी : (भायर येत. हातांत पेटिल्लो लापयांव आसा) मोगा, कसली ताकतीक गो? आमी जागोर पळोवपाक वयता न्हू, नाचपाक थोडीच वयता. ही लांपयांवाची वात सारकी करतालों, ते खातीर उशीर जालो. चला. (मोगाचेर नदर पडटा. लापयांव ताचे म्हऱ्यान व्हरता आनी ताका अपुरबायेन नियाळटा.)

दादी : मोगा, जागराक वयता काय संयवराक गो?

बा : तुजे धुवेक तूंच दीश्ट लाय.

मोगा : तुमी म्हाजीं फकाणां करशात जाल्यार हांव तुमचे वांगडा येवचें ना आं. एकलेंच काळखांत वयतलें.

दादी : खबर आसा, आतां तुकां बांदून घातल्यार लेगूत तूं हांगा रावचें ना.

बा : तेका केन्ना काय जीव मांडार घालीनसो जाला.

दादी : जागराची ओडूच तशी. चला, चला.
(दादी एका हातांत लापयांव आनी एका हातांत दांडो घेता. तिगांयजाणां मांडावटेन चलपाक लागतात.)

(काळोख)

## देखाव : सात

(मांड. वाजप चालू आसा. मांडाचेर मोगा आनी बा येतात. तीं दोगांय बायलो बसल्यात थंय वतात. मुखार बा वता फाटल्यान मोगा. मोगाचे वाटेर दोन तरनाटे आड येतात, देमू आनी येसो. दोगूय सादारण एकेच पिरायेचे. पूण बाबुराया परस व्हड. देमू पान खावपी जाल्यार येसो सिगारां फुसकावपी. हे काल्या–जात्रांनी भोंवपी आंबटशौकीन म्हणल्यार जाता. दोगूय मुद्दाम मोगाची वाट आडायिल्लेभशेन करतात. मोगा तांकां बदना. तें वचून बायलांमदीं बसता. मोगा येनाबरोबर कुशिच्यो बायलो आनी चलयो ताचीं फकाणां मारतात. ताच्या भेसाची, ताणे घातिल्ल्या अळंकारांची तूस्त–तोखणाय करतात. मोगा तांचेमदीं भरसता, हांसता, किटकिट्टा. देमू आनी येसो कुशीक उबे रावन उलयतात. इतल्यान दोग जाण येवन एक सवंक नाचता. दोगांयनी एकेच तरेचो पारंपारिक भेस केला. दोगांयच्या हातांत कागदी फुलांच्यो दोन रंगीत बडयो आसात.)

दोगूय : **म्हाजीं गोरवां चरता मळार**
**म्हाका मेळ गो एकटें व्हाळार**

तुकां कितले घातले उले
उल्यांनी धांवोन गेले कोले

शिर्कलीं गोरवां वालिंनी
आमी गो बसूंया झिलिंनी

म्हाज्या गोगरवांक खावनी वागान
आमी रावंया हांगां मोगान

(दोगूय नाचून भितर वतात.)

येसो : देमू, तूं पान खायत राव. आयज जागोर रंगतलो. सुमाराभायर रंगतलो. फांतोड मेरेन हांगच्यान हालपाक नाका. मांड दवरुनूच घरा वयपाचें.

देमू : आमी मांड दवरुंपाक जागराक येयल्या तर?

येसो : हो मांड दवरता तो निमाणो. आतां धडो लागतलो.

देमू : म्हणजे?

येसो : आरे, आतां परत-परत हांगाथंय जागराक वचपाक नाका. ह्या जागराक काम जातलें.

देमू : अशें म्हणटा? खंयचें रे?

येसो : आनी खंयचे? व्हदळ वाटेर आडखळेंना, तळयेंतली दाणय कशी? तेंच. (मोगाक पळयत) मात हेवटेन पळयता जाल्यार पळय.

देमू : तें दंगलां जागरांत (अदमास घेवन) आतां दांडलावयलें सवंग येवपाचें जालें.

येसो : आमी हांगां हातीपायांनी धडधाकट आसतना हेका दांडलावयलें संवंग कित्याक?

देमू : (मोगाक नियाळीत) यशा, जिवाच्यान सांगतां, हें जर मेळटा आसत जाल्यार हांव हेच्या बापायचें घर फुकट मदेरार करपाक तयार आसां. (याद जावन) आयिद्‌दयांची पोती आसा मरे

जाग्यार?

येसो : (पोती दाखयत) आसा, आसा. तेच्या बापायचें घर मदेरार करचेपयलीं तेच्या बापायची वासपूस करची पडली ना?

देमू : येशा, कितलेंय मोल फारीक करचें पडल्यार जाता, मान बागोवन नाकूय घशटूचें पडल्यार कमा येता. पूण हो माल उबारपाचो.

दादी : (तांचेमदीं येत) उबारपाक कितें पिड्डुककारांल्या माणावयली बावली?

येसो : बावली न्हू देखून इतलो वगत रावले, नातर येन्ना उबारल्याच. न्हू रे देमू?

दादी : जिबेक हाड ना म्हण कितेंय उलोंव नाका. म्हाजें चेडूं तें.

येसो : अशें? सुंदर आसा. न्हू रे देमू?

दादी : तो देमू, आनी तूं कोण?

येसो : हांव येसो (दादीक) सिगार ओडटालो? घे.

दादी : नाका, म्हाजेकडेन इडी आसा.

देमू : पान खातलो?

दादी : नाका.

येसो : खरेंच, तुमचें चेडूं दीशट लागपाइतलें सुंदर आसा. न्हू रे देमू?

दादी : तें तेगेले आवयचे बडीर गेलां.

येसो : (त्या निमतान मोगाक आनी दादीक नियाळून आडेचे तोखणायेन) आवयचे कित्याक? तें बापायचेय बडीर गेलां. न्हू रे देमू?

देमू : (मान हालोवन) हय हय.

येसो : मागीर देमू, मदेरार करुंया मरे हेगेलें घर?

दादी : कोणालें घर मदेरार करता? आनी मदेरार करपाक तुमी कोण?

येसो : तशे आमी कुळागरी. पूण होवूय जोडधंदो करता, मेस्तपणाचो. हो देमू खांपो मेस्त. आतांय म्हण आमी कामाक आसले. काम सोपोवन भायलेभायर जागराक येयले. तसो आमी एकूय जागोर

चुकयना.

देमू : हो जागोर तर कसोच चुकोवपी न्हू.

येसो : आतां ह्या जागरान प्रश्न मिट्टा जाल्यार आनीक जागोर कित्याक जाय? कितें देमू?

दादी : म्हणजे फकत जागराचें निमित्त?

देमू : तुमकां आनीक सांगपाक जाय? तुमी आमचेपरस धा पावसाळे अदीक पळयल्या.

दादी : (खोशयेंत) जालेंच. केंस कितें वोतान पिकनात, अणभवानूच पिकता.

येसो : मागीर दादी, कितें करुंया?

दादी : उलोवंया.

देमू : खरेंच?

दादी : खरेंच म्हणजे?

(मुक्तक - वेगळेच शैलीन )

*आरे, पोरसांतले फूल फुलता तेन्ना धायदिकां परमळटा.*
*परमळ तेजो पाटल्यापोंदा धापून घालूंक जायत?*
*येतले चारुय दिकांचे भोंवर,*
*काडटले पोरसाभोंवतणयां घुंवडाळ्यो,*
*तेंकां दांड्यान मारुंक जायत?*
*पोरसांतलें फूल खुंटपाचे आसा,*
*कोणाच्यातरी गळ्यांत बांदपाचें आसा.*
*पोरसाच्या धनयान तें आपलें म्हणूंक जायत?*

देमू : (भुल्लूसून) दादी, केन्ना उलोवंया?

दादी : तुमकां जाय तेन्ना, पूण हांगा मांडार न्हू, घरा. आमी अब्रुचीं मनशां. आमचें अब्रुचें चेडूं.

(इतल्यान फोगोट्र्यांचो गडगड जाता. मांडाचेर दांडलावयलें थोटीचें सवंग येता. हें संवग बाबुराय नाचता. बाबुरायान एका पांयाक दोनेक फूट लांबयेचो दांडो बांदला. ताका लागून तो एका पांयान थोंटो दिसता. भरजरी पोशाक घातला. तो

काणयेंतल्या एखाद्या राजकुंवरावरी दिसता. वाजपाच्या तालार तो दांडलावयल्या एका पांयार नाचता. गायता आनी नाचता. सगळे लोक चकाचूर जावन ताका पळयतात. मोगा सामकें भुल्लुसलां.)

**एका पांयाचो थोटी,**
**म्हाजी उमेद कितली मोटी**

**घर चार चौक्यांचें,**
**घर म्हाज्या बापायचें**

**कुंभानी पिकता रे,**
**म्हागेर तुंबानी रकता रे**

**सभेक मारीना फटी**
**देंवोन येयलां दोंगर-घांटी**

**आयकोलां तें खरें,**
**मांडार चेडवांचें भिरें**

**चंद्रिमाची सुंदराय,**
**तसलें चेडूं जाय**

**मेवळें रे मेवळें**
**चेडूं तन्ने कंवळें**

(काळोख)

## देखाव : आठ

(घर. वेळ सकाळचो. मोगाची बा आंगणांत सारण मारता. दादी पडवेर बसून विडी ओडटा. भायर देमू आनी येसो येतात. येशाच्या हातांत मेस्तपणाच्या आयिद्दांची पोती आसा. देमू पान खाता जाल्यार येसो सिगार ओडटा. ते आंगणात येता तेन्ना बा एकठांय करून भायर वडयता तो कोयर तांच्या आंगार पडटा. ते आंग फाफुडटा. दादीक राग येता.)

दादी : आगो, आगो पापणी, दोळे फुटल्या तुजे? कोयर तेंच्या आंगार वडयलो मुगो. मातशी मान वयर करुन सारण मारपाक कितें धाड भल्लेली तुकां? (बाक आपली चूक कळटा. मान सकयल घालून ती भीतर वता)

दादी : (मुखार येत) यो, येशा यो. यो देमू. (तो येशाक देमू आनी देमूक येसो लेखता.)

येसो : जाणां दादी–

दादी : (अजापान) दादी? हय. म्हाका दादीच म्हणटात.

येसो : हांव येसो आनी हो देमू.

दादी : बरें आसा.

देमू : सारण मारताली ती?

दादी : मोगाची आवय.

देमू : बरोबर. घराची कळा आंगण सांगता.

येसो : (देमूक) हांयें तुकां सांगोक नासलें? धुवेचें नांव मोगा.

दादी : हय. मोगा.

(दादी तांकां बसपाक कांबळ हातुरता.)

दादी : कसो जालो जागोर?

देमू : जानोत!

येसो : इतले जागोर पळयले पूण असलो जागोर केन्ना पळयलोना.

दादी : आमच्या जागराची सर बाकीच्या जागरांक ना.

देमू : (मोगाचो अदमास घेत) खरेंच ना.

दादी : मोगा न्हिदलां.

येसो : जागराचें जागरण न्हू! न्हिदपाचेंच.

देमू : तशी आमकांय न्हीद येताली पूण तुमचे धुवेक पळयली आनी न्हीद खळ्ळी.

(दोगूय निलाजरेपणान हांसतात.)

दादी : बरें उलयतात तुमी.

येसो : आतां ताकाक येवन गाडगो कित्याक लिपोवपाचो, न्हू रे देमू?

दादी : एक सांगात-

येसो : एक कित्याक धा इचारात.

दादी : तुमचेमदलो लग्नाक तेंकला तो कोण?

येसो : दोगूय.

दादी : तें दिसताच. पूण मोगाकडेन कोण लग्न जावपाक सोदता?

येसो : कोणूय.

दादी : (रागान) कोणूय म्हणजे कितें रे? तुमी सोयरीगत घेवन येयल्या काय घर मदेरार करपाक?

येसो : दोनूय करुंया.

देमू : (मुखार येत) दादी, हांव, हांव मोगाकडेन लगीन जावपाक सोदतां.

येसो : हय. देमू लग्न जाता जाल्यार म्हाका आनीक लग्न नाका. हांव रावन असोच. देमू म्हाका अंतर दिना तशें मोगानूय म्हाका

अंतर दिना जातकूच जालें.

(दादी येशाकडेन देमूची खबर विचारता.)

दादी : घरा कोण कोण आसा? आवय-बापूय?

येसो : कोण ना. सगळीं मेलीं.

दादी : सोयरी-धायरीं?

येसो : ना, तींवूय चडशीं मेलीं.

दादी : गोरवां-वासरां?

येसो : सगळीं मेलीं.

दादी : (रागान) असल्या मेल्ल्यांच्या घरांत हांव म्हाजे धुवेक दिवं?

देमू : दादी, तो आपली गजाल सांगता. म्हजो आवय-बापूय, सोयरी-धायरीं, गोरवां-वासरां सगळीं जितीं आसात. शिवाय शेत आसा. थोडें मरड रोयतां. नाचणो-पाकोळ रोयतां. कुळागराचे दोन दाणे आसा. आनी जोडधंदो म्हण मेस्तपण.

(दादी खुश जाता. येसो त्याच नेटार दादीक म्हणटा-)

येसो : आतां उलय.

(येसो आनी देमू उमळशिकेन रावतात.)

दादी : म्हाका शिंपण्याखातीर दोन बरीं कल्लीं जाय आसलीं.

देमू : कल्लीं? हांव करून दितां. खूब जाणांक हांयें करून दिल्यांत.

दादी : तुजी फेती फारीक करुंया.

देमू : कांय गरज ना. तुमी फकत लाकूड दियात. हांगासरूच बसोन करतां. दोन कित्याक तीन करचीं, तिगांक तीन जालीं.

दादी : नाका, नाका दोन पुरो. एक आसा.

येसो : दादी, कल्लीं जालीं. आतां मुखार?

दादी : मुखार? (हांसत) शिंपणें!

येसो : खरेंच?

देमू : मोगाक हांव राणी कशी दवरतलों.

दादी : तें आसाच राणी. (बाक उलो मारीत) मोगाचे आवयऽऽ (बा

येता.) तुयें आयकलां न्हू सगळें?

बा : सगळें आयकोना पूण अदमास बांदला.

दादी : रातीं जागराक सावन येतना तुकां सांगतालों ती हेंची खबर. (उलयता उलयतां येशाचेर हात पडटा. मागीर भानार येत) हो सिगारवालो न्हूं आ, हो पानवालो.
(बा लजता.)

येसो : आवय इतली लजता जाल्यार धूव कितली लजतली!

दादी : (बाक) चल, मातशें मोगाक उठय.

बा : उठय? उठपाक न्हिदलां तर तें?

दादी : मागीर खंय गेलें?

बा : आसतलें कुळागरांत.

दादी : हांव तेका पळोवन येतां. तुमी बसात (बाक) तेंकां च्याव कर.

देमू : हांव लागतां कामाक.

बा : कसलें काम?

देमू : कल्लीं करपाचें (दादीक) म्हाका मुणी दाखय.

दादी : राव मातसो, पयलीं मोगाक पळोवन येतां.
(हातांत दांडो घेवन दादी कुळागरावटेन वता.)

(काळोख.)

## देखाव : णव

(कुळागर. बाबुराय आनी मोगा उशेणाचे धडेर बसून गजाली करतात. बाबुराय उशेणांतल्या उदकांत शेंकरे मोखता.)

मोगा : बाबुराय, तुजें दांडलावयलें संवंग म्हाका भौच मानवलें.

बाबुराय : खरेंच?

मोगा : जिवाच्यान तर. काय बरें मूद घातलेलें रे तुयें? तुकां तें बरें दावता. पयलीं कसलो भंय दिसलो जाणा? आतां म्हणलें, तूं दांडला वयल्यान पडटा.

बाबुराय : शे! तसो हांव पडपाक येयलां?

मोगा : पूण एका पांयार नाचप म्हणजे फकाणाचें काम न्हू.

बाबुराय : कसल्याय कामापरस मूद चडोवन म्हाका थोटीचें संवंग नाचपाक आवडटा. हांव नाचतां तेन्ना ध्येयभान विसरतां. ह्या संवसारांत नासतांच म्हणल्यार जातां. खंयच्यातरी वेगळ्याच अप्रुपाच्या संवसारांत पावतां.

मोगा : आनी तूं आसताय तसो, जमनीपासून कितलोतरी वयर.

बाबुराय : जिवाक चुटमुटे पडटा. हो जागोर वर्सांतल्यान फकत एकदांच येता. आतां बदूद फुडल्या वर्सा.

मोगा : तुजी इत्सा आसल्यार तुयें अदींमदीं केन्नाय नाचोंक जाता.

बाबुराय : एकलोच नाचूं? आनी पळयतलो कोण?

मोगा : हांव.

बाबुराय : फकत तूं?

मोगा : हय. फकत एकलेंच. म्हाजेखातीर तूं नाचता तें पळोवपाक आवडटलें. नाचतलो?

बाबुराय : पूण नाचतलों कसो? पांयांक दांडो बांदपाक नाका?

मोगा : दांडो कित्याक बांदपाक जाय? म्हाजेखातीर नाचता न्हू? मागीर पांय धर्तरेचेर दवरून नाच. पळय. (मोगा एक पांय धोपरांकडसून फाटल्यान दोडटा) आनी आतां नाचपाचें. (नाचत) लाऽऽ लाऽऽ लाऽऽ (एका पांयार नाचता ताचो तोल वता. तें उशेणांत पडपाक आनी बाबुराय ताका सांवरता.)

बाबुराय : कसलें पडटलें आसलें जाणा? हांयें घट धरलें म्हण...

मोगा : खरेंच पडपाचें न्हू?

बाबुराय : इचारता आनी?

मोगा : (ताणे घट धरलां तें पळोवन) आतां पडना मरे? सोडल्यार जाता. (बाबुराय ताका सोडटा. ताका सोडपाचें न्हय म्हणपाचें मागीर बाबुरायाच्या लक्षांत येता. तो परत ताका धरपाक सोदता. मोगाकडेक पळटा. कांय वेळ दोगांयचो धर-पकडचो खेळ जाता. मुक्तक)

मोगा : *धर म्हाका धर.*

*आळवाच्या पानावयलो निसट्टो थेंबो हांव*
*चिमटेंत धरून उबार*
*गुतून गळ्यांत हार कर*
*धर म्हाका धर.*

*फांतरावयल्यान कोंसळपी वझऱ्याची हांव धार*
*लकलकीत तरसाद*
*कातरून वतलो, कडेक सर*
*धर म्हाका धर*

*खांदयेवयल्यान उडणां मारपी धिटूक-शिटूक चानी हांव*
*तुज्या काळजाचें कल्ल फोडूंक*
*लागीं म्हाका कर*
*धर म्हाका धर*

(बाबुराय मोगाक धरपाचो यत्न करता. इतल्यान दादीचो उलो आयकूंक येता, 'मोगाऽऽ' तेसरशी दोगांय कांचवेता.)

**मोगा** : दादी! दादी येता दिसता. आमकां दोगांकूय पळयल्यार वगी रावचोना. तुकां सोडचोना.

(दादीचे उल्यार उले आयकूंक येता. दोगांय काचाबूल जातात. थंयसावन पळून वचपाचो यत्न करतात. पूण तें शक्य जायना तेन्ना दोगांय चरांत घालून घेतात. दोगांय आंग चोरून एकीकडेन बसून रावतात. दादी दांडो घेवन कुळागरांत येता. हांगा थंय

भोंवता. तीं दडल्यांत त्याच चरावयल्यान दांग मारुन पलतडीं वता. परत तशीच दांग मारुन आलतडीं येता आनी मागीर आयिल्लो तसो परत वता. वाजोवपी पंगड गीत गायता.)

**चरांत पडल्यां तीं–ना–ना मोगांत पडल्यां तीं**
**शेणांत पडल्यां तीं–ना–ना मेणांत दसल्यां तीं**
**चुलांत पडल्यां तीं–ना–ना फुलांत पडल्यां तीं**
**काळखांत पडल्यां तीं–ना–ना साळकांत दडल्यां तीं**

(दोगांय चरांतल्यान ल्हवू ल्हवू वयर सरतात आनी दोशीं वशीं वतात.)

(काळोख.)

(घर. वेळ रातीची. आंगणांत सुपारी सोलपाचो वावर चलला. बा आनी आनीक दोगी–तिगी बायलो आदोळेचेर बसून सुपारी सोलतात. दर एकलेच्या मुखार सुपारेच्यो राशी आनी पाटल्यांनी सोलिल्ली सुपारी आसा. दादी सुपारी हाडपा–व्हरपाचें काम करता. बा मोगाक उलो मारता.)

**बा** : मोगा, बाय एके आदोळेचेर बस मुगो. कामाची तितलीच संवकळ जातली.

(मोगा येवन एके आदोळेचेर बसता. सुपारी सोलपाक लागता.)

**बा** : (बाकीच्या बायलांक) आगो, तोंडाक गुड्डे लावन मोन्यानी कसलो वावर करता? कितें गाया–बिया मुगो.

**पयली** : खरें तुजें मोगाचे बा. कामाक काम जालें, वेळाक वेळ गेलो.

**दुसरी** : तशें जाल्यार तूंच कर सुरवात.

**पयली** : हें बरें तुमचें. हांयें तोंड उकतें केल्यार म्हाकाच तोंडाक लायलें.

तिसरी : कोणेतरी सुरवात करपाकूच जाय न्हू?
मोगा : (पयलेक) साईत्रेमावशे, तूंच गाय. तूं बरी गायता.
दुसरी : मोगान फर्मायतकूच साईत्री रावता?
तिसरी : जागरांतलें गीतबी गायशी.
दुसरी : गायल्यार कितें जाता?
तिसरी : मोगा नाचपाक लागतलें.
(सगळीं हांसतात. सावित्री होंवयो गावपाक लागता. बाकींची तिचेवांगडा म्हणटात.)

सावित्री : आई–बापाचे पोटी,
जल्मली गे बेटी
धनाची गे पेटी,
बाळ मोगा आमचें

दुदाचे शिंपण,
मायेचें लेपण
एक एक सोंपण,
चडटा मोगाबाय

चिंबानी भरता पाणी,
माणकुली मोगाराणी
फाटीर धोलता वेणी,
तिका रेशीमी गे गोंडे

तन्नेपणा येता भार,
दुदाक गेली यॅर
न्हाती–धुती ही केळ,
तिका आळें धरा

**घडया सत्वर,**
**मोगाचें सयंवर**
**एक एक कुंवर,**
**येतलो धोणू घेवन**

दादी : वा! तुमी लग्नांतल्यो होंवयो गावपाक लागलीं!
पयली : खऱ्यांनी गायता तेन्ना गायता.
दुसरी : गावपाची येसाय तरी जाली.
तिसरी : सादी येसाय न्हू. गॅर्रा-येसाय.
दादी : तुमची गॅर्रा-येसाय फुकट वयचीना.
तिसरी : म्हणजे?
दादी : म्हणजे कितें? तुमकां बेगीनूच लग्नांतल्यो होंवयो गांवच्यो पडटल्यो.
दुसरी : कोणाचें लगीन?
पयली : कोणाचें गो मोगाच्या बा?
बा : इचारा तेकाच.
दादी : दुसऱ्यांल्या लग्नाच्यो गजाली हांव कित्याक करतलों? हांयें म्हाज्या भुरग्यापुरतें उलोवपाचें.
पयली : म्हणजे लगीन-
बा : मोगाचें. आमकां कितें धा भुरगीं आसा तर?
दादी : मांडावयल्याची किरपा म्हटल्यार जाता?
पयली : चेडो भुरगो कसो आसा?
दादी : धा गुणांचो. हाती पांयान घटमूट. शेताभाटांत वावुरपाक जाणां. शिवाय मेस्तपणांत फिशाल.
तिसरी : आवयस! आनीक कितें जाय?
दुसरी : आतां आमच्यो आदोळ्योबी मोडल्यार पर्वा ना. न्हू गो मोगा?
मोगा : (किळांच मारून) बा गेऽऽ
बा : मोगा, कितें जालें?
तिसरी : आदोळी लागली.

पयली : आवयस! रगत पळय कशें उशेणांतलें उदक कशें फसफसता!

दादी : (बाक) तुकां बायलेक पयलीं अक्कल ना. तेका आदोळेचेर बसयलें कित्याक? (सगळी मोगा भोवतणयां एकठांय जातात. ताका उपाय करतात. ताका भितर व्हरतात. वाजोवपी पंगड गायता.)

**आदोळी लागली हातीक**
**ना गे लागली कवळे कातीक**
**रक्ताचे हे व्हाळ थांबोवपाक**
**खंयचें आतां पाळ**
**गुपाट काळखांत घुस्मट्टा गे**
**म्हैमोगाचें बाळ**

(काळोख)

## देखाव : इकरा

(कुळागर. सकाळचो वेळ. मोगा सदचेभशेन कुळागरांत आयलां पूण चित्त थाऱ्यार ना. चलत चलत चराकडेन येता. दांग मारून चर हुपपाक सोदता. पूण धीर खचला. तशेंच रावता. जीव गळसणला. थंयच चराचे धडेर बसता. सपनेता. ताका भास जाता. मुखार चरांतल्यान देमू उबो जाता.)

देमू : मोगाऽऽ

मोगा : कोण?

देम : वळखलेंना मोगा?

मोगा : वळखलें. तुज्या किडयाळ्या दांतांवयल्यान वळखलें. देमू.

देमू : आतां ना वळखून कशें जातलें? आं?
(पिच्च करून थुंकता. मोगा आंग काडटा.)

मोगा : शीऽऽ बुरसो खंयचे कडलो. म्हाज्या आंगार थुंकशी.

देमू : शे शे तसो धनर न्हू हांव मोगा. हांव बरो रितीचो आनी शिस्तीचो मनीस. पूण तुका पान खाल्लेलें आवडना जाल्यार पानूच खायना. त्या वाट्याचें आनीक कितेंय खातां. कितें खांव?

मोगा : (आपले भितर म्हणटा) शेण खा.

देमू : तुका कितें कितें आवडना तें सांग.

मोगा : म्हाका तुजे दांतूय आवडना. चंवरां करपतात तशे ते किडेल्यात.

देमू : काडून वडयतां.

मोगा : बोचरो जातलो.

देमू : (बोचरेपणान) जांव, मोगाखातीर हांव कितेंय करपाक तयार आसां. तुका म्हाजें कितें कितें नाका तें सांग. नाका तितलेंय निखळावन वडोवंया.

मोगा : खरेंच?

देमू : खरेंच. हया जिवाचो सोपूत. सांग तूं.

मोगा : तशें जाल्यार हो तुजो उजवो हात नाका. दावोय नाका. हे पांयूय नाका. हें नाक नाका, कान नाका, दोळे नाका, हो वयलो तकलोच नाका.

देमू : (निरशेवन) सगळें नाका? मागीर तुका जाय तरी कितें?

मोगा : तुजें काळीज जाय.

देमू : (ताका बरें दिसता.)

मोगा : काळीज जाय. चुलींत घालून भाजून खावपाक जाय, पेज्जेवांगडा.

देमू : मोगाऽऽ म्हाजीं फकाणां करता? पूण मतींत धर. हांव तुजेकडेन लगीन जातलों म्हणजे जातलों. हांयें जागराच्या मांडार तसो सोपूत घेतला.

मोगा : हायेंय सोपूत घेतला. (विशय बदलून) देमू, तुकां जागोर आवडटा?

देमू : खूब आवडटा. रातभर एका जाग्यार उबो रावन हांव आख्खो जागोर पळयतां.

मोगा : तुकां जागरांत नाचपाक कळटा?

देमू : ना. पूण हांव सगळे जागोर पळयतां. गराशेर, पार्वते, निखणडार सगळ्यांची भाशणां म्हाका पाठ आसात.

मोगा : म्हाका दांडलावयलें सवंग खूब आवडटा.

देमू : म्हाकाय आवडटा.

मोगा : म्हाका दांडलावयलो थोंटी आवडटा.

देमू : म्हाकाय आवडटा.

मोगा : म्हाका थोंटीचें संवंग नाचपी बाबुराय आवडटा.

देमू : म्हाकाय आवडटा.

मोगा : हांव बाबुरायाकडेन लगीन जावपी.

देमू : हांवूय बाबुरायाकडेन-

मोगा : हय. हांयें तसो मांडार सोपूत घेतला.

देमू : बाबुरायाकडेन लगीन जातलें? म्हाजेकडेन जावचें ना? राव, आतांच दाखयतां तुकां. (उलो मारून) येशाऽऽ एऽऽ येशा, बेगीन यो. (येसो धांवत येता. हातांत सिगार आसा.) हें मोगा म्हाजेकडेन लगीन जायना खंय.

येसो : अब्बा! कशें लगीन जायना तें पळयतां. पयलो दितां तुकां सिगाराचो दाग.

मोगा : आवयस!
(काळोख. दिसा-सपन सोंपता मोगा आपले भितरुच 'आवयस' 'आवयस' म्हणून आंग काडटा. इतल्यान मोगाची बा ताका सोदीत कुळागरांत येता.)

बा : मोगाऽऽ मोगा हांगा कितें करता? दिसाचेंच सपनेता मुगो तूं. चल. घरा चल.

(ताका घेवन घरा वता. पंगड गायता.)

**मोग रुजना बळीयां, मोग गळटा दोळीयां**
**मोग तोडीत्या बापानो, ही कसली माया सांगा होऽऽ**

(काळोख)

## देखाव : बारा

(घर. दादी सोप्यार बसून शेनतांच्यो विडयो बांदता. म्हऱ्यांत फोलीण आसा. बा भायर येता. दादी कितेंतरी सांगपाक सोदता.)

बा : कितें करता?

दादी : दिसना? विडयो वयटां.

बा : म्हाकाय चार पत्रावळी तोंपपाच्यो आसल्यो.

दादी : मागीर तोंप. हांव कितें पानांचे देठे मोडूं काय येळाचीं शिगरां काडूं?

बा : लक्ष लागना.

दादी : लक्ष ना लागपाक तुजें कितें चाळवलां तर?

बा : हालीं मोगाचेर तुयें नदर माल्ल्या?

दादी : माल्ल्या म्हणजे?

बा : पोर सुकून कशें चार्वट जालां पळय.

दादी : भोंवता दंपारचे-तिंपारचे वोताबिताक.

बा : भायल्या वोतान न्हू. पोर भितल्ल्यान दुखावलां.

दादी : तूं वैज केन्नासावन जाली?

बा : हांव आवय. तितलें कयटा म्हाका.

दादी : कयटा जाल्यार सांग.

बा : तुमची देमूची सोयरीक तेका पसंत ना.

दादी : पसंत ना म्हणजे? भुरगो दोनूय हातींनी काम करता. बरी जोड आसा. आनीक कितें जाय?

बा : सगळें खरें पूण मोगाक मानोवंक नाका?

दादी : तेणे मोगाक पसंत केलां. हांगा मोगाचे पसंतीचो प्रश्न खंय येता?

बा : कसो येयना?

दादी : तुज्या आनी म्हाज्या लग्नावेळार येयल्लो?

बा : तें आनी हें एक न्हू. तेन्ना मनशांत आनी गोरवांत व्हडलो फरक नासलो. आतां काळ बदल्ला.

दादी : म्हणटकूच मोगाक देमू मानोवंक ना म्हणटा?

बा : तें मोगाकूच कित्याक विचारीना?

दादी : (उलो मारून) मोगाऽऽ (मोगा येवन उबें रावता) बाय, तुकां देमूची सोयरीक नाका?

बा : सांग बाय, सांग.
(मोगा वग्गी)
तें कितें सांगतलें? तेच्या तोंडावयल्यान कळना?

दादी : म्हाका दिसता, तेच्यापरस तुकांच देमूची सोयरीक नाका.

मोगा : (अकस्मात) ना दादी, म्हाकाय नाका.

दादी : पळय बाय, लगीन काय कोणाक चुकना. आयज ना फाल्यां तुकां लगीन जावपाकूच जाय.

मोगा : जातलें, हांव लगीन जातलें दादी, पूण –

दादी : (समजून) देमूक हांव सांगोन धाडटां.
(बा मोगाक बाबुरायाचो विशय काडपाक सुचयता.)

मोगा : आनी दादी, म्हाका दांडलावयलें संवंग खूब आवडटा.

दादी : तीं संवंगां आतां बद्द फुडल्या वर्सा.

मोगा : संवंग न्हू दादी. म्हाका बाबुराय आवडटा. म्हाका तेचेकडेन लगीन कर.

दादी : बाबुराय? म्हणजे आमच्या कुळागराचे वांटणे कुशीक वांटणी आसा तो बाबनीलो बाबुराय? बाबनी म्हणजे एका काळावयलो आमचो दुस्मान.

बा : तो मेलो. मर्णाबरोबर दुस्मानकाय सोंपता. भुरगो बरो आसा.

दादी : कितें बरो आसा? वर्सांतल्यान एक रात मूद घालून जागराक नाचलो म्हण पोटां भरतात?

बा : म्हणजे हात-पांय ना तर तेका?

दादी : ना कित्याक? आसा. पूण ते सारके हालोवपाक नाका? आमी कुळागरी मनशां. आमची कामां हाती-पायांचीं आनी कश्टांची. हो बाबुराय कामाक फाटीं. माथ्यार वजें घेतलेलो हेका कोणे पळोंवक ना. फाटकुळेर साक मारपाक नाका. कुदळ घेवन केळिच्या मुळांत आळें खणटना हेच्या कमरांत येता. केन्ना सावळीक वचोन जाणा? केन्ना खंय भरीक वचोंन जाणा?

बा : शिकतलो तो, ल्हान आसा आजून.

मोगा : हय दादी, शिकतलो.

दादी : केन्ना शिकतलो? लगीन जावन भुरगींबाळां जातकूच? आनी सुपारी पाडटाना एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर झेल घेवंक जायत तेच्यान? कुळागरी मनशाचें सगळ्यांत व्हडलें कसब तें हें - आंगार मूद चडोवन पांयांक दांडलां बांदुन नाचपाइतलें तें सोपे न्हू. समजलें?

मोगा : जमतलें, तेंवूय तेका जमतलें दादी.

दादी : जमतलें?

मोगा : हय, जमतलें.

दादी : तशें जाल्यार जमता तेन्ना पळोंवया.

(देमूली आयिद्दांची पोती उखलता.)

देमू आपणाली मेस्तपणाचीं आयिद्दां हांगाच दवरुन गेल्लो. पावयतां व्हरोन. दोन कल्लीं करपाक सांगलेली तेका. आतां कांय नाका. वगीच गरज नासतना तेचो जीव हांगासर खुंट्याक कित्याक बांदून घालूं?

बा : तूं कित्याक व्हरोन पायता? दी धाडून कोणायकडेन.

मोगा : दादी, तेचें सगळें सामान पावय आनी तेका सांग, सपनांतबी येवं नाका म्हणोन.

दादी : बरें आसा.

मोगा : (लाडान येवन) दादी, तूं कितलो म्हणोन बरो रे! भायल्यान दिसता कांटयारो पूण भितर रोसाळ घरो.

दादी : पुरो, पुरो. वग्गीच म्हाका म्हसंगा झाडार चडोंव नाका. हांव कितलो बरो तें म्हाका खबर आसा.

मोगा : कितलो बरो?

दादी : बऱ्याक बरो, तितलो वायटाक वायट. समजलें!
(पंगड गायता)

**मोग उडटा मळबां,**
**मोग फोडीता तळपां**
**मोग करीत्या मोगीनो,**
**हो कसलो खेळ सांगा होऽऽ**

(काळोख)

## देखाव : तेरा

(कुळागर. उशेणाची सुवात. बाबुराय उशेणांतल्या उदकांत शेंकरे मोखता. फाटसून मोगा धांवत येता.)

मोगा : बाबुरायऽऽ

बाबुराय : मोगाऽऽ

मोगा : हांगा कितें करता बाबुराय?

बाबुराय : तुजी वाट पळयतां मोगा.

मोगा : सदांच हांगा येतालो?

बाबुराय : हय सद्दां. हालीं तूं नाच. सकाळीं शिंपण्याकूय येयना. त्या दिसा हांगासर मेळलेली तितलींच. मोगा, तुजें कितें घडलां?

मोगा : घडलेलें खरें पूण आतां ना.

बाबुराय : म्हणजे?

मोगा : आतां म्हाका देमूची सोयरीक ना. तो म्हाजो घोव जावचोना.

बाबुराय : म्हणजे तेणे तुकां मागणी घातलेली?

मोगा : हय.किडयाळ्या दांतांचो. म्हाका तो साप आवडना. हांयें बाक आनी दादीक सांगून सोडलें.

बाबुराय : कितें?

मोगा : म्हाका देमू निखालस आवडना. त्या वाट्र्याचो –

बाबुराय : त्या वाट्र्याचो? त्या वाट्र्याचो कोण आवडटा?

मोगा : बाबुराय! तूं.

बाबुराय : हांव.

मोगा : हय, तूं! तुकां केन्ना काय सांगन जाल्लें. बाबुराय, म्हाजें कितें चुकलें रे? बाक आनी दादीक सांगचे पयलीं तुकां इचारपाक जाय आसलें न्हू?

बाबुराय : ना मोगा. म्हाजेंच चुकलें. हांयेंच तुकां आदीं सांगपाचें.

मोगा : कितें तें?

बाबुराय : हांव तुजो प्रेम करतां तें.

मोगा : खरेंच तूं म्हाजो प्रेम करता?

बाबुराय : हय.

मोगा : कितलो?

बाबुराय : कितलो? ह्या ह्या उशेंणांत सांठवल्या उदका इतलो.
(मोगा उशेणाच्या तुमाकडेन उडी मारता.)

बाबुराय : मोगा, कितें करता?

मोगा : उशेणाचो गुड्डो सोडटां. उदकाक वाट मेकळी करून दितां. पळय, उशेंणांतले उदक कशें फसफसता. फेणेर पळय. चमेलीचीं धवीं फुलां! बाबुराय, आमचो मोग धवोफुल्ल!

बाबुराय : थंय पळय, तळपाकडलो शंकर रसरसता. रंग पळय. तांबड्यो तांबड्यो जिबो! मोगा, आमचे मोग तांबडोगुंज!
(मुक्तक)

मोगा : *बाबुराय,*
*आमचो मोग तन्नी कंवळी केळ.*
*केळीच्या आंगांत पाणीच पाणी,*
*तुजी म्हजी प्रेमाची काणी!*

बाबुराय : *मोगा,*
*आमचो मोग उंच उबार पाचवी माडी.*
*माडयेच्या गळ्यांत बेड्यांचे गांठलें,*
*तुजें म्हजें सपन फिटलें.*

मोगा : *बाबुराय,*

*तूं म्हजो राजा!*

बाबुराय : *मोगा,*

*तूं म्हजी राणी!*

(मोगा अकस्मात गंभीर जाता)

कितें जालें मोगा? अकसमात तुजी नुरा कित्याक बदल्ली?

मोगा : बाबुराय, दादी कितें म्हणटा जाणा?

बाबुराय : खबर आसा म्हाका. फकत एकलो तुजो दादीच न्हू, गांवातले सगळे लोक तेंच उलयतात. म्हाका कुळागरांतले काम जमना म्हणोन उणाक लेखून हिणसायतात. म्हाजी तोखणाय जागरांतले एके रातीपुरती. तुकांय तशेंच दिसता न्हू मोगा?

मोगा : ना बाबुराय, आमचो मोग जावन व्हांवपी ह्या उदकाचो सोपूत. म्हाजेखातीर आख्खें वर्स म्हटल्यार ती एक रात. पूण–

बाबुराय : हांव, हांव सगळी कामां करतलों. कुदळ घेवन खण्णी मारतलों. भर खणटलों, सांवळीक वयतलों. माथ्यार वजें घेवन बाजाराक वयतलों. कुळागरी मनशाची सगळीं कामां करतलों. अशें तितूंत मोटें कठीण कितें?

मोगा : एके माडयेवयल्यान दूसरे माडयेर झोपय घेयशी?

बाबुराय : हय, हय. तेंवूय करतलों.

(बाबुराय माडयेर धेंप मारता)

मोगा : (ताका पळयत) बाबुराय, हें कितें करता? माडयेर कित्याक चडटा? कितल्या नेटान धेंपां मारता? बाबुराय, पुरो. आनी वयर वचूं नाका. माडयेच्या कवाळ्याकडेन पावलो पळय. बाबुराय, माडी झेलोवं नाका. तुका संवंय ना. बाबुराय म्हाजें काळीज धडधडटा. बाबुराय, एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर झोपय घेवूं नाका. पडशी रे म्हाज्या राजा. (भंयान दोळ्यांचेर हात दवरून) आवयस्! पाव रे म्हाज्या मांडावयल्या देवा.

(बाबुराय एके वटेंतल्यान गेल्लो तो दुसरे वटेंतल्यान येता)

बाबुराय : (येत) मोगा, हांव येयलों. एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर

उडी मारून हांव येयलों. आतां सगळे म्हणटले, माडयेर चडपाक पयली चानी आनी दुसरो बाबुराय.

मोगा : (हुंडकेत) बाबुराय म्हजो बाबुराय!

(काळोख)

## देखाव : चवदा

(घर. बा पडवेर बसून दोणे तोंपता. इतल्यान भायरसून मोगा येता)

मोगा : जाणां बा! काल मजाच जाली.

बा : कसली मजा?

मोगा : काल अंतू भाटकारागेर मळणी जाली.

बा : मागीर कसली मजा? मळणेंक कितें सगळें पोलूच जालें?

मोगा : पंचवीस साक भात. आवयस!

बा : अजाप कसलें? हेचेआदीं तेगेर पन्नास साकपासून पिकलां.

मोगा : इतले साक फाटकुळयेर मारुन खळावयल्यान घरांत व्हरोन दाळपाचे. खळें खंय? एका उल्याचेर.

बा : मानायांचे काम तें.

मोगा : धा मानाय आशिल्ले खंय!

बा : आसपाचेच.

मोगा : सांज जातासर एक एकल्यान कूस माल्ली. उल्ले फकत दोग जाण. तितूंत एक बाबुराय.

बा : (समजून) अशें.

मोगा : पंचविसांतले वीस साक एका बाबुरायान दाळ्ळे खंय.

बा : अशें जालें तर !

मोगा : काम करता तें कोणाक दिसना. काम करिना ते मात ज्यूस्त दिसता. उलोवपाक सगळे जाणां.

बा : आतां कोण उलोवचोना.

मोगा : कितें उलोवचोना?

बा : तुकां लागता, खुपता तसलें कोण उलोवचोना. समजलें?
(इतल्यान दादी भायरसून येता)

मोगा : दादी, तुकां फाल्यां खण्णेक आपोवंक ना?

दादी : खण्णेक? कोणागेर? (याद जावन) हय हय. दुग्यागेर मुगो? सांगतालो म्हाका. आतां पेलना अशें न्हू, पूण -

मोगा : जेंका पेलता ते सगळे वयतले.

दादी : वचों गो. तेणीं वयपाचेंच.

मोगा : कोण कोण वचपी जाणा?

दादी : (समजून) बाकिच्यांचें सोडून घाल. बाबुराय वयतलो मुगो?

मोगा : हं. म्हाका खबर ना.
(पयस कुळागरांत पळयत)

मोगा : माकोड. कुळागरांत माकोड येयला. हूपऽऽ हूपऽऽ (मोगा कुळागरांत धांव मारता.)

(काळोख.)

## देखाव : पंदरा

(कुळागर. मोगा धांवत कुळागरांत येता. हेवटेन तेवटेन लोकांचो अदमास घेवन)

मोगा : माकडा हूपऽऽ माकडा हूपऽऽ
(दोगी बायलो तेवटेंतल्यान वतात)

पयली : मोगा, कसलो बोवाळ गो?

दुसरी : कोण येयला कुळागरांत?

मोगा : माकोड. माकोड.

पयली : माकडाखातीर इतलो बोवाळ कित्याक?

मोगा : घडावलीं खातलो.

दुसरी : मागीर आमूड.

मोगा : म्हाका बाये भंय दिसता.

पयली : भंय दिसपाक ते कितें वाग? माकडां-वानरांक केन्नाच्यान भिवपाक लागलें तूं?

मोगा : तशें हांव खरेल्या माकडांक भियेना गे.

दुसरी : खरेल्या म्हणजे?

मोगा : (सांवरीत) पळय, कसो एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर झोपय घेता.

पयली : (नियाळीत) आगे बाये, हो सादो माकोड न्हू.

दुसरी : मागीर?

पयली : शेंपडी नासलेलो माकोड!

दुसरी : मोगा, हो तर बाबुराय.

मोगा : म्हाका कितें सांगता? सांगात म्हाज्या बाक आनी दादीक.

दोगीय : म्हणजे गो बाये कितें?

(दोगीय एकमेकीक पळोवन हांसतात)

दोगीय : सांगता, सांगता तुज्या बाक आनी दादीक.

(दोगीय ताचीं फकाणां करीत वतात. मोगा बाबुराय माडयेवयल्यान सकयल देंवपाची वाट पळयत रावता. कांय वेळान बाबुराय कासावीस जावन येता.)

मोगा : बाबुराय, हांव सांगतां तें तूं आयकुचोना?

बाबुराय : कितें?

मोगा : तूं एके माडयेवयल्यान दुसरे माडयेर झेल घेता तें बंद कर.

बाबुराय : कित्याक?

मोगा : तुकां आतां सगळ्यांनी पळयला. तूं माडयेर खेळटा तें पळयला. शेताभाटांत वावुरता तें पळयला.

बाबुराय : हांव हें दुसऱ्यांखातीर थोडेंच करतां. पयलीं म्हाका दिसतालें खरें. दुसऱ्यानी नांवां दवरची न्हू म्हणोन हांयें हो वावर करप. पूण आतां ना. आतां म्हाकाच दिसता. मनापासून दिसता.

मोगा : बाबुराय, तूं बदल्ला. म्हाका भिरांत दिसता.

बाबुराय : कसली भिरांत?

मोगा : तूं हीं सगळीं कामां करशी आनी जागरांत नाचपाचें विसरशी.

बाबुराय : ना मोगा, विसरचोना. आनी जागरांत नाचपी हांव एकलोच ना. बाकिचेय आसात. तेवूय आपआपलीं कामां करतात. आनी जाणा मोगा?

मोगा : कितें?

बाबुराय : हांव आतां म्हाज्या पायांर उबो रावतलों.

मोगा : म्हणजे?

बाबुराय : हांव जोडटा. दिसावड्याचे सगळे दुडू हांयें एकठांय केल्यात. तेंचो हांव तुकां मणी करतलों. भांगराचो मणी!

मोगा : म्हणजे आमी आतां रोकडेंच लगीन जावपाचें?

बाबुराय : थार धर मोगा. पयलीं तुकां मागणी घालपाक जाय.

मोगा : मागणी?

बाबुराय : हय. देमून तुगेर येवन तुकां मागणी घातली ना? तशी मागणी हांयें खंय घातल्या?

मोगा : तूं केन्ना येतलो मागणी घालपाक?

बाबुराय : फाल्यां.

मोगा : कसो येतलो? घोड्यार बसोन येयशी?

बाबुराय : ना. वाऱ्यार बसोन येतलों.

**मोगा** : म्हणजे?

**बाबुराय** : आमच्या कुळागरांतले माडयेर चडटलों आनी दर्या हुपचो तशी एक एक माडी हुपतलों. तुमच्या कुळागरांतल्या माडयांवयल्यान येतलों आनी अचळय तुमच्या आंगणांत देंवतलो. हात मुखार करून तुज्या दादीक म्हणटलों, (मुक्तक)

*दी, तुजे धुवेचो हात म्हाज्या हातीन दी.*
*मोग केला तेचो, शंबर शंबर वर्सां*
*मोग केला तेचो, दोनशीं फुलांचीं पोर्सां*
*धल्लेलो हात सोडचो ना*
*घडलेलो गाडो मोडचो ना*
*सोपूत आमच्या मोगाचो*
*जागराच्या धाग्याचो*
*दी, तुजे धुवेचो हात, म्हाज्या हातीन दी.*
*तुजी वंशवेल दुदीन कशी फळयतां*
*तुजे धुवेपासत रक्त – घाम व्हळयतां*
*तुज्या रिणांत म्हाका आयुश्यभर रांवदी*
*दीस आनी रात तुजे गूण गांवदी*
*दी, तुजे धुवेचो हात म्हाज्या हातीन दी.*

**मोगा** : सुंदर! म्हाज्या मनचो राजकुंवर म्हाका असोच येयलो जाय. बाबुराय, दोळ्यांत प्राण गुंथून हांव तुजी वाट पळयतां. (उमेदीन उडयो मारीत वता. बाबुराय दुसरेवटेन वता. काळोख)

## देखाव : सोळा

(रोकडोच उजवाड जाता. वाजोवपी पंगड गायता. कुळागरांत लोक हांगा-थंय वावुरतात. कोण पानां खुट्टा, कोण पोवल्यो एकठांय करता. कोण बेडे पुंजायता जाल्यार कोण कुळागरांतल्यान हेवटेन तेवटेन वतात. अदींमदीं सगळ्यांचे लक्ष वयर माडयांचेर नाचपी बाबुरायाचेर वता. सगळे कवतुकान ताचेकडेन पळयतात. पंगड गायता.)

**कुळागराचो कुंवर,**
**जालो वाऱ्याचेर सुंवार**

**हुपून काडलें तळप,**
**तेणे मापून काडलें मळब**
**उडलो रे उडलो असो हणमंत**
**जालो रे जालो असो यशवंत**

(अकस्मात घोऽ करून बाबुराय पडटा. तेसरशीं वाजप अकस्मात थारता. सगळेजाण बाबुराया म्हऱ्यान धांवत येतात. लोक बाबुराया भोंवतणी कंवडाळें करतात. ताका सावचीत करतात. वाजप-गावप परत सुरू जाता.

पडलो रे पडलो तारो मळबांतुल्यानु
झडलो रे झडलो तोरो देंठांतुल्यानु

हाय रे हाय आनी मळबाक जालो घाय
अर्दे वाटेर अडून उल्लो पिरथुमेचो राय

(काळोख)

## देखाव : सतरा

(घर. दादी आनी बा पडवेर बसून कामां करतात. दादी विडयो बांदता जाल्यार बा पत्रावळी तोंपता)

दादी : तरी बाबुराय बऱ्यान वाटावलो.

बा : हय तर. देवानूच वाटायलो म्हणपाचो. इतल्या वयरसान पडप म्हणजे?

दादी : कुळागरांत इतले उंचायेवयल्या पडलेलो कोणूच आजून जितो उरुंक ना. माडये वयल्यान केळीचेर पडलो म्हणोन सुटलो.

बा : देवानूच रुजयिल्ली आसतली ती केळ. गरजेभायर आमचेर अपसरण येवपाचें.

दादी : आमचेर कित्याक?

बा : पडचो पडोन आमच्या कुळागरांत पडलो न्हू?

दादी : हय. खरें म्हटल्यार आमचे वांटणेंत येवपाची गरजूच नासली. तुजी वांटणी आसा न्हू. थंय कर तुजे खेळ आनी कसरती. आमच्या कुळागरांत कित्याक?

बा : आमी आस दाखयल्या न्हू?

दादी : (आवाज चडोवन) कसली आस?

बा : आनीक कसली?

दादी : कोणे कसली आस दाखोवंक ना. हेवटेंतल्यान उतर वचोंना, तेवटेतल्यान उतर येवंक ना. वगीच मुयेचो दोंगर करपाची गरज ना.

बा : पांय कापचो पडलो म्हणटा ती गजाल खरी?

दादी : हय. धोंपरामेरेन वडोवचो पडलो.

बा : दावो काय उजवो?

दादी : दावो आनी उजवो. पांय गेलो हें खरें.

बा : तरी जीव वाटावलो तो खूब जालो. जीव आसल्यार भीक मागून खांव येता.

दादी : ती गजाल भिकाऱ्यांची. कुळागरी मनशांक पांगळो जावन उपकारना. हातपांय हीच तेची धनदौलत. आदींपासून म्हाका त्या पोराची लक्षणां धडाचीं लागनासलीं.

बा : आमी बऱ्यान सुटलीं.

दादी : अखेर देवाच्या मनांत आसता तेंच घडटलें. वगीच हो मनीस मानवना आनी हो मनीस मानवता म्हणोन उपेग कितें? आमच्या मनशाच्या हातीन थोडेंच आसा. वगीच म्हणटात? लग्नाच्यो गांठी वयर बांदतात.

बा : आतां आनी जागोर.

दादी : वर्साचो जागोर जावन वयतलो. खंय कितें खट्-खूट् जालें म्हणोन वर्सावळीच्या कार्याक बादा येयना. मोगा खंय?

बा : आसा भितर. तें आनी आयकत.

दादी : तेणे आयकुचें म्हणोन तर येद्या व्हडल्यान उलयतां. आनी जांव अस्वडी, जांव मुखार उलोवपाक हांव भियेनां. तें म्हागेर जालां. हांव तेगेर जावंना. समजलें?

बा : तितलें समजता तेका.

दादी : आनी तुजे धुवेक आतांच शिटकावन दवर.

बा : कितें?

दादी : आतां हत्तपार त्या बाबुरायाक मेळटलें न्हू.

बा : लार्गी लार्गी कुळागरां. शिंपण्याक वयता थंय मेळप जाता. मुद्दाम कोण मेळना.

दादी : शिंपण्याक वयपाची गरज ना. तेणे कुळागरांत पांय दिना जाल्यार जाता. तेंच्या शिंपण्याबगर कुळागर बावून वयपाचें ना.

बा : कुळागर कित्याक? तेंच बावतलें.

दादी : आतां जंय उतर पडटा थंय उजोवन काडपाचें.

बा : इतलें जड जालां?

दादी : जड न्हू, चड जाला. फाल्यां सगळो गांव भरलो जाल्यार कोण पडवेर पांय दवरचोना.

बा : इतले येताचें वांव आनी वांवाचो गांव करपा, इतलें कांय घडोना.

दादी : हांव तरी घडलां खंय म्हणटां? घडोंक जायना म्हणोन शिटकायतां.

बा : एक नातर दुसरी. म्हाजे धुवेक सोयरीको येतल्यो खोंटल्यांनी.

दादी : येवंदी. ह्या जागरा पयलीं उजोवन काडूंया.

बा : जागरा पयलीं कित्याक?

दादी : (रागान गाळ मारुन) तुज्या मांयच्या मिंद्याक.

(बा आंगणांतलो कोयर भायर वडोवपाक आनी भायरसून देमू आनी येसो येता. बा कोयर दुसरेवटेन वडयता आनी तांका पळोवन भितर वता. देमू पान खाता जाल्यार येसो सिगार ओडटा. दादी उठून तांका येवकार दिता. बसपाक कांबळ हातुरता.)

दादी : येयात, येयात.

येसो : कितें दादी? कसो आसा? वळखुना?

दादी : वळखुना कित्याक? बरो वळखलों. देमू आनी येसो.

येसो : बरोबर.

दादी : तशी वळख खंय वयता?

येसो : बरोबर.

(मुखार उलोवपाक गडबडटा. विशय कसो सुरू करचो तें कळना.)

येसो : (अकस्मात) दादी, आयकलां तें खरें?

दादी : (कांचवेता) कितें?

येसो : तुमच्या जागरांतलो दांडलावयलो थोंटी खऱ्यांनीच थोंटो जालो खंय?

(दादी शादूर रावन जापो दिता.)

दादी : हय. पोर माडये वयल्यान पडलो.

येसो : कुळागरी पोर माडये वयल्यान पडप म्हणजे अजापूच. फाल्यां तारयालो पोर बुडोन मेलो म्हटल्यार कोणांक खरें दिसत? तुमचो शेजारी दिसता?

दादी : शेजारी म्हणजे तसो दुस्मानाचो पोर.

येसो : तुमच्याच कुळागरांत पडलो खंय?

दादी : आमच्या म्हणजे, दोगांयच्यो वांटण्यो लागीं लागीं. मदीं एका चराची शीम. चडलेलो आपले माडयेर पडलो आमचे वांटणेंत.

येसो : कसली लुकसाणी जाली ना न्हू?

दादी : लुकसाणी म्हणजे पांय गेलो.

येसो : तेची न्हू. तुमची.

दादी : आमची? आमची कित्याक लुकसाणी जातली? एक केळ मात मोडली.

येसो : तेंच, तेंच म्हणटा हांव. केळ मोडली ही लेगीत लुकसाणीच जाली ना?

दादी : कितें करतलो! मोडली खरी. वडयली कापून.

येसो : म्हणजे तेवटेन पांय कापलो, हेवटेन केळ.

दादी : तशेंच जालें.

**येसो** : अंदू जागराक नखलामी घडली तर!

**दादी** : नखलामी कसली? वर्साचो जागोर जावन वयतलो. तेंच्यान नाचपाक जायना जाल्यार तेचे घरवडींतलो दुसरो कोणूय तेगेलें सवंग नाचतलो.

**येसो** : नांव कितें म्हटलें?

**दादी** : दांडलावयलें सवंग.

**येसो** : तेचे नांव, नाचप्याचें?

**दादी** : नाचप्याचें? (बळयां) तोंडाकडेन आशिल्लें पळय. कितें आसा – तेंचो आमचो कसलो संबंदूच ना. म्हणटकूच –

**येसो** : आसूं, आसूं. सबंद ना तोच बरो. न्हू रे देमू?
(देमू व्हदळसावन वगीच आसा.)

**दादी** : आरे, हो देमू वगी कित्याक? उलय मरे.

**देमू** : उलोवन उपेग कितें?

**दादी** : म्हणजे?

**देमू** : दादी, तुवें मेस्तपणाची आयिद्दां परतीं धाडलीं, तीं बरेभाशेन पावलीं.

**दादी** : हांवूच घेवन येवपाचों पूण जमलें ना. देखून धाडून दिल्लीं. हांगा म्हटलें वगीच कित्याक दवर? कलम–बिलम येयली जाल्यार?

**देमू** : म्हाजें दोन कल्ल्यांचे गिरायक वगडायलें.

**दादी** : गिरायक आसाच. दी दोन कल्लीं करून.

**देमू** : कल्ल्यांचें बरें आसा. कुळागर सारकें आसल्यार कल्लीं कितलींय करूं येत.

**येसो** : दादी, ह्या देमूचें कितें घडलां जाणां? जीण्यावयली वान्साच गेल्या. पटाक संवकला. काल सोऱ्याचे गादयेर वयतालो, हांये आडयलो.

**देमू** : मन विसरायेर घालपाक कितें कितें करचें पडटा.

**दादी** : शी! तुज्यासारक्या दाणग्या–दुणग्या भुरग्यान अशें करप सारकें न्हू. आनी तूं संवसारी भुरगो.

**येसो** : हांय कितलें सांगलें पूण–दादी हेचेखातीर हांयें थोडें केलेंना. कितलीं चेडवां पळयलीं. हेका एकूय पसंत ना. आतां म्हाका सांग, सगळींच चेडवां मोगासारकीं कशीं आसतलीं? दादी, लजभीड सोडून म्हणटा तशी अडलेल्या पाणयांक परत वाट करून दिवं?
(दादी तकली हालोवन हयकार दिता.)
आमचें उतर तुमी एकदां भायर वडयलें.

**दादी** : हें पळय, उतर भायर वडोवना. आमचेवटेन थोडी अडचण जाली.

**देमू** : मोगाच्या मनांत नाशिल्लें दिसता.

**दादी** : ना, ना अशें कांय ना. पोरूं वर्सां आमकां कार्य झेपचें नासलें.

**येसो** : अंदू वर्सा?

**दादी** : अंदू वर्सा पोराक कशेंय करून सव्यार चडोवपाकूच जाय.

**देमू** : तशें जाल्यार आमचें पोरुंचें उतर अंदू चलोंदी.

**दादी** : कित्याक चलचेंना? खणखणीत बंदो रुपया कशें चलतलें.
(उलो मारून) मोगाचे बाऽऽ
(बा भायर येता) तुवें आयकलां आसतलें आमचे उलोवणें. सगळें आयकोना जाल्यार निदान अदमास तरी बांदला आसतलो. आतां आनीक कसली अडचण उबी रावंक दिवप ना. चल, मोगाक भायर आपय.

**बा** : भायर आपोवपाक घरांत आसा तर तें?

**दादी** : खंय गेलें?

**बा** : आनींक खंय?

**दादी** : (दोगांकूय) हांव तेंका पळोवन येतां. तुमी बसात. (बाक) तेंका च्याव कर. (दादी हातांत दांडो घेवन कुळागरांत वता.)

(काळोख.)

## देखाव : अठरा

(कुळागर. उशेणाचे धडेर बाबुराय फाट करून बसला. ताचे पांय दिसना. तो उशेणांतल्या उदकांत शेंकरे मोखता. कांय वेळान मोगा कुळागरांत येता. 'प्रेमजागोर' आख्यानाची धून वाजता. मोगाच्या मनाची अवतिकाय सैरभैर जाल्या. जड पावलांनी तें येता. तसोच चर हुपता. बाबुराया म्हऱ्यांत वचपाक सोदता. एक एक पावल उबारता. इतल्यान पयसुल्यान दादीचो धेकणो आयकूंक येता– ''मोगाऽऽ''. तेसरशीं बाबुराय मान वळोवन फाटल्यान पळयता. मोगा तशींच पावलां फाटीं घेता आनी एका दमान धावूंक लागता. चर हुपता आनी आयिल्लें तेवटेन वता.

(काळोख.)

## देखाव : इकुणीस

(घर. घरांत लोक बोवाळटात. दादले आनी बायलां. ते नवीं न्हेसणां न्हेसल्यात. लग्नाचो बोवाळ. भितर बायलां खंयतरी लग्नांतल्यो ओंवयो म्हणटात.)

**आईबापाचे पोटी,**
**जलमली गे बेटी**
**घनाची गे पेटी,**
**बाळ मोगा आमचें**

**तळ्यांतलें साळीक,**
**सोडा गा उदीक**
**परघरा वयता लेक,**
**काय राज्य करूंक**

**काळजाचें कुरकुट,**
**तितुंतली भिरमूट**
**पोटीच्या रत्नाचें,**
**हें कन्यादान**

रामान खुंटल्यो कळयो,
लक्ष्मणान भरल्यो झोळयो
सीते गे गांथ माळा,
जालो लगीन वेळ

(काळोख)

## देखाव : वीस

(कुळागर. बाबुराय एका माडयेच्या आदारान उबो रावला. मोगाल्या घरावटेन पळयत आसा. तेवटेन येवपी होंवयांचो आवाज स्पश्ट आयकूंक येता.)

(काळोख)

## देखाव : एकवीस

(घर. लग्नांतलें वाजोवप आयकूंक येता. लोक बोवाळटात. घरभरवणी भायर सरल्या. मुखार देमू आनी मोगा. न्हवरो-व्हंकलेच्या भेंसात. तांका येशान सत्री धरल्या. बाकीचे लोक फाटल्यान वतात. दादी आनी बाचे दोळे ओले जाल्यात. तीं दुकां पुसतात.)

(काळोख)

## देखाव : बावीस

(मांड. मांडाचेर जागोर सुरू जाला. सगळें वर्सा सारकें. एक सवंग माथ्यार तुरमुटी दवरुन नाचता. जागराचें नमन गायता. एक एकलो मांडार येता. पंगड गायता.)

**नमन म्हाजेंऽऽ मांडाच्या गुरू**
**ममन म्हाजेंऽऽ सांतेरी माये**
**नमन म्हाजेंऽऽ रौदिऱ्या देवा**
**नमन म्हाजेंऽऽ गांवपुरसा देवा**

नमन म्हाजेंऽऽ सर्वय देवांक
नमन म्हाजेंऽऽ बसलेले सभेक

(काळोख)

## देखाव : तेवीस

(घर. मांडावयलें वाजप आनी गावप आयकूंक येता. दादी जागराक वचपाक भायर सरला. लापयांवाची वात सारकी करता. बायलेक उलो मारता.)

दादी : तुजें आजून भायर सरोन जायना? तेवटेन मांडार दिवली पेटली.

बा : (भायर सरत) तुमचें दादल्यांचे भायर सरप आनी बायलांचे भायर सरप एक न्हू.

दादी : खबर आसा. मनांत आसल्यार सगळें वेळावेळ जाता. थंय जागरांतलीं सवंगां आमचेखातीर रावचीना.

बा : मनांत नाशिल्लें म्हणटा तें खरें. पूण तुजे बळजबरी मुखार कोणाचें कितें चल्लां? तुज्या मनांत येयल्यार जित्या मनशाक उब्यांनी पुरशीत तूं.

दादी : तुकां खोरजता एकीकडेन आनी तूं बुड्डीता दुसरेकडेन. मांडार जागोर चलला आसताना घरांत कोण न्हिदोन रावना. मांडाच्या गुरूचें रागणें पडटलें तेन्ना मागीर कयटलें.

बा : आतां पडलां तें थोडें!

दादी : कोणाचें कसलें रागणें पडला?

बा : पोराक लगीन करून आयज –

दादी : पोराक लगीन करुन म्हयने जाले काय वर्सां जालीं? आयज मेजून धावो दीस.

बा : जीवाक कसलो घोर लागला.

दादी : घोर लावन घेवपाची कसली गरज ना. तें थंय नंदपाक लागलां आसतलें.

बा : खबर तरी घेवन येवपाची.

दादी : आयचो जागोर जावंदी. फाल्यां पळयतां.

बा : नव्या होंवराक जागराक आपोवपाचें.

दादी : म्हाका उमेद नासली? पूण सात-पांच येवजून मारतें घेतलें. फुडल्या जागराक आपोवचीं. दोगांची तिगांय जावन येत. समजलें? चल बेगीन. त्यो माटवांतल्यो चाली नाका.

(वचपाक भायर सरता. हातांत दांडो आनी लापयांव घेता. इतल्यान भायरसावन मोगा येता. तें कापड न्हेसलां. पोलको घातला. गळ्यांत मणी आसा. आंगार थोडेभोव अळंकार आसात. ताका पळोवन आवयबापूय काचाबूल जाता. मोगा सभावान निबर जालां.)

बा : बाय, मोगा म्हजे धुवे? कशें आसा? अशें अकस्मात? रातीचें?

दादी : (पळोवन) एकटें येयलां?

मोगा : हय. एकटेंच. जागराक येयलां. जागराक येवपाक कोणाची मनाय ना न्हू?

बा : मनाय कित्याक आसतली? खरें म्हटल्यार तुमकां जागराक आपोवणें धाडपाचें मनांत आसलें पूण –

मोगा : पूण कितें जालें? हांव आदलें भोळें उरुंक ना. तुमी म्हाका जागराक आपोवचीना हें म्हाका खबर आसलें. देखून हांव येयलें.

बा : बरें दिसलें.

मोगा : बरें दिसलां फकत तुकां, दादीक न्हू.

बा : अशें कशें बाय? तुज्या दादीकूय बरें दिसलां. (दादीक) सांग न्हू तेका.

दादी : तूं अशें रातीकातीचें एकोडें येयलां तें म्हाका बरें दिसोना.

मोगा : हांव म्हाज्या जागराक येयलां.

बा : जागोर तुजोच.

मोगा : ना. सगळो जागोर न्हू. जागरांतलें एकूच सवंग म्हाजें. दांडलावयलें सवंग, थोटीचें, जें बाबुराय नाचता तें. हांव बाबुरायाखातीर येयलां.

दादी : बाबुराय पडला दोको मोडोन. तो खंयचे नाचतलो दांडलावयलें सवंग? तेची बदलीं दुसरो तयार जाला. खूब बरो नाचता. बाबुरायापरस बरो. पयर तेंची गॅर्रा-येसाय जाली.

मोगा : नाच्च. बाबुरायापरस बरो नाचपी मनीस आजून जल्मूचो आसा. तसो कोणूय जल्मल्यार म्हागेरुच जल्मत. बाबुरायाचो दोको मोडला तरी तो नाचतलो. कारण तो केन्नाच तुमचेखातीर नाच्च नासलो. तो नाचतालो म्हाजेखातीर. फकत म्हाजेखातीर. आयजूय तो नाचतलो. हांव तेका पळोवपाक येयलां.

बा : बाय, तूं आतां परक्याचें जालां.

मोगा : खबर आसा म्हाका. आनी हांवूय तुमकां सांगूंक सोदतां. हांव आतां तुमचें उरुंक ना. म्हाजेर तुमचो कसलोच अधिकार ना. म्हाजेर मोग करपाचो ना. आनी रागार जावपाचोय अधिकार ना. हांव तुमचेखातीर तुमच्या कुळागरांतलो खणून काडलेलो कावथो जालां.

बा : बाय, कितें उलयता गो?

मोगा : हांव फकत उलयतां. तुमी तें खरेपणी करून दाखयलां.

दादी : हय केलां. कावथो खणून काडला. तो जंय रोयला थंय रुजोनी.

मोगा : तुमकां जाय थंय तो रुजचोना. कारण तेका जीव आसा. मन आसा.

बा : बायऽऽ

मोगा : हय. हांव थंय नंदचें ना. आनी एक सांगतां, जेका मन दिलां तेकाच ही कूड दितलें, नाजाल्यार ही कूड सुण्यांक आनी गिदांक खावयतलें. बाबुराय म्हाजेखातीर मोडला. म्हाका तेचें फारीकपण करपाक जाय.

(दादी मारपाक दांडो उखलता. मोगा तो दांडो आपल्या हातीन सकयल काडटा.)

दादी, हो दांडो असोच दवर. केन्नाकाळा तुकां तुज्याच कपलार मारपाक उपकारा पडटलो.

(मोगा आयिल्लें तशेंच काळखांत मांडावटेन धांवता. बा ताचे फाटोफाट वता. दादी तांच्या फाटोफाट वचपाची तयारी करता इतल्यान मोगा आयिल्ले तेवटेतल्यान येसो येता. तो सामको काचाबूल जाला, पयलेच खेप त्याचे मुठीक सिगार ना.

येसो : दादी, दादी,

दादी : कितें जालां येशा? तूं- तूं एकलोच?

येसो : हांगा मोगा येयलां?

दादी : हय. येयलां.

येसो : (भितर नदर मारुन) खंय आसा?

दादी : भितर ना. मांडार गेलां जागराक.

येसो : खरें न्हू?

दादी : हय रे. हांव फट कित्याक मारतलों?

(येसो खुणावन देमूंक आपयता)

दादी : थंय काळखांत कोण आसा?

येसो : आनीक कोण? तुजो जांवय!

दादी : जांवय जाल्यार चोरासारको दडटा कित्याक रे?

(देमू येता. तो भियेला. ताच्या तोंडार आनी हातांचेर नाखटांनी बुचकायिल्ल्याचे आनी दातांनी घांस काडिल्ल्याचे दाग आसात.)

देमू : (रडत) दादी, तुज्या जांवयाची कितें दशा जाल्या पळय.

दादी : कोणे बुचकिला तुकां? माजरान काय वागटान?

देमू : तुमचे धुयेन, मोगान. पयले रातीक हांगा घांस माल्लो, हो हांगा. दुसरे दिसा, हांगासर. तिसरे दिसा हांगा बुचकिलो. मागीर हांगा गरे काडले. मागीर हांगा. फाटले धा दीस हें अशेंच चल्लां. कशेंच आंगांक हात लावपाक दिना. मारकी म्हस कशी आंगार येता. दादी, आंकवार आशिल्लो तोच बरो आशिल्लो. हांगचे थंयचे जागोर पळोवन उमेद भागताली. हें लगीन म्हाका भुजलें, सामके भुजलें. (रडटा.)

दादी : घोव मरे तूं? मागीर रांड बायलेसारको हात-पांय गळसणावन रडटा कितें? तुकां तुजे बायलेक मुठींत दवरपाक कळना?

देमू : मुठींत दवरपाक पयलें तें हातीन तरी मेळपाक जाय न्हू? दादी, ती बायल न्हू, ती उज्याची कायल. खऱ्यांनीच रागाक तें सामकें तुजें बडीर गेलां.

दादी : तुज्या सारक्या मेल्ले वारीच्या मनशाकडेन गांठ पडटकूच आनीक कितें जातलें? गायंडोळाचोय सोरोप जावपाचो.

येसो : दादी, देमू म्हणटा तें सामकें खरें.

दादी : तूं वगी राव रे येसल्या. मेल्ल्यांच्या घरांतलो खंयचे कडलो!

येसो : जांव मेल्ल्यांच्या घरांतलो. हांव सुटलों.

दादी : (येशाक) तूं गरजेभायर म्हाजी तकली फोडशी जाल्यार हांव तुकां सोडचोना.

देमू : दादी, म्हाजें कितें करता?

दादी : तुजें कितें करपाचें? कुळागरांतली विख-मोगरी हातीतोंडाक लाय. पेखतलें. पयलीं मोगाची खबर घेंवया. चुतड, जागराक येयलां! दांडलावयलें सवंग पळोवपाक! दोकोच घालतां मोडून. चल.

(वचपाक वळटा. देमू आनी येसो अनमनता)

देमू : हांव येंव?

दादी : येंव म्हणजे? घोव मरे तेचो? मागीर असो भियेता कित्याक? (ताका बचकुलाक धरून ओडीत व्हरता. फाटोफाट येसो चलता. दादीच्या हातांत लापयांव आनी दांडो आसा. इतल्यान मुखावयल्यान बा खर्शेत येता)

बा : मोगा, मोगा मांडार ना.

दादी : मांडार ना? मागीर खंय गेलें? (येवजून) बरें आसा. खंय वयता तें पळयतां. फाल्यां जागराचो मांड दवरचे आदी पोराचें सरण दायटां. (सगळ्यांक) म्हाज्या फाटल्यान येतात.

(वाट बदलता आनी कुळागरा वटेन वता.)

(काळोख)

## देखाव : चोवीस

(कुळागर. उशेणाचे धडेर, मांडावयल्या वाजपाच्या तालार बाबुराय नाचता. तो एका पांयान थोंटो जाल्ल्यान तसोच नाचता. थोटीच्या सवंगाभशेन दिसता. मांडावयलीं उतरां आयकूंक येता.)

**एका पांयाचो थोंटी**
**माजी उमेद कितली मोटी**

**मेवळें रे मेवळें**
**चेडू तन्नें कवळें**

(भितर दादीची उतरां आयकूंक येता. "मोगा फाटीं सर. दोको मोडटलों." दोन – तीन फावट हींच उतरां मागीर पायांचेर दांडो मारिल्ल्याचो आवाज आनी तेसरशीं मोगाची एक किळांच "बा गेऽऽ" बाबुराय किळांचीवटेन पळयता. कांय वेळान मोगा एका पांयान कुटत कुटत बाबुरायावटेन वता. चराकडेन येत चर हुपता. उशेणावटेन वता. फाटोफाट दादी, देमू, येसो आनी बा येतात. एकीकडेन थारता.)

देमू : दादी, दादी तुंये खऱ्यांनीच मोगाचो दोको मोडलो. आतां तें थोटें जालें. म्हाजो संवसार थोंटो जाल्लो म्हाका नाकां.

येसो : तेच्च्या गळ्यांतलो मणी तुटोन पडलेलो वाटेर. हो पळय, म्हाका मेवळो.

देमू : जांव मणी तरी मेवळो. चल, येशा चल. (दोगूय कडसरतात.) (दादी आनी बा थंय उरता. दादीक पश्चाताप जावपाकडेन पावला. बा धुवेखातीर न्हिन्नडल्या. दोगांय उशेणावटेन पळयतात. बाबुराय आनी मोगा दोगांय लागीं येतात. बाबुराय आपल्या हातांतलो मणी मोगाच्या गळ्यांत बांदता.) (वाजोवपी पंगड आख्यानाचो समारोप करतात.)

**मोडून पडले दोके गा,**
**तोडून पडले मोके गा**
**मोग करित्यो मोगीनो,**
**तुमची सासणाची काणी गा**

**मोग रुजिला झाडांनी,**
**मोग वाडिला माडांनी**
**मोग देखित्या लोकांनी,**
**हो प्रेमजागोर रचिला होऽऽ**

('प्रेमजागोर'चे आख्यान सोंपता. वाजोवपी पंगड आरंभाचें नमन गीत गायता. सगळीं सवंगां मांडार येवन देवांक दंडवत घालून नाचतात.)

**मांडाच्या गुरू गा तुकां दंडवत**
**सांतेरी माये गे तुकां दंडवत**
**देंवचारा देवा गा तुकां दंडवत**
**रौदिऱ्या देवा गा तुकां दंडवत**
**गांवपुरसा देवा गा तुकां दंडवत**
**सर्वय देवांनो गा तुमकां दंडवत**
**बसलेले सभेक गा तुमकां दंडवत**

(सोंपता)

## पात्रांची वळख

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | **लेफ्ट. अविनाश** | – | इंद्रायणीचो युद्धार गेल्लो व्हडलो पूत |
| 2. | **अनुराधा** | – | अविनाशाची घरकान्न |
| 3. | **इंद्रायणी** | – | घरांतली मुखेली, विधवा |
| 4. | **विशाखा** | – | इंद्रायणीची वाडिल्ली चली |
| 5. | **गौतम** | – | इंद्रायणीचो दुसरो पूत |
| 6. | **रुद्राजी** | – | इंद्रायणीच्या घरण्याचो कुटूंब-सांगाती |
| 7. | **गांवांतले कांय लोक** | – | |

# अंक : पयलो

## देखाव – एक

(गांवांतलें एक मध्यमवर्गी घर. सालाचो देखाव. सालाक भायलो दरवंज. एक दार उजवे वाटेन जाल्यार एक दावेवाटेन. दाराक पड्डे. एकीकडेन माळयेचीं सोपाणां–इस्काद दिसता. वणटीर एक पांयजेल स्पश्ट दिसता. फोटो चाळीशेक वर्सां पिरायेच्या एका सैनिकाचो. ताका हार घातला. सालांत बसपा उठपा पुरतें मोजकेंच सामान. तातूंत एक सादो सोफा, कांय कदेली. कांय साद्यो बसका. घरांत तिगां जाणां वावुरतात. तातूंत सुमार पंचावन्न वर्सांची जाणटेली बायलमनीस इंद्रायणी, विधवा. दुसरी तिगेली तीस बत्तीस वर्सांची चली, विशाखा. आनी तिगेलो चलो, गौतम. ताची पिराय तिशेक वर्सांची. तिगांय न्हाल्यां धुल्यांत. बोवाळटात ताचेवयल्यान घरांत कसलें तरी धार्मिक कार्य आसा म्हणपाचें कळटा. एक दिवली दवरल्या. आवय इंद्रायणी दोगांयकूय कितें कितें फर्मायता. तेप्रमाण तीं सामान हाडून दिवलेकडेन दवरता. पार्श्वभागाचेर गायत्रीमंत्र आयकूंक येता.)

**इंद्रायणी** : (विशाखाक फर्मायता) तीळ, सुरय तांदूळ, सुपाऱ्यो–आठ काड. विड्याची पानां–स, तुळशीपानां–तो फुलांचो कुरपणोच हांगा हाड. मोको, दर्भ तातूंतूच आसा. भस्म आनी गोपीचंदन खंय आसा तें खबर आसा? (विशाखा फक्त तकली हालयता.)

स दोणे जाय. आतां खंय मेळटले? चांदीच्यो वाटयो काड. खंय आसा त्यो जाणा?

(विशाखा फक्त तकली हालयता.)

(कांयश्या वैतागान) उलयल्यार जाता. समजलें?

विशाखा : तीळ आनी तांदूळ कितले हाडूं?

इंद्रायणी : तीळ कुडवभर आनी तांदूळ पायलीभर.

विशाखा : हांव खऱ्यांनीच विचारतां.

इंद्रायणी : पयलेच खेप हाडिल्ले भशेन करता. दोनूय, मूठ मूठ हाड.

(विशाखा मोन्यानी भितर वता. गौतम लागी येता.)

गौतम : दिवली, तांबयो, निरांजन, पळी दवरली.

इंद्रायणी : तामण दवरलें?

गौतम : तामण? तामण म्हणल्यार कितें?

इंद्रायणी : (मातशी नदर वयर करून पळयता.)

गौतम : तामण! दवरलें, दवरलें.

इंद्रायणी : जानवीं?

गौतम : तीं म्हाकां करपाक कळना.

इंद्रायणी : करपाची गरज ना. त्या पुजेच्या सामानांतूच आसतात तीं.

गौतम : आसा, आसा.

इंद्रायणी : (बोट दाखोवन) तें कितें?

(तो सांगपाक अनमनता.)

कितें रे तें?

गौतम : (तोंड मातशें वाकडें करून) गोमुत्र!

इंद्रायणी : तोंड कित्याक वाकडें करता? पवित्र तें!

(इतल्यान भितरसावन सामान घेवन विशाखा येता. सामान मांडटा. वाती वळटा.)

इंद्रायणी : (गौतमाक) तो भट खंय पावलो तुगेलो? काय गेलो ट्रेनीर बसून? ह्या नव्या भटाचें नांवूच याद उरना.

गौतम : नरेश!

इंद्रायणी : नांव सुद्दां भटाचें कशें दिसना. नरशिंवभट तो नरशिंवभट. पळयना बरोबर विस्वास बसतालो.

गौतम : होवूय हुशार आसा.

इंद्रायणी : कित्याक धोतर न्हेसून मोटारसायकल चलयता म्हणून? शेणी मात बरी हालता!

गौतम : ना आई, ताका खूब कितें येता.

इंद्रायणी : तुकां कशें कळ्ळें?

गौतम : तो कळनाशिल्लें कितें कितें म्हणटा. संस्कृतांत मंत्रपठण! त्या दिसा तोच सांगतालो. ताका नारायणबळी सुद्दां दिवपाक कळटा.

इंद्रायणी : नारायणबळी?

गौतम : हय.

इंद्रायणी : तो कितें कुकडां-बोकडांचो बळी? तुकां खबर आसा नारायणबळी म्हणल्यार कितें तें?

गौतम : ना.

इंद्रायणी : हांवें केल्लो नारायणबळी. स वर्सा आदीं हरवळेच्या तिर्थार वचून. ब्रह्मादी देवता, यमदेवता, प्रेतदेवता हांची प्रतिष्ठापना करची पडटा. पिठाचें बावलें करून ताचें दहन करपाचें. मनशाक अपघाती मर्ण येतकूच एका वर्सा उपरांत, नारायणबळी करतात. ताका शांत आनी तृप्त करपी एक विधी तो.

गौतम : हय. आई, म्हाका याद आसा. आमी सगळी बरोबर गेल्लीं. रूद्राजीबाबाय आमचेबरोबर आयिल्लो.

विशाखा : तुकां याद जायना?
(विशाखा वग्गी)

गौतम : कोणाखातीर केल्लो गे तो नारायणबळी?

इंद्रायणी : मागीर कसली याद आसा तुकां? कर्माची! आयज जाचें श्राद्ध आसा ताचेचखातीर केल्लो.
(विशाखा हुंडक्यांनी रडटा. इंद्रायणी ताचे म्हऱ्यांत वता. ताची

तकली पोशेता.)

वाती वळटाना अशें रडूं नाका. दुकांनी वाती भिजत. जळटना चरचरतल्यो. दुकां जळनात, प्रेतां जळटात तशीं. निमाणी नदर सुद्दां घालपाक मेळ्ळी ना गो म्हज्या पोराचेर. युद्धार कितें बाकिचे वचनात? पूण अशें मर्ण खंय कोणांक येता! सैन्यांत गेलो, तेन्नाच ताज्या मर्णाची खबर केन्नातरी आयकुची पडटली, हाची तयारी केल्ली हांवें. शिमेचेर झूज जाता तेन्ना सगळे जैताची वाट पळयतात पूण झुजाऱ्यांच्या भुरग्यांच्यो आवयो फकत मर्णाचीच वाट पळयतात. म्हाकांय दिशिल्लें, तें अदृश्ट ताळूंक नजो. एक दीस ताचो स्विकार करपाकूच जाय. तशी कल्पनाय करताली हांव. म्हज्या पुताक रणांगणाचेर मर्ण आयलां. पयलीं तार येतली. तार वाचचे आदींच हांव समजतलीं, तारेंत कितें बरयलां तें. मागीर सगळ्या वार्तापत्रांचेर खबर येतली छापून फोटोसयत. मागीर विमानांतल्यान पुताचो काशांव येतलो म्हणपाची खबर! आनी मागीर एके ट्रेनींतल्यान काशांव गांवांत पावतलो. सगळो गांव लोट्टलो. पोराची निमाणी यात्रा दोळे भरून पळयतलीं आनी आवय म्हूण धन्य जातलीं. पूण नदर घालपाक पोराचें...

**गौतम** : पूण आई, आमच्या आविनाशभाईक शिमेचेर वीराचें मर्ण आयलां. बॉडी मेळ्ळी ना म्हूण कितें जालें! झुजांत अशें जाता. थंय जित्या देहाची कोणांक पर्वा नासता. मेल्ल्या देहाचें कितें! न्हय गो विशाखा?

(विशाखा रडटा.)

**इंद्रायणी** : अविनाश आशिल्लो जाल्यार विशाखाचो प्रस्न केन्ना सुट्टलो आसलो.

**विशाखा** : म्हाका म्हज्या प्रश्नाची पर्वा ना. लग्न कितें व्हडलो प्रश्न न्हय. म्हज्या भावामुखार तर न्हयच न्हय.

**इंद्रायणी** : अशीं रडूं नाकात. बाणाचे बाज्जेर पडून मरणाची वाट पळोवपी

पितामह भीष्म आनी रणांत आपलो देह अर्पण करपी सैनिक हे सारखेच योग्यतायेचे आसतात. आयच्या दिसा मन शांत आनी धीरगंभीर दवरपाक जाय. श्राद्धा दिसा मनशाचो आत्मो घरांत वासनामय कोशात वावुरता. घरांत देवाचो वास आसता तसो आयच्या दिसा घरांत पितरांचो वास आसता. तांका आपणाल्या मनशांची याद येता. देखून आयच्या दिसा सगळ्यानी घरांत आसपाक जाय.

**गौतम** : (इस्कादीवटेन नदर मारीत) आसात, आमी सगळीं घरांत आसात.

**इंद्रायणी** : हो तुजो नरेश भट खंय पावलो रे? ताका याद तरी आसा मरे?

**गौतम** : येतलो. ताजेकडेन घोडो आसा न्हय.

**इंद्रायणी** : घोडो?

**गौतम** : मोटरसायकल. भुर्र करून येतलो.

**इंद्रायणी** : तसोच भुर्र करून वतलो. सगळो बोवाळ. खरें म्हणल्यार श्राद्धाची बरी खर पथां आसतात.

**गौतम** : कसलीं पथां?

**इंद्रायणी** : श्राद्ध वाडटल्यान आदले राती जेवपाक फावना.

**गौतम** : पूण हांव राती जेवना तें भूक ना म्हणून.

**इंद्रायणी** : भूक तुकां नाशिल्ली. पूण तुकां आग्रो करूं नाशिल्लो. हांवेय केलोना आनी विशाखाकूय शिटकावन दवरलें.

**गौतम** : हें इतलेंच पथ?

**इंद्रायणी** : हें पथ जालें तुजें यजमानाचें. श्राद्धाचे विधी सांगपी पुरयतानूय म्हणजे त्या तुगेल्या नरेशान पथ पाळपाक जाय. असोच आदले राती उपास.

**गौतम** : ताचो तो मात भरवंसो दिंव नजो.

**इंद्रायणी** : आनी आदले राती ब्रह्मचर्य लेगीत पाळपाक जाय. हे भंगले ब्रह्मचर्य पाळटले. पाळून पाळून बायलेकडेन पाळीत.

गौतम : म्हणजे कितें आई?

इंद्रायणी : (विशय बदलून विशाखाक) याद आसा मुगो? वडे करपाक जाय.

विशाखा : हय, पीठ मळून दवरलां.

इंद्रायणी : तीन पींडांकडेन. ते वेगळे कर. आनी पींडांखातीर पीठ. तें वेगळें. आयज मुद्दाम रजा काडची पडली. फाल्यां चल कामार.

विशाखा : रजेची कसली पर्वा? आनी ह्याच कामांखातीर त्यो आसतात.

इंद्रायणी : तुका रात्रीकडेन एकल्याकूच बोवाळचें पडटा मुगो.

विशाखा : म्हाकां संवय आसा.

इंद्रायणी : (इस्कादीकडेन नदर मारीत) हरशीं हात-बोट घाल म्हण तिका सांगचें पडना. पूण आयचो दिसूच तसो. सांगपूय बरोबर न्हय.

विशाखा : नाका न्हय, हांवें तिका आदीच सांगून दवरलां.

इंद्रायणी : कितें?

विशाखा : सगळें हांव करतां म्हणून.

इंद्रायणी : हांवच करतलें आसलें गो सगळें. तुमच्या बापायचें केलें ना? स्वतः हावें विधवा बायलेन घोवाचें श्राद्ध केलें. पयल्याच वर्सश्राद्धाक गावांत केदो बोवाळ जालो!

गौतम : बोवाळ कित्याक?

इंद्रायणी : कित्याक म्हणजे? बायलांक अधिकार खंय आसा घोवाचें श्राद्ध वाडपाचो? बायल मेल्यार घोवाक मात आसा अधिकार. हांवें म्हणलें, जो अधिकार विधूर दादल्यांक आसता, तो अधिकार विधवा बायलांकूय आसूंक फाव.

गौतम : मागीर?

इंद्रायणी : मागीर कितें? नरसिंह भट म्हणपाक लागलो, धर्मशास्त्रांत तसो अधिकार ना.

**गौतम** : मागीर?

**इंद्रायणी** : मागीर रूदाजीबाबा मुखार आयलो. तुमच्या बापायचो जिवाभावाचो इश्ट तो.

**गौतम** : ताणे कितें केलें?

**इंद्रायणी** : ताणे सांगलें, धर्मशास्त्रांत तशें ना जाल्यार तें धर्मशास्त्र अर्दकुटें आसा. हें धर्मशास्त्रांत घाल आनी तें पूर्ण कर.

**गौतम** : मागीर?

**इंद्रायणी** : मागीर कितें? रूद्राजीबाबान सांगलें तशें नरसिंह भटान केलें. सेगीत धा वर्सां ह्या हातांनी पींडदान करून सगळें केलें. मागीर फाटोफाट हाता तोंडावेल्या पुताचें अशें जालें. आतां मनूच जायना. जाणें म्हजें श्राद्ध वाडपाचें ताचेंच श्राद्ध आवयक वाडचें पडटा. नियती म्हण कसलो एक एक खेळ खेळटा! (दोळ्याक पदर लायता.)

**विशाखा** : आयच्या दिसा, मन शांत आनी धीरगंभीर दवरपाक जाय म्हण सांगताली मगे तूं? तें फकत भुरग्यांक सांगपाचें?

**गौतम** : आई, रडूं नाका. आतां सगलें वेवस्थित जातलें. म्हाकां सरकारी रीण मेळ्ळां. हांव आतां म्हजी फॅक्टरी सुरू करतलों. विशाखाचें लग्न करतलों. अविनाशभाईंचे पुण्यायेन हें सगळें घडटलें.

**इंद्रायणी** : म्हजो अवि म्हाका परत मेळटलो? दैवान त्याच्या अस्तित्वाची खुणाय दवरलीना.

**विशाखा** : ल्हवू. तिका आयकूंक येत.
(सावचीत जावन विशाखाक) एक हार गुंथपाक सांगिल्लो मगो तुकां. फोटवाक घालपाक जाय.

**गौतम** : आई, फोटवाचो हो आदलो हार काडूं?

**इंद्रायणी** : आतां नाका. नवो घालतात तेन्ना काडचो. (विशाखाक) हाराचें कितें?

**विशाखा** : तो मात तिणें आपूण गुंथता म्हणलें.

इंद्रायणी : आपूण जावन म्हणलें?

विशाखा : हय. पोरूंय तिणेंच गुंथिल्लो. दर वर्सा तीच गुंथता.

इंद्रायणी : तें एक पळोवचें!

विशाखा : ल्हवू म्हण न्हय. तें एक पळोवचें म्हणजे? तिणें आनीक कितें करचें अशें तुकां दिसता?

इंद्रायणी : (विशय बदलून) कांय ना. (गौतमाचेर तिडून) तो भट खंय पावलो रे तुगेलो? श्राद्धाक वेळ आनी म्हुर्त ना म्हणून भटान आपल्याक जाय तेन्ना केन्नाय येवपाचें?

गौतम : आतां येना जाल्यार वचून पळोवन येतां. पूण तो आतां घरा मात आसचोना.

इंद्रायणी : तुकां सांगलां, खंय आसतलो तो?

गौतम : ना.

इंद्रायणी : मागीर? कांय गरज ना. तूं वचशी आनी भायर खंयूय शिरकशी. आयज सगळ्यांनी घरा रावपाक जाय.

(इस्कादीचेर पावलां वाजता. सगळीं शादूर जातात. इस्कादीवयल्यान अनुराधा देंवता. पस्तिशेक वर्सांची बायल. विधवा. धवी साडी आनी ब्लावज घालता. कपल उकतें. गळ्यांत मंगळसूत्र ना. हातांत ताट आसा. ताटांत फुलां आनी पुजेचें साहित्य. तें घेवन ती सालांत येता. गुंथिल्लो हार सामानामदीं दवरता आनी ताट घेवन भायर वचपाक लागता. सगळीं वग्गी. इंद्रायणी, विशाखा, गौतम एकमेकाच्या तोंडाकडेन पळयतात. आपणांक कोणतरी हटकितलो म्हण अनुराधा वाट पळयता. आनी निमाणी पावलां उबारता. गौतम अनुराधेन हाडिल्लो हार घेता. फोटवाचो पोरणो हार काडटा आनी नवो घालता.)

इंद्रायणी : (तिका हटकिता) अनुराधा. (ती थारता.) आतां ह्या वेळार तुकां भायर वचपाकूच जाय?

अनुराधा : हांव देवळांत वतां.

इंद्रायणी : खबर आसा. पूण आयज वचनासताना रावूं येता. आयज श्राद्ध म्हूण सांगता.

अनुराधा : कोणाचें श्राद्ध?

इंद्रायणी : कोणाचें म्हणजे? तुवें हार कित्याखातीर गुंथला?

अनुराधा : फोटवाक घालपाखातीर.

इंद्रायणी : कोणाच्या फोटवाक?

अनुराधा : म्हज्या घोवाच्या फोटवाक घालपाखातीर हार गुंथला. ताच्या पिंडाक घालपाक जाल्यार गुंथची नाशिल्लीं. म्हज्या बेडरूमांतय ताचो फोटो आसा. ताकाय हांव सद्दां फुलां घालतां. तो हांगासर ना म्हणून ताच्या फोटवाक तीं फुलां. तो फाल्यां येतकच सगळीं फुलां ताच्याच गळ्यांत आनी ताच्याच पांयाकडेन. तुमी हें कितें करतात तें म्हाका मान्य ना आनी तेचखातीर त्या विधिच्या वेळार हांव हांगा रावपाक शकना. हें अंदूच न्हय दर वर्सा अशेंच घडटा.

इंद्रायणी : हांव जाणां तें. हावें सोंसलां. तें सोसप खूब कठिण.

अनुराधा : सोंसप कठिण म्हणून न्हय, कितलेय कश्ट हांव सोसपाक तयार आसा, पूण हांगा प्रश्न सोसपाचो ना. मानपाचो आसा.

विशाखा : म्हणजे वयनी अविनाशभाई ह्या संवसारांत ना हें तूं आजुनूय मानपाक तयार ना?

अनुराधा : आजुनूय म्हणजे? काल आनी आयज हाचेमदीं कितें घडलां? हांव काल मानतालें तेच आयज मानतां.

गौतम : पूण वयनी, शिमेवयल्यान तो बेपत्ता जाला म्हणपाचें सरकारान आमकां कळयलां.

अनुराधा : बेपत्ता जावप म्हणजे मरप न्हय.

गौतम : पूण ताचे बरोबरचे मोहिमेर आशिल्ल्या हेर सैनिकांक दुस्मानाकडच्यान मरण आयलें.

अनुराधा : हेरांक आयलां पूण हांकां आयलां म्हणपाचें खंय खबर आसा?

**गौतम** : पूण तांचीय मडी मेळुना. ती दुस्मानांचे हद्दींत उरली.

**अनुराधा** : तो मरुकूंच ना जाल्यार त्या मड्यांत तुमी ताका कित्याक सोदतात? तुमी मेल्ल्या मनशांच्यो गजाली करतात. हांव जित्या मनशांच्यो करतां.

**विशाखा** : वनयी, आमचो भाव मरिल्लो आमकां जाय? पूण सत्याचो स्विकार करचोच पडटा न्हय.

**अनुराधा** : तुमकां दिसता, तुमी करात. म्हजे लेखीं जें सत्य न्हय, ताचो स्विकार हांव करचेना. म्हज्या मानपाचेर म्हजी पूर्ण श्रद्धा आसा. (कळवळून) तुमी श्राद्धां करात, जित्याजिव्यांची.

**इंद्रायणी** : पुताचें श्राद्ध वाडप म्हणजे कितें उत्सव समजली तूं? श्रद्धया क्रियते यतत् श्राद्दम्। ताच्या मुळाक श्रद्धाच आसा, समजलें?

**अनुराधा** : मागीर मातसो थार धरपाक कितें जातालें?

**इंद्रायणी** : थार धरपाक म्हणजे? श्राद्ध वाडपाची आमकां उमेद आशिल्ली? कितलो म्हण थार धरपाचो?

**अनुराधा** : एक वर्सूय धरलोना.

**इंद्रायणी** : एक वर्स धरलो. सरकाराकडल्यान अदीक माहिती आयलीना आनी आमी इच्छिल्लेंय कांय घडलेना. म्हणून एका वर्सान अब्दपुतीश्राद्ध केलें आनी मागीर नारायणबळी केलो. आनी हें फक्त म्हजे बुद्दीन केलें ना. रूद्राजीबाबाक आनी नरसिंह भटाक विचारून केलें. जें जालां तें सगळें शास्त्रसंकेताक धरून जालां.

**अनुराधा** : शास्त्रसंकेताचे भाशेनूच उलयतात जाल्यार निदान बारा वर्सां वाट पळयत रावपाची. शास्त्रान तसें सांगलां. हांव पळोवपी वाट. दिसपट्ट्या येत्या वत्या ट्रेनींनी ताची वाट पळोवपी. बारा वर्सांमेरेन. बारा वर्सांनीय तो आयलोना जाल्यार हांव स्वतः विधवाधर्म स्विकारपी आनी म्हज्या घोवाचें श्राद्ध स्वतः करपी, जशें तुमी आपल्या घोवाचें केल्लें.

**इंद्रायणी** : (आपलेभितर वितरागान) आतां तुजेकडल्यान आमकां शास्त्रां शिकचीं पडलीं!

**विशाखा** : पूण वनयी, आमकां बरें दिसलें म्हण भागना. थोडो लोकांचो, समाजाचो विचार करचो पडटाच न्हय.

**अनुराधा** : विचार केलोना कित्याक? केलो. आनी थोडो न्हय, खूब केलो. गळ्यांतलो मणी काडलो तो लोकलजे खातीरूच मूं? कपलाचो कुकूम पुसलो तोवूय समाज कितें म्हणटलो ह्याच भंयान मूं? हीं कांकणा वाडयलीं ती लोकांखातीरूच मूं? सवायशिणीची कसलींच व्रतां एकवतां हांव करीना. श्रावणी आयतार पुजिना, वडापुनव करीना, सवायशिणींच्या कसल्या समारंभाक वचना. ना हळदीकुंकूम, ना लग्नकार्य. फकत लोकलजेखातीर. लोक कितें म्हणटलो हाची सगळ्यांक पर्वा. म्हाका कितें दिसता हाची पर्वा कोणांक ना.

**गौतम** : खरें म्हणल्यार कुकूम पुसप, कांकणां काडप, मणी काडप ही प्रथा बरोबर न्हय. हांव तेन्ना ल्हान, नाजाल्यार...

**अनुराधा** : खरें. आतां तूं व्हडलो जालो न्हय? आतां तूं म्हाकां घालपाखातीर हाडून दिशी? कुंकूम, कांकणां आनी मणी?

**गौतम** : वयनी, आतां कशें शक्य आसा?

**अनुराधा** : हांव जाणां. शक्य ना. वयनीचेर माया करप, तिची काळजी घेवप हें काम सोपें, पूण हें न्हय.

**विशाखा** : वयनी, तूं उलयताना काळजाक हात घालता.

**अनुराधा** : काळजाची भास ताचेकडल्यान शिकलां हांव, लग्न जावन फकत चौदा दिसांचो सांगात.

**इंद्रायणी** : विशाखा, म्हाकां कलकलील्लेभशेन जाता. हांव मातशीं भितर वचून आड पडटां.

**विशाखा** : चल आई, हांव वांगडा येता.

**अनुराधा** : तूं तुज्या कामांक लाग. हांव रावतां आई बरोबर.

**विशाखा** : पूण तुकां देवळांत वचपाक जाय न्हय?

अनुराधा : गेलेंना म्हण कांय अडपाचें ना. जंय सेवेची गरज आसा थंय देव आसा. चल आई.

इंद्रायणी : नाका धुवे, तुज्या उतरांनी आयिल्लो कलकल तुज्याच उतरांनी शांत जालो. तूं म्हणल्यार ह्या घराचें साक्षात दुःख आनी तूं म्हणल्यार घराची साक्षात लक्ष्मी! आमीच ल्हान मनशां गो. काळीज पिळून तुजें दुःख कोणांकूय सांगचें आनी हड्डें फुलोवन तुजें गुण गावचे, इतली तुजी व्हडवीक. चल, देवळांत चल. खऱ्यांनीच ह्या वेळार हांगा रावू नाकां.
(ती वचपाक पावलां उखलता.)
अशें दिसता, कितेंतरी चमत्कार घडचो आनी तुज्या मनांतलें खरें जावचें!

अनुराधा : आई, म्हाकां विस्वास आसा! (तशीच भायर वता.)

गौतम : आई, त्या सावित्रीची गजाल अशीच आसा न्हय गे?

इंद्रायणी : कोण सावित्री?

विशाखा : सत्यवान-सावित्रीची आख्यायिका म्हणटा तो.

इंद्रायणी : हय. आशिल्ली एक आख्यायिका.

गौतम : सत्यवान नांवाच्या मनशान मेल्ले सावित्रेक जिती केली!

विशाखा : न्हय. सत्यवान मेल्लो. सावित्री ताची बायल. तिणें यमांक सांगून सत्यावानाक जितो केलो.

गौतम : आई.

इंद्रायणी : कितें?

गौतम : ती काणी खरी?

इंद्रायणी : ना. फट. सामकी फट. पूण तातूंतली सावित्री मात सामकी खरी.

गौतम : (गोंदळून) अशें कशें?

इंद्रायणी : (कांयशी तिडून) अशें कशें म्हणजे? उक्त्या दोळ्यांनी पळयना तूं?
(विशाखा कुरवांनीच गौतमाक वगी रावपाक सांगता.)

(वैतागून आपले भितर) आख्यायिका रचल्या! बायलांक घोवांच्यो दासी करपाच्यो मांडण्यो सगळ्यो! लग्नापयलीं, लग्नाउपरांत आनी घोवाच्या मर्णाउपरांत लेगीत. मरपाचे सत्यवान मरून वतात. सावित्री मात धोंपरां फोडून घेतात. (विशाखाक) विचार मगो, आई, आयज तुजें कितें जालां? चित्त विचलीत जालां. हे पिरायेर भुरग्यांचीं श्राद्धां वाडटां न्हय? नांवाची इंद्रायणी हांव, वितरागिणी जाल्या. (गौतमाक) तो तुजो भट खंय पावलो रे? घोड्यार बसून येवपाचो तो कितें रथार बसून येवपाक रावला?

(गौतम बेगीबेगीन भायर धांव मारता.)

**इंद्रायणी** : (विशाखाक) आनी तूं हांगाच आख्यायिका आयकत रावतलें?

**विशाखा** : हांव भितर कामांक वतां. वयनीखातीर भायर राविल्लें.

(विशाखा वचपाक वळटा.)

**इंद्रायणी** : (शांत जावन) राव मातशें.

**गौतम** : कितें?

**इंद्रायणी** : म्हाका हे तुजे वयनीचो, अनुराधेचो हुस्को जाला.

**विशाखा** : तिचो कसलो हुस्को?

**इंद्रायणी** : हुस्को न्हय जाल्यार कितें? हे तिगेलें असलें वागप कितलो काळमेरेन चलतलें?

**विशाखा** : तें तिणे सांगलां न्हय?

**इंद्रायणी** : कितें?

**विशाखा** : बारा वर्सांमेरेन.

**इंद्रायणी** : बारा वर्सां? म्हणजे आजून पांच वर्सां उरलीं? फाटल्या सात वर्सांत घडूंना तें फुडल्या पांच वर्सांत घडटलें अशें दिसता तुकां?

**विशाखा** : म्हज्या आनी तुज्या दिसपाचेर कितें आसा?

**इंद्रायणी** : असल्यो वादावादीच्यो भासो करूं नाका गो. हांव जितल्या

स्पश्टपणान विचारतां तितल्याच स्पश्टपणान जाप दी. अविनाश परत येतलो अशें दिसता तुकां?

**विशाखा** : तो जितो आसल्यार नक्कीच येतलो.

**इंद्रायणी** : परत तेंच.

**विशाखा** : (निश्चेवान) ना. आमी आतां ती आस्त सोडपूच बरी.

**इंद्रायणी** : म्हाकाय तशेंच दिसता. तुवें मातशें तिका समजावं येता.

**विशाखा** : जंय तूं समजावंक शकना, थंय हांव कशें समजायतलें?

**इंद्रायणी** : कितलीय जाल्यार हांव पडली मांय. शिवाय पिरायेचें अंतर आसाच.

**विशाखा** : आई, अंतर पिरायेचें ना. विचारांचें आसा.

**इंद्रायणी** : म्हणूनच म्हणटां, तुवें तिका समजावं येता. तुमी दोगांय एकेच पिळगेचीं. एका विचाराचीं. म्हणून म्हणटां.

**विशाखा** : हांव यत्न करीना अशें न्हय. पूण तिचेर बळजबरी कशी करूं येता?

**इंद्रायणी** : तिच्या ह्या असल्या हटवादान कित्या कित्याक खीळ बसल्या हें तिका खबर ना.

**विशाखा** : कित्याक खीळ बसल्या?

**इंद्रायणी** : तुजें लग्न आसा. मागीर गौतमाचो विचार आसा.

**विशाखा** : ताचो आनी हाचो कसलो संबंद?

**इंद्रायणी** : कसलो संबंद म्हणजे? संबंद जोडटल्यांक सगळें लागता. कोणेंय जर विचारलें, ती कोणाची वाट पळयता? जाल्यार कितें सांगपाचें?

**विशाखा** : पूण हांव म्हणटां, कोणेय तशें कित्याक विचारपाक जाय? ती वाट पळयत बसल्या म्हणजे तिणे कितें गांवच्या दरवट्यार थपकल मारून, वाट पळोवपाचें प्रदर्शन मांडलां?

**इंद्रायणी** : पूण कितेंय वांकडें तिकडें विचारप्याचें तोंड कशें धरूं येता?

**विशाखा** : कोणाचें तोंड धरूं नजो, पूण असल्यांच्या तोंडाकूच लागप ना.

**इंद्रायणी** : गरजवंतांनी खालतेपण घेवचें पडटा.

विशाखा : कांय गरज ना.

इंद्रायणी : (वितरागान) तशें जाल्यार राव अशेंच आंकवार.

विशाखा : रावन. असल्यो उस्तवाऱ्यो माथ्यार घेवचेपरस जल्मभर आंकवार रावन.

इंद्रायणी : ती आपल्या अदृश्टाखातीर जळटा. तूं आपल्या कर्माखातीर जळ. खरें तुजें. अंतर पिरायेचें ना. विचारांचें आसा.

विशाखा : हांव भितर कामांक वतां.
(वचपाक वळटा, इतल्यान भायरसावन गौतम धांवत येता. खूब घामेला आनी खर्शेला. ताच्या हातांत तारेचो कागद आसा.)

गौतम : आई, आई, विशाखा,

इंद्रायणी : कितें जालां रे? असो खर्शेला कित्याक? कित्याक ही धांवाधांव?

गौतम : हें सामान.... (तातूंतलें गोमुत्राचें आयदन उखलता.)

इंद्रायणी : आरे, आरे तें गोमुत्र. तें कितें करता?

गौतम : भायर वडयतां. (भायर रकयता.) आई, विशाखा, हें सामान भायर मार, कडेक काड नातर धांपून तरी दवर.
(आपूणच सामान कडेक काडटा. ताचेर कितें तरी धांपिल्लेभशेन करता. फोटवाचो हार काडपाक वता पूण मागीर परतता.)

इंद्रायणी : आरे, तुजेर कसलो सांवार आयला? हें, हें कितें करता तूं?

विशाखा : कितें जालां गौतम?

गौतम : आई, विशाखा, अविनाशभाई झिंदाबाद! अविनाशभाई जितो आसा. (उमेदीन दांत ओंठ किल्लून) अविनाशभाई!
(वातावरण गंभीर. शांतताय. विशाखा बेगीबेगीन तार घेवन वाचता. खोशी जाता.)

विशाखा : आई, आमचो अविनाशभाई आसा. बेगीनात बेगीन येतां म्हणून बरयलां.

इंद्रायणी : (पिशांतूर जावन) कितें म्हणलें?

विशाखा : अविनाशभाई! अविनाशभाई आसा. तो येता.

इंद्रायणी : कोण आयला सांगपाक?

विशाखा : अशें कितें करता आई? गौतम आयला सांगपाक.

गौतम : म्हाका पोस्टमन वाटेरूच मेळ्ळो.

इंद्रायणी : अविनाश येता खंय?

विशाखा : हय. आमचो अविनाशभाई!

इंद्रायणी : खंय गेल्लो तर तो?

विशाखा : आई, तुकां कितें जालां? ह्या वेळार अशें करूं नाका आई.

इंद्रायणी : कितें आयकलां तेंच म्हाका कळूंना गो. घुस्पतां हांव. परमेश्वरा, आयकल्ली गजाल खरी आसत जाल्यार ह्या खिणांक म्हजो उखल कर.

विशाखा : आई, अशें कितें उलयता तूं? अविनाशभाई खरेंच आयलो जाल्यार?

इंद्रायणी : आयलो जाल्यार म्हणजे? येवचोना तर?

गौतम : येवचोना कित्याक? ही तार आयल्या न्हय?

इंद्रायणी : केन्ना येता खंय?

गौतम : बेगीनात बेगीन. म्हणजे केन्नाय. फाल्यां. आयज. हे घडकेक.

इंद्रायणी : आतां आयलो जाल्यार ह्या श्राद्धाचें कितें करपाचें?

गौतम : श्राद्ध मारलें झक्. भटाक हांवें वाटेरूच परतिलो.

विशाखा : आई, ह्या खिणांक अशी थतर-वितर जावं नाका.

इंद्रायणी : जावंक जाय आशिल्ली तेन्ना जालीना पूण आयज जाल्यां खरी. दुःखाचे घायार घाय सोंसल्यात. सुखाचो येदो धक्को सोंसपाची तांक ना गो ह्या दुबळ्या काळजाक. कितेंय आयकतकच अशेंच कल्ल जाता. मागीर भानार येतां. विशाखा, कितेंय आरतबी नाका आशिल्ली?

विशाखा : यो आई तुका भितर व्हरतां. मातशी आड पड. गौतम मातसो दोतोराक पळय.

इंद्रायणी : नाका. नाका. दोतोरबी कांय एक नाका. म्हजे पिडेचें वखद मेळ्ळें जाल्यार दोतोर कित्याक जाय?

(विशाखाबरोबर भितर वचपाक वता. याद जावन थारता.) गौतम, ते अनुराधेक सोदून हाड. तिका वाटेर खबर कळ्ळी जाल्यार थंयच घुंवळ येवन पडत ती.

**गौतम** : तार आसा म्हजेकडेन. तिका कशी कळटली खबर?

**इंद्रायणी** : तिचेच पुण्यायेचें फळ रे हें!

(इंद्रायणी विशाखाबरोबर भितर वता. गौतम मांडून दवरिल्लें सामान बेगीबेगीन कुशीक काडटा. भितर व्हरून दवरता. निर्धास्त जाता आनी आविनाशाच्या फोटोकडेन येवन ताका लेखून उलयता.)

**गौतम** : अविनाशभाई, आतां तूं खंयच्च्याय खिणांक यो. आमी सगळीं तुकां येवकार दिवपाक तयार आसात.

(भायर ट्रेनीचो आवाज. गौतम धांवत दाराकडेन वता. कांय वेळान दारांतल्यान अनुराधा धांवत येता. तिच्या हातांत पुजेचें ताट आसा.)

**गौतम** : (खोशयेन) वयनी,

**अनुराधा** : आमकां तार आयल्या?

**गौतम** : तुकां कोणे सांगलें?

**अनुराधा** : पोस्टमनान. तो म्हाका देवळाकडेन मेळ्ळो. कितें आसा तारेंत? तेंच न्हय?

**गौतम** : कितें?

**अनुराधा** : (उमेदीन) तुमचो अविनाशभाई–

**गौतम** : वयनी, कितलो आत्मविश्वास तुकां? आनी तूं कितली पारखी. तुकां कशें कळ्ळें?

**अनुराधा** : कशें कळ्ळें म्हणजे? इतलो तेंप ते तारेचीच वाट पळयतालीं न्हय!

**गौतम** : तीच तार वयनी. (तार दीत) स्वतः अविनाशभाईन केल्या. घे वाच.

**अनुराधा** : नाका. नदर घालीनासतनाच दोळे धांपून वाचली ती हांवें.

**गौतम** : इमिजिएटली येता खंय! म्हणजे खंयच्च्याय खिणांक येवंक

शकता. आतां ट्रेन आयल्या ते ट्रेनीनसुद्धां.

**अनुराधा** : येवंदी.

**गौतम** : येवंदी कितें? अशे स्थितीन मुखार वतली? गळ्यांतलो मणी, कपलाचो कुंकूम?

**अनुराधा** : सौभाग्यवतिचो सगळो साज श्रृंगार करतलीं.

**गौतम** : (खालतेपणान) वयनी, खरेंच सांगतां, विधवा बायलेन मणी काडप, कुंकूम पुसप हाचे हांव विरूद्ध.

**अनुराधा** : आसूं तें आतां. आईक खबर कळ्ळी?

**गौतम** : हय. खबर आयकून तिका घुंवळ लेगीत आयली.

(अनुराधा भितर वचपाक वळटा.)

**गौतम** : हुस्को करपासारखी गजाल ना. विशाखा आसा म्हज्यांत.

(अनुराधा भितर वचपाक लागता.)

**गौतम** : वयनी,

**अनुराधा** : कितें?

**गौतम** : (दुबावान) वयनी, ही तार खरी न्हय?

**अनुराधा** : खरी म्हणजे?

**गौतम** : आमकां कोण दुस्मान ना खरो, पूण कोणेय हें बगलांटबी करूंना मू?

**अनुराधा** : कोण कित्याक बगलांट करतलो? आनी आमी कोणाचें कितें वायट केलां? आनी कोणेय तशें बगलांट केल्यार हांव सोडपी न्हय. गोमटेक घांस मारून जीव काडटलीं.

**गौतम** : ना वयनी, आमच्या सुखाकडेन अशें वैर मांडपाचें धाडस कोणाकूच जावचें ना.

**अनुराधा** : (फोटवाकडेन वचत) यो राजा, जाता तितले बेगीन यो. (तशीच धांवत भितर वता. पार्श्वभागार ट्रेनीचो आवाज. आवाज कमी कमी जायत वता तसो तसो काळोख जाता. सामको काळोख.)

(देखाव सोंपता.)

## देखाव – दोन

(आदलेंच घर. वेळ सकाळचो. पार्श्वभागाचेर वातावरण प्रसन्न करपी संगीत. गौतम कपडे बदलीत येता. हांगा–थंय बोवाळटा. बसपाचें सामान हांगा–थंय मांडटा. दाराक तोर्ण बांदता. काम करता आसताना उलयता.)

**गौतम** : आई, अविभाई सकाळचे ट्रेनीर कांय येवंक ना. आनी जाणा आई, आतां सगळ्या गावांक खबरी कळ्ळ्या. एकलो एकलो स्टेशनार पासय मारीत आसा. (उलो मारून) आई, हें तोर्ण दाराच्या भायल्यान लावपाचें काय भितरल्यान? (आपलेभितर) भायरसावन सगळ्यांक दिसता तशेंच लायतां. सगळ्यांक तरी कित्याक दिसपाक जाय? एकल्या अविभाईक दिसल्यार पुरो. (उलो मारून) विशाखा, तूं हांगासर हें कितें बदलता म्हण सांगतालें मुगो. आनी तुगेले लिवेची नोट पावोवपाची वेवस्था केली हांवें. नरेश मोटारसायकल घेवन वतालो तुगेल्या ऑफिसावटेन. ताचेचकडेन दिली धाडून. तसो भटपणाचे बाबतींत तो कसोय आसूं, पूण मनीस म्हण भरवंशाचो. (काम करता करतां आपलेच भितर) आनी काल म्हणून शाणेपणाच केलीं ताणे. उसरां येवपाक रावलो तें बरेंच केलें ना? नातर गरजेभायर श्राद्ध करून मेकळो जातलो आसलो. खरें म्हणल्यार फाटलींय श्राद्धां ताणे गरजेभायरूच केलीं. (फकाणांनी) तागेलीं फाटली दक्षणां काडून घेवपाक जाय.

(कांय वेळान विशाखा भायर येता. ताणे नवो भेस केला. येनाबरोबर तें कदेली, सोफावयले तुवाले बदलता, घराचे पड्डे बदलता.)

**गौतम** : विशाखा, कितल्यो चवथी येवन गेल्यो, कितल्यो दिवाळी आनी दसरे! पूण इतली उमेद केन्नाच जावंक नासली, न्हय गो?

(तें वग्गी रावन काम करता.)

**गौतम** : तुकां आयजूय उलोवपाक कितें जाता? आयजूय कितें कालचेभाशेन –

**विशाखा** : (ताचेर नदर लावन) कितें उलयता ताचें तुकां धंगण आसा मरे?

**गौतम** : म्हणून तुकां उलय म्हणटां.

**विशाखा** : तुकां कितें दिसता? हांव उलोवन दाखयना म्हणटकूच म्हाका खोस जावंना?

**गौतम** : तशें कशें? सगळ्या घराक खोस जाल्या. तूं जाणा?

**विशाखा** : कितें?

**गौतम** : पोरसांत नदर मारून पळय, हरशीं दसणूच फुलताली, पूण आयज आबोली पासून फुल्ल्या!

**विशाखा** : (हांसत) आबोली? पिशी आबोली ती! ती सदांच फुलता.

**गौतम** : पिशे आबोलेकूच कित्याक? आमकां सगळ्यांक पिशें लागलां. तुकां, म्हाका, आईक, वयनीक. अनुराधा वयनीक सगळ्यांत चड, न्हय?

**विशाखा** : कित्याक अविभाई तिचो घोव म्हणून? आनी आमी भावंडां न्हय? आनी आई?

**गौतम** : सक्काळींफुडें तिणे म्हजी कितली अपुरबाय केली. खावपाक दिलें तें दिलें. च्यापासून ओंठाक लायली. इतली अपुरबाय.

**विशाखा** : हरशीं करीना तुजी अपुरबाय?

**गौतम** : तशें न्हय गो. सदचेभाशेन न्हय. मातशी चडूच. फुडें तरी

आयक. मागीर माथ्यार हात भोंवडावन म्हणपाक लागली – कितल्याय वर्सांनी जांव, पूत म्हजो घराक आयलो.

**विशाखा** : म्हणजे?

**गौतम** : हय गो तेंच. ती म्हाका अविभाईच समजली. तिच्या मतान अविभाई आयलो.

**विशाखा** : थतर–बितर जाल्या खरी. रातभर तिका न्हिदूय पडूंना. परत परत म्हाका उठयताली.

**गौतम** : म्हणजे तूं न्हिदिल्लें तर? म्हाकाय न्हीद पडूंना. वयनीकूय न्हीद पडूना आसतली. बायलांक अशेंच जाता न्हय?

**विशाखा** : म्हाका खंय खबर?

**गौतम** : कळटलें. मागीर तुकांय कळटलें.

(इतल्यान भितरसावन इंद्रायणी येता. तिवूय नवें कापड न्हेसल्या.)

**इंद्रायणी** : विशाखा, कितें कळटलें म्हणटागो तो?

**गौतम** : (तिचो गैरसमज जांवचो न्हय देखून) आई, हांव गौतम.

**इंद्रायणी** : खबर आसा रे. सकाळची उरूंना हांव.

**गौतम** : (हांसत) विशाखा, ते कोणा देवीभाशेन आईच्यो दिसाक तीन कळा!

**इंद्रायणी** : म्हाळशेच्यो! म्हाळसादेवीच्यो!

**गौतम** : म्हणजे कितें आई?

**इंद्रायणी** : तें वचून देवीकूच विचार. नाजाल्यार त्या तुगेल्या नरेश भटाक विचार.

**गौतम** : तो भंगलो सांगतलो. (याद जावन) आई, सकाळीं तोच विचारतालो.

**इंद्रायणी** : कितें?

**गौतम** : आतां केन्ना येवपाचें काय म्हणून?

**इंद्रायणी** : (दोळे तांबडे करून) आतां कित्याक?

**गौतम** : कित्याक म्हणजे? अविभाई येतकूच मुखावयलें कितेंतरी

आसतलेंय न्हय गे?

**इंद्रायणी** : आसाच! पूण तें मागीर पळोवचें. हीं तुमचीं कामां जालीं?

**विशाखा** : जालीं म्हणल्यार जाता.

**इंद्रायणी** : मागीर मातशीं लागीं येयात मुगो.

(दोगांय लागीं येतात.)

**दोगांय** : कितें?

**इंद्रायणी** : त्यो काल कसल्यो कसल्यो चत्रायो दितालीं मुगो म्हाका. हें करपाचें आनी हें करपाचें न्हय. तें सगळें म्हाका परत एकदां सांगात.

**विशाखा** : पूण तुज्या लक्षांत उरतलें?

**इंद्रायणी** : ना उरपाक कितें जालां? इतल्या वर्सांनी पूत येता म्हणटकच मातशी भुल्लुसल्यां खरी. खऱ्यांनीच भांगराचो पोर गो म्हजो! तागेलें भुरगेपण म्हणल्यार सगळ्यो कृष्णलिला. आवयस! सामको हुळहुळो! एक घटका केन्ना एका जाग्यार थारलोना. केन्ना पाण्ट्यार जाल्यार केन्ना पर्वतार. आत्तां झाडाच्या मुळांत आशिल्लो जाल्यार घडकेंत पावलो झाडाचे तेंगशेर. एकली हांव हाका कसो कसो म्हण सांबाळटलीं? तुमी काचीबुचीं! मस्तखोर एक नंबरचो. मस्तेपणां म्हण कसलीं? मातसो दटायलो जाल्यार राग येतालो नाकार. सामको बापायभशेन. मागीर हांगाथंय धांवतालो. सायबिणी म्हजे! फुडल्यान गेलो काय फाटल्यान? वयर गेलो काय सकयल? म्हजेर सगळो आकांत! मागीर घराफाटले बांयत घबायंच असो आवाज. घेतलें घालून दिसता बांयत! म्हजो आवरो उडप! जीव बांयच्या कांठार. भितर नदर मार जाल्यार उदकाचे बुडबुडे. बोब मारपाक तकली वयर कर जाल्यार हो लबाड बोरीच्या झाडार बसून माकडाभशेन दांत विचकावन हांसता.

**गौतम** : आनी बांयत कोण पडलो?

**इंद्रायणी** : खंयचे बांयत?

गौतम : घराफाटले. बुडबुडे आयलेनात?

इंद्रायणी : आरे फातर! वडोवपी होच.

गौतम : खरेंच. आवयक भेस्टावपाची बेस्ट आयडिया आं.

इंद्रायणी : असल्या आयडीयांनीच वयर सरलो तो. (मदींच याद जावन) धाडसी म्हणटा तें सांगलें?

गौतम : ना. पूण खबर आसा.

इंद्रायणी : तुमकां कितें खबर आसतलें? धाडसाच्यो एक आनी दोन न्हय. शंबर गजाली आसतल्यो.

गौतम : ती बैलाची सांग.

इंद्रायणी : मदींच बैल कित्याक? खबर सांगतां तुमच्या भावाची. भावापरस बैल व्हडलो?

विशाखा : तशें न्हय आई, अविभाईन बैलाक घट धरिल्लो ती गजाल.

इंद्रायणी : (याद जावन) आं. ती? बैल कोणाचो जाणां?

गौतम : तो जांव कोणाचोय. कसो धरलो तो सांग

इंद्रायणी : (दाखयत) त्या थंय – तिठो कसो दिसना? थंय. तो त्या दिसा कित्याखातीर तरी उचांबळीत जाल्लो.

गौतम : कोण?

इंद्रायणी : कोण म्हणजे? अवि रे. जाल्यार थंय वाटेर हाची गांठ त्या बैलाकडेन पडली. बैल चरतालो दिसता. हाणे मुद्दाम ताचे शेंपडेर पांय दवरलो. म्हणजे तुकलयलो ताका. बैलूच तो. वयल्यान बांगर पाडो. तो वगी रावता? शिंगां घेवन मुखार आयलो. जाल्यार हाणे कितें करचें? दोनूय हातांनी ताचीं शिंगांच धरलीं. बैल हाका धुकलता, हो बैलाक धुकलता. एक वर कोण कोणांक बदना. सगळो गांव तिठ्यार. पूण दोगांकूय सोडून घेवपाक कोणांक धाडस ना. म्हजेर कुलकुलाट.

गौतम : मागीर?

इंद्रायणी : खर्शेलो एकदांचो.

गौतम : कोण?

इंद्रायणी : कोण सांग? बैल. अविन शिंगाचो सोडटकूच भोकांत शेपडी घालून कडसरलो.

गौतम : अविभाई म्हणून कापाज आं. येद्या व्हडल्या पाड्याक एक वर शिंगांक धरून दवरप म्हणजे कितें?

इंद्रायणी : मुखावयलें सांगतां.

गौतम : कितें?

इंद्रायणी : ते राती अवि पुरो जावन न्हिदलो. तर रातचें खंय हाका एक सपन पडलें. त्या सपनांत तोच बैल. बैल खंय उलयता. म्हणटा – कितें रे? काल तुका एक वरभर सगळ्यां हुजीर शिंगांक घट धरून दवरलो काय ना?

गौतम : (हांसत) वा! अविभाई कसलो कॉमीक मनीस! न्हय विशाखा?

(विशाखा हांसतूच हयकार दिता.)

इंद्रायणी : हांसत रावतलीं? कितें सांगपाचें तें सांगात मरे

विशाखा : येनाफुडें तुवें सुरू केलें न्हय गे.

इंद्रायणी : हय गो. पूण थारोंव येतालें न्हय गो म्हाका. हांव कितें ट्रेन? स्टेशन आयलेबगर थांबना तसली?

गौतम : तुजी गाडी बरी चलताली. मर्दीच सांखळी ओडप बरें दिसलेंना. न्हय गो विशाखा?

इंद्रायणी : म्हजो गजाली आसूं. आतां तो सांगता त्यो आयकुपाच्यो. तो गूण बरो आसा ताका भुरगेपणापासून.

गौतम : कसलो गूण?

इंद्रायणी : जें एकदां पळयलां तें जश्शाक तश्शें सांगतलो. पयले खेप तशें आनी धावेय खेप तशेंच. केन्नाय नाटक–बिटक पळयलें जाल्यार तशाक तश्शें येवन सांगतालो. हो लग्नकार्याक गेलो, काल्या जात्रेक गेलो जाल्यार म्हाका घराकडेन बसून सगळ्यो बारीकसारीक गजाली कळटाल्यो.

गौतम : कांय जाणांक आसता नॅक तशी–एके तरेचें कसबूच तें.

**इंद्रायणी** : कसब जालेंच पूण कांय जाणांक आसता म्हणटा तें सारखें न्हय. अवघ्यांकूच आसता. म्हजो अवि तातूंतलो एक. (याद जावन) आरे, गजाली कसल्यो घेवन बसल्यात? चलात, कामांक लागात.

(गौतम आनी विशाखा वचपाक सोदतात.)

आगो विशाखा, गौतम वता खंय? तें उरलें मरे थंयच.

**दोगांय** : कितें?

**इंद्रायणी** : अशें कितें करतात गो? म्हजी तकली जाग्यार ना ती ना. तुमचीय ना? हांगा येयात. सांगात. गौतम.

**गौतम** : पूण आई, म्हाका दिसता, तुकां तें जमपाचें ना.

**इंद्रायणी** : कितें जमपाचें ना? तुकां चड खबर आसा? सांग गो विशाखा.

**विशाखा** : आई, आनीक वेगळें कितें सागपाचें? हेंच, म्हणजे अविभाईक वायट दिसता, मनांक लागता असल्यो गजाली पयल्यान पयलीं सांगप ना. जालें?

**गौतम** : मागीर केन्नातरी ताका त्यो कळटल्योच.

**इंद्रायणी** : कळटा तेन्ना कळटा. पूण येनाफुडें सांगप ना म्हणटा तें सारखें. सांग, एक एक सांग, म्हणजे तश्यो तश्यो हांव गांठी मारून दवरतां.

**गौतम** : खऱ्यांनीच गांठी मारतली?

**इंद्रायणी** : खऱ्यांनी म्हणजे... तशें तशें याद दवरतां.

**विशाखा** : पयल्यान पयलीं तूं अशी थतर-वितर जावं नाका.

**इंद्रायणी** : थतर-वितर जावं नाका? हें पांय तुटिल्ल्या थोंट्याक सांगिल्लेभशेन जालें.

**विशाखा** : कितें?

**इंद्रायणी** : तूं चलताना अजिबात कुदूं नाका.

**गौतम** : म्हणून म्हणटां आई-

**इंद्रायणी** : तूं वगी राव रे.

गौतम : तशें जाल्यार आयक-

इंद्रायणी : वगी राव म्हण सांगलें न्हय रे तुकां?

गौतम : (तिडून) वगी रावू आनी तुकां सांगू कशें?

इंद्रायणी : (याद जावन) आं. तेंच सांगता? सांग.

गौतम : अविभाई येनाबराबर ताका श्राद्धाची गजाल सांगप ना.

इंद्रायणी : शी! नाका रे बाबा! ती आनी खंयच्या तोंडान सांगतलीं?

गौतम : तो सत्यनारायण केल्लो ताचीय गजाल सांगप ना.

इंद्रायणी : केन्ना कोणें खंयचो सत्यनारायण केल्लो? विशाखा, कितें सांगता हो?

विशाखा : नारायणबळी केल्लो, ताची गजाल सांगता हो.

इंद्रायणी : अशें! (याद जावन) आनी आयकात गो. हें सगळें आमी तिगांनीच लक्षांत दवरपाचें? तिचें कितें? तिकाय सांगात. भायर आपयात. आता तिका भिवपाचें कसलें कारण ना. आतां निवळ्ळ्या ती.

विशाखा : पूण ती घरांत खंय आसा?

इंद्रायणी : गेली देवळांत? सकाळीफुडेंच गेली? आयज वचना जाल्यार ती देवी कितें शिणटली आसली?

विशाखा : अशें कितें करता आई? तिचो भावार्त न्हय तो?

इंद्रायणी : खरें तुजें. तिच्याच भावार्ताचें फळ हें.

गौतम : हें आतां इतल्यान सोंपोवया.

इंद्रायणी : कितें तें?

गौतम : हेंच. लक्षांत दवरपाचें.

इंद्रायणी : हय. हय. तें म्हाका जमपाचें ना. तुमचेपरीन तुमी पळयात. म्हजेपरीन हांव करतां. अविपासून कांयच लिपोवपाचें ना. तो येनाबरोबर सगळें सगळें तांका सांगपाचें. आनी ना सांगिल्ल्योय गजाली काडून घेवपाइतलो धूर्त आसा तो.

गौतम : अखेर भाव कोणाचो? न्हय गो विशाखा?

विशाखा : (उमेदीन) हय तर.

**इंद्रायणी** : तिवूय (अनुराधा) तशीच म्हणटली अखेर घोव कोणाचो?

**गौतम** : मागीर कितें चुकलें तातूंत?

**इंद्रायणी** : (अभिमानान) पयलीं पूत कोणाचो तें पळयात.
(इतल्यान भायर ट्रेनीची शिटी वाजता. तेसरशीं सगळीं भानार येतात.)

**गौतम** : आई, विशाखा हांव चल्लों, रेल्वेस्टेशनाचेर.
(धांवत भायर वता.)

**इंद्रायणी** : आरे गौतम, धांवता खंय? आयक तरी. हें पळय. हे ट्रेनीर आयलो जाल्यार-(दारामेरेन वता.) गेलो! विशाखा, ट्रेनीर येतलो म्हणटा अवि?

**विशाखा** : येवपाकूय शकता.

**इंद्रायणी** : पूण खंयचे ट्रेनीर म्हणटा तें बरोवंना तारेंत?

**विशाखा** : तें कशें बरयतलो? मेळटा ते ट्रेनीन घालून घेतलो न्हय तो?

**इंद्रायणी** : हय तर. खरें म्हणल्यार तारे पयलीं तो पावल्यार बरें जालें आसलें.

**विशाखा** : म्हणजे?

**इंद्रायणी** : म्हणजे पयलीं मनीस आनी मागीर तार. अशें जायना? कितले फावट जाता.

**विशाखा** : आई, तूं खऱ्यांनीच म्हणटा काय फकाणां करता?

**इंद्रायणी** : (चाळोवन) फकाणां करता! तुमी दोगांयनी पिशांतूच काडल्या न्हय म्हाका? आनी त्यो नाचण्याच्यो भाकऱ्यो भाजल्यो? खूब आवडटात ताका. एका धपक्याक कितल्यो वडयतालो जाणा?

**विशाखा** : धा.

**इंद्रायणी** : धा न्हय आं. बेश्टें कितें? भकारो तर तो? एका धपक्याक पांचसुद्धा खाल्ल्या. आतां तुवें कितल्यो केल्या?

**विशाखा** : पीठ कालोवन दवरलां. येता तेन्ना करतां.

**इंद्रायणी** : पूण हे ट्रेनीर येता म्हणटा न्हय गो तो?

विशाखा : पयलीं येता जाल्यार पळोवया न्हय.

इंद्रायणी : (भंयान) तूं अशें दुबावानशें कितें उलयता?

विशाखा : कसलो दुबाव? आई, आयज तूं अशें कितें करता?

इंद्रायणी : पोखरलेलें काळीज गो म्हजें. ताका इतले बुराक पडल्या! आतां आनीक इल्लीशी चील लेगीत सोंसना.

विशाखा : (रडकुऱ्यां जावन) आई, ही अवस्था बेगीन सोंपता तितली बरी. म्हाका तुजो भंय दिसता गे.

इंद्रायणी : ना धुवे. भियेवं नाका. तशी खंबीर हांव.

विशाखा : खंबीर म्हणूनच ही तुजी अवस्था पळोवं नजो.

(इंद्रायणी विशाखाक लागीं घेता. थापटिता. भायर कांयसो बोवाळ आयकूंक येता.)

इंद्रायणी : भायर कसलो बोवाळ पळय.

(दाराकडेन वचून भायर पळयता.)

विशाखा : कसली तरी मिरवणूक

इंद्रायणी : (उबगून) तें एक पळोवचें!

विशाखा : कितें?

इंद्रायणी : सद्दां कसली तरी वेंचणूक. वेंचून येतकूच मागीर घरभरोवण्यो! मिरवणुको! खासदार वेंचून आयलो-काडली मिरवणूक. आमदार आयलो-काडली मिरवणूक. जिल्हा परिशदेचो वांगडी, सरपंच, पंच कोणूय वेंचून येवं. मिरवणूक आसात. तें एक बरें आसा. त्या दिसा ती कसली दूद सोसायटिची वेंचणूक जाली जाल्यार त्या चॅरमनाचीय काडली मिरवणूक. हो तुजो भाव-गौतम आशिल्लो सगळ्यांमुखार. हालीं एक नश्टी फॅशनूच जाल्या ती.

(आवाज लागीं लागीं येता.)

ही अनुराधा आनी गेल्या भायर. खंयचेवटेन येता तो जोमो?

विशाखा : (भायर पळयत) वयनी, तेवटेन गेल्या. देवळावटेन जोमो हेवटेन येता. रेल्वे स्टेशनावटेंतल्यान.

इंद्रायणी : (दुबावान) खंयचेवटेन म्हटलें? सारखें पळय.

विशाखा : (ताकाय दुबाव येता - भायर पळयता.) आई, म्हाकाय तशेंच दिसता.

इंद्रायणी : कितें?

विशाखा : ती मिरवणूक...

इंद्रायणी : (उबगून) सारखें पळय गो. म्हजे फुटल्यात म्हण तुकां सांगतां न्हय.

विशाखा : आई, उबगता कित्याक? पळयता न्हय? (उमेदीन) आई, आमी येवजिता तशेंच आसतलें. हो पळय गौतम धांवत येता.

इंद्रायणी : धांवत कित्याक येता?

(पॉज)

सांग मगो.

विशाखा : मातसो थार धर न्हय.

(भायरसावन गौतम धांवत येता. खर्शेला.)

गौतम : आई, विशाखा अविभाई आयलो.

दोगांय : खरेंच?

गौतम : आई, तुजो सोपूत. अविभाई आयलो. हांवें असो हात लायलो. ताणे म्हाका वेंगांतसुद्धां घेतलो. हांव वतां. मिरवणुकेन अविभाई बरोबर येतां.

(आसा तसो परत धांवून वता. इंद्रायणी आनी विशाखा काचाबूल जाल्यांत. आवाज लागीं लागीं पावता.)

इंद्रायणी : कितें म्हणलें ताणे? मिरवणुकेन येता खंय?

विशाखा : हय.

इंद्रायणी : गांवचो लोक तसो ताका एकल्याक येवपाक दिता? विशाखा, चल तिका जागय.

विशाखा : ती देवळांत गेल्या न्हय.

इंद्रायणी : हय गो. पूण गेल्या जाल्यार बेगीन येवपाची न्हय? आतां आरतबी कोण दाखयतलो?

विशाखा : हांव ना. म्हाका म्हज्या भावाक सारखो पळोवपाक जाय.

इंद्रायणी : खरें तुजें. आनी कांय नजो. दोळ्यांचीं निरांजनां आसात तीं खूब जालीं!

(दोगांय दारांत येवन उमळशिकेन वाट पळयतात. भायरसावन अविनाश येता. म्हणल्यार ताका गौतमान उबारून धरला. वांगडा कांय लोक आसात. अविनाश सुमार 37/38 वर्सां पिरायेचो मिलिट्रीमॅन. सैनिकाचो भेस. हातांत एक बॅग. येनाफुडें सकयल उडकी मारता. मुखार वचून आवयचे पांय धरता. आवय ताका वेंगेंत काडटा.)

अविनाश : (दाराकडल्या लोकांक उद्देशून) म्हज्या गांवभावांनो, तुमचेच पुण्यायेन हांव परत घरा पावलों. आतां हांव सदांकाळ तुमचोच.

(लोक एकामेकाकडेन उलयतात.)

- ए, आतां ताका विसव घेवंदी.
- इतले पयसुल्ल्यान आयला. ताका पयलींच पुरो जाल्लें. मिरवणुकीन ताका आमी अदीक जाम केलो.
- चला, आयचो दीस ताका आपल्या कुटुंबावांगडा सारूं दी.

(अविनाशाक याद जाता. बॅग उकतें करून तो तातुंतलें चॉकलेटिंचें बॉक्स काडटा. एकलो मुखार येता. तो बॉक्स ताचेकडेन दिता.)

अविनाश : ह्यो चॉकलेटी सगळ्यांक वांटपाच्यो.

(तो मनीस आनी लोक भायर वतात.)

अविनाश : (आवय म्हऱ्यांत येत) आई, कशी आसा?

(आवयक भरून आयलां. उलोवपाक जमना. कुशीक विशाखा उबी आसा. दोगांय एकामेकाक पळयतात.)

विशाखा : अविनाशभाईऽऽऽ

अविनाश : (अकस्मात) विशाखा! (ताका लागीं घेता) म्हजे भयणी, केदी व्हडली जाली तूं? वळखुपाक पसून विसरलों.आनी भावा...

गौतम? केदो जाला रे तूं! कितें करता तूं आतां?

**गौतम** : स्वतःची फॅक्टरी घालपाक सोदतां. फ्रूट प्रोसोसींग आनी प्रिजर्विंगचो दोन वर्सांचो कोर्स केला. गांवांतले आंबे पणस, अनसां, जांबळां सारखीं फळां गांवांत दर नासून पेड्ड्यार जावन वतात. ह्या सगळ्या फळांचेर फाव ती प्रक्रिया करून खूब तेंपमेरेन ती तिगोवन दवरपाक जाता. भायल्या देशानी लेगीत निर्गत करपाक जाता. ह्या उद्देगाक लागून गांवातल्या लोकांच्या मालाक मोल मेळटलें आनी बेकार युवकांक काम मेळटलें.

**अविनाश** : वा! बरी कल्पना! म्हाका अभिमान तुजो.

**गौतम** : सगळें विशाखाक लागून जालें अविनाशभाई.

**अविनाश** : विशाखा!

**इंद्रायणी** : काकूळट पोराची!

**अविनाश** : नोकरी करता?

**इंद्रायणी** : ताणेंच चलयलो सगळो संवसार.

**विशाखा** : आई अखंड वणट कशी उबी रावली फाटल्यान म्हणून शक्य जालें.

**अविनाश** : म्हाका खबर आसा म्हजे आवयची व्हडवीक. उज्यांत फुल्लेलें फूल तें, अशें वोतांत केन्ना बावचें ना. आई, तुज्या कुसव्यांत जल्मांक आयलों ताचो म्हाका सदांच अभिमान भोगला. आयज त्या अभिमानाक अंत ना.

**इंद्रायणी** : सगळी तुमच्या बापायची पुण्याय. तो गेलो तेन्ना तूं णव वर्सांचो आनी हीं दोगांय काचीबुचीं. ताचेच पुण्यायेन तुमकां ल्हानाचीं व्हड करपाक पावलीं आनी आयचो दीस उदेलो. खरेंच, जिवितांत आयचेसारखो दीस आसल्यार कितलेय कश्ट सोसपाक हांव तयार आसां.

**अविनाश** : नाका, आतां कश्ट, दगदग, त्रास हीं उतरां कुशीक सारपाचीं. आतां फक्त सूख, समादान, सौख्य. (चोरयां इस्कादीवटेन

पळयता.)

**इंद्रायणी** : आरे, गजाली मागीर. अविनाश पयलीं कितेंय खा, पी. भुकेला आसतलो.

**विशाखा** : अविभाई, तुजे आवडिची नाचण्याची भाकरी करतां.

**अविनाश** : आतां नाका, मागीर. घराक पांय लागलो आनी तानभूक न्हीवली. आतां सगळ्यांबरोबर वांगडाच जेवपाचें. आई, स्टेशनार देवनाफुडें सगळ्या गांवान म्हाका माथ्यार घेतलो. हावें सगळ्यांक वळखुपाचो यत्न केलो, पूण नरसिंहमाम खंय दिसलोना. बरो आसा मगे तो?

**इंद्रायणी** : तुज्या दुसऱ्याच वर्सा, म्हणजे तुका अपघात जालो ताच्या दुसऱ्याच वर्सा नरशिंवमाम संवसाराक अंतरलो. फाटल्यान तागेलो चलो पळयता.

**गौतम** : नरेश. काल हांगासर तोच येवपाचो आसलो. (मागीर आपूणच जीब चाबता.)

**अविनाश** : आतां म्हाका गावांतले कितें कितें आयकुचें आसा देवाक खबर! सात वर्सां म्हाका चुकल्यांत.

**इंद्रायणी** : त्या सात वर्सांतलीं गावांतली सगळ्यांत वायट खबर म्हणल्यार तुजो अपघात.

**गौतम** : खरें आं अविभाई, सामकें खरें.

**अविनाश** : अपघातूच तो.

**गौतम** : अविभाई, कशें घडलें हें?

(अविनाश ती युद्धाची गजाल सांगता.)

**अविनाश** : कशें घडलें! ती एक व्हडली काणी. पूण तुमकां सांगपाकूच जाय फक्त तुमकांच न्हय, देशाच्या दर एका नागरीकाक दर एका युद्धाची, दर एका सैनिकाची गजाल कळपाकूच जाय. (संवादाच्या आशयाप्रमाण पार्श्वभागाचेर संगीत आनी इफेक्ट.) ह्या देशांतल्या नागरीकाचें आनी सेनेतल्या सैनिकाचें नातें कितें? वळख कितें? फक्त दोन दिसांची वळख. 15

ऑगस्ट, भारतीय स्वातंत्र्यदिस! आनी 26 जनेवारी, भारतीय गण तंत्र दीस! ह्या दिसा, तिरंगो बावटो मळबांत फडफडायत फर्रादं घडयांच्या पाचव्या गणभेसांतल्या हजारांनी सैनिकांनी देशाचे राजधानींत ड्रमाच्या तालाचेर केल्लें दोळे दिपकावची शिस्तबद्ध संचलन. भारतीय नागरीकांच्या मनांत सैनिकांची हीच प्रतिमा. वर्सभर आनी वर्सांची वर्सां.

पूण जेन्ना ताची युद्धाचेर नेमणूक जाता तेन्ना ताची अवस्था आनी दशा कितें? मिलिट्री अकादेमींतल्यान युद्धाचे प्रशिक्षण घेवन पासींग आवट परेडींतल्यान भायर सरिल्लो दर एक सैनिक, मरपाखातीरूच तयार केल्लो आसता. फरक इतलोच, मरपाचेंच पूण कोणांक तरी मारीत मारीत एका कवीन म्हणलां तशें दर एका मनशाच्या जल्मावेळार त्या मनशाबरोबर रानांत खंय तरी एक झाड वाडत आसता, निमाणो ताचो सांगात दिवपाखातीर. तेचपरी रणांगणारेच सैनिकाचें जेन्ना पयलें पावल पडटा तेन्ना खंयच्यातरी कारखान्यात ताचें नांव कोराथिल्ली एक गुळी जल्म घेता. खरें झूज तो आनी ती गुळी हांचेमदींच आसा. जो मेरेन तो मुखार येना तो मेरेन ती गुळी आर्मांत लोड जायनास्ताना रावता. धांवता... लिपता... व्हडली कसरत करता... ते गुळयेचो तीर चुकोवपाखातीर ती गुळी चुकोवप हें ताचे कसब! तो ताचो पराक्रम! इतलें आसुनूय ताचेखातीर जल्मांक आयिल्ले ते गुळयेची भेट ताणें योग्य वेळार घेवपाकूच जाय. ना जाल्यार ताका विधात्याक पराथचो पडटा, ते गुळयेची भेट घडय म्हणून. नाजाल्यार कपळ फोडीत, धोंपरा धाडायत ताका पस्तावचो पडटा. म्हज्या वांट्याक आयली असली पस्तावणी, ते गुळयेचो तीर हांवें चुकयलो देखून. पूण भाग्यान कूस बदल्ली आनी हो दीस पळोवपाची मेळ्ळो. (फाटले यादींत वचत) 1962. हिंदी चिनी भाई भाई! देशभर नारे गाजताले. चिनाकडेन इश्टागत जोडपी आमच्या राजकर्त्यांची हड्डीं

35 इंचापरस आदिक पुलिल्ली. इश्टागतींच्या नादांत आमी मश्गुल आनी गाफील! आनी त्याच वेळार चीनान हिमालय पोखरलो. लडाख आनी नेफांतल्यान भारतायेर घुरयो घातल्यो. आमचें ढोला जिखलें. मॅकमोहन सीमा बलांडली. आनी मागीर आमी खडबडीत जागे जाले. आमची न्हीद खळ्ळी. मागीर सैन्याची जमवाजमव, शस्त्रांचें पुंजावप. शस्त्रांपाजून घेवप. पूण आमचेकडेन शस्त्रा कसलीं? दुसऱ्या महाझुजांतलीं पोरनीं हत्यारां आनी नाळी. वायरलेस सेट, तेवूय पोरने. ब्रिटिशांच्या वेळावयले कपडे लत्ते, तेवूय अर्दुकुटे, आर्मांचो उणाव. पायांतले बूट लेगीत जाय तितले आनी फाव तितले नात. भाटकारान आपणालीं पोरणी गाडकीं-मडकी सोडून दिवचीं आनी कोणा मुंडकारान आपणालो नवो संवसार उबारचो तशी आमचे सेनेची दशा! पूण भारतीय सेना देशप्रेमान उपाट भरिल्ली आनी भारिल्ली. शस्त्रांक दार नासूं. पूण मनाचो निर्धार पक्को. साडेतिनशीं सैनिकांची आमची आख्खी बटालियन भर दनपारां नेफांतलो दोंगर चडटाली. कॅप्टन चोप्रा, लेफ्टनंट त्रिलोकासिंग लेफ्टनंट विजयकुमार, सेकंड लेफ्टनंट हांव-अविनाश देसाय म्हजो सांगाती आनी इश्ट सेकंड लेफ्टनंट अमरनाथ आनी बाकीचे सुभेदार, हवालदार, लान्स नायक आनी सैनिक. फाटीचेर व्हडलो पॅक, उदकाची बाटली, हेर सामान. शिवाय गळ्यांत मशिनगनच्या अडेचशीं गुळयांचो बॅल्ट, हातांत बॉम्बचो कॅरियर, कमराक हॅन्ड ग्रेनेट. इतलें वजन आनी तो मुखावयलो दोंगर. हाय देवा! बुद्धी मनशाची दिली खरी पूण शक्त गाढवाची कित्याक दिली ना! मळबाक भिडपी देवदार रूखांचें दाट जंगल. पायांखाला पानांची रास. एक फसवी उंचाय लाबिल्लो पानांचो थर चलतां चलतां पांय फोणकुलांत. खोल...कमरभर. कोणतरी म्हाका हात दीया. नेमांत घालून म्हेड साणायतात तसो साणावलों. पूण हाय म्हणप ना. कॅप्टन

पयसुल्ल्यान विचारता, 'कोण पडलो? लेफ्टनंट अमरनाथ?' 'न्हय कॅप्टन अविनाश.' ही अशीच गल्लत जाता. 'आय एम ऑल रायट कॅप्टन.' चलत रावप. दोळे उक्ते दवरूंकूच जाय अशें ना. धांपिल्ल्या दोळ्यांमुखार चेटवूड हॉलांतले लाकडी वणटीर कोरांयिल्लीं सोनेरी अक्षरां याद करप ``The Safty Honour and Welfare of your Country, Come first always and every time." मुखार हिमालयाची शिखरां. शिकरांच्या रांको. एकामेकाक समांतर, कितल्योश्योच. खाला ही खळखळून व्हांवता ती न्हय. तिबेटांतल्यान येता. हांगा तिचें नावं लोहित आनी मुखार ब्रह्मपुत्रा. हेच न्हंयच्या कांठार आसा वालाँग गांव. गांवात फक्त चार वो पांच घरां. आजची नेमणूक हांगासर. वालाँगचो सांबाळ करप आमचे बरोबर हेर बटालियन धरून तब्बल साडेतीन हजारांची फौज. युद्ध सुरू. आर्मांतल्यान गुळयो भायर सरता. एकार एक. खाकी कपड्यांतले चिनी सैनीक वेंचून काडून मारपाचे. एके गुळयेक एक. वा! डेहराडूनच्या ट्रेनींग कँम्पांत हांव Best Cadet आशिल्लों. अचूक नेम. पन्नासांपैकी अठ्ठेचाळीस मार्क पडटाले म्हाका. पूण हें कितें? म्हज्या हातांत 303 रायफल आनी म्हज्या खाकी कपड्यांतल्या म्हज्या दुस्मानाचा हातांत ऑटोमेटीक रायफल! तांचेकडेन सगळीं आर्विल्लीं हत्यारां आनी आमचेकडेन हो पोरणो अडगळींतलो माल! आमची साडेतीन हजारांचे फौजेची कसली मिजास? चिनांची फौज पंदरा हजारांवयर! आमचो अडमास चुकलो. सामको चुकलो. इतले उण्या फौजेनिशी इतले मुखार येवपाचें न्हय. कितें? फाटी सरात? कॅप्टन चोप्रांची ऑर्डर. तसो वयल्यान आदेश आयला? हरशीं ना चलपी त्या 1942 च्या वायरलेसाचेर होच संदेश नेमको कसो आपलो? (आड्डून) 'ना. कॅप्टन, आमी फाटीं सरपी न्हय. तुजी ऑर्डर मानपी न्हय. आमी तुजे आज्ञेचो

भंग करता खरो पूण कर्तव्याक पाळो दितां. कॅप्टन, खबर आसा. कोर्टमार्शल जातलें. जाता तेन्ना पळोवचें. जगल्यार मूं तें कॉर्टमार्शल? आमी चल्ले. दोगूय मुखार चल्ले. हांव आनी लेफ्टनंट अमरनाथ. निमाणे मेरेन आमी एकामेकांचो सांगत सोडचे ना. इश्टा, हें वयल्यान पडटा तें कितें? उजवे-वटेन, दावेवटेन सुंवसुंवता तें कितें? बर्फ? काय गुळ्यांचो पावस? हाय देवा! म्हजेकडेन ह्यो इतल्योच गुळयो? निमाणें कँम्पार आशिल्लें नाशिल्लें सगळें वाटून घेतिल्लें. म्हज्या वांट्याक दोन पुरयो आनी बारा गुळयो. म्हाका एक पुरी उणी दिंव येताली. त्या बदल्यांत दोन गुळयो अदिक. सांबाळून वापरपाच्यो गुळयो. पूण एका मनशाक एक. इश्टा, फाटीं सरप ना. फाटीं पळोवप ना. फाटीं पळयल्यार घडये आमचो धीर खचतलो. कारण फाटल्यान आज्ञेचें पालन जाता. आमकां आज्ञा लागता फक्त कर्तव्य!
(बाँबस्फोटाचो आवाज)
आ! कान फोडपी हो बॉम्बस्फोट! झाडां मुळांतल्यान तुटून पडलीं. लेफ्टनंट अमरनाथ, तुजो तुजो हात खंय ? आनी तुजे पांय? तुज्या तोंडावयल्या मांसात हे कसले काळे निळे कण रुतून बसल्यात? (रडटा) आदेवश! इश्टा, आदेवश! दुसरो बॉम्ब फुटचे आदीं हांव मुखार वतां. दुस्मानाच्या हड्ड्यार घालून घेतां इश्टा, तुज्या मणीचो बदलोय घेतां. एकाक दोन बळी. पूण गुडयो खलास! आनी हांव दुस्मानाचे हद्दींत. सरभोंवतणी दुस्मानांचो रेवाडो. म्हजें पिस्तोल खंय! तातूंत आसा ती गुळी. जीचेर म्हजें नांव छापलां. जी म्हजे खातीर रावल्या. (न्हिन्नरडत) हाय! पिस्तोलाक हात घालपे आशींच म्हज्या दोनूय खुशीर संगीनीचे वार! कोण हे? कितले जाण? म्हाका बंदी करून खंय व्हरतात?
(दुस्मानां मुखार उबो रावन जापो दिल्लेभशेन) हांव लेफ्टनंट

अविनाश देसाय, इंडियन आर्मी. ही म्हजी आयडंटी डिस्क. बाकीचे पेपर शेणले. युनायटेड नॅशनच्या थारावाप्रमाण एक युद्ध बंदी म्हण हांव इतलेंच सांगूंक शकतां, ताचे परस अदिक म्हाका कांय विचारूं नाकात आनी हांव तें सांगचोना.

(पोलार मारिल्ल्या थापटाचो आवाज सोंसता)

(उदास जावन) सेकंड लेफ्टनंट अविनाश देसाय Prisoner of war एके गुळयेची भेट चुकली आनी सात वर्सांचें बंद्याचे कुशिल्लें सांडिल्ले हळशिकावणें जीवन वांट्याक आयलें. वीरत्वाच्यो गजाली सांगू येतात पूण पराभवाच्यो सांगू नजो. जीब जड फातर जाता. मागीर सीझफायर. युनायटेड नेशनच्या नेमाप्रमाण युद्धबंद्याची सुटका. म्हजे भुयेंत म्हजें पावल. हेडक्वार्टरांत म्हजी जबानी. आनी थंयसावन हांवें तुमकां केल्ली तार. मागीर म्हाका फक्त घरचेच वेध. म्हजी आवय, म्हजो भाव, म्हजी भयण, आनी आनी....

**इंद्रायणी** : (अकस्मात याद जावन) अनुराधा! आरे, अनुराधा खंय? ती व्हदळ देवळांत गेल्या. हांवूय पापीण विसल्ली. पळय. विशाखा, गौतम, तुमीय कशीं विसल्लीं? आनी अवि, आमचें एक बरें आसा. तुकां तुजे बायलेची याद ना जाली? असलो कसलो रे तूं घोव!

**अविनाश** : आई, हांव येत पासून तिचीच सुलूस घेत आसा. पूण म्हाकां कायच अदमास येना जालो.

**इंद्रायणी** : कसलो अदमास?

**अविनाश** : अनुराधा हांगा आसा काय–

**इंद्रायणी** : काय तिणे दुसरें लग्न केलें? (गौतमाक) त्यो झुजाच्यो गजाली मागीर आयकात. पयली अनुराधेक घेवन यो. (गौतम बेगीबेगीन भायर वता.)

(अविनाशाक अनुराधे संबंदान आयकुपाची उमळशिक लागल्या.)

इंद्रायणी : कसली म्हण बायलमनीस रे! आमी सगळ्यांनी तुजें मर्ण मानून घेतलें. पूण ही? ना. तो परत येतलो. आपली श्रद्धा आसा आनी विश्वास आसा. कणक्या माडासारकी खंबीर रावली! लोकलजेखातीर आमी कपलाचें पुसूंक लायलें. मणी काडपाक लायलो. पूण हिणे विधवाधर्म स्विकारलोना. आमी तुजें श्राद्ध केलें. नारायणबळी केलो. पूण ही बदलिना. शेवटाक आपले तेच खरें केलें. आनी जिखली, अजिंक्य! खऱ्यानीच सांगतां? म्हजी सून म्हण न्हय आनी तुजी बायल म्हणून न्हय. असल्यो पतिव्रता वर्सा वर्सांनी जल्माक येता. देवळांत गेल्या. तुकां बायलेची याद येताली मरे?

अविनाश : सगळ्यांची येताली.

इंद्रायणी : तें जालेंच, पूण बायलेची याद वेगळीच. आनी लग्न जावन कितल्या दिसांचो तुमचो सांगात!

अविनाश : फक्त चवदा दीस!

इंद्रायणी : तातूंत पयले चार दीस देवकाऱ्यांतूच गेले. उरले फक्त धा दीस. हनिमुनांक गेल्लीं ते.

अविनाश : पूण त्या धा दिसांच्यो यादी धा वर्सांसारक्यो.

इंद्रायणी : आतां फाल्यांच घेवन चल तिका खंयतरी पयस. तुमच्या सुखाबगर म्हाका दुसरें कांयच पळोवपाचें ना.

अविनाश : हांवूय तेच आशेन आयलां. तसो एके नदरेन हांव तिचो अपराधीच. कारण लग्न जावचे जावन तिकां निराधार करून गेलों हांव.

इंद्रायणी : तें सगळे तिका लागीं घेवन तिचेकडेन उलय. (भायरसावन गौतम धांवत येता.)

गौतम : अविभाई, अनुराधाभाभी आयली.

(इंद्रायणी आनी अविनाश दाराकडेन नदर लावन वाट पळयतात. भायरसावन अनुराधा धांवत येता तो आवाज. धांवत येवन

दारांत उबी रावता. तिणे नवो भेस केला. सवायशिणिचो सगळो साज केला. ती घामेल्या. खर्शेल्या. हातांत पुजेचें ताट आसा. मान वयर करून अविनाशाक पळयता. तोंड उजळटा. तशीच धांवून मुखार येता. अविनाशूय चार पावलां चलून मुखार येता. अविनाश तिका उलो मारपाक तोंड उकतें करता पूण वाचा फुटना. अनुराधा मुखार येता आनी सामकी लागी सावन ताका पळयता. तिची नुरा बदलता. ती दुबावता.)

**अनुराधा** : (अस्पश्ट)... तूं? (हातांतले ताट गळसणून सकयल पडटा. ती घुंवळ येवन कोसळटा. इंद्रायणी, विशाखा, अविनाश तिका सावरतात.)

**गौतम** : आई, दोतोराक हाडूं?

**इंद्रायणी** : (खुणेनूच नाका म्हण सांगता.) तिचो गुन्यांव ना. सुखाचो सुद्धां मनशाक धक्कोच बसता. अनुराधा, बाय, सावचित जा.

**गौतम** : भाभी, आमचो अविभाई खऱ्यांनीच परत आयला.

**अविनाश** : अनु, अनुराधा. शुद्धीर यो. हांव अविनाश (तिका हात लायता. ती ल्हव ल्हव शुद्धीचेर येता. इंद्रायणी गौतम आनी विशाखाक घेवन भितर वता. दोगांकूय एकांत मेळचो म्हणून.)

**अनुराधा** : हात काड म्हज्या आंगावयलो. तूं कोण?

**अविनाश** : हांव... हांव..

**अनुराधा** : सांग आडखळटा कित्याक? कोण तूं?

**अविनाश** : अनुराधा, शुद्धीर यो.

**अनुराधा** : हांव पूर्ण शुद्धीर आसां. तुजो हात लागना बरोबर हांव शुद्धीर आयलें. सांग कोण तूं?

**अविनाश** : अनुराधा, हांव अविनाश तुजो–

**अनुराधा** : (ताका आडावन) तूं अविनाश आसूं येता पूण म्हजो घोव न्हय.

**अविनाश** : अनुराधा, हांव तोच अविनाश, तुजो घोव.

**अनुराधा** : आवाज खरो, रुपूय खरें. पूण तूं अविनाश न्हय.

**अविनाश** : हय अनुराधा. हें म्हजें घर. म्हज्या बापायन बांदिल्लें. ते म्हजी आवय इंद्रायणी, ती म्हजी भयण विशाखा, तो म्हजो भाव गौतम, ते रेल्वे स्टेशनावयल्यान म्हाकां हांगा पावपाक आयिल्लें ते सगळे लोक. म्हणजे हांव तांका सगळ्यांक वळखलो. तेवूय म्हाका वळखले. तूं म्हजी बायल जावन अशी म्हाकांच वळखना?

**अनुराधा** : वळखलां. तो तूं न्हय.

**अविनाश** : परत तेंच. (लागीं वता.) अनुराधा,

**अनुराधा** : लागीं येवं नाका.

**अविनाश** : कित्याक? घाण येता म्हाका?

**अनुराधा** : ना. फटींगपणाचो वास येता.

**अविनाश** : अनू, म्हजें आयकून घे.

**अनुराधा** : अनू म्हणू नाका म्हाका. तो अधिकार फक्त ताका.

**अविनाश** : तोच हांव, तुजो अविनाश.

**अनुराधा** : येदें धाडस तुवें केलेंच कशें?

**अविनाश** : तुजे खातीर हांव केदेंय धाडस करपाक तयार आसां. फक्त म्हजो स्वीकार कर.

**अनुराधा** : ना. तें शक्य ना. तुज्या फटींगपणांक हांव बळी पडचें ना.

**अविनाश** : हांवें कितें केल्यार तुजी खात्री पट्टली? म्हाका सारखो पळोवन घे. नाक, दोळे, कान, हात-पांय. तुजेमुखार कपडे काडूं?

**अनुराधा** : सभ्यपणान उलय.

**अविनाश** : बायल आनी घोवामदीं कसली आयल्या सभ्यता?

**अनुराधा** : तूं म्हजो घोव न्हय आनी न्हय हांव तुजी बायल.

**अविनाश** : तूं म्हजी बायल, अनुराधा.तुजे कुळारचें नांव सत्यप्रिया. हावें लग्नांत बदलून अनुराधा केलें. आनी तुकां तें आवडलें. पयलेच राती तुवें म्हाका तशें सांगलें. बरोबर?

अनुराधा : हय. हांवें तशें सांगलें. पूण तुकां न्हय.

अविनाश : आमचें लग्न ह्याच घरांत जालें. वयर माळयेर आमची बेडरूम. थंय आमी पयली रात मनयिल्ली. ती आजून तशीच आसा? (वयर वचपाक पळयता.)

अनुराधा : तुवें ह्या घराचो हुमरो हुपला खरो, पूण ह्या घराच्यो मर्यादा तुकां हुपपाक मेळच्यो नात.

अविनाश : आय ऍम सॉरी!

अनुराधा : अशी अपराधाची भावना प्रगट करतकूच तूं खरो कसो दिसता.

अविनाश : खरो म्हणजे?

अनुराधा : म्हणजे खरो अविनश न्हय कसो दिसता.

अविनाश : हांव अविनाशूच. लग्नाची फुडली गजाल सांगूं?

अनुराधा : (निश्चेवान) नाका.

अविनाश : (तिका हात लायत) अनू, म्हजे राणी!

अनुराधा : (ताचेर थापट मारीत) खबरदार म्हाका हात लायशी जाल्यार. (व्हडल्यान सादयत) आई, गौतम, विशाखा भायर येयात. (सगळीं धांवत भायर येतात.)
आई, इतलो काळ पोरसांतलें फूल कशें जपलें म्हाका तुमी सगळ्यांनी आनी अशें अकस्मात कोणाचे स्वाधीन करून भितर धांवली तुमी? विशाखा, हें तें सपन न्हय जें हावें पळयिल्लें. कितलीय भूक लागली म्हणून कुड्डेपणान अन्नार घालून घेनात मनशां. जनावरां तशीं घेतात घालून आनी करून घेतात आत्मघात. हांव वर्सांसंकिनीची उपाशीं. पूण विखाचो पेलो ओंठांक लावचीना. विशाखा, गौतम तुमी हाका पळयला? बारीकसाणेन नियाळ्ळा? हो कोण कसो दिसता तुमकां? हो सवंग घेवन आयला. हो तुमचो अविनाशभाई न्हय. म्हजो घोव न्हय. हाका धांवडावन घालात. गांवच्या ज्या लोकांनी

हाका मिरवणुकीन हाडला, त्याच लोकांचे स्वाधीन करात हाका. जे ट्रेनीन आयला तेच ट्रेनीन ताका परत धाडात. हो फटकिरो फटींग! (हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटा. अविनाश खजील जाता. इंद्रायणी, गौतम, विशाखा हांकां अजाप जाता. पार्श्वभागार ट्रेनीची शिटी. ट्रेन सुटिल्ल्याचो आवाज. सगळीं असहाय अवस्थेंत एकामेकाच्या तोंडाक पळयत रावतात. ट्रेनीचो आवाज पयस वता तसोतसो काळोख जाता. सामको काळोख.)

(पयलो अंक सोपता.)

## अंक : दुसरो
### देखाव - एक

(आदल्या प्रसंगा उपरांतचो दुसरो दीस. सादारण सकाळ. इंद्रायणी, विशाखा आनी गौतम आसा. तांचेमुखार रुद्राजी पासयो मारता. रुद्राजी इंद्रायणीपरस पिरायेन अदीक. ब्रह्मचारी. भेस सादो. पुडवें, खोमीस असो. केंस पिकल्यात. गळ्यांत रुद्राक्षांची माळ. अनवाणी. चलताना विचित्र पद्धतीन चलता कारण पांयाक किल्ल्यो जाल्यात. सभावान तापट. ताचेमुखार सगळीं बिलू जावन रावल्यांत.)

**रूद्राजी** : तो आयलो काल आनी ही खबर म्हाका आयज सांगली.

**इंद्रायणी** : हांवें कालूच धाडिल्लो गौतमाक, तुमकां सोदपाक.

**गौतम** : हय रूद्राजीबाबा, काल सांजमेरेन हांवें तुमकां सगळ्याक सोदले.

**रूद्राजी** : सगळ्याक म्हणल्यार खंय?

**गौतम** : पयल्यान पयलीं सोऱ्याचे गादयेर गेलों.

**रूद्राजी** : वा! पयल्यान पयलीं सोऱ्याचे गादयेर! हांव सोरो पितां म्हण तुकां कोणे सांगलें? आनी तुवें केन्ना म्हाका गादयेर पळयला? इंद्रायणी, तुज्या भुरग्यांक ही म्हजी असली वळख कोणे करून दिल्या? (इंद्रायणी अस्वस्थ जाता आनी गौतम रुद्राजीक सांगपाचो यत्न करता.)

**गौतम** : तशें न्हय रूद्राजीबाबा, हांव तुमकां तेखातीर गादयेर सोदूंक

वचूंक नासलों. गादयेर कोणाकूय खबर आसत तुमचो ठावठिकाणो म्हणून विचारपाक गेल्लों.

**रूद्राजी** : मागीर? म्हजो ठावठिकाणो सांगपाक थंय कोणतरी आशिल्लो शुद्धीर?

**गौतम** : (गडबडून) ना. ना. पूण एकलो आशिल्लो, म्हणजे एकल्यान सांगलें, तुमी पाण्ट्यार आसात म्हण तसोच पाण्ट्यार धांवलों. थंय सगळ्याक तुमकां सोदले.

**रूद्राजी** : (खोंचून) उदकांत पळयिल्लें?

**गौतम** : ना. पूण तुमी पाणट्यावेल्यान देवळांत गेल्यात म्हणपाचें कळ्ळें. मागीर–

**रूद्राजी** : पाण्ट्यार न्हातकूच देवळांतच वतलों न्हय हांव?

**गौतम** : हय. मागीर. हांव देवळांत गेलों. जाल्यार तुमी देवळांतूय ना. थंय नरेश मेळ्ळो. नरेश भट.

**रूद्राजी** : मागीर तुमी दोगूय बसले गजालींक!

**गौतम** : ना. तुमकां सोदपाचे आसले न्हय म्हण्टकूच बसले ना. नरेश म्हणपाक लागलो, देवळांतल्यान आतांच गेला म्हातुड्डो. किल्ल्यो दामीत येन्ना दोंगर चडपाक लागला आसतलो.

**रूद्राजी** : (रागान) कितें? म्हातुड्डो?

**गौतम** : अशें हावें न्हय, नरेशान म्हणलें रूद्राजीबाबा.

**रूद्राजी** : नरशिंव भटालें नांव वयर काडपाचें सोड, शेणाचे गायरींत घालतलो तो.

**गौतम** : पूण तुमी खऱ्यांनीच दोंगरार गेल्ले?

**रूद्राजी** : हय. सद्दां वतां. ध्यानांक बसतां थंय.

**गौतम** : रूशींभशेन?

**रूद्राजी** : (वाजेवन) विश्वामित्र रूशींभाशेन. मागीर थंय कित्याक आयलोना?

**गौतम** : तुमचें ध्यानबी भंगूक नाका म्हणून.

**रूद्राजी** : तुका खबर आशिल्लें, हांव थंय ध्यानांक बसता तें?

गौतम : ना.

रुद्राजी : मागीर? फटकिरो! वयर भंयान येवंना तूं. वाटेर मसंड लागता न्हय!

गौतम : हय. हय रुद्राजीबाबा. मसंडेंत भुतां आसतात न्हय?

रूद्राजी : इंद्रायणी, पळयलीं तुज्या पुताचीं लक्षणां?

इंद्रायणी : हाताचीं पांचूय बोटां सारखीं नासतात रूद्राजी.

रुद्राजी : (याद करून) हाताचीं पांचूय बोटां! एका बोटाची रुजवात करतां. (विशाखाक) ए किरंगळे, तूं बिलू जावन वगी कित्याक?

इंद्रायणी : भावाचेर इतले इंगळे उसळटकूच ताका धग लागचोना?

रूद्राजी : भियेलें ह्या रुद्राजीचो अवतार पळोवन?

विशाखा : ना रूद्राजीबाबा.

रूद्राजी : (आडेच्या रागान) ना म्हणटा पळय कसलें!

(विशाखा आंग काडटा. रूद्राजी मोटमोट्यान हांसता.)

रूद्राजी : म्हाका इतलीं भियेता? जाल्यार बापायमुखार कितें करतलीं आसलीं? तो म्हजेपरस धापटीन रागीश्ट आशिल्लो. न्हय इंद्रायणी?

इंद्रायणी : धा कित्याक? इकरा पटीन.

रूद्राजी : तरी ताचेवांगडा संवसार केलो.

इंद्रायणी : सादो न्हय, सुखाचो संवसार! अल्पकाळाचो जायना पूण सुखाचो.

रूद्राजी : खरें इंद्रायणी, तो संवसार पळोवन केन्ना केन्नाय म्हाकाय मोह जावंचो कुटुंबीक जिविताचो. पूण ना. हांव कडेक रावलों त्या संवसारी मोहापासून. पूण कडेक रावलों तरी म्हज्या इश्टाच्या संवसाराचेर नदर दवरून रावलों. तुकां हांवें दर वेळा सांगलें, इंद्रायणी, सुखाच्या वेळार नाका. पूण संकश्टाच्या वेळार म्हाका याद कर.

इंद्रायणी : तूं आमच्या कुटुंबाचो एक घटक आसलो. आजूय आसा आनी

फुडाराकूय उरतलो.

**विशाखा** : हय रुद्राजीबाबा, तुजो आदार आमकां जाय.

**गौतम** : हय रूद्राजीबाबा.

**रूद्राजी** : येदो आदारवड परमेश्वरान परत धाडला, आतां ह्या सुकलेल्या झाडाची कितें गरज?

**इंद्रायणी** : परमेश्वरान धाडला खरो पूण ताचें अशें जालें न्हय!

**रूद्राजी** : कितें जालें? कांय जावंना. कितें जावपाचें आसा तें आतां जातलें. हो रूद्राजी लायतलो सोक्षमोक्ष. उडट्या शेवण्यांचीं पाखां आनी बुडट्या नुस्त्याचीं खवळां मेजल्यांत हांवें. कसलें बगलांट हांव सोंसून घेवचोना. हांवें फक्त फटकिऱ्यांचीं तोंडां बंद करूना, तांच्यो मानो मुड्डिडल्यात. इंद्रायणी–

**इंद्रायणी** : कितें जातलें तें जावनीच पूण मातशें शांततायेन, इतलेंच म्हणटालीं हांव.

**रूद्राजी** : रूद्राजीकडेन शांतताय ना.ती आसा दोंगरार, जी हांव सद्दां सोदपाक वतां. आतां म्हजेकडेन आसा फक्त उजो! आनी असल्या रूजवातींक उजोच जाय. उज्याचें होमखंड! त्या होमखणंतल्यान जें भायर सरतलें तें सत. निमाणे सत. (फर्मायत) इंद्रायणी–

**इंद्रायणी** : (गौतमाक आनी विशाखाक) चलात, तांकां घेवन येयात.
(विशाखा इस्कादीवयल्यान वयर वता आनी गौतम भितर कुडींत वता. कांय वेळ रूद्राजी फक्त पासयो मारीत रावता. कांय वेळान इस्कादीवयल्यान विशाखा अनुराधेक घेवन येता जाल्यार गौतम कुडींतल्यान अविनाशाक घेवन येता. अविनाश साद्या भेसांत आसा. अनुराधेनूय कालचो भेस बदल्ला.)

**रूद्राजी** : कोण तो मुखार यो.
(अविनाश पयलीं अनमनता आनी मागीर मुखार येता. दोनूय हात जोडून रूद्राजीक नमस्कार करता. तेसरशीं रूद्राजी ताच्या पोल्यार एक थापट मारता. त्या धपक्यान अविनाश

कांचवेता. प्रतिकार करपाखातीर खिणभर तो तयार जाता पूण मागीर रोखडोच स्वतःक सांबाळून घेता. इंद्रायणीसयत सगळीं चकाचूर जावन वगी रावतात.)

**रूद्राजी** : नांव कितें?

**अविनाश** : कोणाचें?

**रूद्राजी** : (ताचेर नदरेन करा करता.)

**अविनाश** : अविनाश. अविनाश देसाय.

**रूद्राजी** : बापायचें?

**अविनाश** : धारेश्वर.

रुद्राजी : आज्याचें?

अविनाश : सदाशिव.

रुद्राजी : पण ज्याचें?

आविनाश : धारेश्वर

**रूद्राजी** : खापर पणज्याचें?

**अविनाश** : सदाशिव.

**रूद्राजी** : मागीर तुजेंच अविनाश कित्याक?

**अविनाश** : (आवयकडेन पळयता)

**रूद्राजी** : तिका कितें विचारता? तूं सांग.

**अविनाश** : बापायक, ही पिळग्यान पिळगी तींच तींच नावां घोळोवपी परंपरा मान्य नाशिल्ली देखून ताणें म्हजें नांव अविनाश दवरलें. फट जाल्यार आवयक विचार.

**रूद्राजी** : म्हाका गरज ना विचारपाची. हांव तुकां विचारतां तितलें सांग.

**अविनाश** : विचार.

**रूद्राजी** : तुज्या बापायचें श्राद्ध कोणे वाडलें?

**अविनाश** : हांव तेन्ना ल्हान. श्राद्ध आवयन वाडलें.

**रूद्राजी** : (दाखयत) त्या थंय तीन रस्ते एकठांय जाता त्या तिस्कार, रेड्याक शिंगांक धरून कोणे दवरिल्लो?

**अविनाश** : हांवें. पूण रेड्याक न्हय. पाड्याक. पाड्याचो रंग सांगूं?

**रूद्राजी** : न्हंयच्या पाण्ट्याक कितलीं सोपणां आसात?

**अविनाश** : सात. पावसांत सातवें सोपण बुडटा तेन्ना गांवच्या घरांक हुंवाराचें उदक बादता.

**रूद्राजी** : तुजें मुळावें शिकप खंयचे शाळेंत जालें?

**अविनाश** : गांवच्या देवळांत जालें. तेन्ना गांवांत शाळेची इमारत नाशिल्ली. तेन्ना आमकां विठोबा मास्तर शिकयतालो. ताका दम्याचें आशिल्लें.

**रूद्राजी** : देवळांत कसली मुर्ती आसा?

**अविनाश** : शांतादुर्गेची! पाशाणी. चतुर्भुजा शांतादुर्गा! ताचेपयलीं थंय पंचलयेची मुर्ती आशिल्ली. ती एके राती चोरयेक गेली म्हण गांवकाऱ्यांनी एकठांय येवन नवी पाशाणी मुर्ती बसयली. पूण–

**रूद्राजी** : पूण कितें?

**अविनाश** : कांय न्हय.

**रूद्राजी** : तूं कितें तरी सांगपाक सोदता. लिपयता. सांग. ते पाशाणी मुर्तिविशीं सांग. चतुर्भुजा–चार भुजांची शांतादुर्गा.

**अविनाश** : चार भुजांची न्हय, साडेतीन भुजांची. तिचो एक हात मोडिल्लो. प्रतिष्ठापना केल्या ताच्या दुसऱ्या दिसा पूण नरशिंव भटान आनी गांवांतले आनीक एके प्रतिष्ठीत व्यक्तीन एकठांय येवन तो मोडिल्लो हात रातोरात सारखो केलो. गांवांक कळ्ळ्यार लोक अशुभ आनी अभद्र घडलें म्हण तर्कवितर्क करतले आसले. आनी आनीक नवी मूर्त विकती हाडपाची तांक गांवकऱ्यांमदीं नाशिल्ली. देखून नरशिंव भटान आनी ताणें ही मांडणी काडली.

**रूद्राजी** : हो, 'तो' कोण?

**अविनाश** : रूद्राजी! रूद्राजीबाबा, जो म्हजी म्हज्याच घरांत रूजवात करता तो रूद्राजीबाबा. म्हज्या बापायचो जिवाभावाचो इश्ट.

रूद्राजीबाबा, तुमी म्हाका वळखले काय कितें तें हांव सांगूंक नकळो. पूण हांव तुमकां वळखलों. कित्याक वळखुचोना? गावांत तुमकां सगळ्यांत प्रिय भुरगो म्हण हांवूच आसलों. नावाडग्या आनी वाळेस भुरग्यांक तुमी म्हजीच देख दिताले. म्हज्या बापायन विश्वासांत घेवन सांगच्यो तसल्या गजाली तुमी म्हाका सांगताले. अशीच खबर ते मुर्तिची. आनी रूद्राजीबाबा, गावांत हांव तुमचो लाडको, अपुरबायेचो तशे तुमी म्हजे आदर्श आशिल्ले. याद जाता जाल्यार पळयात. गांवांत विकासाची पळोवणी करपाक आयिल्ल्या पंचायतमंत्र्यांक घेवन तुमी सबंद गांवांत भोंवले. मंत्र्यान अकस्मात तुमच्या पायांकडेन पळोवन तुमकां विचारलें, 'तुमच्या पांयांत व्हाणो कित्याक नात?' तुमी जाप दिली, 'म्हजे भुंयेक म्हजो स्पर्श जाता आसतना म्हाका मदल्या व्हाणांची आडखळ नाका. मातयेचो आनी म्हजो अविभाज्य संबंद आसा. तूं हे भुयेंचो मंत्री जाल्यार तुंवूय हे भुयेंकडेन असो उक्त्या पायांनी संबंद जोड.' त्या मंत्र्यान परती जाप केली ना. रूद्राजीबाबा, भुंयेकडेन प्रत्यक्ष संबंद जोडिल्ले तुमी मनीस. हेच भुंयेच्या एका बाळकाक पारखुपाक तुमकां असलें रूजवातिचें कोर्ट कित्याक उबें करचे पडलें?

**रूद्राजी** : (नरम जावन) खरें म्हणल्यार हांवें तुकां आरंभाकूच पारखिल्लो, जेन्ना तुवें म्हजें थापट मोन्यांनी सोंसले. इतली सोंशिकताय फक्त ह्याच गांवचो मनीस दाखोवपाक शकता. ह्याच गांवचो न्हय, ह्याच घरांत, ह्याच संस्कारांत वाडिल्लो मनीस. हांवें विचारिल्ल्या एकान एका प्रश्नाची जाप तुवें दिली. इतलेंच न्हय तर म्हाका याद नाशिल्ल्योय गजाली तुजे यादस्तेंत घट आसा म्हणपाचें कळून आयलें. इंद्रायणी, विशाखा, गौतम, अनुराधा, मनांत कसलोच दुबाव किंतू दवरिनासतना हाचो स्विकार करात.

**इंद्रायणी** : रुद्राजीबाबा, आमचो कोणाचो कसलो प्रश्न ना. प्रश्न आसलो

तो फक्त अनुराधेचो. अनुराधा, तुकां कितें सांगपाचें आसा? (तो कितेंतरी सांगपाक सोदता, इतल्यान – )

**रूद्राजी** : ती जायतें सांगीत. पूण म्हाका आयकुपाचें आसूंक जाय न्हय? इंद्रायणी, अभिनंदन! तूं भाग्यवान कुसव्याची बायल देखून हे दीस तुकां पळोवपाक मेळ्ळे. विशाखा, गौतम, अभिनंदन! तुमचो भाव तुमकां परत लाबलो. अनुराधा. सर्गांतले सावित्रेक सुद्धा तुगेले तपश्चर्येचो दुस्वास दिसला आसतलो! इंद्रायणी,

**इंद्रायणी** : सांगात रूद्राजीबाबा.

**रूद्राजी** : हांचो परत लग्नहोम करपाची गरज ना. शास्त्रसंकेताप्रमाण अविनाशाक तुपान न्हाणावन प्रायश्चित्तविधी करपाचो. प्रायश्चित्तविधीखातीर हांव बेगीनात बेगीन म्हूर्त सोदून काडून हाडटां. फाल्यांच. येतां हांव.

(तो वता. ताका सगळीं नमस्कार करता. अनुराधा मात आपल्याच चिंतनांत उरता.)

**गौतम** : (सुस्कारा सोडून) आवयस! कसलो अवतार! कसलो गडगड!

**इंद्रायणी** : केदोय गडगड जावं! अखेर थंडशितळ पावस पडलो काय ना?

**गौतम** : अविभाईन म्हणून रूद्राजीबाबाक कशें जुस्ताजूस्त दिलें! गुळयेच्या प्रश्नाक गुळयेचीच जाप! ठाऽऽ ठाऽऽ

**इंद्रायणी** : चला, मनावयलो ताण गेलो.

(विशाखा अनुराधेकडेन पळयता. ती तशीच थीर आसा. ताका दुबाव येता.)

**विशाखा** : वयनी,

**इंद्रायणी** : चल अनुराधा, आतां कालचें विसर सगळें. अवि, तुंवूय मनार घेवं नाका. घडटा केन्नाय अशें जिवितांत. एक दीस वगडायलो. आतां एक खिणूय वगडावं नाका. चल अनुराधा, जालें तें जालें.

नुराधा : कितें जालें?

द्रायणी : म्हणजे?

नुराधा : जें जालें तातूंत तुमचें समादान जालां आसत. पूण म्हजें जावंक नाका?

द्रायणी : तुजें समादान? म्हणजे म्हज्या पुताची तुकां आनीक कसली कसवटी जाय?

नुराधा : पूत पूत म्हण थुळेता कित्याक? कोणे सांगलें तुमकां तो तुमचो पूत म्हण?

द्रायणी : आनी इतलो वेळ हांगा चलतालें तें कितें?

अनुराधा : म्हाका खबर ना. जें चलतालें तें तुमचे सोयीखातीर इतलेंच म्हाका खबर आसा.

इंद्रायणी : तशें जाल्यार तुवें हरकत कित्याक घेतली ना?

अनुराधा : हांवें हरकत घेवपाची? तुमच्या रूद्राजीबाबामुखार? ताचेमुखार तुमी सगळीं तोंड धांपून वगी. हांव कशी जाप काडटलीं? आनी जाप काडल्यारूय ते आयकुपाचे मनस्थितींत खंय आशिल्ले?

इंद्रायणी : म्हणजे तूं त्या रूद्राजीकूय मानिना?

अनुराधा : तांकां ना मानपाक कितें जाला? म्हाकाय बापायसमानूच ते. पूण ताणी काडिल्लो निश्कर्श हांव मानूंक शकना.

गौतम : वयनी, रूद्राजीबाबान कितले कठीण प्रश्न विचारले पूण अविभाईन ताच्यो सारक्यो जापो दिल्यो काय ना?

इंद्रायणी : दिल्यो तर. ते खातीर ते बशिल्ले परीक्षेक पासूय जाले. जाय जाल्यार तुमीय ताका आपापले मार्क दिवन पास करून घेवं येता.

विशाखा : वयनी, निमाणे तुकां म्हणपाचें कितें आसा?

अनुराधा : हो तुमचो अविनाश न्हय.

गौतम : वयनी, हो आमचो अविभाई. आमी भावंडां एकबरोबर वाडल्यांत, ल्हानाचीं व्हड जाल्यांत. पयले नदरेन हांव ताका

वळखलों.

**विशाखा** : वयनी, हाताबोटाच्या स्पर्शान आमी एकामेकाक वळखूंक शकतां.

**इंद्रायणी** : अनुराधा, तूं बायल ताची. पूण हांव आवय. म्हज्या रक्तामांसाचो गुळो तो. णव म्हयने हांवें ताका कुसव्यांत सांबाळ्ळा. म्हजो आवयचो अदमास कसो चुकूं येता? तुजेंच कितें तरी चुकता.

**अनुराधा** : ना, हांव सारकें आसा. तुमी ताका भाव म्हण वळखता, कोण गांवभाव म्हण वळखता. कोणे ताका लागसून पळयला. (आईक) तुवें तर ताका तुज्या कुसव्यांत सांबाळ्ळा. तुमचे पद्धतीन तुमची गवाय सारखी खरी. पूण म्हजी पारख आनी तुमची वळख सारखी आसूंक शकना. हांवें म्हज्या घोवाक म्हज्या शरीरांत रोमून घेतला. आमचीं शरीरां एकामेकांत रोमल्यांत. स्वास एकामेकांत भरसल्यांत. आमचें रक्त एकामेकांत भरसला. म्हज्या घोवाक वळखुपाक म्हाकां नदरेची गरज ना. स्पर्शाचीय गरज ना. धा पावलांचेर रावून वासावयल्यान हांव ताची वळख काडपाक शकतां.

**इंद्रायणी** : (कांयशी तिडून) अनुराधा, कसलेय गजालीक एक शिममेर आसता. तुजें आतां चड जालें. तुजेसारखो हावें ताका फक्त चवदा दीस पळोवंकना. ताचेबरोबर तीस वर्सां तरी सारल्यांत.

**अनुराधा** : पूता बरोबर तुमी तीस वर्सां सारल्यांत म्हणून तुमी ताका वळखतात आनी हांवे फक्त चवदा दीस सारल्यात म्हण हांव ताका वळखना अशें तुमकां म्हणपाचें आसा? दीर्घ सहवास ही वळखीची कसवटी कशी जावं येता?

**इंद्रायणी** : मागीर तुजे नदरेन वळखीची कसवटी कितें, तें तरी सांग.

**अनुराधा** : काळजान काळजाक वळखप!

**इंद्रायणी** : ताचें काळीज तुकां वळखलें.

अनुराधा : पूण म्हज्या काळजान ताका प्रतिसाद दिंव नाका?

इंद्रायणी : पुरो तुज्या काळजाचे नखरे. आपलें तेंच खरें म्हणपी हट्टी बायलमनीस तूं. फक्त हट्टी न्हय, अहंकारी लेगीत.

अनुराधा : आई, म्हाका म्हजो सभाव खबर आसा. हट्टीच हांव. सत्याचो आग्रो धरपी सत्याग्रही लेगीत हट्टीच आसता. पूण अहंकारी म्हणून म्हाका हिणसांव नाकात.

इंद्रायणी : तूं अहंकारीच. आनी हो अहंकार त्यागांतल्यान आयला. तुवें तुजें पावित्र्य राखलां, हो तुजो त्याग. पूण ताचो तुका अहंकार जडला. पावित्र्याचो तुका माज चडला.

अनुराधा : आई, म्हाका तुमी इतलें खालतेपण केन्नाच दिलें ना.

इंद्रायणी : आयज दिवचें पडलें तुजे करणेक लागून. कारण तुवें फकत म्हाकाच न्हय, फकत आमच्या कुटुंबाक न्हय, फकत गांवाक न्हय तर समस्त बायलांचे जातीक खालतेपण भोगयलें. एक बायल जावन म्हज्या भांगरासारक्या चल्याचेर दुबाव घेतलो!

अविनाश : आसूं आई.

इंद्रायणी : हेवूय भोग पळोवपाचे नशिबांत आशिल्ले. हे भोग निमाणे थरूं इतलेंच देवाकडेन मागणें. आतां हो फोड म्हाका बेगीन फुटिल्लो जाय.

अनुराधा : फोडूच तो. बेगीन फोडून वडयात. ताका पोशेत बसूं नाकात.

इंद्रायणी : तूं हट्टी आनी अहंकारीच न्हय, उद्धट लेगीत जाल्या. आतां ह्या सगळ्या प्रकरणाचो म्हाकाच दुबाव येवपाक लागला. हांगा सगळें घर आर्त्यांचे पर्तें जाता जाल्यार तूं एक कणभर लेगीत हांगची थंय हालना. निबर जाल्या सामकी, पाशाणी फांतराभशेन. हाचो अर्थ कितें?

अनुराधा : हांवें म्हजेपरीन तुमकां तो सांगला. तुमकां तो पटना. आतां तुमी सांगात – हाचो अर्थ कितें?

इंद्रायणी : हाचो अर्थ – म्हजो पूत तुकां नाका.

अनुराधा : हांव तर ताकाच रावल्यां, संन्यासिनी जावन.

इंद्रायणी : संन्यासिनीबी कांय न्हय. ढोंगी तूं. तुज्या धव्या वस्त्राखाला काळीं कर्तुबां दडून आसात. पावित्र्यबी कांय न्हय. पावित्र्याचें रूपडें चडयलां तुवें सर्वांगार. सद्दां पुजेचें निमित्त करून थंय देवळांत वता. वरांचीं वरां सारता. काल... काल म्हजो पूत येवपाचो आसा हें खबर आसून लेगीत तूं बळजबरीन देवळांत गेल्ली. थंय वचून कोणाबरोबर शेण खाता म्हण आमकां खंय खबर!

गौतम : आई, वयनीचेर तूं कसलो दुबाव घेता?

इंद्रायणी : घेता म्हणजे? तुजी वयनी म्हणजे कोण पतिव्रता सीतेचो अवतार समजलो तूं? ती खंय वता? कितें करता? तें राखूंक बसला तूं?

विशाखा : पूण आई, वयनीचेर असलो दुबाव घेवप्याक बिर्मत फुटटली.

इंद्रायणी : बिर्मत फुट्टली मगो? फुटूं म्हाका बिर्मत. ताची चिंता तुमी करूं नाकात. ती बिर्मत हे अवस्थेपरस वायट आसचीना इतलें मात खरें. फुटूं दी बिर्मत. एकदां न्हय शंभर फावटी, हजार फावटी घेवपी हांव हिच्या चारित्र्याचो दुबाव.

अनुराधा : आई, हें तुमीच उलयतात? खिणाआदीं सांगतालीं, म्हाका पावित्र्याचो माज मारला म्हणून. आनी आतां सांगता, हांवें पावित्र्याचें रूपडें चडयलां म्हणून? हातूंतलें खरें कितें? आई, दोन तोंडां फक्त माळणांक आसतात, मनशांक न्हय.

इंद्रायणी : कितें म्हणलें तुवें? माळूण?

विशाखा : वयनी, तूं कोणांक कितें उलयता हाचें तुकां भान आसा?

अनुराधा : हय. पूर्ण आसा. तुमी म्हाका शिटकावचेपरस तुमचे आवयक समजायात.

विशाखा : आई, तुंवूय वगी रावचीना?

इंद्रायणी : कित्याक वगी रावतली हांव? कसलो अपराध हांवें केला

म्हण वगी रावं हांव? कोणाचो पोटलो खाल्ला काय कोणाची मान हाणल्या? (हुंडकेवन) म्हज्या पुताक हांव पूत म्हणूंक शकना?

**अनुराधा** : आई,

**इंद्रायणी** : आई म्हणू नाका म्हाका. उलयताना कोणाच्याय तोंडांतल्यान उसळटा ती निथू सोसूं येता पूण तुजीं उतरां न्हय.

**अनुराधा** : गांधारीभशेन तुवें दोळ्यांचेर पट्‌टी बांदल्या. पुत्रप्रेमान तूं कुड्डी जाल्या.

**इंद्रायणी** : पुत्रप्रेमाच्यो गजाली तुज्या तोडांत सोबना. पूत जोडपाक पयलीं णव म्हयने ताका कुसव्यांत सांबाळचो पडटा. तुकां अणभव ना तो आनी तें भाग्यूय ना तुकां. समजलें?

**अविनाश** : आई, अनुराधेक हे अशें उलोवप, तिच्या घायार अशें मीठ चोळप तुकां सोबना, निखालस सोबना आई.

**इंद्रायणी** : तूं वगी राव अवि. तुवें आपूण म्हजो पूत म्हणून सिद्ध करून दाखयलां. तसो तिचो घोव म्हणून सिद्ध करून दाखय आनी उलय.

**अविनाश** : पू.. ण... आ.. ई...

**इंद्रायणी** : तसलें त त प प नाका. पयलीं सिद्ध कर आनी मागीर उलय. (याद करून - अनुराधेक) दोळ्यांचेर पट्‌टी बांधिल्ली, पुत्रप्रेमान कुड्डी जाल्ली गांधारी म्हणलें तुवें म्हाका न्हय?

**विशाखा** : आई, तशें तुवेंय तिका कितें कितें म्हणलां.

**इंद्रायणी** : हावें म्हणलां जाल्यार तें खरेंच आसा. लटकें न्हय. आनी तुमी तिची बाजू घेवपाची गरज ना. कारण ती आतां समर्थ जाल्या. तुमच्या आदाराची तिका कुस्कूट गरज ना. (न्हिन्नळत) हांव कुड्डी गांधारी? अनुराधे, न्हय हांव गांधारी. गांधारीन शंबर पुत्रांचो विध्वंस सोंसलो. म्हजे दोनूच पुत्र, पूण ते म्हाका शंबर पुत्रांवरीच. हांव एकल्याचोय विध्वंस सोसचीना. (इंद्रायणी अनुराधेच्या आंगार वता. विशाखा आनी गौतम तिका फाटीं

काडटात.) अनुराधे, हांव कुड्डी गांधारी काय कितें तें कुशीक दवर. तूं मात महाभारतांतली द्रौपदी हें विसरूं नाका. पांच पांडवांक भोगून पतिव्रता म्हण मिरोवपी आनी स्वतःच्या अहंमगंडाखातीर एक म्हाझूज घडोवन हाडपी पाताळयंत्री अस्तुरी.

**अविनाश** : (तापत) आई,

**इंद्रायणी** : म्हजेर कित्याक तापता? दाखय तुजो पराक्रम तुजे बायलेक. धर तिचो हात. व्हर भरभरीत ओडीत तिका तुज्या बेडरूमांत. कर तिचेर बळजबरी, बलात्कार आनी सिद्ध कर तुजो पुरूशार्थ. (गौतम आनी विशाखा इंद्रायणीक बळजबरीन ओडून भितर व्हरतात. कांय वेळ शांतता. मागीर अनुराधा माळयेर वचपाक वळटा.)

**अविनाश** : राव अनुराधा.

**अनुराधा** : कित्याक? द्रौपदीन गांधारीचो अवतार पळयलो. आतां दुःशासनाचे प्रताप दाखोवपाचे आसात जाल्यार सांग. पूण हांव तसली द्रौपदी न्हय. पांडवांकडल्यान दुःशासन आनी दुर्योधनाचें रक्त काडून समादान मानपी. तें काम हांव स्वतःच करपी.

**अविनाश** : अनुराधा, अशी जिवार कित्याक उठटा? तुज्याय जिवार कोण उठूंना. आई वैतागान उलयल्या. तुवें तें समजून घेवपाक जाय.

**अनुराधा** : तिका समजून घेवपाचो यत्न हांव जरूर करीन. आनी तें म्हाका करपाकूच जाय. कारण ती म्हजी मांय. फक्त मांयूच न्हय. म्हाका ती आवयपरस चड.

**अविनाश** : हांव तेंच पळोवपाक सोदतां.

**अनुराधा** : तूं गैरसमज करून घेवं नाका. ती म्हजी कोणतरी लागता आनी तूं म्हजो कोण न्हय हें विसरूं नाका. (अविनाश खजील जाता. भायरसावन लग्नाचे मिरवणुकेचो आवाज. लग्नांतलें वाजप.

अविनाश भायर नदर मारता.)

**अनुराधा** : गांवांतल्यो सगळ्यो मिरवणुको हेच वाटेंतल्यान वतात. (खोंचून) विसरलो दिसता.

**अविनाश** : (सांवरीत) कसो विसरतलों? याद आयली, म्हज्या लग्नाची, आमच्या लग्नाची. तुकां याद आसा?
(ती जाप दिना)
लग्नाची गजाल सांगूं?

**अनुराधा** : तुका उमेद आसल्यार सांग.

**अविनाश** : आमचें लग्न ह्याच घरांत जाल्लें.

**अनुराधा** : तें कालूच येनाफुडें सांगलें.

**अविनाश** : मागीर आमी गांवांत गेलीं. घरांतल्यान भायर सरताना सोंपणाचेर तुजो पांय तिरपलो. उजवो काय दावो?

**अनुराधा** : म्हाका खबर ना.

**अविनाश** : दावो. कारण तूं म्हज्या उजव्या भुजांर लवंडली आनी तुज्या कपलाचें गंध म्हज्या शर्टाक, हांगा लागलें. रातीकडेन हांवें तुज्या पांयाक आयोडेक्स चोळ्ळें. तुकां आयोडेक्साचो वास सोंसना हें म्हाका तेच राती कळ्ळें. कितले फावट हावें हात शाबू लावन धुले पूण अखेरमरेन तुवें हात गळ्यांत घालपाक दिलें ना. देवळांत गेल्लेकडेन प्रदक्षणा काडटना सर्वळेंत हावें तुकां घट धरली. तुवें आपणांक सोडोवन घेतली तेन्ना हावें तुजे फाटिचो किस घेतलो. तुवें उक्ते फाटीचो ब्लावज घाल्लो. याद जाता?

**अनुराधा** : मुखार सांग.

**अविनाश** : तें सांगचेआदीं हातूंतलें कितें फट आसा जाल्यार सांग.

**अनुराधा** : ना. कांयच फट ना.

**अविनाश** : मुखार आमचो हनिमून. बेंगलोर. हॉटेल नवतारा. फस्ट फ्लोअर. रूम नंबर वन नॉट सेवन. तुवें म्हणलें, सात हो आपलो लकी नंबर. आनी मागीर आमी सात ह्या आंकड्याकडेन खूब

खेळ्ळीं. तरातरांच्यो कसरती केल्यो सात आंकड्याकडेन. दीस आनी रात. निमाण्या सात नंबराच्यो काडिल्ल्यो सोर्ती. हॉटेलांत केल्ली मजा. एकेच प्लेटींत जेविल्लीं. एकामेकाक भरयिल्लें. आनी बेंगलोरच्या हॉटेलांतली ती निमाणी रात. दिव्याच्या उजवाडांत तुज्या आंगावयले मेजिल्ले तीळ आनी तुकां जाल्ल्यो खातकुतल्यो.

**अनुराधा** : बंद कर.

**अविनाश** : त्या तिळांच्यो जागो हांव तुकां सांगूंक शकतां.

**अनुराधा** : सांगलें न्हय, बंद कर. कित्याक विटंबना करता म्हज्या देहाची? म्हजे अब्रूची? दिल्लो हांवें देह, पूण तो म्हज्या घोवाक. जाचेर हांवें जिवापाड प्रेम केल्लें आनी जाच्या मोगाची म्हाका खात्री पटिल्ली.

**अविनाश** : अनुराधा, गैरसमज करून घेवं नाका. हांव तुजी विटंबना करीना. तुकां ब्लेकमेलूय करिना. हांव तुकां फक्त म्हजी वळख घडयतां. हांवें सांगलां तातूंतलें कितें फट आसा जाल्यार सांग. आसा? एकतरी कितें फट आसा?

**अनुराधा** : सगळें खरें आसा म्हणून तर म्हज्यान सोसूं नजो. तुकां हें सगळें कशें कळ्ळें?

**अविनाश** : कारण जाणें हें सगळें पळयलां, तांकलां, भोगलां तो हांवूच. अविनाश, तुजो घोव.

**अनुराधा** : शक्य ना.

**अविनाश** : इतलें सांगून उमथ्या कळशार उदक? अनुराधा, फुडली सगळी विटंबना चुकोवपाची आसत जाल्यार तुजो हट सोड.

**अनुराधा** : हट? ती म्हजी मांय, तिणे एक म्हणलें तें सोबलें. आनी म्हजी विटंबना कोण करतलो? तूंच मू?

**अविनाश** : हांव न्हय पूण मुखावयली परिस्थिती.

**अनुराधा** : हांव समर्थ आसां.

**अविनाश** : समर्थ आसा म्हणजे दोनय दोळ्यांचे दुकांचे दोन मोटे कुंभ

आसात. हेंच बायलांचें सामर्थ्य!

अनुराधा : त्या कुंभाची पर्वा तूं करूं नाका.

अविनाश : म्हाका तुजी एक गजाल कळना.

अनुराधा : कसली?

अविनाश : हांवें तुकां तुजेसंबंदी जायत्यो गजाली सांगल्यो आनी तुकां त्यो पटल्यो. हांवें तुजी परीक्षाय घेतली तशी तूं म्हजी परीक्षा कित्याक घेना?

अनुराधा : म्हाका गरज ना, कारण म्हाका कितें सिद्ध करपाचें ना. सत्य म्हाका खबर आसा

अविनाश : कितें तें?

अनुराधा : हांव अनुराधा आनी तूं अविनाश न्हय.

अविनाश : मागीर हांव कोण?

अनुराधा : तें तूंच जाणां.

अविनाश : हांव अविनाश न्हय जाल्यार ह्यो बारीक सारीक गजाली म्हाका कशो कळ्ळ्यो?

अनुराधा : म्हाका खबर ना. तितलें समजून घेवपाची म्हजे तकलेची तांकूय ना. आनी म्हाका ताची गरजूय ना.

अविनाश : गरज ना?

अनुराधा : नाच. कारण म्हजी समजिकाय घट आसा

अविनाश : हाय देवा! कसल्या मनशाकडेन म्हजी गांठ बांदली!

अनुराधा : चिंता करूं नाका. तुजी गांठ म्हजेकडेन बांदूना.

अविनाश : अनुराधा, तुजे हे असले वागणुकेचो अर्थ कितें जाता खबर आसा?

अनुराधा : ना. कितें अर्थ जाता?

अविनाश : तुज्या मनांत कितेंतरी वेगळें आसा.

अनुराधा : वेगळें म्हणजे?

अविनाश : तूं खंयतरी वेगळे संबंद दवरूंक सोदता आनी तेखातीर तुकां आदले संबंद तोडूंक जाय.

**अनुराधा** : (हांसत) ही गजाल पोरणी जाली ना? व्हदळ म्हजे मांयन म्हणलें आनी आतां तुवें. हो दुबाव अविनाशान घेतिल्लो जाल्यार हांव जीव पासून दित आशिल्लीं. पूण हो दुबाव एका परकी मनशान घेतला, जाचो म्हजेकडेन कुस्कुटाचो संबंद ना. देखून म्हाका ताची पर्वा ना.

**अविनाश** : तुजेकडेन वाद करप म्हणजे बंदखणीच्या दारार तकली धाडावप. पूण एक लक्षांत दवर.

**अनुराधा** : कितें?

**अविनाश** : हांव तुका मेळयलेबगर रावचो ना.

**अनुराधा** : मेळयलेबगर म्हणजे? म्हाका मेळोवपाक तूं हांगासर आयला? तशें जाल्यार तुंवूय आयक. म्हाका मेळोवपाचो यत्न करप म्हणजे बंदखणिच्या दारार तकली धाडावप. समजलें? (माळयेच्या सोपणाकडेन वता.)

**अविनाश** : अनुराधा,

**अनुराधा** : खबरदार, म्हज्या नांवाचो उच्चार करशी जाल्यार. सैनिक तूं. बाँबाच्या स्फोटान दुसऱ्याच्या शरीराचे कुडके जातात ते तुवें पळयल्या आसतले. पूण स्वतःची जीब तुटून स्वतःच्या पांयार पडटा, तो तुकां अणभव नासतलो.

**अविनाश** : अनू -

**अनुराधा** : (नदर खर करता.)

**अविनाश** : सॉरी! आय एम सॉरी!

**अनुराधा** : हें, हें तुजें खरें रूप.

(सोपणां चडून वयर माळयेर वता. अविनाश अस्वस्थ जाता. हांगा-थंय पासयो मारता. पयसुल्ल्यान ट्रेनीचो आवाज. चिंतता चिंतता तो एका निर्णयाचेर पावता. आवयक आनी भांवडांक उलो मारता.)

**अविनाश** : आई, गौतम, विशाखा -

(गौतम, विशाखा भायर येता.)

गौतम : भाई,
विशाखा : कितें जालें भाई?
अविनाश : हांव चल्लों.
गौतम : चल्लो? खंय?
अविनाश : जंयसावन आयिल्लों थंय.
विशाखा : म्हणजे?
अविनाश : हरशीं केन्नातरी म्हाका थंय वचपाकूच जाय. हांव आजूच चल्लों. आत्तां.
गौतम : पूण अशें अकस्मात?
अविनाश : असो अकस्मात आयिल्लों तसोच अकस्मात वतां. खूब आशेन आयिल्लों. एक शेत आसतलें, पांचवेचार! पूण हांव येवचे आदींच हांगा सगळें उध्वस्त जालां. हे पडींग सुवातेर ना एक उदकाचो झरो, ना एक झाड, ना एक तणाचें पातें. ना सवणी, ना पिसोळीं! सगळें उध्वस्त! ही असली भूंय जिखून उपेग कितें?
विशाखा : अविभाई, तुकां अनुराधावयनीन स्विकारूंक ना ही गजाल खरी. पूण आमी भांवडांनी तुकां स्विकारला. तुजे आवयन तुकां स्विकारला.
अविनाश : तेचखातीर जीव ओडटा म्हजो. पूण आतां काळजार फातर दवरून निर्णय घेतला हांवें.
गौतम : ना अविभाई, तुकां अशें करपाक मेळचें ना.
अविनाश : नाका. म्हाका आडावं नाका. आतां हांव आयलोंच जाल्यार बद्द काशावान बसून.
विशाखा : अविभाई, अशें उलोवं नाका. सोपूत आसा तुकां.
अविनाश : म्हजी वाट सोडात.
गौतम : ना आमी तुकां वचपाक दिवचींना. आईऽऽ
विशाखा : आई, भायर यो. अविभाई वता.
(इतल्यान भितरसावन इंद्रायणी येता.)

इंद्रायणी : अवि, खंय वता तूं? आनी कोणाच्या रागान ह्या घराक फाट करूंक मुखार सरला तूं? हें घर तुजें, तुज्या वडिलांचें. हाचेर तुजो अधिकार आसा. हीं तुजीं भांवडां, ताणी जीव तोडून तुजेर प्रेम केलां. तांचें प्रेम अशें खोंटावन खंय वता तूं? आनी हांव तुजी आवय. तुकां एकदां वगडायलो तेन्ना परमेश्वराक खेपलो हांवें आनी तूं परत आयलो तेन्ना त्याच परमेश्वराचे उपकार आठयले. अवि, पोरा आतां म्हाका अग्नी दिलेबगर तुकां कशें वचूंक मेळटलें?, ना, तुकां ह्या घरांतलो वचपाक मेळचें ना. (आवाज वाडोवन) आनी जांकां ह्या घरांतल्यान वचपाचें आसा तांकां भायलें दार उक्तें आसा. (अनुराधेक लेखून) हांव कितें म्हणटां तें आयकूंक येता? जाकां ह्या घरांतल्यान वचपाचें आसा, तांकां भायलें दार उक्तें आसा.

(सगळीं जाणां इस्कादीकडेन पळयतात. सगळ्याक ल्हवू ल्हवू काळोख जाता. इस्कादीकडेन ऊजवाडाचो एक स्पॉट दिसता आनी मागीर सगळ्याक काळोख जाता.)

(देखाव सोंपता)

## देखाव – दोन

(आदल्या प्रसंगा उपरांत त्याच दिसाची रात. मांडावळींत कसलो बदल ना. भायर विजांचो लखलख आनी गडगड. भायल्या दाराकडेन अविनाश उबो आसा. सिगरेट ओडटा. विजेच्या लखलखाटांत ताची फाटमोरी आकृताय दिश्टी पडटा. ताणे आरंभाचो सैनिकाचो गणभेस केला. कांय वेळान इस्कादीच्या सोंपणावयल्यान अनुराधा देंवून सकयल सालांत

येता. विजेच्या उजवाडांत तिचीय आकृताय दिसता. तिणे नवो भेस केला. लग्नाचे पयले राती केल्लो तो भेस आनी सगळो साज-शिणगार. ती अविनाशाक पळयता. तो आजून फाट करून दाराकडेन आसा. अनुराधा सालांतलो लायटीचो दिवो पेटयता. तेसरशीं अविनाश कांचवेता आनी आंग काडटा. अनुराधेक पळोवन अजापता. तिच्या भेसाचेर लक्ष वतकूच अदीक कांचवेता. घड्याळांत फांतोडच्या चार वरांचो ठेके पडिल्ल्याचो आवाज आयकूंक येता.)

**अविनाश** : तूं...

**अनुराधा** : हय, हांव. तुमच्याच घरांत अशे कांचवेले कित्याक?

**अविनाश** : (लिपयत) ना, ना.

**अनुराधा** : (नियाळून) भायर सरून रावल्यात. वचपाक ट्रेनीची वाट पळयताले काय कितें?

**अविनाश** : ना.

**अनुराधा** : तुमी वचपाची गरज ना. आईन केल्ली घोशणा आयकूंक ना? तुमी खंय वचचेना. जांकां वचपाचें आसा तांकां भायलें दार उक्तें आसा.

**अविनाश** : तूं वचूं नाका अनुराधा.

**अनुराधा** : ना वचना. तुमी सांगता म्हणून न्हय. म्हज्याच मनाचो निर्णय जाला म्हणून.

**अविनाश** : कसलो निर्णय?

**अनुराधा** : हांवें वचप ना. निदान आयज तरी वचप ना.

**अविनाश** : आयज तरी म्हणजे?

**अनुराधा** : आयची रात पळयल्या तुमी?

**अविनाश** : (हेवटेन तेवटेन नदर मारीत) हय.

**अनुराधा** : तिवूय रात अशीच आशिल्ली.

**अविनाश** : खंयची रात?

**अनुराधा** : आमच्या लग्नाची पयली रात. याद जायना? म्हजो हो भेस

आनी साज-शिणगार पळोवन याद जायना? रातचीं अशींच केन्नातरी जोगलां मारपाक लागिल्लीं आनी कुपांचो गडगड. तूं भियेलोना. तूं कित्याक भियेतलो? तूं एक सैनिक. भियेलीं ती हांव. कितलो वेळ मेरेन तुजे वेंगेंत आशिल्लीं बाबडी गाय जावन! आजून याद जायना?

**अविनाश** : जाता.

**अनुराधा** : काल सावन पळयतां हांव, सगळे तुजेफाटल्यान खंबीरपणान उबे रावल्यात.तुजी आवय, तुजीं भांवडां, तुजे गांवचे मनीस, तुजो अख्खो गांव आनी आयज सैम लेगीत. सगळे जाण हरतरांनी यत्न करतात तुजें खरेंपण सिद्ध करपाक आनी हांव फक्त एकलीच सगळ्यांच्या आड उबी. अशें म्हणून एकल्याच्यान झुजूं येता? आनी हातांत शस्त्र कसलें? फक्त सत्याचें. खिणाखिणाक त्या सत्याचो प्राण लेगीत फुकूफुकू जाता! इतलो वेळ हातांत घेवन नाचतालें तें सत्याचें अस्त्र हांवें आतां सकयल दवरपाचें थारायलां.

**अविनाश** : म्हणजे?

**अनुराधा** : हांव एक मनीस, म्हजेकडेन म्हजो अदमास आसा, तर्क आसा. विश्वास आसा. तसो तुमचेयकडेन तो आसा. सगळ्यांकडेन आपापले परीन आसा. जाल्यार म्हजे तेंच खरें, अशें हांव कशें म्हणूंक शकता? काळजान काळजाक वळखप ही कसवटी अशें हावें म्हणलें खरें. पूण जाणे काळीजूच बंद केलां ते मनीस कसवटेक कशे उतरतले? आतां हांवेंच म्हजी परीक्षा घेवपाचें थारायलां.

**अविनाश** : परीक्षा?

**अनुराधा** : हय. सत्वपरीक्षा! वेळाकाळाक बायलांच्या वांट्याक आयल्यात ह्यो परीक्षा. आयज हांवूय तेच परीक्षेच्या हुंबऱ्यार उबें आसां.

**अविनाश** : अनुराधा!

अनुराधा : (सुस्कारून) अनुराधा!

अविनाश : (याद जावन) आय एम सॉरी.

अनुराधा : म्हण, अनुराधा म्हण. तो आवाज आतां वळखिचो दिसूंक लागला. किराच्या आवाजाभशेन म्हज्या कानांकडेन दीसरात सादपी तो आवाज...

अविनाश : अनुराधा...

अनुराधा : हय, तोच तो आवाज. ह्याच आवाजान म्हाका पिशें लायिल्लें. बेंगलोरच्या शारांत होच आवाज घुमतालो. भायर रस्त्यार, वृंदावन गार्डनांत, बसिचे गर्देंत, प्लॅटफॉर्मावयले झुंडेंत. अनुराधाऽऽ, अनुराऽऽ आनी हॉटेलांत, हॉटेलांच्या बाथरूमांत आनी बेडरूमांत. उजवाड बारीक जावंचो तशें त्या नांवाचें आखूड जाल्लें मोटवें रूप अनु! म्हण म्हाका अनु.

अविनाश : अनुराधा.

अनुराधा : (लागीं वचत.) न्हय अविनाश, हांव तुजें अनु. खरेच अवि, हांव तुजें अनु.

अविनाश : अनुराधा, कडेक सर.

अनुराधा : कडेक सरूं? कित्याक? व्यक्ती आनी प्रकृती हाणी हातांत हात घालून दोगांयनी एकमुखान कौल दिला. तूं अविनाश आनी हांव अनुराधा. तुज्या नांवाप्रमाण तूं अविनाशी आनी म्हज्या नावांप्रमाण हांव अनुराधा–सत्तावीस नक्षत्रांतलें सतरावें नक्षत्र. शुभनक्षत्र म्हणून तुवें सासणाखातीर वेंचून काडिल्लें. तुवेंच घातिल्लें हे गळ्यांत मंगळसूत्र आनी तुवेंच भरिल्ली भांगेंत पिंजर. थोडो काळ लोकलजे खातीर काडून दवरलो मणी पूण उठटा–बसताना तो हांतात घेत रावलें, पोशेत रावलें. जंय तूं आसा थंय तुकां कसली नखलामी जावंची न्हय म्हणून. कुंकूम कपलाक लायलो ना आनी माथ्यांतूय भरलो ना पूण सद्दां एक चिमटी कुंकूम तुज्या नांवान हवेंत सोडीत रावलीं, म्हज्या सौभाग्याच्या नांवान. अविनाश, आतां तूं परत आयला. मदलो

सात वर्सांचो काळ हांव पुसून वडोवपाक सोदतां. मदीं कांयच घडलें ना अशें मानपाक सोदतां. परत तें जीवन सुरू करपाक सोदतां. सामके आरंभापासून. लग्नाचे पयले रातीपासून. (ताकतीक करून) यो, यो अविनाश. वयर आमच्या बेडरूमांत यो. हावें तो तसोच शिणगारला, जसो पयले राती आशिल्लो. चल, रात सरत आयल्या. आतां थोड्याच वेळान फांतोड जातलीं. सगळ्यांक जाग येतली. यो, यो अविनाश. (ताका हाताक धरून सोपणाकडेन ओडीत व्हरता. अविनाश बळजबरीन तिचेबरोबर वता. अनुराधा अकस्मात थारता. तिची नुरा बदलता.)

**अविनाश** : माळयेच्या सोपणाचेर पावल दवरचे आदीं एक गजाल समजून घे. आदीं हावें सांगलां तशें. ही म्हजी सत्वपरीक्षा... अग्नीपरीक्षा! हांव म्हाकाच कसवटेक लावपाक मुखार सरलां. एक शीळ सोडलें जाल्यार म्हजेकडेन दुसरें कांयच ना. हांव जाणां, म्हजेखातीर हो जिवावयलो खेळ. पूण तो खेळपाक हांव तयार जाल्यां. तूं खरो अविनाश आसलो जाल्यार जल्मभर हांव तुजी दासी जावन रावतलीं. तुवें म्हाका क्षमा केल्यारूय आयुश्यभर अपराधीपणूच म्हजे गोमटेर बशिल्लें आसतलें. (निश्चेवान) पूण लक्षांत दवर. कान फोडून आयक. हांव पतिव्रता. पूण सीता न्हय आनी सावित्रीय न्हय. एक सादीसुदी बायलमनीस, इतलेंच म्हजें लक्षण! जर तूं फटकिरो आसशी जाल्यार ज्या खिणांक म्हजे वेगेंत भितर सरतलो त्याच खिणांक तुजें जळून भस्म जातलें.

(भायर वीज लखलखता आनी गडगड जाता. अविनाश सोंपणावयल्यान धांवत कडेक सरता.)

**अविनाश** : नाका, नाका अनुराधा, असलो अविचार करूं नाका.

**अनुराधा** : कसलो अविचार?

**अविनाश** : तुवें इतलें सोसलां, आनी इतलें आयकलां. तुकां आनी मातशें

आयकुचें पडटलें.

**अनुराधा** : अखेरेक बरें आयकुपाचें आसल्यार कितलेंय सोंसपाक हांव तयार आसां. सांग.

**अविनाश** : नियती नांवाची एक गजाल आमच्या सगळ्यांपरस श्रेष्ठ आसा.

**अनुराधा** : सांग, हांव आयकुपाक तयार आसां. सांग.

**अविनाश** : डेहराडूनचे इंडियन मिलिट्री अकादेमींत, ट्रेनींगाच्या वेळार सदांच दोन तरनाट्यांची गल्लत जाताली. अविनाश आनी अमरनाथ. रॉक क्लायमींगच्या वेळार अविनाश कसब दाखयतालो पूण ट्रेनर शाबासकी दिताले अमरनाथाक. केन्नाय अमरनाथाकडसून आगळीक घडटाली तेन्ना ख्यास्त जाताली अविनाशाक. बावीस वर्सां पिरायेचे हे तरनाटे पळोवपाक सारखेच दिसताले. मिलीट्री गणवेशांत तर तांकां वळखप भौच कठीण गजाल. आनी तांगेल्या ह्या सारखेपणाखातीर नकळटाना तांगेली इश्टागत जाल्ली. अविनाश अमरनाथाक गजाली सांगतालो, गजाली सांगप हो तागेलो खाशेलो गूण. सगळेजाण ताका म्हणटाले, तूं सैनिक कित्याक जालो? कवी, लेखक तसलो कोणूय जावपाचो. ते लोक इतलें बारीक सारीक तपशिलान सांगतात. अविनाशान, अमरनाथाक आपल्या कुटुंबाचो गजाली सांगच्यो. आपली आवय, भाव, भयण हांच्यो गजाली. आपल्या गांवच्यो गजाली, गावांतल्या मनशांच्यो गजाली. आपलें भुरगेपण, भुरगेपणांतली मस्ती, आडांगीपणां सगळें. एकदां आनी दोनदां न्हय. कितलेशेच फावट. आपली गजाल सांगून जातकूच अविनाश अमरनाथाक सांगतालो, 'आतां तुजी गजाल सांग.' आनी मागीर अमरनाथ वयर मळबांत पळयत उरतालो. सांगपासारखें ताचेकडेन कांयच नाशिल्लें. तो जमनींक किल्ललेभाशेन. ताका आवय-बापूय, भाव-भयण कोणूच नासलो. एका पयसुल्ल्या सोयऱ्यागेर तो

वाडिल्लो. ताका कुटुंबाचे कसलेय बंदूय नाशिल्ले आनी मोयपासूय नाशिल्ले. तो अविनाशाच्यो गजाली आयकतालो. आनी तातूंतच एकरूप जातालो, अविनाशाच्याच कुटुंबाचो घटक कसो. मिलीट्री अकादेमींतल्यान दोगूय पासआवट जाले. एकेच पळटणींत रूजू जाले. मदीं अविनाश रजा काडून घरा गेलो. घरचीं ताका लग्न जावपाक फोर्सास करतालीं. ताचें लग्न जालें आनी हेवटेन भारत-चीन सरहद्दीचेर बर्फान पेट घेतलो. ताका परत येवचो पडलो. येवचे येवन सरहद्दीचेर वचचो पडलो. ड्युटीउपरांत सरहद्दीवयल्या तंबूंत लापयावांच्या उजवाडांत आपले बायलेचो फोटो घेवन तो वरांचीं वरां पळयत बसतालो आनी हातांतलो व्हिस्कीचो ग्लास तसोच उरतालो. मागीर अमरनाथ ताका भानार हाडटालो. मागीर तो आपले बायलेच्यो गजाली सांगतालो. लग्नाचे पयले रातीपासून ते हनिमुनामेरेनच्यो सगळ्यो बारीक-सारीक गजाली. कांयच दाखय-लिपय करिनासताना. एके इश्टीणीन आपले इश्टीणीकडेन काळीज उक्तें करचें तशें. लेफ्टनंट अविनाशाच्या त्या गजालींनी रंगून वतालो लेफ्टनंट अमरनाथ. शेणूनय वतालो.

**अनुराधा** : तातूंतलो तूं कोण?

(जाप दिनासतना मुखार सांगता.)

**अविनाश** : आनी हिमालय पर्वतार, मॅकमॅहोन बोर्डरीचेर चिनी सैनिकांकडेन पेटिल्लें आकांताचें झूज. कॅप्टन चोप्रांच्या मुखेलपणाखाला लडपी सैनिक. मदींच बचावाखातीर केप्टन चोप्रांची ऑर्डर, 'फाटीं सरात.' सगळ्यांची फाटीं सरून पळापळ. दोगूच जाण ऑर्डर जुमानीनासतना मुखार. लेफ्टनंट अविनाश आनी लेफ्टनंट अमरनाथ. एके गुळयेन एक असो दुस्मानाच्या हड्ड्याचो वेध घेत दोगूय इंच इंच मुखार. झुजाचो कैफ. मर्णाची पर्वा ना. (कानांचेर हात धरून) आं! कान फोडपी हो बोंबस्फोट! झाडां मुळांतल्यान तुटून पडलीं. लेफ्टनंट-लेफ्टनंट अविनाश, तुजो

हात खंय? (अनुराधा कांचवेता) तुज्या तोंडावयल्या मांसांत हे कसले काळेनिळे कण रुतून बसल्यात? इश्टा, कितें सांगूंक सोदता? सांग. बेगीन सांग. हें कितें? फोटो! खबर आसा म्हाका. फोटो तुजे बायलेचो. अनुराधेचो. तुवें तिचेर खूब प्रेम केल्लें. कोणाकूय दुस्वास दिसचो इतलें तुवें तिचेर प्रेम केल्लें. हांव जगलों वाचलों जाल्यार तिची अवश्य भेट घेतलों. तुज्या शौर्याची गजाल तिका सांगतलो. (रडत) अविनाश, आदेवश इश्टा, आदेवश!

**अनुराधा** : ना, हें शक्य ना. अविनाश मरूंक ना. तो मरूंक शकना. म्हजें मन, काळीज सांगता, तो जितो आसा. सात वर्सां ताची वाट पळयली. एकूय दीस म्हाका ताच्या मर्णाच्यो दुबाव पासून आयलोना. ताच्या मर्णाचें सादें सपन लेगीत म्हाका केन्ना पडलें ना.

**अमरनाथ** : अनुराधा, तुज्या मनाचो निर्धार सेल्यूट घेवपासारखो. शिंमेचेर लडपी सैनिका इतलोच तुजो निर्धार पक्को आसा. तुजो भावार्त, तुजी श्रद्धा, तुजो विश्वास अखंड, पूण ह्या सगळ्यांच्या वयर आसता नियती. तिका धर्म–अधर्म लागना, तिका नीत–अनीत बादना. दोळ्यांक पट्टी बांदून ती सपासप तरसाद चलयता आनी मनशांची शिरां धडापासून वेगळीं करता, आनी हें करताना ती दुर्जन आनी सज्जन हाचेंमदीं कसलोच भेद करिना.

**अनुराधा** : (हुंडकेवन) म्हजो अविनाश, खरेंच मेलो?

**अमरनाथ** : हय. हावें ह्या दोळ्यांनी पळयला. म्हज्या ओठांनी ताच्या कपलाचो निमाणो उमांव घेतला. मरताना होच फोटो ताच्या हातांत आशिल्लो. (दाखयता.) पळय. वळखूंक येवपा इतल्यो कसल्योच खुणा ताचेर ना. फोटवाचो कागद इतलेंच ताचें अस्तित्व उरलां. पूण तूं वासावयल्यान वळखुपाक शकतली. (अनुराधा ल्हवू ल्हवू सावचीत जाता. तिका आतां दुबाव

आयला. ती फाटल्या पावलांनी चलत चलत सोपणांकडेन वता. भरभर सोपणां चडून वयर वता. अमरनाथाक कितें घडटा तें कळना. तो अजापता.)

**अमरनाथ** : अनुराधा!

(ती वयर वता. तो सकयल सोपणांकडेन रावता. ती सोपणां देंवून सकयल येता. तिच्या हातांत धारदार चाकू आसा.)

**अमरनाथ** : (कांचवेत) अनुराधा, हें हें कितें?

**अनुराधा** : भियेलो कित्याक? सैनिक तूं. असलीं शस्त्रां केन्ना पळोवंना तुवें?

**अमरनाथ** : तूं कितें करपाक सोदता?

**अनुराधा** : हांव कितें करपाक सोदतां ताचेविशीं तुकां दुबाव आसा?

(तो वग्गी.)

**अनुराधा** : हांव बदलो घेवपी.

**अमरनाथ** : कसलो बदलो?

**अनुराधा** : म्हज्या घोवाच्या मर्णाचो.

**अमरनाथ** : पूण तुज्या घोवाक थंय मर्ण आयलां. सात वर्सां आदीं सीमेचेर. दुस्मानांकडल्यान.

**अनुराधा** : दुस्मानांचो बदले घेवपाची संद म्हाका लाबल्या. ती संद हातची सोडून हांव दुकां गाळीत बसपी न्हय

**अमरनाथ** : अनुराधा, तुजो कितेंतरी गैरसमज जाला.

**अनुराधा** : कितें जालां तें आतां म्हाका स्पश्ट बरें खबर आसा. तुवें म्हज्या घोवाचो बळी घेतला.

**अमरनाथ** : हावें? अनुराधा, असलो आरोप म्हजेर! हांव इश्ट ताचो. जिवाभावाचो इश्ट.

**अनुराधा** : ते इश्टागतिचो रंग म्हाका कळ्ळो. तुवें ताका माल्लो. म्हाका हातासपाखातीर. तुवें ताचो विश्वासघात केलो.

**अमरनाथ** : ना. शीमेचेर ताका शुराचें मर्ण आयलें. हांवें ताका मारूंना. एक सैनिक असलो विश्वासघात करूंक शकना.

अनुराधा : एक सैनिक कितें करूंक शकता तें समजलां म्हाका.

अमरनाथ : ते खातीर हांव तुजो गुन्यांवकारी आसा. फक्त तुजोच न्हय, देशाचो लेगीत. युद्धांत आनी प्रेमांत सगळें माफ आसता अशें आयकल्लें. पूण युद्धात कायंच माफ नासता आनी आतां म्हज्या अणभवान हांव सांगता, प्रेमांतूय कांय माफ नासता. म्हज्या गुन्यांवाची ख्यास्त म्हाका भोगपाकूच जाय. तुज्या हातांतलो चाकू खंयच्याय खिणांक म्हजेर चलोवपाक तूं मेकळी आसा. तुकां तशें धाडस जायना जाल्यार म्हाका सांग, हांव स्वतः म्हजेरूच चाकवाचे वार करून घेतां. तुजें समादान जायसर. पूण म्हजी एक गजाल तूं आयकून घे.

अनुराधा : खूब आयकलें आनी खूब सोसलें. आतां एक उतर लेगीत म्हाका आयकुपाचें ना. तुज्या तोंडांतल्यान भायर सरपी ही वागाची दुर्गंधी आनी दोळ्यांतल्यान भायर सरपी कोलसुण्याची नदर म्हाका सासणाची बंद करपाची आसा.

अमरनाथ : हांव तयार आसा. लश्करांतल्यान सस्पेंड जावन मानहानी सोंसचेपरस तुजेकडल्यान आयिल्लें मर्ण म्हाका मानवतलें. आनी तुज्या हातसून मरप हें हांव म्हजें भाग्य समजतलों. कारण तुजो मोग जोडपाक हांव पावलोंना जायत पूण तुजेकडल्यान मर्ण जोडलें हें कितें उणें जालें?

अनुराधा : मोग? कोणाचे मोग केलो तुवें?

अमरनाथ : तुजो. पूण तूं समजता तसलो नाटकी आनी स्वार्थी न्हय.

अनुराधा : म्हजेर मोग करपाक हावें तुका केन्ना पळयला तरी? आनी तुवें तरी म्हाका खंय पळयल्या? काल आनी आयज. मोग म्हणल्यार कितें दिसलें तुकां? आर्मींतली गुळी? जंय मारली, थंय लागली?

अमरनाथ : हांवें तुकां कालूच पळोवना अनुराधा. तुज्या लग्नांच्या पयल्या दिसापासून ती हनिमुनाचे रातीमेरेन पळयल्या. अविनाशाचो आनी तुजो सांगात फक्त चौदा दिसांचो. पूण तुजो आनी म्हजो

सांगात त्या चौदा दिसांचोय आनी उपरांतच्या सात वर्सांचो.

अनुराधा : फाटलीं सात वर्सां तूं खऱ्यांनीच युद्धबंदी म्हण दुस्मानाचे बंदखणीत आशिल्लो काय मनोरूग्ण म्हण खंयच्या हॉस्पीटलांत?

अमरनाथ : खरें तुजें अनुराधा, तुवें म्हाका पिशें लायलें. पूण त्या पिशें लागपाक एक सीमारेशा आशिल्ली.

अनुराधा : कसली सीमारेशा?

अमरनाथ : भारत आनी चीनचे मॅकमेहॉन शिमेवयली गजाल ती. म्हज्या इश्टाचो-अविनाशाचो निमाणो निरोप घेवन हांव दुस्मानाचेर झुडोन गेलों. शीम बलांडून परकी प्रदेशांत गेलों आनी थंयच बंदी जालों. वेंताक चुकता तो वांवाक चुकता. तसो हांव एकदां मर्णांक चुकलों तो कायमचो चुकलों. मागीर खंयतरी एक खोल जगपाची किटाळ उसळ्ळी. हो फोटो हातांत आशिल्लो, तेन्ना तो थोडोतरी दिसतालो. ह्या फोटवांतल्या मनशाखातीर कित्याक जगचें न्हय? अशें दिसपाक लागलें. मेला तो म्हज्याच सारखो अविनाश जाल्यार अविनाशाचे बदला अमरनाथान कित्याक मरचें न्हय? कारण अमनाथाक कसलोच आगापिछा ना. ताचेखातीर कोण रडपी ना, खंत करपी ना. अविनाशाक मात एक कुटूंब आसा. एक आवय, एक भाव, एक भयण.
(ती नदरेची करा करून पळयता.)
खरें तुजें. अविनाशाक एक बायल आसा अनुराधा. अनुराधेखातीर जगपाचें, जिचें चित्र म्हज्या काळजांत कोरांथून आसा. मनांत चिंतनांचो खवदळ चालू आसतानाच म्हाका प्रिझनर्स ऑफ वॉर म्हणून चिनी अधिकाऱ्यांमुखार उबो केलो. थंय जाल्ले जबानींत हांवें म्हजें नांव सांगलें, सेकंड लेफ्टनंट अविनाश, इंडियन आर्मी. सात वर्सांचे बंदखणींत हांव त्याच नांवान वावुरलों. सीझफायरच्या काळांत भारत आनी

चीनांतल्या युद्धकैद्यांची देवाण-घेवाण सुरू जाली. तेन्नाय हांवें हेंच नांव सांगलें. मायदेशांत पावतकूच हेडक्वार्टरांत दिल्ले लिखीत जबानींत अमरनाथ मेल्ल्याचो रिपोर्ट तयार करून ताचेर स्वाक्षरी केली.

(अनुराधा हुंडकेता.)

अनुराधा हांवें आयुश्यांत केन्ना तोंडाक रंग लायलोना. केन्ना माचयेर चडलोना. पूण हें अविनाशाचें संवंग हांवें वठयलें. दुस्मानांक फटयले, मिलीट्रीक फटयली. सगळ्या गांवाक फटयलो. वात्सल्याच्यो मुर्ती सोबूंये अशीं ह्या घरांतलीं मनशां, तांकांय हांवें तीन पानां केलीं. पूण तुकां फटोवपाक जालें ना अनुराधा. पयल्याच खिणांक तुवें म्हाका नाकारलो आनी देगेपासून तारू पयस वता तसो हांव पावला पावलान तुजेपासून पयस गेलों. आतां हांव इतले पयस पावलां - काळजामेरेन सोड, तुज्या पांयांमेरेन लेगीत पावपाची शक्यताय ना.

(तिच्या पांयांकडेन बागोवपाक वता. ती कुशीक सरता.)

हांव कवी न्हय, फिल्मांतलो नायक न्हय, जो आपले मोगिकेचो अनुनय करता, तिची मनधरणी करता. हांव एक सैनिक. एक डावपेंच खेळप, एक धडक दिवप, एक घुरी घालप आनी जें जाय तें हातासप, हेच वृत्तीन वागलों हांव. एके बायलेच्या जिविताकडेन हांवें खेळ मांडलो. प्रेम विकतें घेवं नजो. तें कोणाचेर थापूं नजो. अनुराधा म्हाका क्षमा कर अशें हांव म्हणचोना. तितली म्हजी पात्रता ना. पूण हांव एकूच भीक मागतां तुजेकडेन. घालशी?

**अनुराधा** : कसली भीक?

**अमरनाथ** : आतां थोड्याच वेळान उजवाडटलें आनी म्हजी विटंबना सुरू जातली. ताचे आदीं म्हाका मुक्त कर. तुज्या हातांत चाकू आसा.

**अनुराधा** : ना. तें विराचें मर्ण फावलें अविनाशाक. तुकां असलें मर्ण लाबूंक फावना. (चाकू बंद करून कडेक वडयता.) खरें म्हणल्यार तूं आतां मर्णाचे शिमेभायर पावला. अश्वत्थाम्याची तडफड आनी वळवळ तुज्या वांट्याक आयल्या. एकतर्फी प्रेम आनी तेखातीर रचिल्ल्या बगलांटाचो परीणाम कितें जाता हें तुका दोळ्यांहुजीर कळटलें.

**अमरनाथ** : अनुराधा, म्हाका माया, मोग, वात्सल्य हांचो अणभव ना. तसो प्रेमाचोय ना. प्रेम करपाखातीर एक व्यक्ती लागता-जितीजागती व्यक्ती इतलेंय म्हाका धंगण ना. पूण हांव तुकां एकूच सांगतां, हांवें जें केलें तें प्रेमूच आशिल्लें. प्रेमाबगर दुसरें कांयच नाशिल्लें. कित्याक तें सांगतां, बंदखणींत इतले ब्रेनवॉशींग, ब्रेनटॉर्चर जातालें... मनीस मुळापासून हुमटून वचपाचो. बाकिच्च्यांचें तशें जालें, पूण हांव मात अखंड उरलों. आंगावयले घाय, उपास-तपास, विवंचना म्हाका कांयच बदल्योनात. भुरगेपणांत एक काणी आयकल्ली हांवें - एकल्याकडेन एक दैवी कांडी आसता. ती मुठींत धरतकूच ताका कसलीच बाधा जायना. म्हजे मुठींत-काळजाचे मुठींत अशीच आशिल्ली एक दैवी कांडी. अनुराधा तिचें नांव. ते दैवी कांडयेन म्हाका सगळें सोंसपाची शक्त दिली आनी हांगामेरेन हाडलो. हांव खऱ्यांनीच धन्य जालों. सगळींच झुजां जिखपाखातीर नासता. कांय झुजां फक्त झुजपाखातीरूच आसता. हें अशेंच एक झूज, जें जिखपाखातीर नाशिल्लें. फक्त झुजपाखातीर आशिल्लें. त्या झुजपांतलो आनंद म्हाका मेळ्ळो.

(भायरसावन ट्रेनीचो आवाज. अमरनाथ अस्वस्थ जाता. आतां अनुराधेचीय नुरा बदलल्या. तोंडावेली राग, द्वेशाची भावना विरून गेल्या. चेहरो गोंदळला.)

**अनुराधा** : हांव जाणां, तूं आतां हांगासावन वचपाक पळयता.

**अमरनाथ** : म्हज्या गळ्याक बांदिल्लो दोर तुज्या हातांत आसा. म्हज्या मनाची अस्वस्था म्हजेपरस तुकांच बरी खबर आसा.

(भायर ल्हवूल्हवू फांतोड जाता. फांतोडचीं किर्णां आनी गावांतलें सकाळचें वातावरण.)

**अनुराधा** : आतां सगळ्या गांवाक जाग येतली.

**अमरनाथ** : म्हाका ताची पर्वा ना. जगपाची धडपड हावें आतां बंद केल्या.

(भायर कोणाचो तरी आवाज. अनुराधा आवाजाचो सराव घेता.)

**अनुराधा** : कोणतरी येता.

**अमरनाथ** : येवं.

**अनुराधा** : तुज्यान हांगासावन.

**अमरनाथ** : ना. आतां हांव हांगाच्यान हालचोना.

**अनुराधा** : निदान माळयेर, न्हय घरांत तरी लिपून राव.

**अमरनाथ** : लिपून? तुकां सांगलें न्हय जगपाची धडपड हावें बंद केल्या.

**अनुराधा** : निदान तोंडतरी बंद दवरशी?

**अमरनाथ** : कित्याक?

**अनुराधा** : जगपाची धडपड बंद केल्या जाल्यार तोंडूय बंद दवरूं येता.

(तो वगी रावता. भायरसावन व्हडल्यान उलो मारीत रूद्राजी येता. ताच्या हातांत सामानाची पोती आसा.)

**रूद्राजी** : इंद्रायणी, ए इंद्रायणी, आजून न्हिदून आसात तुमी? हांव खंयसावन खंय पावलों पळय.

(भितर येता. तांकां पळोवन अजापता.)

आरे, तुमी दोगांय? सकाळींफुडें भायर सरून खंय? (बारीकसाणेन नियाळून) काय तुमी दोगांय जागींच? ब्रह्मचारी असलों तरी तितलें कळटा म्हाका. कितें अनुराधा? कितें

अविनाश?

(भितरसावन इंद्रायणी आनी फाटोफाट विशाखा आनी गौतम येतात. तीं आतांच न्हिदेंतल्यान उठल्यांत. दोळे चोळटात.)

**इंद्रायणी** : कितें रूद्राजी, सकाळीफुडें?

**रुद्राजी** : कसली सकाळ? पयली ट्रेन आयली. आनी हांवें सांगूंक नासलें, आयज सकाळीं म्हूर्त घेवन येतां म्हणून?

**इंद्रायणी** : म्हूर्त?

**गौतम** : कसली मूर्त रुद्राजीबाबा.

**रूद्राजी** : (फकाणांनी) बेताळाची! आरे, म्हूर्त हांचे प्रायश्चित्तविधीचो. जाणां इंद्रायणी, आयच्या दिसा शुभम्हूर्त आसा. देखून हांव सक्काळीं आयलों. येतना तूप आनी पुजेचें सगळें सामान घेवन आयलों. नरेशाक उठोवन आयलां. (गौतमाक) थोड्या वेळान वचून शेणयेक धरून घेवन यो. इंद्रायणी, हांव सगळें थारावन आयलां खरो, पूण तुमची कोणाची कसली अडचण ना न्हय?

**इंद्रायणी** : (गोंदळून) आमची कसली अडचण? अडचण ती फक्त...

**रूद्राजी** : कोणाची?

**इंद्रायणी** : (अनुराधेकडेन पळोवन) आनीक कोणाची?

**रूद्राजी** : अनुराधेची? हय अनुराधा? सांग बाय, कसली अडचण तें मेकळेपणान सांग. इतलें सगळें मनासारखें जालां.

(रूद्रान सोडून सगळीं उमळशिकेन अनुराधेचे जापेची वाट पळयतात.)

**अनुराधा** : ना रूद्राजीबाबा, म्हजी कसली अडचण ना. तुमच्या मनासारखें जावंदी.

(रूद्राजी सोडून सगळ्यांक अजापाचो धक्को बसता.)

**रूद्राजी** : ही इंद्रायणी वगीच सुनेचेर धुकलता. काय बरी हिची शेगुणाची सून! चलात, कामांक लागात. (रूद्राजी पोतयेंतलो एक एक

नग भायर काडटा. इंद्रायणी, गौतम, विशाखा तें सामान हातांत घेतात. अनुराधा अमरनाथा म्हऱ्यांत येता. ताचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेता. पयसुल्यान ट्रेनीचो आवाज. पार्श्वभागाचेर प्रायश्चित्तविधीचें श्लोकपठण.)

**ॐ विश्वं विष्णुर्वषट्कारो भूतभव्य भवत् प्रभुः ।**
**भूतकृतभूतभृतभावो भूतात्मा भूतभावनः ।।**
**पूतात्मा परमात्योच मूक्ताना परमां गतिः ।**
**अव्ययः पुरुषः साक्षी साक्षी क्षेत्रज्ञोक्षरएवच ।।**
**यद्स्य स्मरण मात्रेण जन्मसंवसारबंधनात ।।**
**विमुच्यते नमस्तस्मै विष्णवे प्रभविष्णवे ।।**

(काळोख.)

(सोंपता)

## पात्रांची वळख

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | **गिरीधर** | – | कर्तो–सवरतो उद्देजक घरकार |
| 2. | **धिराई** | – | गिरीधराची घरकान्न |
| 3. | **पंकजा** | } | गिरीधर आनी धिराई हांगेल्यो |
| 4. | **कमला** | | एकमेकाक दशिल्ल्या जुंवळ्यो धुवो |
| 5. | **प्रधान** | – | गिरीधराचे कंपनीचे सेक्रेटरी |
| 6. | **गोडखिंडी** | – | शाळा मास्तर |
| 7. | **डॉ. कामत** | – | गिरीधराची फॅमिली डॉक्टर |
| 8. | **सारा** | – | पंकजा आनी कमलाची इश्टीण |
| 9. | **वार्ताहर** | – | पत्रकार |
| 10. | **समीर** | – | पंकजाचो इश्ट |
| 11. | **प्रवीण** | – | कमलाचो इश्ट |
| 12. | **डॉ. दीक्षित** | – | नामनेचे न्युरो सर्जन |
| 13. | **हुसेनजी** | – | कमला आनी पंकजाचो संगीत शिक्षक |
| 14. | **मिसेस प्रधान (आवाज)** | – | प्रधानची घरकान्न |
| 15. | **दूरदर्शन (निवेदिका)** | – | |
| 16. | **आवाज (फोनाचेर)** | – | |
| 17. | **फोटोग्राफर** | – | |
| 18. | **रघुराजन (आवाज)** | – | |

# अंक : पयलो
## देखाव – पयलो

(जद्देजक गिरीधर हांगेलो बंगलो. मुख्य बसकेचो हॉल, दिवाणखानो. बसपा–उठपाचें फर्निचरं, तातूंत एक दोगांखातीर बसपाचो सोफा. ताचेमुखार टी.व्ही. संच. ह्या सोफाचेर चड करून पंकजा आनी कमला ह्यो जुंवळ्यो भयणी बसतात. एकेवटेन न्हिदपाची एक खाशेली कूड दिसता. तातूंत एक खाट आनी कांय फर्निचर. थंय मोट्यो, बारीक बावल्यो खेळणी बी आसात. आतां ते खाटीर दोगूय जुंवळ्यो भयणी न्हीदल्यात. हे कुडींतल्यान भितर वचपाक मेळटा. एकेवटेन माळयेचीं सोपणां दिसतात. हांगाच फोन आसा. रांदचेकुडींत आनी भितर वचपाचें एक दार दिसता. एक ल्हानसो देवारो दिसता. तेचप्रमाण एकेवटेन आनीक एक दार दिश्टी पडटा. तें दार गिरीधराचे कंपनी वेवहार चलता ते कुडिचें. मुखेल दरवंज आनी गॅलरीचो भाग दिसता.

वेळ सकाळचो. सकाळच्या वातावरणाची कल्पना दिवपी संगीताची सुरावट. कुडींत न्हिदल्यांत तीं पंकजा आनी कमला. दोगांय जुवळीं. तीं नायट ड्रेसांत आसात. दोगांयची पिराय पंचविशेक वर्सांची. कांय वेळान तांचे कुडींतल्यान एक गजर वाजपाक लागता. हो गजर सेलफोनाचेर वाजता. पूण दोगां भितरलें कोणूच जागें जायना. भितरसावन पंकजा आनी

कमला हांची आवय धिराई ताकतिकेन भायर येता. धिराईची पिराय सादारण पन्नाशेक वर्सांची. पूण ती अदीक जाणटी आनी खंगिल्ली दिसता. साद्या घरगुती न्हेसणांत आसा. गजर वाजता आनी कोणूच उठना म्हणल्यार तिका हुस्को जाता. ती कुडींत वचून दोगांय वेवस्थीत आसात म्हणपाची खात्री करून घेता. गजर वाजत आसा. खंय वाजता तो तिका कळना. हांगा थंय सोदता. दोगांय न्हिदिल्लीं आसात थंय एकवटेन सेलफोन मेळटा. उखलता, पूण तो बंद करपाक कळना. आपले परीन हालयता, थापटीता, फूंक मारता, पालवापोंदा धांपता पूण तो बंद जायना. इतल्यान माळयेचीं सोपणां देंवून गिरीधर सकयल येता. तो नायट – ड्रेसांत आसा. पिराय सुमार पंचावन्न वर्सां. धिराई फोन व्हरून ताचेकडेन दिता. तो बटण दाबून गजर बंद करता.

**गिरीधर** : (तिका दाखोवन) कितले फावट सांगलें तुकां, हो असो बंद करपाचो. नवें तंत्रगिन्यान हें. कळपाक जाय.

**धिराई** : म्हाका कपलाक तें! म्हगेलें पोरणेच जाग्यार पडना. नवें आनी शिकून कितें करतलीं!

**गिरीधर** : तुजी मर्जी.

**धिराई** : तुमी उठले कित्याक? रातीं उसरां न्हिदिल्ले.

**गिरीधर** : ह्या गजराजान उठयलो. तशी न्हीद जाल्ली म्हजी. न्हिदेची खरी गरज ती तुकां.

**धिराई** : मातसो दोळो लागील्लो खरो, पूण ह्या गजरान जाग आयली.

**गिरीधर** : जांव, एका निमतान उठप जालें. गजराचें तें कामूच न्हय, न्हिदिल्ल्यांक उठोवन घालपाचें. (कुडीकडेन पळोवन) तीं उठलीं काय ना?

**धिराई** : ना. सूस्त न्हिदल्यांत.

**गिरीधर** : म्हणटकच गजर आमकां उठोवपाक लायिल्लो दिसता!

धिराई : ह्या सोफार मातशे आड पडटात जाल्यार पडात.

गिरीधर : नाका.

(इतल्यान कुडींत परत दुसऱ्या सेलफोनाचेर गजर वाजपाक लागता. गिरीधर आनी धिराई गजराच्या आवाजान तीं दोगांय उठत काय म्हण वाट पळयतात, पूण ना. तीं आदलेवरीच सूस्त न्हिदिल्लीं आसात. धिराई बेगीबेगीन कुडींत वचून सेलफोन सोदता. हो फोन दुसरे वटेन आसा. तो उखलता. तिच्या हातांत आदलो फोन आसा. फोन बंद करपाखातीर ती घोवाकडेन हाडून दिता. फोन दितना गफलत जाता. धिराई आदलो फोन ताच्या हातांत दिता. तो बटण दामता. तेवटेन धिराईच्या हातांतलो फोन वाजत आसा.)

धिराई : बेगीन बंद करात न्हय, म्हजीं भुरगीं उठटलीं. काय बरीं सूस्त न्हिदल्यांत.

(गिरीधराच्या लक्षांत येता. तो धिराईच्या हातांतलो फोन घेता. बंद करता.)

गिरीधर : (दोनूय फोन तिका दाखयत) हो पंकजाचो आनी हो कमलाचो.

धिराई : तांचेर दोगांयचे फोटो दसयल्यार म्हाका ते वळखूंक कळत. नस्ते लाड! कितें काय म्हणल्यार दोगांक दोन मोबायल. आदीं खेळणीं हाडटाले तशे आतां मोबायल.

गिरीधर : (विनोदान) तूं एक बायल.

धिराई : हो विनोद पोन्नो जालो आं.

गिरीधर : हे नवे-पोन्ने विनोद तुकां बरे कळटा, मागीर हेंच (मोबायलाचें) तुकां कशें कळना काय म्हणटां.

धिराई : पयली गजाल, म्हाका तें शिकून घेवपाचें ना.

गिरीधर : सारकें तुजें. तुजें आदलेंच जाग्यार पडना. हें नवें शिकून आनी कितें करतली? (कितेंतरी सांगपाक सोदता.) धिराई, (मदींच) हें नांव मात तुवें खरें केलें. जशें कितें फाटलें फुडलें येवजूनच

आवय बापायन तुका तें दवरिल्लें. धिराई!

धिराई : (विशय टाळून) तुमी कितेंतरी सांगपाक सोदताले.

गिरीधर : तुवें म्हळें न्हय, मोबायलाखातीर तांचे नस्ते लाड!

धिराई : मागीर?

गिरीधर : तातूंत लाड कसले? तांची गरज ती.

धिराई : कसली गरज? हो घरांत एक आसा तो पावना? म्हाका काय लागना.

गिरीधर : घरांत बशिल्लेकडेन, खाटीर न्हिदिल्लेकडेन, भायर कोणायकडेन तांकां मेकळेपणान उलोवपाक मेळटा. एस. एम. एस. धाडपाक मेळटा. एस. एम. एस. म्हणल्यार कितें तें कळटा? (ती ना म्हण मान हालयता.) कांयच ना जाल्यार गेम खेळपाक मेळटा. तितलोच तांकां विरंगुळो. खरें काय न्हय?

धिराई : तें मात खरें.

गिरीधर : आनी तांचे लाड करपाचें कितलें मनांत आसलें! पूण सगळे आंवडे गळ्यांतूच जिरून गेले. पूण धिराई, जाणां जा, हांवें आजून आस्त सोडूना.

धिराई : (तिका आवडूंक ना. कांयशा चड्ट्या आवाजांत) कसली आस्त?

गिरीधर : (विशय बदलून) कांय ना (दोनूय फोन तिचेकडेन दीत-) दवर व्हरून जागच्या जाग्यार. उठटकच सोदतलीं.

(धिराई फोन व्हरून तांचे कुडीत आशिल्ल्या त्या जाग्यार दवरता. लक्तुबायेन दोगांयच्च्या माथ्यार हात भोंवडायता. इतल्यान व्हरांड्यांत सदचो पेपर येवन पडटा. गिरीधर वचून पेपर घेवन येता. उक्तो करून माथाळे वाचता.)

गिरीधर : "रामजल्मभूंय वाद तेंगशेर, धर्मापुरांत हिंदू-मुस्लीम संघर्शाचे तयारेंत," "एकविसावें शतक ही नव्या विज्ञानयुगाची नांदी," "पंचविसाव्या वैजकी परिशदेचे उद्घाटक डॉ. जयंत दीक्षित." आयकलां धिराई, डॉ. दीक्षित शारांत आसात.

धेराई : कितें?

गेरीधर : (लिपयत) ना, ना. कांय ना. (वाचीत) "रामजल्मभूंय वाद तेंगशेर, धर्मापुरांत हिंदू-मुस्लीम संघर्शाचे तयारेंत" ह्या देशाक परत एक फावट फोडपाक मुखार सरल्यात!

धिराई : तुमी ते भानगडींत पडूं नाकात.

गिरीधर : हांव? हांव खंय आसा तातूंत?

धिराई : डॉ. जयंत दीक्षित. नांव आयकून जाणां हांव.

(तशीच रांदचेकुडींत वता. गिरीधर पेपर चाळून कडेक दवरता आनी टी. व्ही. चालू करता. टी. व्ही. चेर भक्तीगीत (भूपाळी) लागता. ताच्या आवाजान कुडींत न्हिदिल्लीं पंकजा आनी कमला जागीं जातात. म्हणल्यार पंकजाक पयलीं जाग येता पूण ताका एकल्याक उठपाक जायना. कारण दोगांयच्यो तकल्यो जुळल्ल्यो आसात. पंकजा हातान कमलाक जागयता. तेंवूय उठटा. दोगांय उठून खाटीर बसतात. तांकां याद जाता मोबायलावयल्या गजराची. तीं मोबायल काडून पळयतात. दुबावतात. गिरीधराक तीं उठलीं म्हणपाचें कळटा. सादारण तेन्नाच टी. व्ही. वयलें गीत सोपिल्लें आसता. तो टी. व्ही. बंद करता.)

गिरीधर : गुड मॉर्नींग माय् स्वीट चायल्डस.

दोगांय : सुप्रभात!

(कुडींतल्यान भायर येतात. दोगांयच्या हातांत मोबायल आसा.)

गिरीधर : सुप्रभात म्हज्या गोड माणकुल्यांनो.

पंकजा : पप्पा, सकाळीफुडें तूं इतलें गोड गोड उलोवं नाका.

गिरीधर : कित्याक?

कमला : कित्याक म्हणजे? आदींच तुका डायबेटीस आसा.

गिरीधर : ताची काळजी तुमकां नाका.

(इतल्यान भितरसावन च्या घेवन धिराई येता.) म्हजी काळजी

घेवपाक तुमची आई धिराई समर्थ आसा.

धिराई : (च्या दीत) घेयात. साखर घालूंक ना.

गिरीधर : (तांकां) पळयात. (कप उखलता.)
(धिराई दोगांकूय एक एक कप दिता.)

पंकजा : (घोंट मारीत) म्हजे आवडिचो गोड च्या.

कमला : (घोंट मारीत) म्हजे आवडिची कमी गोड कॉफी.

गिरीधर : म्हजें आवडिचो कोडूक च्या!

पंकजा : मम्मा एकूय दीस आमचे कप कशे बदलना गे?

धिराई : कित्याक बदलतले?

पंकजा : तरीपूण...

धिराई : तुमी मुद्दाम बदलले जाल्यार मात!

कमला : मम्मा केन्नाच चुकना.

गिरीधर : पप्पा मात सदांच चुकता. न्हय?

कमला : ना. सदांच न्हय. केन्ना केन्ना.

पंकजा : पप्पा, हो मोबायल तुकांच दवर पळोवया.

गिरीधर : कितें जालें?

पंकजा : हो सारखो ना. म्हाका दुसरो हाड.

गिरीधर : सारखो ना म्हणजे? बरे कंपनीचो तो.

पंकजा : आसतूय. हांव काल रातीं अलार्म लावन न्हिदिल्लें, वाजूंकच ना.

कमला : पप्पा, हावेंय अलार्म लायिल्लो. वाजलोच ना.
(गिरीधर आनी धिराई दोगांय हांसतात.)

कमला : तुमी हांसतात कित्याक?

पंकजा : आनी मम्मा, पप्पा एक हांसता तें बरें आसा. तूं शी कित्याक हांसता?

कमला : बरोबर. तुकां मोबायलांतलें कितें कळटा?

गिरीधर : हें मात सारखें.

धिराई : हरशीं ना कळूं. पूण हांसपा इतलें कळटा. म्हज्या शाण्यांनो,

म्हाका एक सांगात, हांव सद्दां सकाळीं तुमकां वेळार उठयता आसताना तुमकां तो अलार्म काय फलार्म कित्याक लावपाक जाय? आनी एक लायल्यार जायना? दोनूय लावपाक जाय?

गिरीधर : आनी दोनूय लावन उपेग कितें?

पंकजा : उपेग कितें म्हणजे? एक आयकूंक आयलो ना जाल्यार दुसरो.

गिरीधर : आनी दोनूय आयकुपाक आयले ना जाल्यार?

कमला : अशें कशें जातलें?

धिराई : मागीर तें तशेंच जालें. दोनूय अलार्म वाजले (पंकजाक) पयलो तुजो. (कमलाक) मागीर तुजो. अलार्माच्या आवाजान आमी दोगांय उठलीं. पयलीं तुमची मम्मा मागीर तुमचो पप्पा. (पंकजा आनी कमला दोगांय चुकी जातात.)

पंकजा : मम्मा, अलार्म बेगीन उठपाक लायिल्लो.

धिराई : बेगीन कित्याक?

कमला : (आवयक दोळो मोडीत) आयज आमचो प्रोग्राम आसा न्हय?

गिरीधर : प्रोग्राम? कसलो? आनी आमकां आमंत्रण ना?

पंकजा : पप्पा, तुकां आमंत्रण दिल्यार तूं रावतलो?

गिरीधर : रावतलो म्हणजे? प्रोग्राम हांगांच आसा?

कमला : हय. पूण तुकां सद्चेभशेन बेगीन ऑफीसाक वचपाक मेळचें ना. आसा तयार?

गिरीधर : हय. एका पांयार तयार. हांव आतांच प्रधानाक फोन करतां. (फोन करपाक उठटा. इतल्यान पंकजा आपलो मोबायल मुखार करता. फाटोफाट कमला आपलो मोबायल मुखार करता. गिरीधर पेंचांत सांपडटा. अनमनता. कमलाचो मोबायल घेता. कमला खुश! पंकजाक सोणकटो येता. तें तोंड काळें करता.)

कमला : हांव जाणांच आसलें पप्पा म्हजो मोबायल वापरतलो म्हण.

पप्पा लव्ह मी टू मच.

(गिरीधर ल्हवूच वचून पंकजाच्या कानांत सांगता.)

गिरीधर : हांवें कमलाचो मोबायल कित्याक घेतलो जाणां? सोंपूनी तागेलें कार्ड बेगीन. मागीर मारूंदी करंदाय.

(पंकजा खूश जावन बापायक ताळी दिता.)

धिराई : वगीच म्हज्या भुरग्यांक कुंकडांवरी झुजोवं नाका आं.

गिरीधर : (मोबायलाचेर नंबर दामीत) तुजीं भुरगीं तीं म्हजीं भुरगीं न्हय? (मोबायलाचेर) हॅलोऽऽ गुडमॉर्नींग प्रधान.

प्रधान : (तेवटेन आवाज) गुडमॉर्नींग सर.

गिरीधर : (भायल्या दारावटेन फाट आसा.) प्रधान, म्हाका ऑफिसांत येवपाक मातसो उशीर जातलो.

प्रधान : कांय हरकत ना सर. (प्रधान मोबायलाचेर उलयत उलयत भितर येता. प्रधान चाळीशेक वर्सांचे पिरायेचो. पेंट, शर्ट असो भेस. तो गिरीधराचे कंपनीचो सेक्रेटरी. हातांत बॅग आसा.)

गिरीधर : प्रधान, तुका मातसो हांगां येवचो पडटलो बंगल्यार.

(पंकजा, कमला आनी धिराई तांची करामत पळोवन मुमुरख्यांनी हांसतात.)

प्रधान : बरेंभशेन.

गिरीधर : आनी येतना सगळे पेपर घेवन यो. टेंडर फॉर्म, एग्रीमेंट पेपर-

प्रधान : सगळे पेपर म्हजेकडेन आसा सर.

गिरीधर : आनी हें पळय, मातसो बेगीन आयल्यार तुंवूय प्रोग्रामाक पावतलो.

प्रधान : कसलो प्रोग्राम?

गिरीधर : (वळून-भुरग्यांक विचारता) कसलो प्रोग्राम?

(सगळीं हांसतात. गिरीधराच्या लक्षांत येतकूच तोवूय हांसपाक लागता. कमलाचो फोन बंद करून ताचेकडेन दिता.)

पंकजा : गुडमॉर्नींग प्रधान अंकल.

प्रधान : गुडमॉर्नींग पंकजा, गुडमॉर्नींग कमला, (धिराईक) गुडमॉर्नींग मॅडम.

गिरीधर : मिस्टर प्रधान, म्हज्या धंद्याचें म्हजेपरस तुकाच चड पडलां. (वता)

धिराई : तें आनीक सांगपाक जाय? ना जाल्यार इतले सकाळीं कोण कामांक भायर सरता?

प्रधान : म्हजी ड्युटीच ती मॅडम.

धिराई : प्रधान, तुकां हांगेल्या धंद्याचें पडलां तें खरें, पूण तूं आजून सुदारूंक ना.

प्रधान : म्हजें कितें चुकलें मॅडम?

धिराई : हेंच. तूं म्हाका मॅडम, मॅडम म्हणटा. म्हाका तें बरें दिसना. आनी हांव अशी मॅडम नाय बी. हांव आपली सादी सुदी गृहिणी. दोन भुरग्यांची आवय. मॅडमी बिडमी त्या थंयच्या ऑफिसांतल्या बायलांक म्हण. म्हाका धिराई म्हणल्यार जालें.

प्रधान : यस् मॅडम (जीब चाबता.) नो, नो. तशें कशें जातलें?

पंकजा : प्रधानअंकल, तूं अशें कित्याक म्हणना? गुड मॉर्नींग पंकजाई

कमला : ना जाल्यार गुड मॉर्नींग कमलाई.

प्रधान : (संकोचान) ना, तेंवूय म्हज्यान जावचेंना.

कमला : नातर फाल्यांसावन वयनीबाय नातर भाभी म्हण.

प्रधान : दॅट्स गुड. फाल्यांसावन कित्याक? हांव आतां सावूनच सुरू करतां. (धिराईक) भाभी –

धिराई : तूं च्या घेता काय कॉफी?

गिरीधर : वा! भाभी उतराचो इतलो फास्ट परीणाम जालो!

प्रधान : नाका भाभी. कांयच नाका. आतांच घेवन आयलां. बाय द वे, पंकजा, कमला, प्रोग्राम कसलो?

पंकजा : तुमी बेगीन आयिल्लेच आसात. तुमकां तो रोखडोच कळटलो.

कमला : आनी दिसतलोय.
प्रधान : म्हणजे ओडियो – व्हिडियो?
धिराई : (धुवांक) तशें जाल्यार बेगीन तयारेक लागात.
गिरीधर : म्हणजे? तुका खबर आसा काय कितें?
धिराई : (थोमणो मारून) हांव आवय तांची. (धिराई कपां घेवन भितर वता.)
गिरीधर : हांवूय भायर सरून येतां. म्हणजे कार्यक्रमांत म्हाका अध्यक्षाचो वा मुखेल सोयऱ्याचो रोल आसल्यार अडचण जावपाक नाका.
(ताकतिकेन सोपणां चडून वयर माळयेर वता.)
पंकजा : प्रधान अंकल, एक विचारूं?
प्रधान : कितें?
पंकजा : तुमकां भुरगीं नात?
प्रधान : (गोंदळून) आं... आसा.
कमला : पंकजा, हें कितें विचारता?
पंकजा : तुवेंच सांगूंक नासलें, अंकलाक कितलीं भुरगीं आसा ताची चवकशी करूंया म्हणून?
कमला : हय गो, पूण ताकाच विचारप?
प्रधान : कांय हरकत ना. म्हाका दोगां भुरगीं. दोगीय तुमचेभशेन चलयो.
कमला : आमचेभशेन? जुंवळ्यो?
प्रधान : ना, ना. सेपरेट. वेगवेगळ्यो. अर्थांत तुमचेपरस ल्हान. तुमचे सारख्यो सुंदर! हुशार!
कमला : पूण आमचे सारख्यो जुंवळ्यो न्हय.
प्रधान : बरोबर.
पंकजा : तुमी तुमच्या चलयांचो मोग करतात?
प्रधान : हय तर.
पंकजा : आमचे इतलो?

प्रधान : म्हणजे?

पंकजा : म्हणजे पापा आमचो मोग करता तितलो तुमच्या चलयांचो तुमी मोग करतात?

कमला : पापा आमच्या एका उतरान ऑफीसाक वचपाचो रावलो. सांगात अंकल, तुमी तुमच्या धुवांचो असोच मोग करतात?

प्रधान : हय तर.

पंकजा : फट.

प्रधान : कितें.

पंकजा : तशें जाल्यार तुमी इतले सकाळीं हांगासर कामाखातीर येवचे नासले. आपणाल्या धुवांबरोबर वेळ सारतले आसले.

प्रधान : तीं आजून उठूंक नासलीं.

पंकजा : आनी तीं उठचेपयलीं तुमी भायर सरून आयले. कित्याक सांगात? उठल्यार तीं तुमकां सोडचीं नासलीं.

प्रधान : तेंवूय खरें.

कमला : पूण अंकल, तुमचेंच बरोबर.

प्रधान : कशें?

कमला : तुमी करता तो मोग खरो. आवय बापायन जितलो करूंक जाय तितलो तुमी करतात.

पंकजा : आमचे वयलो मोग आडेचो!

प्रधान : आडेचो? नो, नो. अशें म्हणप म्हणजे तुमच्या आवय-बापायचेर अन्याय जातलो.

पंकजा : आडेचो म्हणजे थोडोसो मुद्दाम केल्लो. आनी तसल्या मोगाची आमका भुरगेपणासावन संवंय जाल्या.

कमला : शाळेंत शिकताना आमकां सगळ्यो टीचरी आनी टीचर सामकें बरें करताले.

पंकजा : आमकां कोणूच केन्नाच फेल करीनासलीं.

प्रधान : बरीं करपाइतलीं तुमी खरेंच गुणांचीं! हुशार!

पंकजा : हय. पूण आमचेसारखीं आनीकूय बरीं भुरगीं क्लासींत

आसतालीं. मागीर तांकांय आमचे इतलेंच बरें कित्याक करीनासलीं तर?

प्रधान : आसतात कांय टीचर्स अशे!

पंकजा : अंकल तुमी तशे नात न्हय?

प्रधान : ना, ना. स्वेअर.

कमला : तुमचीं भुरगीं केदीं आसात?

प्रधान : एक पांच वर्सांचे, एक आठ वर्सांचें. व्हडलें शलाका, धाकलें शर्मिली.

कमला : चड लजता तें शर्मिली न्हय?

प्रधान : हय. बरोबर.

कमला : अंकल, तुमी आमची गजाल तांका सांगली?

प्रधान : कसली?

कमला : आमच्या जुंवळ्यापणाची?

प्रधान : आं, हय. म्हणजे मुद्दाम अशी न्हय. सहज.

पंकजा : मागीर ताणी कितें म्हणलें?

प्रधान : आं?

कमला : व्हडल्या शलाकान कितें म्हणलें?

प्रधान : ताणें म्हणलें, तुमकां पळोवपाक जाय.

कमला : पूण तुमी तांकां आमकां दाखोवपाक हाडलें ना.

प्रधान : आं, हय. म्हाका असल्यो गजाली आवडना.

कमला : पूण आमकां असल्या गजालींची संवय जाल्या.

पंकजा : आनी अंकल, धाकल्या शर्मिलीन कितें म्हणलें?

प्रधान : तें भियेलें. ल्हान आसा न्हय, तें तुमकां पळोवपाक सोदिना.

पंकजा : अंकल, आमकां ह्यावूय गजालींची संवंय आसा. पयलीं आमी जंय रावतालीं, त्या वाड्यार बायलो आपणाले हांडीर रडटल्या भुरग्यांक भेसडावपाखातीर ‘जुंवळीं येता ऽऽ’ म्हण भंय घालतालीं.

प्रधान : आसतात कांय लोक अशें अशिक्षीत, अनाडी!

पंकजा : अंकल तुमच्या शलाकाक आमगेर हाडात न्हय.

कमला : ना तर आमकां तुमगेर व्हरात.

प्रधान : यस. गुड् आयडिया. हांव तुमकां आमगेर व्हरपी

पंकजा : अंकल, तूं कितलो बरो!

प्रधान : तुमच्या पप्पाकडल्यान असलीं सर्टीफिकिटां म्हाका सदांच मेळटा. पूण तुमच्या सर्टिफिकिटान खूब म्हणल्यार खूब बरें दिसलें.आय फील प्रावड.

(इतल्यान गिरीधर माळयेची सोपणां देंवन सकयल येता. तो सुटाबुटांत आसा. भायर वचपाचे तयारेंत.)

गिरीधर : मिस्टर प्रधान, कोण कोणांक खंय व्हरता?

प्रधान : कांय ना सर.

पंकजा : पप्पा, ऑफिसांत पळपाची तयारी काय कितें?

कमला : तशेंच दिसता.

गिरीधर : ना म्हज्या शाण्यांनो, झुजाऱ्यान सदांच झुजाचे तयारेंक आसपाक जाय तसो हांव सकाळीफुडें भायर सरून रावतां.

पंकजा : आमचो पप्पा म्हणल्यार एक झुजारीच.

गिरीधर : खरो झुजारी हो. (प्रधान) हांवें फक्त ऑर्डरी सोडपाच्यो. सांग प्रधान. खंय खंय सायनी मारपाच्यो तें सांग. दोळे धांपून मारतां.

प्रधान : पेपर वाचलेबगर सायन करप बरोबर न्हय. म्हजीय कितेंय चूक जावं येता.

गिरीधर : बरोबर. तूं फक्त सेक्रेटरीच न्हय, बरो सल्लागार लेगीत.

(प्रधान बॅग उकतें करून पेपर भायर काडटा. गिरीधर कांय पेपरांचेर स्वाक्षरी करता. कांय वाचता. पंकजा – आनी कमला आपल्या कामांक लागता. म्हणल्यार ब्रश करप, तोंड धुवप असलीं कामां करता. त्या कामांत तांचो एकामेकांचो सहकार दिश्टी पडटा.)

प्रधान : (पेपर गिरीधराक दाखयत) हें तें टेंडर. पांच हजार पायपां

सप्लाय करपाचें.

गिरीधर : वाचतलो म्हणल्यार आतां वेळ ना. सगळें तुकांच करचें पडटलें प्रधान. हें येदें व्हडलें कॉन्ट्रॅक्ट आमकां मेळटलें अशें दिसता तुकां? एक घबाडूच कशें!

प्रधान : कित्याक मेळचें ना? आमचो रिकॉर्ड बरो आसा. धर्मापूर शाराक आमच्याच पायपांतल्यान उदक पावतलें.

(इतल्यान धिराई रांदचेकुडींतल्यान भायर येता.)

धिराई : पंकजा, कमला, तुमी च्या घेवपाक भितर येतलीं काय भायर हाडूं?

पंकजा : आमी आयज भायरूच ब्रेकफास्ट घेवपी.

धिराई : (घोवाक) आनी तुमी?

गिरीधर : हांव मागीर घेतां.

धिराई : वेळार खांवपाक जाय म्हण खबर आसा न्हय? तुमी गोडेमुताचे रोगी.

पंकजा : शी मम्मा तशें म्हणीनात!

कमला : डायबेटीक पेशंट!

धिराई : तशें म्हणटकच कितें दुयेंस उणें जाता?

गिरीधर : ना. पूण दुयेंसाक भारदस्तपणा येता हें खरें. कितें प्रधान?

प्रधान : (हांसत) बरोबर.

गिरीधर : चल प्रधान, आमी भितर या.

पंकजा : हें कितें पप्पा, तुजेखातीर आमी ब्रेकफास्ट भायर मागयला जाल्यार तूं भितर वता?

गिरीधर : ओ. आय सी. (ऑर्डर करीत) धिराई, सगळो ब्रेकफास्ट भायर.

कमला : पप्पा, आई सगळो ब्रेकफास्ट भायर वडयत.

धिराई : तितली बुद्दु न्हय हांव.

प्रधान : भाभी, म्हाका कांय नाका, म्हणजे खावपाक नाका. बेस्टी च्या घेयन हांव.

(धिराई भितर वता.)
सर, हें सगळें घेवन हांव भितर बसतां.

गेरीधर : बरोबर. हांगां हो पसारो कित्याक?
(सगळे पेपर कवळून बॅगांत घालता. थोडे हातांत धरता आनी कुशीचे कुडींत वचपाक वता.)

पंकजा : अंकल, भायर थोडें आमचेरूय लक्ष दवर, नातर फायलींनी आनी पेपरांनी घुस्पून उरशी.

गिरीधर : बरोबर. तशी संवंय आसा ताका. एक दीस कितें जालें जाणां?

दोगांय : कितें?

गिरीधर : प्रधानाक हांव सगळें ऑफिसभर सोदतां. जाल्यार पत्तोच ना.

दोगांय : मागीर?

गिरीधर : मागीर फायलींच्या येद्या मोट्या दाळामदीं सांपडलो.

दोगांय : खरेंच?
(सगळीं हांसतात. प्रधान सामान घेवन कुडींत वता. रांदचेकुडींतल्यान ट्रेंत खाणांच्यो बश्यो आनी च्याचे कप घेवन धिराई येता. मेजार मांडून दवरता.)

धिराई : हो गोड सांजो पंकजाखातीर, हो तिखट सांजो कमलाखातीर, (घोवाक) आनी हें तुमकां. ही कॉफी कमलाखातीर, ही च्या पंकजाखातीर, (घोवाक) हो तुमकां बिनसाखरेचो च्या. आनी खावचेआदीं अचळय हें गिळात.

गिरीधर : हें कितें?

धिराई : गुळी. गोडेमुता-

कमला : (धपकायत) डायबेटीक!

धिराई : हय, हय.
(च्याचो एक कप घेवन कुडींत वता, प्रधानाक दिवपा-खातीर)

गिरीधर : व्हदळ हावें म्हणलें ना? हांव झुजारी म्हणून? देखून झुजाऱ्याक ही गुळी! ठोऽऽ. (गिरीधर गुळी घेता. उदक पिता.)
(दोगांय हांसतात.)

गिरीधर : (लाडान) आयज म्हज्या भुरग्यांची अपुरबाय हांव करपी. सदां सदां आवयूच अपुरबाय करता म्हणजे कितें ? येयात, येयात, हांव तुमकां भरयतां.

दोगांय : खरेंच?

गिरीधर : खरेंच म्हणजे? आतांच तुमचो सगळो भरीभार आवयन घेतला.. ना जाल्यार भुरगेपणांत हांव तुमकां असोच लायतालों. पूण पयली तुमच्यो असल्यो खोडी नासल्यो आं. घेयात म्हज्या शाण्यांनो, बापूय कसो मोगान भरयता तें पळयात.
(एके बशेंत चमचो घालून तो पंकजाच्या तोंडांत घालता जाल्यार दुसरे बशेंतलो चमचो कमलाच्या तोंडान घालता. तेसरशीं दोगांय तोंड वांकडें करतात.)

कमला : गोड!

पंकजा : तिखट!

गिरीधर : राव, राव थुंकून वडोवं नाकात. तसोच गिळात. पिवपाक घेयात शाण्यांनो.
(एक एक कप उखलून दोगांकूय लायता. दोगांय एक घोंट मारून तोंड वांकडें करतात.)

कमळा : शी! च्या!

पंकजा : शी! कॉफी!

गिरीधर : प्लीज, प्लीज. भायर थुंकून वडोव नाकात. म्हजी लज वतली. एक एक घोंट गिळ्ळो म्हण कांय जायना आनी एक एक घांस खाल्लो म्हण कांय बिगडना. हांव नाका आसताना कितें कितें गिळीना?
(धिराई भायर येता. तिच्या लक्षांत सगळें आयलां.)

धिराई : फक्त प्रेम आसलें म्हण जायना, चत्राय आसपाक जाय.

(कमला–पंकजा दोगांय हांसतात. गिरीधर खजील जाता.)

धिराई : अपुरबाय पुरो जाली. आपापल्या हातान खावन घेयात.

(बापूय–धुवो खायत – खायत उलयतात.)

पंकजा : मम्मा मात केन्नाच चुकना.

कमला : पप्पाच चुकता कसो?

धिराई : तांचें लक्ष खंय आसा तुमचेर? तांचें सगळें लक्ष त्या धंद्याचेर! आयज एक सकाळींफुडें बापायच्या मोगाक ओतो आयला तो पळोवचो.

गिरीधर : फाल्यांसावन हांव सदांच उसरां ऑफिसाक वचपी.

पंकजा : खरेंच?

कमला : मागीर आमची मज्जा!सदांच आमका भरयता मरे?

धिराई : ऑफिसांत गेलो ना जाल्यार कितें जालें? ऑफिसूच घरांत येतलें. आतां येवंक ना? तशें.

पंकजा : मम्माचें बरोबर आं.

कमला : पप्पा, तूं तुज्या सदच्या वेळार ऑफिसांत चल. तुजेखातीर प्रधान अंकलाक बेश्टे त्रास.

गिरीधर : कसले त्रास?

कमला : तूं ऑफिसांत वचना म्हणटकच झक् मारीत ताका सकाळींफुडें हांगासर येवचो पडलो ना?

गिरीधर : आयल्यार कितें जालें?

पंकजा : कितें जालें? तुका भुरगीं आसात तशीं ताकाय भुरगीं आसात.

धिराई : बरीं समजिकायेचीं मुगो तुमी. कोणें शिकयलें हें तुमकां सगळें?

गिरीधर : आवयन काय बापायन?

पंकजा : सांगूं? परिस्थितीन शिकयलां. न्हय गो कमला?

कमला : हय.

(आवय–बापूय गंभीर जाता. खावन जालां. धिराई सगळें ट्रेंत

घालून घेवन वता. पंकजा आनी कमला आपले कुडींत वता. थंयसावन भितर वता. गिरीधर एकलोच आसा. तो धिराई भितर आसा हाची खात्री करून घेता आनी फोनाकडेन वता. घुंवडायता. लागता.)

गिरीधर : हॅलोऽऽ हांव गिरीधर उलयतां.

आवाज : (तेवटेन आवाज) उलयात.

गिरीधर : डॉ. कामत आसा?

आवाज : ना. भायर सरल्या. मोबायलाचेर कॉन्टेक्ट करात.

गिरीधर : बरें आसा.

आवाज : कितें रकाद दिवं?

गिरीधर : म्हजो फोन आयिल्लो म्हणून सांगात

आवाज : बरें.

(फोन दवरता. व्हदळचो पेपर काडटा. ''पंचविसाव्या वैजकी परिशदेचे उद्घाटक डॉ. जयंत दीक्षित'' ह्या माथाळ्यासकयली खबर चत्रायेन वाचता. इतल्यान कसल्या तरी कामांखातिर प्रधान कुडींतल्यान भायर येता.)

गिरीधर : (ताका पळोवन) मिस्टर प्रधान, पेपरावयली ही खबर वाचल्या?

प्रधान : खंयची सर?

गिरीधर : डॉ. जयंत दीक्षित शारांत आसात.

प्रधान : वाचल्या सर.

गिरीधर : तुका खबर आसा न्हय, हो डॉक्टर जयंत दीक्षित म्हणल्यार कोण?

प्रधान : यस सर. नामनेचे न्युरोसर्जन. हांव अवेर आसां सर. हावें सकाळीच पेपर वाचीनाफुडें डॉ. कामतीक फोन केलो. म्हजेआदीं त्योवूय अवेर आशिल्ल्यो. आपूण डॉ. दीक्षितांच्या पी. ए. कडेन संपर्क दवरून आसां अशें ताणीं सांगलें.

गिरीधर : (गर्वान) कामत आमच्यो फक्त फॅमिली डॉक्टर न्हय, त्यो

आमच्यो बरें मागत्यो! त्यो सावध आसतल्योच. मि. प्रधान, तूं म्हजो कंपनी सेक्रेटरी तरी लेगीत तूं कौटुंबीक प्रस्नांत सावध आसा. हांव सावध आसां, डॉ. कामत सावध आसा, सगळी परिस्थिती सावध आसा, फक्त दैव सावध आसपाक जाय. म्हज्या धुवांच्या फुडाराबगर म्हाका दुसरें कांयच येवजना. (इतल्यान एकलो आगांतुकपणान भितर येता. हो वार्ताहर. गिरीधराक तागेलीं आगांतुकपणा मानवूंक ना.

**वार्ताहर** : गुडमॉर्नींग सर.

**गिरीधर** : गुडमॉर्नींग.

**वार्ताहर** : मिस्टर गिरीधर न्हय?

**गिरीधर** : यस.

**वार्ताहर** : हांव 'आवटसायडरचो' न्यूज रिपोर्टर. सर, आमच्या 'आवटसायडर'चो खप पंचवीस हजार तिनशें चौसश्ट इतलो आसा.

**गिरीधर** : काँग्रेच्युलेशन्स. पूण सॉरी. हांव तो आनीक वाडोवपाक सोदिना.

**वार्ताहर** : प्लीज, आयकून घेयात सर. आमच्या पेपरांत आयिल्ली खबर फुकट वचना. वयल्यान आमी ती फुकट दितात.

**गिरीधर** : मुखार?

**वार्ताहर** : आमी तुमचो आनी तुमचे घरकान्नीचोय कलर फोटो छापतले.

**गिरीधर** : छापपाक हरकत ना. कितलोय कलर छापलो तरी ब्लॅक आनी व्हायटूच दिसतलो.

**वार्ताहर** : गुड् जोक. इतलें आसूनय तुमी विनोदी सभावाचे आसात हेंवूय छापतले.

**गिरीधर** : इतलें आसूनय म्हणजे?

**वार्ताहर** : म्हणजे तुमकां जुंवळीं भुरगीं आसूनय.

**गिरीधर** : जुंवळ्या भुरग्यांचे बापूय विनोदी सभावाचे नासतात हें तुमकां

कोणें सांगलें?

**वार्ताहर** : अशें सर्वसादारण मनशांचें मत न्हय? मागीर सर, ह्या येता त्या अंकाखातीर म्हाका मुलाखत मेळटली न्हय? तुमची, तुमचे घरकान्नीची आनी तुमच्या जुंवळ्या भुरग्यांची. हांव फोटोग्राफराक घेवन केन्ना येवं सर?

**गिरीधर** : हें पळयात मि. आवटसायडर, तुमकां मुलाखत बी कांय नाका. तुमकां म्हज्या जुंवळ्या भुरग्यांचो फक्त फोटो जाय. त्या फोटोवयल्यान तुमी व्हडली कवर स्टोरी करतले. बरोबर?

**वार्ताहर** : यस सर.

**गिरीधर** : म्हज्या चलयांची मुलाखत घेतले.

**वार्ताहर** : चलयो म्हणून आमकां चड इंटरेस्ट सर.

**गिरीधर** : तें म्हाका खबर आसा. तुमी तांका नाका जाल्ले प्रश्न विचारतले. ताणी जापो दिल्यो नात जाल्यार तुमकां जाय तें आनी तुमचे भाशेंत तांच्या तोंडांत घालतले. तुमचे प्रश्न कितें आसतले तें हांव सांगता.

**वार्ताहर** : ते काडल्या हावें सर.

**गिरीधर** : चेक करात.

**वार्ताहर** : यस सर.

**गिरीधर** : चलयांनो, तुमची पिराय कितली?

**वार्ताहर** : यस सर.

**गिरीधर** : तुमकां दादल्यांविशीं आकर्शण दिसता?

**वार्ताहर** : यस सर.

**गिरीधर** : समजां, तुमचीं दोगांयचीं लग्नां जालीं जाल्यार तुमी हनीमून कसो मनयतलीं?

**वार्ताहर** : एक्झॅक्टली सर.

**गिरीधर** : हो सगळो मीठ-मसालो घालून तुमी कव्हर स्टोरी छापतले.

**वार्ताहर** : यस सर.

**गिरीधर** : आनी मागीर तुमचो हो अंक होट केक कसो स्टॉलाचेर

खपतलो.

वार्ताहर : यस सर. एब्सुल्युटली करेक्ट.

गिरीधर : रॉंग. तुमी जॉर्नालिजमचो कोर्स केला न्हय?

वार्ताहर : यस सर.

गिरीधर : आतां एक कुकींगचो कोर्स करात.

वार्ताहर : कित्याक सर?

गिरीधर : हॉट केकीक मीठ मसालो लागना.

वार्ताहर : वॉट ए सॉलीड जोक सर!

गिरीधर : फुडल्या अंकांत हो जोक छापात.

वार्ताहर : जोक छापतां सर. पूण मुलाखतीचें कितें? सर, आमकां फायदो आसा तसो तुमकांय फायदो आसा.

गिरीधर : हें पळयात, फायदो - लुकसाणीचो हिशोब करपाक हो धंदो न्हय. ते खातीर म्हजो वेगळो धंदो आसा.

वार्ताहर : तसो फायदो म्हणना सर. सर, तुमकां लोकांची सिम्पथी मेळटली न्हय?

गिरीधर : म्हाका असले काकळूटेची गरज ना. आनी हें पळयात, तुमच्या असल्या सर्वसादारण मतांच्या पेपराकडेन म्हाका संबंद नाका. तुमी परत येवं नाकात. (वार्ताहर नाईलाजान वता.)

गिरीधर : (प्रधानाक) हेतू बरो आसल्यार सगळें सांगूं येता आनी दिवं येता लेगीत. फाटीं त्या सायन्स मॅगाझिनाक सगळी म्हायती दिवंक ना? तांचो आमी खप विचारपाक गेल्यात? पूण हांचो हेतूच दूशीत. आंतरराष्ट्रीय बॅटमिंटन सर्तिच्या बायल खेळगड्यांचे फोटो हे पेपरवाले कशे छापतात? सामके टिपून. तांगेले मोटवे स्कर्ट वयर हुपता तेन्ना. भायल्या पानार असले फोटो आनी भितरल्या पानार समाजांतले बदलते नितिमत्तेचेर अग्रलेख. इतलेंय करून लोकमान्य टिळकांची परंपरा सांगून टिळकांची जयंती आनी पुण्यतीथ मनयतले.

प्रधान : सारखें सर.

गिरीधर : प्रधान, सोडून दी. ह्यो सद्च्यो गजाली.

प्रधान : पूण ह्या असल्या गजालींचो मनाक खूब त्रास जाता सर. म्हाका कल्पना आसा सर.

गिरीधर : ना प्रधान, तूं कल्पनाय करपाक शकचो ना. एकदां एकलो सर्कसवालो म्हज्या भुरग्यांक विकतीं मागपाक आयिल्लो.

प्रधान : सर्कसवालो?

गिरीधर : हय. सर्कशीभायर भुरग्यांक दवरून सर्कशीचें आकर्शण वाडोवपाक.

प्रधान : शी!

गिरीधर : भुरगी विकतीं मेळना जाल्यार तांका चोरून उबारून व्हरपाचीय ताची तयारी आसली. हांव शादूर रावलों देखून कांय वायट घडपाक पावलें ना. असल्या गजालींचो म्हाका शीर फुटून राग येता.

प्रधान : राग येवपाचोच.

गिरीधर : (विशय बदलून) प्रधान, डॉ. कामत फोनाचेर मेळना जाल्यार तांकां एस एम एस तरी धाड.

प्रधान : धाडला सर.

गिरीधर : बरें केलें. तूं खूब चत्रायेचो. सांगलेबगर कळटा ताचें नांव प्रधान.

प्रधान : थँक्यू सर, फॉर युवर कॉँप्लीमेंटस्.

(प्रधान भितर कुडींत वता. गिरीधर अस्वस्थ जाता. मदींच ताका याद जाता.)

गिरीधर : आरे, ह्या भुरग्यांचो प्रोग्राम खंय पावलो? (उलो मारून) पंकजाऽऽ कमलाऽऽ तुमचो प्रोग्राम खंय पावलो?

पंकजा : (भितरसावन) सर हुसेनजी येतकूच सुरू जातलो.

गिरीधर : सर हुसेनजी?

कमला : हय. सर आयलो तर?

(इतल्यान हुसेनजी दारांत येता. संगीताचो शिक्षक. वयस्क.

दाढी-मिश्यो आसात. खानदानी मुसलमानी पेहराव.)

हुसेन : सलाम वालेकूम!

गिरीधर : वालेकूम सलाम! (उलो मारून) बेटा पंकजा, बेटा कमला, तुम्हारे हुसेनजीसर आ गये हैं।

हुसेन : हां बेटियों. मैं आ गया हूँ. तुम तैयार हो? (तांचे जापेची वाट पळयता.) तुम तैयार हो? (जाप ना.) तुम तैयार हो?

(भितरसावन संगीताची धून आयकूंक येता आनी मागीर ते धुनीच्या तालार पंकजा आनी कमला नाचत गायत भायर येतात. ताणीं नाचाक फावोसो रंगीत भेस केला. नाचाचो आवाज आयकून रांदचेकुडींतल्यान धिराई, खाशेले कुडींतल्यान प्रधान तशेंच भायरसावन एक आंगातूक मनीस भितर येता. लेंगो, सदरो, ताचेर जाकीट, माथ्यार धवी तोपी असो आगांतुकाचो भेस. ताचेर कोणाचे लक्ष ना. सगळीं गुल्ल जावन नाच पळयतात. उतरां अशीं-

**हम तो सयामी, हम तो सयामी**
**हम तो अपने भाग्य विधाता**
**हम है अपने स्वामी ।।**

**आमी सयामी, आमी सयामी**
**आमीच आमचें भाग्य घडोवपी**
**आमीच आमचीं स्वामी ।।**

**एक रूप, एक रंग**
**एक सुख, एक दुख**
**एक नूर, एक सूर**
**एक ताल, एक धून**
**आनंदाचें गीत फुलता**
**आमच्या मुखांनी ।।**

एक खंड, एक दंड
एक खंड, एक दंड
एक घाट, एक वाट
एक नाद, एक साद
एक धार, एक भार
आमची जोडी सदां दाखयता
एकचाराची हमी ।।

एक तन, एक मन
एक ध्यास, एक स्वास
एक जीण, एक वीण
एक सांगोड, एक वांगड
आमच्चे खातीर जुळून आसा
मळब आनी भूमि ।।

(नाच सोंपनाबरोबर गिरीधर, प्रधान, हुसेनजी आनी आगांतूक ताळयो मारतात.)

**हुसेनजी** : वा! बहोत खूब! मेरे बच्चियोंने सचमूच कमाल कर दीया।

**प्रधान** : गुड्! व्हेरी गुड्!

**गिरीधर** : म्हजीं भुरगीं कितलीं हुशार तें आयज म्हाका कळ्ळें. म्हज्या शाण्यांनो, प्रोग्राम खरेंच बरो जालो.
(धिराई दोळ्यांक पालव लायता.)

**आगांतूक** : फंटास्टीक! फंटास्टीक!
(सगळ्यांची नदर आंगातुकाचेर वता. तो कोण म्हणटा तें कोणाकूच कळना. हुसेनजीक दिसता तो हांचो कोणाचो मनीस जाल्यार बाकिच्यांक दिसता, तो हुसेनजीचो मनीस म्हणून. पंकजा आनी कमला सगळ्यांक पांयां पडपाक मुखार येतात.

पयलीं गिरीधरा म्हऱ्यांत येता.)

**गिरीधर** : ना. पयलीं गुरू देवो भव! आधीं गुरूसी वंदावें.
(पयली हुसेनजीक पांयां पडपाक लायता. पंकजा आनी कमला मागीर बापायक, आवयक, प्रधानाक, निमाणेकडेन आगांतुकाक पांयां पडटा.)

**हुसेनजी** : इन्शाअल्ला बरकत हो

**आगांतूक** : (दोन फावट आशिर्वाद दीत.) सौभाग्यवती भव! सौभाग्यवती भव!
(सगळीं अजापतात. आगांतूकाकडेन रागानशीं पळयतात.)

**पंकजा** : पप्पा, हें सगळें श्रेय हुसेनजी सराक.

**कमला** : हय पप्पा, ताणींच कश्ट घेवन हो नाच बसयलो.

**हुसेनजी** : नहीं मेरे लाल, हमने कुछ नहीं किया! गाना आपके गलेमें था। हमने उसे बाहर निकालवाया! नृत्य तो आपके पाँवों और बदनमें था, हमने उसे झंकारीत किया जैसे की पौधों को हवा हिला देती है। मैं तो नाम मात्र हूँ। इस खुबसुरत नगमें के आपही कर्त्ता और रचयता हैं।

**हुसेनजी** : शुक्रिया प्रधानसाब! गिरीधरजी, आपसे एक विनती है।

**गिरीधर** : सांगात.

**आगांतूक** : गिरीधरसायब, आमचोयबी एक विनंती आसा.

**गिरीधर** : (कांयशा रागान) हुसेनजी, हो तुमचे बरोबर आयला तो आगांतूक कोण? इतलो वेळ तुमच्या तोंडाक पळोवन वगी रावलों हांव:

**हुसेनजी** : मेरे साथ? मेरे साथ तो कोई नहीं आया। मैं रोज की तरह बिलकूल अकेला आया हूँ। मुझे लगा यह तो आपका आदमी है।

**गोडखिंडी** : अरे हुसेनसाब, हम तुम्हारा भी आदमी नहीं और गिरीधर का भी आदमी नहीं।

**गिरीधर** : मागीर तूं कोण? आनी हांगा कसो आयलो?

गोडखिंडी : कशी आयली म्हटल्यार ह्या दारांतल्यान सीधा आयली. आनी कोण म्हटल्यार आमी एच. के गोडखिंडी. राष्ट्रीय शिक्षक अॅवार्ड विनर. (गिरीधराक) तुमच्या चेलयांची डान्स मस्त जाली. म्हणून मनांतल्यान आशीर्वाद दिली. हेची डान्स आमच्या चिल्ड्रन्सांक करून दाखयी.

गिरीधर : खंयच्या चिल्ड्रन्सांक? खंय आसा तुमचीं भुरगीं?

गोडखिंडी : थंय भायर आसा. बसींत. तेम्कां भारी खुशी जातली.

गिरीधर : बसींत खंयचीं भुरगीं?

गोडखिंडी : कंचीं म्हणजे? म्हज्या स्कुलाची पिकनीक घेवन येयल्या आमी. सगळे स्पॉट दाखयले चिल्ड्रन्सांक. ऑल इंडिया रेडियो, दूरदर्शन, ऑशॉनोग्राफी, टेंपल, इगर्ज-

प्रधान : आनी आतां हो स्पोट दाखोवपाक आयल्यात?

गोडखिंडी : स्पॉट म्हणल्यार एक डिफरंट टायप नोलेज तें. ट्वीन्स म्हणल्यार तेमी फक्त आयकेलां. पळयले ना. तें दाखोवंच्याक चिल्ड्रन्सांक घेवन आयल्यां. टोटल फिफ्टी फाय स्टुडन्टस आसात.

गिरीधर : तुज्या त्या पंचावन्न भुरग्यां मुखार म्हज्या चलयांक तूं नाच कर म्हूण सांगता?

गोडखिंडी : डान्स करीना जाल्यार जाता. टोटल फिप्टी फाय एक एक कर्न डिसिप्लीनान येतलें आनी हेंम्का (जुंवळ्यांक) पळोवन डिसिप्लीनान भायर वतलें. एच. के. गोडखिंडी म्हटल्यार फादर ऑफ डिसिप्लीन.

प्रधान : तुमची डिसीप्लीन थंय भायरूच दवरात. चलात हांगच्यान. हांगा कसलें प्रदर्शन मांडूं ना. खंयूय भितर सरताना परमीशन घेवचें पडटा इतलेंय तुमकां खबर ना? तुमकां राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कार खऱ्यांनीच मेळ्ळा? काय चुकून मेळ्ळा? हांव कितें सांगता तें तुमकां कळटा काय ना?

गोडखिंडी : कळना कित्याक? बरें कळटा.

(गिरीधर प्रधानाक खुणेनूच वगी करता. आपूण गोडखिंडी म्हऱ्यांत वता. बोल्सांत हात घालून कांय नोटी काडटा.)

गिरीधर : मि. गोडखिंडी, नॅशनल ऍवार्ड विनर, हे पैशे घेयात आनी पिकनिकेक आयिल्ल्या तुमच्या भुरग्यांक चॉकलेटी वांटात.

गोडखिंडी : व्हेरी गुड! गिरीधरसायब, तुमी खरी पात्रांव सोबली. हे तुमचे प्रधान, पात्रांव परीस व्हडली समजता. एक सांगा गिरीधरसायब, ह्यो चॉकलेटी भुरग्यांक आदीं दिवच्यो काय मागीर?

गिरीधर : तुमकां जाय तेन्ना दियात.

गोडखिंडी : म्हणजे ट्वीन्साक पळोवचे आदीं काय ट्वीन्साक पळयल्या नंतर?

गिरीधर : तांकां पळोवपाक मेळना. तेबदलीं ह्यो चॉकलेटी.

गोडखिंडी : (पैशे परत दीत) ना, ना. तुमचें परमीशन नासल्यार तुमचे पैशे बी नाका. घेयात.

गिरीधर : नाका जाल्यार नाका. (पैशे परत घेता.)
(पंकजा आनी कमला मुखार सरतात.)

पंकजा : राव पापा, ते पैशे आमचेकडेन दियात. आमी घेतात चॉकलेटी आनी त्या भुरग्यांक वांट्टात.

गिरीधर : तुमी?

कमला : हय. आमकां संवंय आसा. शाळेंत आसताना अशीं कितलीं भुरगीं आमकां पळोवपाक येतालीं. आमकां पळोवन भुरग्यांक अजाप जाता. खोशीच ती एके तरेची. कितल्या पयस सावन तीं आयल्यां आसतलीं. इतलो वेळ आमचेखातीर तिश्टल्यां आसतलीं. आमी तांकां खोशी करून येतात.

धिराई : पंकजा, कमला सांबाळून.

गिरीधर : प्रधान,

प्रधान : एस सर. हांव वतां वांगडा.

गिरीधर : (पैशे प्रधानाकडेन दीत.) तूंच वाटेंत चॉकलेटी घे.

प्रधान : एस. सर.

धिराई : बेगीन येयात.

(पंकजा आनी कमला भायर वतात. फाटोफाट प्रधान.)

गोडखिंडी : पात्रांव भारी बरो मनीस, प्रधान भारी वायट मनीस! थँक्यू पात्रांव, थँक्यू हुसेनजी. (हात दाखयत वता.)

हुसेनजी : आपकी बेटियाँ बहूत समझदार हैं। अल्लाताला उन्हें खुश रखें।

गिरीधर : हुसेनजी तुमची विनंती थंयच उरली. सांगात.

हुसेनजी : विनती यही है, आप भी सुनो मेमसाब,

गिरीधर : सांगात हुसेनजी.

हुसेनजी : आप दोनों को, बच्चों को डान्स कैसा लगा?

धिराई : हें आनी कितें विचारप जालें? तुमी म्हज्या दोळ्यांतल्यान उदक काडलें.

गिरीधर : खऱ्यांनीच हुसेनजी.

हुसेनजी : इसिलिए मैने इस डान्स की शिफारस की है।

गिरीधर : शिफारीश? खंय?

हुसेनजी : आपको पता होगा, अगले महिनेमें शहरमें राज्य समारोह होनेवाला है।

गिरीधर : राज्य थरावयलो हो सुवाळो म्हणल्यार दर वर्सा भरयाचें मुखेल आकर्शण. हजारांनी लोक हाजीर आसतात.

हुसेनजी : इसीलीए मैंने कार्यक्रम समितीसे इस डान्स की शिफारीश की है। कई लोगों से मैंने बात भी की है। सिर्फ आंप की अनुमती चाहिए।

धिराई : हुंसेनजी, तातूंत आमची अनुमती कित्याक? तुमी करतले तें बऱ्या खातीरूच आसतलें न्हय?

हुसेनजी : फिर भी आप बच्चों के माँ-बाप हैं।

धिराई : वा! वा! फुलांनी सजयिल्ली माची आसतली. सवो कशी! माचयेर म्हजीं भुरगीं नवो भेस आनी शृंगार करून. सगळें हांव

म्हज्या हातान करतलीं. नाजाल्यार ती उमेद आनीक केन्ना भागोवपाक मेळटली? दुबावूच ना, आमकां आवडटा तसो नाच लोकांकूय आवडटलो. माटोवभर ताळयांचो शिंवर!
(त्याच वेळार पयसुल्ल्यान भुरग्यांचो जल्लोश आनी ताळयांचो शिंवर आकूंक येता. गिरीधर भायल्या दाराकडेन वता. धिराई काचाबूल जाता.)

धिराई : भायर कितें चल्लां?

गिरीधर : तेंच, तूं येवजिता तें.

धिराई : (हुस्क्यान) म्हणजे?

गिरीधर : भियेवं नाका. तांच्या वांगडा प्रधान आसा. आमचे परस ताका आमच्या भुरग्यांची काळजी चड आसा.

हुसेनजी : हाँ. प्रधान बिल्कुल भरोसेमंद आदमी है।

धिराई : हुसेनजी, ही खबर तुमी भुरग्यांक सांगली?

हुसेनजी : नहीं मेमसाब, पहले आपसे तो बात होनी चाहिए ना?

गिरीधर : हुसेनजी, तुमी खूब बरें केलें.

हुसेनजी : शुक्रिया साब!

गिरीधर : बरें केलें तें हें, तुमी तांका ही गजाल सांगली ना.

हुसेनजी : हां जी।

गिरीधर : तुमचो प्रस्ताव खूब बरो आसा.

हुसेनजी : शुक्रिया।

गिरीधर : पूण म्हाका तो नामंजूर आसा.

हुसेनजी : (ताका अजाप जाता.) या अल्हाऽऽ मुझसे कोई भूल तो नहीं हुई?

धिराई : हें अशें कितें?

गिरीधर : हुसेनजी, तुमचें कांय चुकूं ना. एका बऱ्या गुरून आपल्या विद्यार्थ्यांखातीर जें करूंक जाय तेंच तुमी केलें. ताचेपरस अदीकूच केलें. तेखातीर खऱ्यांनीच आमी तुमचीं उपकारी. शुक्रगुजार! पूण राज्य महोत्सवांत हांव म्हज्या भुरग्यांचें प्रदर्शन

मांडूंक सोदीना.

**हुसेनजी** : गिरीधरजी, कला एक पवित्र चीज है। लोगों के सामने उसका प्रदर्शन मानो भगवान की पूजा ही है।

**धिराई** : म्हाकाय तशेंच दिसता, तितलेंच म्हज्या भुरग्यांक जिणेंत खुशी! नाजाल्यार तांचें जिणेंत दुसरें कितें आसा? नाचूं दी तांकां.

**गिरीधर** : धिराई, भुरग्यांक जातूंत सूख तें सगळें हांव करपाक तयार आसा, पयशांची पर्वा करीनासताना. पूण हें तशें ना. हांगासर ज्यो ताळयो पडटल्यो त्यो नाचाक न्हय, दोन जुंवळ्यांनी केल्ले कसरतीक. ताळयो तांच्या माथ्यांतल्या व्यंगाखातीर. ती कला रसिकान केल्ली प्रशंसा न्हय, ती काकूळट, सहानुभूती. आनी हेंच म्हाका नाका. धिराई, याद कर, एकदां मुळावे शाळेंत शिकता आसताना गॅदरींगाक असोच नाच केल्लो म्हज्या माणकुल्या भुरग्यांनी. स/सात वर्सांचीं भुरगीं असले अवस्थेंत नाचतलीं तें कितें? तरी लेगीत लोकांनी कितले खोशयेन ताळयो पेटल्यो? बक्षिसांचो पावस रकलो. तुवें घरा येवन भुरग्यांची दीश्ट काडली. पूण खऱ्यांनीच ती बालकलाकारांचे कलेची तोखणाय आशिल्ली? सांग धिराई, सांग.

**धिराई** : (तोंडार पालव धरून हुंडकेत.) हुसेनजी, म्हज्या भुरग्यांक नाचोवं नाकात.

(धिराई रांदचेकुडींत वता.)

**हुसेनजी** : गिरीधरजी, मैं बहुत शरमिंदा हूँ। आपसे माफी चाहता हूँ।

**गिरीधर** : ना हुसेनजी, तुमचें कांय चुकूं ना.

**हुसेनजी** : मैं एक कलाकार तो जरूर हूँ। लेकिन यह बात मेरे ध्यान में नहीं आयी। यह तो मेरी बडी गलती है।.

**गिरीधर** : म्हज्या मनांत आशिल्लें तें सांगलें. तुमी इतलें चुकी आनी खंती जावपाची गरज ना हुसेनजी. परमेश्वराच्या मनांत आसल्यार राज्यमहोत्सवांत म्हज्या भुरग्यांचो नाच दवरपाची तुमची इत्सा फळादीक जातली. तुमी तांकां नवीं नवीं गीतां शिकयात.

नाच शिकयात. पयशांची पर्वा करूं नाकात. ते तुमकां वेळार मेळटले.

हुसेनजी : पैसों की बात नहीं है गिरीधरजी। अल्लाताला की खैरीयतसे सब कुठ ठीक है। लेकिन मैं आपसे क्षमा चाहूँगा।

गिरीधर : कित्याखातीर?

हुसेनजी : अब मैं बंबई जा रहा हूँ। छोटे मोठे फिल्म के एक दो ऑफर्स आए हैं। कुछ सिरीयल के भी। बंबई में जाके फिल्म इंडस्ट्री में तकदीर अजमाना चाहता हूँ।

गिरीधर : ही सामकी खोशयेची खबर! तुमच्या सारख्या कलाकारांची आयज फिल्म इंडस्ट्रीक खरी गरज आसा. कलेच्या नांवार कितें चल्लां तें सोंसपाचें न्हय. तुमी ताका थोडोतरी आळाबंद हाडटले.

हुसेनजी : इतना बडा तो मैं नहीं हूँ गिरीधरजी। मैं एक मामुली कलाकार हूँ।

गिरीधर : तें तुमचें मोठेपण. भुरग्यांक ही खबर आयकून खूब आनंद जातलो.

(भायरसावन पंकजा आनी कमला येतात. वांगडा प्रधान आनी फाटोफाट गोडखिंडी आसा. फाटल्यान भुरग्यांचो व्हडलो आवाज – 'पंकजादिदि, कमलादिदि बाय, बाय, बाय,' एका तालार कशीं भुरगीं म्हणटात. पंकजा आनी कमला खोशयेन हात उबारून तांका निरोप दितात.)

पंकजा : पप्पा, खूब मजा जाली!

कमला : भुरगीं सामकीं खूश जालीं. आमकां कशींच सोडीनासलीं.

पंकजा : कितलीं गोड गोड भुरगीं!

कमला : कोण्णें आमचीं फकाणां केलीं ना.

प्रधान : खरेंच सर, तो एक बरो प्रसंग आसलो, काळजाक हात घालपी.

पंकजा : पप्पा, बंगल्याभायर एक बोर्ड मारूंया.

गिरीधर : कसलो बोर्ड?

पंकजा : आमी पिकनिकेच्या भुरग्यांक मेळपाक सोदतां.

कमला : हय. तसोच.

गिरीधर : (हांसत) मागीर हो खऱ्यांनीच पिकनीक स्पॉट जातलो न्हय प्रधान?

प्रधान : यस सर.

गिरीधर : (गोडखिंडीक) जांव, तुमकां खोस भोगली तातूंत आमकां समादान आसा.

गोडखिंडी : सगळीं खूश! आनी राष्ट्रीय शिक्षक पुरस्कार विनर एच. के. गोडखिंडी बी खूश! गिरीधरसाब, तुमकां स्पेशल थँक्स दिवच्याक येयल्यां. चॉकलेटां खातीर थँक्स. तुमी भारी बरी मनीस! आनी प्रधान बी भारी बरी मनीस!
पंकजाऽऽ कमलाऽऽ बायऽऽ. टेक कॅअर माय चाईल्ड!
(निरोप घेवन वता.)

पंकजा : हुसेनजीसर, आतां आमकां दुसरो नाच केन्ना शिकयता?

गिरीधर : हुसेनजीक प्रमोशन मेळ्ळें.
(गिरीधर प्रधानजीच्या कानांत कितेंतरी सांगता. प्रधान तसोच कुडींत वता.)

दोगांय : प्रमोशन?

गिरीधर : हयं. ते आतां मुंबय फिल्म इंडस्ट्रींत वतले आनी थंय पळय कोण वांकडीं, भेडां मोडून, कपडे काडून, लज सोडून नाचतात तांकां ते जाग्यार हाडटले.

हुसेनजी : आपके पिताजी तो मेरी मजाक उडा रहे हैं।

पंकजा : पूण सर, तुमी मुंबय वता म्हणटा ती खरी गजाल?

हुसेनजी : हां बेटा।

कमला : फिल्म इंडस्ट्रींत?

हुसेनजी : हां, वहीं।

कमला : म्हणजे तुमी संगीतकार जातले? आर. डी. बर्मन, लक्ष्मीकांत

प्यारेलाल – हांचे भशेन?

हुसेनजी : (कान धरून) उतनी मेरी औकात नहीं है बिटीया।

पंकजा : ना कित्याक? ज़रूर आसा.

कमला : सर, तुमी मुंबय चलात, आमी हांगासर बसून टी. व्ही. चेर तुमचीं गीतां पळयतात.

गिरीधर : हुसेनजी, आतां मात तुमकां मुंबय वचचेंच पडटलें. म्हज्या भुरग्यांची तशी इत्सा आसा.

हुसेनजी : अल्ला उन्हें खूश रखें।

गिरीधर : पूण पंकजा, कमला, हुसेनजी मुंबय गेल्यार तुमकां नवीं गीतां आनी नाच कोण शिकयतलो?

पंकजा : आमी तांचे टी. व्ही. वयले डान्स पळोवन हांगां बसून शिकतलीं. न्हय गो कमला?

कमला : हय तर.

हुसेनजी : गिरीधरजी, मेरा सौभाग्य तो देखो। असलमें गुरू अपने विद्यार्थीयोंकी भलाई चाहता है, यहाँ तो विद्यार्थी गुरू की भलाई चाहते हैं। अल्ला की मेहरबानी है।

(प्रधान कुडींतल्यान येता. हातांत पाकीट आसा. तें गिरीधराकडेन दिता.)

गिरीधर : हुसेनजी, हे घेयात, चेक आसात.

प्रधान : ना. कॅश आसात.

गिरीधर : (प्रधानाचेर खूश जावन.) वा! घेयात हुसेनजी., तुमचे शिकवणेचो मोबदलो अशें मानूं नाकात. तुमच्या भुरग्यांच्या प्रेमाची भेट म्हणून स्वीकारात.

हुसेनजी : (घेत) शुक्रिया गिरीधरजी।

गिरीधर : सांबाळून हुसेनजी, भायर वातावरण बरें ना.

हुसेनजी : मतलब?

गिरीधर : आयचो पेपर वाचला आसतलो. धर्मापुरात हिंदू-मुस्लीम संघर्शाचे तयारेंत!

**हुसेनजी** : हां, वह तो पढा है। बढी दुर्भाग्य की बात है। यहाँ तो कोई संघर्शही नहीं है। फिर भी... देश को विखंडीत करनेवाली शक्तियां फिर एक बार उभर आयी हैं। लेकिन नाकाम होंगी।

**पंकजा** : सर, म्हजी एक विनंती आसा.

**हुसेनजी** : बोल बिटीया.

**पंकजा** : तुमी मुंबय वतले आनी परत केन्ना येतले?

**हुसेनजी** : वैसे तो आता – जाता रहूँगा. आपको मिलता भी रहूँगा।

**पंकजा** : तुमी परत येतले तेन्ना म्हजेखातीर एक गीत हाडात. फक्त म्हजेखातीर, स्वतंत्र! तें गीत गायतलें आनी हांव एकलेंच नाचतलें.

**कमला** : सर म्हाकाय बी अशेंच एक सुंदर गीत जाय. जें फक्त म्हजेखातीर आनी म्हजेखातीरूच आसतलें.

(तांच्या उलोवण्याचेर गिरीधर खूश जाता.)

**पंकजा** : सर, घडयतले न्हय म्हजेखातीर एक गीत?

**कमला** : सर म्हजेखातीर?

**हुसेनजी** : क्यूं नहीं? उतना मुश्कील तो नहीं। मैं कोशिश करूंगा।

**गिरीधर** : हुसेनजी, तुमी भुरग्यांचीं मनां दुखोवं नाकात. तुमकां थंय मुंबय अशक्य अशें कांयच ना.

(भितरसावन धिराई येता. तिच्या हातांत ट्रे आसा. तातूंत सरबताचे ग्लास आसात. सगळ्यांखातीर सरबत हाडलां. पूण वेगवेगळे ग्लास आसात. जुंवळ्याखातीर वेगळे ग्लास, गिरीधराख़ातीर वेगळो ग्लास.)

**धिराई** : कांय गरज ना. (सगळ्यांक सरबत दिता. पयलीं हुसेनजीक) घेयात, सरबत घेयात.

**हुसेनजी** : शुक्रिया।

**पंकजा** : कसली गरज ना म्हणटा तूं मम्मा?

**कमला** : मम्मा, तुका कांय कळूं ना. तरी तूं उलयता.

**धिराई** : सगळें खबर आसा म्हाका. आयकलां हावें सगळें. स्वतंत्र गितां

आनी नाच जाय. स्वतंत्रपणान नाचतल्यांक फक्त स्वतंत्र पांयूच आसले म्हण उपकारना, तांकां स्वतंत्र तकल्योय आसच्यो पडटात. (सरबत दीत.) हें हून उदकाचें सरबत तुमकां.

**गिरीधर** : धिराई, हुसेनजीन प्रयत्न करचेलें उतर दिलां. तूं भुरग्यांक नाउमेद कित्याक करता?

**धिराई** : हांव भुरग्यांक नाउमेद करीना. परिस्थितीची कल्पना दितां.

**गिरीधर** : कसली परिस्थिती?

**धिराई** : पांयांत साखळदंड आशिल्ल्यांनी मळबांत उडपाचीं सपनां पळोवं नये.

**गिरीधर** : साखळदंड तोडूं येतात.

**धिराई** : खंयचे साखळदंड तोडटले? पायांतलेच मू? मुखार? वगीच तांगेली जीण रंगोवं नाका.

**पंकजा** : (हुसेनजीक) सॉरी सर.

**कमला** : सॉरी सर.

**हुसेनजी** : फिर भी मैं कोशिश करूंगा मेरे बेटियों के लिए।
(पंकजा आनी कमला सरबताचे ग्लास घेवन आपले कुडींत वतात. हुसेन आनी प्रधान हांचें सरबत पिवन जालां. ते दोगूय ग्लास धिराईकडेन दितात. गिरीधराक राग आयला. तो सरबताचो ग्लास परत करता.)

**गिरीधर** : म्हाका त्या रंगीत उदकाचो सोंस ना.

**हुसेनजी** : अब मैं आपसे विदा लूंगा। खुदा हाफीज।
(सगळीं ताका आपले आपल्या जाग्यार सावन 'खुदा हाफीज' म्हणटात. हुसेनजी निरोप घेवन वता. धिराई ग्लास घेवन भितर वता. प्रधान आपले कुडींत वता. गिरीधर खूब अस्वस्थ जाला. हांगा – थंय पासयो मारता. पंकजा आनी कमला कुडींतल्यान भितर वतात. कांय वेळान प्रधान ताकतिकेन भायर येता. हातांत मोबायल आसा.)

**प्रधान** : (दीत) सर, डॉ. कामत मॅडमीचो फोन.

गिरीधर : (उलयत) हॅलॉऽऽ डॉक्टर कामत, तुमी खंय आसा?

डॉ. कामत: (तेवटेन फोनार) गिरीधरबाब, हांव सकाळसावन हांगा-थंय डॉक्टर दीक्षितांच्या पाठलागाचेर आसा.

गिरीधर : तें समजलें.

डॉ. कामत: सद्याक हांव न्युरोसर्जनाची कॉन्फरन्स चलता ते सुवातेर आसा.

गिरीधर : डॉ. दीक्षित आयल्यात?

डॉ. कामत: येवन गेले. उद्घाटन करून भायले भायर गेले. हांवें मेळपाचो खूब येत्न केलो, पूण जमलें ना. गव्हर्नरूय कार्यावळीक आशिल्ले. दोगांयखातीर सॅक्युरीटी टायट आशिल्ली.

गिरीधर : म्हणटकूच डॉ. दीक्षित मेळपाची आस्त ना तर?

डॉ. कामत: हावें आस्त सोडूं ना. कारण डॉ. दीक्षित फाल्यां मेरेन शारांत आसा. फाल्यां कॉन्फरन्सांत तांचें पेपरवाचन आसा. हांव खंयचेय परिस्थितींत तांकां मेळचेलो यत्न करतलींच. गिरीधरबाब, तुमचे इतलीच म्हाकाय काळजी आसा.

गिरीधर : थँक्यू डॉ. कामत. तें म्हाका खबर आसा. प्रधानाक हांव तेंच सांगतालों, डॉ. कामत फक्त आमची फॅमिली डॉक्टर न्हय, त्यो आमच्यो हितचिंतक.

डॉ. कामत: पंकजा आनी कमलाचे केसपेपर बॅगांत घेवनच हांव भोंवतां.

गिरीधर : हांवें म्हजेवतीन कितें करूंक जाय जाल्यार सांगात.

डॉ. कामत: हांव तशेंच म्हणटालीं, तुमी तुमचे पद्धतीन यत्न करात. तुमचे बिझनेसमॅनाचे लॉबिंतल्यान पळयात.

गिरीधर : हय तशेंच करतां.

डॉ. कामत: बरें आसा. दवरतां.

गिरीधर : बरें! (फोन प्रधानाकडेन दीत) चल प्रधान, तूं ऑफीसांत चल. हांव भायर वतां. तूं ऑफीसाचें काम जाग्यार घाल.

प्रधान : आनी आयच्यो अपोयंटमेंट्स, भेटीगांठी?

गिरीधर : कॅन्सल कर.

प्रधान : ओ. के. सर.

गिरीधर : नाजाल्यार अशें कित्याक करीना?

प्रधान : कितें सर?

गिरीधर : तूं म्हजेवांगडा यो. अशा वेळार तुजी तकली बरी चलता. अपोयंटमेंट रद्द करपाचें काम मोबायलवयल्यान करूं येता.

प्रधान : आनी फॅक्टरींत वचपाचें काम?

गिरीधर : तेंवूय फोनावयल्यान कर. म्हणजे फोनावयल्यान प्रॉडक्शन मॅनेजराक चत्राय दी.

प्रधान : यस. सर. सर, सांगतां म्हण रागार जावं नाका आं.

गिरीधर : रागार जावपासारखी गजाल आसलेबगर तूं अशें म्हणपी न्हय. सांग, सांग.

प्रधान : हांव कितें म्हणटालों जाणां, डॉ. दीक्षितांक मेळचेआदीं तुमी मातशे मॅडमीक, धिराईभाभीक विश्वासांत घेतल्यार बरें जावचें नासलें?

गिरीधर : प्रधान, पयलीं तुजे भाभीक विश्वासांत घेवपाक थंय डॉक्टर दीक्षित म्हाका वेंग उक्ती करून रावला?

प्रधान : सॉरी सर.

गिरीधर : मि. प्रधान, लक्षांत दवर. म्हाका तुजेकडल्यान बुद्द जाय, सल्लो जाय, पूण नसती लुडबूड नाका.

प्रधान : यस सर.

गिरीधर : (भायरूच रावन कुडींतल्या जुंवळ्याक) पंकजा, कमला, पप्पा वता. मम्माक सांगात हांव गेलों म्हणून. बाय, बाय.

दोगांय : (भितर सावन) बाय बाय पप्पा, बाय बाय अंकल.

(प्रधानूय बाय बाय करता. गिरीधर आनी प्रधान दोगूय ताकतिकेन भायर वतात. कांयवेळान भितर सावन पुजेचें साहित्य घेवन धिराई भायर येता. देवाकुडींतले मुर्तिची पूजा करता. पंकजा आनी कमला भायर येतात. धिराई पुजा करताना मदीं मदीं वळून जुंवळ्यांक पळयता. तीं सहमत ना. धिराईची

पुजा सोंपता.)

धिराई : आयज पुजेक खूब कळाव जालो. हे गेले दिसता? प्रधानू गेलो? दोगूय बराबर गेले? (दोगांय जाप करीना.) हरशीं म्हूण हे म्हगेले पुजेक खंय रावतात? सकाळीफुडें भायर सरून वता आयज उसरां गेले म्हणल्यार म्हजी पुजाच जाली ना. एव एकलो येत रावलो. (दोगांकूय) हरशी सद्दां पुजेच्या वेळार तुमं कितें कितें म्हणटालीं. आरत, भजन, नातर तीं फिल्मांतर्ल देवाचीं गितांय गायतालीं. पूण आयज कांयच म्हणपाचें ब ना. म्हजेर रागार? काय देवाचेर? आनी देवाक पांयांबी पडर्ल ना. देवाकडेन कितें मागपाचें तेंवूय मागलें ना.

पंकजा : तुवें मागलें काय ना?

धिराई : मागलें तर.

कमला : आं. कितें मागलें?

धिराई : देवा, म्हज्या दोगांय भुरग्यांक अशींच समादानी दवर.

पंकजा : अशींच?

कमला : आनी अशींच उरपांत समादान कसलें?

पंकजा : आनी कित्याक गावप त्यो आरती?

कमला : कित्याक करप ती पुजा?

धिराई : देवाचे कृपेखातीर. पुण्य मेळपाखातीर. ह्या जल्मांत पुण्य जोडल्यार फुडलो जल्म बरो वतलो.

पंकजा : आमकां फुडल्या जल्माचें पडूं ना. ह्या जल्माचें पडलां.

कमला : मम्मा, फाटल्या जल्मांत तुवें कसलें पातक केल्लें म्हण तुकां आमी जुंवळी फाव जालीं?

धिराई : नाका म्हणूं आरत्यो, नाका पांयां पडूंक, पूण भलतें सलतें उलोंवं नाकात. घेयात हो प्रसाद तरी खायात.

पंकजा : नाका. तातूंत साखर सामकीच उणी आसता. सामको पचपचीत लागता.

कमला : गोडाचो आसल्यार हांव खातलें आसले.

धिराई : निवेद्य भक्ताक जाय तसो करीना, देवाक जाय तसो करतात.

पंकजा : मागीर खावूं दी तो देवाक.

कमला : आमकां नसतो आग्रो कित्याक?

धिराई : आयज तुमचे कितें जालां तेंच कळना. (म्हुर्तीक पांयां पडत.) देवा भगवंता, म्हज्या भुरग्यांक बरी बुद्द दी.
(दोगांय संगनमत करून गावपाक लागतात.)

दोगांय : **देवा तुझे किती, सुंदर आकाश**
**सुंदर प्रकाश, सूर्य देतो**
**सुंदर ही झाडे, सुंदर ही फुले**
**तशी आम्ही मुले, देवा तुझी**

धिराई : हें मदींच कितें जालें?

पंकजा : तुवें देवाकडेन मागनाफुडें देवान आमकां बरी बुद्द दिली.

कमला : तोवूय आमचेसारखोच न्हय गो.

धिराई : देवाचीं असलीं फकाणां करता?

कमला : आनी देवान आमचीं हीं असलीं फकाणां केल्यांत ताचें कितें?

धिराई : थुमेकाल! (म्हुर्तिकडेन वचून) देवा, म्हज्या भुरग्यांक माफ कर.

दोगंय : (देवा माफ कर - अशा आशयाचें गीत.)
(धिराई देवामुखार पोले फोडून घेता आनी जुंवळ्यांचीं लक्षणां सोसूं नजो जावन पुजेचें साहित्य घेवन भितर धांव मारता. आवयचीं फकाणां करून दोगांयजाणां हांसतात.)

पंकजा : सकाळचो आदेस अशे तरेन सरलो.

कमला : बरेतरेन सरलो. आतां उरलेलो दीस कसो वतलो तें पळोवया.

पंकजा : बरो गेल्यार पुरो.

कमला : हांवूय तशेंच मागतां?

पंकजा : कोणाकडेन? मम्माभशेन देवाकडेन मागता?
कमला : ना. म्हज्याच मनाकडेन मागतां.
पंकजा : (वास घेयत.) तूं हो कसलो पर्फ्यूम लायता?
कमला : कसलो म्हणजे? सदांच लायतां.
पंकजा : सदांच लायता खरें. तुकां सांगतलें म्हण आसलें.
कमला : मागीर ना सांगपाक हांव खंय गेल्लें?
पंकजा : खंय वतलें? म्हाकाच दसून आसलें.
कमला : हांव तुका दसून काय तूं म्हाका दसून?
पंकजा : भंगू! तो वास म्हाका निखालस सोंसना. तूं सगळ्या आंगाक मारता, तो म्हाका लागता.
कमला : मागीर कितें जालें? हांव तुजो वास सोंशिना?
पंकजा : हांव खंय पर्फ्यूम मारतां?
कमला : तो मारल्यार चलतालो. हांव सोंसपी आसलें. पूण हो सोसूंक जायना.
पंकजा : कसलो? सांग न्हय.
कमला : नुस्त्याचो!
पंकजा : हांव नुस्तें उजरावंक वतां?
कमला : खाता काय ना?
पंकजा : खातां. (हात नाकाकडेन व्हरत.) पळय, येता?
कमला : हाताक कित्याक? तोंडाक येता.
पंकजा : तूं कित्याक म्हज्या तोंडाकडेन तोंड हाडटा?
कमला : तोंडाकडेन तोंड आसा म्हण तो येता.
पंकजा : एक आदेसभर तूं म्हज्या तोंडाकडेन तोंड लावं नाका.
कमला : समजलें. उठ म्हाका भायर वचपाक जाय.
पंकजा : खंय?
कमला : भायर बागेंत पासयेक.
पंकजा : ही पासय मारपाची वेळ न्हय. आनी व्हदळ भायर वचून आयल्यांत. म्हजे पांय वळटात. आनी म्हजो टी. व्ही. सिरीयल

पळोवपाचो वेळ जालो.

**कमला** : कसली बंडल सिरीयल ती! कोण कोणाचो घोव आनी कोण कोणाची बायल तेंच कळना.

**पंकजा** : कित्याक कळपाक जाय? टायमपास!

**कमला** : म्हाका असो वेळ वगडावपाचो ना. बागेंत काय बरीं फुलां फुल्ल्यां आसतलीं.

**पंकजा** : फुलां फुलूं नाजाल्यार फळां धरूं, हांव भायर येवपी न्हय.

**कमला** : आनी हांवूय तुका टी. व्ही. पळोवपाक दिवपी न्हय.

**पंकजा** : नाकां दिवं. हांव अशें दोळे धापून उबें रावतलें. सिरीयलांतलो मुखावयलो सीन आपशींच म्हज्या धापिल्ल्या दोळ्यांमुखार येतलो.

**कमला** : आनी हांवूय अशे दोळे धापून रावपी. बागेंतली सगळीं फुलां म्हज्या मनांत फुलतलीं.

(दोगंय दोळे धापून उबीं रावतात. इतल्यान भायरसून सारा येता. सारा पंकजा आनी कमलाची इश्टीण. तांचेच पिरायेचें. अत्याधुनीक भेस. व्हडल्यान सादयत येता.)

**सारा** : पंकजाऽऽ, कमलाऽऽ हांव आयलां. सारा साऽऽरा.

(दोगांय खोशी जातात. दोळे उक्ते करतात. सारा येवन दोगांकूय वेंग मारता. भायली जाग आयकून धिराई भायर येवन पळयता.)

**धिराई** : कोण सारा गो?

**सारा** : पंकजा-कमलाचे मम्मी कशी आसा?

**धिराई** : बरें आसा. तूं खूब दिसांनी. दिसांनी खंयचें? खूब म्हयन्यांनी. तूं आयलें तें बरें दिसलें. आयज हांका गरज आशिल्ली कोणाची तरी. हांव वतां म्हज्या कामांक. (भितर वता.)

**पंकजा** : सांग सारा, तूं कशें आसा?

**सारा** : फोर्त! तुमी दोगांय कशीं आसात?

**कमला** : आदलेवरीच घट.

पंकजा : तुजें कॉलेज जालें?

सारा : जालें. आतां हांव सर्विसेक लागलां.

कमला : सर्विसेक? म्हणजे सकाळीं वचप आनी सांजेचें घरा येवप.

पंकजा : म्हणजे दीसभर घराभायर. तुजी मजाच न्हय!

कमला : आनीक कितें खबर?

सारा : एक सिक्रेट खबर आसा. पयलीं कोणांक सांगूं?

पंकजा : ए सारा, तूं पयलीं म्हजी इश्टीण. पयलीं म्हाका सांग.

कमला : सारा, याद कर. तूं इश्कोलांत बाकाचेर म्हजेवटेन बसतालें.

पंकजा : सारा, तूं तुगेल्यो सगळ्यो सिक्रेट गजाली म्हाकाच पयलीं सांगतालें. तुका सरान चिमटो काडिल्लो ती गजाल तुवें म्हाकाच पयलीं सांगिल्ली.

कमला : सारा, ताका सगळ्यो सिक्रेट गजाली आदींच सांगल्या. आतां म्हाका सांग.

सारा : सायबा भोगोस! हांव ती गजाल सिक्रेट म्हणीनासताना तुमकां दोगांकूय वांगडाच सांगतां.

दोगांय : सांग.

सारा : हांव कोणा चेड्याच्या मोगांत पडलां.

दोगांय : खरेंच?

पंकजा : (फकाणांनी) कोण तो नालायक? दोळे फुटको?

सारा : असोच आसा म्हजेसारखो.

कमला : तो खऱ्यांनीच तुजेलागीं काजार जातलो?

सारा : ताणें तसो ज्युरामेंत दिला. देवा सामखार!

पंकजा : देवा सामखार? सांबाळून!

कमला : तूं जाणां, आयज आमगेर एक मास्तर आयिल्लो.

पंकजा : मिस्टर एच. के. गोडखिंडी, राष्ट्रीय शिक्षक ॲवार्ड विनर. ताणें आमकां कसलो आशिर्वाद दिलो जाणां?

सारा : कसलो?

कमला : सौभाग्यवती भव!

सारा : म्हुटल्यार कितें?

पंकजा : म्हुटल्यार तूं घोवाची बायल जावन राव.

सारा : तशें जावं येता.

कमला : कितें जावं येता गो?

सारा : जुंवळ्यांचीं काजरां जायना? वाचलां हावें. जुंवळे काजार जावन तांगेर भुरगीं लेगीत जालीं. पूण दादले जुंवळे आं. एकामेकाक दशिल्ले.

पंकजा : आमी बायलां जुंवळीं.

सारा : जाल्यार कितें जालें? ह्या संवसारांत डिफिकल्ट अशें जायतें आसा. इंपोसिबल अशें कांय ना.

कमला : तुजें काजार केन्ना?

सारा : ह्या वर्साभितर जातलें. तुमकां सांगतलें. येतलीं न्हय? हांव जाणां, येवपाक कास्तीक पडटली. पूण तुमी मुजरत येवचें.

पंकजा : येतलीं. तुका व्हंकलेच्या भेसांत दोळे भरून पळोवपाक जाय.

कमला : आनी तुगेल्या घोवाक न्हवऱ्याच्या भेसांत.

सारा : वेतां हांव. दुसरे फावट खूब गजाली करपाक येतां.

पंकजा : येवचे येवन चल्लें?

सारा : व्हय. ताका येवपाचें उतर दिलां. आयज आमी पिक्चराक वयपाचीं आसा.

कमला : कोण कोण?

सारा : आनीक कोण? हांव आनी तो.

पंकजा : खरेंच? पिक्चराचें नांव कितें?

सारा : देवाक खबर!

(तिगांय हांसतात.)

कमला : देवाक खबर? कसलेंतरी देवाचें पिक्चर आसतलें.

सारा : तो पिक्चर आनी कोण चोयतलो?

पंकजा : खऱ्यांनीच तुजी मजा मुगो!

कमला : तुजी तकली कोणांक जुळूंना देखून तूं हें सगळें करपाक पावता न्हय?

सारा : हयच जाल्यार. पूण फकत स्वतंत्र तकली आसली म्हणोन उपकारना. ती चलपाक जाय. हावेंच आपूण जावन ताका काजाराचें उतर घातलें.

पंकजा : तुवेंच उतर घातलें?

सारा : मागीर कितें? मांय-पायक विचारपाक रावपाचें? आतां हांव वचूं? तो वाट पळयतलो. उशीर जाल्लो ताका मातूय सोंसना.

कमला : हेंच सांगपाक आयिल्लें?

सारा : (हांसत) सॉरी! दुसरे फावट. बायऽऽ

(पंकजा-कमला, साराक पावोवपाक दारामेरेन वता. भितरसावन धिराई च्याचो कप घेवन येता.)

धिराई : हें सारा खंय गेलें?

पंकजा : पिक्चराक.

धिराई : (तिका दिसता आपणालीं फकाणां मारता.) तुमी आजून निवळूंक ना?

कमला : खऱ्यांनीच सारा आपल्या बॉयफ्रेंडावांगडा पिक्चराक गेलां.

धिराई : तुमकां चाळोवपाक आयिल्लें दिसता.

पंकजा : तें आमकां कित्याक चाळयतलें?

धिराई : जाणां. वळखतां ताका. लग्नाआदीं पिक्चराक वता.

कमला : तूं ताचो दुस्वास कित्याक करता?

धिराई : दुस्वास? दुस्वास कसलो तातूंत? आनी लग्ना आदींच रावना तीं एकीकडेन. म्हाका कित्याक पडलां? हो च्या आतां कोण पितलो? (पंकजाक) पंकजा, जाय तुकां?

पंकजा : नाका.

धिराई : (कमलाक) तूं काय च्या घेना. हांवूच घेतां. सकाळधरयां पोटांत कांय घेवंना. म्हजी काकळूट कोण करतलो? (च्या घेता,

म्हणल्यार ताकतिकेन घोटटा. तांचेम्हऱ्यांत वचून अपुरबायेन फाटीर हात भोंवडायता.)
शाणीं म्हजीं ती! दोगांय शाणीं! तो पाडापडिल्लो एकटोच दोगांयची वाट लायता.

दोगांय : कोण?

धिराई : म्हारू! दोगांयचे तकलेर वांगडाच बसता. (हांसत भितर वता.)

पंकजा : खरेंच आमचे तकलेर म्हारू बसला?

कमला : हो म्हारू कोण?

पंकजा : देंवचार!

कमला : दादलो?

पंकजा : हय.

कमला : जांव देंवचार. दादलो आसल्यार पुरो. तो तकलेर बसला जाल्यार देंवून सकयल कित्याक येना?

पंकजा : म्हाका खबर ना.

कमला : सारा म्हणटा ताका तकली वापरपाक कळटा देखून ताणें बॉयफ्रेंडाक काजराचें उतर घालें.

पंकजा : बरोबर.

कमला : ते कुंतीकूय तकली आशिल्ली न्हय?

पंकजा : कोण कुंती?

कमला : कर्णाची मम्मा.

पंकजा : तिणें कितें केलें?

कमला : ती आंकवार आशिल्ली. तिचेकडेन कसलो मंत्र आशिल्लो. तिणें तो म्हणलो आनी सुर्याक आपयलो.

पंकजा : फकांड! सुर्याक कित्याक आपोवपाक जाय? असोच आपयला आसतलो कोणांकूय.

कमला : कोणांकूय म्हणजे?

पंकजा : कोणांकूय म्हणजे बॉयफ्रेंडांक. जाचें नांव सुर्या.

कमला : आमी आपोवंया?

पंकजा : आमकां खंय आसा बॉयफ्रेंड?

कमला : तकली वापरपाक कितें जाल्या?
(पंकजाक कल्पना मानवता. दोगांय आपापलो मोबायल घेता आनी नंबर लायता.)

पंकजा : हॅलोऽऽ समीर.

समीर : (तेवटेन आवाज) हॅलोऽऽ

पंकजा : गॅस मी समीर. कोण उलयता सांग?

समीर : सॉरी.

पंकजा : (ना वळखून) निदान नंबरावयल्यान तरी वळखुपाक कळटा जाल्यार पळय. (थारता.)

कमला : हॅलोऽऽ प्रवीण. वळखलो?

प्रवीण : (तेवटेन आवाज) यस. नंबर आयला तुजो.

कमला : कोण तें सांग न्हय.

प्रवीण : मातशें होल्ड कर आं. दुकानार हांव एकलोच आसा.

कमला : बंडल! तुका चिंतपाक वेळ जाय. फटींग खंयचेकडलो. (थारता.)

पंकजा : कितें रे समीर! वळखलो?

समीर : हाय पंकजा!

पंकजा : इतलो वेळ लागलो वळखुपाक?

समीर : हालीं तुजो फोन बी ना न्हय?

पंकजा : फकत हावेंच फोन करप मरे?

समीर : सॉरी!

पंकजा : आयज मेळ.

समीर : आयज? खंय?

पंकजा : आनीक खंय? गार्डनांत काय दर्यावेळेर? आमच्या घरा.

समीर : सॉरी पंकजा, आयज म्हजी कोणाकडेन अपोयंटमेंट आसा.

पंकजा : अपोयंटमेंट मरे? एंगेजमेंट न्हय. तुजी वाट पळयतां.

समीर : पूण... म्हाका मातसो वेळ दी चिंतपाक.

पंकजा : जाय तितलो वेळ घे. पूण फोन डिसकनेक्ट करूं नाका.

समीर : अशें कशें जातलें?

पंकजा : तशेंच. हांव होल्ड करतां. (थारता.)

कमला : ए फटींगा, तुजो वेळ सोंपलो. हांव कमला उलयतां.

प्रवीण : कोण कमला?

कमला : इतलो विसरलो? हांव कमला. पंकजाची जुंवळी भयण.

प्रवीण : ओ! वळखलों. कमला,

कमला : हय. तुजो पत्तोय ना मरे.

प्रवीण : येतलों हांव केन्नाय.

कमला : तूं आपूण जावन येतलो तेन्ना कावळे म्हातारे जातले.

प्रवीण : ना. ताचेपयलीं येवपी हांव.

कमला : आतां यो.

प्रवीण : सांगलें न्हय, दुकानार कोण ना.

कमला : बंद करून यो.

प्रवीण : पळयतां.

कमला : पळयतां बिळयतां कांय एक ना. आतांचे आत्तां घोड्यार बसून यो.

प्रवीण : घोड्यार बसून?

कमला : मोटारसायकलीर बसून यो.

समीर : पंकजा, आजूच येवंक जाय? फाल्यां आयल्यार जायना?

पंकजा : ना, ना. आजूच. लोकांनी मोटारसायकलीपासून स्टार्ट मारल्यो.

(दोगांय फोनाचेर उलयता आसताना पार्श्वभागाचेर दोन मोटारसायकली वेगान येतात तो आवाज. आवाज व्हड जाता आनी पंकजा आनी कमलाच्या भोंवतणी उजवाडाचें वर्तुळ जाता आनी मागीर काळोख. मोटारसायकलींचो आवाजूय बंद जाता आनी रोमँटीक संगीताची सुरावट आयकूंक येता.

रोखडोच उजवाड जाता. उजवाडांत दिसतात-पंकजा आनी कमला. पंकजाचे बाजूक तरनाटो समीर दिसता. आधुनीक भेस. तेचपरी कमलाचे बाजूक तरनाटो प्रवीण दिसता. ताचोय तसोच आधुनीक भेस. दोनूय जोडयो एकामेकालागीं बरोच वेळपासून उलयत आसा अशें दिसता. इतल्यान भितरसावन धिराई येता. तांकां पळोवन अजापता. पंकजा-कमलाय कांचवेतात. तांचेपरस समीर आनी प्रवीण अदीक कांचवेतात.)

पंकजा : मम्मा, हो म्हजो इश्ट समीर.

कमला : मम्मा, हो म्हजो इश्ट प्रवीण.

समीर : हॅलो आंटी.

प्रवीण : हॅलोऽऽ

धिराई : तें बरें आसा. तुमी हांगा कितें करतालीं?

पंकजा : मम्मा, ते आमकां मेळपाक आयिल्ले.

धिराई : तुमी दोगांय भितर वचात.
(पंकजा - कमलां आपले कुडींत वतात.)

धिराई : नांव कितें म्हणलें?

समीर : हांव समीर.

प्रवीण : हांव प्रवीण,

धिराई : केन्नासावन तुमची वळख?

समीर : शाळेंत शिकताना.

प्रवीण : हय. आमी चौगांय एकामेकांक वळखतात.

धिराई : तुका पंकजा आवडटा?

समीर : हय. खूब आवडटा.

प्रवीण : कमलाय कोणाकूय आवडपा सारखेंच आसा.

धिराई : तुका आवडटा काय ना?

प्रवीण : आवडटा तर.

धिराई : तीं दोगांय कशेतरेची जुंवळीं हें तुमकां खबर आसा न्हय?

दोगूय : आसा.

धिराई : मागीर तांका तुमी कसली आस दाखयतात?

समीर : कसली आस आंटी?

धिराई : हे पिरायेचेर चल्यां - चलयांक जी आस निर्माण जाता ती.

प्रवीण : आंटी तुमचें कितेंतरी मिसअंडरस्टँडींग जालां. गैरमसज.

धिराई : कसलो गैरसमज?

प्रवीण : आमी तांकां मेळूंक आयल्या तातूंत दुसरो कसलोच हेतू ना. निदान म्हजो तरी ना.

समीर : म्हजोय ना. हांवूय फक्त इश्टागतीक लागून आयलां.

धिराई : म्हाका माफ करात. दोन चलयांची आवय हांव. फक्त चलयांची न्हय, जुंवळ्या चलयांची आवय. म्हज्या काळजाक कसली चिंता तें तुमकां कळपाचें ना.

प्रवीण : आमकां ताची कल्पना आसा आंटी.

धिराई : मोटे समजिकायेचे तुमी. तूं प्रवीण, तूं कितें करता?

प्रवीण : बाजारांत म्हजें ल्हानशें कपड्यांचें दुकान आसा. हांव थंय सावनूच आयलां.

धिराई : कोण आसा दुकानार?

प्रवीण : हांव एकलोच. दुकान मदींच बंद करून आयलां.

धिराई : कित्याक?

प्रवीण : कितें करूं आंटी, कमलान सामको आग्रो केलो. उतर घेतलेबगर फोनूच दवरपाक तयार जालें ना.

समीर : म्हाका तर मोबायलाचेर सामकी धमकीच दिली पंकजान. खरें म्हणल्यार आयज म्हाका कशेंच फावनासलें. हांवें कोणाकतरी उतर दिल्लें. पूण कितें करतलों? पंकजाक दुखोवपापरस हावें म्हज्या मनशाक दुखयलें.

प्रवीण : पूण आंटी, आयलो तांचें समादान जालें आं. दोन वरां दुकान बंद जालें म्हणून कांय नजो. तें लुकसाण भरून काडूं येता. तांचे दोगांयचे जिणेंतली थोडिशी रिती सुवात आमी भरून काडली.

समीर : खरें आंटी,

धिराई : देव तुमचें कल्याण करूं!

समीर : हांव अदीं-मदीं येतलों. पंकजाक मेळपाक.

प्रवीण : हांवूय येतलों. कमलाच्या निमित्तान. पूण दोगंकूय मेळपाक. आयल्यार जाता न्हय आंटी?

धिराई : हय रे म्हज्या पुतांनो, जरूर येयात.

समीर : आतां हांव वचूं?

धिराई : तांचो निरोप घेवन वचचेनात?

समीर : पंकजा, कमला बायऽऽ

प्रवीण : बाय कमला, बाय पंकजा.

(पंकजा-कमला थंयसावनूच तांकां 'बाय' 'बाय' करून निरोप दितात. समीर आनी प्रवीण भायर वतात. मोटारसायकली स्टार्ट मारून पयस गेल्ल्याचो आवाज. धिराईक राग आयला. त्याच रागान ती धुवांक उलो मालता.)

धिराई : पंकजा, कमला भायर येतात.

दोगांय : (भायर येत.) कितें मम्मा!

धिराई : तुमी इतलीं अकलेक आयल्यांत?

पंकजा : कितें जालें मम्मा?

धिराई : कितें जालें म्हण विचारपाक लज दिसना?

कमला : लज दिसना म्हण विचारतां न्हय.

धिराई : वयल्यान हें? त्या दाणग्या-दुणग्या भुरग्यांक घरांत आपयता?

कमला : ते दाणगे-दुणगे भुरगे तें दिसलें तुकां? आमी दाणगीं-दुणगीं जाल्यांत तें दिसलें ना?

धिराई : तेचखातीर काळजी घेतां न्हय हांव. ते तुमचे मोबायल काय फोबायल उदकांत वडोवपी हांव.

पंकजा : खबर आसा. राग आयल्यार आमकांय वडोवपी उदकांत.

कमला : हय. जड जाल्यांत न्हय आमी?

राई : आवयची ही पारख केली तुमी?

कजा : आनी तुवें आमकां तागडेंत घालून जोखलींना?

राई : हय. जोखल्यां तुमकां. सदांच जोखतां. काळजाचे तागडेंत घालून तुमकां जोखतां. ताचें हें फळ म्हाका (हुंडकेता. दोळ्याकं पालव लावन भितर धांवता.)

कजा : तुजेखातीर हें सगळें जालें. दिसता तशें ना तूं.

मला : म्हजेखातीर? हांवें कितें केलें?

कजा : तुवें म्हणलें ना, तकली वापरूया. त्या सारासारखी. आनी ते कुंतीसारखी. तुजेखातीर हांवे मारलो तो मंत्र आनी आपयलो समीराक.

कमला : कसलो मंत्र?

पंकजा : कर्माचो!

कमला : समीराकडेन बऱ्यो गुलगुलू गजाली करतालें आनी आतां मम्मा तापतकूच म्हजेर कित्याक आळ घालता?

पंकजा : आनी तूं कितें प्रवीणामुखार जांबयो काडटालें?

कमला : हांव कित्याक जांबयो काडटलें? ताकाक येवन गाडगो लिपोवपाची म्हाका संवंय ना.

पंकजा : खबर आसा म्हाका.

कमला : कितें खबर आसा?

पंकजा : तुजे चाळे.

कमला : कसले चाळे केल्या हांवें? सांग मगो.

पंकजा : (वग्गी रावता.)

कमला : सांग. नाजाल्यार फ्रिजांतलें दोन बाटल्यो थंड उदक पियेतलें. मागीर फाल्या बस शिकत.

पंकजा : तसलीं पाडेपणां बरी कळटात तुका.

कमला : हीं पाडेपणां? आनी तुजेखातीर म्हाकाय गरम उदकाचें सरबत पियेवचें पडटा तें कितें?

पंकजा : आनी तुजेखातीर म्हाका परत परत संडासांत धांवचें पडना?

कमला : व्हडले उपकार म्हजेर! तुजेखातीर म्हाका संडासांत वरांची वर भेंड मोडून रावचें पडटा. तुजें पोट म्हणल्यार नुस्त्याच्या आनी कुंकडाच्या मड्यांची सेमिंतरी.

पंकजा : तूं बरें सवळें! तुजे पोट म्हणल्यार कुशिल्ल्या शेणाची गायर.

कमला : शेणाची गायर मुगो? मागीर तूं कित्याक ते गायरी म्हऱ्यांत रावता?

पंकजा : आनी मड्यांची सेमिंतरी मुगो? मागीर तूं कित्याक ते सेमिंतरी म्हऱ्यांत न्हिदता?

कमला : नाईलाज म्हणून.

पंकजा : आनी हांव कितें उमेदीन? म्हजोय नाईलाज.

कमलाज : म्हाका तुज्या तोंडाक लागपाचें ना. म्हजो रेसलिंग पळोवपाचो वेळ जालो.

(बळजबरीन टी. व्ही. मुखार वता. रिमोट कंट्रोल घेता. टी. व्ही. सुरू करता. टी. व्ही. चेर रेसलींग लागता.)

पंकजा : सगळी सुरवात तुवें केल्या आनी आता नामानिराळें रावपाक सोदता?

कमला : सांगलें न्हय, म्हाका तुज्या तोंडाक लागपाचें ना. हांव सुण्याच्या तोंडाक लागना.

पंकजा : सुणें?

कमला : कोण सुणें? हांव?

पंकजा : भोंकता ताचेवेल्यान कळना!

कमला : भोंकपाचें सोड. हांव तुजे गोमटेक घांस मारपी.

पंकजा : मार. त्या निमतान तरी ती तुट्टा जाल्यार पळोवया.

कमला : हय. म्हाकाय तरी तें कितें दशिल्लें जाय!

(एकमेकांच्या आंगार हात घालता. एकामेकाक बुचकितात, मारतात. तोल वचून पडटा. लोळटा. टी. व्ही. चेर रेसलींग चल्लां. थंयूय असलीच हाणामारी-टी. व्ही. वयलो देखाव सायक्लोरामाचेर दिसता-इतल्यान भायरसावन गिरीधर, प्रधान

आनी डॉक्टर कामत येतात. कामतीची पिराय पन्नाशेक वर्सांची. हातांत वैजकीची बॅग आसा.)

गिरीधर : पंकजा, कमला, हें कितें चल्लां?
(तांका सोडोवन घेता. तांचे केंस, कपडे अस्ताव्यस्त जाल्यात. प्रधान बेगीबेगीन टी. व्ही. बंद करता.)

गिरीधर : धिराईऽऽ (आड्डत) धिराईऽऽ
(धिराई भितरसावन धांवत येता. तिच्या हातांत कायलाथो आसा.)

गिरीधर : हें कितें चल्लां?

धिराई : (तांची अवस्था पळोवन.) हांव रांदचेकुडींत आशिल्लीं.

गिरीधर : चुट्टी लागली तुज्या खाणां जेवणांक. कितले फावट सांगलें तुकां, भुरग्यांक एकटीं सोडूं नाका. भुरग्यांक पळोवपाक एक मनीस दवर म्हणल्यार तेंवूय नाका. तुकां तुज्या हातान सगळें करपाक जाय. निदान रांडचेकुडींत तरी मनशाची व्यवस्था कर. तेंवूय नाका. जशें काय संवसारांत भुरग्यांक कितें जाय तें फक्त तुकांच कळटा.
(धिराई अपराधी जाल्या. मोन्यांनी आयकता. भुरग्यांक लागीं ओडपाचो यत्न करता. धिराई नाईलाजान रांदचेकुडींत वता.)

डॉ. कामत: पंकजा, कमला, चलात. तुमचे कुडींत चलात.
(डॉ. कामत तांकां घेवन तांचे कुडींत येता. तांका तपासता. गिरीधर कुडीभायर अस्वस्थ जावन पासयो मारता. प्रधानूय चिंतेस्त आसा. वातावरणांत तणाव निर्माण करपी संगीताची सुरावट. कांय वेळान धिराई रांदचेकुडींतल्यान भायर येता. ती आकांताची खंती जाल्या. तिका जुंवळ्याचे कुडीकडेन वचपाचें आसा पूण मदीं गिरीधर पासयो मारता. तिका धाडस जायना. ती आंग चोरून थंयच उबी रावता. भितर डॉ. कामतीचें जुंवळ्यांक तपासून जालां. ती तांकां घेवन भायर येता.)

डॉ. कामतः (जुंवळ्याक) चलात, आवय म्हऱ्यांत चलात. (आवय बापायक) भिवपाची कांयच गरज ना. सगळें नॉर्मल आसा (धिराई भुरग्यांक घेवन भितर रांदचेकुडींत वता.)

गिरीधर : डॉ. कामत, अखेर सगळे यत्न फुकट गेले. हांव, प्रधान आ तुमीं कितलीं धडपडलीं!

डॉ. कामतः पूण हांवें आस सोडूं ना.

गिरीधर : तुमी डॉक्टर. निमाणेमेरेन तुमी अशेंच सांगतात, आस सोडून यत्न चालू आसात पूण डॉक्टर कामत म्हाका एके गजाली अजाप जालें. खंत तर जालीच.

डॉ. कामतः कसली गजाल गिरीधरबाब?

गिरीधर : डॉक्टर जयंत दीक्षित खऱ्यांनीच व्हडले डॉक्टर. दुबावूच ना सर्जरीमदले संवसारांतल्या पयल्या धांतले एक

डॉ. कामतः बरोबर.

गिरीधर : पूण ताणीं सादें मनीसपणूय दाखोवप ना? म्हणजे दीसभर आमी तांकां कॉन्टेक्ट करपाचो यत्न करतां, जाल्यार सादो रिस्पोन्सूय दिवप ना? तांकां धोसपाक आमी कितें पत्रकार? आमचो प्रश्न कितलो म्हत्वाचो! ताची मात लेगीत कदर ना? आनी तांगेले सेक्रेटरी? रघुराजन, ताणे प्रधानाचो म्हजेहुजीर कसलो अपमान केलो? हॅव यू गॉट एनी सेन्स? म्हज्या सेक्रेटरीक, प्रधानाक तो विचारता?

प्रधान : म्हाका वायट दिसूंना सर.

गिरीधर : म्हाका खबर आसा. पूण म्हाका वायट दिसलें न्हय.

डॉ. कामतः गिरीधरबाब, त्या सेक्रेटरीचें सोडात. पूण डॉ. दीक्षित तुमी समजतात तशे न्हय. तो खऱ्यांनीच बरो मनीस.

गिरीधर : बरो सर्जन.

डॉ. कामतः ना. मनीसूय म्हण तितलोच बरो. हांव मेळूंना, पूण हांवें तांचेविशीं जायतें आयकलां. जायतें वाचलां.

गिरीधर : डॉ. कामत, पयसुल्ल्यान सगळेच मनीस सुंदर दिसतात.

डॉ. कामत: दोंगराची उंचाय लाबिल्ल्या मनशांच्यो अडचणी आमी सामान्यांनी समजून घेवपाक जाय.

गिरीधर : डॉ. कामत, तशेंच तुमीय डॉक्टर!

डॉ. कामत: तशी तुळा करप बरोबर न्हय गिरीधरबाब.

गिरीधर : हांव तुळा करीना. मनशाची दानत सांगतां. कसली भीक मागली आमी!

डॉ. कामत: खरें. पूण आमचो आवाज तांचेमेरेन पावलोच ना न्हय?

गिरीधर : कसो पावतलो? शंकराच्या पांयाकडेन वतलो म्हणल्यार तो नंदी, नंदीबैल! दारांत थपकल मारून आसा न्हय.

डॉ. कामत: सेक्रेटरीचें कामूच तें. न्हय प्रधान?

प्रधान : तें जालेंच. पूण आमी त्या सेक्रेटरीक कितलो विनयलो! डॉ. दीक्षितांचो दोनूय दिसांचो कार्यक्रम सामको पॅक. मान्य. पूण डॉक्टर ताणीं आयज सांजवेळा फक्त अर्दवर आपणांखातीर राखून दवरलां-तातूंतलीं फक्त पांच मिनटां आमी मागिल्लीं जाल्यार ताचें कितें म्हणणें?

गिरीधर : हॅव यू गॉट एनी सेन्स? डॉ. कामत, हें मिस्टर प्रधानांक म्हटलें खरें, पूण तें म्हाकाय लागलें काय ना?

डॉ. कामत: गिरीधरबाब, तुमी गरजेभायर तुमचो ईगो दुखोवन घेवं नाकात. एक वेळ तुमचो बिझीनेस आनी ईगो बरोबर वचपाक शकता पूण ईगो आनी मेडीसीन बरोबर वचपाक शकना. प्लीज, कूल डावन. हांव तुमकां परत एक फावट निर्वाळो दिवन सांगता, तो सेक्रेटरी कसोय आसूं. डॉक्टर जयंत दीक्षित तशे न्हय.

गिरीधर : आय एम सॉरी! (गिरीधर खजील जावन कडेक सरता. इतल्यान दारांत एक व्यक्ती येता. प्रभावी व्यक्तिमत्व. पिराय साठेक वर्सांची. कोट, टाय असो भेस.)

व्यक्ती : एक्स्क्यूज मी. मिस्टर गिरीधरांचें घर हेंच न्हय? भायर तशी नेमप्लेट आसा म्हण हांव भितर सरलों.

प्रधान : बरोबर. हेंच घर.

व्यक्ती : आनी मिस्टर गिरीधर कोण?

प्रधान : ते. (गिरीधर फाट करून आसा.)

व्यक्ती : भायली बाग सुंदर आसा. भितरलीं फुलांय सुंदर आसूंक जाय.
(डॉ. कामत तांचेलागीं दुबावान पळयता.)
हांव डॉक्टर जयंत दीक्षित.
(सगळ्यांक अजापाचो, आकांताचो धक्को बसता. कांय वेळ कोणांक कितें उलोवचें कितें करचें तें कांयच कळना.)

डॉ. दीक्षित: तुमकां अजाप जालें. क्वायट नॅचरल. मिस्टर गिरीधर, तुमच्या जुंवळ्या भुरग्यांची खबर हांवें सायन्स जॉर्नालांत वाचली. आमचेखातीर व्हेरी इंटरेस्टींग. संवसारांतली एन्जॉन्ड ट्वीन्सची ही वेगळी केस. मॅगाझिनांतलो आर्टिकल वाचनाफुडे हांवे तुमचें नांव, पत्तो नोट करून दवरिल्लें. हांगा येवपाचो प्रोग्राम थारलो तेन्ना हांवें हे केसीखातीर अर्दवर राखून दवरिल्लें. तुमचीं भुरगीं खंय?
(सगळे ताकतिक करतात. इतल्यान पंकजा आनी कमला भायर येतात.)

गिरीधर : हीं, हीं म्हजीं भुरगीं डॉक्टर.

डॉ. दीक्षित: वा! बागेंतली फुलां! पंकजा कोण?

गिरीधर : हें पंकजा.

डॉ. दीक्षित: म्हणटकच हें कमला. कमला प्युअर व्हेज. पंकजा प्युअर नॉनव्हेज. कमला थंड उदक पिल्यार पंकजाक थंडी जाता. बरोबर?
(दोगांय मानो हालयतात.)

डॉ. दीक्षित: पयलीं मान कोणें हालयिल्ली?

दोगांय : दोगांयनी.

डॉ. दीक्षित: दोगांयनी बरोबर?

दोगांय : हय डॉक्टर.

**डॉ. दीक्षित:** दॅट्स गूड. तुमच्यो चलयो बऱ्योच समजिकायेच्यो आसात. लॉट्स ऑफ अनडरस्टँडींग. पंकजा आनी कमला. दोगांयचो अर्थ लोट्स! साळकां!

**गिरीधर :** हय. तशें येवजूनच नांवां दवरिल्लीं तांका.

**डॉ. दीक्षित:** येवजून नांवां दवरपी आवय-बापूय आसात तर!

**गिरीधर :** थँक्यू डॉक्टर! डॉक्टर बरोच अभ्यास केला तुमी आमच्या भुरग्यांचो.

**डॉ. दीक्षित:** अभ्यास? तो आतां सुरू जातलो. (डॉ. कामतीक) तुमी?

**डॉ. कामत:** हांव डॉ. कामत. हांची फेमिली डॉक्टर. हे मि. प्रधान, गिरीधराचे कंपनी सेक्रेटरी.

**डॉ. दीक्षित:** दॅट्स गूड! हांका तपासपाक जाय.

**डॉ. कामत:** चलात भितर.

(डॉ. दीक्षितांक आनी जुंवळ्यांक घेवन डॉ. कामत भितर वतात. तांकां खाटीर न्हिदयता. डॉ. दीक्षित तांकां तपासता. डॉ. कामत तांचे केसपेपर ताका दाखयता. डॉ. दीक्षित ते बारीकसाणेन पळयता. डॉ. कामतीक कांय चत्रायो दिता. भायर गिरीधर अस्वस्थतायेन पासयो मारता. प्रधानाचीय तीच अवस्था आसा. भितर तपासून जालां. डॉ. दीक्षित आनी फाटोफाट डॉ. कामत भायर येतात. डॉ. दीक्षित कितें सांगता तें आयकुपाक सगळ्यांचे कान आशेल्यात.)

**गिरीधर :** (भावनावश जावन.) डॉक्टर, डॉक्टर हांव तुमचो भोव उपकारी. तुमी म्हज्या घराक पांय लायले. म्हज्या भुरग्यांक हात लायलो.

**डॉ. दीक्षित:** मुखार?

(गिरीधराच्यान मुखार उलोवपाक जायना.)

**डॉ. दीक्षित:** मुखार कितें तें हांव सांगतां. तुमची दोगांय भुरगीं नॉर्मल आसात, हेल्दीय आसात. तांचें ऑपरेशन करपाक हांव तयार आसा.

**गिरीधर** : थँक्यू डॉक्टर.

(भितर पंकजा - कमला हात वावडून खोस प्रगट करतात.)

**डॉ. दीक्षित:** बाय द वे, तुमचो वेवसाय कितें?

**गिरीधर** : म्हजी फॅक्टरी आसा. बरी चलता.

**डॉ. दीक्षित:** अर्थात तेंवूय खूब म्हत्वाचें. ऑपरेशनाचो खर्च सुमाराभायर जातलो. जाचो ह्या खिणांक हांव तुमकां अदमासूय सांगपाक शकचोना.

**गिरीधर** : कांय हरकत ना डॉक्टर.

**डॉ. दीक्षित:** त्या खर्चात म्हजी फी आसचीना इतलें उतर दितां.

**गिरीधर** : थँक्यू डॉक्टर.

**डॉ. दीक्षित:** पूण एक सांगतां, रीस्क आसा. चान्सीस फिफ्टी फिफ्टी.

(गिरीधर काचाबूल जाता. भितर सावन दोगांय हात वावडून आड्डतात.)

**दोगांय** : आमी तयार आसात.

**डॉ. दीक्षित:** तशें जाल्यार तयारेक लागात.

(भितरसावन धिराई येता. तिणें सगळें आयकलां.)

**धिराई** : कसली तयारी?

**गिरीधर** : ही भुरग्यांची आवय. धिराई.

**डॉ. दीक्षित:** नमस्कार.

**धिराई** : नमस्कार बी मागीर. ऑपरेशनाखातीर परवानगी लागता काय कितें तें म्हाका खबर ना पूण भुरग्यांक कातरताना आवयची परवानगी लागता काय ना?

**डॉ. दीक्षित:** कातरताना? ओ आय सी. पंदराव्या शेकड्यांत म्हाले आनी आमी सर्जन एकाच लिस्टांत आसले. ते फक्त मनशाचे केंस कापताले आनी सर्जन प्रत्यक्ष मनीस. (समजायत) मॅडम, जें कितें जावपाचें आसा तें आवय बापायचे संमतीन, भुरग्यांचे मान्यतायेनूच जातलें. हांगा कोणाचेर कसलीच बळजबरी ना.

**धिराई** : तशें जाल्यार आयकात. ह्या ऑपरेशनाक आवय म्हणून म्हजी मान्यताय ना. हावें दोन जुंवळ्यांक जल्म दिवंक ना. हांवें एका जुंवळ्याक जल्म दिला. हांव तांचे कुडके करूंक दिवंचीना.

**डॉ. दीक्षित:** धिस इज अ गूड आर्ग्यूमेंट. मिस्टर गिरीधर. इमोशनल वातावरणांत ह्यो गजाली जावप शक्य ना. हांव फाल्यामेरेन हांगासर आसा.

**धिराई** : हांव परतून सांगतां, डॉ. दीक्षित तुमी हे भानगडींत पडूं नाकात.

**डॉ. दीक्षित:** ओ. के.

**पंकजा** : (दारांत येवन आड्डत) मम्मा, तुज्यान आमचें बरें पळोवं नजो.

**कमला** : कितली पाडी, दुश्ट मनीस तूं!

**डॉ. दीक्षित:** आय एम सॉरी मिस्टर गिरीधर. बाय.
(वचपाक वता.)

**गिरीधर** : (निश्चेवान.) रावात डॉ. दीक्षित, खंयचेय परिस्थितींत हें ऑपरेशन जातलें आनी तें तुमीच करतले.
(पंकजा-कमला परत खोशयेन आड्डतात. धिराई रागान रसरसता. प्रधान, डॉ. कामत तटास जातात. देखाव थीर जाता. ल्हवू ल्हवू काळोख.)

(पयलो अंक सोंपता.)

# अंक : दुसरो
## देखाव - पयलो

(गिरीधराचो आदलोच बंगलो. पयल्या अंका उपरांत चार / पाच म्हयन्यांचो काळ गेला. घरांत खास कसलो बदल ना. सकाळचो वेळ. पंकजा-कमला सालांत आसात. दोगांय उमेदी आसात आनी एकामेकाच्या सहकारान वागतात. उमेदीसरशीं कसलेंतरी खोशयेचें गीत गायतात, आनी गिताच्या तालार थोडींभोव नाचताय बी. इतल्यान माळयेर सावन गिरीधर सकयल देंवता. तो कपडे घालून भायर वचपाचे तयारेंत आसा. भुरग्यांची करामत पळोवन तो खोशी जाता. इतल्यान रांदचेकुडींतसावन धिराई भायर येता. ती आदलेवरीच कांयशा रागान आसा. गिरीधर आनी ती हांचेमदीं उप्राशिल्ल्या संघर्शाचो ताण दोगांयचेरूय तसोच आसा. धिराई भायर येनाफुडें पंकजा - कमला गावपाचें आनी नाचपाचें बंद करता.)

**धिराई** : तुमी च्या घेवपाक भितर येतलीं काय भायर हाडूं?

(दोगांय कांय वेळ बापायकडेन पळयतात. गिरीधर तटस्थ आसा. दोगांय मोन्यांनी रांदचेकुडींत वतात.)

**धिराई** : तुमकां च्या भायर हाडूं?

**गिरीधर** : नाका.

**धिराई** : बरें आसा. भितर येयात.

**गिरीधर** : नाका. हांव भायर घेतां.

धिराई : जाणांच आसलीं हांव. कितले दीस चलपाचें हें?

गिरीधर : कितें?

धिराई : म्हज्या हातचें खाण-जेवण घेवप ना. च्यावूय घेवप ना.

गिरीधर : एक तर म्हाका भूक नासता. जेन्ना कामांखातीर भायर उरतां तेन्ना भायरूच जेवन घेतां.

धिराई : तुमचे भलाकेचेर वायट परीणाम जातलो म्हणून म्हाका चिंता.

गिरीधर : तें हांव पळोवन घेतां.

धिराई : ह्या असल्या हटपणांमुखार हांव दिमी मारतलीं अशें बी तुमी येवजितात जाल्यार तें चूक.

गिरीधर : म्हाका खबर आसा तुजो सभाव.

धिराई : म्हज्या सभावाक लाय चुट्टी. म्हाका म्हज्या भुरग्यांचे पडलां.

गिरीधर : आनी म्हाका कोणांचें पडलां?

धिराई : तुमकांय भुरग्यांचेच पडलां. पूण तुमी आनी हांव हाचेमदीं भूंय मळबाचो फरक आसा. तुमी भुरग्यांचे बापूय. हांव तांची आवय.

गिरीधर : खबर आसा कसली आवय ती!

धिराई : कितें?

गिरीधर : तुकां भुरग्यांचें पडलां तें आतां.

धिराई : आतां म्हणजे?

गिरीधर : याद कर. तूं गुरवार आशिल्ली तेन्ना सव्या म्हयन्याचेर तुजी सोनोग्राफी केल्ली. तेन्ना दोतोरान कितें सांगिल्लें?

धिराई : (शादूर जावन) कितें सांगिल्लें?

गिरीधर : पोटांत जुंवळीं भुरगीं आसात.

धिराई : हय.

गिरीधर : आनी हेंवूय सांगिल्लें, भुरगीं एकामेकाक तकलेक दसल्यां आसूंक जाय.

धिराई : दोतोरान दुबाव सांगिल्लो. म्हणजे जुंवळीं भुरगीं हें नक्की, पूण एकामेकाक दसल्यांत काय ना हो दुबाव. हांव खूब भियेलीं. आवयपण म्हाका जाय आशिल्लें, पूण–

गिरीधर : पूण रीस्क नाका आशिल्ली देखूनच तुवें सांगलें, ॲबोर्शन केल्यार कशें?

धिराई : हांवें तुमकां सांगिल्लें. दोतोराक न्हय.

गिरीधर : प्रश्न तो न्हय. तुकां तीं भुरगीं नाका आशिल्लीं.

धिराई : म्हाका भुरगीं जाय आसलीं. जुंवळीं न्हय, तिळीं लेगीत जल्मल्यार जाय आसलीं पूण तीं अशीं जल्माचो सांगोड जावन जल्मल्लीं नाका आशिल्लीं. भुरगेपणांत केन्नातरी जात्रेत-फेरयेंत दोंबाऱ्याच्या खेळांत पिंजक्या साकाच्या कुडक्यार अशींच पळयिल्लीं हांवें दोन जुळिल्लीं लुणां. सोनोग्राफिच्या वेळार तेंच चित्र म्हज्या दोळ्यांमुखार आयलें आनी हांव कांचवेलें. म्हणूनच ल्हवूच हांवे तुमच्या कानांत म्हणलें, तशें जाल्यार गर्भ व्हळवयां? हांवें म्हणलें खरें, पूण तुमी कानां मनार घेतलें ना. तुमी ठाम रावले. आनी मागीर हांवूय म्हज्या आवयपणांत गुल्ल जावन गेलें. भुरग्यांचो जल्म जालो. जें पदरांत पडलें तें हांवें मोन्यांनी मानून घेतले. जुंवळी जाल्यांत म्हणून तांकां केन्ना खेपीत रावलीं ना. म्हज्याय नशीबाक दुशणां दीत पिरंगली ना. तुमी आयज कितल्या वर्सांनी-पंचवीस वर्सांनी म्हज्या घायावयली खवळी उसयली. सहजपणीं न्हय, मुद्दाम. हांव जाणां, तुमकांय भुरग्यांचें पडलां. एक बापूय म्हण तुमी खंयच एक कूसभर लेगीत केन्ना उणे पडूं ना. तरी लेगीत तुमचे आनी म्हजेमदीं आकांताचो फरक आसा. णव म्हयने पोटांत भुरग्यांचो भार घेवन भोंवपी आवयच्या पावलाखाला केन्ना तुमी तुमचें काळीज दवरिल्लें जाल्यार तुमकां कळटलें आसलें, कर्तव्य म्हटल्यार कितें आनी काळजी म्हणल्यार कितें! तुमीय दादल्यांनी कश्ट सोंसल्यात, पूण बाळटेराच्यो वेदना

केन्ना सोसूंना. तेन्ना ताणीं पोटांत घर केल्लें. आतां काळजांत घर केलां. पोटांतलें व्हळोवं येता. काळजांतलें न्हय. समजलें न्हय गिरीधर?

(धिराई पयलेच खेप घोवाक रागाभरशीं गिरीधर म्हण उल्लेख करता. गिरीधर त्या उल्लेखान कांचवेता.)

**गिरीधर** : (नरमायेन) धिराई, म्हजी चूक जाली. हांवें अशें म्हणूंक फावनासलें. खरेंच सॉरी!

**धिराई** : सॉरी म्हणलें म्हणून कोणाचे प्रश्न सुट्रा आसत पूण सॉरी म्हणलें म्हणून कोणाचे घाय पेखनात.

(हातांतल्यो गुळयो ताचेकडेन दीत.) ह्यो गुळयो. जेन्ना च्या आनी जेवण घेता तेन्ना घेवपाच्यो.

(ती मोन्यांनी भितर वरा. गिरीधर चुकी जाला. अस्वस्थ जाला. इतल्यान घरांतलो फोन वाजता. गिरीधर फोन घेता.)

**गिरीधर** : हॅलोऽऽ

**मिसेस प्रधान**: (तेवटेन) हॅलो ऽऽहांव मिसेस प्रधान, प्रधानाची घरकान्न उलयतां. धिराईबायचे घरकार गिरीधरबाब उलयता न्हय?

**गिरीधर** : हय-हय. राव आं. आत्तां हांगा आशिल्ली. आपयतां.

**मि. प्रधान** : नाका. म्हाका त्यो नाकात.

**गिरीधर** : प्रधान जाय? तो हांगा ना. फॅक्टरींत आसतलो.

**मि. प्रधान** : ते थंय ना म्हणूनच तांचे अस्वडीं फोन केला.

**गिरीधर** : सांगात.

**मि. प्रधान** : भुरगीं कशीं आसा?

**गिरीधर** : बरीं आसात. आसा ताचेपरस चड बरीं जावपाचे यत्न चल्ल्यात.

**मि. प्रधान** : कळूं ना म्हाका.

**गिरीधर** : हेबाबतींत तुमकां प्रधानान कांय सांगूं ना?

**मि. प्रधान** : ना.

**गिरीधर** : ना. तो नाच सांगचो. पूण योग्य वेळार तुमकां ते कळटलें.

**मि. प्रधान :** बरें आसा. तुमच्या भुरग्यांचें बरें जावपांत आमचें सूख आसा.

**गिरीधर :** तें म्हाका खबर आसा. प्रधान तेखातीर दीसरात कितलो धडपडटा तें हांव म्हज्या दोळ्यांनी पळयतां. तें आसूं, सांगात फोन कित्याक केल्लो?

**मि. प्रधान :** कशें सांगू गिरीधरबाब, तशी म्हाका थोडीभोव कल्पना आसा. म्हणजे तुमचो वेवहार मोटो तश्यो तुमच्यो अडचणीय मोटच्यो. पूण आमी सामान्य मनशां. हातावयल्या पोटाचीं न्हय पूण आमी परिस्थिती चड ताणून धरूंक शकना.

**गिरीधर :** म्हाका कळूंना. तुमी स्पश्ट उलयात.

**मि. प्रधान :** अशें तशें एका म्हयन्यापुरतें सोसूं येता. पूण फाटल्या चार म्हयन्याचो पगार ना म्हणल्यार खुबूच अडचण जाता. शिवाय दोगां भुरगीं आसा पदराक. तांचो वाडटो खर्च आसा. आमची परिस्थिती तुमकां खबर आसा. हांची एकल्याची जोड. तशें कुळार बरें घणघणटा, पूण हांव केन्ना तोंड फांफडून नकळो.
(गिरीधराक थोडी थोडी कल्पना येता. ताका प्रधानाचो राग येता.)
तुमी आयकतात न्हय गिरीधरबाब?

**गिरीधर :** आं, हय हय आयकतां.

**मि. प्रधान :** स्पश्ट सांगलां म्हण रागार जावं नाकात गिरीधरबाब.

**गिरीधर :** ना, ना. रागार ना. पूण तसो रागार आसाच कारण, ही गजाल तुमी म्हाका चार म्हयन्यां उपरांत सांगतात.

**मि. प्रधान :** कितें म्हणटा गिरीधरबाब?

**गिरीधर :** ना, ना. कांय ना. (आडेचें घडोवन) मातशें समजून घेयात. फाटले दीस थोडे अडचणिचे गेले खरे. पूण हांव तुमचें काम आयचे आयज करतां.

**मि. प्रधान :** तशें आयचे आयज करपाइतली अडचण ना. हावें फक्त याद केल्या. चार म्हयने जाल्यात थंय आनीक कांय दीस जाले

म्हणून कांय मळब कोंसळना सॉरी आं. कश्ट दिले तुमकां. आनी उपकार करून हांका, तुमच्या प्रधानांक म्हणू नाकात आं. दवरतां.

गिरीधर : (आपलेभितर) प्रधान! म्हजो प्रधान! ताका ह्या राजाचो धेक आजून खबर ना. नालायक खंयचेकडलो! एके बायले मुखार म्हाका मान खाला घालपाक लायली. (याद जावन-भितर पळयत) कितल्या बायलां मुखार आमी मानो खाला घालपाच्यो! एकेवटेन आमी आमकां झुजारी म्हणपाचें आनी दुसरेवटेन आमच्योच तरसादी आमच्याच माथ्यार हाणून घेवपाच्यो!

(इतल्यान भायरसावन डॉ. कामत येता. हातांत बॅग आसा. गिरीधर समजता तो प्रधानूच.)

गिरीधर : यो नालायका यो.

डॉ. कामत: (कांचवेता.) कितें?

गिरीधर : (गोंदळटा.) सॉरी, डॉ. कामत, हांव समजलों, मिस्टर प्रधानूच.

डॉ. कामत: प्रधानाचें नांव तुमी बदललां काय कितें?

गिरीधर : ना, ना. रागाभरशीं तोंडांत उतरां आयलीं.

डॉ. कामत: खऱ्यांनी काय मस्कऱ्यांनी? म्हणजे आवय कशी भुरग्याक म्हणटा, आवशिखायरो!

गिरीधर : हय. हय. तशेंच म्हणल्यार जाता.

डॉ. कामत: वातावरण कशें आसा?

गिरीधर : उमेदी! उल्हासीत!

डॉ. कामत: तें भुरग्यांचें वटेन जालें. आवयचे वटेन कशें आसा?

गिरीधर : सामके तंग! जातीय दंगली वेळार कर्फ्यू लागता तेन्ना आसता तशें तंग.

डॉ. कामत: परत दंगल जाली?

गिरीधर : हय. हांव सामको जातीर गेलों. म्हजे अहंकारी पुरुशी

जातीर.

**डॉ. कामत:** तुमी मातशें नमतें घेवपाक जाय.

**गिरीधर :** नमतें म्हणजे कशें? भुरग्यांचें ऑपरेशनाचो निर्णय सोडून दिवं?

**डॉ. कामत:** ना ना, तीच तर मोख न्हय. धिराईन ह्या निर्णयामेरेन येवपाखातीर जंय गरज थंय तुमी नमतें घेवपाक जाय.

**डॉ. कामत:** (अजापान) गिरीधरबाब हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना. पूण आमी एक व्हडलें काम न्हय, एक व्हडलें दिव्य करपाक भायर सरल्यांत अशा वेळार असले ताण तणावाचें गृहयुद्ध परवडपाचें ना. तशीं घराक गृहछिद्रां आसतात पूण संकश्टाच्या वेळार असले बुराक पुरोवपाचे आसतात. निदान वाडोवपाचे तरी नासतात.

(इतल्यान भितरसावन धिराई ट्रेंत च्याची दोन कपां घेवन येता.)

**डॉ. कामत:** (मुद्दाम विशयाक हात घालून) धिराईबाय आनी गिरीधरबाब, विशय खंय पावला तें तुमकां सांगतां. (पेपर काडून) मुंबयसावन डॉ. दीक्षितांची ई-मेल आयल्या. ताणीं बरयलां, ऑपरेशनाखातीर हॉस्पिटल थारायलां. सामकें अद्ययावत स्वरूपाचें ऑपरेशन थिएटर आसतलें. तातूंत ज्यो सुविधा सद्याक नात त्यो फुडल्यो कांय म्हयन्यांभितर तयार जातल्यो. हॉस्पिटलांतल्या सगळ्या वावराचेर डॉ. दीक्षित स्वतः लक्ष दवरतले. ऑपरेशनाआधीं पांच म्हयने पंकजा - कमलाक हॉस्पिटलांत रावचें पडटलें. तुमी मुंबय येवचेआदीं डॉ. दीक्षित हांगा एक फावट मारतले. खरें म्हणल्यार ताणीं परत हांगा येवपाची गरज ना. पूण ते येवपाक सोदता इतलें खरें. घडये तांका-

(धिराई दोगांयचे च्याचे कप घेवन मोन्यांनी भितर वता.)

**डॉ. कामत:** डॉ. दीक्षित हेचखातीर हांगा येवपाक सोदता. ते कोणाचे

इत्सेआड वचना.

गिरीधर : डॉ. कामत, म्हाका खात्री आसा. हें वातावरण नक्कीच बदलतलें. धिराईची संमती मेळटली.

डॉ. कामत: तशी संमती नासतानाय ऑपरेशन जावं येता, पूण डॉ. दीक्षित तें करपी न्हय.

गिरीधर : खबर आसा. (याद जावन) डॉ. कामत, म्हाका एक सांगात, ऑपरेशनची आपणाली फी आपूण घेवचो ना अशें डॉ. दीक्षितांनी आमकां हांगाच सांगलां. हॉस्पिटल, वखदां, बाकिच्योय गजाली आमकां फुकट आसतल्यो?

डॉ. कामत: तें कशे शक्य आसा?

गिरीधर : तेंच म्हणटा हांव. हावें तुमकां एकूण खर्चाचो अदमास विचारपाक लायिल्लो. रागार जावं नाका. हांव तुमकां फर्मायना, पूण तो अदमास कळ्ळ्यार म्हाका हातपाय हालोवपाक बरें न्हय?

डॉ. कामत: डॉ. दीक्षितांनी एस्टीमेट धाडला, पूण–

गिरीधर : पूण कितें?

डॉ. कामत: पूण तो खूबूच चड आसा.

गिरीधर : तो असो धापून दवरल्यार उणो जातलो? चड म्हणजे कितलो? ताणी आपणाली फी धरल्या तातूंत?

डॉ. कामत: ना.

गिरीधर : मागीर चड कसो जातलो? आंकडो सांगात म्हाका.

डॉ. कामत: (पेपर दाखयत.) तुमीच पळयात.

गिरीधर : डॉ. कामत, तुमी पेशंटाच्या दुयेंसाक केन्नाच भियेनात. आंकड्यांक कित्याक भियेतात? (पळयत) एकार एक कितलीशींच शून्यां आसात न्हय? आमचीं पायपां एके हारीन मांडून दवरतकूच अशीं शून्यांभशेन दिसतात. आनीक कोणाकूय जाल्यार हीं शून्यां चुकून पडल्यांत अशें दिसपाचें. पूण हांव जुंवळ्यांचो बापूय. म्हाका अशें दिसप शक्य ना.

**डॉ. कामत**: डॉ. दीक्षितांनी कांय फावंडेशनाचीं नांवां सुचयल्यांत. तातूंतल्यो कांय संस्था ह्यो प्युअरली असल्या केसींखातीरूच अर्थीक मदत करपी आसात. त्या आदारान कांय आंकडे उणे जावं येतात, पूण शून्यां न्हय. डॉ. दीक्षितांनी स्पश्ट बरयलां.

**गिरीधर** : कितें?

**डॉ. कामत**: निर्णयाचो फेरविचार करूं येता.

**गिरीधर** : डॉ. दीक्षित ठाम आसात न्हय?

**डॉ. कामत**: हय. तें ताणीं प्रत्यक्ष हांगांच सांगलां. परतून बरयलां. आतां तुमचेंच पळोवपाचें.

**गिरीधर** : आमचें कितें पळोवपाचें? डॉ. कामत, हांव फक्त नांवाचो गिरीधर न्हय. त्या नावापासून थोंडे तरी इन्स्पीरेशन, प्रेरणा घेतल्या हांवें. त्या गिरीधरान किरंगळीच्या बोटार दोंगर पेलिल्लो. हावें आख्खें माथें मारलां इतलोच फरक! (आपलेच पोले फोडून) डॉ. कामत, हांव कांय अती उलयलों ना न्हय?

**डॉ. कामत**: ना, ना.

**गिरीधर** : डॉ. कामत, म्हज्या भुरग्यांखातीर म्हाका सगळ्यांचो आदार जाय, आशीर्वाद जाय पूण कोणाचो एक पान दुडू नाका. डॉ. दीक्षितांनी आपली फी नाका म्हणूं, पूण ताचोय विचार हांव वेगळे तरेन करतलों. डॉ. कामत तुमकां म्हजो इतिहास खबर आसा. हांव शून्यांतल्यान घडलां. नळयेन फूक मारून हावें तव्यार भाकरी भाजल्या. तो हांव आयज पायपां तयार करपी फॅक्टरीचो धनी जालां. लखपती म्हण, करोडपती म्हण. घाम गळोवन, राती खळोवन म्हणटा तशी हावें सगळी पुंजी एकठांय केल्या. कित्याखातीर? फक्त म्हज्या भुरग्यांखातीर. तांच्या कल्याणाखातीर हांव म्हजी गोमटी लेगीत कापपाक तयार आसा. ऑपरेशनाच्या खर्चाचीं खूब शून्यां आसात. शंबर, हजार, लाख, कोटी! हांव शून्यांतल्यान आयलां, परत शून्यांत

वचपाची म्हजी तयारी आसा.

(इतल्यान भितर सावन पंकजा–कमला येतात.)

**पंकजा** : पप्पा, हे मम्मीक पळय रे.

**कमला** : पयलीं उलोवन तरी विरोध करताली.

**पंकजा** : आतां तेंवूय करीना. मोन्याचें संवंग घेवन रावता.

**कमला** : तिका अशी म्हणून पळोवं येता?

**पंकजा** : तूं तरी समजाय मरे तिका.

**गिरीधर** : जातली सारखी. आवयचें काळीज न्हय?

**पंकजा** : आनी तुजें बापायचें काळीज न्हय?

**गिरीधर** : (व्हदळचें याद करून) तरी लेगीत आवय आनी बापूय हांचेंमदीं भूंय–मळबाचो फरक आसा.

**कमला** : कसलो फरक?

**गिरीधर** : कळटलें तुमकां मागीर.

**कमला** : मागीर केन्ना?

**गिरीधर** : मागीर म्हणजे चड मागीर न्हय, तुमचें लग्न जावन तुमी आवयो जातकच.

**दोगांय** : (खोशयेन) पप्पा!

**पंकजा** : तूं कितलो बरो रे!

**कमला** : ही मम्माच अशी कित्याक? पाडी, खोटी.

**गिरीधर** : अशें म्हणनात. तिचोय तुमचेर मोग आसा.

**कमला** : मागीर ती अशी कित्याक वागता?

**डॉ. कामत** : मोग करपाची दर एकल्याची आपली पद्धत आसता.

**पंकजा** : दोतोर आंटी तुमी आमकां तपासतलीं?

**कमला** : आमी खूब बरीं आसात.

**डॉ. कामत** : म्हाका खबर आसा. पूण डॉ. दीक्षितांनी तुमचो रेग्युलर चेकप करपाक सांगलां.

(तांका घेवन तांगेले कुडींत वता. थंय तांका तपासता. भायर गिरीधर एकलोच आसा. इतल्यान भायर सावन प्रधान

ताकतिकेन येता. ताच्या हातांत एक पत्र आसा.)

प्रधान : सर, सर. तुमचेखातीर एक गूड न्यूज?

गिरीधर : (अकस्मात ताका याद जाता. तो सावध जाता.) मिस्टर प्रधान, म्हजेयकडेन तुजेखातीर एक गूड न्यूज आसा? तूं कितें समजलो? तुजेचकडेन न्यूज चॅनेल आसा?

प्रधान : तुमची गूड न्यूज मागीर सर. ती इतली बरी आसंकूच शकना.

गिरीधर : अशें? कसली गूड न्यूज ती?

प्रधान : सर, आमचें टेंडर पास जालें.

गिरीधर : खंयचें टेंडर?

प्रधान : अशें कितें सर? पांच हजार पायपां सप्लाय करपाचें टेंडर. सगळ्यांचे नदरेन व्हडलें घबाड! कोट्यांनी उलाढाल! आनी सर, त्या टेंडराची आमचे कंपनीक आयचे घडयेक सामकी गरज. तुमकां खोस जावंक ना? कितल्या बोवाळान भरिल्लें आमी टेंडर. तुमकां आनी म्हाका एकठांय बसपाकूच मेळ्ळें ना, तरी लेगीत कंपनीन आपले पद्धतीन भरलें.

गिरीधर : कंपनीत न्हय, मिस्टर प्रधानान.

प्रधान : न्हय सर, कंपनीन.

गिरीधर : मिस्टर प्रधान, कंपनी फक्त नांवाक. सगळें तुवें केलां. हावें फक्त सय केल्या. दोळे धांपून. तुवें पायपांच्या बदला रितीं बल्लां सुद्धा बरयिल्लीं जाल्यार हांव सय करतलों आसलों.

प्रधान : पूण तुमचो म्हजेर विस्वास आशिल्लोच न्हय?

गिरीधर : हय प्रधान, त्याच विश्वासाचेर हें सगळें चलतालें.

प्रधान : चलतालें म्हणजे सर?

गिरीधर : तुवें म्हजो विश्वासघात केलो. तुवें दिल्ल्या पेपरांचेर हावें सय केली. तुवें दिल्ल्या पे शीट्सांचेर सय केली. तातूंत कोणाचो पगार आसा काय ना तेंवूय पळयलें ना. ह्या ऑपरेशनाची खबर जायतपासून तर म्हजी तकली जाग्यारूच नासली. तुवें ताचो

पुरेपूर फायदो घेतलो.

प्रधान : सर, तुमचो कितें तरी गैरसमज जाला.

गिरीधर : जाला. पूण तो तुजे बाबतींत. मिस्टर प्रधान, फाटले चार म्हयने तुवें म्हज्या कंपनी सेक्रेटरीक मिस्टर एस. के. प्रधानाक पगार फारीक करूंक ना.

प्रधान : (समजून) सॉरी सर.

गिरीधर : पूण कित्याक?

प्रधान : सॉरी सर. तुमकां खबर आसा सर.

गिरीधर : कितें खबर आसा म्हाका? म्हज्या भुरग्यांखातीर तूं तुज्या भुरग्यांक उपाशीं दवरता?

प्रधान : सर, तुमकां कोणें सांगलें?

गिरीधर : कोणें सांगलें म्हणजे? तुमकां कितें दिसलें? हावें दोळे धांपून सय केल्या म्हणजे हांव सगळ्याक दोळे धांपून वावुरतां?

प्रधान : सॉरी सर.

गिरीधर : आनी प्रधान म्हाका कोणें सांगलां म्हणून कोणाचे दुबावबी, घेशी. खबरदार!

प्रधान : ना सर.

गिरीधर : पूण प्रधान. हांव तुकां माफ करपाक शकना.

प्रधान : सॉरी.

गिरीधर : ना. ना. हांव तुकां फाल्यांसावन कामावयल्यान काडून वडयतां.

प्रधान : सर, फाल्यांसावन कित्याक? आयजसावन काडून वडयल्यार एक दीस कंपनीच्या पदरांत पडटलो.

गिरीधर : कंपनीचें हीत पळोवपाक हांव आसा.
(इतल्यान डॉ. कामत भायर येता. ताचें तपासून जालां. पंकजा – कमला खाटीचेर मोबायलाचेर गेम खेळटात.)

डॉ. कामत: कितें जालां? तीं थंय नॉर्मल आसात. हांगाच सारखें ना. कितें जालां प्रधान?

प्रधान : कांय ना. सरान म्हाका एक ऍवार्ड दिलो.

डॉ. कामत: ऍवार्ड? दुसऱ्यांचो असो भौमान करपाची संवंय आसा तांकां. बाय द वे. कसल्या वावराखातीर ऍवार्ड?

प्रधान : हांवें कंपनीक एक व्हडलें टेंडर मेळोवन दिलें.

डॉ. कामत: वा! तुकां ऍवार्ड फाव! कसलो ऍवार्ड?

प्रधान : म्हाका आयच्च्यान कंपनी सेक्रेटरीच्या कामावयल्यान काडून वडयला.

डॉ. कामत: इट्स गूड् न्यूज! फायच्च्यान तूं मेकळी हवा खावपाक फ्री बर्ड! फक्त हवा खावन राव. कितें गिरीधरबाब?

गिरीधर : (धमकायत-प्रेमान) प्रधान,

प्रधान : यस सर.

गिरीधर : आत्ताच्या आंता ऑफीसांत वचपाचें. चार म्हयन्यांचो पगार घेवन सरळ घराची वाट धरपाची.

प्रधान : यस सर.

गिरीधर : आनी प्रधान. टेंडराखातीर मनापासून तुकां धन्यवाद!

प्रधान : थँक्यू सर.

गिरीधर : प्लीज. म्हज्या दोळ्यांतल्यान दूक झडचेआदीं म्हज्या मुखावयल्यान हुंवाळून वच आनी सांगलां तें कोणाचो दुबावबी घेशी जाल्यार खबरदार! नाउ गेट आवट.

प्रधान : यस सर. (दोळे पुशीत वता.)

गिरीधर : डॉ. कामत, तुमच्या सगळ्यांच्या उपकारांतल्यान हांव केन्नाच मेकळो जावचो ना. आनी तसो मेकळो जाल्लोय नाका म्हाका. तुमच्या उपकाराचें वजें म्हाका केन्नाच जड जावचें ना.

डॉ. कामत: आतां तें वजें मातशें सकयल दवरात. दवरलें? हांव सांगता तें आयकात .

गिरीधर : सांगात.

डॉ. कामत: हें अशें बरोबर न्हय, म्हणजे सगळीं तोंडां एकेवटेन आनी फक्त धिराईचेंच तोंड तितलें दुसरे वटेन. आतां बऱ्योचशो गजाली

जाग्यार पडिल्ल्यो आसात.

**गिरीधर** : तुमी यत्न करात.

**डॉ. कामत**: अर्थांत म्हजें कामूच तें.

(इतल्यान धिराई हातांत पुजेचें साहित्य घेवन येता. देवाघरांतल्यान देवाची गंधफूल घालून पुजा करता. डॉ. कामत तिगेली पुजा सोंपपाची वाट पळयतात. पुजा सोंपता. ती निवेद्य वांटटा. पयलीं डॉ. कामतीक, मागीर गिरीधराक.)

**डॉ. कामत**: धिराईबाय पुजा जाली. हें (पुजेचें साहित्य) भितर दवरून आयल्यार बरें न्हय. कितें उलोवपाचें आसलें.

**धिराई** : उलयात तुमी.

**डॉ. कामत**: नवो कसलो विशय न्हय. होच. तेवटेन मुंबय सगळी तयारी चल्ल्या.

**धिराई** : तें व्हदळ सांगलें तुमी.

**डॉ. कामत**: हेवटेन आजून पक्को निर्णय जावंक ना.

**धिराई** : जावंक ना कसो तर? खंयचेय परिस्थितींत हें ऑपरेशन जातलेंच आनी तें डॉक्टर दीक्षितूच करतले अशी घोशणा हांगा सगळ्यांच्या हुजरां जाली ना?

(गिरीधर तोंड घालपाक वता. डॉ. कामत ताका आडायता.)

**डॉ. कामत**: तशी घोशणा जाली खरी. म्हणजे तशें करीनासतना समजीकायेन हो प्रश्न सुटावो जावं येतालो.

**धिराई** : तशी समजीकाय ह्या घरांत ना.

(परत गिरींधर तोंड घालपाक वता. डॉ. कामत परत आडायता.)

**डॉ. कामत**: हांव तेंच म्हणटां, आमचें चिंतप आनी तुजें चितप वेगळें कित्याक जावचें? हांव म्हणटा, खूब तेंपान एक उजवाडाचें किर्ण दिसपाक लागलां. आमी सगळीं ताका येतकार दिवंया.

धिराई : तुमी म्हणटा तें उजवाडाचें किर्ण न्हय. तो खर उज्याचो कवदो. म्हजी माणकुलीं पिसोळीं त्या कवद्यांत भस्म जावन वतलीं.

डॉ. कामत: ना. तशें जावचें ना.

धिराई : तशें जावचें ना जाल्यार तें आयजवेर कित्याक जालें ना? आमी थोडे यत्न केले? तांच्या भुरेगपणांपासून कितले दोतोर आनी वैज केले! घाडी-भगत पासून केले. निमाणी मनाची समजीकाय काडली आनी घट्ट गांठ बांदली. ना. सासणांखातीर हो प्रश्न सोंपलो. तुमी तो गरजेभायर उप्रासून काडला.

डॉ. कामत: पूण दोगांय भुरग्यांक हो प्रस्ताव मान्य आसा. आनी धिराईबाय, तुमकां खबर आसूंक जाय, तुमचीं भुरगीं आतां ल्हान नात. (इतल्यान पंकजा-कमला कुडीच्या दारांतल्यान भायर येतात.)

पंकजा : मम्मा, खंयचेय परिस्थितींत आमी आतां वेगळीं जावपी.

कमला : तूं आमचेआड येवं नाका. तुवें इतलो तेप आमचेखातीर केलें तें खूब जालें. आतां तूं आमचेमदीं पडूं नाका.

पंकजा : मम्मा, तुकां आमची कशी काकूळट येना गे? कसली जीण ही आमची? हागपा-मुतपाचें पासून आमकां स्वातंत्र्य ना.

कमला : खातना-जेवताना, उठटना-बसताना, न्हीदताना आमकां एकामेकांचेर अवलंबून रावचें पडटा.

पंकजा : भुरगेपणांत एक बरें आसलें. तेन्ना सारखें कळय नासलें. पूण आतां आमी नेणटीं उरूंक ना.

कमला : आमी तरणीं जाल्यांत. तुज्या जुवानपणांत तुका जें दिसतालें तें तें सगळें आमकां दिसपाक लागलां.

पंकजा : पप्पान, डॉ. कामत आंटीन, प्रधान अंकलान आमची आस जागयली. डॉ. दीक्षित देव कसो धांवून आयला आमच्या उल्याक.

धिराई : देवाची फकाणां करी मुगो तुमी? आतां ताचेंच नांव घेता?

कमला : ना. मम्मा आतां फकाणां करचीं ना.

पंकजा : तुगेले सद्‌चे देवपुजेचें हें फळ म्हणून आमी सदांच देवाची प्रार्थना करतलीं. आरती गायतलीं.

कमला : खरेंच मम्मा, तूं सांगता तें तें करतलीं.

पंकजा : मम्मा, तूं पप्पाच्या म्हणण्याक हयकार दितली न्हय?

कमला : हय म्हण गे मम्मा.

गिरीधर : धिराई, भुरग्यांचो कितलो म्हण अंत पळयतली?

धिराई : तुमी म्हजो अंत पळोंव नाकात.

पंकजा : तशें जाल्यार आमकांय तुजी पर्वा ना.

कमला : आमी आतां नेणटीं उरूंक ना. सज्ञान जाल्यांत.

धिराई : फक्त सज्ञान न्हय. सुबेज लेगीत.

कमला : हय. जाल्यांत सुबेज. तूं ऑपरेशनांक परवानगी दिना जाल्यार आमी फाटीं सरचींनात.

पंकजा : कायद्यान आमचो फुडार थारवपाचो आमकां पूर्ण अधिकार आसा.

कमला : एकलो पप्पा आमचेवटेन आसा तितलो आमकां पुरो, खरें न्हय डॉ. आंटी?

डॉ. कामत: खरें तुमचें, पूण तशें जावप शक्य ना.

दोगांय : म्हणजे?

डॉ. कामत: डॉ. दीक्षित मानून घेवंचेना. ताणी सांगूना? सगळ्यांचे संमतीनूच जातलें म्हणून.

कमला : मागीर आमी कितें मम्माच्या मर्णाची वाट पळयत तकल्यो सांगडावन बसपाचें?

(धिराईक वायट दिसता. गिरीधर तांचेर तापता.)

गिरीधर : कमला, पंकजा तोंड चड सुटलां तुमचें.

पंकजा : हय सुटलां. मम्माभशेन तुंवूय ना म्हणून सांग. मागीर सुरी घेवन आमी आमकां कशी मेकळीं करता तें पळय.

गिरीधर : (तापत) तोंड बंद कर म्हणटां न्हय.

(पंकजा-कमला रडपाक लागता. धिराईय रडपाक लागता.

इतल्यान फोनांची बेल वाजता. डॉ. कामत फोन उखलता. तेवटेन प्रधानाचो आवाज.)

**प्रधान** : (तेवटेन) हांव प्रधान उलयतां.

**डॉ. कामत**: मिस्टर प्रधान, हांव डॉ. कामत उलयतां.

**प्रधान** : तुमी आजून थंयच आसा? थँक गॉड! देव पावलो.

**डॉ. कामत**: सांग.

**प्रधान** : डॉ. कामत कसली गूड न्यूज आसा जाणां!

**डॉ. कामत**: सांग,

**प्रधान** : डॉ. कामत, हांव गाडी घेवन एअरपोर्टाचे वाटेर आसां.

**डॉ. कामत**: एअरपोर्टार कित्याक?

**प्रधान** : डॉ. दीक्षितांक हाडपाक.

**डॉ. कामत**: डॉ. दीक्षित? ते ह्या वेळार एअरपोर्टार कशे?

(डॉ. दीक्षितांचें नांव आयकून पंकजा - कमला आनी धिराई शादूर जातात.)

**प्रधान** : ते मुंबयसावन बेंगलूर वताले. मदीं विमान बदलापाखातीर दोन वरांचो गॅप आसलो. तांगेल्या सेक्रेटरीन म्हाका फोन केलो. हावें रोकडोच डॉ. दीक्षितांकडेन संपर्क सादलो. तांकां विनंती केली. ते येवपाक तयार जाले. ताणींच म्हणलें-हरशीं येवपाचोच आसलों तो अनायासान पावलों. आतां कांय वेळाभितर हांव डॉ. दीक्षितांक घेवन थंय पावतां. तुमकां सांगपाची गरज ना. सगळ्यांक तयार दवरात.

**डॉ. कामत**: ओ. के. टेक केअर.

(सगळीं जाणां डॉ. कामतीचे फोनावयलें संभाशण उमळशिकेन आयकून अदमास घेतात.)

(सगळ्यांक) डॉ. दीक्षित येता. प्रधान तांकां हाडपाक एअरपोर्टाचेर गेला.

(पंकजा-कमलाक खोस जाता. धिराई कांचवेता.)

**डॉ. कामत**: आतां वेळ वगडावं नाकात. डॉ. दीक्षितांची ही हांगासरली दुसरी

आनी निमाणी भेट आसतली. परत एक फावट सगळ्यांसमक्ष वायट - बऱ्या गजालींचो सोक्षमोक्ष लागतलो. गिरीधरबाब, म्हाका मनापासून दिसता, डॉ. दीक्षितांची ही भेट इतिहासीक थारची.

**गिरीधर** : थारतली डॉ. कामत, नक्कीच इतिहासीक थारतली.
(धिराई पुजेचें साहित्य घेवन मोन्यांनी भितर वता.)
डॉ. कामत, हिचें (धिराईचे) मोनेपणूय इतिहासीक थारना मूं?

**डॉ. कामत**: तें म्हजेपरस तुमीच बरेतरेन सांगपाक शकतले.

**गिरीधर** : हांव म्हजे पद्धतीन तयारेक लागतां. चक्क करून कितेय (पैशे ह्या अर्थान) लागले जाल्यार!

**डॉ. कामत**: ना. सद्याक तशें कांय लागचें ना. फक्त तयारी दाखयल्यार पुरो. हांव येवकाराखातीर दारांत रावतां.

**गिरीधर** : हांव रोखडोच येतां.
(गिरीधर ताकतिकेन माळयेर वता.)

**दोगांय** : (खोशयेन) याऽऽ हूऽऽ (वा अशेंच कितेंतरी उमेदीन म्हणटा. डॉ. कामत भायर वता. पंकजा-कमला खोशयेन गावन नाचतात. भायर गाडयेचो हॉर्न वाजता. कांय वेळान. भायर सावन डॉ. कामत, डॉ. दीक्षित आनी प्रधान येतात. ते येतनाच व्हडाव्हडान हांसत येतात. तेचबरोबर गिरीधर माळयेचीं सोपणां देंवून ताकतिकेन तांच्या येवकाराक वता. पंकजा - कमला हात जोडून शिस्तीन स्वागत गीताच्यो पयल्यो वळी गायतात.)

**दोगांय** : स्वागतम् प्रिय स्वागतम्!
(डॉ. दीक्षित ताळयो मारता तेसरशीं डॉ. कामत, प्रधान आनी गिरीधरूय ताळयो मारतात.)

**दोगांय** : नमस्कार अंकल.

**डॉ. दीक्षित**: नमस्कार. नमस्कार. हाव आर यू माय चाइल्डस?

**दोगांय** : फायन अंकल.

**पंकजा** : तुमी कशे आसात अंकल?

**डॉ. दीक्षित**: व्हेरी फायन.

**धिराई** : (भायर येत.) नमस्कार डॉक्टर.

**डॉ. दीक्षित**: ओ, मॅडम! नमस्कार. तर मिस्टर गिरीधर ही तुजी फॅमिली. मिस पंकजा, मिस कमला, मिसेस गिरीधर आनी मिस्टर गिरीधर. ऍन्ड धीस इज युवर प्युअरली फॅमिली मॅटर.

**डॉ.कामत** : डॉ. दीक्षित, हावें हांगासर रावपाक हरकत ना न्हय?

**डॉ. दीक्षित**: ऑफ कोर्स. युवर प्रेजेन्स इज व्हेरी मच् इसेन्शीयल. तुमी तर तांच्यो फॅमीली डॉक्टर.

**डॉ. कामत**: थँक्यू सर.

**प्रधान** : (गिरीधराक) सर, हांव हांगाच आसां. कितेंय गरज लागल्यार म्हाका उलो मारात.

(कडसरता आनी कुशीचे कुडींत वता.)

**डॉ. दीक्षित**: (गिरीधराक) मिस्टर प्रधान इज व्हेरी श्रुड.

**धिराई** : तुमी कितें घेतले डॉ. दीक्षित?

**डॉ. दीक्षित**: डॉ. कामतीन तुमकां कल्पना दिल्याच आसतली. (जुंवळ्यांक) आर यू इंटरेस्टेड टू लर्न अबावट ट्वीन्स?

**दोगांय** : यस अंकल.

**डॉ. दीक्षित**: पयली गजाल म्हणल्यार सयामी जुंवळी फक्त एकाच सेक्साचीं आसतात. म्हणजे भयणी-भयणी, तुमचेसारख्यो. वो भाव-भाव. पूण भयण भाव अशीं केन्नाच आसना. आनी जुंवळीं आसतात म्हणून तिळीं, चौवळीं नासतात.

**पंकजा** : व्हेरी इंटरेस्टींग अंकल

**डॉ. दिक्षीत**: जुंवळीं आमच्या भारतांत आनी आफ्रिकेंत चड, पूण चीनांत आनी अमेरीकेंत उणी.

**कमला** : चड म्हणल्यार कितलीं अंकल?

**डॉ. दीक्षित**: म्हणजे पंदरा ते वीस लाखांमदीं एक केस आसता.

**पंकजा** : सामकी रेअर.

डॉ. दीक्षितः यस. यू आर रेअर पर्सन्स! व्हेरी स्पेशल.
दोगांय : थँक्यू अंकल.
डॉ. दीक्षितः जुंवळ्यांक सयामी कित्याक म्हणटात जाणांत तुमी?
दोगांय : कित्याक?
डॉ. दीक्षितः म्हटल्यार संवसारांत सगळ्यांत पयलीं जुंवळीं सांपडलीं तीं सयामांत. सयाम थायलंडांत आसा. सयामांत जल्मलीं देखून सयामी. ही खबर केन्नाची? 1811. म्हणल्यार तीनशीं वर्सां पयलीं. तांचीं नांवां आशिल्लीं चाँग आनी आअँग. बरीं मजेशीर नांवां न्हय? दोगूय चले. लोकांनी तांची खूब काकूळट केली आनी ताणीं खूब पैसो केलो. लाखांनी दुडू!
पंकजा : लाखांनी दुडू? कसो?
डॉ. दीक्षितः तुमच्या डॅडी आनी मम्मान मनार घेतिल्लें जाल्यार तांच्यांनीय तुमच्या खुस्तार असोच पैसो करूं येतालो.
कमला : कसो अंकल?
डॉ. दीक्षितः चॉग आनी आअँग हांकां सर्कशींत दवरिल्ले.
दोगांय : (समजून) आं.
डॉ. दीक्षितः तुमचीं डॅडी आनी मम्मा कितलीं बरीं न्हय?
दोगांय : हय अंकल.
डॉ. दीक्षित :जुंवळ्याची दुसरी केस 1950 वर्सा रशियेंत जाली. दोगीय चलयो. मावशिया आनी दाशिया.
पंकजा : हाणींय पैशे केले?
डॉ. दीक्षितः ना. हांकां सोविएत मेडिकल सोसायटीन स्पेशल प्रयोग करपाखातीर आपणांल्या आसुलांत दवरलीं.
कमला : प्रयोग करपाखातीर? म्हणजे हुंदरा माकडांचेर प्रयोग करता तशे?
डॉ. दीक्षितः एक्सेक्टली. यू आर व्हेली फ्लेवर चायल्ड. ह्या प्रयोगाखातीर तांकां आसुलांत कितलो तेंप दवरलें? इट्स जस्ट लायक लॉकअप. कितलीं वर्सां? जस्ट इमेजीन.

पंकजा : दोन?

कमला : पांच?

डॉ. दीक्षित: नो ट्वेन्टी इयर्स! व्हेरी क्रुयल थींग.

पंकजा : आमी कल्पना लेगीत करूंक शकना.

डॉ. दीक्षित: मागीर मात जुंवळ्यांचें परिस्थितींत फरक पडत गेलो. तांच्या हिताखातीर, राखणेखातीर वेगवेगळ्या देशांनी कायदे केले. 1987 पासून संवसारांत जुंवळ्यांची ऑपरेशनां करतात. फाटल्या आठ म्हयन्यांतली खबर. जॉडी आनी मॅरी हांचीं हार्टस् एन्ड लग्न्स म्हणल्यार काळजां आनी फुफुसां एकामेकाक जुळिल्ली. तांच्या ऑपरेशनाक तांगेल्या आवय बापायन विरोध केलो. पूण आवय - बापूय कोर्टांत केस हारलीं. जॉडी आनी मॅरी केस जिंकली. पूण ऑपरेशना उपरांत ज्यॉडी वांचलें. मॅरी गेले. कारण मॅरीचें काळीज ज्यॉडीच्या काळजाक दशिल्लें.

पंकजा : अंकल, आमचें अशें कितेंय जाल्यार कमलाक वांचोवपाचें.

कमला : ना अंकल, पंकजाक वाचोवपाचें.

डॉ. दीक्षित: व्हेरी गूड. टू हॅव लॉट ऑफ अन्डरस्टँडींग. मिस्टर गिरीधर, मॅडम. यू शूड फील प्रावड ऑफ यूवर चायल्ड.

गिरीधर : यस ऑफ कोर्स सर.

डॉ. दीक्षित: पंकजा, कमला तांची केस वेगळी. तुमची वेगळी. तीं काळजान दशिल्लीं. तुमी तकलेन. आनी तुमच्याय ऑपरेशनाखातीर आमी खूब काळजी घेवपी. बिकॉज आय लव्ह यू सो मच माय चायल्ड.

दोगांय : थँक्यू अंकल.

डॉ. दीक्षित: तुमी जाणां, तकल्यो दशिल्ल्या जुंवळ्यांचे हें पयलें ऑपरेशन. म्हज्या सांगाताक आसतले संवसारांतले आंतरराष्ट्रीय किर्तिचे स्पेशलिस्ट. 24 सर्जनांची टीम आसतली म्हजेबरोबर. 100 मॅडीकल स्टाफ तुमचेखातीर शिफ्टीनी वावुरतले. म्हाका खात्री आसा, देवाच्या आशीर्वादान, तुमच्या पूर्ण सहकार्यान आनी

सगळ्यांच्या आदारान हें ऑपरेशन सक्सेसफूल जातलें. आनी तुमी दोन वेगवेगळीं मनशां जातलीं. इच वन वील बी इन्डेपेंडेंट पर्सन. फ्री. टोटली फ्री.

**दोगांय** : वा! वा!

**डॉ. दीक्षितः** माय चायल्ड, म्हाका सांगात, डू यू लव्ह इच अदर?

**दोगांय** : यस अंकल.

**डॉ. दीक्षितः** बरोबर. तुमी एकामेकाचेर खूब मोग करतात. एकामेकापासत तुमी मरपाक लेगीत तयार आसत. मागीर तुमी वेगळीं कित्याक जावपाक सोदतात?

**पंकजा** : आमी एकामेकाक मुखावयल्यान पळोवपाक सोदतात.

**कमला** : आयजवेर आमी एकामेकाक फक्त हारशांतूच पळयलां.

**डॉ. दीक्षितः** गूड. व्हेरी पोएटीक आन्सर!

**पंकजा** : आनी जाणां अंकल, म्हाका म्हजें फुडलें शिकप करपाक जाय.

**कमला** : म्हाकाय कॉलेज करपाक जाय.

**पंकजा** : हांव शिकून डान्सर जातले. व्हडलें डान्सर.

**कमला** : आनी हांव व्हडलें ऍथलेट जातलें.

**डॉ. दीक्षितः** यू आर व्हेरी एम्बीशियस गर्लस. तुमी येवजितात तें करून दाखयतल्लीं.
(सगळीं हांसतात)

**डॉ. दीक्षितः** चलात, आतां तुमचे कुडींत वचून रेस्ट घेयात.

**दोगांय** : थँक्यू अंकल (आपणाले कुडींत वतात.)

**डॉ. दीक्षितः** मिस्टर गिरीधर, मॅडम ही जाली ह्या ऑपरेशनाची पोझिटीव्ह सायड. हाची रिस्की बाजूय आसा. आनी भुरग्यांचे पालक म्हणून तुमी ती समजून घेवपाची गरज आसा.

**गिरीधर** : सांगात डॉक्टर. आयकुपाक आमी तयार आसात.

**डॉ. दीक्षितः** मिस्टर गिरीधर, मॅडम, तुमच्या भुरग्यांची केस खूब डेलीकेट आसा. एक चॅलेंज म्हणून हावें ती स्वीकारल्या. एक आव्हान

म्हणून तुमीय ती स्वीकारल्या. ही केस खूब काळजीपूर्वक हाताळची पडटली. कारण भुरग्यांक उणेंच उणें पांच म्हयनेतरी मुंबय हॉस्पिटलांत मॅडीकल ऑबजर्वेशनाखाला रावचें पडटलें.

**गिरीधर** : आमची तयारी आसा सर. केन्ना येवपाचें तें सांगात.

**डॉ. दीक्षित:** तें हांव तुमकां आजूय सांगन. पूण ताचेआदीं कांय गजाली म्हाका सांगपाक जाय.

**गिरीधर** : यस सर.

**डॉ. दीक्षित:** तुमच्या भुरग्यांचे केसपेपर, स्कॅनींग रिपोर्ट, फोटो हावें पळयल्या. दोगांयच्या मेंदवाचीं व्हेसल्स एकूच आसा, म्हणल्यार दोगांयच्या मेंदवाक रगताची पुरवण करपी एकूच रक्तवाहिनी. तकल्यो दोशीं करप सोपें, पूण ही शीर कापून परत जुळोवप भौ कठीण काम. कारण फाटलीं पंचवीस वर्सां हे शीरेची वाड आनी कार्य चालू आसा. एका सेकंदाचो कळाव लेगीत घातक थारूंक शकता. ऑपरेशनाक कितेंय जावंक शकता. दोगांय वाचूक शकता. दोगांभितरलें एक वाचूंक शकता. ऑपरेशना उपरांत एकले वा दोगांय सासणाचीं अपगूंळ जावंक शकता. दोगांय आरोग्याचे नदरेन अती नाजूक जावं येता. एक रिटायर्ड सर्जन रोवेना स्पोन्सर हाचें सयामी जुंवळ्यांविशीचें एक सर्वेक्षण आसा, तो म्हणटा- संवसारांत आयजवेर एकूण साठ ऑपरेशनां जालीं. तातूंतलीं तीस जाणां मेलीं, सतरा जाणां अपंगूळ. स जाणां जियेतात पूण तांची अवस्था खबर ना. साठांतलीं सात जाणां सामके नॉर्मल लायफ जगतात. जुवळ्याचे जगपाचे प्रमाण पांच ते पंचवीस टक्के. म्हणजे सयामी जुंवळ्यांतलीं, शंबरांमदलीं पंच्यायशीं ते पंच्याणव भुरगीं मरपाखातीरूच जल्मतात. हांव इतले कश्ट घेवन करतलों त्या ऑपरेशनाचे चान्सीस फिफ्टी फिफ्टी. म्हणजे एक तर भुरगीं जगूंक शकतात वा मरूंक शकतात.

(धिराईक सगळें आयकून घुंवळ येता. ती थंयच कोंसळटा. डॉक्टर कामत आनी गिरीधर तिका सांवरतात. भितर कुडींत आशिल्लीं पंकजा-कमला कुडीच्या दाराकडेन येतात. इतल्यान कुडींतसावन प्रधान भायर येता. हातांत मोबायल आसा.)

प्रधान : एक्सक्यूज मी सर. सेक्रेटरीचो फोन आसा.

डॉ. दीक्षित: ताका सांग, हांगा एक इंपोर्टंट डिस्कशन चलता.

प्रधान : सर, ताचे नदरेन कॉलूय इंपार्टंट आसा.

(डॉ. दीक्षित फोन घेता.)

डॉ. दीक्षित: हॅलोऽऽ

रघुराजन : (तेवटेन) हॅलो सर. रघुराजन.

डॉ. दीक्षित: उलय.

रघुराजन : सर. एक म्हत्वाची खबर आसा. सिंगापूरच्या राफल्स हॉस्पीटलांत ईराणी जुंवळ्यांचें ऑपरेशन जावपाचें आसा. तुमी ऑपरेट करूंक सोदतात तसली सेम केस सर. Craniopagus. तकलेन दशिल्लीं सयामी जुंवळीं.

डॉ. दीक्षित: खबर आसा म्हाका. लादान आनी लालेह ब्रीजानी.

रघुराजन : बरोबर सर.

डॉ. दीक्षित: तांची केस खबर आशिल्ली, फक्त ऑपरेशनाचें खबर नाशिल्लें. केन्ना ऑपरेशन?

रघुराजन : तें कळपाक मार्ग ना. सिंगापूराक राफल्स हॉस्पीटलाक कॉन्टेक्ट केलो. ते सांगपाक तयार ना.

डॉ. दीक्षित: ओ. के.

रघुराजन : सॉरी सर. डिस्टर्ब केलें म्हणून.

डॉ. दीक्षित: ना. तुवें सांगून खूब बरें केलें. हांगा तोच विशय चलता.

डॉ. दीक्षित: रघुराजन, थँक्यू फॉर कॉलींग.

(फोन प्रधानाकडेन दिता. प्रधान फोन घेवन भितर वता.)

डॉ. दीक्षित: (डॉ. कामतीक) मॅडम कशी आसा?

**डॉ. कामत**: शी इज ऑल रायट सर.

**धिराई** : डॉक्टर दीक्षित, म्हाका कितें सांगपाचें आसा.
(सगळ्यांक उमळशीक लागता.)

**डॉ. दीक्षित**: सांग, तेचखातीर तर हांव आयलां.

**धिराई** : हांव म्हज्या भुरग्यांच्या ऑपरेशनाक तयार आसां. (सगळ्यांक खोस जाता)

**गिरीधर** : (दुबावान) डॉक्टर विचारतां म्हण रागार जावं नाका. सिंगापूरची कितें खबर?

**डॉ. दीक्षित**: बरोबर. त्या संबंदान म्हाकाय तुमकां कितें विचारपाचें आसा. सिंगापूराक असलीच एक केस आयल्या. लादान आनी लालेह ब्रिजानी नांवाच्यो 29 वर्सांच्यो चलयो. थंय तांचे ऑपरेशन जावपाचें आसा. व्हदळ हांवें ज्यो ज्यो गजाली सांगल्यात तातूंतली एकान एक गजाल ब्रिजानेचे केसीक लागता. म्हणजे हांगासरूय चान्सीस फिफ्टी फिफ्टी. हांव तुमकां विचारपाक सोदतां. तें हें, जर ब्रिजानी भयणिंचे ऑपरेशन सस्केसफूल जालें जाल्यार प्रश्नूच ना. आमकां ती एक उमेद आनी प्रेरणा थरतली. पूण जर ब्रिजानी भयणांचे ऑपरेशन फेल जालें जाल्यार? तुमच्या आतांच्या निर्णयांत कितें फरक पडटलो?
(कांय वेळ शांतताय)

**पंकजा** : ना अंकल. आमचो निर्णय ठाम आसा.

**कमला** : सामकी काळ्या फातरावयली रेग
(डॉ. दीक्षित पयलीं गिरीधराक आनी मागीर धिराईक विचारता.)

**गिरीधर** : म्हजो निर्णय भुरग्यांच्या निर्णयावांगडा आसतलो.

**धिराई** : हांव भुरग्यांचे वटेन आसतलें.
(भुरगीं खोशी जावन भुरकट्टात.)

**डॉ. कामत**: सगळें कुटूंब निर्णयाचें पक्कें आसा.

**गिरीधर** : डॉक्टर, आमी भुरग्यांक घेवन मुंबय केन्ना येवपाचें?

डॉ. दीक्षित: (अदमास घेवन) आयज जुलयाची कितली तारीख? जुस्त आठ दिसांनी येयात.

गिरीधर : आठ जुलय!

डॉ. दीक्षित: नक्की. मुंबयत तुमची सगळी व्यवस्था जातली. एस्टीमेट हांवें तुमकां दिला. तो चड दिसतलो तुमकां, पूण हावें चडानचड दिला. मागीर उणो जावं येता.

गिरीधर : थँक्यू सर.

प्रधान : (भायर येत) सर, तुमकां आतां भायर सरपाक जाय. फ्लायट इन टायम.

(काळोख)

## देखाव – दुसरो

(माची उजळटा. पयल्या देखाव्या उपरांत आंठ दिसांचो काळ सरला. आयज तारीख 8 जुलय 2003. सकाळचो वेळ. गिरीधराचें कुटूंब मुंबय. वचपाचे तयारेंत आसा. कांय बँगां भरून दवरल्यांत. गिरीधर माळयेचीं सोपणां देवन सकयल येता. ताच्या हातांत एक-दोन बारीक मोटीं बँगा आसात. तीं थंय दवरून तो भितरली बॅगां आनी सामान हाडून भायर दवरता. इतल्यान भायर सावन आदलोच वार्ताहर येता.)

वार्ताहर : हॅलोऽऽ गुडमॉर्नींग सर.

गिरीधर : गुडमॉर्नींग.

वार्ताहर : सर. हांव आवटसायडरचो न्यूज रिपोर्टर.

गिरीधर : आं. वळखलो. तुमच्या आवटसायडरचो खप कसो आसा? वाडलो काय देंवलो?

वार्ताहर : कित्याक देंवतलो सर? वाडत आसा. फाटल्या पांच म्हयन्यांव पंचवीस हजार तिनशीं–

गिरीधर : (मदींच) सांगात, कितें काम आसलें?

वार्ताहर : सर, आयकल्या ती खबर सारखी?

गिरीधर : कसली?

वार्ताहर : तुमच्या जुंवळ्यां भुरग्यांचें ऑपरेशन जावपाचें आसा?

गिरीधर : तुमकां कोणें सांगलें?

वार्ताहर : तें कामूच आमचें. खरें काय फट तें सांगात.

गिरीधर : तें गरज तेन्ना तुमकां सांगतां. तुमकांच कित्याक, सगळ्यांव सांगतलों.

वार्ताहर : जुंवळ्यांक हॉस्पीटलांत ऍडमीट करपाखातीर तुमी तांकां घेवन आयज मुंबय वता खंय?

गिरीधर : आमी मुंबय वचूं नातर चेन्नाय वचूं, तुमकां कित्याक पडलां?

वार्ताहर : ना सर. चेन्नाय न्हय. तुमी मुंबयूच वंतात. नामनेचे न्युरोसर्जन डॉ. जयंत दिक्षित हें ऑपरेशन करपाचे आसात. आमकां खबर आसां. डॉ. दिक्षित दोन फावट तुमगेर येवन गेल्यात.

गिरीधर : तुमकां सगळ्यो गजाली खबर आसा जाल्यार म्हाका कित्याक विचारतात?

रिपोर्टर : कन्फर्म करपाक. सर, आयच्या दिसा तुमचे मुंबय वचपाचे खबरेक खूब म्हत्व आसा. कित्याक म्हणून विचारलें ना.
(वग्गी रावता. ताका आगांतुकपणां मानवूंक ना.)
सर, डॉ. दिक्षित हें सयामी जुंवळ्यांचे ऑपरेशन करून जगांतलो पयलो मान मेळोवपाक सोदी. पूण तांगेली संदी हुकली.

गिरीधर : वील यू शट यूवर मावथ प्लीज?

रिपोर्टर : सर, पत्रकारांचेर अशें तीडकप बरोबर न्हय.

गिरीधर : ते म्हाका खबर आसा.

रिपोर्टर : खबर ना सर, म्हणून सांगतां. तुमी फक्त जुंवळ्यांचे बापूय

न्हय, तुमी एक उद्देजक. तुमच्या मालाची जायरात आमीच करतात.

गिरीधर : फुकट करीनात.

रिपोर्टर : बरोबर. पूण केन्ना केन्ना तुमकां सांबाळूनय घेता.

गिरीधर : म्हाका ताची गरज ना. म्हजें नाणें सोळा आणे खणखणीत आसा.

रिपोर्टर : बरें सर.

(वार्ताहर भायर वता. प्रधान भितर येता.)

गिरीधर : यो प्रधान. हे रिपोर्टर फाटीक लागल्यात.

प्रधान : बरोबर. भायर गेटीकडेन कांय जाण आसले. टी. वी. चॅनलाचे एक-दोन कॅमरामॅनूय. हावें तांकां परत धाडले. पूण ते वच्चेनाशे दिसता. एअरपोर्टाचेर तुमकां गांठलेबगर रावचेना.

गिरीधर : प्रधान, विमानची चवकशी केली?

प्रधान : हय. विमान वेळार सुट्टलें.

गिरीधर : आनी बाकिची चवकशी? पंकजा आनी कमला पयलेच फावट विमानान वतात.

प्रधान : हय केली. बसपाक अडचण येवचीना. दोन सीटांमदलो बार वयर काडलो म्हणटकूच दोनूय सींटांचे एक सीट जातलें. विमानतळार तांची वेवस्था पळोवपाक खास एअरस्टाफ आसतलो. विमानांत एअरहोस्टेस तांची काळजी घेतलीं. तुमकां विमानतळार मातशें बेगीन वचचें पडटलें.

गिरीधर : एक वर आदीं गेल्यार पुरो ना?

प्रधान : ना. मातशें बेगीन. कारण धर्मापूर परत कम्युनल रायट्स जाल्यात. जातीय दंगल. आमकां भायल्या रस्त्यान वचचें पडटलें.

गिरीधर : हांका आयजूच बरो म्हूर्त मेळ्ळो.

प्रधान : म्हूर्त लागनाशिल्ली ती एकूच गजाल आसा. केन्नाय घडूं येता.

गिरीधर : बरोबर. प्रधान, म्हाका खात्री आसा, तुवें सगळी वेवस्था केल्या आसतली.

प्रधान : केल्या, पूण तुमी याद करूं जाता. हांवूय विसरूंक शकतां. बँकेंतल्यान थोडी कॅश काडल्या. बाकिचे डॉ. दीक्षितांनी सांगल्या तशे कांय ड्राफ्ट काडल्यात.

गिरीधर : कंपनीचो बँक बॅलन्स?

प्रधान : (पॉज) नील.

गिरीधर : कांय हरकत ना. नवी ऑर्डर आमच्या हातांत आसा. आनी प्रधान, कोणाचो पगार, कोणाचें देणें थकोवन दवरपाचें ना. म्हज्या भुरग्यांखातीर कोणाची अडचण जाली अशें नाका.

प्रधान : यस सर.

गिरीधर : गरज पडल्यार हांव फॅक्टरी पासून विकपाक तयार आसां.

प्रधान : इतलो टोंकाचो विचार कित्याक? पूण कांय लोन काडचें पडटलें. हांव ताची वेवस्था करतां.

गिरीधर : बरोबर. तूं आसतना म्हाका कसली चिंता? ह्यो डॉक्टर कामत खंय पावल्यो?

डॉ. कामत: (येत) नांव काडिना बीं बरोबर कामत हजर. पूण शंबर वर्सां आयुश्य वी त्यो गजाली आतां पोरण्यो जाल्यो.

गिरीधर : डॉ. कामत आमचेवटेन सगळी तयारी जाली. धिराई बेगीन जावंदी.

डॉ. कामत: तुमकां खबर कळ्ळी न्हय?

गिरीधर : कसली खबर?

डॉ. कामत: तुमी आयचो पेपर वाचूंना काय कितें? आनी टी. वी. य लावंक ना?

गिरीधर : ना. बोवोळांत वेळूच मेळ्ळो ना.

डॉ. कामत: आमचेर परीणाम घडोवपी खूब म्हत्वाची खबर आसा.

प्रधान : कसली खबर डॉ. कामत? हांवूय आजून पेपर वाचूंक पावूंना.

गेरीधर : हो म्हजो पेपर हांगाच आसा.

(गिरीधर स्टुलावयलो पेपर उखलता. प्रधान टी. वी. ऑन करता. त्याच वेळार टी. वी. चेर खबरो लागतात. त्याच वेळार भितरले कुडींत पंकजा-कमला येवन बसतात. बारीक सामान बॅगांनी भरपाचें काम करतात. खबर वाचता. टी. वी. चेर खबरो चलतात.)

गिरीधर : (पेपर वाचीत) ''संवसारांतलें सयामी जुंवळ्याचें पयलें ऑपरेशन आयज सिंगापोराक. देशभर प्रार्थना.'' ''धर्मापूरांत परतून जातीय दंगली.''

निवेदक : (टी. वी. चेर) संवसारांतलो पयलो वयलो मानवी चमत्कार सिंगापोरांत घडपाचो आसा. लादान आनी लालेह ब्रिजानी ह्या एकोणतीस वर्सांच्या ईराणी जुंवळ्या भयणिंचे ऑपरेशन सिंगापोरच्या रेफल्स हॉस्पीटलांत चालू आसा. नामनेचे सिंगापोरीयन न्युरोसर्जन डॉक्टर केथ गोह हांच्या मुखेलपणाखाला तज्ञ अशा चोवीस डॉक्टरांसयत आनी सुमार शंबर वैजकी कर्मचाऱ्यांच्या सांगातान ही इतिहासीक स्वरूपाची शस्त्रक्रिया चालू आसा. आयजवेर कमराक, फाटीक, पोटाक दशिल्ल्या सयामी जुंवळ्यांच्यो यशस्वी शस्त्रक्रिया जाल्ल्याचीं उदारणां आसात. पूण तकलेन दशिल्ल्या सयामी जुंवळ्यांचें हें पयलेंच ऑपरेशन आसा. सगळ्या वैजकी मळाचे दोळे सिंगापोराक लागल्या. ही शस्त्रक्रिया फक्त ब्रिजानी भयणिंचें भवितव्य घडयतली अशें न्हय तर आधुनिक शस्त्रक्रियेचोय फुडार घडयतली.

लादान आनी लालेह भयणांच्या ऑपरेशनाक यश लाबचें देखून सिंगापोरांत मशिदीनी खासा प्रार्थना चलल्यात. आमच्या देशांतूय मुसलमानांच्या मशिदींनी, हिंदूच्या देवळांनी आनी ख्रिश्चनांच्या इगर्जींनी प्रार्थनासभा चलल्यात.

(टी. वी. चेर खबरो चालू आसताना भितर कुडींत पंकजा-

कमलाक सुलूस लागता. तीं ल्हवू ल्हवू टी. वी. म्हऱ्यांत येवन चत्रायेन खबरो आयकतात. खबरांच्या निमाणेकडेन धिराई हातांत पुजा साहित्याचें तबक घेवन येता आनी देवाकुडींतले मुर्तिची पूजा करता. त्यावेळार गिरीधर, प्रधान आनी डॉ. कामत हांचे हात प्रार्थनेखातीर नकळटाना जोडटात.)

**निवेदक** : (टी. वी. चेर दुसरी खबर) फाटले कांय म्हयने शांत आशिल्ल्या धर्मापूर शारांत परत जातीय दंगल उसळ्ळ्या. कोणेंतरी अज्ञात व्यक्तीन वाटेवयली मूर्ति फोडिल्ल्याचें निमित्त जावन ही दंगल जाली. कांय कडेन फातर मोखपाचे, जाळपोळ करपाचेय प्रकार घडल्यात. धर्मापूर उद्योगीक वसाहतीक थंय बोवाळ जावचो न्हय म्हूण पुलीसांनी पुराय संरक्षण दिलां.

(प्रधान टी. वी. बंद करता.)

**प्रधान** : सर, हांव मातसो फॅक्टरींत वचून येतां.

**गिरीधर** : कित्याक? ताणी (बातमेंत) सांगलां मरे, उद्येगीक वसाहतीक पुराय पुलीस राखण दितले म्हण.

**प्रधान** : तरी लेगीत खबरदारी म्हण कांय गजाली. करच्यो पडटल्यो.

**डॉ. कामत**: ताचेंय बरोबर. हांगा रावून हुस्को करचेपरस ताणें थंयच वचप बरें.

**गिरीधर** : बरें आसा.

**प्रधान** : हांव हांगा येवपाक पावलों ना जाल्यार भायलेभायर एअरपोर्टाचेर पावतां. भायर गाडयेची वेवस्था केल्या. तुमी .मातशे बेगीन भायर सरपाचें करात.

**गिरीधर** : तूं चिंता करूं नाका.

**डॉ. कामत**: हावूय मातशीं क्लिनिकांत वतां. तुमकां एअरपोर्टार मेळटा.

(प्रधान ताकतिकेन भायर वता. वातावरणांत तणाव आसा. पंकजा – कमला खूब कांचवेल्यांत)

**पंकजा** : पप्पा, आतां कितें जातलें?

**गिरीधर** : सगळें वेवस्थीत जातलें. तुमी मात लेगीत भिवपाची गरज ना.

आमकां बरेतरेन एअरपोर्टाचेर वचपाक मेळटलें, विमानांत बसपाक मेळटलें. आमी थरिल्ल्या वेळार हॉस्पीटलांत पावतलीं.

**कमला** : पूण ऑपरेशन जातलें न्हय?

**गिरीधर** : जातलें म्हणजे? जातलेंच.

**पंकजा** : पूण ही खबर?

**गिरीधर** : कसली खबर?

**पंकजा** : लादान आनी लालेहची

**धिराई** : आमी तांचेखातीर दोनूय हात जोडून मागूंया.

**कमला** : पप्पा, आमकांय दिसता, देव आसपाक जाय कसो!

**गिरीधर** : इतली हळवीं जावं नाकात म्हज्या शाण्यांनो. हळव्या मनांत दुबळेपण रीगता.

**पंकजा** : मम्मा, आमी दोगांयच्यो वस्तू एकाच बॅगांत भरल्यात.

**धिराई** : बरें केलें.

**पंकजा** : पूण मागीर आमकां वेगवेगळीं दोन बॅगां नाकात?

**धिराई** : वेगळीं कित्याक?

**कमला** : कित्याक म्हणजे? पळय रे पप्पा.

**गिरीधर** : मागीरचें मागीर पळोवयां. थंय मुंबय राशींनी बॅगां आसात. धिराई, सगळें हाता लार्गी कर.
(धिराई तबक घेवन भितर वता.)

**पंकजा** : पप्पा, मुंबय आमकां शॉपींग करपाक मेळटलें?

**गिरीधर** : हय तर. तुमकां जाय तें घेवपाचें. कितें जाय तुमकां?

**पंकजा** : साराचें केन्नातरी काजार आसा. ताका कितेंतरी गीफ्ट घेवपाक जाय.

**गिरीधर** : घेवची. एक कित्याक? दोन. एक तुजी, एक तुजी.
(बेडरूमांत वता.)
(फोनाची बेल वाजता. गिरीधर फोन घेता.)

**गोडखिंडी** : (तेवटेन) हॅलोऽ ऽआमी एच. के. गोडखिंडी उलयतां. एच. के.

गोडखिंडी. राष्ट्रीय शिक्षक एवार्ड विनर. वळखली न्हय?

**गिरीधर** : वळखली. वळखली. गोडखिंडी.

**गोडखिंडी** : तुमी कोण उलयता? प्रधान की गिरीधरपात्रांव?

**गिरीधर** : गिरीधरपात्रांव.

**गोडखिंडी** : गूड. तुमकां गूड न्यूज समजली न्हय?

**गिरीधर** : कसली गूड न्यूज?

**गोडखिंडी** : लादान आनी लालेह हेंची ऑपरेशन जाता सिंगापोराक. आमची स्कूल चिल्ड्रन्स प्रियर करपाक लागल्यांत.

**गिरीधर** : बरें केलें.

**गोडखिंडी** : तुमच्या भुरग्यांच्या वेळार बी आमी अशीच प्रियर करतलों.

**गिरीधर** : तुमकां कोणें सांगलें?

**गोडखिंडी** : कितें? कितें सांगली म्हणटा?

**गिरीधर** : कांय ना.

**गोडखिंडी** : तुमी बी अशीच ऑपरेशन करात म्हणटा आमी. आमची तुमच्या चिल्ड्रन्सांक पुराय आशीर्वाद. आनी एच. के. गोडखिंडी आपल्या एका म्हयन्याची पगार मदत म्हणोन दिवच्याक तयार आसा. आनी तुमकां उगडास आसा गिरीधरपात्रांव–

**गिरीधर** : कसलो उगडास?

**गोडखिंडी** : आमी भुरग्यांक आशीर्वाद दिली. सौभाग्यवती भव. दोगांकूय दोन इंडेपेंडेट आशीर्वाद. आमी राष्ट्रीय शिक्षक ऍवार्ड विनर. आमची आशीर्वाद वेस्ट वचची ना.

**गिरीधर** : थँक्यू. थँक्यू मिस्टर गोडखिंडी. (फोन दवरता. पंकजा–कमलाक) गोडखिंडीन तुमकां परबीं दिल्यांत. चलात भितर. परत एकदां सामानाचेर नदर मारात. (कांयसो सद्‌गदीत जाला. भायर लोकांचो बोवाळ. मोर्च्यातल्यो घोशणा. गिरीधर बेगीबेगीन दाराकडेन वता.)

**पंकजा** : कितें जालां पप्पा? कसलो बोवाळ?

**गिरीधर** : मोर्चा.

कमला : कोणाचो?

गिरीधर : बॅनरा वयल्यान दिसता, हनुमानसभेचो. म्हणटकच आतां रोकडोच अकबर लीगचो भायर सरतलो.

पंकजा : पप्पा, आमकां वचपाक मेळटलें न्हय?

कमला : म्हणजे आमची गाडी बी आडावचे ना न्हय?

पंकजा : आनी आमी पेशंट म्हणल्यार सोडटले न्हय?

गिरीधर : हय. हय. आमकां कसली भिरांत ना. आमी वचपाचे तयारेक लागूया.

(इतल्यान भायर बोवाळ जाता. फातर बी शेंवटून मारिल्ल्याचो आवाज. थोड्यावेळान एके बायल मनशेची किळांच. ही किळांच साराची. रोखडेंच सारा भितर येता. तें खूब भियेलां. तें होंकलेच्या (ख्रिश्चन) भेसांत आसा. फाटोफाट समीर आनी प्रवीण येतात. ते कोट - टाय मारून आसात. इतल्यान भितरसावन धिराई भायर येता. सगळीं साराक पळोवन अजापतात.)

पंकजा : सारा, सारा तूं?

कमला : आनी ह्या भेसांत?

सारा : आमी इगर्जेंत वयतालीं. आमच्या पुरसांवाचेर ह्या लोकांनी फातर शेंवटीले. लोक हांगा-थंय धांवले. पायन म्हुटलें, तुगेल्या फ्रेंडागेल्या घरांत वचोन आसरो घे. पंकजा, कमला आयज म्हजें काजार जालें.

पंकजा : काजार जालें?

कमला : आनी आमकां काजराक सांगलें ना.

सारा : (फटींगपणान) सांगोक ना? तुमकां इन्वीटेशन धाडल्यां मुगो. पावोंक ना? प्रवीण, तुवेंच पोस्टांत घालूंक ना रे इन्वीटेशनां? सगळ्यांक पोस्टानूच धाडलीं.

(प्रवीण वगीच रावता. पंकजाक आनी कमलाक दुबाव येता. तांका दुबाव आयला म्हणपाचें साराक कळटा. तें खेदी

जाता.)

**सारा** : सॉरी पंकजा, सॉरी कमला. तुमकां दोगांकूय काजाराचें इन्वीटेशन दिवपाक विसरलें.

**धिराई** : विसरलें काय मुद्दाम दिलें ना गो?

**सारा** : अशें कित्याक म्हणटा आंटी?

**धिराई** : तुकां दिसलां आसतलें, आपले काजार जातलें, म्हज्या घुवांचें खंय जातलें? न्हय?

**सारा** : तशें न्हय आंटी.

**गिरीधर** : आमचे आशीर्वाद आसा बाय तुकां. आमचीं भुरगीं तशें तूं आमकां. वातावरण निवळ्ळे बगर भायर वचूं नाका!

**सारा** : थँक्यू अंकल.

**पंकजा** : आनी तुजो न्हवरो खंय?

**सारा** : हो न्हय!

(समीर आनी प्रवीण एकठांय आसात. तांकां कोण तो कळना.)

**सारा** : हो प्रवीण धेडो. आनी हो समीर म्हजो न्हवरो.

**समीर** : हाय पंकजा, हाय कमला.

**प्रवीण** : हाय पंकजा, हाय कमला.

**समीर** : तुमी कशीं आसात?

**पंकजा** : आमी फोर्त आसात.

**सारा** : जाणां पंकजा, कमला, ह्या प्रवीणाचो एन्गेजमेंट जाला.

**कमला** : खरेंच?

**प्रवीण** : हांव म्हज्या लग्नांक तुमकां सांगतलों.

**सारा** : (पळोवन) हें कितें? तुमी बँगां बीन घेवन खंय वतात?

**पंकजा** : (मुद्दाम) खंय ना.

**कमला** : बेस्टींच भरून दवरल्यांत तीं.

**सारा** : आमीय आमचीं बॅगां आदींच भरून दवरल्यांत. हनिमुनांक वचपाक. खंय वतलीं रे आमी समीर?

प्रवीण : (भायर पळोवन) सारा, भायलें वातावरण निवळ्ळें. या आमी. बाय पंकजा, बाय सारा. बाय एव्हरीबडी.

सारा : बाय पंकजा, बाय कमला, टेक कॅअर. बाय एव्हरीबडी. (सारा, समीर आनी प्रवीण बाय बाय करीत वतात. एक निराशेचें वातावरण पातळटा.)

गिरीधर : आतां तरी तुमी मातशीं भितर वतात? (दोगांय जड पावलांनी भितर कुडींत वतात. कांयवेळान भायरसावन प्रधान येता. तचें मुखामळ, सामकें पडलां.)

गिरीधर : कितें जालां प्रधान? तुजें तोंड अशें कित्याक पडलां?

प्रधान : वायट खबर आसा सर.

गिरीधर : कसली? फॅक्टरीचेर गुंडांनी हल्लो केलो? म्हाका दुबाव मारिल्लोच. असले दंगलींत कितेंय जाता.

प्रधान : ना सर.

गिरीधर : मागीर?

प्रधान : सर, धर्मापूरची मेन पायपलायन फुटली.

गिरीधर : मागीर?

प्रधान : सर, तीं पापयां आमचीं. आमचे कंपनीचीं. आमचे कंपनीचेर ताचो वायट परीणाम जातलो सर.

गिरीधर : हो घातपाताचो प्रकार आसतलो. सेबोटेच. नक्कीच कोणेंतरी केला. त्याच दंगेवाल्यांनी.

प्रधान : ना सर. हो सेबोटेजचो प्रकार न्हय. हांव स्वतः म्हज्या दोळ्यांनी पळोवन आयलां. पायपलायन खऱ्यांनीच फुटल्या.

गिरीधर : प्रधान, ज्यूस्त ह्याच वेळार ही वायट खबर तुका घेवन येवपाक जाय आसली?

धिराई : ताचो कसलो गुन्यांव?

प्रधान : सर, त्या पेपरवाल्यांनी तुमकां सांगचेपरस हावेंच सांगिल्ली बरी न्हय?

गिरीधर : सांग, आनीक कसली वायट खबर आसल्यार सांग.

प्रधान : आमचो नवो कॉन्ट्रेक्ट कॅन्सल जावचो ना हाची आमकां काळजी घेवची पडटली. आतां पेपरवाले आमचे फाटीक लागतले.

गिरीधर : (वैतागान) सांग, आनीक कितें सांगपाचें आसल्यार सांग. हांव कानाचे पड्डे ताणून धरतां.

धिराई : ताचेर गरजेभायर वैतागूं नाका.

गिरीधर : वैतागूं नाका म्हणजे कितें? खबर घेवन आयलो काय ना तो?

गिरीधर : सांग मरे. मिस्टर प्रधान वायटांतली वायट खबर सांग.

प्रधान : (शांतपणान) तुमी व्हदळसावन टी. वी. लावंकूच ना दिसता.

(बेगीबेगीन टी. वी. चालू करता. खबरो लागता. पंकजा - कमला सुलूस घेता.)

निवेदक : (टी. वी. चेर) लादान आनी लालेह ब्रिजानी हांची जिवीतयात्रा आयज सोंपली. हीं इराणी सयामीं जुंवळीं एकठांय ऑपरेशन थेटरांत गेलीं पूण भायर येतना दोगां जावन आयलीं. सिंगापोराच्या राफल्स हॉस्पीटलाच्या सूत्रांनी सांगिल्लेप्रमाण दनपारां देड वरांचेर शस्त्रक्रियेचे कार्य पूर्ण जावन दोगांय मेकळीं जालीं खरीं पूण कातरिल्ली शीर जोडपाक डॉ. केथ गोह आनी तांगेल्या सांगात्यांक यश आयलें ना. रक्तवाहिनींतल्यान सुमाराभायर रक्त गेल्ल्यान लादानान अडेच वरांचेर ह्या संवसाराचो निरोप घेतलो जाल्यार भयण लाहेम हाणें देडवर मर्णाकडेन झूज दिवन चार वरांचेर प्रांण सोडलो. राफल्स हॉस्पीटलाचे चेअरमन डॉ. लू. चून योंग हाणीं तांगेल्या मर्णाची खबर जाहीर केली. लादान आनी लालेह हांच्या मर्णाची खबर कळनाफुडें सगळ्याक दुःखाचें सांवट पातळ्ळें.

(वातावरणांत दुःखाची सया पातळटा. प्रधान टी. वी. बंद करता. घरांतलो फोन करता.)

प्रधान : हॅलोऽऽ एअरपोर्ट ऑथरेटी?

आवाज : यस.

प्रधान : मुंबय वचपी फ्लायट आय सी - वन. इन टायम?

आवाज : यस सर.

प्रधान : थँक्यू.

(फोन दवरता.)

प्रधान : सर, आमी आता भायर सरपाक जाय.

गिरीधर : राव?

प्रधान : कित्याक

गिरीधर : इतलें घडलां, आनीक कितेंय घडटा जाल्यार पळोवया न्हय.

(इतल्यान दारांत हुसेनजी येता. तो रक्तबंबाळ जाला.)

प्रधान : कोण हुसेनजी?

गिरीधर : कितें जालें? तुमकां कोणे मारले? तुमी दंगलीत सांपडले? हुसेनजी.

हुरोनजी : हा गिरीधरजी, कलही बंबईसे आया हूँ। बच्चों को देखनेके लिए जी तरस रहा था। आते वक्त भीड ने पत्थर फेंके।

गिरीधर : कोणें फातर मारले?

हुसेनजी : अल्ला जाने। मालूम नहीं वह क्या चाहते हैं। धर्म के नामपर दो समाजको तोडना चाहते हैं। लेकीन वह मुमकीन नहीं है। तुम लाख कोशिश करो फिर भी तुम पानी नहीं तोड सकते। तुम हवा नहीं तोड सकते। अगर तोडणेका प्रयास कीया तो सिर्फ खून ही खून बहता और कुछ नहीं। यह तो सदियोंका गठबंधन है। मेरी बेटियाँ कहां है? आप लोग कहां जा रहे है?

(सामान पळोवन)

(हुसेनजीक पळोवन पंकजा - कमला भायर येतात.)

पंकजा : हुसेनजी, तुमी केन्ना आयले?

कमला : (रक्त पळोवन) तुमकां कितें जालें?

हुसेनजी : कुछ नहीं। मैं बिल्कुल ठीक हूँ।

(इतल्यान प्रधान मुखार येता.)

**प्रधान** : सर, मुंबयसावन डॉ. दीक्षितांचो फोन आसा.

**गिरीधर** : प्रधान, मुंबय वचपाच्यो विमानाच्यो तिकेटी कॅन्सल कर. (फोन घेत) हॅलोऽऽ

**डॉ. दिक्षित**: हांव दिक्षित उलयतां. तुमी खबर आयकली न्हय?

**गिरीधर** : हय.

**डॉ. दिक्षित**: म्हाका दिसता, तुमी तुमच्या निर्णयाचेर फेरविचार करचो.

**गिरीधर** : केलो. आमी मुंबय येना.

**डॉ. दीक्षित**: दॅट्स रायट डिसिजन. मिस्टर गिरीधर, सगळ्योच गजाली मनशाच्या हातांत ना. सगळ्यो न्हंयो आपणांक जाय तश्यो वळोवपाक जायना.

**गिरीधर** : खरें सर.

**डॉ. दीक्षित**: भुरग्यांची काळजी घेयात. बाय.
(फोन बंद करून प्रधानाकडेन दिता.)

**हुसेनजी** : मुझे माफ करना पंकजा बेटी और कमला बेटी। मैं कलही बंबई से आया। लेकीन मैं आपके लिए कुछ गीत और डान्स तैयार नहीं कर सका। मुझे माफ करना।

**पंकजा** : नाका हुसेनजी. नव्या स्वतंत्र गीताचो नाद आमी सोडला.

**कमला** : आतां आमी आमचे पोरणेंच गीत गावपी.

**धिराई** : (तांकां वेंगांत घेवन) म्हजीं शाणीं तीं!
(पार्श्वभागाचेर 'आमी सयामी' गीताची धून. ल्हवू ल्हवू काळोख.)

(सोंपता.)

## पात्रांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| 1. **प्रतिमा** | – | प्रतिभाची इश्टीण. दूरदर्शन निवेदिका, शकुनी, सर्तक, बायल, अस्तुरी अश्यो वेगवेगळ्यो भूमिका करपी. |
| 2. **प्रतिभा** | – | प्रतिमाची इश्टीण. विठ्ठलाबायल, दर्शक, दुर्गादेवी, धर्मराजा, द्रौपदी, क्वीजमास्टर, घोव, वकिल, भारतमाता अश्यो विंगड विंगड भूमिका करपी. |

## देखाव – एक

(प्रतिमा आनी प्रतिभा दोगांय सादारण एकाच पिरायेच्च्यो बायलो. नेपथ्यः प्रतिकात्मक. बसपा उठपाक एक दोन बसका वा कदेलां. प्रतिमा आनी प्रतिभा माचयेचे दोनय वटेंतल्यान मोबायलचेर उलयत येतात. खांदार पर्सी आनी हातांत पेपर, पुस्तकां असलें कांय किरकोळ सामान.)

**1 प्रतिमा** : आगो प्रतिभा, खंय आसा तूं?

**2 प्रतिभा** : पावत आयलें.

**1 प्रतिमा** : आगो, कार्यक्रम सुरू जावपाचो जालो. आयोजक हांगासर वयर सकयल जातात.

**2 प्रतिभा** : खबर आसा म्हाका. नवें न्हय तें.

**1 प्रतिमा** : इतलो वेळ कित्याक जालो तर?

**2 प्रतिभा** : आगो, तुकां आनीक सांगपाक जाय आमचें बायल मनशाचें? घरचें सगळें जाग्यार घालूनच मागीर भायर सरपाचें न्हय?

**1 प्रतिमा** : खरें तें. म्हाकाय तशेंच करचें पडटा. भुरग्यांचें घोवाचें आसाच. ते भायर मांय–मांवाचेंय पळोवचे पडटा.

**2 प्रतिभा** : तीं आजून आसा तर? वचूंना?

**1 प्रतिमा** : खंय वचूंना म्हणटा गो?

**2 प्रतिभा** : दुसऱ्या पुतागेर.

**1 प्रतिमा** : ना ना. म्हाकाच पडलीं तीं. तांचे बरें आसा. तूं केन्ना पावता

तें सांग.

2 प्रतिभा : आगो, पावलें म्हणटा न्हय?

1 प्रतिमा : खंय पावलें तें तरी सांग.

2 प्रतिभा : सामके तुजे म्हऱ्यांत.

(दोगांय दोनाय वाटांतल्यान एकठांय येतात. हांसतात. मोबायल बंद करतात.)

1 प्रतिमा : हे मोबायल म्हणल्यार एक मजाच न्हय.?

2 प्रतिभा : हय तर. दोगां मनशांक खूब लागीं हाडटात. आतां आमकां हाडलीं तशीं.

1 प्रतिमा : उलोवपाक मेळटा तें जालेंच. एस एम एस धाडपाक मेळटा. शॉर्ट मॅसेज सर्विस तिवुय एक मजा!

2 प्रतिभा : मीस कॉल धाडपाक मेळटा. ती एक मजा!

1 प्रतिमा : दादल्यांक गळ्यांत गडगंज मंगळसूत्र कशें घालूंक मेळटा, ती एक मजा!

2 प्रतिभा : अस्सो हातांत धरून- चालू आसूं वा नासूं - गर्देंत उलोवन पॉज आनी इंप्रेशन मारूंक मेळटा ती आनीक एक मजा!

1 प्रतिमा : पूण सगळ्यांत मजा केन्ना जाणां?

2 प्रतिभा : केन्ना?

1 प्रतिमा : कार्ड सोंपता तेन्ना वो बिल फारीक करचें पडटा तेन्ना.

(दोगांय हांसतात.)

2 प्रतिभा : हें मोबायल पुराण आतां बंद करूंया.

1 प्रतिमा : बरोबर. पुराणांतलीं वांयगीं शाकेक उपकारनात.

2 प्रतिभा : मोबायलचे बाबतींत अशें म्हणपाक जावचेंना आं.

1 प्रतिमा : मोबायलच्या बरेंच मोगांत पडलां मुगो तूं.

2 प्रतिभा : आयच्या काळाची गरज म्हणून.

1 प्रतिमा : बंद. मोबायल बंद.

(दोगांय मोबायल बंद करतात.)

2 प्रतिभा : जाणां, मोबायल बटण दामून बंद करपाक मेळटा. मनशाचेंय

तोंड अशेंय बंद करपाक मेळपाक जाय आसलें.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. म्हाका तुजें उलोवणें नाका, दामलो बटण, तोंड बंद. तू सुबेज उलयता, दामलो बटण तोंड बंद. तुजी बडबड नाका, तोंड बंद. (ताचें उदाहरण दिवन) बरोबर न्हय?

**2 प्रतिभा** : (उलयना. फक्त मान हालयता.)

**1 प्रतिमा** : आगो, अकस्मात कितें जालें तुजें?

**2 प्रतिभा** : (कुरवांनी सांगता – तुवें बटण दामलो म्हजें तोंड बंद.)

**1 प्रतिमा** : (समजून) आं, आं. हांवें बटण दामून तुजें तोंड बंद केलें. बरें आसा. परत उक्तें करतां. (बटण दामिल्ल्याचो अभिनय करता.) जालें?

**2 प्रतिभा** : (आवाज करीत) जालें!

**1 प्रतिमा** : हें पळय, आमचें नमन वाडत चल्लां.

**2 प्रतिभा** : म्हणजे नमनाक घडोभर तेल सरत चल्लां.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. लोक जमल्यात. थोडे आपूण जावन आयल्यात. थोड्यांक आपोवन हाडल्यात. फोन करून. एस एम एस करून.

**2 प्रतिभा** : कशेय आपोवं. लोक आयल्यात हें ख़रें म्हणटकूच पयलीं तांचें स्वागत करूंया.

**1 प्रतिमा** : म्हणटकूच स्वागतगीतबी जाय पडटलें?

**2 प्रतिभा** : तें करपाक वाद्यां नाकात? निदान तबलें-पेटी. नाजाल्यार सिंथेसायजर.

**1 प्रतिमा** : जायच अशें ना. भितर सिडी प्लॅयराचेर फिल्मांतलें एक बरेंशें गीत घालून हांगासर आमी ओंठ हालोवं येता.

**2 प्रतिभा** : शे! असल्या बऱ्या रसीक लोकांमुखार असलीं फटींगपणां? नाका.

**1 प्रतिमा** : मागीर स्वागताचें कितें करूया?

**2 प्रतिभा** : सादोच गद्य येवकार दिवंया. सुको येवकार!

**1 प्रतिमा** : बरोबर. सुके फोव सुद्धां कितले गोड लागता. प्रेक्षकांक

नमस्कार! जमिल्ल्या रसिकांक मायेमोगाचो येवकार!

**2 प्रतिभा** : जे येवचेनात तांकां (हात उबारून) पयसुल्ल्यान नमस्कार!

**1 प्रतिमा** : येवकार, नमस्कार, चमत्कार जाले. आतां कार्यक्रमाची घोशणा करूंया.

**2 प्रतिभा** : तातूंत कितें? (निवेदनाच्या सुरांत) सादर करतां - कथा कस्तुरी!

**1 प्रतिमा** : (कपलार हात मारून) लोक चुकून तेंच म्हणटा. तुंवूय तेंच म्हणटा?

**दोगांय** : सादर करतां - कथा अस्तुरीऽऽ

**2 प्रतिभा** : अस्तुरेची कथा.

**1 प्रतिमा** : कथेंत थोडीशी व्यथा

**2 प्रतिभा** : थोडो इतिहास.

**1 प्रतिमा** : ताका कश्टांचो वास!

**2 प्रतिभा** : थोड्यो ख्यास्ती,

**1 प्रतिमा** : कांयशी मस्ती.

**2 प्रतिभा** : थोडी लटाफट,

**1 प्रतिमा** : थोडी झटापट.

**2 प्रतिभा** : नर आनी मादी-

**1 प्रतिमा** : थोडी वादावादी

**2 प्रतिभा** : झगडीं, संघर्श, बंडाय,

**1 प्रतिमा** : थोडो समन्वय, थोडी थंडाय.

**2 प्रतिभा** : थोडोसो नारीवाद, स्त्री मुक्ती-

**1 प्रतिमा** : सुकते उपरांतची जोरगत आनी भरती.

**2 प्रतिभा** : थोडे दुःखाचे गरे,

**1 प्रतिमा** : थोडे सुखाचे झरे.

**2 प्रतिभा** : अशी ही सामकी खरी खरी-

**1 प्रतिमा** : कथा अस्तुरी!

**2 प्रतिभा** : म्हाका दिसता, अशा वेळार कार्यावळीचें शिर्शक गीत जाय.

टायटल सोंग.

1 प्रतिमा : हें आनी कितें नवें?

2 प्रतिभा : नवें कसलें? कसलेय सिरीएलीक - फालतु सुद्धां, बरें शिर्शकगीत आसताच. आशीकुशीक आशिल्ल्यांक लागीं येवपाक ती एक इशारत कशी. पयलीं नाटका आदीं नांदी कशी आसताली? तशी.

1 प्रतिमा : कल्पना बरी आसा पूण पेटी ना, तबलें ना, सिंथेसायजरूय ना.

1 प्रतिमा : पूण एक आसा.

2 प्रतिभा : कितें?

1 प्रतिमा : जमिल्ल्या रसिकांमदीं समजीकाय आसा.

२ प्रतिभा : कसली समजीकाय?

१ प्रतिमा : सुके फोव खावपाची.

२ प्रतिभा : म्हणजे संगीताबगर गीत सादर करपाचें आनी तें रसीकांनी मानून घेवपाचें.

(दोगांय शिर्शकगीत गायतात.)

**कथा अस्तुरी खरी खरी**
**ना ती अबला ती तर चावला**
**घेवन भरारी नभांतरी।।**

**कालची कुंवरी आयची नारी**
**आपली अब्रू आपूण राखपी**
**नाका तिका गिरीधारी ।।**

1 प्रतिमा : आमी शिर्शकगीत म्हटलें खरें पूण आतां रसीकांच्यो अपेक्षा आपशींच वाडटल्यो.

2 प्रतिभा : त्यो कशो?

1 प्रतिमा : कसलेय गजालींत आमकां स्टोरी जाय.

2 प्रतिमा : म्हणजे कथा. काणी!

1 प्रतिमा : हय. आमचें भारतीय मनूच तशें. कसलीय गजाल सांगपाची जाली जाल्यार आमी ती एके काणयेन सांगपी. म्हणजे वखदाची कोडूक गुळी सुद्धां दितना ती तशाक तशी दिवप ना. साखरेच्या पाखात रेवडावन दिवपाची.

2 प्रतिभा : बरोबर.

1 प्रतिमा : आतां हे रसीक हांगासर बसल्यात, ते आमकां समजून घेतले पूण तांच्या घरचीं?

2 प्रतिभा : तांच्या घरच्यांचें आमकां कित्याक पडलां?

1 प्रतिमा : आमकां पडूं ना पूण तांकां पडलां न्हय? म्हणजे पळय, घरा वतकूच तांकां घरचीं विचारतलीं, (घरची कशीं विचारतलीं आनी कशी जाप दितलीं ताची नक्कल करतात.)
खंय गेल्लीं? वो खंय गेल्लो?

2 प्रतिभा : कथा अस्तुरी पळोवपाक.

1 प्रतिमा : स्टोरी कितें?

2 प्रतिभा : स्टोरी?

1 प्रतिमा : हय स्टोरी. जशी नाटकाक स्टोरी आसता, सिंनेमाक स्टोरी आसता, तशी स्टोरी.

2 प्रतिभा : आं तशी स्टोरी-बिरी कांय ना. फक्त दोगी बायलो उलयताल्यो.

1 प्रतिमा : दोगीय बायलो उलयताल्यो?

2 प्रतिभा : हय.

1 प्रतिभा : कितें उलयताल्यो?
(नक्कल सोंपता.)

2 प्रतिभा : खरें गो तुजें. जमिल्ल्या रसीकांची घरच्यांच्या तोंडांतल्यान सोडणूक करपाखातीर कितेंतरी स्टोरी-बिरी करचीच पडली. तूं अशें कित्याक करीना? ती विठ्ठलाबायल तुजी इश्टीण.

1 प्रतिमा : आं. विठ्ठलाबायला. सादी इश्टीण न्हय आं. सामकी जिवाभावाची इश्टीण.

2 प्रतिभा : जिवाभावाची इश्टीण खरी पूण तूं एकदांय तिगेर पावूंना.

1 प्रतिमा : पावूंना खरी. कालूच बाजारांत म्हाका विठ्ठलाबायलेचे घोव मेळ्ळो. नांव ताचें घबर ना म्हाका. सारखो वळखय ना ताका हांव.

2 प्रतिभा : विठ्ठलाबायलेच्या घोवाचें नांव तुका खबर ना?

1 प्रतिमा : ना गे. खरेंच. आमी इश्टीणी खऱ्यो पूण विठ्ठलाबायलेच्या घोवाचें नांव म्हाका खबर ना.

2 प्रतिभा : (कपलार हात मारून) विठ्ठला! विठ्ठला!

1 प्रतिमा : तर तो बाजारांत मेळ्ळो. ताणेंच वळख दाखयली. म्हणपाक लागलो, हांव विठ्ठलाबायलेचो घोव.

2 प्रतिभा : (परत कपलार हात मारता) विठ्ठला! विठ्ठला!

1 प्रतिमा : तर मुखार म्हणपाक लागलो, विठ्ठलाबायल तुकां हुस्केता. हावें म्हळें, विठ्ठलाबायलेच्या घोवा, विठ्ठलाबायलेक रकाद दी. म्हाकाय तिचेकडेन चार गजाली उलोवपाक जाय. वेळ मेळटा तेन्ना मुजरत येतां.

2 प्रतिभा : तशें जाल्यार वेळ कित्याक वगडायता? आत्तांच्या आत्तां विठ्ठलाबायलेगेर चल.

1 प्रतिमा : हय. तशेंच करता. (चलपाक लागता.)

## देखाव - दोन

(प्रतिमा आनी आनी प्रतिभा. विठ्ठलाबायल जालां प्रतिभा)

(प्रतिमादारार मारता.)

1 प्रतिमा : विठ्ठलाबायलेऽऽऽ ओ विठ्ठलाबायलेऽऽऽ

2 वि. बा. : कोण गे? आं. यो यो. आयज सूर्या खंयच्च्यान उदेलो?

1 प्रतिमा : जांव गे विठ्ठलाबायले. कसलीं फकाणां? येता येता म्हणटालीं, ती एक दीस आयली काय ना तुगेर?

2 वि. बा. : वाट चुकली ना मगे?

1 प्रतिमा : ना, ना. विठ्ठलाबायलेच्च्या घोवाचें घर म्हण विचारतकूच सगळ्यांनी सारखी वाट दाखयली.

2 वि. बा. : बरें जालें.

1 प्रतिमा : विठ्ठलाबायले, विचारतां म्हण रागार जावं नाका आं.

2 वि. बा. : कित्याक गे?

1 प्रतिमा : एक सांग, तुगेल्या घोवाचें नांव कितें?

२ वि. बा. : (लजता.)

1 प्रतिमा : लजता गे कित्याक?

2 वि. बा. : आतांच्या चलयांनी सोडल्या तशी आमी आजून लज खंय सोडल्या? म्हणून लजतां.

1 प्रतिमा : आं, घोवाचें नांव घेवपाक लजता तर तूं! अशें कर, उमाण्यांनी नांव घे.

2 वि. बा. : घेच म्हणटा? घेतां आं,

गांवचे तळयेंत एक आसा पिट्टोळ
तसो म्हज्या घरांत वावुरता विठ्ठल

1 प्रतिमा : (कपलार हात मारून) म्हणजे तुज्या घोवाचें नांव पिट्टोळ?

2 वि. बा. : (कपलार हात मारून) न्हय गे बाये, विठ्ठल.

1 प्रतिमा : (कपलार हात मारून) विठ्ठल! विठ्ठल!

2 वि. बा. : वगीच म्हज्या घोवाच्या नांवाचो जप करूं नाका बाये. तुजेर आनी तो प्रसन्न जायत.

1 प्रतिमा : पळयला ताका हावें. तो कोणाचेरूय प्रसन्न जायत पूण कोण ताचेर प्रसन्न जावपाक नाका?

2 वि. बा. : (लजत) हांव जाली ना?

1 प्रतिमा : एक सांग विठ्ठलाचे – (तोडून) एक सांग गे. घोवाचें नांव विठ्ठल. तुजें नांव कितें?

2 वि. बा. : विठ्ठलाची बायल

1 प्रतिमा : कितें?

2 वि. बा. : सगळे म्हाका ह्याच नांवान वळखतात. म्हणजे तशें म्हाका एक कित्याक दोन नांवां आशिल्लीं. एक कुळारचें. एक घोवा घरचें. म्हजीं नांवां एकापरस एक सुंदर.

1 प्रतिमा : एक तरी सांग मगे.

2 वि. बा. : (याद करून) ना गो. दोनूय विसरलीं. म्हणजे तात्पुरतीं विसरलीं गो. जातली याद.

1 प्रतिमा : तुजे यादीक पडली पाड!

2 वि. बा. : हरशीं म्हण पयलीं आमकां बायलांक खंयचीं नांवां गो? आतांची ती नांवांची फॅशन. पयलीं गावांत आमी चलयो आसताना तरी आमकां खंयचीं नांवां? थोंट्यालें चेडूं, बड्डाली चली. विश्णुलें धाकलें, असलींच नांवां. लग्न जावन तरी कितें? खड्ड्यली सून, कामतीली सून, नायकाली सून, पाटलाची बायल, विठ्ठलाची बायल. याद जाली पळय. म्हजें कुळारचें

नांव वत्सला आनी घोवा घरचें -

**1 प्रतिमा** : रूक्मीण!

**2 वि. बा.** : आगे बाये, तुकां कशें कळ्ळें?

**1 प्रतिमा** : विठ्ठलाचे बायलेचें नांव रूक्मीणी आसचेंना जाल्यार कितें भामिनी आसतलें?

**वि. बा** : खरें तुजें. ह्या वेळार आयलें तें बरें केलें.

**1 प्रतिमा** : कित्याक?

**2 वि. बा.** : होच सांजचो वेळ म्हाका मातशी उसरपत मेळटा. केन्ना केन्ना पांच मिनटां दोळ्याक दोळो लेगीत लायतां हांव.

**1 प्रतिमा** : आवयस्! पांच मिनटां दनपारचें न्हिदपाक मेळप म्हणजे भाग्यवानूच तूं.

**2 वि. बा.** : तूं खऱ्यांनीच म्हणटा काय फकाणां करता तेंच कळना म्हाका.

**1 प्रतिमा** : तुकां जाय तें समज.

**वि. बा** : आतांच मेज काडून जाल्लें. हात धुवन पुसतालें इतल्यान तूं आयलें. आतां म्हाका सुशेग. उलय.

**1 प्रतिमा** : हांव कितें उलयतलें? तूं उलय. हांव आयकुपाक आयलां.

**2 वि. बा.** : कितें?

**1 प्रतिमा** : तुजी गजाल.

**2 वि. बा.** : म्हजी कसली गजाल कपलाची? तूं हांगा-थंय भोंवता. तुकां हांगच्यो थंयच्यो चार गजाली खबर आसात. म्हजें कितें? चूल आनी मूल. भुरगीं व्हड जाल्यांत म्हणल्यार एकलोच चलो. तो आपलें आपूण करता. पूण म्हजो चुलीचो सांगात सुटूंना. रांदा वाडा, उश्टीं काडा. सांगलें न्हय, आतांच मेज काडलां.

**1 प्रतिमा** : पूण आदल्यो चुली गेल्यो आनी रांदपाची पद्धतूय बदल्ली.

**2 वि. बा.** : बाकिचेकडेन बदल्लेली आसत. आमगेर बदलूंना.

**1 प्रतिमा** : म्हणजे गो?

**वि. बा** : गॅसबी सगळें आसा. पूण आमगेर आजून रांदनी पेट्टा. रांदनी

आसा म्हणटकच धुंवोर आसतलोच न्हय? आनी धुंवोर आसा म्हणजे दोळेफोड आयलीच.

1 प्रतिमा : तुगेल्या रांदनीच्या धुंवरांत घुस्पलें हांव. तूं कितें सांगता तें समजूंना म्हाका.

2 वि. बा. : आगो, आमच्या घरांत गॅस आसा, कुकर आसा. पूण गॅसावयलें जेवण चलना. ताका गॅसाचो वास येता. रान्नीवयलेंच जाय. कुकरांतलें चलना. वाळिल्लें तपल्यांतलेंच जाय. मिक्सरावयलें वांटप चलना. रगड्यावयलेंच बारीक वांटप जाय.

1 प्रतिमा : हें तुज्या घोवाचें, त्या विठ्ठलाचें चड जालें आं.

2 वि. बा. : ह्यो खोडी ताच्यो न्हय गो बाये.

1 प्रतिमा : मागीर कोणाच्यो? देराच्यो?

वि. बा : ना. देर ना म्हाका. हो एकलोच. पूण घरांत म्हाका एक आनी दोन तपलीं न्हय, तीन तपलीं वाळचीं पडटात.

1 प्रतिमा : तीन तपलीं? तीं कोणांक?

2 वि. बा. : म्हज्या मांवाक.

1 प्रतिमा : एका मांवाक तीन तपलीं?

2 वि. बा. : तीन मांवांक तीन तपलीं. म्हाका एकूण तीन मांव. एक खाशा मांव आनी दोन बापूल मांव. तिगांयच्यो तीन खोडी. एकल्याक एके तरेचें शीत. दुसऱ्याक दुसरे तरेचें. तिसऱ्याक तिसरे तरेचें. जेवपाचो वेळ सुद्धा तिगांचो तीन. म्हणजे एकल्याक जूस्त बारांक म्हणजे बारांकूच जेवण जाय. थारिल्ल्या वेळार मेजार बसतलो. दुसऱ्याचो वेळ देड. मातसो फाटीफुडें जांव येता. तिसऱ्याचो मात तीना उपरांत. चार म्हणल्यार जाता.

1 प्रतिमा : आंवय, इतलो वेळ कित्याक?

2 वि. बा. : कित्याक म्हणजे? जिरपाक नाका? हो तीनवालो दोनांक पेज जेवता. पयलो पेजेविना. दुसरो बारांक पेज जेवता.

1 प्रतिमा : आनी घोवाचो वेळ खंयचो?

2 वि. बा. : ह्या मदल्या खंयच्याय वेळांत तो जेवता. ताची कसली वेळाची

खोडी ना. पुताचो तर प्रश्नूच ना. तो घरांत जेविना. तो फिझा खावन रावता.

**1 प्रतिमा** : फिझा न्हय पिझा.

**2 वि. बा.** : हय पूण म्हज्या घोवाक मावाचें मात वेळावेळ जाल्लें जाय ताका. नाजाल्यार तापता.

**1 प्रतिमा** : तापता?

**2 वि. बा.** : हय. तापता. हांव आजून सुदारूंक ना म्हणटा. वेळाचें म्हत्व ना म्हणटा.

**1 प्रतिमा** : तुजेरूच तापता? तुकांच वेळाचें म्हत्व ना? जेवणाचे एक वेळ सांबाळूंक कळनाशिल्ल्या आपल्या बापायचेर आनी काकांचेर तापना? तुका सुदारूंक जाय म्हणटा? मिक्सर, गॅस, कुकर हीं आधुनीक साधनां फक्त फॅशन म्हणून येवंक नात. तीं गरज म्हणून आयल्यांत. तीं कडेक दवरून आदलेच पद्धतीन आपले जिबेच्यो खोडी चलोवपी तुगेले मांव सुदारल्यात?

**2 वि. बा.** : तें एक जेवणा-खाणाचे खोडीचें सोडलें जाल्यार म्हजे तिगूय मांव भांगर मनीस.

**1 प्रतिमा** : भांगर मनीस!

**2 वि. बा.** : हय भांगर मनीस. म्हज्या आंगा खांदार सगळीं म्हणल्यार सगळीं भांगरां आसात. आंबाड्याचीं पिसोळीं, सुरंगां वळेसर, पाखे, सगळो माथ्याचो साज, गळ्यांत गळसरी, तनमणी, मोहनमाळ, पोवनांचो हार, हाताक दोट्टी गोटांच्या पोतान सगळें. शिवाय वज्राची वेड. घोवान एकदां मणी बांदिल्लो तितलो. मर्दीं कसली खबर केली ना. पूण म्हगेल्या तिगूय मांवांनी म्हजी अर्थ अपुरबाय केली. म्हणून म्हणलें हांवें, ते भांगर मनीस! आनी तोखणायूय करपाक फार्टीं ना.

**1 प्रतिमा** : कसली तोखणाय?

**2 वि. बा.** : येत्या वेत्याक सांगतले, हुमण खावचें जाल्यार विठ्ठलाबायलेच्या हातचें. पुरणपोळी खावची जाल्यार विठ्ठलाबायलेच्या हातची.

सुंगटांचे डांगर खावचें जाल्यार विठ्ठलाबायलेच्या हातचें. आमाड्याची हुड्डमेथी खावची जाल्यार विठ्ठलाबायलेच्या हातची. ही तोखणाय न्हय?

1 प्रतिमा : म्हाका एक सांग, ही सगळी तोखणाय जी तुज्याच वांट्याक येता ती – तुगेल्या घरांत आनीक बायलमनशां नात? तुगेल्यो मांयोबी?

2 वि. बा. : तीं सगळीं वयर रावपाक गेल्यांत.

1 प्रतिमा : वयर खंय माळयेर?

2 वि. बा. : हय. सर्गाचे माळयेर. हे हांगा वणटीर पळय. एके हारीन तांचे फोटो पांयजेलांनी घालून लायल्यात.

1 प्रतिमा : (समजून–नमस्कार करून) तांकां हारबी घालता काय ना?

2 वि. बा. : घालतां तर. तांच्या तांच्या श्राद्धा दिसा हार घालतां. नवो घालतां त्या दिसा पोरणो काडप. श्राद्धां म्हणल्यार दर चार म्हयन्यांनी एक पडटा. हरशीं मांव कशेय आसूं. पूण आपापले बायलेचीं श्राद्धां बरीं उमेदीन वाडटात. चवथ, दिवाळी, श्रावणी सोमार, तशींच मांयांची श्राद्धां. ह्यो सगळ्यो सणां–परबो आनी श्राद्धां म्हणल्यार म्हजें वर्स अशेंच वता.

1 प्रतिमा : आनी दीसपट्टीं तीं तीन तपलीं आसाच.

2 वि. बा. : कश्ट आसा खरे पूण भांगरा शिंगरांची अर्थ अपुरबाय आनी खाणा–जेवणाची तोखणाय आसाच काय ना?

1 प्रतिमा : (उपाहासान) आसा तर! विठ्ठलाचे बायले, मांवांचे सूने धन्य तुजी!

2 वि. बा. : हांव नशीबवान लेगीत!

1 प्रतिमा : कित्याक गे बाये?

2 वि. बा. : हांव ह्या घरांत सून म्हण कशी पावली जाणां?

1 प्रतिमा : सांग.

2 वि. बा. : म्हजो बापूय म्हजी सोयरीक घेवन ह्या घरांत आयिल्लो तर ताची नदर पयल्यान पयलीं वयर वणटीचेर पडली.

1 प्रतिमा : खंयचे वणटीचेर? पाली आशिल्ले वणटीचेर?

2 वि. बा. : न्हय गे बाये. हीं मांयांची पांयजेलां आशिल्ले वणटीचेर. हीं पांयजेलां पळोवन म्हजो बापूय धन्य जालो.

1 प्रतिमा : अशें कितें आशिल्लें त्या पांयजेलांनी?

2 वि. बा. : मांयांचे फोटो. तिर्थरूपा सौभाग्यवती यशोदाबाय खाप्रू खांडेपारकार. तिर्थरूपा सौभाग्यवती ताराबाय रवळू खांडेपारकार. तिर्थरूपा सौभाग्यवती भिमाआका दत्ता खांडेपारकार. सगळीं भरलेल्या कपलान आयावपणीं गेल्लीं. बापायन त्याच खिणाक थारायलें. वत्सलाक ह्याच घरांत दिवपाचें. आनी जाणां, ह्या घराक हीच परंपरा आसा.

1 प्रतिमा : कसली परंपरा?

2 वि. बा. : ह्या घरांतल्या बायलांक आयवपणीं मर्ण येता. भाग्याची गजाल न्हय?

1 प्रतिमा : (उपहासान) हय तर. जात्रेक दिवज पेटोवंक मेळटा अशा घरांत चलयेक सून म्हण दितात हें खबर आशिल्लें. पूण आयावपणीं बायलो मरतात त्या घरांतूय सुनो म्हणून चलयांक लग्न करून दितात हें खबर नाशिल्लें. विठ्ठलाच्या घोवाचे बायले, पळयिल्ला भितर तुगेल्यो मांयो जाणटेपणांत मरूंकना. तरणेपणांतूच मेल्या कश्यो दिसता. त्यो कश्यो मेल्या तें तुका खबर आसा?

2 वि. बा. : ना.

1 प्रतिमा : हांव सांगतां. कारण तुगेल्या घराचे परंपरेन कांय अदमास बांदू येता. ही तुजी एक मांय, यशोदाबाय

2 वि. बा. : ती हुमण बरी करताली खंय!

1 प्रतिमा : बरोबर. ती रगड्यार मिरसांग वांट्टां वांट्टां मेली. मिरसांगेबरोबर तिणें आपलें आयुश्य रगड्यार वांटलें. ही तुजी ताराबाय, फाटले बांयचें उदक राजवान ओडटाना आंतकड्यो तुटून मेली. ही भीमा आका, रात्नींत उजो फुंकताना हिच्या हड्ड्याचो फार

जालो आनी ती मेली. आनी तूं एक दीस तपलीं वाळटां वाळटां नाखयां पडून ह्या भल्लेल्या घरांत मरतली आनी हे वंटीर तुजें पांयजेल लागतलें – तिर्थरूपा विठ्ठलाच्या घोवाची बायल ऊर्फ रूक्मीणी विठ्ठल खांडेपारकार.

(एका खर संगीताच्या आघातान प्रसंग सोंपता.)

## देखाव - तीन

(प्रतिमा आनी प्रतिभा)

**1 प्रतिमा** : जाणां प्रतिभा, ह्या चल्यांचेर म्हणून सांवार आयला.

**2 प्रतिभा** : कसलो सांवार गो?

**1 प्रतिमा** : कालची गजाल. काल कितें जालें जाणां, त्या भगवंताल्या ऋत्विकान खंय, विश्वंभराल्या ऋत्विकाक भर बाजारांत मारलो.

**2 प्रतिभा** : अशें? तुकां कोणें सांगलें?

**1 प्रतिमा** : आमचो ऋत्विक शेजारच्या कामतील्या ऋत्विकाक सांगतालो तें हांवें ल्हवूच आयकलें.

**2 प्रतिभा** : हें जालें चल्यांचें आनी चलयांचेर म्हणून थोडो सांवार येवंक ना.

**1 प्रतिमा** : कितें जालें?

**2 प्रतिभा** : हिवूय कालचीच खबर. त्या नायकाल्या ऐश्वर्यान खंय फेर्नांडिसाल्या ऐश्वर्याचे फाटीर पेनान बरयलें – ऐश्वर्या चोर है।

**1 प्रतिमा** : शी बाये! फर्नांडीसालें ऐश्वर्या चोर है जाल्यार नायकालेंय ऐश्वर्या चोर है जालें ना? पूण एक सांग, तुकां हें कोणें सांगलें?

**2 प्रतिभा** : हावेंनूय अशेंच आयकलें. आमचें ऐश्वर्या देसायाल्या ऐश्वर्याक फोनाचेर सांगताना आयकलें हांवें.

**1 प्रतिमा** : खरेंच गो. ह्या ऋत्विकांचेर आनी ऐश्वर्यांचेर सांवार आयला खरो.

(पॉज)

**2 प्रतिभा** : जाणां प्रतिमा–

**1 प्रतिमा** : कितें?

**2 प्रतिभा** : भाशेंतलीं उतरां लेगीत दादलो आनी बायलेच्या सभावाप्रमाण घडल्यांत.

**1 प्रतिमा** : तीं कशीं?

**2 प्रतिभा** : आतां पळय, सांवार! तो सांवार काय ती सांवार?

**1 प्रतिमा** : तो सांवार.

**2 प्रतिभा** : म्हणजे पुल्लींगी. तशेंच तो मद, तो मत्सर, तो दुस्वास, तो गर्व, तो अहंकार.

**1 प्रतिमा** : खरें गो बाये. सगळे दादल्याचे गूण.

**2 प्रतिभा** : गूण न्हय, अवगूण. मुखार पळय.

**1 प्रतिमा** : कोण येता?

**2 प्रतिभा** : आगो, मुखार पळय म्हणल्यार मुखार आयक.

**1 प्रतिमा** : आं, आं. सांग.

**2 प्रतिभा** : तो राग, तो लोभ, तो स्वार्थ, तो विलास, तो घात, तो विश्वासघात. सगळे पुरुशलींगी.

**1 प्रतिमा** : सामकें खरें गो बाये. जाणीं हीं उतरां घडयल्यांत ताणीं दादल्यांच्या सभावाचो बरो बारीक अभ्यास केला.

**2 प्रतिभा** : आनी ताणीं बायलांच्याय सभावाचो बरो बारीक अभ्यास करून उतरां घडयल्यांत.

**1 प्रतिमा** : तीं खंयचीं?

**2 प्रतिभा** : दया!

**1 प्रतिमा** : ती दया – स्त्री लींगी म्हणजे बायलमनशेचो गूण.

2 प्रतिभा : क्षमा!

1 प्रतिमा : ती क्षमा.

2 प्रतिभा : शांती!

1 प्रतिमा : ती शांती.

2 प्रतिभा : भक्ती!

1 प्रतिमा : ती भक्ती.

2 प्रतिभा : करूणा!

1 प्रतिमा : ती करूणा.

2 प्रतिभा : माया!

1 प्रतिमा : ती माया.

2 प्रतिभा : प्रिती!

1 प्रतिमा : ती प्रिती.

2 प्रतिभा : शक्ति!

1 प्रतिमा : ती शक्ति.

2 प्रतिभा : बंद.

1 प्रतिमा : ती बंद, न्हय तो बंद.

२ प्रतिभा : तशें न्हय, हांव म्हणटां आतां ही उतरावळ बंद करूंया.

1 प्रतिमा : कित्याक?

2 प्रतिभा : भाशेंत फक्त बायलांक व्हडवीक दिवपी उतरावळूच ना.

1 प्रतिमा : मागीर?

2 प्रतिभा : बायलांक उणाक लेखपी वाक्‌प्रचार आनी म्हणण्योंय आसात.

1 प्रतिमा : खंयच्यो त्यो?

2 प्रतिभा : बायलेचें शाणेपण, चुलीकडेन!

1 प्रतिमा : आतां चूल खंयची? आतां शाणेपण गॅसाकडेन!

2 प्रतिभा : बायलांच्या तोंडान तीळ भिजना!

1 प्रतिमा : आनी दादल्यांच्या तोंडान कितें दुदी भिजता?

2 प्रतिभा : बायलो बायलांच्यो दुस्मान!

**1 प्रतिमा** : आनी दादले कितें दादल्याचे इश्ट?

**2 प्रतिभा** : पावसान भिजयलें आनी घोवान बडयलें, सांगपाचें कोणांक?

**1 प्रतिमा** : वा!

**2 प्रतिभा** : घोवान बायलेक मारल्यार देमांद ना!

**1 प्रतिमा** : आनी बायलेनूय घोवाक भाजून खाल्ल्यार देमांद ना!

**2 प्रतिभा** : पापडांची पिठी आनी बायलांची फाट धोडायता तितली अरळ आनी मोवाळ जाता!

**1 प्रतिमा** : हें म्हणपी कोण लागीं आसल्यार पापड लाटपाचे लाटणेन ताची फाट फोडपाक जाय.

**2 प्रतिभा** : ''बायल ही क्षणाची पत्नी आणि अनंतकाळाची माता आहे!''

**1 प्रतिमा** : म्हणजे परत रांदा, वाढा, उश्टीं काढा.

**2 प्रतिभा** : ''जिच्या हातीं पाळण्याची दोरी ती जगाते उद्धारी!''

**1 प्रतिमा** : हालय पाळणो हालय! जगाचो उद्धार करपाची जबाबदारी फक्त बायलांची!

**2 प्रतिभा** : आनी आतां आयक, बायलांचो सर्वोच्च भौमान - बायल म्हणल्यार पांयाची व्हाण!

**1 प्रतिमा** : अशे म्हणप्यांचें पोले व्हाणांनी फोडपाक जाय. अशें बरोवन दवरतल्यांचे हात मोडपाक जाय. अशें मानतात तांची कात सोलपाक जाय.

**2 प्रतिभा** : बरोबर.

(संगीत)

## देखाव - चार

(प्रतिमा आनी प्रतिभा. प्रतिमा ताकतिक करता.)

**1 प्रतिमा** : आगे बाये प्रतिभा, गजालींनी घोव शेणलो, तशें जालें.

**2 प्रतिभा** : कितें?

**1 प्रतिमा** : हो वेळ म्हज्या बातम्यांचो.

**2 प्रतिभा** : मागीर लाय बातम्यो. रेडियोचेर काय टी वीचेर?

**1 प्रतिमा** : टीवीचेर.

**2 प्रतिभा** : मागीर टी वी ऑन कर.

**1 प्रतिमा** : टीवी ऑन करूं? आनी बातम्यो सांगतलो कोण?

**2 प्रतिभा** : म्हणजे?

**1 प्रतिमा** : म्हणजे बातम्यो सांगपी हांवूच. आयज म्हाका बातम्यो सांगपाखातीर ड्यूटी आसा. (मेकअप करपाचो, केंस वळोवपाचो, साडी न्हेसपाचो अभिनय.)

**2 प्रतिभा** : मागीर हें कितें करता? बातम्यांची तयारी कर न्हय. आदीं मातश्यो वाच. जाय जाल्यार पाठ कर.

**1 प्रतिमा** : तें मागीर. पयलीं हें ज्युस्ताज्युस्त जावपाक जाय. म्हणजे मेकअप, केशरचना सारखी जाय. ब्लावज आनी साडी मॅचींग जाय. गळ्यांतले अळंकार, कपलाची तिकली तिवूय मॅचींग जाय.

**2 प्रतिभा** : पूण बातम्यांचे कितें?

**1 प्रतिमा** : त्यो मातश्यो फाटी फुडें जालें म्हणून कांय जायना. निमाणें

दर्शक हेंच चड पळयता. बातम्यो जातकूच मागीर म्हाका फोन येतात.

**2 प्रतिभा** : लोकांक कसल्यो बातम्यो चड आवडटात?

**1 प्रतिमा** : फोन बातम्यां खातीर येनात. म्हजे साडये खातीर, हेएरस्टायली खातीर, अळंकारा खातीर, मेकअपा खातीर फोन येतात. कोणांक साडयेचो कॉन्ट्रास आवडटा. कोणांक केसांचो लेझरकट आवडटा. कोणांक आय शेडोज आवडटा जाल्यार कोणांक लिपस्टीकची शेड आवडटा. कोणांक ज्युवेलरी आवडटा. म्हणजे नडणी खंयूय पावूं. कण्णो बरो हालतकूच जालो.

(ताका बोट दाखोवन श्यूऽऽ करता.)

## देखाव : पांच

(प्रतिमा वृत्तनिवेदिका जावन टीवीचेर खबरो सांगता. प्रतिभा दर्शक जावन टिवी मुखार बसता. खबरांचें थीम म्युजीक सुरू जावन सोंपता.)

**1 निवेदिका** : नमस्कार. हांव प्रतिमा तुमकां खबरो दितां. मुखेल खबरो. जाळगांवां हांगासर हुंड्याखातीर एके बायलेक जाळून मारली. जाळगांवांतल्या बायलांक हुंड्याखातीर जाळून मारपाची ही ह्याच म्हयन्यांतली पांचवी खेप.

**2 दर्शक** : (शेरो) बायलांक जाळून मारपाबगर दुसरो कसलो उद्योगधंदो ना दिसता.

**1 निवे.** : (खबरो चालू) आपणाकडेन लग्न जावपाक विरोध करपी चलयेच्या तोंडाचेर ऍसीड वडोवन तरनाटो फरारी. पोलीस

तपास चालू.

2 दर्शक : (शेरो) तपास चालूच उरतलो.

1 निवे. : (चालू) शाळेंतल्या मास्तरान विद्यार्थिनीचो विनयभंग केलो.

2 दर्शक : (शेरो) शिक्षकाक आदर्श शिक्षकाचो राज्यपुरस्कार फावो

1 निवे. : (चालू) आदिम खेड्यांत आदिवासी बायलेक उगडी करून तिची धींड काडली.

2 दर्शक : (शेरो) व्हडलो पराक्रम!

1 निवे. : (चालू) बळवंतपुरा पांच धटींगणांनी एके अनाथ चलयेचेर बलात्कार करून उपरांत तिका जिवेनिशी मारून वडयली.

2 दर्शक : (शेरो) खावन जालें भायर वडयलें. डिस्पोज्ड!

1 निवे. : (चालू) चलयांचें प्रमाण चल्यांपरस उणें. एके लोकमेजणेचो नियाळ. चले चड आनी चलयो उण्यो जातल्यो.

2 दर्शक : (शेरो) मागीर चल्यांचीं लग्नां सुपारेकडेन लायात.

1 निवे. : आतां खबरो सविस्तरपणान.

2 दर्शक : (व्हडलो आळस) आऽऽऽ

1 निवे. : पळयिल्ले भितर तुमकां सविस्तर खबरो आयकुपांत इंटरेस्ट ना अशें दिसता. तुमचीय म्हण चूक ना. सद्दां सद्दां त्योच त्योच खबरो आयकून वाज येता. आतां हो आसा एक व्यावसाईक ब्रेक

(प्रतिभा मुखार येता – जायरातिच्या रूपान.)

2 प्रतिभा : भारत देश महान! पवित्र आनी मंगलमय अशा ह्या भारतवर्षांत दर 4 मिनटांनी एके बायलमनशेचें अपहरण जाता. दर 10 मिनटांनी एक हुंडाबळी जाता. एक तर बायलेक जाळून-हुल्पावन मारतात वो बायल आपूण जावन जीव दिता. दर 26 मिनटांनी एक विनयभंग जाता. दर 54 मिनटांनी एक बलात्कार जाता. भारत देश महान!

(संगीत – आघात)

1 निवे. : (मुखार येत) खबरांनी परत तुमचें स्वागत आसा. आतां ह्यो कांय

खास खबरो. तीरसूड गावांत एके बायलेन आपल्या घोवाक मारून ताका भाजून खाल्लो. पुलीसांनी दिल्ले खबरेप्रमाण फाटले वडा पुनवेदिसा तिणे घोवाचे तकलेर वांटपाचो फातर घालून ताचो खून केलो. मागीर घोवाचें मडें घरांतूच दवरून तिणें तें पांच दीसमेरेन एक एक अवयव तोडून भाजून खाल्लें. घोवाची चवकशी करपी शेजाऱ्यांक तिणें घोव वडापुनवेचें सामान हाडूंक गेल्लो तो आजून येवंक ना अशी फट मारली. हे बायलमनशेक दादले पुलीस अटक करपाक धजलेनात तेन्ना बायल पुलासांवरवीं तिका अटक करून पोलीस कोठडेंत दवरल्या.

अंदू वर्साचो एस. एस. सी. चो निकाल जाहीर जाला. पयल्या धा क्रमांकांत चलयांचो आस्पाव आसा. चलयो घरकाम करूनय अभ्यासांत लक्ष घालतात म्हणपाचें एके पळोवणेंत सिद्ध जालां. पूण चलयो शिक्षणांत मुखार आसल्यो तरी आवय-बापूय मुखावयल्या शिक्षणाखातीर मात चल्यांकूच उत्तेजन दितात अशेंय हे पळोवणेंत दिसून आयलां.
सुराली तालुक्यांतल्या दाणोली गांवच्या बायलांनी एक नवेंच धाडस केलां. गावांत हालींच उक्तें जाल्लें एक सोऱ्याचें दुकान ताणी बळजबरीन बंद केलें. ह्या बायलांचो आदींपासून गावांत सोऱ्याचें दुकान सुरू करपाक विरोध आशिल्लो. सुमार शंबरेक बायलांनी हांतांत दांडे घेवन हो मोर्चा काडलो. बायलांचो मोर्चा येतकूच दुकानांतलीं गिरायकां आनी दुकानाचो धनी पळून गेलो. मागीर बायलांनी सोऱ्याचे कार्गे आनी बाटल्यो फोडून वडयल्यो, अशें आमचो दाणोलीचो वार्ताहर कळयता.
लग्नाच्या माटवांत भर सव्याचेर नवऱ्याच्या मुस्कटांत एक थापट मारपाची घडणूक बाशिंगे गावांत घडली. हें थापट लग्नांक आमंत्रण नाशिल्ले एके तरनाटे चलयेन नवऱ्याचेर फुलयलें.

आमचो खबरेकार कळयता तेप्रमाण, सोणकुटार थापट मारपी चली नवऱ्याची आदली मोगी आशिल्ली आनी तिका फटोवन तो लग्न जाल्लो. ह्या प्रकाराची आनीक वाच्यता जावंची न्हय म्हण नवऱ्यान वा नवऱ्याच्या घरच्यांनी आजून मेरेन पुलीस कागाळ करूंना. लग्नांतल्या जेवणा इतलीच ही खबर मचमचीत आशिल्ली अशी प्रतिक्रिया आमंत्रितांनी आमच्या वार्ताहरालागीं व्यक्त केली.

लंगोटे गांवच्या रानांत एके झिलींत एका दादल्याचें मडें आयज पोलीसांक मेळ्ळें. दोन दिसांआदीं ह्या दादल्याक कोणेंतरी मारिल्ल्याचें सिद्ध जालां. ताचे जांगेंतले लींग कोणेतरी कोयत्यासारख्या धारेच्या शस्त्रान कापलां. पोलीसांनी सोदकार्य सुरू केलां. हातांत कोयतो घेवन दिसावड्याचो वावर करपी एके कामदार बायलमनशेच्या सोदांत पुलीस आसात.

आनी आतां –

तीरसूड गावांत जी विचीत्र आनी भयांकृत घटना घडली ताचेर प्रतिक्रिया मांडपाखातीर आमी महिला क्रांती मोर्च्याचो अध्यक्षा श्रीमती दुर्गादेवी हांका आमंत्रीत केल्ल्यो आसात.

(प्रतिभा दुर्गादेवी जावन फ्रेमींत येता.) नमस्कार. दुर्गादेवी, तुमी आतांच खबर आयकल्या आसतली. तीसरूड गावांत एके बायलमनशेन आपल्या स्वतःच्या घोवाक मारून ताका एक एक करून भाजून खालो. सामकी भयांकृत, बायलांचे जातीक कलंक लावपी अशी ही घडणूक आसा. सगळ्या थरांतल्यान चड करून बायलांकडल्यान हे घटनेचो खर निशेध जावपाक जाय. तुमी तुमचे संघटनेचे वतीन हे घटनेचो कशा उतरांनी निशेध करतात?

**2 दुर्गादेवी** : पयली गजाल म्हणल्यार हांव हे घटनेचो निशेधबी करीना.

**1 प्रतिमा** : मागीर कितें अभिनंदन करतात?

2 दुर्गादेवी : ना. तेंवूय करीना. पूण तटस्थपणान हांव हे घटनेकडेन पळोवपाचो यत्न करतां. एके बायलेन घोवाक मारलो आनी भाजून खालो. मनीसपणाभायलें हें कृत्य आसा हें खरें. पूण बायलमनीस ह्या थराचेर कित्याक पावली ताचो विचार करपाक जाय. दादल्यांनी बायलांक जी पीडापीड भोगयल्या ताची ही प्रतिक्रिया आसा. एक बायल घोवाक मारता आनी भाजून खाता! कितलो राग तिच्या काळजांत भगभगला आसतलो, कल्पना करात. वर्सासंकिनी जो आपणाचेर अन्याय जायत आयला ताचो आयज बायलमनीस सूड घेता. बायलमनशेच्या रागाचो, सूडाचो हो प्रातिनिधीक आविष्कार आसा. बायलांवयलो अन्याय बंद जालो ना जाल्यार दादल्यांनी असल्या प्रसंगाक तोंड न्हय, देह दिवपाची तयारी करची पडटली.

1 निवे. : दुर्गादेवी, निमाणो एकूच प्रश्न. ते बायलेन घोवाचे एक एक अवयव तोडून भाजून खालो. तुमचे नदरेन तिणें घोवाच्या देहाचो खंयचो भाग पयलीं भाजून खाला आसतलो?

2 दुर्गादेवी : अर्थांत ज्या अवयवाचो तिका चडानचड त्रास जाला तो. तुमकां फोडून सांगपाची गरज ना. समझनेवाले को इशारा काफी है

1 निवे. : धन्यवाद दुर्गादेवी. आनी इतल्यान ह्यो खबरो हांगासरूच सोंपयतां. कारण ह्या खबरांचो कोणाचेरूय वायट परीणाम जावन कोणें आपणाल्या घोवाचेर हात घालचो न्हय देखून. नमस्कार (खबरो सोंपता.)

(खबरांचो आदलो ध्वनिसंकेत.)

## देखाव - स

(प्रतिमा आनी प्रतिभा. दोगांकूय घर कामाची ताकतिक जाल्या.)

**2 प्रतिभा** : बऽऽरीं भायलीं कामां केलीं म्हण घरांतलीं कामां कोणांक चुकपाक आयल्यांत?

**1 प्रतिमा** : बरोबर. नवीं साधनां आयल्यांत खरी पूण नव्यो कटकटीय वाडल्यात.

**2 प्रतिभा** : बांय गेली, नळ आयलो. दिवो गेलो, वीज आयली. रांदन गेली, गॅस आयलो. रगडो गेलो, मिक्सर आयलो. फातर गेली, वॉशींग मशीन आयलें.

**1 प्रतिमा** : फोन आयलो, फ्रीज आयलो, टीवी आयलो, मोबाईल आयलो.

**2 प्रतिभा** : खरेंच कितें कितें नवें नवें आयलें.

**1 प्रतिमा** : पूण गेलें तें सगळेंच वायट नाशिल्लें. दात्याचेर दळटालें तें धवेंफुल्ल पीठ!

**2 प्रतिभा** : पीठ बरें गो. पूण कमरांत येतालें ताचें कितें?

**1 प्रतिमा** : कमरांत येतालें खरें पूण ताचे कश्ट जायनाशिल्ले.

**2 प्रतिभा** : कश्ट जायनाशिल्ले कशे?

**1 प्रतिमा** : कशे म्हणजे? दांत्याचेर फक्त पीठूच दळिनाशिल्लीं. वांगडां होंवयोय गायतालीं.

**2 प्रतिभा** : तेन्नाचें तेन्ना.

**1 प्रतिभा** : आतांय तशेंच करूं येता.

**2 प्रतिभा** : म्हणजे?

**1 प्रतिमा** : काम करतां करतां होंवयो गावं येता.

**2 प्रतिभा** : त्यो गो बाये कश्यो?

**1 प्रतिमा** : पळय. मागीर तुंवूय म्हजेबरोबर गावंक लागतलें.
(प्रतिमा गावपाक लागता. मागीर प्रतिभाय गावपाक लागता. एका फाटोफाट एक होंवी गावपाक लागता.)

**1 प्रतिमा** : **वीजे बाये वीजे**
**भयणी गे म्हजे**
**सक्काळीं वचून**
**परत येता सांजे**

**2 प्रतिभा** : **नळा रे नळा**
**जीव लावं नाका गोळाक**
**फुटय तुजो पान्हो**
**तिशटतल्या बाळाक**

**1 प्रतिमा** : **गॅसा तुकां लागून**
**पळून गेलो धुंवोर**
**पूण दिसानदीस तुजो**
**म्हारग सिलींडर**

**2 प्रतिभा** : **ऑगो वॉशींग मशीना**
**कपडे निवळ कर**
**बांयचेवयले फांतरीची**
**तुकां कशी येना सर**

**1 प्रतिमा** : **मिक्सरा रे मिक्सरा**
**बारीक बारीक वांट**
**ना तर पर म्हजी**
**रगड्याकडेन गांठ**

**2 प्रतिभा** : **फ्रीजा म्हज्या फ्रीजा**

थंडा थंडा राव
कालचे शेळें सांबाळूंक
म्हाका असोच पाव

**1 प्रतिमा** : फोना रे फोना
कुरू कुरू काना
बंद आसलो तरी
बीलां उणी जायना

**2 प्रतिभा** : टीवी बाये टीवी
तुजें दर्शन जाय
सॉस, तलाक, शिकवा
सगळें म्हाका जाय

**1 प्रतिमा** : आर्रा गो फेर्रा
घडी बरी जाता
चुकून बोट लागलें तरी
शॉक कसो येता?
(संगीत)

## देखाव - सात

(प्रतिमा आनी प्रतिभा. लग्नातले मिरवणुकेचें संगीत)

**1 प्रतिमा** : भायर कसलो बोवाळ गो?

**2 प्रतिभा** : कांय ना. कोणाल्या तरी लग्नाची घराभरोवणी चल्ली.

**1 प्रतिमा** : जाणां! लग्न म्हणल्यार दोन जीवांचें मिलन.

**2 प्रतिभा** : लग्न म्हणल्ययार एक दादलो आनी एक बायल हांचें मीलन.

**1 प्रतिमा** : लग्न म्हणल्यार एक संस्कार.

**2 प्रतिभा** : लग्न म्हणल्यार एक करार.

**1 प्रतिमा** : लग्न म्हणल्यार दोगांयची जबाबदारी. सारखीच.

**2 प्रतिभा** : लग्न म्हणल्यार एक त्याग. थोडो घोवान करपाचो, थोडो बायलेन.

**1 प्रतिमा** : ना. लग्न म्हणल्यार त्याग. पूण फक्त बायलेन करपाचो.

**2 प्रतिभा** : कसो?

**1 प्रतिमा** : लग्न दोगांयचेंय जालें. पयल्यान पयलीं घर बदल्लें. कोणाचें?

**2 प्रतिभा** : बायलेचें.

**1 प्रतिमा** : लग्न जालें. गांव बदल्लो. कोणाचो?

**2 प्रतिभा** : बायलेचो.

**1 प्रतिमा** : नोकरी, काम, धंदो बदल्लो. कोणाचो?

**2 प्रतिभा** : बायलेचो.

**1 प्रतिमा** : नांव बदल्लें. कोणाचें?

**2 प्रतिभा** : बायलेचें. पूण नांव बदलपाक जायच अशें ना.

**1 प्रतिमा** : पूण नांव बदलपाचेर दादल्यांचो कल आसता वा तांचो नाईलाज आसता.

**2 प्रतिभा** : नाईलाज कसो?

**1 प्रतिमा** : म्हजे एके इश्टीणीचें नांव आशिल्लें यशोधरा. पूण लग्न जातकूच तें बदल्लें.

**2 प्रतिभा** : आंवय! काय बरें नांव. बदल्लें कित्याक?

**1 प्रतिमा** : कारण तेंच नांव घोवाचे आवयचें आशिल्लें. आवयचें बदलूंक जायना. बायलेचें बदल्लें.

**2 प्रतिभा** : म्हजेय मैत्रिणीचें तशेंच. काय बरें सुफला नांव. बदल्लें. कित्याक जाणां? तेंच नांव ताचे आंकवार भयणीचें आशिल्लें. एका घरांत दोन नांवां कित्याक? म्हणून बदल्लें.

**1 प्रतिमा** : म्हजें आनीक एक फ्रेंड आशिल्लें. सामकें मॉडर्न. ताचें नांव स्वीटी.

**2 प्रतिभा** : वा! नांवा वयल्यानूच कळटा.

**1 प्रतिमा** : ताचो घोवूय मोडर्न. पूण ताणेंय लग्न जायनाफुडें आपणाले बायलेचें नांव बदल्लें.

**2 प्रतिभा** : आंवय! हें मात अती जालें आं. इतलें बरें नांव कित्याक बदल्लें?

**1 प्रतिमा** : कारण तांच्या बंगल्यांतल्या पामेरीयन सुण्याचें नांव स्वीटी आशिल्लें. एका बंगल्यांत दोन दोन स्वीटी कित्याक?

**2 प्रतिभा** : लग्ना उपरांत सगळेंच बदलता खरें. लग्नापयलीं चली गीतां म्हणपाक लागल्यार – ''वा! काय बरें गायता!'' लग्ना उपरांत गावपाक लागल्यार – ''आंवय! आतां म्हण तें सोबता?''

**1 प्रतिमा** : लग्नापयलीं कलेचें, अभ्यासाचें कवतूक! लग्ना उपरांत रांदपाचें, सजावटीचें कवतूक. ''वा! काय बरें हुमण!'' ''वा! काय बरें घर सजयलां!''

**2 प्रतिभा** : लग्नापयलीं ''आमचें चली स्पश्टवक्तें आं. खरें दिसता तें उलयतलें!'' लग्ना उपरांत ''आंवय! बायलमनशेक म्हण असली भास सोबता? लज म्हण कितें आसा काय ना?''

**1 प्रतिमा** : लग्नापयलीं चलयांनी एकटें भोवूं येता. एकटें खंयूय वचूं येता. भायर कँपाक, खंयूय वर्कशॉपाक. पूण लग्ना उपरांत घोव म्हणटा, ''तशी म्हजी हरकत ना!'' मागीर हरकत कोणाची? मांवाची, मांयची?

**2 प्रतिभा** : लग्ना उपरांत नाचाची जाता पिठी.

**1 प्रतिमा** : गाण्याचें जाता आळेण.

**2 प्रतिभा** : नाटकाचें जाता (खाणा ह्या अर्थान) चेटक.

**1 प्रतिमा** : चित्रांचे जाता फित्रीक.

**2 प्रतिभा** : आदलें सगळें विसरपाचें आनी नवें जोडपाचें

**1 प्रतिमा** : (गायत)

**सप्तपदीचीं सात पावलां**
**भियें भियेत तूं चल्ली**
**जल्माघरचें नातें तुजें गे**
**आज अचकीत सरलें**

(संगीत)

## देखाव - आठ

(प्रतिमा आनी प्रतिभा घरांतल्यो गजाली करता.)

**2 प्रतिभा** : जाणां प्रतिमा, आमगेर एक वॉल्तेर आशिल्लें पळय बसून धालपाचें.

**1 प्रतिमा** : वॉल्तेर कसलें, धोल्तेर तें. ताचें कितें जालें?

**2 प्रतिभा** : तें आमी, आमी म्हणजे म्हज्या घोवान दिलें.

**1 प्रतिमा** : कोणांक?

**2 प्रतिभा** : अशेंच आपल्या इश्टाक. जांव, गेलें तें बरें जालें. सालांत बेठीच आडखळ जाताली.

**1 प्रतिमा** : तुकांय सांगतलें म्हण आसलें. आमचें तें व्हडलें भाण नाशिल्लें?

**2 प्रतिभा** : सादें भाण न्हय तें. महाभाण.

**1 प्रतिमा** : तर तें आमी, आमी म्हणजे म्हज्या घोवान दिलें – तागेल्या मनशाक. पोरूं काकाक पींप दिलें. अंदू भाण दिलें. फुडल्या वर्सा तोपाची पाळी.

**2 प्रतिभा** : आमचेंय म्हण तशेंच. अंदू वॉल्तेर दिलें. फुडल्या वर्सा कदेली, ताच्या फुडल्या वर्सा मेज. घोवाचें म्हणणे – ह्यो वस्ती. वस्तुंचें दिवप घेवप जाता.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. वस्तुंचें दिवप घेवप जाताच. वस्तूंक खंय कितें कळटा?

**2 प्रतिभा** : वस्तुंचेंच जाता अशें ना. प्राण्यांचें – जनावरांचेंय दिवप घेवप

जाता.

1 प्रतिमा : बरोबर. आमगेर एक चानी पोसलेली पांजऱ्यांत. ती आमी, म्हणजे म्हज्या देरान अशीच आपल्या इश्टाक पांजऱ्यासकट बक्षीस दिली.

2 प्रतिभा : अशीच आमी एक साळोरी पोसलेली पांजऱ्यांत. ती आमी म्हणजे देरान पांजऱ्यासकट आपल्या इश्टाक भेट म्हण दिली.

1 प्रतिमा : म्हज्या कुळारा एक कोलूक आसा तें एका व्हिताक धा धा पेटे काडटा. आनी मागीर आमी म्हणल्यार कुळारचीं मनशां ते पेटे सगळ्यांक दितात. तुकां एक, तुकां एक, तुकां एक.

2 प्रतिभा : आनी म्हज्या कुळारा माजराची गत कितें? तेंवूय तितलेच पेटे काडटा. धा धा. तांचीय अशीच वांटणी जाता. तुकां एक, तुकां एक, तुकां एक.

1 प्रतिमा : म्हाका याद जाता, भुरगेपणांत आमगेर एक गाय आशिल्ली. बापायन ती दिली–दानांक जावंक जाय – गोदान!

2 प्रतिभा : म्हाकाय याद जाता, एक पाडो आशिल्लो गोठ्यांत – बापायन तो दिवन वडयलो कोणांक तरी जोताक – बैलदान!

1 प्रतिमा : वस्तूंचें दिवप–घेवप जाता. कारण वस्तूंक मन ना. पूण जनावरांचें कितें? तांकां मन ना?

2 प्रतिभा : मन आसा, भावना आसा. पूण तांकां सांगपाक कळना. वो तीं सांगतात पूण तांची भास आमकां कळना.

1 प्रतिमा : वस्तूंचें बरें आसा. जनावरांचेय बरें आसा. पूण आमचें बायलमनशांचें कितें?

2 प्रतिभा : कितें म्हणजे?

1 प्रतिमा : आमकांय अशींचच दिता न्हय? त्या चित्राक वळखता? गो? गीतां बी गायतालें तें. ताका कोणागेर दिलां गो?

2 प्रतिभा : हय, बरोबर. आनी तें गायत्री गो? नाटकांनी कामांबी करतालें, तें. ताका कोणागेर दिलां गो?

1 प्रतिमा : आनी तें वैशाली. काळें सावळें. ताका कोणागेर दिलां?

**2 प्रतिभा** : आनी तें मृणालीनी. गोरें गोरें. ताका कोणागेर दिलां?

**1 प्रतिमा** : तें प्रीतम. ताका कोणांक दिलां?

**2 प्रतिभा** : तें क्षिप्रा. ताका कोणांक दिलां?

**1 प्रतिमा** : ए प्रतिभा, तुकां कोणांगेर दिलां गो?

**2 प्रतिभा** : ए प्रतिमा, तुकां कोणांगेर दिलां गो?

(आनी उलयतां उलयतां दोगांय गावपाक लागतात. एकली प्रश्न विचारता, दुसरी जाप दिता.)

**1 प्रतिमा** : **तुकां कोणागेर दिल्या गे**
**सखे तुकां कोणांक दिल्या गे?**

**2 प्रतिभा** : **गांवकारागेर दिल्या गे सखे**
**पांडुरंगाक दिल्या गे**

**1 प्रतिमा** : **तुकां कोणागेर दिल्या गे**
**सखे तुकां कोणांक दिल्या गे**

**2 प्रतिभा** : **नायकागेर दिल्या गे सखे**
**नामदेवाक दिल्या गे**

**1 प्रतिमा** : **तुकां कोणागेर दिल्या गे**
**सखे तुकां कोणांक दिल्या गे?**

**2 प्रतिभा** : **XXX गेर दिल्या गे सखे**
**XXXX क दिल्या गे**

## देखाव - णव

(प्रतिमा आनी प्रतिभा)

**2 प्रतिभा** : बायल ही दिवपाची वस्त. वस्त दुसऱ्याक कित्याखातीर दितात?

**1 प्रतिमा** : बरेपण जोडपाक, इश्टागत जोडपाक, आपली मीजास दाखोवपाक, मोबदलो म्हणून, भंय पयस करपाक, दळीद्र पयस करपाक.

**2 प्रतिभा** : फाटलीं सगळीं पुराणां उस्तिलीं जाल्यार, इतिहास धवळ्ळो जाल्यार हेंच दिसतलें. समस्त दादल्यांनी बायलेक दिवपाची वस्त लेखल्या.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. एका राजाक तीन राजकुंवरी आसतात. राजा तिगांकूय विचारता. "म्हज्या प्रिय धुवांनो, तुमी कोणाच्या नशिबाच्यो?" पयल्यो दोगूय धुवो राजाच्या प्रश्नाचो रोख लक्षांत घेतात आनी म्हणटात. "तात, हें कितें विचारप जालें? आमी तुमच्या नशिबाच्यो!" अहंकारान राजा फुलता. त्या दोगांयचें लग्न दोन राजकुंवराकडेन व्हडा थाटामाटांत करून दिता. आनी आतां राजा तिसरे धुवेक प्रस्न विचारता, बाय तूं कोणाच्या नशिबाची? तिसरी धूव प्रामाणीक. ती म्हणटा, "तात, हांव म्हज्या नशिबाची." "कितें?" राजा खुबता. ताचो अहंकार दुखावता. रागान तो तिचें लग्न एका भिकाऱ्याकडेन लावन दिता. तिचें भिकाऱ्याक दान करता.

2 प्रतिभा : हो पुरूषी अहंकार! हांव तुमचो जल्मदातो आसां. कर्तो करवितो लेगीत हांवूच आसां. म्हजे मर्जेआड वागशात जाल्यार हांव तुमकां जल्माची ख्यास्त फर्मावपाक आसां.

1 प्रतिमा : महाभारताची कथा काडून पळोवची. कुरूकुल म्हणल्यार मातब्बर, बळीश्ट घराणें. त्या घराण्याकडेन संबंद जुळचे म्हणून गांधारीक धृतराष्ट्राक दान दिली. धृतराष्ट्र दोनय दोळ्यांनी कुड्डो आशिल्लो. घोव कुड्डो आसा अशें कळनाफुडें गांधारीन दोळ्यांक पट्टी बांदून आयुश्यभर आडेचें कुड्डेपण आपणायलें. गांधारी कुड्डी आशिल्ली जाल्यार कोण डोळस धृतराष्ट्र गांधारीकडेन लग्न जातलो आसलो? आनी लग्न जाल्यारूय आयुश्यभर दोळ्यांचेर पट्टी बांदून रावतलो आसलो? ना.

2 प्रतिभा : कारण–कितें करपाचें तें बायलांनी, कितें सोंसपाचें तें बायलांनी. बायलांक भावना नासतात. कारण त्यो दानाच्यो वस्ती.

1 प्रतिमा : एक राजा दुसऱ्या राजाचेर घुरी घालतालो तेन्ना दुर्बळ राजा, आपली एक धूव काडून त्या राजाक दान दितालो आनी अशे तरेन आपणाचेर आयिल्लें संकट निवारण करतालो.

2 प्रतिभा : वा! दानी महाराज की जय!

1 प्रतिमा : राजा कसल्याय कारणान खुश जालो जाल्यार मुखावयल्या मनशाक तो, ताची पिराय, लायकी पळयनासताना ताका अर्दें राज्य आनी आपली राजकन्या दान म्हूण दितालो.

2 प्रतिभा : वा! दानी महाराज की जय!

1 प्रतिमा : आपणालें दळीद्र पयस करपाक आरंभाक चलयो विकपाचो धंदो होवूय एक असोच दानाचो प्रकार.

2 प्रतिभा : कर्ज निवारण करपाक चलयेक सावकाराक काडून दिवप हेंवूय एक अशेंच दान.

1 प्रतिमा : पैशांचे आशेक लागून. गरीबीची उबगण येवन चलयांक जाणट्यांकडेन लग्न लावन दिवप होवूय एक दानाचो प्रकार.

2 प्रतिभा : (गायत) **म्हातारा तितुकाची अवघे पावुणशें वयमान!**

1 प्रतिमा : चलयेच्या ह्या दानाच्या वेवहाराचें सोबीत सुंदर अशें नांव म्हणल्यार कन्यादान! जशें गोदान, धनदान, सुवर्णदान, भूमीदान तशेंच कन्यादान!

(दोगांय लग्नांतल्यो ओंवयो गावपाक लागतात.)

**आईबापाचे पोटी जल्मली गे बेटी**
**धनाची गे पेटी बाळ मोगा आमचें**

**तळ्यांतलें साळींक सोडा गा उदीक**
**परघरा वयता लेक काय राज्य करूंक**

**काळजाचें कुरकूट तितुंतली भिरमूट**
**पोटीच्या रत्नाचें हें कन्यादान**

## देखाव – धा

(प्रतिमा आनी प्रतिभा)

2 प्रतिभा : बायलो फक्त दानूच करपाक न्हय. तांचो आनीकूय जायत्या तरांनी वापर केला. सामको देवांनी लेगीत. धर्तरेचेर ऋषी विश्वामित्र तप करपाक बसलो तेन्ना सर्गांत ब्रह्मदेवाक कडकडो भरलो. हो असोच तप करपाक बसलो जाल्यार महर्षीचो ब्रह्मर्षी जातलो आनी देवलोकाक आव्हान दितलो. म्हणून ब्रह्मदेवान विश्वामित्राचो तपोभंग करपाक रंभा नांवाचे अप्सरेक धर्तरेचेर धाडली.

1 प्रतिमा : देवा रे देवा! जय ब्रह्मदेवा!

2 प्रतिभा : हाचे आदीं सर्गांतल्यान मेनका धर्तरेचेर आयिल्ली तेन्ना विश्वामित्राचो असोच तपोभंग जाल्लो. ताणें तब्बल धा वर्सां तिचेबरोबर रावन मागीर तिका सोडली. रंभेकूय ताणें शाप दिवन तिका फातर केली. बायलांचे बाबतींत विश्वामित्र 'लूज' आशिल्लो हें सगळ्यांक खबर आसा. पूण अप्सरांचेर आपूण अन्याय करता म्हणपाचें ना कळपा इतलो ब्रह्मदेवूय तकलेन 'धील' आशिल्लो?

1 प्रतिमा : अशी ही बायलमनीस! जी बापायक आपणाल्या अहंकाराखातीर भिकाऱ्याक दिवंक मेळटा. घराणें जोडपाखातीर कुड्ड्याक दिवंक मेळटा. राज्यावयली घुरी परतुवपाखातीर दुस्मानांक दिवंक मेळटा. गळ्यांतलो कंठो दिवचो तशी बक्षीस म्हण दिवपाक मेळटा. बायल दिवन रीण पावोवंक मेळटा, गरीबी पयस करूंक जाता.

2 प्रतिभा : तात्पर्य–बायलमनीस म्हणल्यार दादल्याखातीर एक अप्रतिम फॉर्मुला, फोर इन वन. म्हणल्यार एक गाडव. वजेंय घेता आनी सुंदरय दिसता अशें गाडव. बायल म्हणल्यार भांगराचीं तांतयां दिवपी एक सुंदर कोंबी.

1 प्रतिमा : इतली बायल मोलादीक?

2 प्रतिभा : हय तर. मोलादीक म्हणून तिका कित्याकूय लावपाक मेळटा. कित्याकूय म्हणल्यार पटाक, मटक्याक, रेसीक.

1 प्रतिमा : शे! खरें दिसना ·

2 प्रतिभा : खरें दिसना जाल्यार धर्माक विचार.

1 प्रतिमा : कोण धर्म?

2 प्रतिभा : महाभारतांतलो राजा युधिश्ठीर. पांच पांडवांचो मुखेली. धर्मराज! ताणें दौपदीचे बाबतींत जें केलें तो अधर्म आशिल्लो. दुष्ट कौरवांकडल्यान पांडवांक द्यूत खेळपाचें आमंत्रण गेलें. द्यूत म्हणल्यार जुगार. सगळ्या अनर्थांचें मूळ. राजांचो तो

शौक. द्यूताचें आमंत्रण दिवप म्हणजे एक तरेचें आव्हानूच तें. कौरवांचें आमंत्रण पांडवांनी स्वीकारलें. सभा भरली. एकेवटेन शंबर कौरव. दुसरेवटेन पांच पांडव. मदें जाणटेले धृतराष्ट्र, द्रोणाचार्य, कृपाचार्य, विदूर. खेळ सुरू जालो. शकुनीमामा कौरवांवटेन. ताच्या हातांत पाशे. तो धर्मराजाक विचारता, ''दावाक कितें लायता?'' धर्मराज सांगता, ''म्हज्या गळ्यांतलो रत्नहार!'' शकुनी पाशे वडयता आनी आड्डता, ''हांव जिखलों. दावाक आनीक कितें लायता?''
(विचित्रतरेन हांसता.)

## देखाव – इकरा

(प्रतिमा जाता शकुनी जाल्यार प्रतिभा जाता धर्मराज आनी द्रौपदी.)

**1 शकुनी** : सांग, दावाक कितें लायता?
**2 धर्मराज** : रथ आनी घोडे.
**1 शकुनी** : रथ आनी घोडे! (पाशे वडयिल्ल्याचो अभिनय) जिखलों. (हांसता) दावाक आनीक कितें लायता?
**2 धर्मराज** : म्हज्यो दासी लायतां.
**1 शकुनी** : दासी ! जिखलों. आनीक कितें लायता?
**2 धर्मराज** : दास.
**1 शकुनी** : जिखलों.
**2 धर्मराज** : हत्ती–घोडे.
**1 शकुनी** : जिखलों.
**2 धर्मराज** : सिंधू न्हंयचे उदेंतेक सावन पर्णा न्हंये मेरेनची सगळी भूंय.
**1 शकुनी** : जिखलों.

**2 धर्मराज** : सगळें गोधन.

**1 शकुनी** : जिखलों. आनीक कितें उरलां जाल्यार सांग.

**2 धर्मराज** : हो म्हजो भाव नकूल. हाका लायतां दावाक.

**1 शकुनी** : नकुलाक जिखलो.

**2 धर्मराज** : हो सहदेव.

**1 शकुनी** : सहदेवाक जिखलो.

**2 धर्मराज** : हो अर्जून.

**1 शकुनी** : अर्जूनाक जिखलो.

**2 धर्मराज** : हो भीम.

**1 शकुनी** : भीमाक जिखलो.

**2 धर्मराज** : हो घे. हांव धर्मराज. म्हाकाच दावाक लायतां.

**1 शकुनी** : जिखलो. आमी कौरवांनी धर्मराजाकूय जिखलो.

**2 धर्मराज** : आतां म्हजेलागीं दावाक लावपाक कांयच उरूंक ना.

**1 शकुनी** : ना कशें तर? एक वस्त आसा तुमचेकडेन. पांच पांडवांकडेन. सामकी मोलादीक वस्त.

**2 धर्मराज** : कसली वस्त?

**1 शकुनी** : द्रौपदी! युधिष्ठीरा, द्रौपदीक पणाक लाय.

**2 धर्मराज** : लायली. द्रौपदीक पणाक लायली.

**1 शकुनी** : (खोशयेन) जिखली. आमी कौरव द्रौपदी जिखले. ती आमची दासी जाली. दुर्योधनाचे सांगणेन दुःशासन उठून भितर गेलो आनी ताणें द्रौपदीक म्हणलें, द्रौपदे, तूं आमची दासी जाल्या. तुका जिखल्या आमी. तुका राजसभेंत व्हरपाक आयला हांव. आनी ताणें द्रौपदीक फरफरीत ओडीत राजसभेंत व्हरून उबी केली. द्रौपदी सैरभैर जाल्ली. तिचो तोल गेल्लो पूण मन खंबीर आशिल्लें. सगळे परिस्थितीचो अदमास घेवन तिणें म्हणलें- (प्रतिभा द्रौपदी जाल्या)

**2 द्रौपदी** : हे राजसभेंत जाणटे तशे परकी बसल्यात. ते हांगा हाजीर आसताना खरें म्हणल्यार म्हजेर हो प्रसंग येवपाक फाव नासलो.

एके बायलमनशेक अशी फरफरीत ओडून राजदरबारांत हाडप – ज्या राजदरबारांत व्हडले व्हडले धर्मात्मे बसल्यात आनी तांच्यांतलो एकलोय सभागी एक उतर उलयना? कोणांक दूशण दिना? हाचो अर्थ कितें? सगळ्यांनी धर्म माइडीला? मनीसपणा सोडलां? सगळ्यांचें स्वत्व ना जालां? भीष्माचार्य, द्रोणाचार्य, कृपाचार्य सारखे म्हालगडे वाचा धरून पडल्यात हाचो अर्थ कितें? हांव विचारतां त्या प्रश्नांची म्हाका सरळ सरळ जाप दियात – जो युधिष्ठीर द्युतांत हारिल्लो आनी कौरवांचो दास जाल्लो, ताका म्हाका दावाक लावपाचो अधिकार कसो फाव जाता? जाचेर आपली सत्ता ना तें कशें तरेन पणाक लावपाक जाता? आनी सगळ्यांत म्हत्वाचो प्रश्न. पणांक लावपाक बायलमनीस ही कितें निर्जीव वस्त? तिका मन-काळीज, भाव-भावना कितें आसतात काय ना?

(संगीत)

## देखाव - बारा

(प्रतिमा आनी प्रतिभा वातावरण हलकें करपाक सोदतात.)

**2 प्रतिभा** : पळयिल्ले भितर वातावरण मातशें गंभीर जालेंशें दिसता.

**1 प्रतिमा** : कपलार पडिल्ल्या आंठयांवयल्यान तशें दिसता खरें.

**2 प्रतिभा** : कोणाच्या कपलार आंठयो?

**1 प्रतिमा** : थोडयो आमच्या, थोडयो प्रेक्षकांच्या. फिफ्टी-फिफ्टी.

**2 प्रतिभा** : गंभीर वातावरण निवळपाक उपाय कितें?

**1 प्रतिमा** : जोक सांगप.

**2 प्रतिभा** : जोक? आमच्या देशांत सगळे जोक दोनूच मनशांचेर

जातात.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. एक शिखांचेर. आनी दुसरो?

**2 प्रतिभा** : बायलांचेर.

**1 प्रतिमा** : बरोबर. दादल्यांचे जोक तर बायलांचेरूय आसतात. सांकवार बसून केल्ले, ऑफिसांत बसून केल्ले, बारांनी बसून केल्ले.

**2 प्रतिभा** : तुकां कशे कळ्ळें?

**1 प्रतिमा** : अदमासान.

**2 प्रतिभा** : आमी अशें करूंया. प्रश्नमंच खेळूंया. क्वीज.

**1 प्रतिमा** : वा! कौन बनेगा करोडपती. सवाल दस लाखका. (नामनेच्या क्वीजाचीं शिर्शकां घेता.)

**2 प्रतिभा** : कल्पना बरी आसा. मनावयलो ताणय वतलो. हुशारकायेची कसवटीय लागतली.

**1 प्रतिमा** : कोणाची कसवटी?

**2 प्रतिभा** : थोडी आमची. थोडी प्रेक्षकांची. फिफ्टी फिफ्टी

**1 प्रितमा** : हांव एका पांयार तयार आसां.

**2 प्रतिभा** : पडशी. तर हांव क्वीज मास्टर. रेडी?

**1 प्रतिमा** : यस. रेडी. (जापो दिवपाक तयार जाता)

## देखाव : तेरा

(प्रतिभा जाता क्वीज मास्टर आनी प्रतिमा जाता सर्तक)

२ क्वीज मा.: ह्या प्रश्नांक पर्याय आसात. प्रश्न 1. सरस्वती आनी लक्ष्मी ह्यो कोण? पर्याय 1. भावजयो 2. सवती 3. भयणी

१ सर्तक : सवती!

२ क्वीज मा.: जाप चूक. सारखीच जाप भयणी. प्रश्न 2 – भावाक भयण

ओवाळटा ती परब कसली? पर्याय 1. मंगळागौर 2. गोरवां पाडवो 3. भाऊबीज

**1 सर्तक** : गोरवां पाडवो!

**2 क्वीज मा.:** ना. भाऊबीज. प्रश्न 3 – जल्म जल्मां होच घोव मेळचो म्हण बायल एके परबेक खंयच्या झाडाक सूत बांदता? पर्याय 1. पिंपळ 2. वड 3. माड

**1 सर्तक** : पिंपळाक!

**2 क्वीज मा.:** न्हय. वडाक. प्रश्न 4 – घाव फुरफुरून बायलेक जायत्यो वस्तू हाडून दिता ती परब वा सण खंयचो? पर्याय 1. चवथ 2. दिवाळी 3. हळदी कुकूम

**1 सर्तक** : चवथ!

**2 क्वीज मा.:** हळदीकुकूम. प्रश्न 5 – राजा दशरथान पुत्रकामेष्टी यज्ञ केलो. यज्ञपुरुषान प्रसन्न जावन कौसल्या, कैकयी, सुमित्रा ह्या राणयांक खावपाखातीर एक जिनस दिलो. त्या जिनसाचें नांव कितें? पर्याय 1. श्रीखंड 2. आईस्क्रीम 3. पायस

**1 सर्तक** : श्रीखंड!

**2 क्वीज मा.:** पायस. प्रश्न 6 – लक्ष्मणान सीतेर व्हरून रानांत सोडली. खंयच्या वाहनान? पर्याय 1. रीक्षान 2. मारूतीन 3) रथान

**1 सर्तक** : मारूतीन! तेन्नाय मारूती आशिल्लो.

**2 क्वीज मा.:** रथान. तेन्नाचो मारूती आतांची मारूती. प्रश्न 7 – एक वैजकी तपासणी जातूंत बायलमनशेच्या पोटांत चलो काय चली आसा तें कळटा. ते पद्दतीचें नांव कितें? पर्याय 1. मोनाग्राफी 2. सोनोग्राफी 3. सिनेमाटोग्राफी

**1 सर्तक** : सिनेमाटोग्राफी!

**2 क्वीज मा.:** सोनोग्राफी. प्रश्न 8 – महाभारतांत द्रौपदी वस्त्रहरणाच्या वेळार भगवान श्रीकृष्णान द्रौपदीक कसलीं वस्त्रां (सप्लाय केलीं) दिलीं? पर्याय 1. शरारा 2. घागराचोळी 3. साडयो

**1 सर्तक** : (चूक) घारगाचोळी!

**2 क्वीज मा.:** (सारकी) साडयो. शाब्बास! सामकी थरोवन म्हणटा तशी एकान एक प्रश्नाची जाप चूक दिली. तुका सगळे भोपळे! आतां मुखार या. आतां ह्यो जोडयो लावपाच्यो. पूत आनी आवय.

**2 क्वीज मा.:** श्री कृष्णाची आवय?

**1 सर्तक** : यशोदाबाई.

**2 क्वीज मा.:** जेजूची आवय?

**1 सर्तक** : मेरी.

**2 क्वीज मा.:** रामाची आवय?

**1 सर्तक** : कौसल्या.

**2 क्वीज मा.:** शिवाजीची आवय ?

**1 सर्तक** : जीजाबाई.

**2 क्वीज मा.:** आतां ह्यो जोडयो प्रेमी-प्रेमिकांच्या
कृष्ण?

**1 सर्तक** : राधा.

**2 क्वीज मा.:** रोमिओ?

**1 सर्तक** : ज्युलिएट.

**2 क्वीज मा.:** हिर?

**1 सर्तक** : रांजा.

**2 क्वीज मा.:** लैला?

**1 सर्तक** : मजनू.

**2 क्वीज मा.:** आतां ह्यो जोडयो घोव आनी बायलांच्यो. पयलीं देवांपासून सुरू करूंया. शंकराची पत्नी?

**1 सर्तक** : पार्वती.

**2 क्वीज मा.:** नारायण?

**1 सर्तक** : लक्ष्मी.

**2 क्वीज मा.:** चंद्र?

**1 सर्तक** : रोहिणी.

**2 क्वीज मा.:** राम?

**1 सर्तक** : सीता.

**2 क्वीज मा.**: लक्ष्मण?

**1 सर्तक** : उर्मिला.

**2 क्वीज मा.**: दुष्यंत?

**1 सर्तक** : शकुंतला.

**2 क्वीज मा.**: नळ?

**1 सर्तक** : दमयंती.

**2 क्वीज मा.**: सत्यवान?

**1 सर्तक** : सावित्री.

**2 क्वीज मा.**: हरिश्चंद्र?

**1 सर्तक** : तारामती.

**2 क्वीज मा.**: महात्मा गांधी?

**1 सर्तक** : कस्तुरबा.

**2 क्वीज मा.**: राजीव गांधी?

**1 सर्तक** : सोनिया गांधी.

**2 क्वीज मा.**: लालूप्रसाद?

**1 सर्तक** : राबडी देवी.

**2 क्वीज मा.**: प्रतापसिंह राणे?

**1 सर्तक** : विजयादेवी राणे.

**2 क्वीज मा.**: ह्या प्रश्नांक पर्याय ना. फक्त जापो दिवपाच्यो. प्रश्न 1 – मेरी झाँसी नहीं दुंगी अशें ब्रिटीशांक धमकावन सांगपी बायलमनशेचें नांव कितें?

**1 सर्तक** : अहिल्याबाई होळकर.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 2 – एक दादलो शिकल्यार फक्त एक मनीस शिकता पूण एक बायल शिकल्यार एक कुटूंब शिकता अशें कोणें म्हणलां?

**1 सर्तक** : चक्रवर्ती राज गोपाला च्यारी.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 3 – एक डाकूराणी, जी वेंचून येवन लोकसभेंत पावली.

तिचेर एक फिल्मूय आयलें. मागीर तिची हत्या जाली. तिचें नांव कितें?

**1 सर्तक** : बेंडेट क्वीन – फुलन देवी.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 4 – देशांतली एक कर्तुत्वी बायलमनीस जिचो गोंयाकडेन एक पोलीस अधिकारी म्हणून संबंद आयलो.

**1 सर्तक** : किरण बेदी.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 5 – नर्मदा बचाव आंदोलनाकडेन खंयचे बायलमनशेचो फुडारी म्हणून संबंद आयला?

**1 सर्तक** : मेधा पाटकर.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 6 – आमोणें आनी मंगेशी ह्या दोन गावांकडेन दोन नामनेच्या गायिकांची आडनांवां जोडिल्लीं आसात. त्यो व्यक्ती कोण?

**1 सर्तक** : किशोरी आमोणकर आनी लता मंगेशकर.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 7 – सिनेमांतली एक गोंयकार अभिनेत्री जिच्या नांवाचो अर्थ पावस.

**1 सर्तक** : वर्षा उसगांवकर.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 8 – एक गोंयकार गायिका जिच्या नांवाचो अर्थ भांगर.

**1 सर्तक** : हेमा सरदेसाय.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 9 – (कांतार म्हणत) **यो बायले यो / सोरो म्हाका दी पयलो / सोरो म्हाका दिना जाल्यार तुजो फोडटलों तकलो** ... हें कांतार कोणें गायलां?

**1 सर्तक** : लॉर्नान.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 10 – गोंयची पयली बायल मुख्यमंत्री कोण?

**1 सर्तक** : शशिकला काकोडकार.

**2 क्वीज मा.**: प्रश्न 11 – पुराणांनी पांच पंचकन्यांचीं नांवां सांगल्यांत, ज्या पांच बायलांचें नित्य स्मरण केल्यार आपणालीं महापातकां लेगीत नश्ट जातात.

**सर्तक** : जयललीता, राबडीदेवी, मायावती, सुषमा स्वराज, ममता बॅनर्जी.

**क्वीज मा.**: ना अहिल्या, द्रौपदी, सीता, तारा, मंडोदरी.आनी इतल्यान प्रश्नमंच कार्यक्रम सोंपलो. हातूंत चडानचड प्रश्नांच्यो जापो तुवें बरोबर (प्रेक्षकांच्या खुस्तार) दिल्यो देखून तुकां हीं बक्षिसां. पयले सुवातेर चपलू श्यू मार्ट कंपनीचे वतीन हो एक नवोताल्ल नवे मोदीच्या चपलांचो जोड, भेट म्हणून. हो पांयांत घालपाक तेचप्रमाण परिस्थितीप्रमाण (कोणाच्याय पोल्यार मारपाक ह्या अर्थान) वापरपाक.

**1 सर्तक** : (भेट स्वीकारिल्ल्याचो अभिनय) देव बरें करूं!

**2 क्वीज मा.**: ही दुसरी भेट. लाटफळ ऍन्ड लाटण कंपनीचे वतीन लाटणें.

**1 सर्तक** : फक्त लाटणें?

**2 क्वीज मा.**: हय. सद्याक कंपनीक लाटणेंच पुरस्कृत करपाक परवडटा. फुडें घडये लाटफळें दीत. हें लाटणें सादें न्हय. तें चपात्यो लाटपाक उपकारा पडटा तशें लाटणें मोर्चा काडपाक, घरांत घोवाचेर वापरपाक उपेगी पडटा.

**1 सर्तक** : (स्वीकारीत) देव बरें करूं!

**2 क्वीज मा.**: फुडले सुवातेर स्वच्छता प्रायव्हेट लिमिटेडचे वतीन ही सारण.

**1 सर्तक** : आवयस्! सारण? व्हिरांची?

**2 क्वीज मा.**: हय. पूण प्लास्टीकच्या व्हिरांची.

**1 सर्तक** : प्लास्टीकचे व्हीर? म्हणजे माडूय प्लास्टीकचे आसतात?

**2 क्वीज मा.**: तें कंपनीक विचारचें पडटलें. ही सारण घरांतलो कोयर काडून भायर रस्त्यार वडोवपाखातीर.

**1 सर्तक** : (भेट स्वीकारीत) देव बरें करूं!

**2 क्वीज मा.**: आनी फुडली भेट आसा – बकेट प्रॉडक्शनचे वतीन दोन रिकामी बालद्यो. घरांतलो नळ वता तेन्ना भायले बांयचेर वचून दोनाय हातांनी उदक भरून हाडपाक.

**1 सर्तक** : आंवय! बालद्योशो? दोडबी दिवपाची.

**2 क्वीज मा.**: दोड मेळोवपाचो आमी यत्न केल्लो पूण सद्याक त्यो मेळना आनी मेळ्ळ्योय जाल्यार बायलांक त्यो हांडीर धरपाक कळना. देखून सोप्प्यो सुटसुटीत बकेट. आनी ही सगळ्यांत व्हडली आनी आगळी वेगळी भेट. हायकी प्रायवेट लिमिटेड कंपनीचे वतीन – चावयांचो घोस. हो चावयांचो घोस वेवस्थीत कमराचेर खोवपाक मेळटा. हातूंत कसल्यो कसल्यो चावयो आसात तें पळयात. (दाखयत) ही चावी मिलेराची. ही चावी तिजोरेची. ह्यो चावयो दोन मेजाच्या खणांच्यो आनी ह्यो पांच चावयो पांच कपाटांच्यो.

**1 सर्तक** : (खोशयेन – स्वीकारीत) देव बरें करूं! पूण ह्यो जाल्यो चावयो. पूण तो मिलेर, ती तिजोरी, तीं दोन मेजां आनी तीं पांच कपाटां खंय?

**2 क्वीज मा.**: तीं थंय हायकी कंपनीच्या शोरूमांत आसात. चावयो दाखोवन त्यो वस्तू घेवपाच्यो.

**1 सार्तक** : अशें? हांव आतांच चल्लें. रितो ट्रक घेवन वतां.

**2 क्वीज मा.**: रितो ट्रक व्हर पूण रित्या हातान मात वचूं नाका.

**1 सर्तक** : म्हणजे?

**2 क्वीज मा.**: म्हणजे चावयो फुकट पूण चावयांक लागपी सगळ्या वस्तूंचें मोल रोक फारीक करचें पडटलें. हायकी प्रायव्हेट लिमिटेड!

(संगीत)

## देखाव - चवदा

(प्रतिमा आनी प्रतिभा. प्रतिमा खोशयेंत आसा.)

**2 प्रतिभा** : (गायत) **कार्येषु मंत्री**
**कारणेषु दासी**
**भोज्येषु माता**
**शयनेषु रंभा**

**1 प्रतिमा** : हें मर्दींच कितें ?

**2 प्रतिभा** : संवसारांत दादल्याबरोबर बायलेचें स्थान कितें हें पुराणकारांनी सांगून दवरलां.

**1 प्रतिमा** : कितें म्हणून?

**2 प्रतिभा** : म्हणजे बायलेन घोवाखातीर कशी आसपाक जाय?

**1 प्रतिमा** : कशी आसपाक जाय?

**2 प्रतिभा** : कार्येषु मंत्री म्हणजे घोवाक तिणें मंत्र्याभशेन सहकार्य करपाक जाय. योग्य बुद्ध दिवपाक जाय.

**1 प्रतिमा** : निर्बुद्द खंयचेकडलो!

**2 प्रतिभा** : करणेषु दासी. म्हणजे घोवाखातीर तिणें दासीभशेन वावुरपाक जाय.

**1 प्रतिमा** : वा! मंत्र्यावयल्यान दासी. एकेवटेन घोवाक बुद्द दिवपाची आनी दुसरेवटेन पांयातले बूट काडपाचे.

**2 प्रतिभा** : भोज्येषु माता. खाणा-जेवणाचे बाबतींत आवय जशी भुरग्याची काळजी घेता, तशी घोवाची काळजी घेवपाची.

**1 प्रतिमा** : (चाळयत) बाबा म्हजो शाणो! एक पेग मोगाचो, एक घांस कबाबाचो.

**2 प्रतिभा** : आनी शयनेषु रंगा. रातची पलंगाचेर तिणें रंभा अप्सरेभशेन प्रणयरंग करपाक जाय.

**1 प्रतिमा** : म्हणजे घोवाक विश्वामित्र लेखून ताचो तपोभंग करपाक जाय.

**2 प्रतिभा** : अर्थांत.

**1 प्रतिमा** : आनी हाच्या उरफाटें जालें जाल्यार?

**2 प्रतिभा** : उरफाटें म्हणजे कशें?

**1 प्रतिमा** : म्हणजे कांय वर्सांनी–धरूंया 2025 वो 2050 वर्सा आयज जंय दादलो आसा थंय बायलमनीस. सगळीं सूत्रां बायलांच्या हातांत. स्त्रीप्रधान संस्कृतीचो आरंभ. आदलो श्लोक उरफाटो करून. बदलून. म्हणजे दादल्याचे सुवातेर आतां बायल.

**2 प्रतिभा** : कशी?

**1 प्रतिमा** : (गायत)

**कार्येषु सचिवा**
**कारणेषु दासा**
**भोज्येषु बल्लवा**
**शयनेषु मदना**

**2 प्रतिभा** : म्हणजे कशें?

**1 प्रतिमा** : बायलेक कार्येषु मंत्री कित्याक जाय? ती निर्बुद्द थोडीच आसा. तिका जाय, फर्मायिल्लें काम करपाक सेक्रेटरी सचिव. घोवान सेक्रेटरीभशेन आसचें. हेच बारीक सारीक कामांखातीर ताणें दास म्हणल्यार नोकराभशेन आसचें. बायलेचे जिबेचे लाड पुरे करपाक ताणें कुशल बल्लव म्हणजे रांदप्याभशेन–कूक आसचें आनी रातीकडेन बायले म्हऱ्यांत येताना ताणें मदन जावन येवचें.

**2 प्रतिभा** : हें सगळें शक्य आसा?

1 प्रतिमा : कित्याक ना? बायलेक तें शक्य आसा जाल्यार घोवाक हें कित्याक शक्य ना?

2 प्रतिभा : हांव तशें म्हणना. हांव म्हणपाक सोदतां – दादल्यांचेर असो प्रसंग येवं येता? बायलांक असो सूड घेवंक मेळूं येता?

1 प्रतिमा : कित्याक मेळचो ना? काळ अनंत आसा. काळचक्र एकसारखें घुंवत आसता. नोकरांचे धनी जातात. धनयांचे चाकर जातात. भाटकाराचें मुंडकार जातात. मुंडकाराचें भाटकार जातात. रावचे रंग जातात. रंकाचे राव जातात. आनी ह्या जगांत स्त्रीप्रधान संस्कृती पळयल्या. एका काळार आनी कांय समाजांमदीं अशी स्त्रीप्रधान संस्कृती आशिल्ली. ताची पुनरावृत्ती जावं येता.

2 प्रतिभा : कशी?

1 प्रतिमा : ही अश्शीऽऽऽ

(संगीत)

## देखाव – पंदरा

(उलयतां उलयतां प्रतिमा घोवाचो आव हाडटा. आपूण घर मुखेली जाता आनी मुखावयल्याक प्रतिभाक दादलो लेखून उलयता – फर्मायता. उलो मारून)

1 बायल : पुर्शाऽऽ ए पुर्शाऽऽ

2 घोव : (कांय वेळान पुर्सो धांवत येता.)

1 बायल : कितलो वेळ सादयतां हांव.

2 घोव : हांव समजलों–

1 बायल : कितें समजलो? हांव कोणाक नोकराक उलो मारतां? तूं घोव आसताना म्हाका दुसरो नोकर कित्याक जाय? दुसरे फावट

पुर्शा म्हणनाफुडें मुखार येवपाक जाय. तुजें नांव पुरुशोत्तम म्हणून म्हाका खबर आसा. येदें व्हडलें नांव उच्चारून म्हाका गरजेभायर शक्त आनी वेळ वगडावपाचो ना.

**2 घोव** : बरें आसा.

**1 बायल** : म्हजो ऑफिसाक वचपाचो वेळ जालो.

**2 घोव** : खबर आसा म्हाका.

**1 बायल** : उदक काडलां?

**2 घोव** : काडलां.

**1 बायल** : थंड काय गरम?

**2 घोव** : धगमोडें.

**1 बायल** : जांव तितली बरी याद उरली. ब्रेकफास्ट तयार आसा?

**2 घोव** : तयार आसा.

**1 बायल** : कितें केलां?

**2 घोव** : कितें करूं?

**1 बायल** : कितें करूं म्हणजे ?

**2 घोव** : म्हणजे हावें सगळें तयार करून दवरलां. पोळ्यांखातीर आनी इडल्यांखातीर पीठ वांटून दवरलां. चपात्यांखातीर पीठ मळून दवरलां. तुकां जाय तें सांगपाचें.

**1 बायल** : तुकां?

**2 घोव** : सॉरी. तुकां न्हय. तुमकां.

**1 बायल** : बरें आसा. पोळे काडपाचे. सारखे काड. तूं घोव पोळे काडटा म्हण हांव बायल तुजें शेंबूट काडटली अशें समजूं नाका.

**2 घोव** : ना समजुचो. शेंबूट हांवूच काडटलों.

**1 बायल** : काड, पूण पोळे सांबाळ.

**2 घोव** : सांबाळटलो. (वचपाक वळटा.)

**1 बायल** : खंय कूस मारता?

**2 घोव** : कूस कसली? ब्रेक फास्टाचे तयारेक लागतां.

**1 बायल** : आनी दनपारचें जेवण सारखें जावं दी. पाट्यांच्या निमतान म्हजीं

रातचीं जेवणां भायरच जातात. दनपारचें जेवण घरा जेवतां, तें तरी सारखें आसपाक जाय.

2 घोव : आसतलें. सारखें आसतलें.

1 बायल : आनी तें ऑफिसाचें थोडें काम दिल्लें तें केलें?

2 घोव : थोडें केलां. थोडीं पानां उरल्यांत. तीं फाल्यां जातलीं.

1 बायल : फाल्यां, फाल्यां दर काम फाल्यां. आयज म्हण केन्ना उदेचना. आयज सांजमेरेन जातलें अशें कित्याक म्हणना?

2 घोव : आयज सांजचे कपडे उमळपाचे आसात.

1 बायल : कपड्यांचें एक निमित्त बरें. जशें काय आदल्या बायलांभशेन बांयचेर फातरीर कपडे उमळचे पडटात! वॉशींग मशीन आसा म्हण बरें! आनी कपडे उमळप खऱ्यांनीच बरें जाता. शाब्बास!

2 घोव : थँक्यू.

1 बायल : पूण भुल्लूसून वचूं नाका. साडयांक सारखें फेर्र बसना. ब्लावजांचेंय तशेंच. चत्रायेन फेर्र मार. एकेवटेन टी वी पळयत फेर्र मारूं नाका. म्हजी एक एक साडी म्हणल्यार... आसूं. हाली कसली सिगरियल पळयता?

2 घोव : ससूरभी कभी दामाद था।

1 बायल : चल कामांक लाग. आनी काल दिल्लें तें तुटलेलें जोतें भायर वचून लावन हाडलें?

2 घोव : ना.

1 बायल : कितें?

2 घोव : ना म्हणजे जोतीं लावपाक भायर गेलों ना. तें हावें स्वतः घरांतूच लायलें.

1 बायल : शाब्बास !

2 घोव : थँक्यू! आयज म्हाका दोन फावट शाबासकी मेळ्ळी.

1 बायल : दिसानदीस अशीच प्रगती कर आनी एक गजाल घट मतींत धर.

2 घोव : कसली गजाल?

1 बायल : रातीं खाटीचेर येतना न्हावन-धुवन, बरे निवळ कपडे पिंजके आसल्यार उपकारता. यो. पावडरबी मारीना जाल्यार जाता पूण त्यो घामाच्यो घाणी म्हज्यान सोसूं नजो.

2 घोव : बरें आसां.

1 बायल : आनी -

2 घोव : सांग.

1 बायल : दीसभर सगळीं कामां करूनय थोडी शक्त राखून दवर. हाथुणार पडनाफुडें घोरेवपाक लागता.

2 घोव : हय. समजलें.

1 बायल : कर्म समजलें. परत यो रे म्हज्या मागल्या.

(संगीत)

## देखाव - सोळा

(प्रतिमा आनी प्रतिभा. पार्श्वभागाचेर प्रसन्न संगीताची सुरावट)

1 प्रतिमा : 2 प्रतिभा, म्हाका दिसता, आमचो आतां उडपाचो वेळ जालो.

2 प्रतिभा : उडपाचो म्हणजे?

1 प्रतिमा : म्हणजे जशीं सवणी उडटात, जशीं विमानां उडटात तशें आमी दोगांयनी उडपाचें. अशें हातांत हात धरून.

2 प्रतिभा : पूण उडप कशें?

1 प्रतिमा : कशें म्हणजे? पयलीं मारूतीबी कशे उडटाले? आतां तो स्पायडरमॅन, शक्तीमानबी कशे उडटात? तशें. धर, घट धर हाताक. एक-दोन-तीन-

(दोन बसकांचेर उबीं रावन दोगांय एकामेकाचो हात हातांत धरून वयर उडपाचो अभिनय करतात. हवेंत उफेतात अशें दाखयतात.)

**2 प्रतिभा** : वा! वा! खूब बरें दिसता.

**1 प्रतिमा** : भंय गेलो?

**2 प्रतिभा** : हय. सामको पळून गेलो.

**1 प्रतिमा** : ना. भंय पळून वचूंना. थंय सकयल धर्तरीचेरूच उरलो.

**2 प्रतिभा** : बरोबर.

**1 प्रतिमा** : मातशे हातपांय हालोवपाचे. धर्मीक सिरीयलांतल्या देवाभशेन थीर रावप ना. त्या देवांचें बरें. आमचें मनशांचें तशें ना. हात-पांय हालयलेबगर आमचें काम जायना.

**2 प्रतिभा** : बरोबर.

**1 प्रतिमा** : पळय, हांगासावन सकयल पळय. काय बरें दिसता.

**2 प्रतिभा** : आवयस! गोंय कितलें सुंदर तें वयल्यानूच पळोवपाचें.

**1 प्रतिमा** : पळय, शाळेंत चलयो कश्यो शिकतात पळय. शाळेंत तश्यो मैदानाचेरूय कश्यो पिटीपिटी उडयो मारून खेळटात पळय.

**2 प्रतिभा** : आनी हेवटेन पळय, शेतांनी कामेऱ्यां वावुरतात. तेवटेन फॅक्टरींनी चलयो कामांक वतात.

**1 प्रतिमा** : थंय पळय, बायलांचो मेळावो. आनी थंय फुगड्यांची स्पर्धा. आनी थंय एक मोर्चा.

**2 प्रतिभा** : आगे म्हजे बाये, गोंयाभायर केन्ना पावलीं तेंच कळ्ळें ना. (अचकीत विमाचो आवाज) आवयस! एक विमान आंगावयल्यान गेलें. मात जाल्यार आदळपाचें.

**1 प्रतिमा** : कित्याक आदळटलें? कोण चलयतालो जाणां?

**2 प्रतिभा** : कोण?

**1 प्रतिमा** : आगो, बायलमनीस चलयताली. बायल पायलट.

**2 प्रतिभा** : अशें? तशें जाल्यार हांव वगीच भियेलें. (मदींच) आवयस, ही ती धांवता ती कोण गो?

1 प्रतिमा : इतली फांस धांवपी आनीक कोण? पी. टी. उषा.

2 प्रतिभा : आनी ती इतल्या प्रेक्षकांमुखार गायता ती कोण?

1 प्रतिमा : लतादिदी! लता मंगेशकर. आनी ती नाचता ती सोनल मानसींग. तें थंय सिनेमाचें शूटींग चल्लां – ती करिना कपूर...

2 प्रतिभा : आनी ती बरयता ती?

1 प्रतिमा : आशापूर्णा देवी. ती थंय जयललिता. ती रागन रसरसून भाशण करता ती ममता बॅनर्जी.

2 प्रतिभा : आनी हेवटेन ही निलम गोऱ्हे. आनी मेधा पाटकर खंय दिसना.

1 प्रतिमा : ती थंय आदिवासींच्या हक्काखातीर उपासाक बसल्या.

2 प्रतिभा : कल्पना चावला ना. नाजाल्यार अंतराळांत तिची भेट घडपाची.

1 प्रतिमा : बरोबर.

2 प्रतिभा : बायलांनी कितली प्रगती केल्या!

1 प्रतिमा : आतां मातशीं अशींच मळबाच्या दर्यांत व्हडीं कशीं उफेवंया. पावता थंय पावता.

2 प्रतिभा : वा! भारत देश महान! सुजलाम सुफलाम सश्य श्यामलाम्!

1 प्रतिमा : सारे जहाँसे अच्छा!

2 प्रतिभा : वंदे मातरम्! (भानार येवन) खंय पावलीं?

1 प्रतिमा : मातशीं सकयल येवन पळोवया. राव आं. तो बोर्ड वाचतां – स – स – सती के राज्य में आपका स्वागत है!

2 प्रतिभा : म्हणजे?

1 प्रतिमा : म्हणजे सतीच्या राज्यांत तुमकां येवकार दितां.

2 प्रतिभा : शीस्स! आमकां नाका असलो येवकार. चल, आमी दुसरेकडेन या.

1 प्रतिमा : राव, राव. मातशें राव. तो थंय कसलो धुंवोर तें पळोवयां. धुंवोर आनी बोवाळूय चल्ला.

2 प्रतिभा : कसलोय उत्सव आसतलो. गोंदोळ, होमखंडाची जात्राबी.

**1 प्रतिमा** : ना. ताचेपरस कितेंतरी वेगळें.

**2 प्रतिभा** : वेगळें?

**1 प्रतिमा** : हय. आगळें वेगळें. (मोबायलाचेर नंबर लावन.) हॅलोऽऽ हॅलोऽऽ आकाशवाणी? हांव अस्तुरी 2011 उलयतां. हांव हांगासर अंतरळांत आसां. म्हज्या सामखार हांगा धर्तरेचेर एक भयांकृत दृश्य चल्लां ताचें हांव धांवतें वर्णन – रनींग कोमेंट्री तुमचेमुखार दिवपाक सोदतां. तुमी ती सगळो देशभर प्रसारीत करात. हॅलोऽऽ रॅडीऽऽ (धांवते वर्णनाचे शैलीन) पळोवपाक सुंदर असो हो देखावो आसा. एके सुवातेर मोटे संखेन लोक कंवडाळें करून उबे आसात. दर एकल्याच्या तोंडार उमळशिक आनी उमेद दाटत वता. लोकांनी थंय कंवडाळें केलां ती सुवात बरी सजयल्या. आनी थंय वेवस्थीत लाकडां दाळून एक माच कसो केला. ह्या लाकडांत मोलादीक आनी सुगंधीत अशीं चंदनी लाकडांय आसात. हो माच कोणाखातीर आनी ह्या माचार कोणेतरी विराजमान जावपाचो आसा हें स्पश्ट दिसता. सगळेजाण दोळ्यांत तेल घालून म्हणटा तशी ह्या प्रसंगाची वाट पळयतात. (उमळशिक वाडोवन) आनी तो प्रसंग लागीं येता. पयसुल्ल्यान एक मिरवणूक वाजत–गाजत येता. धोल–ताशांचो मळबाक भीडपी आवाज. लोकांचें नाचप. लोक उत्सवाक न्हेसतात तसलीं न्हेसणां न्हेसून नाचतात. (पार्श्वभागाचेर वाज, नाचप हांचो आवाज) ती मिरवणूक कोणाची म्हणपाचो आतां दुबाव उरूंक ना. मिरवणुकीत एक दादल्याचें मडें आसा. आनी एके बायलेचें. पूण ना. दादलो मेला पूण बायल जिती आसा. तीस–पस्तीस वर्सांची तरणीताठी बायलमनीस. तिच्या गळ्यांत फुलांच्यो माळो घातल/या. ती हात–पांय फडफडावन बोबो हुयेली मारता पूण वाद्यांच्या आनी लोकांच्या आवाजांत तिचें एक्कूय उतर आयकूंक येना. मिरवणूक सामकी गतीन म्हणल्यार वराक चाळीस किलोमीटरच्या वेगान माचाकडेन

येता. हो माच म्हणल्यार दोगांखातीर रचिल्लें सरण हें आतां सिद्ध जालां. हेवटेन मिरवणुकेक आनीक वेग आयलो. कांय खिणांभितर मिरवणूक सरणाकडेन पावतली. लोकांची उमेद वाडल्या. सगळें अशेतरेन घडटा जातूंत कसलेंच अजाप ना. एखादो सराईत प्रसंग - जो अदींमदीं हेच पद्धतीन घडटा. आनी मिरवणूक सरणाकडेन पावली. थंय कसलोतरी धर्मीक विधी जालो. सामको आटोपशीर. भोगावळ कशी. आनी बायलेचो आकांत वाडला. पूण तो फक्त तिच्या धडपडीवयल्यानूच दिसता. आनी मेल्ल्या दादल्याचें मडें सरणाचेर चडयलें. सरणान पेट घेतलो. ज्वाळा मळबाक भिडल्यो. मडें हुल्पता. हेवटेन बायलेची बोकडेसारखी धडपड. ती थंयसावन जिवाच्या आकांतान पळून वचपाक सोदता. पूण शक्य ना. आनी चार जाणांनी तिची पोटली उबारली. उबारली मातशी, हालयली -धोलायली (आड्डून) आनी उबारून वडयली. सरणाचेर. जळटया सरणाचेर. उज्याच्या ज्वाळांनी तिका वेंगायली. उज्यांच्या ज्वाळांबरोबर एका खिणाक तिचो हात वयर सरलो, एका खिणाक पांय, एका खिणांक तकली. आनी उपरांत कांय ना. फक्त ज्वाळा! गोबोर! वाद्यांचो गजर. लोकांचो बोवाळ. बोवाळाचें रूपांतर आतां तिच्या जयजयकारांत. शेकड्यांनी लोकांच्या दोळ्यांत तिका सती धाडिल्ल्याचें समाधान. दर एकलो येवजिता. आतां हे सरणाचे सुवातेर तिचें सुंदर मंदीर तयार जातलें. आनी मागीर अभिमानान म्हणपाक मेळटलें - सतीच्या राज्यांत तुमचें स्वागत आसा.

(पॉज)

**2 प्रतिभा** : सरणाचेर फक्त एक जिती-जिवी बायलूच जळ्ळी ना. 1829 वर्सा राजा राममोहन रॉय हाणीं लॉर्ड बेटींगच्या आदारान केल्लो सतीप्रथाविरोधी कायदो जळून गेलो. 1955 वर्सा रचिल्लें भारताचें संविधान, ताकाय हे ज्वाळेचो हुलोप लागलो.

आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार एकविसाव्या शेंकड्याकूय मनीसपणाक लांशें लावपी नखलामी घडली हे पवित्र भारत भुंयेर! मेरा देश महान!

2 प्रतिभा : (गायता. दोगांय हात-पांय हालोवन ल्हवू-ल्हवू धर्तरेचेर देंवतात असो अभिनय.)

**आमी सती सये सती**
**जीण गोबोर आनी माती**

**सये बळी गेलो बळी**
**एका हातान वाजे ताळी**

**सये देर आनी घोव**
**सये मांव तसो भाव**
**सगळीं पुरूषाचीं फळां**
**आमचें मन कोणां कळ्ळां!**

**आमी सती सये सती**
**जीण गोबोर आनी माती**

(करुण संगीतान प्रसंग सोंपता.)

## देखाव - सतरा

(प्रतिमा आनी प्रतिभा)

**1 प्रतिमा** : एका निमतान जायत्यो गजाली सांगपाक मेळ्ळ्यो. मन मेकळें करपाक मेळ्ळें.

**2 प्रतिभा** : आमचें मन मेकळें जालें खरें. पूण लोकांच्या मनांत जायत्यो गजाली आसात.

**1 प्रतिमा** : कसल्यो गजाली?

**2 प्रतिभा** : कांय दुबाव, कांय आरोप. लोक अदालत. ते खातीर तुकां कोर्टांत उबें रावचें पडटलें.

**1 प्रतिमा** : कोर्टांत?

**2 प्रतिभा** : हय. लोकांच्या कोर्टांत. लोक अदालत. थंय तुजेवयल्या आरोपांची शहानिशा जातली.

**1 प्रतिमा** : म्हणजे आनीक एक सत्वपरीक्षा. आनीक एक अग्निदिव्य!

(संगीत)

## देखाव – इकुणीस

**2 प्रतिभा** : (कोर्टांतल्या शिपायाच्या आवाजान) अस्तुरी : 2011 लोक अदालत में हाजिर होऽऽ.

(कोर्टाचो कसो आभास. प्रतिमा आरोपीच्या पांजऱ्यांत उबी

रावता. प्रतिभावकील जावन आरोपपत्र सादर करता. मदीं न्यायाधिश बसला अशी कल्पना.)

**1 अस्तुरी** : (भगवद्गतीचेर प्रमाण जावन सोपून घेता.) ह्या पवित्र ग्रंथाचो सोपूत घेवन सांगता, जें जें सांगतलीं खरें सांगतलीं. खरें सोडून दुसरें कांयच सांगचीना.

**2 वकिल** : (वकिलाच्या सुरान) तुमचें नांव कितें?

**1 अस्तुरी** : अस्तुरी 2011

**2 वकिल** : पोरूं वर्सा हेंच नांव आसलें?

**1 अस्तुरी** : ना. अस्तुरी 2010

**2 वकिल** : आनी फुडल्या वर्सा खंयचें नांव आसतलें?

**1 अस्तुरी** : अस्तुरी 2012

**2 वकिल** : दर वर्सा नांव बदलत वता?

**1 अस्तुरी** : ना. नांव तशेंच उरता. काळ बदलता.

**2 वकिल** : हे लोकअदालतींत तुमचेर कांय आरोप आसात. आरोप पयलो–तुवें बायलेन धवळे करपाचे आजून सोडूंक ना. आरोप दुसरो – तुमचें मांय–सुनेचें झगडें आजून चालू आसा. आरोप तिसरो – घरांत चलो आनी चली असो भेद तूंच करता. पुताच्या लग्नांत वरदक्षणा घेवपाक तूंच फुडाकार घेता. लग्न जातकूच घोवाक घेवन तूंच कुशीक सरता आनी घर फोडटा. स्वतंत्र बायलेचेर तूंच टीका करता.बायल बलात्काराचो बळी जाल्यार तूंच तिका उणाक आनी दोशी लेखता. ग्रामपंचायत, जिल्हा परीशद हांचेर बायलांक राखीव जागे आसात. तूं पंच जाता, सरपंच जाता, जिल्हा परीशद वांगडी जाता खरी, पूण सगळे वेवहार पळोवपाक तूं घोवाकूच मुखार काडटा. अमेरिकेसारख्या प्रगत देशांत 1960 मेरेन बायलमनशेक मतदानाचो हक्क नाशिल्लो पूण तुकां भारतांत 1955 वर्सा मतदानाचो हक्क लाबलो. बाबासाहेब आंबेडकारांनी रचिल्ल्या भारताच्या संविधानांत तुकां दादल्यांबरोबर समान हक्क फाव जालो. पूण ती समानता

तुजेकडल्यान स्वीकारप जाली ना.तुवें कितल्योय धाडसाच्यो आनी पराक्रमाच्यो बडायो मारू पूण आजूनय तुका घरांतलो हुंदीर मारपाक फक्त दांडो पुरो पडना. त्या दांड्याबरोबर भाव लागता नाजाल्यार घोव लागता. तुजी गजाल त्या किरासारखी जो ते दांडयेर बसता आनी उडपाक सोदीना. ताका दिसता, दांडी सोडल्यार आपूण सकयल पडटलों. आनी तो तसोच ते दांडयेर बसून उरता आनी परिस्थितीच्या हातांत सांपडटा. तुजेंय तशेंच जालां. सैमान तुका शक्त दिल्या. तुकां ती वापरपाक कळना. देवान तुकां बुद्ध दिल्या. तुकां ती वापरपाक कळना. कायद्यान तुकां सगळें दिलां पूण तुकां तें घेवपाक कळना.

अस्तुरी : म्हजेवयले सगळे आरोप हावें आयकले. हाचेआदींय ते आयकल्ले. वर्सासंकिनी तेच आरोप आयकत आयल्यां. एकान एक आरोप म्हाका अमान्य आसा. दर एका आरोपाचें हांव खंडण करपाक सोदतां. पयलो आरोप बायलेन धवळे करपाचे आजून सोडूंक ना. हांव विचारपाक सोदतां, दादल्यांनी धवळे करपाचे सोडले? दादले करतात त्यो कितें गजाली? आनी एक गजाल लक्षांत दवरात - बायलो एकामेकालागीं आपलें मन उक्तें करतात म्हण त्यो बऱ्यो आसात. ना जाल्यार मनाचो घुस्मटमार जावन त्यो आत्महत्त्या करतल्यो आसल्यो. बायलांचेर इतले अन्याय जातात - कुटूंबात तशे समाजांत. तांकां ते कोणाकडेन तरी उलोवन दाखोवचे पडटात. हांकां कोण धवळे म्हणटात जाल्यार ती तांचे तकलेची आनी आकलनशक्तीची मर्यादा. आरोप दुसरो - मांय - सुनेचें झगडें आजून चालू आसा. बरोबर. हें झगडें कुटूंबांत चालू आसा ताचें पडबींब नाटकांनी दिसता. टिवीवयल्या सिरियलांनी दिसता. म्हाका एक सांगात, मांय-सुनेचें झगडें चालू आसा आनी बापूय-पुताचें झगडें सोंपलें? आतां पूत बापायचेर हात उबारीना? कोर्टांत केस घालीना? रगताचो भाव भावाचेर सुरो

उबारून रगतां काडिना? भावाच्या हड्डयाचेर पिस्तोपल रितें करीना ? तें बंद जालें? कांय ती फकत बापूय आनी पूत हांचेमदली जनरेशन गॅप? भावा भावांमदलो दुस्वास आनी मत्सर? मांय आनी सुनेचें नातें तरी दोन वेगवेगळ्या कुटूंबाचें. बापूय - पुताचें, भाव - भावाचें नातें एकाच रगताचें. जोमेरेन कुटूंबसंस्था आसा तो मेरन हे नाते-संघर्शय तशेच उरतले.

म्हजेवयलो तिसरो आरोप - घरांत चलो आनी चली हो भेद हांवूच करतां खंय! अशें? घरांत कुटूंबप्रमुख हांव काय घरांतलो दादलोमनीस? घराभायर गेल्लें चली सांजचें सात मेरेन घरा येवंचें अशें म्हज्या आवयच्या काळजाक दिसता. म्हाका चलोय साता पयलींच घरा आयिल्लो जाय पूण म्हज्या घोवाक चल्यान उसरां आयल्यार चलता. बापूय जेन्ना पुताक आनी धुवेक पॉकेटमनी दिता तेन्ना तो दोगांकूय समान आसता काय पुताक चड आसता? चलो आनी चली दोगांय शिकपाक हुशार. दोगांकूय सारखेच मार्क पडटात. चलयेक मातशे चडूच. पूण जेन्ना मुखार शिकोवपाचो प्रश्न येता तेन्ना कोणाचें नांव मुखार येता? चल्याचें. दोतोर करपाचो जाल्यार चल्याक. मुखार शिकोवपाचो जाल्यार चल्याक कारण चली लग्न जावन घोवाघरा वतली. चलो घराक उरतलो. चलयेखातीर इन्वेस्टमेंट / खर्च केल्यार फुकट. चल्याचेर खर्च केल्यार तो परतो मेळटलो. हो सगळो हिशोब दादलो करता. बायलमनीस न्हय. कारण दादलो घरांतलो कर्तो आसा. म्हजेवयलो फुडलो आरोप - पुताच्या लग्नांत वरदक्षणा मागपाक म्हजोच हात फुडें आसता. खरें म्हणल्यार वरदक्षणेची पयली झळ म्हज्या लग्नावेळार म्हाकाच बादल्या. वरदक्षणेक कायद्यान बंदी आसा हाची घोवाइतली म्हाकाय जाणीव आसा. पूण हे बाबतींत दादलो कोतवाली करता अशें म्हजें स्पश्ट मत. ना जाल्यार म्हाका सांगात - घराच्या कर्त्या-सवरत्या दादल्याचो विरोध

आसून खंयचे बायलेन वरदक्षणा घेतल्या? अशा वेळार दादलो तोंड धांपून वग्गी रावता आनी बायलेक उलोवपाक मुखार काडटा. आपूण नामा निराळो. काश्टी भिजयनासताना थिगूर खावपाची कला फक्त दादल्यांकूच सादल्या. लग्न जातकूच घोवाक घेवन हांव घर फोडटां! म्हजेर हो नस्तो आरोप. जंय एकत्र कुटूंबाच्या नांवाखाला बायलांची मनां घुस्मटटात, जंय फक्त 'ठेविले अनंते तैसेची राहावे' अशें म्हणत दादले दीस सारतात थंयसावन हांव घोवाक घेवन कडेक सरलां. हांवें घर फोडूंना. हांवें नवें घर तयार केलां. घर वसयलां. बायलमनशेची जायतीं सपनां आसतात. तातूंतलें घर हें एक सपन. पयलीं ती मनांत घर बांदता आनी मागीर प्रत्यक्षांत. ती घरकान्न जाता पूण तेचबराबर ती आपल्या घोवाक घरकार करता. स्वतंत्र बायलमनशेचेर हांवूच टीका करतां. असो म्हजेर आरोप. हांवें टीका केल्याच जाल्यार तिच्या स्वैरपणाचेर केल्या. तिगेल्या स्वातंत्र्याचेर करूंना. पूण दादल्यांनी मात तिच्या स्वातंत्र्याचो, तिच्या स्त्री मुक्तिच्यो भगल्यो मारल्या. वादऱ्यो-विदऱ्यो केल्या. सदच्या वर्तमानपत्रांचेर जे रकान्याचे रकाने छापून येतात आनी तातूंत बायलांचो उद्धार जाता ते लेख कितें फक्त बायलोच बरयतात? म्हजेवयलो आनीक एक आरोप- बायलमनशेचेर बलात्कार जाता तेन्ना हांवूच तिका उणाक आनी दोशी लेखतां. सामकें फट. शंबर नंबरी फट. बलात्कार ही एक आगळीक आसा. बायलमनशेचेर तो जाल्लो अत्याचार आसा... तो अपघात आसा. अशे बायलमनशेकडेन दुसरी बायल सहानुभुतीनच पळयता. ती येवजिता - हो प्रसंग, आपणाचेर आयल्यार आपलीय हीच गत जावपाची. पूण समाज तिचेकडेन वायट आनी उणाक नदरेन पळयता. आनी हो समाज पुरुशप्रधान मनोवृत्तीन घडला. घरांतलो एक कर्तो दादलोमनीस एके बलात्कार जाल्ले बायलेक आपणाली सून म्हणून

स्वीकारीत? केन्नाच ना. कारण ह्या समाजाची तशी परंपरा ना. सीता आपूण जावन रावणाबरोबर वचूंक नासली. तरी लेगीत तिका अग्निदिव्य करचें पडलें. सीतेक रामापासून दीस गेल्ले. तरी लेगीत तिच्या चारित्र्याचो दुबाव घेवन तिका व्हरून रानांत सोडली. आजूनय समाज, राम चुकलो अशें मानपाक तयार ना. ग्रामपंचायत, जिल्हा परीशद हांचेर बायलांक राखीव जागे आसात. तेखातीर आमी आदले प्रधानमंत्री राजीव गांधीचे भोव उपकारी आसात. ह्या जाग्याखातीर बायलो वेंचून येतात. पूण बायल सगळे वेवहार दादल्याकडल्यानूच करून घेता असो म्हजेर आरोप आसा. हो आरोप फट. पूण गजाल खरी. खरें म्हणल्यार बायलांच्या पदांचेर दादलो लुडबूड करता म्हणून दादल्याचेर आरोप जावंक जाय आसलो. दादल्यांक आजून दिसता, बायलेक राजकारण जमचें ना. ती ताची मक्तेदारी देखून तो लुडबुडटा. बायल ताका ना म्हणपाक शकना. कारण गावांत ती सरपंच आसूं, घरांत ती ताची बायल आसा. तिची हुशारी तो आपल्या मापान मेजपाक सोदता. बायलांक बऱ्योच गजाली कळना आनी त्यो तांकां कळच्यो न्हय अशी दादल्यांची गोड समजूत आसा. तेचखातीर बायलेचेर आरोप जाता - तिका हुंदराक मारपाक फक्त दांडो पावना, बरोबर भाव वा घोव नांवाचो दादलो लागता. इतिहास काडून पळोवंचो. हुंदराचो इतिहास आनी दांड्याचो इतिहास. जाल्यार कितल्याशाच प्रसंगांर दांडे बायलांच्या हातांत पावल्यात. दांड्यांनी बेबद्या घोवांक नीटायेर हाडल्यात. दांड्यांनी चोरांक धांवडायल्यात. बायलांच्या हातांतल्या दांड्यांनी गावांतलीं सोऱ्याचीं दुकानां आनी बार्रां बंद वडयल्यांत. दांड्यांनी बायलांच्या हातांत रावून जायतीं सामाजीक कार्यां करून घेतल्यांत. पूण कितलेशेच फावट दादल्यांनी मात भर प्रसंगार परिस्थितीक फुडो करपाचें सोडून हुंदराभशेन फाटले फाटीं पळ काडला. दांड्यांचो

आनी हुंदरांचो हो असो इतिहास. आंबेडकरांनी रचिल्ल्या संविधानांत बायलमनशेक दादल्याबरोबर समान अधिकार आसात. समस्त स्त्री समाज आंबेडकाराच्या रीणांत आसा. 1950 वर्सा बायलेक समानतेचो अधिकार मेळ्ळो ही गजाल खरी. पूण ताचेआदीं पांच हजार वर्सां मानवी संस्कृतीच्या इतिहासांत बायल केन्नाच दादल्याबरोबर समान नासली. एक तर तिका दादल्यापरस उणाक लेखली वो दादल्यापरस श्रेष्ठ-देवीबी मानली पूण दादल्याबरोबर समान केन्नाच मानली ना. पांच हजार वर्सां चलत आयिल्ली परंपरा फक्त पन्नास वर्सांनी बदलपाची तुमी अपेक्षा करता? बायलेन जें कितें मेळयलां तें तिका फुक्यासवाय मेळूं ना. खर कश्टांनी आनी परिश्रमांनी तिका तें लाबलां. तिणें हक्कान आनी अधिकारान तें जोडलां तिका मळबांत उडपाक कळटा पूण जमनीर सादूरपणान पावलां घालून चलपाक जाय, हाचें तिका भान आसा. बायलेचेर आरोप करताना तुमी दांडयेवयल्या किराची गजाल सांगली. हांव पांजऱ्यांतल्या किराची गजाल सांगतां. पांच वर्सां पांजऱ्यांत बंद करून दवरिल्ल्या किराक तुमी सांगतात, पळय आतां पांजरो उकतो केला. तूं स्वतंत्र आसा. चल, उडून चल. तुज्या स्वातंत्र्याचो मुक्त उपभोग घे. चल, उड. कीर उडना. आनी तुमी म्हणटात, पळयात – ह्या किराक स्वातंत्र्य दिलां पूण ताका तें घेवपाक कळना! पांच वर्सां जाचे पांय आनी पांखां जखडून आसा, आंग गुळो जावन गेलां तो कीर एका खिणांत उडटलो कसो? पांच हजार वर्सां पुरुशप्रधान संस्कृतींत जखडून गेल्ली बायलमनीस फक्त पन्नास वर्सांत आपल्या स्वातंत्र्याचो उपभोग कशे तरेन घेवपाक पावतली?

## देखाव - वीस

(प्रतिमा आनी प्रतिभा, प्रतिभा जाता भारतमाता.)

**2 भारतमाता :** न्यायदेवतेचें रूपांतर आता भारतमातेंत जालां. (आपुणूच) देवी भारतमाता!

**1 अस्तुरी :** (नमस्कार करीत) नमस्कार भारतमाते! त्रिवार प्रणाम! वंदना!

**2 भारतमा. :** भारतीय अस्तुरी, तुजी कथा आयकली. हांव तुजेर प्रसन्न जाल्यां. तुवें वेळाकाळाक जायत्यो परीक्षा दिल्यात. तातूंतल्यो कांय सत्वपरीक्षा थरल्यात. परीक्षा तुकां नव्यो न्हय. आतांय अशीच एक परीक्षा तुकां दिवंची पडटली.

**1 अस्तुरी :** सांग देवी, हावें कितें करचें पडटलें?

**2 भारतमा. :** (दोन पेले मुखार करीत) हे दोन पेले आसात. एकांत आसा उदक आनी दुसऱ्यांत आसा दूद. ह्या दोन पेल्यांतलो फक्त एक पेलो तुकां तोंडाक लावपाक मेळटलो. हो पयलो पेलो – जातूंत आसा उदक. ह्या पेल्यांतलें उदक पियेशी जाल्यार तूं जातली पाणीदार, हुशार, बुद्धीमान, चतूर, चाणाक्ष, स्वावलंबी, पराक्रमी. संवसारांत कोणूच तुजो हात धरपाक शकचो ना. तुजो निर्णय तुकां घेवपाक मेळटलो. तुकां तुजें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व लाबतलें. तूं स्वतंत्र नारी! स्वतंत्र अस्तुरी!

**1 अस्तुरी :** देवी, म्हाका पेल्यांतलें उदक पिवपाची सामकी तान लागल्या. सामकी उमळशीक लागल्या.

**2 भारतमा. :** मातसो थार धर. तुवें सगळें आयकूंक ना. ह्या पेल्यांतलें उदक

पिल्यार तुकां सगळें लाबतलें पूण एक गजाल मेळची ना.

**1 अस्तुरी** : कसली गजाल देवी?

**2 भारतमा.** : दादल्याचो सांगात मेळचो ना.

**1 अस्तुरी** : नाका. म्हाका ताची पर्वा ना. हांव एकली रावन

**2 भारतमा.** : पळय, विचार कर.

**1 अस्तुरी** : ना. म्हजो विचार पक्को आसा.

**2 भारतमा.** : ह्या दुसऱ्या पेल्याची शक्ती समजून घेवची ना?

**1 अस्तुरी** : कितें आसा त्या दुदाच्या पेल्यांत?

**2 भारतमा.** : हो दुदाचो पेलो तूं ओंठाक लायशी जाल्यार तुकां जल्मजल्मां लाबतलो दादल्याचो सांगात. दादल्याचो सांगात – आज्याच्या रूपान, दादल्याचो सांगात – बापायच्या रूपान, दादल्याचो सांगात–भावाच्या रूपान, दादल्याचो सांगात–घोवाच्या रूपान, पुताच्या रूपान, नातवाच्या रूपान.

**1 अस्तुरी** : (अस्तुरीचें मन दोशीं–वशीं जाता.)

**2 भारतमा.** : सांग अस्तुरी, तुकां खंयचो पेलो जाय? उदकाचो काय दुदाचो? सांग अस्तुरी, तुकां स्वातंत्र्य जाय काय सांगात? (अस्तुरी दोनूय पेले हातांत घेता.)

दोनूय पेले हातांत घेतले तरी तुकां खंयचो तरी एकूच पेलो ओठांक लावपाक मेळटलो. सांग, तूं कितें करतली?

(अस्तुरी एका पेल्यांतलें दूद / उदक दुसऱ्या पेल्यांत रकयता आनी तो पेलो ओठांक लायता. देवी खूश जाता. प्रसंग सोंपता.)

## देखाव : एकवीस

(दोगांय मुखार येतात. दोगांय गायतात.)

दोगांय : तेनालीरामाची बुद्धी
तिणें मेळयली अवघड सिद्धी
ती जाल्या खोल विचारी॥

कथा अस्तुरी खरी खरी
ना ती अबला ती तर चावला
घेवन भरारी नभांतरी॥

(सोंपता)

## पात्रांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| 1. | **विवेक** | – कर्तो-सवरतो घरकार |
| 2. | **वैभवी** | – विवेकाची घरकान्न |
| 3. | **हर्षा** | – विवेक आनी वैभवीलें चली |
| 4. | **वर्धन** | – विवेक आनी वैभवीलो चलो |
| 5. | **हवालदार** | – |
| 6. | **इन्स्पेक्टर मॅग्र्युल्यांव** | – |
| 7. | **अलाद्दीन** | – अलाद्दीनची प्रतिमा |
| 8. | **आयदनकार** | – गांवांत भोंवून आयदनां विकपी |
| 9. | **दूदकार** | – |
| 10. | **पेपर दिवपी** | – |

# अंक : पयलो

(एके कॉलनीतलें मध्यमवर्गी आस्पतिचें स्वतंत्र घर. घर म्हणल्यार घराचो फकत मुखावयलो आंगणाचो भाग दिसता. माचयेचे उजवेवटेन घराचें फुडलें दार दिसता. आंगणांत एकीकडेन तुळशिचें ल्हानशें पेड आसा. तातूंत तुळशिचो रोपो. माचयेचे सामके फाटीं आनी दाराचे उजवेवटेन आंगणाची बांदून काडिल्ली वणत दिसता. हेच वणटीक भायली गेट आसा. गेटीभायर रस्तो. रस्त्यावयल्यान येवपी वचपी मनीस आंगणाचे वणटीवयल्यान अर्दे दिसतात. दाराच्या मुखार मेकळी सुवात आनी ताचेमुखार ल्हानशें पोरसूं. पोरसांत कांय फुलझाडां आसात. आंगणांत कांय कुंड्यो मांडून दवरल्यात. एक दोन प्लास्टिकच्यो बसका हांगाथंय आसात.
वेळ – सकाळचो. विवेक पिराय पन्नासेक वर्सां. तो उक्त्या आंगान 'आसा. उक्त्या आंगार वयर तुवालो वडयला. धोतर न्हेसला वा मोटवें कालसांव घातलां. हातांत ल्हानसो फुलांचो कुरपणो घेवन पोरसांतलीं फुलां खुंटटा. फुलां खुंटटा आसताना तोंडांतल्यान संस्कृत मंत्र पुटपुट्टा. हो घरांतलो कर्तो–सवरतो दादलो.)
मा नु शोकं कुरूष्व त्वं स्थानत्यागं च मा कुरू।
देवता पूजनार्थाय प्रार्थयामि वनस्पते।

कांय वेळान दारांतल्यान वैभवी भायर येता. हातांत एक पुस्तक आसा. तें चत्रायेन वाचता. चलता चलतानाच वाचता. घरांत न्हेसपाचें वायल आनी ब्लावज असो तिचे भेस. पिराय सुमार 45 वर्सां. ही विवेकाची घरकान्न. फुलां खुंट्टा आसताना विवेकाची नदर वैभवीचेर वता. तो थंय सावूनच तिका विचारता.)

**विवेक** : वैभवी, सकाळीफुडें कसलें वाचन चल्लां?

(ती उतरांनी जाप दिना पूण वाचता आसतानाच पुस्तकाचें मुखपृश्ठ ताचेमुखार धरता. तो पयसुल्ल्यानूच वाचपाचो यत्न करता. अदमासूय आसा.)

**विवेक** : अरेबियन नायट्स! बरें! रातीं वाचून जालें ना?

**वैभवी** : रातीं वाचतां वाचतां बंद केलें. (पुस्तक धांपता.)

**विवेक** : कित्याक?

**वैभवी** : मागीर तसलींच सपनां पडटात. असलीं पुस्तकां दिसाचींच वाचपाक जाय. अरेबियन नायट्स!

**विवेक** : आनी मागीर दिसाचींच सपनां पडलीं जाल्यार? दिसासपन!

**वैभवी** : दिसाचीं आनी सपनां जाय! हें मुखार आसा तें खूब जालें!

**विवेक** : हांवें तुकां काय बरीं पुस्तकां हाडून दिल्यांत. तीं सोडून तूं कितें काय म्हणल्यार अरेबियन नायट्स वाचता. मागीर हातिमताई, गुलबकावली, ठकसेनाच्यो गोष्टी. काल काय बरें पुस्तक हाडिल्लें, तुवें हात तरी लायला ताका?

**वैभवी** : लायला. श्रीमद् भगवद गीता!

**विवेक** : मागीर, कितें जालें?

**वैभवी** : म्हाका तातूंतलें कांयच कळ्ळें ना.

**विवेक** : (खोंचून) अर्जुनाक पसून कळ्ळें.

**वैभवी** : कोण अर्जून? आं. अर्जुन! सुभद्रेचो घोव. पूण म्हाका

कळ्ळें ना खरें. वगीच कळनास्ताना कितें म्हणून वाचप? तुमचेभशेन?

**विवेक** : कितें म्हजे भशेन?

**वैभवी** : तुमी म्हणटा तें तुमकांय कळना आनी त्या झाडांकय कळना.

**विवेक** : (विनोदाक दाद दित) कळटा, कळटा आं. म्हाकाय कळटा आनी त्या झाडांकूय कळटा. पळय, म्हज्या मंत्राखातीर फूल तोडटना तांच्यो वेदना ल्हव जातात.

**वैभवी** : ल्हव जातात म्हणजे? वेदना जड आसतात तर?

**विवेक** : तें तुकां म्हणजे तुमकां बायलांक चड कळपाचें.

**वैभवी** : सकाळफुडें सामकें खरें उलयले. वेदना म्हणटा त्यो सगळ्यो बायलांच्या वांट्याक. तुमी दादल्यांनी फक्त मंत्र म्हणपाचे आनी फुलां खुंट्पाचीं. (विवेकाक लागता. तो मोन्यानी अनमनत फुलां खुट्टा. मंत्र म्हणपाक वता. पूण बायलेक पळोवन म्हणपाचें बंद करता. इतल्यान भायरसावन 'पेपऽऽर' म्हण पेपरवाल्याचो आवाज येता. आतां पेपर आंगणाचे वणटीयवयल्यान भितर येवपाची दोगांय वाट पळयतात. वणटीवयल्यान पेपराची भिरकावन मारिल्ली कवळी आंगणात पडटा. विवेक ती जिखपाचो यत्न करता. पेपर उखलून काडटा.)

**विवेक** : आतां हे रस्त्यावयल्यान वडयतात. फाल्यां हे इतले तरबेज जातले, पेपराच्या ऑफिसांतल्यान हांगा दारांत वडयतले. घे, हो पयलीं वाच. (पेपर तिचेकडेन दिता. इतल्यान भायरसावन आवाज येता. 'दूऽऽद'. तेसरशीं विवेक बेगेबेगीन कुरपणो सकयल दवरता आनी गेट काडून भायर वता, धांवतच म्हणल्यार जाता. विवेक दुदाची पोती घेवन येता.)

**वैभवी** : ती दुदाची पोती हाडपाक इतले धावून कित्याक वचपाक

जाय? सद्दां अशें करतात.

**विवेक** : म्हाका वगीच भंय दिसता.

**वैभवी** : कसलो भंय?

**विवेक** : तो पेपरवालो कसो पेपर मोखून मारता, तसो तो दूदकार पोती वयल्यान वडयत म्हणून. (पोती आनी फुलांचो कुरपणो घेवन भितर वता. वैभवी थंयची बसका लागीं ओडून घेवन तिचेर बसता. पेपराचीं पानां भराभर चाळटा. एका पानाचेर नदर थीर करता. चत्रायेन वाचता. इतल्यान भितरसावन विवेक येता. आतां ताणे उक्त्या आंगार बानयान घातलां. हातांत तांबयो आनी पुजेचें सामान आसा. उलयत उलयत येता.)वैभवी, हे धुल्ले कपडे हालीं बरे निवळ जायनात. (तिचें लक्ष पेपरांत आसा म्हणपाचें कळटकच विशय थारायता.)

**विवेक** : कितें खबर आसा? (ती वग्गी वाचता.) चोरी, दरोडेखोरी, बलात्कार, खून. दुसरें कितें आसतलें?

**वैभवी** : (वाचीत) आयच्या दिसा जिवितांत अघटीत घटना घडटली!

**विवेक** : आं. आं. म्हणजे तूं तुजी रास वाचता. भविश्य! हांव समजलों, खबरेचो माथाळो, हेडलायन वाचता.

**वैभवी** : अघटीत म्हणजे कितें?

**विवेक** : शब्दकोशांत पळोवन सांगूं?

**वैभवी** : कित्याक, इतल्या साद्या उतराचो अर्थ तुमकां खबर ना?

**विवेक** : ते खातीर न्हय. तुजो विश्वास बसपाक जाय म्हणून. (तुळशिचे पेडयेर साणिचेर गंद झरयता.)

**वैभवी** : तसो विश्वास आसा तुमचेर. सांगात, अघटीत.

**विवेक** : अघटीत म्हणजे जें घडटलें अशी अपेक्षा नासता तें.

**वैभवी** : अशें कितें आसूं येता?

**विवेक** : (सहजतायेन) सोर्त.

वैभवी : वगीच फकाणां करूं नाका. तुमची रास वाचूं?
विवेक : नाका. म्हजो विश्वास ना राशिचेर.
वैभवी : कसली तुमची रास?
विवेक : (फुलां दाखयत) फुलांची!
वैभवी : तुमची फुलांची जाल्यार म्हजी काट्यांची. (याद करीत) तुमची रास? आं. वृषभ (खोंचून) म्हणल्यार बैल न्हय?
विवेक : न्हय. गाढव. (दोगांय हांसतात.)
वैभवी : (वाचता) आयच्या दिसा जिवितांत अघटीत घटना घडटली.
विवेक : परत तुजीच रास वाचली. वृश्चिक. वृश्चिक म्हणल्यार विंचू आं.
वैभवी : म्हजी न्हय. तुमचीच रास वाचतां. तशेंच बरयलां.
विवेक : आतां वर्धनाची आनी हर्षाचीय रास वाच. मिथून आनी कन्या.
वैभवी : (वाचता. अजापान) आयच्या दिसा जिवितांत अघटीत घटना घडटली. म्हणजे चारूय जाणांचे राशिचें एकूच भविश्य!
विवेक : म्हजो ताचेर विश्वास ना तो कित्याक तें कळ्ळें? फकाणां!
वैभवी : फकाणां कशीं तर? खरें.
विवेक : कितें खरें?
वैभवी : तुमचेच भाशेंत सांगपाचें जाल्यार, समजा म्हाका एकलेक सोर्त लागली जाल्यार ती घटना तुमच्याय जिवितांत अघटीत अशी जाली ना? सोर्तिचे पयशे कितें हांव एकलीच खातली?
विवेक : सोर्त काडल्या जाल्यार पयलीं पळय.
वैभवी : काडल्या म्हणजे? तुमचे जोडियेर पातयेवन रावल्यार हांगा उजवाडटलें. (भितरसावन उलो आयकूंक येता.

पयलीं चल्याचो, वर्धनाचो आनी फाटोफाट चलयेचो, हर्षाचो.)

**वर्धन** : (भितरसावन) मम्मा ऽऽम्हजो ब्रश खंय?

**वैभवी** : हाचें उजवाडलें दिसतां ?

**हर्षा** : (भितरसावन) मम्मा ऽऽपेस्ट खंय?

**वर्धन** : (परत) मम्मा ब्रऽऽऽ श!

**हर्षा** : (परत) मम्मा पेऽऽऽ स्ट!

**वैभवी** : ब्रश आनी पेस्ट हांगा आसात. ब्रश किरवटीक आनी पेस्ट होंटयेंत. सगळें हातांत दिवपाक जाय. येदीं व्हडलीं जालीं! सामकीं बापायचे बडीर गेल्यांत.

**विवेक** : (समजून) बडी लागली! (तुळशिची पूजा करता)
(वैभवी पेपर, पुस्तक घेवन भितर वता. पूजा चालू आसा. कांय वेळान भितरसावन वर्धन भायर येता. आतांच उठला. रातीं न्हिदिल्लो तेच मुस्तायकेंत आसा. पिराय एकविशेक वर्सां. तोंडांत ब्रश आसा. बापाय म्हऱ्यांत येता. कितेंतरी सांगपाक जाय. पूण अनमनता.)

**वर्धन** : पप्पा,

**विवेक** : अं.

**वर्धन** : (विशय बदलून) पप्पा, दादल्यानी तुळशिची पूजा करप म्हणजे विचित्रूय न्हय? तुळस बायल!

**विवेक** : मागीर? दादल्यांक बायलांची पूजा चुकपाक आयल्या? पुजेचें बरें आसा. तुजें कितें?

**वर्धन** : एक... (आडखळटा)

**विवेक** : पांचशीं रुपया जाय आसले. हय मरे?

**वर्धन** : पप्पा, यू आर ग्रेट. तूं सामको पारखी. तुकां ज्यूस्त कशें कळ्ळें?

**विवेक** : पांचशीं रुपयां सकयल तूं केन्ना मागता?

**वर्धन** : पूण पप्पा, पांचशींच जाय अशें ना. चारशीं म्हणजे

साडेतीनशीं सुद्धां चलता. आयज मात जाय.

विवेक : आयज?

(इतल्यान भितरसावन हर्षा भायर येता. तेंवूय नायट ड्रेसांत आसा. पिराय विशेक वर्सांची)

हर्षा : पप्पा, तुवें वर्धनाक पयशे दिले जाल्यार म्हाकाय जाय. ताका दिता ताचे अर्दे तरी.

विवेक : (वर्धनाक) पळयलें? तुकां पयशे दिवपांत कसलो धोको आसा तो? (तुळशीक प्रदक्षणां काडटा. वर्धन आनी हर्षा उलयतां उलयतां ताचे फाटल्यान वतात आनी एकदोन प्रदक्षणां काडटात. मागीर दोगांय दोशीवशीं रावतात आनी बापूय तांचे म्हऱ्यांत पावतकच आपआपलें म्हणणे सांगतात. तो प्रदक्षणां काडीत आसा.)

वर्धन : पप्पा, हालींसरा तुवें म्हाका खंय पयशे दिल्यात?

हर्षा : पप्पा, हालीं हांवें पयशे मागल्यात तुजेकडेन?

वर्धन : पप्पा, आमी चार इश्टांनी थारायलां-

हर्षा : म्हज्याय इश्टीणिनी थारायलां-

वर्धन : पिकनीक कशी! जाचेकडेन मोटारसायकल ना ताणे पेत्रोल घालपाचें. म्हाका पेत्रोलाक पयशे जाय.

हर्षा : आमचें ल्हानशें गॅटटूगेदर कशें. दर एकल्यान पयशे दिवपाचे.

वर्धन : म्हाका तीनशीं सुद्धां चलतात.

हर्षा : म्हाका देडशें.

वर्धन : दोनशीं.

हर्षा : शंबर.

वर्धन : (हर्षाक चक्रोवपाक) पन्नास पयशे!

हर्षा : पंचवीस... (वगीच रावता.)

विवेक : (प्रदक्षणां सोंपल्यात.) पयशे कितें झाडाक लागतात? हांव तुमकां दिना म्हण सांगना. पूण आयज तर नाच आनी ह्या

म्हयन्याक कशेंच शक्य ना. घराचो हप्तो आसा. इन्शुरन्स आसा. नळाचें बील आसा. विजेचें आसा. पेपराचें, टेलिफोनाचें.

वर्धन : पप्पा, टेलिफोन कितले दीस बंदच आसा.

विवेक : बंद आसल्यार कितें जालें? तो बंद आसपाक आनी बिलाक कसलोच संबंद ना. येवपाच्या वेळार तें येयलें. सगळ्या बिलांचें तशेंच. तुमकां फुडल्या म्हयन्यांत पयशे दितां. आतां सांगल्यात ताचे परस धा वीस चड दितां. आरे, पिकनिको आनी गॅटटूगेदर हे पिरायेर न्हय जाल्यार आनी केन्ना म्हातारपणांत करपाचें?

हर्षा : पप्पा, तूं कितलो बरो!

विवेक : आनी कितलो गरीब!

वर्धन : जांव गरीब! पप्पा आय एम् प्रावड ऑफ यू.

विवेक : तुकां मोटारसायकल जाय मरे? हांवें आयुश्यभर सायकल चलयली. आजून चलयतां. पूण तुकां मोटारसायकल घेवन दितलों. रिंटायर्ड जातना पयशे मेळटले.

हर्षा : पप्पा, ताका दोन चक्रांची मोटारसायकल दितलो जाल्यार म्हाका–

वर्धन : एका चक्राची मोटारसायकल.

हर्षा : ना, म्हाका एक ड्रेसींग टेबल.

विवेक : इतलेंच? घेवंया. चला, चला, कॉलेजीक वचपाचो वेळ जालो आनी म्हाका ऑफिसाक वचपाक जाय.
(तांकां फुसलायत भितर धाडटा. तीं वतात. विवेक तुळशिच्या रोप्याक तांबयांतलें उदक ओतता. तेन्नाच वैभवी दारांतल्यान भायर येता. फुगडी गायत गायत ताच्या म्हऱ्यांत वता.)

वैभवी : **हाडा एक कुदळ, काडा एक धेंपो**
**तितूंय रोया रोपो, तुळशिचो हो रामा.**

(तुळशींतल्या रोप्याचेर लुक्तबायेन हात भोंवडायता.)

**विवेक** : आयज बरी घोंसार आसा. कितें 'अघटीत' घडपाचें आसा देखून?

**वैभवी** : हांव तेंच येवजितालीं.

**विवेक** : कितें?

**वैभवी** : अशें कितेंय अघटीत तुमी लेगीत घडोवं येता. म्हणजे तुमकां ऑफिसांत कितली संद आसा. तुमी ए. ओ. ऍकावंटस ऑफीसर. तेवूय सरकारी ऑफीसांत. सरकारी ऑफीसांत कितें कितें चलता. सादो हेडक्लार्क आनी क्लार्क लेगीत कितली माया करता. आमचे हेच, चैतन्य कॉलनींत कितले जाण आसात, पिळगांवकार, डिमेलो.

**विवेक** : सायबिणी नांवां घेवूं नाका.

**वैभवी** : कॉलनीतलीं सगळीं उलयतात.

**विवेक** : बाकिच्यांनी उलोवप आनी तुवें उलोवप हातूंत फरक आसा.

**वैभवी** : कसलो फरक?

**विवेक** : तूं चैतन्य हावसिंग को-ऑपरेटीव्ह सोसायटीच्या चेअरमनाची, विवेक विर्नोडकाराची बायल.

**वैभवी** : चेअरमन! थंय ऑफिसांत ए. ओ. म्हण हांगा तुमकां चेअरमन केल्या.

**विवेक** : इतलेच खातीर न्हय. म्हजे गुण पळोवन.

**वैभवी** : उजवाड पडलो गुणांचेर! आयुश्यभर प्रामाणीकपणान जगले. कसली आडवाट ना. परीणाम? मळबाक सदांच बुराक.

**विवेक** : पूण ताठ मानेन जगलों काय ना?

**वैभवी** : तुमची मान ताठ, पूण म्हज्या कमराक हांगा बाग. सदांच पयशांची चणचण. आमचें एक समजूं येता. भुरगीं आतां व्हडलीं जाल्यांत. तांचे वाडिबरोबर तांच्यो गरजोय वाडल्यात.

विवेक : म्हाका खबर आसा, सगळ्यांत चड कश्ट तुकां जातात. ह्या म्हयन्याक ग्रायंडर हाडटां म्हणून सांगिल्लें, पूण जालो ना. फ्रीज मोडला. तो आनीक सारखो जावपाचो ना. नवो घेवपाक जाय.

वैभवी : (फकाणांनीच) शिवाय कलर टीव्ही, वॉशींग मशीन.

विवेक : आनी आतां मोटारसायकल आनी ड्रेसींग टेबल. हांव हें सगळें हाडटलों. फकाणां न्हय. खरेंच हाडटलों. पळयशी तूं. तुकां, भुरग्यांक हांव केन्नाच दुखोवपी न्हय.

वैभवी : खरेंच? हे गरीबीचो जितलो म्हाका तिटकारो तितलोच तुमचो अभिमान. म्हजो बापूय स्वखुशीन हुंडो दितालो तोपासून तुमी घेतलो ना.

विवेक : जांव स्वखुशीन वा बळजबरीन. अखेर हुंडो तो हुंडोच न्हय? हांव ताचे आड.

वैभवी : गरजेक येता तेन्ना कितले फावट हांवें म्हजीं भांगरां तुमचेकडेन दिलीं. पाटली, कांकणां आनी तोडो विकात नाजाल्यार घाणांक तरी दवरात.

विवेक : ना. एक म्हणल्यार तीं हांवें तुका करूंक नात. तीं तुगेल्या कुळारचीं. तीं मोडपाचो अधिकार म्हाका ना. खरें म्हणल्यार दोट्टी गोंट आनी लक्ष्मीहार करपाचें तुकां उतर दिल्लें खरें पूण जालें ना. पूण हांव तेंवूय करतलों.

वैभवी : खरेंच? ह्या असल्या स्वभावाखातीर तुमचेर जीव कुर्बान करीन दिसता.

विवेक : जीव कुर्बान! त्यो अरेबियन नायट्स वाचता ताचो परीणाम काय कितें? जीव कुर्बान! सलाम आलेकुम.

(भायरसून आवाज आयकूंक येता. तांबेंऽऽऽ पितऽऽऽळ पोरणेऽऽऽ आयदऽऽऽन) भायर सोर्तिकार आयलासो दिसता.

तुवें काडिल्ल्यो सोर्ती पळय. अघटीत आसूं येता.

**वैभवी** : तो सोर्तिकार न्हय. (सोर्तिकाराचो आवाज काडून) सोर्त ऽऽ आबेर्त. तो सोर्तिकार, हो तांबेंऽऽऽ पितऽऽऽळ पोरणेऽऽ आयदऽऽऽन. घरांतलीं कितल्या वर्सांचीं आयदनां सांकांत भरून दवरल्यांत. दिवन वडयतां. घरांत बेश्टी अडगळ जाता. आमचे कॉलनींतल्या त्या सैलाचे बायलेन पोरणीं आयदनां दिवन काय बऱ्यो दोन नव्यो साडयो घेतल्यो.

**विवेक** : न्हेसून पळयल्यो हय तर?

**वैभवी** : म्हणजे?

**विवेक** : म्हणजे धुवन-बिवन पळयल्यो?

**वैभवी** : दारांतलो म्हाल आनीक कितलो बरो आसतलो? त्या आयदनकाराक मातसो उलो मारून आपयात. हांव साक घेवन येतां.( ताच्या हातांतलें पुजेचें सामान घेवन भितर वता. विवेक गेट काडून भायर वता. व्हडल्यान उलो मारता.)

**विवेक** : एऽऽ आयदनकार ऽऽ मातसो हांगा यो.

**आयदनकार** : (पयसुल्ल्यान) ऍतां पात्रांव, आत्तां ऍतां.

**विवेक** : पयलीं ताणी आपयला थंय वच. मागीर हांगा यो.

**आयदनकार** : बरें पात्रांव. मागीर ऍतां पात्रांव.

**विवेक** : (आपलेभितर) हांकां सगळे पात्रांव!
(वैभवी आयदनांचो साक ओडीत दारांतल्यान हाडटा.)

**वैभवी** : हीं भुरगीं म्हण कसलीं! मातसो हात लेगीत लावचीं नात.

**विवेक** : हांव लायतां.
(दोगांय साक मुखार हाडटात. साकांतलें सामान काडपाक मदत करतात.)

**वैभवी** : नाका, नाका. तें हांव करतां. तुमचो ऑफीसाक वचपाचो वेळ जालो. मेजार चटणी, पोळे आनी च्या करून दवरल्या. तुमी घेयात आनी तांकांय दियात. तीं हात बोट पासून लावचीं नात.

विवेक : तांचें हांव पळयतां.

(तो भितर वता. वैभवी आयदनांचो साक रितो करता. तातूंत कांय पोरणी आयदनां आसात. तोप, कुकर, तांटां, कायलाते आदी एक एक जिनस पळयता. दिवपाचें कडेक काडटा. दिवपाचें ना तें परत साकांत घालता. सोदतां सोदतां सामानांत एक पोरणो दिवो मेळटा. तेल घालून पेटोवपाचो पोरणे मोदीचो दिवो. ती तो बरेतरेन सांसपून पळयता. तो दिवपाच्या सामानांत वडोवचो काय साकांत घालचो ह्या विचारान फाटीफुडें जाता. इतल्यान भितरसावन वर्धन आनी हर्षा भायर येतात. वर्धन आजून खायत आसा. तीं दोगांय कॉलेजींत वचपाक भायर सरल्यांत.)

वैभवी : आरे, सारकें खाल्लें न्हय दोगांयनी?

वर्धन : मम्मा, सदां सदांच ते पोळे आनी चटणी कितें गे? कितेंतरी दुसरें चमचमीत कर.

हर्षा : चिकन खाल्ल्यार कितले दीस जाले.

वैभवी : सकाळीं च्याकडेन चिकन करपाचें?

हर्षा : दनपारां जेवणाक करता?

वैभवी : आयज? ना गो बाये.

वर्धन : हांगा कॉलनींत मेळटा मगे. हांव हाडून दिवं? मम्मा कॉलनीचे गेटीभायर एक नवें हॉटेल उगडलां. हॉटेल रूचिरा. थंय बरें चिकन मेळटा. पार्सल करून हाडूं?

वैभवी : नाका, नाका. आयज नाका. फाल्यांबी पळोवया.

हर्षा : तुजें अशेंच. पळोवया. नाजाल्यार पप्पाचें पळय. हाडटा म्हणजे हाडटा.

वैभवी : अशें!

वर्धन : मम्मा, तुकां खबर कळ्ळी?

वैभवी : कसली?

वर्धन : मोटारसायकल (हर्षाक पळोवन) आनी ड्रेसींग टेबलाची?

वैभवी : कळ्ळी. कळ्ळी. आतांच दोगजाण येवन गेले.

दोगांय : कोण?

वैभवी : एकलो गेटीचें जोक काडून गेलो जाल्यार दुसरो दाराचें माप घेवन गेलो.

वर्धन : हीं मापां कित्याक?

वैभवी : मोटारसायकल गेटींतल्यान भितर सरपाक नाका? आनी ड्रेसींगटेबल दारांतल्यान भितर येवपाक नाका?

हर्षा : मम्मा म्हणून कॉमीक करता आं.

वर्धन : ती कॉमीक पुस्तकां वाचता न्हय गो.

वैभवी : मोटारसायकलींचे आनी ड्रेसींग टेबलाचें बरें आसा. म्हगेली ग्रायंडर, फ्रिज, वॉशिंगमशीन, कलर टिव्ही अशी एक व्हडली वळेरी आसा तुमच्या पप्पाकडेन. ते वळेरेंत मोटारसायकल आनी ड्रेसींग टेबल रूजू जालें. तांचो आतां सद्यातरी हुस्को ना. ते पिकनिकेक आनी गेटटूगेदराखातीर पैशे मागतालीं ते तरी हातार पडले काय ना?

वर्धन : मम्मा, पप्पा आमचें येदें व्हडलें काम करतलो. हें इल्लेशें काम तूं कर न्हय. फक्त सयंशी रुपया.

वैभवी : सयंशी रुपया?

वर्धन : हय. म्हाका चारशीं आनी हर्षाक दोनशीं.

हर्षा : बरोबर. मम्मा पळयता न्हय?

वैभवी : हांव खंयच्चें पळोव? म्हजेकडेन कितें जादूचो दिवोबी आसा काय कितें? (दाखयत) हो मात आसा.

हर्षा : हें कितें?

वैभवी : दिवो.

हर्षा : तो घासून पळय.

वैभवी : घे, तूंच घास.

हर्षा : शी! म्हजे हात म्हेळे जातले. हांव कॉलेजीक वतां.

वर्धन : मम्मा, हांवूय वतां.

वैभवी : वर्धन, तूं कसो वता?

वर्धन : कसो म्हणजे? म्हजेकडेन कितें मोटरसायकल आसा? हांवें बसीन वचपाचें.

वैभवी : आनी हर्षा तूं?

हर्षा : (आडखळत) अं. अं. बसीन.

वर्धन : कित्याक फट मारता? तो कॉलनीचे गॅटीभायर रावला आसतलो. मोटरसायकल घेवन.

हर्षा : ना आं मम्मा. फक्त आजूच येतलो.

वर्धन : फक्त आजूच न्हय आं, सद्दां येता.

हर्षा : आनी तूं ताका घेवन भोंवना?

वर्धन : ना आं मम्मा, तशें कोण ना. सोपूत!

वैभवी : म्हाकां सगळें खबर आसा. (हर्षाक) तो रणवीर आनी (वर्धनाक) तें रंजिता. दोगांय भावभयणां काय कितें?

वर्धन : खबर ना.

वैभवी : कितें खबर ना रे? म्हाका चक्रयता?

हर्षा : ना मम्मा. आमचे सारकी भावभयणां न्हय. तो रणवीर सींग आनी तें रंजिता कामत.

वैभवी : (धूर्तपणान) हांव कितें सांगतां तें आयकता? हांव तुमचें दोगायचें काम करपाक शकतां.

वर्धन : (उमेदीन) खरेंच?

हर्षा : (दुबावान) कसलें काम मम्मा?

वैभवी : हांव तुमकां दोगांकूय मागता तितले पैशे दितां. ताचेपरस चड. (वर्धनाक) तुकां पांचशीं आनी (हर्षाक) तुकां तीनशीं. आयज सुद्दां कॉलनीतले बायलांचे कॉफ्रींतले पैशे मेळपाक शकता.

वर्धन : गूड मम्मा. आय एम प्रावड ऑफ यू.

वैभवी : दोगांयनी म्हजें एक काम आयकुचें पडटलें.
(हर्षा दुबावता)

वर्धन : सांग मम्मा, हांव एका पांयार तयार आसा. जाय जाल्यार आयज कॉलेजाक बुड्टी.

वैभवी : तुमी दोगांयनी तांचो सांगात सोडचो पडटलो. (वर्धनाक) तुवें त्या पिटपिट्याचो आनी (हर्षाक) तुवें त्या तवनासाचो.

वर्धन : ओके, डन मम्मा. आयच्यान रंजिताचो सांगात सोडटां आनी–

वैभवी : आनी दुसऱ्याचो धरता?

वर्धन : तशें न्हय मम्मा.

हर्षा : मम्मा, म्हाका तुजे पैशेय नाका आनी ड्रेसींग टेबलूय नाकां.

वैभवी : पळय, जूस्त बापायचे बडीर गेलां पोर!

वर्धन : आनी मम्मा, हांव कोणाचे बडीर?

वैभवी : फटींग!

(दोगांय वचपाक वतात. आवय तांका गेटीमेरन पावपाक वता. तीं भायर वतकूच परतता. हातांतल्या दिव्याचेर लक्ष वता. बारिकसाणेन पळयता. भितरसावन विवेक भायर येता. आतां ताणे पेंट, कोट असो भेस केला. टोपीय घातल्या. हातांत पोरणे बॅग आसा. पायांत जोतें चडयत भायर येता. बायलेक हटकिता.)

विवेक : वैभवी, येतां हांव.

वैभवी : पोळे सारके खाल्ले न्हय?

विवेक : हय. बरे जाल्ले. चटणीय बरी!

वैभवी : तुमकां सगळेंच बरें! ग्लासभर उदक दिल्यार तेंवूय बरें! गुळी घेतली?

विवेक : घेतली. आनी ऑफिसांत घेवपाची बॅगेंत दवरल्या.

वैभवी : तें बॅगेची कितें दशा जाल्या पळयात!

विवेक : मातशी भायल्यानूच. भितरल्यान बरी आसा ती. चेनसुद्धां कितली बरी आसा पळय. मेणवातीचें मेण लायल्यार

कितले दीस जाले, तरी बरी आसा.

वैभवी : कितें बरी आसा? एक नवी बॅगूय घेवपाक जायना! तिका कितें लाख पडटात?

विवेक : घेवची सवकासायेन. पयलीं त्यो भुरग्यांच्यो आनी तुज्यो मागण्यो पुराय करतां. मागीर बॅग घेतां. बरीशी! त्या हडफडकाराकडेन ना? तसली.

वैभवी : दनपारां जेवपाक कितें खास करूं?

विवेक : तुज्या हातचे कितेंय. चड त्रास घेनासतना. त्या वेळांत तें पुस्तक वाचून काड. मागीर ऑफिसाचे लायब्ररींतल्यान दुसरें हाडटां. हें तें हातात कितें?

वैभवी : दिवो, ह्या आयदनांत आशिल्लो.

विवेक : आं. आं. आमच्या मूळ घरांतलो तो.

वैभवी : बरोच पोन्नो दिसता.

विवेक : बरोच म्हणल्यार खुबूच पोन्नो. आज्याचे न्हय. शेणज्याचे मुस्तितलो आसूंक जाय. आनी तो हांगचो न्हय.

वैभवी : मागीर खंयचो?

विवेक : अरबस्तानांतलो आसूंक जाय.

वैभवी : इतल्या पैशिल्लो? थंय कोण गेल्लो?

विवेक : थंय कोण वचूंक ना. पूण थंयसावन खाजराचे कण्णे येताले. तातूंतल्या एका कण्ण्यांत तो आमगेल्या पूर्वजांक सापडिल्लो. ते तेन्ना खाजराचो व्यापार करताले. हें पळय, पोन्न्या आयदनाबरोबर आयदनकाराक मात दिवं नाकां. सांगू नजो. जादूचो आसूं येता. घांसतकूच राकेस भायर येता तसलो. तुवें त्या तुगेल्या काणयांनी वाचूंक ना?

वैभवी : कितें?

विवेक : अल्लाउद्दीनाचो दिवो!

वैभवी : (याद करून) आं. हय वाचलां वाचलां.

विवेक : येतां हांव.

वैभवी : सायकलीन सांबाळून. गाडयांची रहदारी वाडल्या खूब.
विवेक : खरें तुजें.
वैभवी . दनपारां जेवपाक येयात. नाजाल्यार त्या आंकड्यांनी घुस्पून उरशात. काम आसा म्हूण येनासताना रावशात.
विवेक : ना. ना. दनपारां येतां.
(सायकल घेवन वता. वैभवी ताका पावपाक गेटीभायर वता. मागीर वळटा. आतां हातांतल्या दिव्यासंबंदीची उत्सुकताय वाडल्या. बेगीबेगीन भितर येता. हांगाथंय पळयता. दिव्याक घांसपाक कितेंतरी जाय. कितेंतरी मेळटा. ताणे दिवो घांसता. उत्सुकतायेन कान आनी दोळे एक करून रावता. भायरसावन आवाज येता. ('तांबे... पित..ळ पोरणे... आयदन...' तिका दिसता दिव्यांतल्यानूच आवाज येता. ती परत तसोच दिवो घांसता आनी आयकुपाक रावता. परत तोच आवाज येता. इतल्यांत दारांत आयदनकार येता. गेटीकडेन थारता. लुंगी, शर्ट घातिल्लो मनीस. एका पाटल्यांत नवी आयदनां भरून हाडल्यांत. खांदावयल्या साकांत पोरणी आयदनां आसात.)
आयदनकार : बाय, आमकां पात्रांवान आपयलेली.
वैभवी : (भानार येत) आं. यो. यो. हांवेच आपोवपाक सांगिल्लें.
(हातांतलो दिवो बेगीबेगीन लिपयता. तो गेट काडून भितर येता. साक, पाटलो खाला दवरता.)
आयदनकार : बाय, आतां सायकलार बसून गेली ती कोण? बायेची घोव न्हू?
(ती बुचकळ्यांत पडटा.)
तीच पात्रांव न्हू?
वैभवी : हय, हय. तोच पात्रांव.
आयदनकार : वळखली तिका. व्हदळ तेणेंच उलो मार्ली. पात्रांव कामाक

गेली?

**वैभवी** : ऑफिसांत ऍकावंट ऑफीसर ते.

**आयदनकार** : तुमी व्हडलीं मनीस! बाय, एक ग्लास उदाक मेळटलें? (ती तकली हालयता)
थंडगार उदाक!

**वैभवी** : आमगेर फ्रिज ना. सादें हाडूं?

**आयदनकार** : नाकां. फ्रिजातलो बरो लागता थंडगार! हाड बाय पोरणी आयदाणा. (ती मुखार धुकलता.)
इतलींच?

**वैभवी** : अं. (तिचे व्हडलेशें लक्ष ना.)

**आयदनकार** : बाय ती पोटलेंत कितें आसा? (साकूच ताचेकडेन दिता. तो साकांतली काडटा.) बाय, ही पूणी दी.

**वैभवी** : ना. ना. ती काडून दवरल्यां.

**आयदनकार** : दी बाय. सामको पोरणो जाला आयदाण. दी. हांव तुकां नवो आयदण दिता पळय न्हू. (सगळी पोरणी आयदणा घेता. बदल्यांत कांय नवीं आयदणां दिता. अर्थात तुळणेन तीं सामकीं थोडीं. वैभवी तीं पळयत रावता. खरें म्हणल्यार तिचें चित्त थाऱ्यार ना.)
बाय, तुकां आयदन थोडी दिसलो? हो आनीक एक घे. (आनीक एक किरकोळ नग दिता. ती नवी आयदनां आनी दिवो उखलता. आयदनकाराचें लक्ष त्या दिव्याचेर वता. तो आड्डता.) बाय, तो हातीन कितें बाय?

**वैभवी** : दिवो.

**आयदनकार** : तो दी बाय.

**वैभवी** : ना. ना. तो दिवपाचो न्हय.

**आयदनकार** : तो दी बाय. तो दि आनी तुकां हितली जाय तीं आयदना व्हर. सगळो सुद्दां व्हर.

**वैभवी** : ना. ना. दिवो दिवपाचो न्हय.

आयदनकार : (काकूळटेक येवन) दी बाय.

वैभवी : तुकां तरी तो इतलो कित्याक?

आयदनकार : असल्या पोरण्या दियाक खूब मोल आसता बाय. असल्यो वस्तू श्रीमंत लोक कितल्याय पैशांक विकतें घेता.

वैभवी : तुजेकडेन नवो दिवो आसा तर? आयदणांक आयदण तसो दिव्याक दिवो.

आयदनकार : ना. बाय. पूण तूं दिता जाल्यार दुसऱ्या वक्ताक नवो दिवो घेवन येतां.

वैभवी : मागीरचें मागीर पळोवचें.

आयद : बरें बाय. हे कॉलनितलें लोक खुब बरी! पात्रांवाची बायल पूण खूब बरो! (पाटली माथ्यार घेता आनी सांक खांदार मारून उटठा. गेट काडून भायर वता. वतां वतां सांगता.) बाय, तो दिवो कोणांक दिवचो नाका. म्हाका दी. हांव तुकां नवो दिवो घेवन येता.

वैभवी : बरें बरें. (ताका भायर मेरेन पावून येता. धावत आंगणांत येता. दिवो काडटा. हांगाथंय पळयता. नवी आयदनां आनी साक भितर व्हरून दवरता. मागीर कुशीचे कुंडीतले, कांय शेंकरे हातांत घेता. दिवो घासपाक वता. इतल्यान तिका याद जाता. बेगीबेगीन दिवो तुळशीचे पेडयेर दवरता. तुळशीक नमस्कार करता. प्रार्थना करता. पोरसाचे कडेक वता. दिवो एके विशिश्ट सुवातीर दवरता. आनी घांसता. तेसरशीं विचित्र आवाज जाता. आनी धुंवोर जाता. व्हडल्यान हांसपाचो आवाज. धुंवरातल्यांन एक प्रतिमा तयार जाता. पूर्विल्ल्या अरबी भेसांतलो मनीस. पन्नास-पंचावन्न वर्सांचो. शाही खानदानी पद्धतीन चलता. उलयता.)

अलाद्दीन : (प्रगट जायत) सलाम आलेकूम! बंदा हाजीर है। बहूत सालों के बाद किसीने याद किया। (आनी कव्वालीच्या

ढंगान गावपाक लागता.)

**आपने बुलाया तो, बंदा यह हाजीर हुआ।**
**काम तो निभायें गे, आपकी लेते हुअे दुआ।**

**हम तो शैतान नहीं, हम तो फरिश्ते हैं।**
*जिनका अपने कर्मपर विश्वास नही,*
*और सरल रास्ता पसंत नहीं,*
*जो अमीर होनेके सपने देखतें हैं,*
*और गरीबी को कोसते हैं,*
*उनके लिए हम, आसमान के फरिश्ते हैं।*

**हम तो शैतान नहीं, हम तो फरिश्ते हैं।**
**तुम्हारे पीडाओंपर, लायें हैं यह असली दवा।**

(प्रतिमा गीत गायता तेन्ना वैभवी भंयान हांगाथंय धांवता. निमाणे तुळशिच्या आडसाक लिपता. प्रतिमा गीत सोंपोवन आदबीन उबी रावता.)

**वैभवी** : तूं... तूं कोण?

**अल्लादीन** : इस दियेका बंदा। आपका बंदा-सेवक।

**वैभवी** : तूं किधरच्यान आया?

**अलाद्दीन** : दियेमेसे आया. आपने देखा नहीं मेमसाब?

**वैभवी** : इस दियेसे?

**अलाद्दीन** : हां. वह मेरी जगह है।

**वैभवी** : तुम भाहर कैसा आया?

**अलाद्दीन** : आपने दिया घसीटा तो धुआँ निकल आया। बादमें धुंयेंसे मैं आ गया। मेमसाब, इतने जोरमें घसीटनेका नहीं, (भूज दाखयत) देखो, चमडी निकल आयी।

**वैभवी** : भोंगू तुम्हारा! हम बाईमानूसको ब... बर्तन घसीटने का

आदत है ना? इसके लिए थोडा जोरसे लगा.

**अलाद्दीन** : फर्माईये मेमसाब, मैं आपकी क्या सेवा करूं?

**वैभवी** : यानेकी तुम हमारा काम करेगा?

**अलाद्दीन** : आपका बंदा जो हूं. सेवा मेरा धर्म है।

**वैभवी** : क्या बोला?

**अलाद्दीन** : सेवा मेरा धर्म है।

**वैभवी** : मेरा धर्म हिंदू है।

**अलाद्दीन** : इससे क्या फर्क पडता है? दिया जिसके हाथमें, मैं उसका सेवक बन गया । आज हिंदू तो कल मुसलमान, परसो इसाई तो आगे और कोई...

**वैभवी** : देखनेमे अलग आदमी लगता है रे।

**अलाद्दीन** : मानव नहीं है न?

**वैभवी** : तो क्या राक्षस है?

**अलाद्दीन** : मानवी भी नहीं, राक्षस भी नहीं. सिर्फ मनुष्यकी प्रतिमा।

**वैभवी** : अच्छा है!

**अलाद्दीन** : आप जब याद करोगी तो यह प्रतिमा आयेगी, जैसे की अब मैं आ गया हूँ।

**वैभवी** : एक बताओ.

**अलाद्दीन** : फर्माईये मेमसायब।

**वैभवी** : तुम हमारे साथ ऐसाच भाशा में बात करेगा?

**अलाद्दीन** : बिल्कूल नहीं। पयली बार आपने याद किया है न? दुसरी बार, तिसरी बार आप याद करोगी तो आदत पड जायेगी। हम भी आपकी भाशा में बात करेंगे।

**वैभवी** : वैसे तो हमकू भी तुम्हारी भाशा आती है। थोडासा इस्कोल में पढा था, जादा पिक्चर देखकर सिखा है!

**अलाद्दीन** : हम जहां प्रकट होते है, वहांकी भाशामें व्यवहार करते हैं।

**वैभवी** : अच्छा है। लेकिन सभी लोक वैसा नहीं करते।

अलाद्दीन : लोगोंकी बात अलग है। हम उनमेंसे नहीं है।

वैभवी : कुछ खायेगा? पियेगा? पोले और चटणी की है। चलेगी? चाय नहीं तो कॉफी बनाऊंगी। नहीं, तुम लोगोंको शरबत अच्छा लगता है न? शरबत बनाऊंगी ।

अलाद्दीन : शुक्रिया मेमसाब। लेकिन मैं कुछ खाता नहीं।

वैभवी : अरेरे! खायेगा नहीं तो जगोगे कैसे?

अलाद्दीन : बिना खाये तो इतने साल जी रहा हूं । खाना खाता तो शायद सौ सालके अंदरही मर जाता।

वैभवी : बराबर। हां, ठीक बराबर। सौ कहां? साठके पहले यहाँ आदमी खतम होता है। खानेके चिजोंमें मि... मिलावट करते हैं न?

अलाद्दीन : मालूम नहीं ।

वैभवी : तो, तुम सेवक बनकर मेरा काम करेगा?

अलाद्दीन : बोला ना मेमसाब, वह तो मेरा फर्ज है।

वैभवी : तुमको सुईमें दोरा डालना आता है? और कपडे धोना? बर्तन मांजना? रगडेपर मिरसांग वांटना? पेडों को पानी डालना?

अलाद्दीन : क्यों नहीं? सब कुछ आता है ।

वैभवी : लेकीन तुम्हारे जैसे आदमीको ऐसा कम दर्जेका काम देनेको जीव को अच्छा नहीं लगता । और तुम पुरूशभी हो । तुमको कैसा लगता है?

अलाद्दीन : मेमसाब, वह आपके ऊपर निर्भर करता है। आप कहोगी तो, मैं इस आंगनमें झाडूभी लगा सकता हूँ।

वैभवी : शी, शी! नहीं नहीं। ऐसा नहीं करनेका।

अलाद्दीन : मेमसाब, शायद आपने अलाद्दीन के बारेमें बहूत कम सुना है।

वैभवी : नाम तो सुना है।

अलाद्दीन : सिर्फ नाम से क्या होगा? आप अलाद्दीन की कहानी सुनना

चाहोगी?

**वैभवी** : लंबी तो नहीं ना?

**अलादीन** : लंबी हुयी तो क्या हुआ? दिलचस्प भी है।

**वैभवी** : वह तो होगीच. लेकिन आजकल इतनी लंबी कहानी सुनने को टायम कहाँ? टीवी पर सिरीयल कितने छोटे छोटे होते हैं?

**अलादीन** : मुझे मालूम नहीं।

**वैभवी** : शॉर्ट करके बताओ। छोटा करके ।

**अलादीन** : अच्छा। अलादीन एक गरीब मुस्ताफा नामके दर्जीका बेटा था । बचपनमें बडाही नटखट!

**वैभवी** : हमारे वर्धन और हर्षा जैसा!

**अलादीन** : (अदमासान) हाँ होगा। बचपनमें ही उसका बाप मर गया!

**वैभवी** : भोंगू बाबड्याचें! बहुत बुरा हुआ ।

**अलादीन** : बुढे मांने पाल-पोसकर बडा किया। एक दिन एक जादूगर उसका चाचा बनकर आया और उसे लेकर कहीं दूर जंगलमें गया।

**वैभवी** : आवयस!

**अलादीन** : वहाँ कुछ जंतर मंतर किया और अलादीनके ऊंगलीमें एक अंगूठी डाल दी। वहाँ एक गुफा दिखायी दी। अलादीन को उस गुफामें जानेको कहा।

**वैभवी** : गुफामें क्यों?

**अलादीन** : वहाँ एक दिया था और जादूगर चाचा वह दिया हासील करना चाहता था।

**वैभवी** : लेकिन गुफामें तो अंधेराच अंधेरा होगा । अलाउद्दीन भयसे डरेगा!

**अलादीन** : वहाँ अंधेरा तो था नहीं, लेकिन अलादीन बहुत डर गया।

वैभवी : इतनासा पोर! डरेगा नहीं तो क्या करेगा?

अलाद्दीन : वहाँ एक सुंदर बगीचा था।

वैभवी : फुलां–फळांनी भल्लेलो! फूल और फळ!

अलाद्दीन : हां! लेकिन फूल–फल सभी सोने चांदीके, हिरे मोती के।

वैभवी : आवयस! मेरी माँ!

अलाद्दीन : अलाद्दीनने फूल–फल तोडे और अपने जेबमें भर दिये!

वैभवी : शिटूक पोर! आमगेलीं दोगांय जाल्यार तोडपाच्या वाजाक हात सुद्धां लावचीं नासलीं. आगे क्या हुआ? तुम्हारे अलाउद्दीन ने वह दिया लाया कि नहीं?

अलाद्दीन : हां, हां. क्यों नहीं लाया? उसीके लिए तो इस खतरनाक गुफा में उतर गया था। अलाद्दीन दिया लेकर गुफाके बाहर आने लगा तो जादूगर चाचाने उसके हाथोंसे दिया छिननेका प्रयास किया और अलाद्दीन को अंदर ढकेलने लगा। अलाद्दीन ने हाथोंसे दिया छोडा नहीं तो जादूगर चाचाने घुस्सेमे बाहरसे गुफाका दरवाजा ही बंद किया।

वैभवी : यह चाचा बडाही मालक्रियाद निकला! याने कि बडाही दुष्ट! फिर क्या हुआ?

अलाद्दीन : जब अलाद्दीन ने दोनों हाथ जोडके अल्लाकी प्रार्थना की तो, अंगुलीके अंगुठीको हात घसीटा। थोडासा धुंआं निकल आया और एक छोटीसी प्रतिमा हाथ जोडकर खडी हुयी मेरे जैसी!

वैभवी : अच्छा! तो वह अंगुठी सीधी–सादी नहीं थी। जादूकी थी, और बादमें उसके सहारे तुम्हारा अलाउद्दीन गुफासे भाहर आ गया! हय ना? अरे! लेकिन वह दियेका क्या हुआ? वह लाया कि नहीं?

अलाद्दीन : नहीं तो! इसेलीए तो वह आपके हाथों में पहूंच गया।

वैभवी : ('अशें' धर्तिचेर) अच्छा। इसाक मतलब, यह वही जादूका दिया है!

**अलाद्दीन** : हां। पहले इसका पता अलाद्दीन को भी नहीं था। जब इस दियेके शक्तीका पता अलाद्दीनको चला तब या अल्लाह! अल्लादीन ने इस दियेसे क्या क्या हासील किया।

**वैभवी** : क्या क्या हासील किया?

**अलाद्दीन** : यह पुछो कि क्या क्या हासील नहीं किया।

**वैभवी** : लेकिन मोस्त्रके लिए कुछ बातें बताओ ना ।

**अलाद्दीन** : अलाद्दीन को भूक लगी तो खाना लाया। कितना बढीया खाना। हररोज हर तरहका खाना। पुछो मत।

**वैभवी** : नहीं पुछूंगी। खानेके बारेमें मुझे सबकुछ मालूम है।

**अलाद्दीन** : और सोने-चांदीचे कितने सिक्के, जेवर तयार किये। एक दफामें वह अमीर बन गया। अलाद्दीन का सुलतानके, यानेकी राजाके बेटीसे इष्कभी हो गया!

**वैभवी** : सच रे सच। इष्कका यह रोग पहलेसी चलता आया है। हमारा घरभी इससे बचा नहीं।

**अलाद्दीन** : देखिये मेमसाब, अलाद्दीन गरीब दर्जीका बेटा था। जादूके दियेने उसको सुलतानका जमाई बना दिया। और जानती हो? अलाद्दीन के लिए हमने एक महल भी बनवाया था!

**वैभवी** : महल? सिंगल बेडरूम या डबल बेडरूम?

**अलाद्दीन** : मेमसाब, महल तो महल होता है। उससे कुछ कम नहीं होता।

**वैभवी** : (नरम जावन) समझ गयी!

**अलाद्दीन** : मेमसाब, मैं कुछ भी कर सकता हूँ। तरह तरहका खाना, सोने चांदीके गहने... महल बनवा सकता हूँ। महल उठा सकता हूँ। आपको जिस चीजकी जरूरत है, बस वही चीज कुछ समय के अंदर आपके चरणों में हाजीर कर सकता हूँ। (कपलार हात मारीत) और आप जो है-सुई में दोरा डालनेकी बात कर रहीं हैं!

**वैभवी** : (खालतेपणान) हम मध्यमवर्गीयके लोग हैं ना? हमारी मांगें

बहुत छोटी होती हैं।

**अलाद्दीन** : फमाईए मेमसाब, ज्यादा देर खडा रहुंगा तो मेरी ताकद कम हो जायेगी!

**वैभवी** : मतलब?

**अलाद्दीन** : मैं बहुत पुराना हूं ना? पहले जैसी शक्ती नहीं है। लेकिन आप डरो मत, आपकी सभी इच्छायें सफल होंगी और (थोमणो मारून) आप मध्यमवर्गकी है ना? लेकिन आपको एक काम करना पडेगा!

**वैभवी** : कोनसा?

**अलाद्दीन** : आपका काम बनतेही हमें वापीस दियेंमें डाला करो!

**वैभवी** : वापीस कैसा डालनेका?

**अलाद्दीन** : वह हम बतायेगा! सुनो, यह नगमा सुनानेका! (म्हणटा)

**दिप दिप दिपत्कार**
**दियेको मेरा नमस्कार**
**काम हमारा बन गया**
**अलाद्दीन शुक्रिया**
**अलाद्दीन अलविदा**
**बुलानेपर आ जा**

यह नगमा सुनतेही हम वापीस जायेंगे।

**वैभवी** : बहुत कठीण है रे।

**अलाद्दीन** : नहीं, मेरे लिए कुछ कठिण नहीं।

**वैभवी** : तुम्हारे लिए नहीं, मेरे लिए।

**अलाद्दीन** : किसी... धूनमें बांधो! वह औरत लोगोंके दिमागमें अच्छा रहता है । और तुम्हारी अपनी भाशा में गाया करो। मतलबसे बात है ।

**वैभवी** : (गुणगुणत) मुझे फुगडी आती है । फुगडीमें बांधती हूँ।

**अलाद्दीन** : हां, प्रयास करो!

**वैभवी** : (फुगडेचे चालीन म्हणटा)

**दिव्या दिव्या रे दिपत्कार**
**दिव्या तुकां रे नमस्कार**
**सोंपलें आमचें काम काम**
**अल्लाउद्दीन राम राम**
**अल्लाउद्दीन मोरया**
**फुडले फावटीं लवकर या.**

**अलाद्दीन** : वा! वा! माशाल्ला! बहूत खूब! बहूत खूब! (परत धुंवर जाता आनी प्रतिमा ना जाता. वैभवीक सू जाता. आनी मागीर तिका अकस्मात याद जाता.)

**वैभवी** : कर्मभोग! इतलें करून सगळें फुकट. कांय करिनासताना हो अल्लाउद्दीन गेलो. (याद जावन) वतलो खंय? तिकीट आसा म्हजेकडेन, गाडी वतली खंयचेकडेन? हाडटां परत. (हांगचे थंयचे शेंकरे काडटा. मागीर याद जावन ते कडेक वडयता.) ह्या शेंकऱ्यांनी ताचीं भुजां सल्पल्यांत. हीं पानां पुरो. (झाडाचीं चार पानां खुंट्टा. घांसपाक वता. इतल्यान याद जाता. भायर गेटीकडेन वचून येता. मागीर बिनधास्तपणान दिवो घांसता. दिव्यांतल्यान धुंवर येता. धुंवरांतल्यान व्हदळची प्रतिमा; अलाद्दीन येनाबराबर आदलेवरीच कव्वाली गायता. वैभवी मोट्यामोट्यान हांसता. प्रतिमा मदींच गीत बंद करता.)

**अलाद्दीन** : क्या हुआ मेमसाब? आप क्यों हंस पडी?

**वैभवी** : हंसू नहीं तो क्या रडूं?

**अलाद्दीन** : क्या हुआ?

**वैभवी** : आप रिकॉर्ड जैसा काम करता है! जैसा पहले आया वैसाच दुसरे खेपभी आया!

**अलाद्दीन** : अच्छा! फिर आऊंगा तो गाना नहीं गाऊंगा!

**वैभवी** : वहीच नहीं गानेका राष्ट्रगीत जैसा। दुसरा गानेका । हम

लोग कैसा तरह तरहका फुगडी गाता है, वैसा।

अलाद्दीन : माफ करना मेमसाब! उतनीही हमारी मर्यादा है ।

वैभवी : आपको बुरा तो नहीं लगा?

अलाद्दीन : ना, ना! बुरा काहे को? मैं गाना नहीं गाऊंगा, लेकिन गानेकी नकल तो मुझे करनीही पडेगी! फर्माईये, सांगात ताईबाय.

वैभवी : (अजापान) आरे, तू तो हमारी भाशामें बात करने लगा.

अलाद्दीन : थोडा, थोडा. आपको कहा था ना, और अब आप मेरी भाशा में बात करनेकी जरूरत नहीं. अपनी भाशामें बोलो. मैं समझ लुंगा!

वैभवी : (खोशयेन) सच्ची? यह भौत अच्छा हो गया. दुसरी भाशा में बात करनेसे भौत तकलीफ होता रे. जीव आधा हो गया था, अब सुऽऽ हो गया. बोलते वक्त ऐसा लगता था– जबानपर बर्फ का खडा, (खडो) खडा (उबो) है।

अलाद्दीन : अब खडा गिरा दो.

वैभवी : (समजून) हां, हां, समजलीं.

अलाद्दीन : ताईबाय, कामकी बात करो.

वैभवी : काम? तूं करपीच जा. कामाच कामां.

अलाद्दीन : मैं खुशीसे निपटाऊंगा.

वैभवी : कपडे उमळपाचे. चार जाणांचे कपडे.

अलाद्दीन : यह चार लोग कौन?

वैभवी : चार जाणांचे कपडे म्हणनाफुडें वावराडेभशेन भियेलो?

अलाद्दीन : यह वावराडी क्या है?

वैभवी : घरचीं कामां करपी बायलमनीस. ती कामांक भियेता.

अलाद्दीन : मैं नहीं डरूंगा ।

वैभवी : आतां दनपारां सगळीं जेवपाक येतलीं तेन्ना चार जाणां कोण तीं कळटलीं.

अलाद्दीन : तो दोपहरका खाना भी तैयार करना है?

वैभवी : बरो समजिकायेचो रे तूं. जेवण कशें तयार करतलो?

अलाद्दीन : वह आपको बताना पडेगा.

वैभवी : पळय, हांका मातशें गोडेमुताचें आसा.

अलाद्दीन : किसको क्या है?

वैभवी : (विशय बदलून) कांय ना, कांय ना.

अलाद्दीन : ताईबाय, जेवणांक कितें जाय?

वैभवी : तूं सामको हॉटेलांतल्या वेटराभशेन करता मरे. सांगतां. पयलीं तूं घरांत एक अशी पासय मारून यो. खंय कितें आसा तें पळोवन.

अलाद्दीन : बरें ताईबाय.
(दारांतल्यान भितर वता. वैभवी जेवणाचें येवजिता. थोड्या वेळान प्रतिमा भायले गेटींतल्यान भितर येता. वैभवीक अजाप जाता.)

वैभवी : आरे, अल्लाउद्दीन तूं हेवटेंतल्यान भितर गेलो आनी तेवटेंतल्यान भायर आयलो ?

अलाद्दीन : मैं कहाँसे कहाँभी जा सकता हूँ. तुम्हारे जैसा आदमी थोडाही हूं। मकान भितरसे और बाहरसेभी देख लिया.

वैभवी : बरें केलें आतां तुकां ह्याच मकानान वावुरपाक जाय अल्लाउद्दीन.

अलाद्दीन : बंदा खुशनसीब है। लेकिन ताईबाय, मेरा नाम अल्लाउद्दीन नहीं. अलाद्दीन तो इस दियेका पहला मालीक था.

वैभवी : मागीर तुजें नांव कितें तर?

अलाद्दीन : मेरा कोई नाम नहीं.

वैभवी : म्हणजे इतलीं वर्सां तूं नांवाबगर जियेता? तशें जाल्यार म्हजेखातीर तूं अल्लाउद्दीनूच. तो खरेलो अल्लाउद्दीन खंय केन्ना किल्ललो देवाक खबर! हांव तुकां अल्लाउद्दीनूच म्हणटलीं.

अलाद्दीन : आपकी मर्जी ताईबाय. खानेमे क्या लावूं?

वैभवी : आयक. बऱ्या बारीक तांदळाचें शीत – पका हुआ चावल. नुस्त्याचें हुमण. मछलीका रस्सा जायच. तेबगर कोणांक उणी वचची ना. हुमण–चावल (कालोवपाची ऍक्शन करून) कालोवपाखातीर. हुमण सुंगटांचे नाजाल्यार पापलेट, विस्वण वा बांगड्याचें चलता. हर्षाक तेंफळाचें जाल्यार वर्धनाक कांद्याचें. समजलें? (तो समजून घेवपाचो यत्न करता.) आनी तोंडाक लावपाक तळिल्लें. (ताका समजना.) तळिल्ले नुस्तें. मछली. कांट्याची नाका. कल्ली तर निखालस नाका. नुस्त्याचें थोडें धबधबीत. हांकां खूब आवडटा. आनी पापड, लोणचें आसतलेंच न्हय? आनी कितेंय गोड, खीर, पायस. फक्त दोगांकूच. हर्षाक आनी वर्धनाक. हांका नाका. आनी हें पळय, थोडें चिकन करपाक जातलें?

अलाद्दीन : क्यों नहीं? चिकन मसाला, चिकन तंदूर, चिकन मख्खनवाला, चिकन ए अरबस्तान.

वैभवी : आनी... आनी लावपाक.

अलाद्दीन : मतलब? हां उसके साथ? रोटी, नन, पराठा।

वैभवी : बरोबर, बरोबर. हांवें फक्त नांवां आयकल्यांत. आमचे कॉलनींतले गेटीभायर एक नवें हॉटेल पडलां – हॉटेल रूचिरा. थंय हे असले जिनस मेळटात खंय.

अलाद्दीन : आप फिक्र मत किजिएगा। आपको अच्छा खाना मिलेगा। और कुछ?

वैभवी : एक ल्हानशें बॅग, हडफडकाराकडेन आसा तसलें. आनी एक मोतयांचो हार–कडकड्याचे बायलेच्या गळ्यांत आसा तसलो.

अलाद्दीन : लेकिन यह खानेके लिए?

वैभवी : ना ना. बॅग हातांत धरपाक आनी हार गळ्यांत घालपाक. आनी आयक. एक मोटारसायकल आनी एक ड्रेसींग

टेबल.

**अलाद्दीन** : यह दोनों चिजें मुझे दिखानी पडेंगी नहीं तो उनकी तस्वीर. और कुछ?

**वैभवी** : सांगपासारखें खूब आसा पूण...

**अलाद्दीन** : बताईए ताईबाय. किसीभी काममें हमें कोई तकलीफ नहीं।

**वैभवी** : अल्लाउद्दीन, आतां तूं म्हजीं सगळीं कामां करतलो.

**अलाद्दीन** : हां.

**वैभवी** : म्हणटकूच म्हाका हांगा थंय बोवाळपाची गरज ना.

**अलाद्दीन** : बिल्कूल नहीं आप फर्माते रहिएगा, यहाँ बैठके।

**वैभवी** : आं. तेचखातीर म्हाका बसपाक एक बरीशी कदेल जाय. बसताना सुशेगूय मेळपाक जाय आनी मातसो झेतूय येवपाक जाय. त्यो हॉलांत न्हवऱ्या-व्हंकलेक बसपाक दवरीनात? तसली कदेल.

**अलाद्दीन** : एक या दो?

**वैभवी** : दोन कित्याक? आतां आमकां सव्यार बसपाचें आसा? एक पुरो, पूण तसली उंची.

**अलाद्दीन** : हमारा अलाद्दीन सुलतानके दरबारमें जिस तरहके कुर्सीपर बैठता था उसी तरहकी लाऊंगा.

**वैभवी** : चलेगी, चलेगी.

(वचपाक वळटा. वैभवी फाटीफुडें जावन ताका हटकिता.)

अल्लाउद्दीन, अल्लाउद्दीन-

**अलाद्दीन** : जी ताईबाय.

**वैभवी** : (अनमनत) एक पांचशीं रुपया मेळटले?

**अलाद्दीन** : क्यों नहीं? जरूर मिलेंगे।

**वैभवी** : हजार मेळटले?

**अलाद्दीन** : कितने हजार?

वैभवी : बस्स. फक्त एक हजार. पूण आमचे हजार तीन शिंवाच्या तोंडाचे.

अलाद्दीन : हां, हां वही मिलेंगे.
(वचपाक वळटा.)

वैभवी : हें पळय अल्लाउद्दीन, तुवें आतां हांगा थंय भोंवपाक जाय. आमचे कॉलनीचो नक्सो पळय. हें आमचें घर. विवेक विर्नोडकार. (दाखयत) मुखार हडफडकार, ताचे मुखार कडकडो. तेवटेन सावकार, हेवटेन दुबळो, एक उजव्यान एक दाव्यान अशें दाखयत.) पिळगांवकार, सैल, डॉमनिक डिमेलो–सदाशिव सहस्त्रबुद्धे, एन. सूर्यनारायण–एम चंद्रास्वामी.

अलाद्दीन : शुक्रिया ताईबाय. (गेटींतल्यान भायर वचपाक वता.)

वैभवी : जेवणाचें मातशें बेगीन पळय. हे गडबडीन घोड्यार बसून येतले आनी हातार उदक पडनाफुडें गडबडीन वतले.

अलाद्दीन : यह घोडेपर बैठकर आनेवाले कौन है?

वैभवी : (कपलाचो कुकूम आनी गळ्यांतलें मंगळसूत्र दाखोवन) हे... हे... आमी हांचें नांव घेनात. (अलाद्दीन समजुवपाचो यत्न करता आनी हांसत हांसत वता.)

वैभवी : हागेले भाशेचें एक माथ्यावयलें वजें गेलें तें एक बरें जालें. मेकळे तकलेन विचार करपाक मेळ्ळो. (चिंतून) हो अल्लाउद्दीन खरेंच जेवणाची वेवस्था करतलो? कशी? पूण तिवूय चिंता हांवूच कित्याक करूं? तो तर आयला म्हजी चिंता ना करपाक. (भायर पळयत) हेवूय येवपाचे जाले आनी हीं भुरगी येतलीं तींच ताटार बसपाक सोदतलीं. (भायरसावन मोटारसायकलीचो आवाज येता. ती चत्रायेन भायर नदर मारता. कांय वेळान भायरसावन हर्षा येता. तें कॉलेजीकसावन आयलां.)

वैभवी : येतनाय ताचेच मोटारसायकलीर बसून आयलें?

हर्षा : मम्मा, तो हेच वटेन वतालो म्हणून आयलें.

वैभवी : हेच वाटेन वतालो म्हणजे? ताका दुसरी वाट आसा तर?

हर्षा : ना.

वैभवी : मागीर जालें. तूं म्हजे आयकुचें ना मगो?

हर्षा : (मुद्दम) कितें तें मम्मा?

वैभवी : अशें पिशें पांगरूं नाका. बापायन चड मातयलां तुकां.

हर्षा : (लाडान) नाच जाल्यार. म्हज्या मम्मानूच म्हजे चड लाड केल्यात. मम्मा सामकी कडकडून भूक लागल्या.

वैभवी : मातसो थार धर आं. जेवणांक आजून वेळ आसा.

हर्षा : वेळ कित्याक? तूं घरांत कितें करताली तर?

वैभवी : फुगडी घालतालीं.

हर्षा : कितें? मम्मा, आज जेवणाक कितें आसा?

वैभवी : मज्जा!

हर्षा : मज्जा? हो कसलो नवो जिनस?

वैभवी : आयज एकतर पंचपक्वान! नातर कडकडीत उपास!

हर्षा : म्हणजे?

वैभवी : पळोवया न्हय.

(इतल्यान भायरसावन वर्धन येता. तोवूय कॉलेजींतल्यान आयला.)

वैभवी : वर्धन, हर्षा मोटारसायकलीन येता. तूं बसीन. तरी आसताना तुमी दोगांय बरोबर कशीं पावतात?

हर्षा : मम्मा, तो सदांच निमाण्या लेक्चराक बंक मारता. दोगांय.

वर्धन : मम्मा, फट आं.

वैभवी : तुंवूय ताचो नाद सोडचो ना मरे?

वर्धन : मम्मा, सांगलें न्हय, फाल्यां सोडटां.

वैभवी : भंगलो तूं. हांवूच पळयतां तें.

वर्धन : मम्मा, पोटाक लागल्या भूक आनी तूं कसल्यो गजाली

करता? चल वाड बेगीन. आज जेवणांक कितें आसा?

हर्षा : मज्जा!

वर्धन : म्हणजे?

वर्षा : एकतर पंचपक्वाना, नातर कडकडीत उपास!

वर्धन : उपास? तो हांगा कित्याक? तो धरणां धरता थंय. पंचपक्वानाचें उलय. मम्मा,

वैभवी : वर्धन, तुकां मोटारसायकल जाय ती कसली?

(तो अजापता. आवयक आनी हर्षाक पळयता. हर्षाकूय अर्थबोध जायना.)

वर्धन : मम्मा, जेवचे पयलीं कांयच नाका. जेवल्याउपरांत.

वैभवी : पोटारो खंयचेकडलो! फकाणां करिना हांव, आनी (हर्षाक) तूं गो? तुकां कसलें ड्रेसींग टेबल जाय?

(ताकाय अजाप जाता.)

हर्षा : मम्मा, तूं खऱ्यांनीच विचारता काय फकाणां करता?

वैभवी : तुकां कितें दिसता?

हर्षा : खरें दिसना.

वैभवी : मुखार जायतें कितें कितें घडपाचें आसा तेंवूय तुमकां खरें दिसपाचें ना.

हर्षा : (येवजून) मम्मा, तूं अशें कित्याक करिना? म्हणजे पप्पा, म्हाका ड्रेसींग टेबल आनी वर्धनाक मोटारसायकल हाडटलोच. तूं आनी त्यो वस्तू हाडूं नाका.

वर्धन : बरोबर. वगीच दोन दोन मोटारसायकली, दोन दोन ड्रेसींग टेबलां कित्याक?

हर्षा : ते बदलीं तूं आमकां ते पैशेच कित्याक दिना? म्हाका दोनशीं आनी वर्धनाक चारशीं.

वर्धन : यस् मम्मा. गूड आयडिया.

हर्षा : (शिटकायता) पूण मम्मा पैशांच्या बदलाक हांव दुसरें कांय (रणबीराक सोडपाचें) आयकुचें ना आं.

**वर्धन** : मम्मा, हांव तयार (रंजिताक सोडपाक) आसा.

**वैभवी** : आरे, तुमचीं दोनूय कामां करपाक सोदतां.

**वर्धन** : खरेंच? तशें जाल्यार खूब बरें जालें. थोंटो मागतालो एक दोळो देवान दिले दोन.

**वैभवी** : थोंटो न्हय, कुड्डो.

**हर्षा** : आनी वर्धन, पप्पान प्रोमीस केलां ताचें कितें? पप्पाक वायट दिसतलें.

**वैभवी** : पुरो गो पप्पाच्यो व्हडविको. तुमगेल्या पप्पालीं प्रोमिसां ह्या जल्मांत पुराय जावपाची आसा? हांगा म्हजे काळ्याचे धवे जावपाकडेन पावले. (चाळोवन) पप्पा हें हाडटलो... पप्पा तें हाडटलो... पेंदता तें पळोवचें.

**वर्धन** : म्हणटकूच मम्मा, तूं दोनय गजाली करता म्हणटा?

**वैभवी** : सद्याक ह्यो दोनूच.

**हर्षा** : आनी मागीर?

**वैभवी** : तें कळटलें.

**दोगांय** : केन्ना?

**वैभवी** : वेळ येतकूच.

(हर्षा आनी वर्धन दोगांय गोंदळटात. कुशीक सरून आपलेभितर खलबतां करतात. इतल्यान भितरसावन अलाद्दीन भायर येता. भायर येतना तो हर्षा आनी वर्धनाक पळयत वैभवी म्हऱ्यांत येता. वैभवी कांचवेता. हर्षा आनी वर्धन अलाद्दीनाक पळयत ह्या भंयान ताका आडसाक दवरून उबी रावता.)

**वैभवी** : (ल्हवू आवाजान ) आरे अल्लाउद्दीन, पापया तूं तांचे म्हऱ्यांतल्यान आयलो. सायबा भोगोस. तुकां तीं पळयता आनी आतां हेवूय येवपाचे जाले. तूं... तूं असो हांगा थंय भोवूं नाका. असो आडसाक लीप. नाजाल्यार हांव तुकां फुगडी म्हणून परत दिव्यांत घालतां.

अलाद्दीन : (समजायत) ताईबाय, घाबरूं नाका.
(आतां तो कोंकणींतल्यान उलयता पूण हिंदी शैलींतल्यान) हांव तुमचो सेवक. हांव फक्त तुमकां दिसतां. दुसऱ्या कोणांकूच दिसूंक शकना. म्हजो आवाज तुमी सोडून दुसरो कोणूच आयकूंक शकना. समजलें?

वैभवी : (गोंदळ्या) पूण तूं...

अलाद्दीन : आतां सारको तुमचेभाशेन उलोवपाक लागलों न्हय? घे. (नोटी दिता) तुमचे पैशे. मेजून पळयात.

वैभवी : (अजापान पळयता. एकदां मेजता. परत मेजता)

अलाद्दीन : सारके आसात न्हय?

वैभवी : ना. एक हजार दोनशीं. दोनशीं चड आसात.

अलाद्दीन : अशें केन्नाय फाटीफुडें जावंक शकता. तुमी समजून घेयात.

वैभवी : अशें आसल्यार समजून घेवपाक कसली हरकत आसा? पूण अल्लाउद्दीन, हे तुवें खंयसावन हाडले?

अलाद्दीन : ताईबाय, एक गजाल सांगपाची आसा.

वैभवी : कसली गजाल?

अलाद्दीन : हांवें खंयच्च्यान कितें हाडलें हें विचारापाचें ना. तुमी सांगिल्ली ती वस्त हजर केली काय ना तितलेंच पळोवपाचें.

वैभवी : बरें आसा. म्हजें काम जालें जाल्यार म्हाका तरी ती नस्ती उस्तवारी कित्याक?

अलाद्दीन : (हांसत) ताईबाय शाणी जाली!

वैभवी : (याद जावन) अल्लाउद्दीन पैशांचें बरें आसा. जेवणाचें कितें?

अलाद्दीन : जेवण तयार आसा. मेजार मांडून दवरलां.

वैभवी : खरेंच? इतलें तुवें रांदलें? काय... (याद जाता.) आं. जेवण तयार आसा मरे? मेजार मांडूनय दवरलां. बरें, बरें. (हर्षा आनी वर्धनाचीं खलबतां करून जाल्यात आनी तीं

वैभवीकडेन पळयता आनी अजापतात कारण तांचेलेखीं आवय एकलीच उलयता. तीं दोगांय आवय म्हऱ्यांत येतात.)

हर्षा : मम्मा, तूं एकलीच कोणाकडेन उलयता?

वैभवी : (गडबडत) कोणाकडेन उलयतलीं?

वर्धन : मागीर एकलीच कितें बडबडटा?
(तिची धांवपळ पळोवन अलाद्दीन खोऽऽ खोऽऽ करून हांसता. वैभवी अदीक गोंदळटा. अलाद्दीनाक वगी रावपाक कुरवांनीच शिटकायता. भुरग्यांक हें अजाप दिसता.)

हर्षा : मम्मा, तूं हें कितें करता?

वैभवी : (गोंदळत) आनीक कितें करतली? (हर्षाक) तुजी मोटारसायकल आनी (वर्धनाक) तुजें ड्रेसींग टेबल... ना. (सारकें सांगता) कसले कसले मोदीचें हाडचें ताचो विचार करतालीं. तुमचें कितें थारलें?

वर्धन : थारलें. पप्पाक आमी समजायतां. तूं आमकां मोटारसायकल आनी ड्रेसींग टेबल हाड.

हर्षा : हय मम्मा. मम्मा डिमेलो अंकलान आपले ज्युलीखातीर बरें ड्रेसींग टेबला हाडलां. म्हाका तसलेंच जाय. (वैभवी कुरवेनूच अलाद्दीनाक सांगता. अलाद्दीन आपणांक समजलें म्हण सांगता.)

वर्धन : आनी मम्मा, म्हाका कसली मोटारसायकल जाणां? पिळगांवकाराल्या भुपेशाकडेन आसा पळय तसली.

वैभवी : ती खटारी मरे!

वर्धन : ती विकली ताच्या पप्पान. नवी घेतल्या. दोन दीस जावंना. नंबरसुद्धां धव्या खोडवान बरयला. (वैभवी कुरवेनूच अलाद्दीनाक सांगता. तो आपणांक समजलें म्हण सांगता.)

वैभवी : जालें? तुमच्यो वस्तू तुमकां मेळटल्यो.

हर्षा : केन्ना?

(वैभवी अलाद्दीनाकडेन पळयता. तो कुरवेनूच 'रोकड्योच' म्हण सांगता.

वैभवी : रोकड्योच.

वर्धन : रोकड्योच म्हणजे केन्ना?

वैभवी : रोकड्योच म्हणजे केन्ना जेवणाआदीं जाय?

वर्धन : नाका, नाका. जेवणाआदीं कांयच नाका. फक्त पोटभर जेवण. पयलीं भुकोबा, मागीर संतोबा!

वैभवी : पयलीं पोटोबा, मागीर विठोबा. जेवण तयार आसा, मेजार मांडून लेगीत दवरलां.

हर्षा : (दुबावान) पूण मम्मा,

वैभवी : आतां तुजी दोन हातांची आदली मम्मा उरूंक ना. तिका धा हात फुटल्यात. ती आतां धा हातांनी काम करता.

(आपणाचेरूच खुशी जाता आनी अलाद्दीनाकडेन पळयता. अलाद्दीन खोशयेन खोऽऽ खोऽऽ करून हांसता. इतल्यान भायरसावन विवेक ताकतिकेन येता. वैभवी काचाबूल जाता. अलाद्दीन विवेकाक बारीकसाणेन पळोवन घेता.)

अलाद्दीन : ताईबाय, तुमगेले 'हे' हेच न्हय? बरे आसा. बंदा रुपय्या!

(वैभवी ताका वगी राव आनी भायर वच म्हण खुणायता. तो हांसत हांसत भायर वता. विवेक वैभवीची अवतिकाय पळोवन अजापता.)

विवेक : वैभवी, तुजें कितें जालां?

वैभवी : (सारकी जायत) कांय ना, कांय ना. तुमकां कितलो वेळ जालो! तुमची वाट पळयतालीं.

विवेक : मातसो उशीर जालो. इतलो हुस्को कित्याक?

हर्षा : पप्पा, मम्मा आतां आदल्यासारखी उरूंक ना.

विवेक : आदल्यासारखी उरूंक ना म्हणजे कितें? तुमचे मम्मीक

शिंगां फुटल्यांत?

र्षा : शिंगां न्हय, हात.

र्धन : एक आनी दोन न्हय, धा हात.

वेवेक : धा हात? देवी दुर्गा, अष्टभुजा म्हणजे तिचेपरस दोन हात चड.

र्धन : म्हणजे कोण जाली?

वेवेक : दशभुजा देवी!

वैभवी : पयलीं पोटपुजा करून घेयात. आनी थंयच उलयात. (भुरग्यांक) पयलीं कपडे बदलात.

वेवेक : जेवण तयार आसा?

वैभवी : हय. मेजारपासून मांडून दवरलां. पूण हांव वाडपाक येवपी न्हय. तुमी घेवन जेवात.

विवेक : कांय हरकत ना. हांव पळयतां. चलात.

(हर्षा आनी वर्धन भितर वतात. वैभवी नोटी मेजून वांटे करता. इतल्यान हर्षा आनी वर्धन भितरसावन ताकतिकेन भायर येतात.)

हर्षा : (ताच्या तोंडांत ननचो कुडको आसा.) मम्मा, म्हजे कपडे कोणे –

वर्धन : वा! मम्मा, जेवण मस्त आसा आं (खायत आसा.) म्हजे आवडिचें चिकन तंदूर!

हर्षा : आनी म्हजे आवडिचे नन!

वर्धन : मम्मा, इतलें जेवण तुवें एकलेनूच रांदलें?

वैभवी : ना. रांदपी आयिल्लो. रांदलें म्हणजे? तुमची मम्मा म्हणजे कितें समजलीं तुमी! आनी तुमी जेवपाचें सोडून भायर कित्याक? आदीं कपडे बदलात म्हण सांगिल्लें मरे.

हर्षा : मम्मा, तेंच सांगपाक आयिल्लें.

वैभवी : कितें?

विवेक : (भायर येत) वैभवी, म्हजे कपडे एकदम उमळ्ळे

कित्याक?

वैभवी : निवळ जाल्या काय ना?

विवेक : निवळ जाल्या खरे, पूण सगळे वांगडाच कित्याक धुले? आतां बदलपाक लेगीत कपडे ना. तोंड पुसता तो तुवालो लेगीत ओलो आसा.

हर्षा : हय मम्मा, म्हजेय सगळे कपडे ओले. तेंच सांगपाक आयिल्लें.

वर्धन : तशें जाल्यार म्हजेय सगळे कपडे धुल्या आसतले.

वैभवी : (अलाद्दीनान केल्लो घोळ लक्षांत येवन) हय तुगेलेय धुल्या.

विवेक : पूण हें अशें कित्याक? घरांतले सगळे कपडे अशे वांगडाच धुवपाक वडोवप म्हणजे... गांवांनी सुतक सोंपता त्या बारा दिसांकडेनबी अशें करतात.

वैभवी : थूमेकाल! कायचेकाय अभद्र उलोवं नाकात. इतलीं कामां करतकच थोडें फाटीफुडें जाताच.

विवेक : पूण–

वर्धन : पप्पा, कपड्यांचें बरें आसा. सांजमेरेन सुकतले. मम्मान जेवणाची कितें तयारी वडयल्या ती तुवें पळोवंक ना?

विवेक : तुमी आयदनां उक्तीं केल्लीं तेन्ना वास बरो आयिल्लो. वैभवी, सगळे कपडे उमळूनय इतलें सगळें जेवण कित्याक केलें?

हर्षा : पप्पा म्हणून दिसता तसो ना आं. मम्माची बरी काळजी ताका. आतां मिटक्यो मारीत जेवचो ना काय कितें?

वैभवी : जालें उलोवन? आता मातशीं मुखार येयात.
(दोगांय मुखार येयात.)
(विवेकाक) तुमीयबी.
(ताका कांय अर्थबोध जायना पूण तोवूय मुखार येता.)
हात मुखार करात.

(दोगांय हात मुखार करतात.)

(विवेकाक) तुमीयबी.

(विवेक नाईलाजान हात मुखार करून रावता. वैभवी हातांतल्यो नोटी वांटटा.)

(वर्धनाक) हे पिकनिकेखातीर तुकां पांचशीं रुपया. (दिता.)

(हर्षाक) हे तुगेल्या गेटटूगेदराचे तीनशीं रूपया. (दिता.) हे दोनशीं रूपया म्हाका आनी (विवेकाक) हे दोनशीं रूपया–

(विवेक हात फाटीं घेत) म्हाका कित्याक? आनी हांवें खंय मागल्या?

**हर्षा** : पप्पा, तूं म्हणून एक. मम्मा दिता जाल्यार तुकां घेवपाक कितें जाता? हें बरें तुजें, तूं दिवचोना आनी दुसऱ्यान दिल्लेंय घेवचोना.

**विवेक** : आगो, पूण पैशे खंयचे? खंयच्यान आयले तें कळपाक नाका?

**वर्धन** : त्यो सी. बी. आय. भाशेन चवकशी कित्याक? दितात तें घे आनी वगी राव.

**विवेक** : आरे पूण...

(वर्धन आनी हर्षा आवय दिता ते पैशे घेता आनी बळजबरीन बापायच्या बोल्सांत चोंददतात.)

**विवेक** : आरे, पूण म्हाका वगीच पैशे कित्याक? गरजेपुरते म्हजेकडेन आसात.

**वैभवी** : फाल्यां कुबेरपासून तुमचेर प्रसन्न जाल्यार ताकाय हेंच सांगात.

**विवेक** : सांगतलोंच. कुबेर म्हणजे म्हजेसारको ए. ओ. च तो. ताकाय कोणतरी विचारपी आसतलोच.

**वैभवी** : हाडात दोनशीं रूपया परत दियात.

**विवेक** : दितलोंच. पूण तुकां न्हय. (शंबराची एक नोट वर्धनाक आनी एक नोट हर्षाक दिता. दोगांय खुश जातात.)

**दोगांय** : पप्पा, यू आर रिअली ग्रेट!

**वैभवी** : म्हजें खायात आनी पप्पाचें गायात.

**वर्धन** : म्हजो पप्पा खरेंच दानशूर! दुर्योधनाचो अवतार!

**वैभवी** : शाण्या, शंबर रुपयांखातीर महाभारताचो खून करूं नाका. दुर्योधनाचो न्हय, कर्णाचो अवतार.

**विवेक** : पूण वैभवी, हे पैशे तुवें खंयसावन हाडल्यात तें तुवें सांगलें ना जाल्यार लेगीत हांव तुजे तुकां ते परत करपी.

**हर्षा** : पप्पा, पुरो आं. मातसो मम्माच्या रिणांत रावल्यार तुकां कितें जाता? मम्मा तुज्या रिणांत रावना?

**वैभवी** : ह्यानफुडें मम्मा कोणाच्या रिणांत रावपी न्हय.

**विवेक** : म्हणजे? वैभवी तुका कितें म्हणपाचें आसा?

**वैभवी** : (व्हदळच्या तोऱ्यांत फर्मायता.) सगळीं अशीं मुखार येयात.

(भुरगी बेगीबेगीन मुखार येतात. विवेक अनमनता. भुरगीं ताका बळजबरीन मुखार हाडटात. शिस्तीन उबीं रावतात.)

**वर्धन** : मम्मा आतां कितें वांट्टा तें पळोवया.

**वैभवी** : तें आसाच. पूण ताचेआदीं कांय गजाली स्पश्ट जावपाक जाय.

**विवेक** : कसल्यो गजाली?

(भुरगीं बापायक वगी करतात.)

**वैभवी** : संवसाराच्यो गरजो वाडल्यात. घरांतल्या मनशांच्यो गरजो वाडल्यात. बरोबर?

(सगळीं मान हालयतात.)

**वैभवी** : एकलो जोडकार! तोवूय सरळमार्गी! एका किमसाच्या शेणाच्यो शेणी थापूं नजो. म्हणून हांवें एक निर्णय

घेतला.

विवेक : (काचाबूल जावन) कसलो निर्णय?

विवेक : पप्पा, तूं असो काचाबूल कित्याक जाता? आमकां पळय रे.

वैभवी : तर निर्णय असो-घरांतल्यो गरजो, मागण्यो हांवें पुराय करप.

वर्धन : गूड!

हर्षा : शाब्बास मम्मा!

विवेक : पूण वैभवी-
(भुरगीं बापायक वोगी करतात.)

वैभवी : पूण एक गजाल आसा.

सगळीं : कसली?

वैभवी : घरांत गरज तें, लागता तें, कोण मागता तें, जें जें सगळें हांव एकली हाडटलीं. आनी हांवें तें सिद्ध केलां. पूण हे खंयच्यान हाडलें? असो प्रश्न म्हाका केन्नाच कोणेंच विचारप ना. हें जर सगळ्यांक मान्य आसा जाल्यार हात वयर करात. आयकात, एकल्यान जरी हात वयर केलोना जाल्यार हांव मुखार सरची ना. मान्य आसा?
(हर्षा आनी वर्धन बेगीबेगीन हात वयर करतात. विवेकाक प्रस्ताव मान्य ना. तो हात वयर करिना पूण दोगांय भुरगीं बळजबरीन ताचो हात वयर करतात.)

विवेक : पूण वैभवी, हांव ह्या घरांतलो कर्तो मनीस. तुजो प्रस्ताव हांव कसो मान्य करूं?

वैभवी : तुमी हात वयर केला म्हणजे तुमी प्रस्ताव मानून घेतला. (भुरग्यांक) बरोबर?

दोगांय : बरोबर.

वैभवी : तशें जाल्यार आतां भितर वचून जेवन घेयात. जेवण न्हिवतलें. म्हाका फुडलीं कामां आसात आनी

तुमकांयबी.
(विवेक वैभवीक समजावचो यत्न करता. पूण भुरगीं बापायक उलोवपाक दिनात आनी ताका असोच बळजबरीन भितर घेवन वतात.)

**वैभवी** : म्हजें मोन्यानी आयकून घेतलें जाल्यार हो दादलो कसलो?
(इतल्यान भायर सावन अलाद्दीन येता. ताणे उबारून व्हडली 'म्हाराजा' कदेल हाडल्या. खांदाक बॅग आसा. वैभवी ताका पळयनाफुडें ताचेर तिडकता.)

**वैभवी** : अल्लाउद्दीन, तुजेर कसलो सांवार आयला – सगळे कपडे तुवें –
(तिचें कदेलीचेर लक्ष वता.) अल्लाउद्दीन, हें कितें?

**अलाद्दीन** : तुमी सांगिल्ली तसली कदेल. आमचो पात्रांव, खरेलो अलाद्दीन असलेच कुर्सीचेर बसतालो.
(कदेल दवरता.) ताईबाय, बसून पळय.
(ताईबाय बसता.)

**अलाद्दीन** : ताईबाय, रागार कित्याक जाली?

**वैभवी** : (परत रागान) आरे, सगळे कपडे उमळपाक आमगेर कितें आयज सुतक सोंपलां?

**अलाद्दीन** : (ना कळून) मागीर केन्ना सोंपलां?

**वैभवी** : (समजावन) आरे, अशे सगळे कपडे वांगडा उमळिनात. म्हाका भुरगीं आनी हांचे हुजीर कसली लज जाली जाणां?
(प्रतिमा वैभवीकडेन बॅग दिता. ती राग विसरता.)

**वैभवी** : बॅगूय हाडलें? (आदली याद जावन) दुसरे फावट अशें करूं नाका आं.

**अलाद्दीन** : कितें?

**वैभवी** : कपड्यांचें.

अलाद्दीन : आं. मातशें फाटीफुडें जालें जाल्यार समजून घेवपाचें. ताईबाय घे. (मोटारसायकलीची चावी दिता.)

वैभवी : हें कितें?

अलाद्दीन : चावी. मोटारसायकल भायर आसा.

वैभवी : आरे! तिवूय हाडली? आनी ड्रेसींग टेबल?

अलाद्दीन : फाटल्यान हाडून दवरलां. आतां सगळीं भितर आसात न्हय. तीं भायर येतकच ल्हवूच व्हरून दवरतां.

वैभवी : (हाराची याद जावन) आनी?

अलाद्दीन : हाडला. तोवूय हाडला. (मोतयांचो हार काडून दिता.)

वैभवी : आवयस्! मोतयांचो हार! खरेंच दिसना! अल्लाउद्दीन, तूं कितलो बरो रे! इतल्या थोड्या वेळाभितर तुवें सगळें खंयसावन हाडलें?

(अलाद्दीनाक प्रश्न मानवूंक ना. वैभवीच्या लक्षांत येता. ती विशय बदलता.)

वैभवी : (हार गळ्यांत घालीत) खरेंच सुंदर! हो हार! ही कदेल! हें बॅग! ती मोटारसायकल! तें ड्रेसींग टेबल! सगळें सुंदर!

अलाद्दीन : ताईबाय, ह्या हारान तूं सुंदर दिसता. फट दिसता जाल्यार तुमच्या 'हांका' विचारात.

वैभवी : अल्लाउद्दीन, तूं म्हणून बरो फकाणेर मरे!

अलाद्दीन : ताईबाय, सांगतां म्हण रागार जावं नाका. एकेच पावटीन तुमी खूब काम करून घेतलें. हांव आदल्यासारको उरूंक ना. जिवाक कश्ट जातात. तें एक ड्रेसींग टेबल भितर काडून दवरतां. मागीर म्हाका –

वैभवी : खरेंच रे अल्लाउद्दीन, भोंगूं तुजें! हाताक सांपडिल्ल्या मानांयांकडेन धा जाणांचो वावर करून घेता तशें केलें तुका. पुरो जालें मरे? भूक लागल्या म्हणल्यार कितें खावपी पिवपीय न्हय तूं.

अलाद्दीन : म्हजी काकूळट केली म्हणून देव बरें करूं ताईबाय.

(अलाद्दीन गेटींतल्यान भायर वता. भितरसावन हर्षा, वर्धन आनी विवेक येता. तिगांय जेवणान तृप्त जाल्यांत.)

**विवेक** : वैभवी, जेवण खूब बरें जालें. तुज्या हातचें कशें मात लागलें ना.
(भुरगीं ताचेर दोळे वटारतात.)
पूण खूब मस्त जालें.
(वैभवी हार घालून कदेलीचेर पॉज घेवन बसल्या. वग्गी. भुरगीं आनी घोव तिका पळयतात. कदेल पळयतात, तिच्या गळ्यांतलो हार पळयतात. अजापतात. वैभवी उलयनासताना बॅग काडून विवेकाकडेन दिता. तो घेता. खिणभर खोशी जाता. पूण कितेंतरी उलोवपाक सोदता. भुरगीं ताका ना उलोवपाखातीर दटायतात. वैभवी चावी काडून वर्धनामुखार धरता. वर्धन झोपय मारून चावी घेता. ताका समजता. तो चावी घेवन खोशयेन भायर धांव मारता. हर्षा आपूण फटावलें म्हण आवयचेर फुगार जाता. वैभवी ताका कुरवांनीच भितर ड्रेसींग टेबल आसा म्हण सांगता. तें उमेदीन भितर धांव मारता. विवेक खिणांत वैभवीकडेन अजापान पळयता. खिणांत बॅगेची चेन फाटीफुडें करता. खिणांत वर्धन भायर गेला तेवटेन पळयता जाल्यार खिणांत हर्षा भितर गेलां तेवटेन पळयता. वैभवी आपलेभितरूच गुल्ल आसा. विवेक वैभवीकडेन उलोवपाक येता पूण अनमनता. भुरग्यांचीय भिरांत आसा. इतल्यान भायरसावन वर्धन धांवत येता आनी गेटीकडेन उबो रावन हात उबारून खोस प्रगट करता. मागीर भितरसावन हर्षा येता. तेंवूय उपाट खोशी आसा. वैभवी उठटा आनी दिव्यामुखार फुगडी घालून नाचता.)
**दिव्या दिव्या रे दिपत्कार**
**दिव्या तुकां रे नमस्कार**

**सोंपलें आमचें काम काम**
**अल्लाउद्दीन राम राम**
**अल्लाउद्दीन मोरया**
**फुडडे फावटीं लवकर या.**

(घोव आनी भुरगीं तिची करामत पळोवन हांसतात. भुरगीं तिचेबरोबर फुगडी घालतात आनी बापायकूय आग्रो करतात. पूण बापूय भितर वता. फुगडी चालू जायनाबरोबर घरांतल्या दारांतल्यान अलाद्दीन फाटल्या पांयांनी सरकत सरकत येता आनी अदृश्य जाता. त्याचवेळार भितरसावन विवेक धांवत येता. तो काचाबूल जाला.)

विवेक : वैभवी, वैभवी.

(सगळी थारतात.)

वैभवी, मेजाच्या खणांत दवरिल्ले म्हजे बाराशीं रुपया थंय ना.

(कांय वेळ शांतताय. मागीर आवय. भुरगीं कसले बाराशीं रूपया घेवन बसला! अशा अर्थान कपलार हात मारतात आनी परत फुगडी घालून नाचतात आनी बळजबरीन विवेकाक ओडून हाडून फुगडी घालपाक लायतात. विवेक फुगडेच्या उतरांनी आपणाल्या पैशांचें तुणतुणे वाजयता. ल्हवू ल्हवू काळोख जाता.

(अंक सोंपता.)

## अंक : दुसरो

(आदल्याच घराचो देखाव. खास कसलो बदल ना. आदल्या प्रसंगा उपरांत पांच-स दीस सरल्यात. तीच आदली म्हाराजा कदेल आदले सुवातेर आसा. वेळ-सकाळचो. वैभवी नटून-थटून ते कदेलीर बसल्या. गळ्यांत हार आसा. हातांत पुस्तक आसा, तें वाचपाचो यत्न करता. पूण लक्ष लागना. उठटा. दिव्या म्हऱ्यांत वता. दिवो घांसता. तेसरशीं विचित्र आवाज जाता, धुंवोर जाता. व्हडल्यान हांसपाचो आवाज. धुंवरांतल्यान प्रतिमा तयार जाता. अलाद्दीन येनाबरोबर वैभवीक मान बागोवन नमस्कार करता.)

**अलाद्दीन प्रतिमा:** नमस्कार ताईबाय. तुमचो सेवक तुमचे सेवेक हाजीर आसा.

(आदलें कव्वालीच्या ढंगांतलें गीत आतां कोंकणींतल्यान गावपाक लागता.)

**धन्यवाद! केली म्हणून याद,**
**सांगा तुमचें कसलें करूं काम?**
**तुमची खोशी तुमचें सूख,**
**हेंच आमचें व्हड समादान॥**
**न्हय गा सैतान हांव, मळबीचो देवदूत**
*जांचो आपल्या कर्माचेर विश्वास ना,*

*आनी जांकां सरळ मार्ग पसंत ना,*
*जे गिरेस्तकायेचीं सपनां पळयतात,*
*आनी गरीबीच्या नांवान कपलां धाडयतात*
*तांचेखातीर हांव जावन आसा, मळबींचो देवदूत.*

**न्हय गा सैतान हांव, मळबीचो देवदूत**
**अडी–नडी लायतां पैलाडी,**
**शांती–विश्रांती–आराम।**

(वैभवी मर्दीं मर्दीं वा! वा! म्हणून ताची तोखणाय करता. गीत सोंपोवन अलाद्दीन आदबीन तिचे मुखार उबो रावता.)

**अलाद्दीन** : सांगात ताईबाय, काम सांगात.

**वैभवी** : अल्लाउद्दीन, तूं त्या भुताभशेन करपाक लागलो.

**अलाद्दीन** : खंयचें भूत ताईबाय?

**वैभवी** : एकदां एका मनशाक एक भूत प्रसन्न जालें. त्या भुतान त्या मनशाक सांगलें, ''तूं म्हाका कसलेंय काम सांग. हांव तें करतां. पूण काम सांगनासताना रावशी जाल्यार हांव तुकां खातलें.''

**अलाद्दीन** : (हांसत) अच्छा! पूण काम सांगना जाल्यार हांव तुमकां खावचोना. कारण तुमकां खबर आसा, हांव कांयच खायना. तुमकां कसो खातलों? पूण काम नासल्यार म्हाका असो भायर दवरूं नाका. तुमच्या सरकारी नोकरांभशेन हांव कांयच काम करिनासताना रावूंक शकना. म्हजी पावर कमी जाता ताईबाय.

**वैभवी** : अल्लाउद्दीन तुज्यासारखें जर सगळ्यांनी चिंतिल्लें जाल्यार ह्या गोंयचे भांगर जातलें आसलें.

**अलाद्दीन** : खरें ताईबाय, तुमी लेगीत.

वैभवी : कितें म्हणलें?

अलाद्दीन : कांय ना ताईबाय. काम सांगात.

वैभवी : अल्लाउद्दीन तुमकां मनशांचें वारें लागलें आं. तुंवूय हांचेभशेन म्हाका थोमणे मारून उलोवपाक लागलो.

अलाद्दीन : माफ करात ताईबाय. काम सांगात.

वैभवी : आतां तुकां कसलें काम सांगू? जें जें तुकां सांगिल्लें तें तें तुवें सगळें हाडलें. ही कदेल. (गळ्यांत) हो हार. वर्धनाक मोटारसायकल. हर्षाक ड्रेसींग टेबल. हांकां बॅग. मागीर ग्रायंडर हाडलो. वॉशींग मशीन, कलर टीवी, फ्रीज, आतां आनीक कितें उल्लें?

अलाद्दीन : तें म्हाका कितें खबर! तुमी सांगात.

वैभवी : सकाळची च्या, नाश्तो?

अलाद्दीन : हें कितें काम जालें ताईबाय? तें हांव सदांच करतां.

वैभवी : (चिंतून) म्हजी तकली ती केदी आनी म्हाका येवजतलें तें कितलें! हांकां कितेंय विचारतलीं म्हणल्यार...

(इतल्यान भितरसावन विवेक भायर येता. सदचेभशेन उक्त्या आंगान आसा. हातांत फुलांचो कुरपणो. पोरसांतली फुलां खुंटपाचे तयारेन येता. मातसो गुरमुरीत आसा.)

अलाद्दीन : ताईबाय, तुमचे 'हे' आयले.

वैभवी : चल, तांकां मातशी मदत कर.

(विवेक वैभवी म्हऱ्यांतल्यान वता पूण तिका मुद्दाम हडकिना. ·तोंडान फुलां खुंटपाचो मंत्र मात नेटान पुटपुटता.)

मा नु शोकं कुरुष्व त्वं स्थानत्यागंच मा कुरू।
देवता पूजनार्थाय प्रार्थनामि वनस्पते।

(फुलां खुंटपाक लागता. वैभवी अलाद्दीनाक ताका मदत करपाक खुणायता. अलाद्दीन पोरसाकडेन वता. आपूण फुलां खुंटटा आनी विवेकाच्या हातांत आशिल्ल्या

कुरपण्यांत घालता. फुलां आपशींच खुंटून कुरपण्यांत पडटात तीं ताका दिसता. तो अजापता. ताका वैभवीचो दुबाव येता. तो वैभवीवटेन पळयता. वैभवी ताची जाल्ली फसगत पळोवन हांसता. कांय वेळान भायरसावन 'पेपऽऽर' असो पेपरवाल्याचो आवाज येता. विवेक पेपर जिखपाक तयार रावता. जाल्यार अलाद्दीन पेपराची कवळी वयलेवयर जिखता आनी वैभवीच्या हातांत व्हरून दिता. विवेक पेपराबरोबर वैभवीमेरेन येता आनी मागीर खजील जावन परतता. ताची फजिती जाल्ली पळोवन वैभवी आनीक हांसता. इतल्यान भायरसावन 'दूऽऽद' असो आवाज येता. विवेक दूद घेवपाक गेटींतल्यान भायर वता. जाल्यार ताचेआदीं अलाद्दीन बेगीबेगीन भायर वचून चिमेटेंत दुदाची पोती घेवन भितर वता. विवेक भितरल्या दारामेरेन पिशवेफाटल्यान वता आनी दाराकडेन पावतकूच थारता. खजिल जाता. खर्शेलाय. वैभवी व्हडल्या व्हडल्यान हांसता.)

**विवेक** : वैभवी, हें आतां तुजें चड जालें.

**वैभवी** : हावें कितें केलां? हांव हांगासर एका जाग्यार आसां.

**विवेक** : म्हाका सगळें खबर आसा.

**वैभवी** : कितें?

**विवेक** : ह्यो सगळ्यो नखलामी तूंच करता. फुलां खुंटप, पेपर जिखप, दुदाची पोती भितर व्हरप. सगळें सगळें तूं करता.

**वैभवी** : हांव? हांव सादी बायलमनीस. तुमकां हांव कोण जादूगार दिसलीं? काय भूत, चेटकीणबी तसली कोण?

**विवेक** : तसल्या गजालींचेर म्हजो कुस्कूट लेगीत विश्वास ना.

**वैभवी** : जांव! नशिब म्हजें!

**विवेक** : म्हाका तुजो दुबाव येता.

वैभवी : कसलो दुबाव? त्या बाराशीं रुपयांचें म्हणटात तुमी? तुमकां आजूनय म्हजो दुबाव येता?

विवेक : वैभवी, हांवें तुजेर दुबाव घेवंक ना. तुजेरूय घेवंक ना आनी भुरग्यांचेरूय घेवंक ना. पैशांचे बाबतींत म्हज्या कुटुंबाचो म्हाका पूर्ण भरवंसो आसा. पूण हांव तरी कितें करूं? लायटीचें, नळाचें बील फारीक करपाक मेजाच्या खणांत दवरलेले बाराशीं रुपया अकस्मात नाच्च जाले.

वैभवी : आनी त्याच दिसा हांवें बाराशीं रूपया भुरग्यांक वांटले.

विवेक : तसो योगायोगूच जावं येता. हांव ना म्हणना.

वैभवी : हावें तुमकां शंबर फावट तरी विचारलें आनी आतांय विचारतां,

विवेक : कितें?

वैभवी : तुमगेले बाराशीं रूपया हांव तुमकां दिवं?

विवेक : खंयच्यान हाडून दितली?

वैभवी : तें मात विचारूं नाका.

विवेक : नाका, हांवें बीलां फारीक करपाची वेवस्था केल्या. स्टाफ क्रेडीट सोसायटींतल्यान हांवें थोडेशें रीण काडलां. (याद जावन) वैभवी, म्हजो दुबाव तो न्हय.

वैभवी : मागीर कसलो?

विवेक : तो, तो दिवो खंय?

वैभवी : खंयचो दिव्रो?

विवेक : त्या दिसा तुवें पोरणीं आयदनां काडिल्लीं तातूंत नाशिल्लो? तो.

वैभवी : (फकाणांनी) तो? दिलो आयदनकाराक.

विवेक : खरेंच? पूण दिवूं नाका म्हण सांगिल्लो न्हय तुकां? (हांगा थंय पळयता. ताची नदर कडेक आशिल्ल्या दिव्याचेर पडटा. तो बेगीबेगीन वचून दिवो उखलता. वैभवी हांसता.)

वैभवी : होच. होच तो दिवो. तूं ह्याच दिव्याचो वापर करून सगळीं फित्रीकां करता. (दिवो पळयत) तशें पळोवपाक गेल्यार ह्या दिव्यांत खास अशें कांयच ना.

(दिवो पोशेता. त्याचवेळार भितरसावन अलाद्दीन भायर येता. ताच्या हातांत च्याचो कप आसा. विवेक दिवो पोशेता तश्यो ताका खातखुतल्यो जातात. तो हेवटेन तेवटेन आंग हालयता. हातांतली कपबशी कडकडटा. पडटाशी जाता. वैभवी काचाबूल जाता. कांय वेळ तिका कितें जाता तें कळना. अलाद्दीन तिका खुणेनूच, ताणे दिवो पोशेतकूच आपणांक खातखुतल्यो जातात म्हणपाचें सांगता. तेन्ना वैभवीक खरो प्रकार कळटा.)

वैभवी : जालें? जालें न्हय? कितले म्हण पोशेतले त्या दिव्याक? आतां दवरात खाला.

(विवेक दिवो आशिल्लो थंय दवरता. अलाद्दीनाक सू जाता. तो च्याचो कप वैभवीकडेन दिता.)

वैभवी : (विवेकाक) च्या घेतले?

(विवेकाक च्याचो कप आपशींच हवेंतल्यान आयला कसो दिसता.)

विवेक : नाका. तुकां आयला (हवेंतल्यान) देवाचो च्या न्हय? तूं घे. म्हाका तुजो च्यावूय नाका आनी जेवणूय नाका.

वैभवी : अशें कित्याक? बरें लागना?

विवेक : बरें लागना न्हय. बरें दिसना. बेश्टें खाल्लें म्हण जायना. पचपाक नाका तें?

वैभवी : कितें म्हणलें तुमी? पचपाक नाका? तुमचे जोडीचें खाताले तेन्ना बरें पचतालें, आतां म्हजे जोडिचें खातकच अपचन जाता?

विवेक : तुजी जोड? तूं खंय वता जोडपाक?

वैभवी : जोडपाक कितें भायरूच वचून दगदग काडपाक जाय?

विवेक : पूण वैभवी, हें तूं सगळें खंय सावन हाडटा? तें सगळें जेवण? तो फ्रीज, कलर टीवी, वॉशींग मशीन, ग्रायंडर, तें ड्रेसींग टेबल, ती मोटारसायकल?

वैभवी : तें बॅग.

विवेक : म्हाका तें नाका जालां.

वैभवी : कित्याक? आवडूंक ना?

विवेक : ना आवडपाक कितें जालां? काय बरें आसा!

वैभवी : मागीर?

विवेक : मागीर कितें? बरें आसलें म्हूण जालें? त्या दिसा ऑफिसांत वचनाफुडें सगळ्यांनी विचारलें, खंय घेतलें, कितले पैशे पडले?

वैभवी : मागीर तातूंत कितें जालें? अमक्यागेर घेतलें म्हण सांगपाचें. अमके पैशे पडले म्हण सांगपाचे

विवेक : फट सांगपाचें?

वैभवी : आयतें बॅग मेळटा जाल्यार तुमी तितलेंय करचेना? म्हाका खबर आसा. तुमचो स्वाभिमान तुमकां नडटा. दुसऱ्यांलें कांयच घेवप ना, खावप ना. बायलांचें तर नाकाच नाका. पुरूशी अहंकार!

विवेक : तूं वगीच वांकड्यांत रीगता. म्हाका स्वाभिमानबी आसा खरो, पूण हांव तो नाका थंय ताणून धरिना. म्हजें म्हणणें इतलेंच-

वैभवी : हें तूं सगळें खंयसावन हाडटा?

विवेक : बरोबर.

(वैभवी अलाद्दीनकडेन पळयता. अलाद्दीन न्हयकारान मान हालयता.)

वैभवी : आनी हेंवूय बरोबर.

विवेक : कितें?

वैभवी : हांव तें तुमकां सांगूंक शकना.

विवेक : कित्याक?

वैभवी : तें म्हाका विचारूं नाकात. आनी तशें तुमी विचारचेनात म्हणून तुमी सगळ्यांनी म्हाका उतर दिलां.

विवेक : पूण म्हाका एक सांग, हांगासर बसून जर तूं भितर खाण-जेवण तयार करतली जाल्यार तो ग्रायंडर, तो फ्रीज गरजेभायर कित्याक घेतला? कित्यात तो नश्टो खर्च?

वैभवी : ताका खर्च जाला म्हण तुमकां कोणें सांगलां? घरांत ह्यो वस्तू आसपाक जाय म्हण हाडल्यात. वापरपाक जाय म्हण न्हय. कोणूच घरांत भितर सरल्यात लज जावपाक नाका. आर्दी जाताली तशी. समजलें?

विवेक : समजलें. समजलें.
(कुरपणो घेवन भितर वता.)

अलाद्दीन : ताईबाय, तुमगेल्यांक गंद झरोवपाक मदत करूं?

वैभवी : नाका. तांची कामां दुसऱ्यांनी केल्लीं तांकां आवडना. आसता एक एकल्याचो सभाव तसो. तूं भितर भुरग्यांचें पळय. उठनाबरोबर खावपाक सोदतलीं. काल इडली-वडा केल्लो न्हय? आयज तांतयांचें ऑमलेट कर.

प्रतिमा : बरें ताईबाय.
(अलाद्दीन भितर वता. वैभवी पेपर वाचता. विवेक भितरसावन भायर येता. उक्त्या आंगार बानयान घातलां. हातांत उदकाचो तांबयो आनी पुजेचें साहित्य आसा.)

विवेक : (सहजतायेन) वैभवी, आतां हे कपडे बरे निवळ जातात.

वैभवी : वॉशींग मशीनाचो प्रताप तो. आनी वॉशींग मशीन कोणे हाडलां खबर आसा न्हय?

विवेक : (आदल्या रागान) खबर आसा. खबर आसा. तूं वाच. रास वाच. आयज कसली अघटीत घटना घडपाची आसल्यार पळय. (साणीचेर गंद झरयता.)

वैभवी : आतां आनीक कसली अघटीत घटना घडपाची उरल्या? ही

खबर वाचात. (वाचीत) विलासनगर पोलीस स्टेशनाचेर, पोलीस इन्स्पेक्टर मॅर्ग्युल्यांव हांगेली नियुक्ती. कामाचो ताबो घेतलो. वाडट्या कागाळींचेर जातीन लक्ष घालपाचें नव्या पोलीस इन्स्पेक्टराचें आश्वासन. हे पोलीसूय जातीन लक्ष घालतात? राजकारणी घालतात तें खबर आसा.

विवेक : आनी आश्वासनां दिवपाक हो मॅर्ग्युल्यांव, इन्स्पेक्टर काय मंत्री?

वैभवी : आतां कळटलें. विलासनगर पोलीस स्टेशनाचेर नेमणूक म्हणटकच आमकां लागलें ना?

विवेक : आयज हांवें रजा काडल्या.

वैभवी : कोणांक सांगता? तुळशीक कांय म्हाका?

विवेक : तुकां.

वैभवी : मदींच रजा कित्याक?

विवेक : बीलां फारीक करपाक.

वैभवी : भुरग्यांकडेन दिल्यार जायना? वगीच रजा कित्याक काडपाक जाय?

विवेक : भुरग्यांकडेन पैशे पातयेवप बरोबर न्हय. तांकां मागीर वगीच आस जाता.

वैभवी : तुमची हरकत नासल्यार बील फारीक करपाची वेवस्था हांव करूं?

विवेक : (भंयान) नाका. नाका. (तुळशीक प्रदक्षणा काडटा.) (भितरसावन हर्षा आनी वर्धन येतात. आवयक लाडीगोडी लायता.)

वर्धन : गूडमॉर्नींग मम्मा.

हर्षा : मम्मा, तूं कशी आसा?

वर्धन : (पयसुल्ल्यान) गूडमॉर्नींग पप्पा.

हर्षा : पप्पा, बरो आसा न्हय?
(विवेक मानेनूच हयकार दिता.)

वर्धन : पूजा कशी चल्ल्या?

विवेक : बरी चल्ल्या. तुमची पूजा सारखी जावं दी.

वर्धन : कितें?

विवेक : कांय ना. मोडलेल्या खुरसाक कोण चेपें काडटा!

वर्धन : फ्प्पा, पूजा तुळशिची आनी गजाली खुरसाच्यो कित्याक?

विवेक : तुमचें चलूं दी. (पुजेक लागता.)

वर्धन : मम्मा, तूं आमचेखातीर कितले कश्ट घेता?

हर्षा : सद्दां सद्दां तरा तरांचे ब्रेकफास्ट.

वर्धन : आनी कितलो फास्ट? उठनाबरोबर. तोंड धुवचेआदीं.

हर्षा : जेवण सुद्धा तरातरांचें.

वर्धन : आनी कितलें टेस्टी! रूचीक. मम्मा, तूं टीवीचेर पळोवन ते वेगवेगळे जिनस करता काय कितें गे?

वैभवी : ते पळोवन केल्ले जाल्यार तुमी तोंडांत तरी घालतलीं आसलीं?

वर्धन : कितेंय जांव. पूण जेवण मस्त जाता खरें. आनी मम्मा, तुवें बारीकसाणेन पळयलां आमचे वजनसुद्धां वाडलां.

वैभवी : तुमचें दोगांयचे वाडलां, तितलें तुमच्या पप्पाचें उणे जालां.

वर्धन : मम्मा, पप्पाचें तूं मनार घेवं नाका. त्यो गजाली पोटांत पडपाच्यो न्हय. पप्पाच्यो गजाली म्हणजे फुलांचो भात आनी फुलांची कडी.

वैभवी : बोलाचा भात आनी बोलाची कडी.

विवेक : फकत पोटांत पडपाच्यो गजाली पळयात. खंयच्यान येता तें पळोवं नाकात.

हर्षा : म्हणजे कितें पप्पा?

विवेक : हें तरातरांचे जेवण खंयसावन येता?

वर्धन : खंयसावन येता म्हणजे कितें पप्पा? आमचे घर म्हणजे कितें हॉस्पीटल काय बंदखण? थंय अशें भायरसावन जेवण

येता. आमचें जेवण मम्मा करता. न्हय मम्मा?

**विवेक** : मम्मा करता? जाल्यार तें सामान, तांतयां, नुस्तें, चिकन कोण हाडून दिता?

**हर्षा** : कोण हाडून दिता म्हणजे? आदीं कोण हाडून दितालो?

**वर्धन** : आनी कोण हाडून दिता, कित्याक हाडून दिता हाच्यो चवकश्यो आमकां कित्याक? आमचो संबंद फकत खावपाकडेन.

**विवेक** : आरे शाण्यांनो, शिकलेलीं भुरगीं तुमी. अशी अनाड्यांभशेन उलोवं नाकात. हर्षा म्हाका सांग, ड्रेसींग टेबल खंयसावन आयलें तें तुकां कळपाक नाका?

**हर्षा** : आंवय! ड्रेसींग टेबल आयलें. गरज भागली. फुडली चवकशी म्हाका कित्याक?

**विवेक** : (वर्धनाक) आनी तुगेले मोटारसायकलीचें कितें? ती तुवें खंयसावन हाडली, तिचें रजिस्ट्रेशन, दोकुमेंत, तुकां कांय लागना?

**वर्धन** : पप्पा, तूं कितें समजलो? ह्यो मार्गार इतल्यो गाडयो भोंवतात, त्यो सगळ्यो रजिस्टर आसात? नंबर तिका आसाच. तो मातसो पेंटान घालपाचो. हांव म्हणटां, जो हुस्को आमकां ना, तो तुमकां कित्याक?

**विवेक** : कारण म्हाका थोडेंतरी ज्ञान आसा.

(प्रदक्षणां काडून जाल्यात. तांबयांतलें उदक तुळशींत रकयता.)

**वैभवी** : सगळें तुळशींत रकयात.

**विवेक** : कितें?

**वैभवी** : उदक! (हांसता.)

**वर्धन** : पप्पा, येदी व्हडली कर्तुत्वीनी म्हणून मम्माचो आमी सत्कार करपी. फेमिली फेलिसिटेशन!

**विवेक** : केन्ना? आयज? आयज हांवें रजाय काडल्या. म्हज्यान एक

भाशणय करूं येता.

हर्षा : आयज ना. आयज आमच्या कॉलेजचें गॅदरींग.

विवेक : (वर्धनाक) त्या दिसा तुजी पिकनीक जाली. (हर्षाक) तुजें गॅटटूगेदर जालें. आयज दोगांयचें गॅदरींग. शिकप केन्ना?

वर्धन : हें सगळें जातकूच शिकप आसाच. तें चुकपाक आयलां?

हर्षा : जाणां पप्पा, मम्मा आयज गॅदरींगाखातीर आमकां पैशे दिवपी. शंबर शंबर रूपया. न्हय मम्मा?

विवेक : मम्माक दिवपाक कितें जाला? तुमच्या मम्माकडेन पैशांचें झाड आसा. म्हजेकडेन सादें मनीप्लांटूय ना.

वर्धन : पैशांचे झाड! माय गॉड! मम्मा, पप्पा सांगता तें खरें?

वैभवी : तुमकां कितें दिसता?

दोगांय : खरेंच तें. (दोगांय आवयक घट धरतात.)

विवेक : हालयात. झाड बरें हालयता. पैशे झडटले. सगळ्यांक पैशांचे झाड जाय. आमच्यासारखें खाखनवाळ बोडकें जाड कोणांक जाय? हालयात. पैशे झडसर हालयात. (पुजेचें सगळें सामान घेवन भितर वता.)

वैभवी : तुमचो पप्पा म्हजेर दुस्वासान जळटा.

वर्धन : मम्मा, पप्पाची म्हण चूक ना.

वैभवी : कितें चूक ना?

वर्धन : तागेलो सभावूच तसो. मेल्ल्याची खोड जित्याबगर वचना.

वैभवी : जित्याची खोड मेलेबगर वचना.

हर्षा : मम्मा, आयज आमचें गॅदरींग.

वैभवी : तें व्हदळ सांगलें.

हर्षा : दनपार मेरेन सोंपतलें.

वर्धन : जेवपाक घरा येतलीं. म्हाका सदच्या जेवणाभायर चिकनकबाब. कबाबमें हड्डी नाका.

हर्षा : म्हाका चिकन मंच्युरीयन.

वैभवी : सगळें मेळटलें. पैशेय मेळटले. म्हाका एक सांगात. वर्धन, तुजेकडेन मोटारसायकल आसा. तुमी दोगांय मोटारसायकलीन वतलीं आनी येतलीं?

(दोगांय गडबडटात.)

वर्धन : ताचें कितें आसा मम्मा, हर्षाक हांव व्हरतलो आसलों, पूण एका इश्टाक हांवें उतर दिलां, ताका लिफ्ट दितां म्हणून.

वैभवी : त्या इश्टाचें नांव रंजिता कामत. न्हय?

वर्धन : मम्मा, तूं बेश्टोच दुबाव घेता.

वैभवी : आनी हर्षा, तुकां वर्धनाबरोबर वचपाक कसली हरकत आसा?

हर्षा : ताचें कितें आसा जाणां मम्मा, म्हजी एक इश्टीण आसा. तिणे नवीच स्कूटी घेतल्या. तिणे म्हाका कॉलनीचे गेटीभायर राव म्हण सांगलां.

वैभवी : इश्टिणिचें नांव रणबीर सिंग. हय मगो? पप्पाक शींगा लायतात तशी मम्माकूय शींगां लावपाक सोदतात? मम्माक वळखतात न्हय तुमी? तुमची मम्मा आदली उरूंक ना.

वर्धन : खबर आसा. (याद करीत) पशुभूजा... न्हय, दशभुजादेवी जाल्या.

वैभवी : तुमी आयकतात?

दोगांय : सांग मम्मा,

वैभवी : तुमकां मागता तें मेळटलें, पूण ह्यानफुडें रणबीर सिंग आनी रंजिता कामत हीं नावां म्हज्या कानांर पडूंक फावना.

वर्धन : खरें म्हणल्यार घरांत तुजे हुजीर आमी त्या नांवाचो उच्चार पासून करिना, न्हय हर्षा?

वैभवी : हुजीर आनी अस्वडीं. दोनूयकडेन नाका.

हर्षा : पूण मम्मा, आमचें तशें कांय ना. फक्त इश्टागत.

वर्धन : हय मम्मा, तसलें पिक्चरांतलेभशेनबी कांय न्हय. फक्त इश्टागत.

**वैभवी** : ती इश्टागतूय म्हाका नाका. ती तवनासगिरी, तीं पिटपिटेपणां म्हज्यान पळोवं नजो आनी सोसूं नजो. हांव कितें म्हणटां तें समजलें? वर्धन:-

**वर्धन** : हय समजलें मम्मा. रंजिताक हांव तशें सांगतां.

**वैभवी** : रंजिताक सांग, नाजाल्यार ताच्या बापायक सांग.

**वर्धन** : मम्मा, बापूय ना ताका.

**वैभवी** : म्हणून ताची काकूळट नाका. हर्षा-

**हर्षा** : समजलें मम्मा. म्हाका तें ड्रेसींग टेबलूय नाका. चिकन मंच्युरीयन नाका आनी तूं दितली ते शंबर रुपयाय नाका. जाय जाल्यार फाटलें चारशीं रुपयां हांव परत करतां. पूण... (हर्षा भितर वता. फाटोफाट वर्धनूय वता.)

**वैभवी** : इतलें म्होंव लागलां त्या रणबिराक! राव, तुमी तांकां सोडिना जाल्यार तांकांच तुमकां सोडपाक लायतां. तुमी इतलीं हट्टी ज्ञाल्यार हांव तुमच्या हट्टांची आवय. (उलो मारता.) अल्लाउद्दीन,

**अलाद्दीन** : (धांवत येता.) ताईबाय घेयात ताईबाय. (पैशे दिता.)

**वैभवी** : हें कितें?

**अलाद्दीन** : दोनशीं रूपया.

**वैभवी** : दोनशीं रूपया? खंयचे?
(तो नदरेनूच प्रश्न 'चुकिचो' म्हण सांगता.)
हे कित्याक?

**अलाद्दीन** : ताकां दिवपाक. दोगांकूय शंबर शंबर.

**वैभवी** : (याद जावन) आं. तुकां कशें कळ्ळें?

**अलाद्दीन** : हांवें आयकलें. ताईबाय.

**वैभवी** : कितें?

**अलाद्दीन** : तुमचीं भुरगीं इश्क करतात? मोग!

**वैभवी** : हय. तो रोग जडला तांका.

**अलाद्दीन** : तशें जाल्यार इश्काचोच जय जातलो.

**वैभवी** : तुकां कशें कळ्ळें?

**अलाद्दीन** : म्हजो पात्रांव, अलाद्दीन. तोय सुलतानचे चलयेचेर इष्क करतालो. आनी ताच्या इष्काचो जय जालो. हांच्या इष्काचो जय जातलो.

**वैभवी** : जय जातलो! पळोवया कसो जाता तो.

**अलाद्दीन** : ताईबाय, दनपारच्या जेवणांक कितें करूं?

**वैभवी** : खिमो कर.

**अलाद्दीन** : कसलो खिमो?

**वैभवी** : हांच्या इष्काचो.

**अलाद्दीन** : हांव जेवणाचें विचारतालों.

**वैभवी** : जेवणाचें मागीर पळय. एक मोटें जोखमीचें काम सोंपयतां तुजेर.

**अलाद्दीन** : सांगात ताईबाय. काम करपांत म्हाका आनंद!

**वैभवी** : कानांत सांगतां. भितर कोणांक आयकूंक येवपाक नाका.

(ताच्या कानांत कितेंतरी सांगपाक वता. इतल्यान विवेक भायर येता. ताणे भायर वचपाचे कपडे घातल्यात. हातांत बॅग आसा. तो येनाबरोबर वैभवी अलाद्दीनाक भितर वचपाक फर्मायता. अलाद्दीन भितर वता. वतना कप व्हरता. विवेक भितर वचपी कपाक पळयत रावता.)

**विवेक** : वैभवी, त्या भुरग्यांचें आयज गॅदरींग. हांसत्या मुखान वचपाचें ताणी आयज. तुवें तांची रड कित्याक घातली?

**वैभवी** : रड घालपाक ल्हान तीं? आनी तांचे रडिचें कारण तुमकां खबर आसा?

**विवेक** : तशें न्हय वैभवी. हे पिरायेर जावपी इश्टागतीक मोग म्हणना. ती इश्टागत घडटा तशी विस्कट्टायबी. आनी समज जालो तांचो मोग, जाल्यार कितें जालें? पूण जावंचे आदींच तूं मुयेचो दोंगर कित्याक करता?

वैभवी : तुमकां मोगांतलें कितें कळटा?

विवेक : कितें कळटा म्हणजे? तुजेर केलो ना मोग?

वैभवी : तो लग्न उपरांत. लग्न आदीं न्हय.

विवेक : लग्नआदीं संद मेळिल्ली जाल्यार करतलो आसलों.

वैभवी : कितें करतले आसले? नाकामुखावयले वाटेन सरळ वचपी मनशाक कोणे सांगला मोग?

विवेक : तूं मार्गांत आड आयली ना, ताका हांव कितें करूं? आमचें बरें आसा. भुरग्यांचो तरी मोग पळोंवया.

वैभवी : आतां भुरग्यांसारकीं नाकशिंबरेपणां करूं नाकात.

विवेक : तूं वगीच भुरग्यांच्या निष्पाप आनी नेणार जिवाकडेन खेळूं नाका.

वैभवी : हांव आवय तांची. तुमचे इतलीच म्हाका काळजी तांची. समजलें?

(तो वचपाक वळटा.)

वैभवी : दनपारां जेवपाक येतले?

विवेक : येतलों. पूण तें तसलें जेवण आसल्यार जेवचोना.

वैभवी : (फटकारून) तशें जाल्यार भायरूच जेवन येयात. गुळीबी घेयात.

(विवेक मोन्यांनी भायर वता.)

वैभवी : सायकलीन सांबाळून. कोणाचेर घालशात.

(विवेक मोन्यांनी भायर वता.)

वैभवी : जळ्ळे तरी पीळ वचूचो ना.

(भितरसावन हर्षा आनी वर्धन भायर येतात. ताणी गॅदरींगाक वचपाक नवो भेस केला. पूण दोगांयचीं तोंडां रडकुरीं आसात.)

वैभवी : आतां अशींच रडकुरीं तोंडां घेवन गॅदरींगाक वतलीं? (हर्षाक) हारशांत तोंड पळयिल्लें? घेयात. (दोगांकूय शंबर शंबर रूपया दिता. वर्धन घेता पूण हर्षा घेना.) घे.

पैशे घेतले म्हण रणबिराचो नाद सोड म्हण सांगना. आनी (वर्धनाक) तुकांय तेंच सांगता. आनी रंजिताक सारखें बसय फाटल्यान. दुसऱ्यांलें चली तें. जबाबदारीन वाग. व्हरता तशें पावय. (हर्षाक) आनी तूं गो. तागेले (रणबिराचे) मोटारसायकीर सांबाळून बस. वगीच हुतहुतेपणां करूं नाका. गेटीकडेन यो म्हणलां मगो ताणे? येन्ना येवन रावला आसतलो. चल. वगीच ताका तिश्टवं नाका. (दोगांकूय) आनी जेवपाक घरा येयात. उशीर जाल्यार जावं. भायर कायचे काय खावं नाका. मागीर पोटांत बिगडटा. चलात, शाणी तुमी!

(आवय मर्दी जाल्लो बदल पळोवन दोगांकूय अजाप जाता. दोगाय हांसत्यामुखान गेटीकडेन वतात. तीं गेलीं अशें समजून वैभवी व्हडल्यान उलो मारता.)

**वैभवी** : अल्लाउद्दीनऽऽ

(दोगांय फाटीं वळटात.)

**दोगांय** : मम्माऽऽ

**वैभवी** : (भानार येवन) ना. ना. तुमकां न्हय. तुमी चलात.

(तांका गेटीकडेन मेरेन निरोप दिवपाक वता. तीं वतात. तीं गेल्याची खात्री जातकूच फाटीं वळटा. हांगा थंय कितेंतरी सोदता. मागीर पोरसाचे कडेक एक दांडो मेळटा. तो उखलता आनी उलो मारता.)

**वैभवी** : अल्लाउद्दीन.

(अल्लादीन धांवत येता. वैभवीच्या हातांतलो दांडो पळोवन भियेता.)

**अलाद्दीन** : ताईबाय, हो दांडो कित्याक? (हात जोडून भंयान) म्हजें कितें चुकलें?

**वैभवी** : केन्नाय गोरवांक आमुडपाखातीर हो दवरला. हालींसरा हेवटेन गोरवां येवंना.

**अलाद्दीन** : येतलीं केन्नाय. तेन्ना वापरपाचो. भायर मार्गार अशींच भोंवत आसतात.

**वैभवी** : तेन्नाचें बरें आसा. आतां वापरपाची संद मेळ्ळ्या. सांगता तें लक्ष दिवन आयक.

(ताच्या कानांत कितेंतरी सांगता. ताका तें विपरीत दिसता.)

**अलाद्दीन** : या अल्लाह! ताईबाय असलें काम?

**वैभवी** : असलें काम म्हणजे? कसलेंय काम करपाचें उतर दिल्लें तुवें.

(ती बळजबरीन ताच्या हातांत दांडो दिता. तो नाईलाजान घेता. वैभवी येवन कदेलीचेर बसता आनी वाचपाखातीर पुस्तक उक्तें करता. अलाद्दीन दांडो वावडीत भायर वचपाक लागता. त्याचवेळार हवालदार नानू नारोजी गेटींतल्यान भितर येता. ताच्याय हातांत दांडो आसा. दांड्याक दांडो आदळटा. हवालदाराची पिराय सुमार 40/45 वर्सां. हवालदाराचो (हेड कॉन्स्टेबल) भेस. दांडो हवेंतल्यान वता तों ताका दिश्टी पडटा. तो आपलें आंग सांबाळून भितर येता. गेटीचेर दांडो आदळून कदेलीर बशिल्ले वैभवीक जागयता.)

**हवालदार** : विवेक वेरेंकारालां घर ह्याच मां?

**वैभवी** : आं. हय. पूण ते घरांत ना. तुमी?

**हवालदार** : मीयां हवालदार नानू नारोजी.

**वैभवी** : येयात.

**हवालदार** : आतां भायर गेल्लो तो कोण?

**वैभवी** : (कांचवेत) कोण? तुमकां दिसलो?

**हवालदार** : हय. दांडो!

**वैभवी** : (सांवरीत) हय. हय दांडो. हांवेंच मारिल्लो तो शेंवटून.

**हवालदार** : तुमीच?

वैभवी : हय. गोरवांचेर मारिल्लो. पाडंयाचेर. पाडो हांगा पोरसांत येवपाक सोदता. तुमचेरबी बसूना न्हय?

हवालदार : ना. माज्या तकल्यार नाय बसलो पूण माज्या दांड्याक आपाटलो. पूण तुमी म्हणतत तसा ता शेंवटून नाय गेलो. असो हवेंतल्यान नाचात नाचात गेलो.

वैभवी : ना. ना. तसोच शेंवटिलो तो हांवें. सदांच तसोच शेंवटितां.

हवालदार : एकदां शेंवटून मारलेलो परात हाडचो नाय?

वैभवी : ना. तो आपशींच येता. ना. ना. मागीर वचून हाडटां.

हवालदार : असां!

वैभवी : कितें काम आशिल्लें?

हवालदार : तसां खाशेलां कसलां काम ना. आमचो नवो इन्स्पेक्टरसायब इला न्हू?

वैभवी : (याद करून) मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव.

हवालदार : आरेच्या! तुमकां माहीत आसा?

वैभवी : पेपराचेर आयलां.

हवालदार : हां. तेका पेपराचें खूब आसा. पेपरार नांव शापून येवांक व्हयां. तरणां रगत आसा. मातसां उसळटा. हल्लींच इन्स्पेक्टराची ट्रेनींग करून इल्याय. इन्स्पेक्टर म्हणान विलासनगर पोलीस स्टेशनचेर पयलीच नेमणूक जाल्या. आमकांच शापोतां सांगतय. आमी हांगासर पावसाळे बगितलेत. आपूणय एका जाग्यार बसना आनी आमकांय बसांक दिना. (तपकीर काडून ओडटा.) युनिफोर्माची इस्त्री जरा कडक आसा न्हू?

वैभवी : आतां कितें करता तुमचो सायब, इन्स्पेक्टर मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव?

हवालदार : तुमी तेका वळाकता कीं काय?

वैभवी : ना रे बाबा. नांवाखातीर याद उरली. मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव.

हवालदार : ह्या तुमच्या कॉलनींत फिरून इन्क्वायरी करतय. चवकशी.

वैभवी : कसली चवकशी?

हवालदार : कॉलनींत खूब जाणांनी पुलीस स्टेशनाचेर कागाळी केल्यत.

वैभवी : कसल्यो कागाळी?

हवालदार : असल्यो कागाळी दिसाक पंचीस येतत. कोणाचां ह्या चोरलां जाल्यार कोणाचां त्या चोरलां. खरां म्हटल्यार कागाळ शांतपणान आयकून घेवची आनी शांत रावचां असां आमचां धोरण आसा. आमच्या सरकाराचांबी त्याच धोरण आसा काय ना? पूण हो आमचो मॅर्ग्युल्यांवसायब विचित्र माणूस! प्रत्येक कागाळीची चवकशी जावंकूच व्हयी असो हेचो आग्रो. तरण्या रगताचो जोश! दुसरां काय!

वैभवी : आतां हांगासर येवन कसली चवकशी करतलो?

हवालदार : (फकाणां करून) कसली चवकशी! तुमच्या घराक पांय लावन वयतलो. तुमी भियांचां कसलां कारण ना. मीयां आसंय.

(भायल्यान बुटांचो आवाज)

हवालदार : इलो दिसता.

(भायरसावन इन्स्पेक्टर मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव येता. भेस पोलीस इन्स्पेक्टराचो. हातांत दांडो. पोलीस वर्दीचो रूबाब आसा. तो येनाफुडें हवालदार ताका सॅल्यूट करता. वैभवी ताका दोनूय हात जोडून नमस्कार करता. प्रतिसाद म्हणून तोवूय तसोच नमस्कार करता, जो ताका जमना.)

इन्स्पेक्टर : हवालदार,

हवालदार : यस सर.

इन्स्पेक्टर : मॅडमीक आमी हिंगा येवपाचें कारण सांगिलें?

हवालदार : हय सायब.

इन्स्पेक्टर : तर मॅडम- (नांवाखातीर आडखळटा)

वैभवी : वैभवी विवेक वेरेंकार.

इन्स्पेक्टर : तर मॅडम व... वै... वै... वेरेंकार. एक सांग, तुमचो घरकार वेरेंकार खुंय गेला?

वैभवी : भायर सरला. आयज तो रजेर आसा. हरशीं सरकारी ऑफिसांत ए. ओ. आसा.

इन्स्पेक्टर : गूड. घरांत तुमगेबगर आनीक कोण आहा?

वैभवी : दोगां भुरगीं. तीं कॉलेजीक गेल्यांत. आयज तांचें गॅदरींग.

इन्स्पेक्टर : घरांत तेंच्याबगर आनीक कोण आसाय?

वैभवी : (अल्लाद्दीनाची याद येवन) तो एकलो आसा. म्हटल्यार... ना... ना... चौगांच जाणां.

इन्स्पेक्टर : तुमचे घरांतल्यो सगळ्यो वस्तु जाग्यार आहा?

वैभवी : म्हणजे?

इन्स्पेक्टर : म्हणजे चोरीबा कांय जावंना?

वैभवी : चोरी? ना.

इन्स्पेक्टर : वा! म्हणटकच चोरान तुमगे घर बरें सोडलें. हवालदार, चोर हेंगे वोडकिचो काय कितें रे?

वैभवी : म्हणजे कितें इन्स्पेक्टरसायब? तुमकां कितें म्हणपाचें आसा?

इन्स्पेक्टर : रागार जाय नाकाय मॅडम वेरेंकार. तुमचे कॉलनींत संगळ्यांच्या घरांत तशें घडलां देखून हांये म्हुटलें. तुमचे घरांत कसली चोरी जावंना म्हुटल्यार ओजाप!

वैभवी : (याद जावन) ना म्हटल्यार, फाटल्या दिसांनी... बसात न्हय, हे कदेलीर बसात.
(इन्स्पेक्टर म्हाराज कदेलीचेर बसता.)
तर फाटल्या दिसांनी हांगेले बाराशीं रुपया कोणेतरी काडले, म्हणजे चोरलेच अशें जालें ना?

इन्स्पेक्टर : तरी म्हुणटां, चोरान तुमकां सोडलीं कशीं? तशें जाल्यार पोलीस स्टेशनाचेर तुमी कंप्लेन कित्याक केलो ना?

वैभवी : आमगेले 'हे' कसले तें तुमकां खबर ना.

इन्स्पेक्टर : 'हे' म्हुटल्यार?

हवालदार : सायब 'हे' म्हटल्यार तेंचो घोव. हजबंड.

इन्स्पेक्टर : अशें! पूण तुमी कंप्लेन करपाक जाय. सगळ्यांनी केल्या. डॉमनीक डिमेलोच्या घरांतल्या तेगेल्या चेडवाचें ड्रेसींग टेबल चोरयेक गेलां. ते चेंडूं केंस फाकडून नाचता. (वैभवी कांचवेता) तूं कित्याक घाबोरता मॅडम वेरेंकार?

वैभवी : ना. ना. काल तांगेर जाल्यार, फाल्यां आमगेर जांव येता.

इन्स्पेक्टर : ती चोरी काल जावंक ना. हवालदार,

हवालदार : सायब, त्या तसल्या टेबलाची चोरी सोमारा दिसा जाल्या. पंचनामो केलंय मियां. पूण चोरी कशी जाली तें मात कळांक मार्ग नाय.

इन्स्पेक्टर : मागीर त्या सडाशिव सोस्त्रबुद्ढेलो कलर टीवी चोरयेक गेला.

हवालदार : तेचोय पंचनामो केलय सर. तेंवूय तसलांच प्रकर्ण. तेची बायल वगीच आमकां शिव्या दिताली.

इन्स्पेक्टर : ती आमकां गायी मात्ताली?

हवालदार : हय सायब. शुद्ध मराठींत. म्हणान तुमकां तां कळांक ना. (वैभवीक ल्हवू ल्हवू घडिल्ले गजालिची कल्पना येता. तशी ती कांचवेता.)

इन्स्पेक्टर : आनी तो ग्रायंडरवालो कोण?

हवालदार : दयेश दुबळो. तेंच्या घरांतलो ग्रायडंर ना जाला.

इन्स्पेक्टर : आनी फ्रीजवालो?

हवालदार : फ्रीजवालो शांबा सैल. वॉशींग मशीनवालो शिवा सावकार. मागीर त्या पांडुरंग पिळगांवकाराल्या चेड्याची

मोटारसायकल. तेची मात काकूळट. नवी ताल्ल मोटारसायकल.

इन्स्पेक्टर : तेचीच कित्याक, सगळ्यांची काकूत. तो बॅगाखातीर रडपी होणमंत होडफोडकार तेचीय काकूत. हॉटेल रुचिराचो पात्रांव रायकार

हवालदार : बरो मनीस. जेवणाचे पैशे नाय घेत.

इन्स्पेक्टर : तेचीय काकूत. तेगेल्या रांदलेल्या जेवणाची कुजनांतल्यान चोरी जाता, म्हुटल्यार कसलें अजाप! पूण हांव कोणांक सोडपी न्हूय. तेचखातीर हांयें सगळ्या कंप्लेंनीचो सेक्शन थ्री एटी - प्रोपर्टी ऑफेंस ह्या नेमाखाला एफ. आय. आर. केला. पंचनामो करून घेतला. हांव ह्या चोवीस वरांभितर चोरासोकट सोगळ्यो वस्तू पुलीस स्टेशनार हाजीर कोत्तोलों, आनी फुडल्या चोवीस वरांभितूर सोगळ्याक कोर्टांत उबे कोत्तोलों. ह्यो आतां सांगल्यात त्यो सगळ्यो आनी त्या डि. के. डेकोरेटर्सगेलें कदेल आनी कोडकोड्या बायलेगे नेकलेस लेगून. मागीर सगळ्या पेपरांचेर कलर फोटो आनी खोबरो.

(वैभवी सुमाराभायली कांचवेता. गळ्यांतलो नेकलेस पालवापोंदा लिपोवपाचो यत्न करात, इन्स्पेक्टराच्या तें लक्षांत येता. तो सडसडीत कदेलीवयलो उठटा. तिच्या गळ्यांतलो नेकलेस पळोवपाचो यत्न करता. वैभवी बेगीबेगीन कदेलीफाटल्यान लिपता)

इन्स्पेक्टर : मॅडम वेरेंकार, तुमगे गोमट्यशांतलो नेकलेस?

वैभवी : म्हजो तो. म्हजो.

इन्स्पेक्टर : जाल्यार तो लिपयता कित्याक? हवालदार,

हवालदार : सायब, अशे नेकलेस असल्या घरांतल्या बायलमाणसांच्या गळ्यांत आसतात.

इन्स्पेक्टर : म्हाका खबर आसा. मॅडम, नेकलेस तुमचो जाल्यार तुमी

कदेली फाटल्यान लिपताय कित्याक?

(कदेलीचेर लक्ष वता. ताका अजाप जाता. आइडून.)

हवालदार,

हवालदार : यस सर,

इन्स्पेक्टर : कदेल!

हवालदार : मीया बगितलां सर.

इन्स्पेक्टर : डि. के. डेकोरेटर्सांगेल्या दळवीन आपले कंप्लेनींत सांगलां तें कदेल असलेंच न्हू? काजराच्या हॉलांतल्यान तें ना जालोलें. तें हॉल हेच कॉलनीलागीं आसा.

हवालदार : यस सर. पूण असल्या घरांनी असल्यो कदेली आसतात सायब.

इन्स्पेक्टर : तूं म्हाका सांगताय? हांये कोणाल्या घरांनी चोवंना पूण काजराच्या हॉलांनी असलीं कदेलां पळयल्यांत. मॅडम वेरेंकार, अशी मुखार यो. प्लीज.

(वैभवी भियेत मुखार येता.)

इन्स्पेक्टर : हांव तुमकां कसली काश्तीक दिवंक सोदिना. पूण म्हाका एक सांगाय, हें कदेल तुमगे?

वैभवी : हय.

इन्स्पेक्टर : तुमी तें खुंय घेयलें?

वैभवी : फेस्ताक.

इन्स्पेक्टर : खुंयच्या फेस्ताक?

वैभवी : पुरुमेंताच्या फेस्ताक.

इन्स्पेक्टर : खुंयचे सुवातेर?

वैभवी : मडगावां. पोन्न्या बाजारांत.

इन्स्पेक्टर : हें कदेल तुमी कित्याक घेयलें? म्हुणगे बसपाक काय हेर कित्याखातीर?

वैभवी : काजाराखातीर.

इन्स्पेक्टर : कोणाचें काजार?

वैभवी : आमचें. म्हजें आनी घोवाचें.

इन्स्पेक्टर : तुमचें काजार केन्ना जालें?

वैभवी : एकुणीस डिसेंबर इकुणिसशें एकसश्ट.

इन्स्पेक्टर : हांयें तुमकां गोंयची सुटका केन्ना जाली म्हण विचारूंक ना.

वैभवी : एकुणीस डिसेंबर इकुणिसशें एक्याऐंशीं वर्सा काजार जालें.

इन्स्पेक्टर : काजराक दोगांय एकेच कदेलीर बसलेलीं?

वैभवी : ना. ना. दोन कदेली घेतिल्ल्यो.

इन्स्पेक्टर : दुसरें कदेल खुंय?

वैभवी : भितर आसा.

इन्स्पेक्टर : (फर्मायत) हवालदार,

हवालदार : यस सर.

वैभवी : ना. ना. दुसरी कदेल मोडली. खुरूच निखळ्ळे म्हणून ती माळ्यार वडयली.

इन्स्पेक्टर : (फर्मायत) हवालदार,

वैभवी : ना. ना. माळ्यावयल्यान काडून भायर वडयली.

इन्स्पेक्टर : (फर्मायत) हवालदार,

वैभवी : भायर व्हाऱ्यार आयदनां, लातां पुंजायता त्या बायलांनी ती एक दीस सांकात घालून व्हेली.
(हवालदार सुस्कार सोडटा.)

इन्स्पेक्टर : बरें आसा. मॅडम वेरेंकार, आतां मातशी तुमगे कपलावयली हूम पुसाय.
(वैभवी पालवान घाम पुसता.)

हवालदार : (वैभवीक) तुमी सायबाचें मनाक लावन घेवं नाकात.

इन्स्पेक्टर : (दटायत) हवलादार,

हवालदार : (समजून) यस सर.
(इन्स्पेक्टर हेवटेन तेवटेन पासयो मारता. तुळशीकडेन वता.

बारीकसाणेन पळयता. बेगीबेगीन हवालदार ताचे म्हऱ्यांत येता.)

**हवालदार** : सायब, तुळस ती. तुमच्या घरासमोर खुरीस आसतात तशी ही तुळस.

**इन्स्पेक्टर** : खबर आसा म्हाका. तिगे वॉर्शीप... पूजा लेगून करता.

**हवालदार** : फकत पूजा? लगीन सुद्धां. काजार! शुभमंगल सावधान!

(इन्स्पेक्टरची नदर दिव्याचेर पडटा. सहजतायेन तो उखलता. हेवटेन तेवटेन हात लावन पळयता. वैभवी काचाबूल जाता.)

**इन्स्पेक्टर** : हवालदार,

**हवालदार** : यस सर.

**इन्स्पेक्टर** : हें कितें?

**हवालदार** : (पळोवन) दिवो, दिवो तो सायब. तेल घालून पेटोवचो. आतां कोण वाफरीना असले दिवे.

**इन्स्पेक्टर** : असलो दिवो चोरयेक गेला म्हणून कोणे कंप्लेन करूंना न्हूय?

**हवालदार** : ना सायब.

(इन्स्पेक्टर दिवो आशिल्ले सुवातेर दवरता. वैभवी सुटकेचो उस्वास सोडटा..)

**इन्स्पेक्टर** : मॅडम, रेडी? तयार आसात?

**वैभवी** : कित्याक?

**इन्स्पेक्टर** : फुडले इन्क्वायरेक – चवकशी.

**वैभवी** : कसली चवकशी?

**इन्स्पेक्टर** : तुमगे गोमट्यांतलो नेकलेस?

**वैभवी** : ना, तो हांव तुमकां दिवचीना.

**हवालदार** : (समजायत) हें बगा, सायब तो नेकलेस मागिना. फकत चवकशी करतत. तेंची पद्धत मातशी...

(इन्स्पेक्टर ताचेर नदरेनूच करा करता. तो वगी रावता.)

इन्स्पेक्टर : मॅडम वेरेंकार, हो नेकलेस कोणाचो?

वैभवी : कोणाचो म्हणजे? म्हज्या गळ्यांत आसा म्हणजे म्हजो.

इन्स्पेक्टर : अशें कशें? तो काडून हांयें गयांत घातल्यार म्हुजो जाता?

हवालदार : सायब, असलो नेकलेस दादले घालीना.

वैभवी : ना.

इन्स्पेक्टर : मागीर? तुमी तो केन्ना केल्लो?

वैभवी : केन्ना म्हणजे?

इन्स्पेक्टर : काजरा आदीं काय काजरा उपरांत?

वैभवी : उपरांत.

इन्स्पेक्टर : उपरांत म्हुटल्यार केन्ना?

वैभवी : करपाक लायिल्लो केन्ना, पूण मेळ्ळा हालींच. ह्या दिसांनी.

इन्स्पेक्टर : ह्या दिसांनी म्हुटल्यार केन्ना?

वैभवी : काल... पयर... सोमारादिसा.

इन्स्पेक्टर : हवालदार,

हवालदार : यस सर.

इन्स्पेक्टर : कोडकोडो आनी कोडकोड्यागे बायल हड्डें पेटोन पुलीस स्टेशनाचेर कंप्लेन घेवन येयलोलीं तो दीस खुंयचो?

हवालदार : तो दीस? राव सांगतय आं. त्या दिसा खंयचो नंबर इल्लो?

इन्स्पेक्टर : कसलो नंबर मेजता?

हवालदार : सायब, म्हाका दीस तशें नंबरावयल्यानूच उगडास उरता.

इन्स्पेक्टर : पुलीस म्हणोन मटको खेवता?

हवालदारा : ना सर. पुलीस मटको खेळाना. मटको तेंकां खेळयता.

इन्स्पेक्टर : कितें?

हवालदार : ना सायब. पुलीस केन्नाच मटको खेळना. पुलीस मटको खेळटल्यांत धरतात.

इन्स्पेक्टर : शाब्बास!

हवालदार : (याद करीत) सायब, तो दीस सोमारूच आसलो. सांजचो वगत. तेन्नाच नंबर...

इन्स्पेक्टर : कितें?

हवालदार : सांजच्या वगतारूच कडकड्याची कंप्लेन रजिस्टर करून घेतली.

इन्स्पेक्टर : मॅडम वेरेंकार, तुमच्या नेकलेसागे वजन कितुलें? कितलीं लिब्रां?

हवालदार : (वैभवीक) कितकीं पवना? तां सायब इचारता.

वैभवी : पांच पोवनांचो.

इन्स्पेक्टर : हवालदार,

हवालदार : तितलोच सायब, कंप्लेंनींतलो नेकलेस तितक्याच वजनाचो आसा.

इन्स्पेक्टर : मॅडम, तुमी नेकलेस पांचूच प... पोवनांचो कित्याक केलो? चार पोवनांचो वो स पोवनांचो कित्याक केलोना?

वैभवी : कडकड्याचे बायलेच्या गळ्यांत आसा तलसोच ताका हाडपाक सांगिल्लो.

इन्स्पेक्टर : कोणांक?

वैभवी : (चडफडत) मस्ण्यांक! तो अशें करतलो म्हण म्हाका खंय खबर! इन्स्पेक्टर मॅर्ग्युल्यांव, घरांत दादलोमनीस कोण ना. तुमी मागीर येयात. म्हाका भितर कामां आसात. (बेगीबेगीन भितर वता.)

हवालदार : सायब, तुमचे चवकशेक लागून ती बेजार जाल्या. असल्या घरांतल्या माणसांक असली चवकशी आवडना आनी आमी लेडीस पुलीस कोन्स्टेबलपण नाय आणलो.

इन्स्पेक्टर : तुजीं जाणवायपणां नाका.

हवालदार : यस सर.

(इतल्यान भायरसावन विवेक येता. ताच्या हातांत नवेलें

बॅग आसा आनी एक कपड्याची पोती. पोतयेंतल्यान भाजीपालो दिसता. तो उलयत येता.)

**विवेक** : वैभवी, हांवें सगळें सामान हाडलां. तुगेलें तें देवालें ताट म्हाका नाका. हांव म्हज्या हातांनी रांदून जेवपी.

**इन्स्पेक्टर** : यो. यो मिस्टर वेरेंकार. ए. ओ.

**विवेक** : (अजापान) आरे, पुलीस इन्स्पेक्टर? (हवालदाराक वळखून) हवालदार नारोजी.

**हवालदार** : आमचो नवो सायब.

**विवेक** : (थांबयत) राव, राव. (याद करून) इन्स्पेक्टर मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव! मॅर्ग्युल्यांवसायब, तुमी चार्ज घेतिल्ल्याची खब्रर आयजूच पेपराचेर वाचली. अभिनंदन! (हात दिता.) तुमी आमचेर खास लक्ष दितले म्हणपाचें वाचून खोस भोगली.

**इन्स्पेक्टर** : मिस्टर वेरेंकार, आमकां तुमचो सहकार जाय.

**विवेक** : सहकार्य आसाच. पुलीसेक ताच्या कामांत आदार करप हें जण एकल्या नागरीकांचें कर्तव्य आसा.

**इन्स्पेक्टर** : गुड. मिस्टर वेरेंकार, तुमचे दुडू मेवले? तुमी कंप्लेन करपाक तयार आसल्यार सेक्शन थ्री एटी वन खाला म्हज्यान ती रजिस्टर करून घेवं येता.

**विवेक** : (ना कळून) पूण...

**इन्स्पेक्टर** : तुमचे एक हजार आनी दोनशीं रूपया?

**विवेक** : बाराशीं रूपया! (याद जावन) आं, आं. आमगेले हिणेन सांगलें दिसता तुमकां. ताचें कितें आसा इन्स्पेक्टर सायब, ही घरांतली खबर. घडये चुकून कोणेय हांगचे काडून थंय दवरल्या आसत. वो हांवूच खंय दवरल्या तें विसरलां आसत. असल्यो घरांतल्यो कागाळी तुमच्या कानार घालप? तुमकां कितें दुसरी कामां नात?
(विवेकाच्या बॅगाचेर इन्स्पेक्टराचें लक्ष वता.)

इन्स्पेक्टर : मिस्टर वेरेंकार, हें बॅग...

विवेक : जालें? तुमचेंय लक्ष गेलेंच हाचेर? खरें सांगूं? आतां तें म्हाका जड जालां.

इन्स्पेक्टर : जड जालां? कितें आसा तितूंत?

हवालदार : सायब, जड जालां म्हुटल्यार तेंकां तें नाका जालां.

इन्स्पेक्टर : नाका जालां? काय बरें बॅग.

विवेक : बरे खरें, पूण तें म्हजें न्हय.

इन्स्पेक्टर : म्हणजे?

विवेक : म्हणजे ते आमगेले हिणेन हाडलां. आमगेली 'ही' मेळ्ळी न्हय तुमकां?

हवालदार : सायब 'ही' म्हणजे मॅडम वेरेंकार.

इन्स्पेक्टर : हां हां. मेवली. तुमगे घरकान्नीचे जबर उपकार जाले. खूब म्हायती दिली तिणें.

विवेक : कसली म्हायती?

इन्स्पेक्टर : आमकां जाय आसलोली ती. मिस्टर वेरेंकार बॅगाची खबर तिंगांच उरली.

विवेक : हें बॅग आतां म्हाका नाका. हांवें तातूंतलें म्हजें सामान काडून दवरलां. जे वस्तुविशीं आपणांक कांयच खबर ना, ती वस्तू वापरपाची कशी?
(बॅग काडून कदेलीचेर दवरता.)

इन्स्पेक्टर : हे बॅग हिंका येयलें क़र्शें?

विवेक : तेंच खबर ना. घडये ह्या घरांत च्याचो कप येता तशें (हवेंतल्यान) आयलां आसूंक जाय. ही कदेलूय तशीच आयल्या आसूंक जाय.

इन्स्पेक्टर : व्हदळ एक दांडो तसोच भायर गेल्लो.

विवेक : आसूं येता.

हवालदार : (भंयान) सायब, ह्यां चवकशी करपाचां काम आमचां न्हू. ह्यां काम मोडभास, जाणभास खबर आसपी घाडी

भगतांचां. मिस्टर वेरेंकार, तुमी आमच्या पेडण्यां वचा. देवू ना आतां. पूण दुसरो कोणूय घाडी गावतलो तुमकां.

इन्स्पेक्टर : हवालदार, तूं वगी राव. मिस्टर वेरेंकार,

विवेक : सांगात.

इन्स्पेक्टर : आमकां तुमचो आदार जाय.

विवेक : बरेभाशेन.

इन्स्पेक्टर : म्हाका खबर आसा, आनी तुमीय जाणांय. कोर्टाचे सर्च वॉरंट हाडलेबगर पुलीसांनी कोणाल्या घराची झडटी घेवं नजो. तसो आमकां अधिकार ना आनी आमच्याबराबर लेडीस पुलीस कोन्स्टेबलूय ना पूण तुमची मान्यताय आसल्यार आमी तुमच्या सांगातान तुमच्या घरांत एक पासय मारून येवं?

विवेक : बरेभाशेन. आमच्या घरांत तर जालेंच, पूण ह्या कॉलनींतल्या खंयच्यान घरांत भितर सरपाचें जाल्यार म्हाका सांगात. हांव तुमकां हाताक धरून व्हरतां. कारण कॉलनीच्या सोसायटीचो हांव चॅअरमन. येयात. (तांका घेवन भितर वता. भायरसावन वैभवी येता. न्हेसण वयर खोयलां. येवचे येवन हांगाथंय सोदता. मागीर ल्हवूल्हवू उलो मारता.)

वैभवी : अल्लाउद्दीन ऽ ऽ अल्लाउद्दीन. पापया तुकां खंय खंय सोदूं? मागीलदारां सोदलो. सगळ्याक सोदलो. अल्लाउद्दीन ऽऽ (इतल्यान भायरसावन धांवत अलाद्दीन येता. ताच्या हातांत दांडो आसा. खर्शेला.)

अलाद्दीन : ताईबाय, जोखमीचें काम म्हण तुमीच सांगूंक नासलें?

वैभवी : (याद ना) कसलें जोखमीचें काम?

अलाद्दीन : विसल्ली? हांव करपाक तयार नासलों. तरी तुमचे इत्सेखातीत केलें. गॅदरींग चालू आशिल्लें त्या हॉलांत तांका सगळ्याक सोदलीं पूण तीं चौगांय हॉलांत नाशिल्लीच. मागीर हॉलाभायर आयलों. जाल्यार हीं

भायर इश्क करतात. दोगां झाडामुळांत बशिल्लीं जाल्यार दोगां दुर्गाच्या आडसाक. थंयच काम केलें. काम करताना हांगा कोणेतरी दिव्याक हात लायलो. थंयच खातखुतल्यो जाल्यो. तरी काम केलें. हो तुजो दांडो (कडेक दवरता.) ताईबाय, दुसरे फावट असलें काम सांगू नाका.

**वैभवी** : दुसरे फावट काम सांगपाची परिस्थिती दवरूंना तुवें.

**प्रतिमा** : कितें जालां ताईबाय?

**वैभवी** : म्हाका एक सांग.

**प्रतिमा** : कितें?

**वैभवी** : हें हांवें सांगिल्ले तें सगळें जें तुवें हाडलां तें खंयसावन?

**प्रतिमा** : हांवें तुमकां आदींच सांगला.

**वैभवी** : कितें?

**प्रतिमा** : असो प्रश्न विचारप ना.

**वैभवी** : तुजें पाड पडूं!

**प्रतिमा** : ताईबाय, तुमी म्हाका गाळी मारपाक लागलीं? हांव तुमचेसारखो मनीस न्हय. गाळी म्हाका सोंसना.

**वैभवी** : तुजें सोंसपाचें मागीर. हांव हांगा भोगतां. म्हाका एक सांग.

**प्रतिमा** : कितें?

**वैभवी** : ह्यो वस्तु खंयसावन हाडल्यो तें तुकां विचारिना, पूण ह्यो जंयसावन हाडल्या थंय त्यो परत व्हरून पावोवपाक शकता?

**प्रतिमा** : हय. बरेभशेन.

**वैभवी** : तशें जाल्यार आनीक कळाव नाका. उखल एक एक. पयलीं हें कदेल, हें बॅग, (तातूंत कितेंय आसल्यार उसोवन पळयता. कांय ना. गळ्यांतलो हार काडून दीत) हो हार. चल.

(अलाद्दीन कदेल, हार आनी बॅग घेवन गेटींतल्यान भायर

वता. वैभवी तो सामान घेवन गेल्लो तें पळोवन सुटकेचो स्वास सोडटा. इतल्यान भितरसावन इन्स्पेक्टर, हवालदार आनी विवेक येता.)

**विवेक** : (अजापान) वैभवी, तूं हांगासर कशी? आमी तुका भितर सोदतात.

**वैभवी** : हांव अशीं मागीलदारासावन हांगा आयलीं.

**इन्स्पेक्टर** : अशी कित्याक येयलीय मॅडम वेरेंकार?

**वैभवी** : (तिची नुरा बदलल्या. ती काळजान घट जाल्या.) कित्याक म्हणजे? म्हज्या घरांतल्यान भायर भितर येवपाक म्हाका कसली आडखळ आसा?

**इन्स्पेक्टर** : ना. घर तुजें. तुज्यान जाय तें करूं येता.

**वैभवी** : कित्याक सोदताले म्हाका?

**विवेक** : वैभवी, हांचे म्हणणें-

**इन्स्पेक्टर** : मॅडम वेरेंकार, घरांतल्या वस्तुंचो आमी पंचनामो केला. हवालदार,

**हवालदार** : यस सर,

**इन्स्पेक्टर** : पुलीस स्टेशनाचेर वच. दोन पी. सी. क घे आनी सगळ्यांक आत्ताचे आत्तां पुलीस स्टेशनाचेर आपयल्या म्हुणोन सांग. सगळ्यांक, डिमेलो, सोहस्त्रबुद्धे, हडफडकार, कोडकोडो, सावकार, दुबळो, सैल, रायकार, दळवी-

**इन्स्पेक्टर** : आनी पिंळगांवकार?

**इन्स्पेक्टर** : तेका मात नाका. तेचें मागीर पळोवया.

**हवालदार** : सायब, होच तो दांडो. व्हदळ...

**इन्स्पेक्टर** : हवालदार सांगलां तें काम कर.

**हवालदार** : यस सर. (वचपाक वता. इतल्यान ताचें लक्ष परत दांड्याचेर वता. तो कांचवेता.)
(दांड्याक पळयत भायर वता.)

**इन्स्पेक्टर** : मॅडम वेरेंकार. घरांतल्या वस्तुंचो आमी पंचनामो केला.

विवेक : खंयच्यो वस्तु?

इन्स्पेक्टर : ज्यो तुमच्यो न्हुय पोय त्यो. फ्रीज. पोन्नो न्हुय, नवो. वॉशींग मशीन, ड्रेसींग टेबल, ग्रायंडर, कलर टीवी आनी हॉटेलांतलीं जेवणाचीं आयदणां - बॉल्स. ह्यो सगळ्यो वस्तु तुमच्यो न्हुय. आनी त्यो कोणाच्यो हें तुमकां थोड्याच वेळान गोमून येतलें. आतां जे पुलीस स्टेशनाचेर येतले त्या लोकांक म्हज्यान हांगासर हाडूं येता.

विवेक : हय. आमची कांय हरकत ना. न्हय वैभवी?

वैभवी : तुमी मातशे वगी रावात. सांगा इन्स्पेक्टर मॅर्ग्युल्यांव.

इन्स्पेक्टर : मॅडम, त्यो वस्तु तुमच्यो न्हुय. तो तुमच्यो जाल्यार तुमकां तशें प्रुव्ह करून दाखोवचें पडटलें. त्यो तुमी खंयसावन हाडल्यो? केन्ना हाडल्यो? कश्यो हाडल्यो? तुमची तयारी आसा?

विवेक : पूण इन्स्पेक्टर, हांव तुमकां एक सांगता, त्यो वस्तु आमी चोरून हाडूं ना. कितें वैभवी?

वैभवी : तुमी वगी रावात. इन्स्पेक्टर, तुमी आतां ज्या वस्तुंची वळेरी सांगली, त्यो वस्तु तुमी तुमच्या दोळ्यांनी पळयल्यात?

इन्स्पेक्टर : व्हय. हांवें पळयल्या. हवालदार नोरोजीन पळयल्या आनी तुज्या घरकारान पळयल्या.

विवेक : हय वैभवी.

वैभवी : तुमी उलोवं नाकात. घरांत कसल्यो वस्तु आसात आनी कसल्यो नात तें म्हाका बरें खबर आसा काय तुमकां?

विवेक : तुकां.

इन्स्पेक्टर : मॅडम वेरेंकार, आमी त्या वस्तुंचो पंचनामो केला. भितरले वस्तुंचो तेचपरी हें कदेल, हें बॅग, तुमच्या गोमट्यांतलो नेकलेस (हें कायच ना म्हणपाचें ताच्या लक्षांत येता.) मॅडम, हांगचें कदेल खुंय? आनी तें बॅग? आनी तुमच्या गोमट्यांतलो नेकलेस?

वैभवी : खंयचें कदेल? खंयचें बॅग आनी खंयचो नेकलेस?
(इन्स्पेक्टर बुचकळ्यांत पडटा. विवेकूय. वैभवी ताका कुरवांनीच वगी रावपाक सांगता. भायरसावन हवालदार धांवत येता.)

हवालदार : सायब,

इन्स्पेक्टर : कितें जालें? तेंका रेकाद दिलो?

हवालदार : ना सायब. सायब, हडफडकार, कडकडो आनी दळवी पुलीस स्टेशनाचेर इल्या. आपोवचे आदींच इल्या.

इन्स्पेक्टर : कित्याक येयल्या?

हवालदार : कंप्लेन फाटीं घेवपाक. तेंचें म्हणणें, तेंगेल्यो वस्तु तेंकां आशिल्ल्या त्या जाग्यार परत गावल्यो. कदेल, बॅग आनी नेकलेस. आतां कंप्लेनी दवरूंक काय कारण ना.

इन्स्पेक्टर : अशें कशें जातलें? एकदां रजिस्टर जाल्ली कंप्लेन फाटीं घेवं नजो. एका वोगतार मुखार घायलेली आर्मी फाटीं घेवंक जाता पूण कंप्लेन न्हुय.

हवालदार : हांयें तेंकां तांच सांगले. पूण तेंच्या डोस्क्यांत वचांक नाका? ते तुमकां रावतात.

इन्स्पेक्टर : हवालदार,

हवालदार : यस सर.

इन्स्पेक्टर : कंप्लेन करपी आनी फाटीं घेवपी तेच फोटकिरे आसूं येतात.

हवालदार : तशें कोण कित्याक करतलो सायब?

इन्स्पेक्टर : कितेंय घडों येता. आमका ट्रेनींगात तें शिकयलां. तूं तेंगेल्या घोरा वोच आनी त्यो वस्तु पळोवन यो.

हवालदार : बगल्यो सर. म्हाज्या दोळ्यांनी बगल्यो. कडकडो नेकलेस घेवन इल्लो. हडफडकार बॅग घेवन इल्लो.

इन्स्पेक्टर : आनी दळवी?

हवालदार : तो येदी व्हडली कदेल कशी हड्ड्यार मारून हाडटलो?

(अजापान) सायब, हांगची कदेल खंय?

**इन्स्पेक्टर** : चल. तेगेल्या घरा वचून पळोवन यो. डि. के. डेकोरेटर्स.

**हवालदार** : यस सर, आनी सर, त्या दांड्याचा काय केलां?

**इन्स्पेक्टर** : पयलीं चल. दांडो खुंय वचोना. तें मागीर चोवया.

**हवालदार** : यस सर.

(धांवत भायर वता.)

**इन्स्पेक्टर** : (खोंचून) म्हणटोच मॅडम वेरेंकार हेचो अर्थ असो -

**वैभवी** : कसो?

**इन्स्पेक्टर** : जेन्ना आमी भितर गेल्ले तेन्ना ह्यो भायल्यो वस्तु ना जाल्यो. तेचपरी आमी आतां भायर आयल्या तेन्ना भितरल्यो वस्तु ना जावं येता, अशें न्हुय मिस्टर वेरेंकार?

**विवेक** : जावं येता.

**इन्स्पेक्टर** : कशें जावं येता? पी. आय. च्या ट्रेनींगाक आमकां सगळ्यो गजाली शिकयल्या पूण हें शिकोवंक ना.

(तसोच भितर वता. विवेक खूब गोंदळ्ळा)

**विवेक** : वैभवी, ही भानगड कितें?

(वैभवी मोन्यांनी हात जोडून पांयां पडटा आनी ताका वगी रावपाक सांगता. तो वगी रावता. इतल्यान भितरसावन इन्स्पेक्टर भायर येता.)

**इन्स्पेक्टर** : मिस्टर वेरेंकार, तुमी सांगलेलें तेशेंच जालें.

**विवेक** : कितें?

**इन्स्पेक्टर** : घरांतल्यो सगळ्यो वस्तु गायब! मिस्टर वेरेंकार, तुमचो भुतांचेर विश्वास आसा?

**विवेक** : ना. अजिबात ना.

**इन्स्पेक्टर** : म्हजोय ना. (वैभवीक पळोवन) मागीर हें अशें कित्याक घडटा?

**वैभवी** : तशें तें म्हाकाय खबर ना.

(इतल्यान भायरसावन मोटारसायकलीचो आवाज. कांय

वेळान हर्षा आनी वर्धन दोगांय रडत येतात. वर्धन उजव्या पांयान कुट्टा जाल्यार हर्षाच्या दाव्या हाताक दुखापत जाल्या. दोगांयनी हाताक आनी पायाक बँडेज केलां.)

हर्षा : मम्मा,

वर्धन : पप्पा,

वैभवी : आरे, हें कितें जालें?

हर्षा : मम्मा, गॅदरींगाक हॉलांत गर्दी म्हणून आमी दोगांय... हांव आनी रणबीर भायर झाडामुळांत उबीं रावन पळयतालीं जाल्यार कोणेतरी येवन म्हज्या हातार दांडे मारले.

वर्धन : गर्देन कांय दिसना म्हण हांव आनी रंजिता आड्यार उबीं रावन पळयतालीं जाल्यार एक दांडो येवन म्हज्या पांयार आदळपाक लागलो.

विवेक : दांडो? फक्त दांडो?

हर्षा : हय पप्पा, म्हाकाय तशेंच दांड्यानूच मारलें.

विवेक : वैभवी, हीं कितें सांगतात?
(वैभवीक कितें घडलां तें कळ्ळां.)

वैभवी : कितें सांगतात म्हणजे? कोणेतरी मारलीं म्हज्या पोरांक हें खरें. हें बँडेज कोणे केलें?

हर्षा : (भियेत) रणबीरान आनी रंजितान. ताणीच आमकां दोतोरागेर व्हेलीं.

वर्धन : तीं आमकां गेटीमेरेन सोडोवपाक आयलीं. हांव असल्याच पायांनी मोटारसायकल घेवन आयलों.

विवेक : तीं दोगांय भितर कित्याक आयलींनात?

हर्षा : तीं दोगांय मम्माक भितात.
(इन्स्पेक्टर वैभवीक दुबावान पळयता.)

वर्धन : (इन्स्पेक्टर पळोवन) पप्पा, पोलीस इन्स्पेक्टर आमगेर कित्याक?

विवेक : ते आपलें काम करतात.

हर्षा : कसलें काम?

(इतल्यान हर्षा दांड्याक पळोवन किळांच मारता.)

हर्षा : मम्माऽऽ

वैभवी : आगो, इन्स्पेक्टराक पळोवन येद्यान किळांच कित्याक मारूंक जाय? तुवें पुलीसांक केन्ना पळोवंक ना?

हर्षा : मम्मा, हांव इन्स्पेक्टराक भियेवंक ना. (दाखयत) ताका भिलां. दांडो.

वर्धन : (पळयत) पप्पा, होच तो. हाणेच आमकां मारलीं. हावें एकदां दोनदां ताका घट लेगीत धरिल्लो.

हर्षा : (रडत) पप्पा, तो दांडो हांगाच आसतलो?

विवेक : (ताका थातारीत) कळटलें आतां कोण खंय आसतलो तो!

(इतल्यान भायरसावन हवालदार 'सर सर' असो उलो मारता.)

इन्स्पेक्टर : मिस्टर वेरेंकार, हवालदार आड्डी मारून धांवत येता. कसली खबर घेवन येता अशें तुकां दिसता?

विवेक : अदमास लावं येता.

इन्स्पेक्टर : अदमास नाका. सारकें सांग.

विवेक : जांच्यो वस्तु शेणिल्ल्यो तांकां त्यो परत्यो मेळ्ळ्यात.

इन्स्पेक्टर : चोवंया.

विवेक : चोवंया न्हय, तें तशेंच!

(इन्स्पेक्टर आनी विवेक हवालदाराची वाट पळयात. पूण कांयवेळ तो येच ना. हर्षा आनी वर्धन आवयक घडटा त्या प्रसंगाविशीं विचारपाचो यत्न करता. आवय तांकां थातारता. हवालदार धडपडत येता. उजवो हात फापडीत आसा.)

हवालदार : सर, सर.

(धांवत मुखार येता. वाटेवयल्या इन्स्पेक्टराचेर आनी

विवेकाचेर ताचें लक्ष ना. तो सरळ वैभवी, हर्षा आनी वर्धना म्हऱ्यांत येता.)

(वैभवीक) तुमचो झिलगो आनी चेडूं गॅदरींग करून परात इलीं? (तांची अवस्था पळोवन) आरे, हाती-पायांक काय झालां? डान्सबी करताना पडलीं की काय? ते आतांचे डान्सय तसलेच.

**इन्स्पेक्टर** : हवालदार,

**हवालदार** : यस सर. सायब, सगळे जाण आपणाल्यो कागाळी फाटीं घेवंक सोदतत. सगळ्यांक आपल्यो वस्तु परत गावल्यात.

**इन्स्पेक्टर** : सगळ्यांक न्हय. पिळगांवकरागे कंप्लेन तशीच आसा.

**हवालदार** : आतां तिचोय निकाल लागतलो.

**इन्स्पेक्टर** : कसो?

**हवालदार** : भायर एक मोटारसायकल आसा. पिळगांवकराचीच ती. नंबर तोच. मीयां चेसीचो नंबर पण बगलय.

**वर्धन** : ना. ती म्हजी मोटारसायकल.

(वैभवी वर्धनाक वगी रावपाक सांगता.)

**इन्स्पेक्टर** : (वर्धनाक) दी, चावी ते मोटरबायकची.

**वर्धन** : (बल्सांत सोदीत) ना. चावी मोटारसायकलीकूच उरली.

**इन्स्पेक्टर** : हवालदार,

**हवालदार** : यस सर.

**इन्स्पेक्टर** : मोटारसायकल ताब्यांत घे. बेगीन.

**हवालदार** : यस सर.

(भायर धांवता.)

**इन्स्पेक्टर** : मिस्टर वेरेंकार, तुकां कितें दिसता?

(कुरवेनूच मोटारसायकल वतली अशें सांगता. हवालदार धांवत येता.)

**हवालदार** : सायब, सायब –

**इन्स्पेक्टर** : तिंगां मोटारसायकल ना. व्हय मुरे?

**हवालदार** : आशिल्ली सायब. पूण उडान गेली.

**इन्स्पेक्टर** : उड़ोन गेली?

**हवालदार** : हय सायब. अशी इमान कशी आकाशांतसान उडान गेली.

**इन्स्पेक्टर** : (दुबावान) खुंयचे वाटने गेली?

**हवालदार** : (दाखयत) ते ऽऽ वटेन,

**इन्स्पेक्टर** : ज्युस्त पिळगांवकाराल्या घरावटेन. सेर्त आतां पिळगांवकार कंप्लेन फार्टी घेवपाक येतलो.

**विवेक** : म्हाकाय तशेंच दिसता.

(वैभवी मुमुरख्यांनी हांसता, इन्स्पेक्टर अदीक दुबावता.)

**इन्स्पेक्टर** : मिस्टर वेरेंकार, पी. आय. च्या ट्रेनींगांत ह्यो असल्यो जड वस्तु वाऱ्यावयल्यान कशो येतात आनी कशो वेतात तें आमकां शिकोवंक ना. त्या भायर असल्या ऑफेंसाच्या वगतार खुंयचें सेक्शन लावपाचें तेंवूय म्हाका खबर ना. (वैभवीकडन दुबावान पळयत.) पूण जाणा जा, मिस्टर वेरेंकार, हांव मिंगेल मॅर्ग्युल्यांव कितलीय कास्तीक काडून खुंयुय वचून ह्या गजालींचें स्पेशल ट्रेनींग घेवपी, म्हजो भेजो उजार करपी आनी मोटे हिकमतीन तपास करपी म्हणजे करपीच.

**हवालदार** : सायब, असल्या गजालींचां ट्रेनींग सांगलीक आणि पुण्याक नाय मेळत. तुमी माज्या वांगडा येया. मीयां तुमकां माज्या गावांक व्हरून हाडतेय, आनी वेरेंकार, सांगतंय म्हणान रागान जाय नाकात, ह्या भूतबंगल्यांत सत्यनारायणाची पुजाबी करात. सायब, आमच्यो पोटल्यो वाऱ्यार हुबचे पयलीं आमी हांगरसून कडसरूंया.

(इन्स्पेक्टर दांत ओंठ चाबून पासयो मारता. वैभवी हांसता.

बाकिच्यांक कांय कळना.)

हवालदार : सायब, ह्या दांड्याचा काय करूंया?

इन्स्पेक्टर : (फर्मायत) हवालदार,

हवालदार : यस सर.

इन्स्पेक्टर : एरेस्ट हिम.

हवालदार : (खोशयेन) यस सर!

(हवालदार मोटे चतुरायेन कसो उडकी मारून दांड्याचेर झोपय घालून दांड्याक धरता.)

हवालदार : फाल्यां ह्या दांड्यावांगडा आमचो पेपरांत रंगीत फोटो.

(इन्स्पेक्टर आनी हवालदार सोडून सगळीं मोटमोट्यान हांसतात. इन्स्पेक्टर रागान भायर वता. ताचेफाटोफाट दांड्याक एरेस्ट करून घेवन हवालदार वता.)

हर्षा : मम्मा, पयलींच भूक लागिल्ली. आतां हांसून अदीक भूक लागली.

वर्धन : खरेंच मम्मा, आयज कितेंय चलता.

वैभवी : म्हाका माफ करात शाण्यांनो, हांवें आयज कांयच रांदूंक ना.

दोगांय : मम्मा!

विवेक : आयज म्हज्या हातचें जेवण. म्हाका कळटा तें करता. पळयात हांवें सामान हाडलां. भाजी, तांतयां. चलात, मम्माक मातसो विसव घेवंदी. वस्तु कितल्यो आयल्यो आनी कितल्यो गेल्यो हाचो हिशोब करूंदी.

हर्षा : खरेंच मम्मा?

वैभवी : हय म्हज्या शाण्यांनो. पप्पा सांगता तशें करात.

(तांका फुसलायत भितर धाडटा. विवेक वतना सामानाची पोती व्हरता. वैभवी एकलीच आसा. आतां ती रागान रसरसता. अलाद्दीनाची वाट पळयता आनी व्हडल्यान उलो

मारता.)

**वैभवी** : अल्लाउद्दीनऽऽ

**अलाद्दीन** : (पयसुल्यान) ताईबाबऽऽ

(अलाद्दीन धांवत येता. खर्शेला.)

ताईबाय, आयज खूब काम केलें.

**वैभवी** : काम न्हय अल्लाउद्दीन, आयज तुवें म्हजें खळें केलें खळें!

**अलाद्दीन** : कितें जालें ताईबाय?

**वैभवी** : कितें जालें? तुवें म्हजेकडेन असलीं फटींगपणां कित्याक केलीं?

**अलाद्दीन** : फटींगपणां? या अल्लाह! असले आरोप करूं नाका ताईबाय.

**वैभवी** : आरोप न्हय. खरें तेंच सांगता.

**अलाद्दीन** : कितें ताईबाय?

**वैभवी** : हांवें वस्तु मागल्यो खऱ्यो पूण तुवें त्यो खंयच्च्यान हाडून दिल्यो? हांवें नमुन्याखातीर सांगिल्ल्यो त्योच मरे? कडकड्याली बायल घालता तसलो हार म्हणून सांगल्यार म्हाका तिगेलोच हार हाडून दिलो?

**अलाद्दीन** : ताईबाय, हांवें तुकां आदींच सांगलेलें, दिवो खूब पोरणो जाला. नवी वस्तू तयार करपाची शक्त सोंपल्या. देखून हातालागीं मेळ्ळें तेंच तुकां हाडून दिलें.

**वैभवी** : आरे, पूण आमचेच कॉलनीतलें सगळें हाडलें. मातशें पयशिल्लें तरी हाडपाचें.

**अलाद्दीन** : तितली शक्त ना ताईबाय.

**वैभवी** : आनी बाराशीं रुपया खंयचे हाडून दिले म्हाका? हाणी खणांत दवरिल्ले तेच मरे? आनी मागीर दोनशें दिले तेयबी म्हगेलेच. म्हज्याच पर्सींतले काडून म्हाकाच दिले. सामको

बँकेचो वेवहार केलो.

अलाद्दीन : ताईबाय, पैशे म्हणून निर्माण करपाक जाता? तें काम मनीस करता.

वैभवी : आनी हॉटेल रूचिरांतलें जेवण हाडून जेवयलें.

अलाद्दीन : तेंच हॉटेल लागीं आशिल्लें ताईबाय.

वैभवी : आतां ताचें बील कोण फारीक करतलो?

अलाद्दीन : जाणी खाल्लां ताणीच फारीक करपाचें.

वैभवी : आनी कसलें जोखमीचें काम केलें तुवें? तुकां सांगिल्लें कितें आनी तुवें केलें कितें? तुजेकडेन दांडो दिल्लो तो कोणाचो पांय आनी हात मोडपाक? रणबीराचो पांय मोड म्हण सांगिल्लो आनी रंजिताचो हात. जाल्यार तुवें कितें केलें? म्हज्याच भुरग्यांचे हात-पांय मोडले.

अलाद्दीन : ताईबाय, त्याच वेळार कोणेतरी हांगा दिव्याक हात लायलो. म्हाका थंय खातखुतल्यो जाल्यो आनी त्या बोवाळांत मातशें चुकलें. पूण ताईबाय, हांवें तुकां आदींच सांगून दवरिल्लें.

वैभवी : कितें?

अलाद्दीन : कितेंय फाटिफुडें जाल्यार समजून घेवपाचें. आनी तुमी मातशी समज दाखोवपाची.

वैभवी : हावें समज दाखोवपाची? कसली समज?

अलाद्दीन : ताईबाय, सांगतां म्हण रागार जावं नाकात. तुमी मनीसप्राणी. तुमकां हात-पांय आसात ते कित्याक? फक्त हात-पांयूच न्हय. एक तकलीबी आसा न्हय? जित्या जागत्या आनी धडधाकट मनशांनी अशें आडवाटेचे अमानवी उपाय वापरून गिरेस्त जावपाचे यत्न करप ही शरमेची गजाल! ताईबाय, हांवें तुमकां कसली देख दिवपाची गरज ना. देख तुमच्या घरांत आसा.

**वैभवी** : (राग वचूंना) खबर आसा म्हाका.

**अलाद्दीन** : सांग ताईबाय, आतां तुमची कसली सेवा करूं?

**वैभवी** : (रागान) कांय गरज ना. तुजें तोंड पळोवपाचें ना म्हाका. नदरेमुखावयलो हुंवाळून वच.

**अलाद्दीन** : (उबगून-व्हड आवाजान) तशें जाल्यार घालात फुगडी.

**वैभवी** : (रागान) कितें?

**अलाद्दीन** : फुगडी घातलेबगर हांव दिव्यात कसो वचूं?

**वैभवी** : हय फुगडी. (याद करून) आं, पूण हांव फुगडेचीं उतरांय विसरलीं. (याद करीत) हाय सायबा!

**अलाद्दीन** : याद कर ताईबाय, याद कर.

(वैभवीक मातशी मातशी याद जाता. तशी ती फुगडी म्हणटा.)

**दिव्या दिव्या रे दिपत्कार**

**दिव्या तुकां रे नमस्कार**

तशी तशी प्रतिमा फाटल्या पायांनी दिव्याकडेन येता आनी मागीर अदृश्य जाता. वैभवी भानार येता. प्रतिमा भितर गेल्ल्याची खात्री पटटकूच तिका सू जाता. ती दिवो उखलता. पोशेता. इतल्यान भायरसावन आवाज येता. 'तांबेऽऽ पितऽऽ ळ पोरणेऽऽ आयदऽऽन. ती कांचवेता. तिका दिसता, दिव्यांतल्यानूच आवाज येता. दिवो कानाकडेन धरता. पूण ना. भायर गेटीकडेन आदलो आयदनकार आयला. ताच्या माथ्यार नवीं आयदणां आसात आनी हातांत एक दिवो. वैभवी ताचो आवाज आयकून खोशी जाता. दिवो घेवन बेगीबेगीन भायर गेटीकडेन वता. हातांतलो पोन्नो दिवो आयदनकाराच्या हातांत दिता. तो खोशयेन पोन्नो दिवो घेता आनी हातांतलो नवो दिवो तिचेकडेन दिता. ती दिवो घेवन आनी उमेदीन

परतता. विजेचेर पेटपी दिवो, ताची वायर ़लांबता.)

**वैभवी** : आयकलां? हर्षा, वर्धन पळयात हांवें कितें केलें तें.

(भितरसावन हर्षा, वर्धन आनी विवेक भायर येतात. उमदीन दिवो पळयतात.)

**वैभवी** : पळयात. पोन्नो दिवो दिवन, नवो दिवो घेतलो.

(दिवो वयर धरता आनी लांबता ते वायरीच्या पोताक हात लायता. तेसरशीं दिवो आपशींच पेट्टा. सगळीं अजापान दिव्याकडेन पळयतात.)

**विवेक** : **दिव्या दिव्या दिपत्कार!**

(देखाव थीर जाता.)

(काळोख.)

(सोंपता)

# परिशिश्ट : 1

## नाटकांच्या पयल्या प्रयोगांची श्रेय नामावळ

'प्रेमजागोर' नाटकाचो पयलो प्रयोग, कला अकादमी, गो[illegible]ांगेल्या 'रंगमेळ'चे वतीन, ता. 28 एप्रील 1999 दिसा, सां. 7.00 वरांचेर, पणजे, कला अकादमीच्या मा. दिनानाथ मंगेशकर कला मंदिरांत जालो.

### श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. दादी | : | काशिनाथ मयेंकार / ज्ञानेश्वर पार्सेकार |
| 2. बा | : | स्वप्ना सिनारी |
| 3. मोगा | : | शुभांगी बर्वे |
| 4. बाबुराय | : | श्रीकांत गावडे |
| 5. देमू | : | निलेश महाले |
| 6. येसो | : | विश्वास च्यारी |
| 7. जागरांतलें सवंग–गराशेर | : | गोविंद शिरोडकार / काशिनाथ मयेंकार ज्ञानेश्वर पार्सेकार |
| 8. जागरांतलें सवंग–फिंर्गीण | : | संध्या परब |
| 9. जागरांतलीं सवंगां | : | बाबलो नायक, शिवनाथ नायक |
| 10. मुखेल गावपी | : | कांता गावडे |
| 11. कोरस | : | उदय धुपकार, मीलन वायंगणकार, बाबलो नायक, संध्या परब, मनिषा पेडणेकार, शिवनाथ नायक, जवाहर बर्वे, राजेंद्र महाजन, व्यंकटेश नायक, विश्वास च्यारी |

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शन आनी नेपथ्य | : | सतीश गवस |
| रंगमेळ मुखेली आनी खाशेलें मार्गदर्शन | : | वसंत जोसलकार |
| माची मांडावळ | : | संदिप कळंगुटकार |
| संगीत आनी कॉरिओग्राफी | : | कांता गावडे |
| सहाय्यक | : | लाडू गावडे, मधू गावडे, व्यंकटेश नायक, शशिकांत गावडे |
| प्रकाश येवजण | : | अविनाश च्यारी |
| सहाय्यक | : | संजय मापारे |
| वेशभुशा, रंगभुशा आनी रंगमाची सामुग्री | : | प्रेमानंद पोळे |
| सहाय्यक | : | उदय धुपकार, गोविंद शिरोडकार, नामदेव गांवकार |
| रंगमाची व्यवस्थापक | : | राजेंद्र महाजन |
| माहिती पुस्तिका–कला निर्देशन | : | निलेश महाले |
| निर्मिती व्यवस्थापक | : | व्यंकटेश नायक |

'प्रेमयुद्ध' नाटकाचो पयलो प्रयोग, अपुरबाय चित्र, वळवय हे संस्थेन, कला अकादमीच्या 25 व्या कोंकणी नाट्यमहोत्सवांत, ता. 11 आक्टोबर 2000 दिसा, सा. 7.00 वरांचेर मा. दिनानाथ मंगेशकर कला मंदिर पणजी, हांगासर सादर केलो.

## श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. **लेफ्ट. अविनाश** | : | प्रदिप नायक |
| 2. **अनुराधा** | : | ज्योती कुंकळकार |
| 3. **इंद्रायणी** | : | उज्वला नाटेकार |
| 4. **विशाखा** | : | शिल्पा नाटेकार |
| 5. **गौतम** | : | पराग सबनीस |
| 6. **रूद्राजी** | : | विनू देसाय |
| 7. **गांवातले लोक** | : | उमाकांत वेळुस्कार, सुनील सांतिनेजकार, प्रेमानंद हळदणकार, राजकुमार साळगांवकार, महेश नायक, मोतिराम दळवी |

| | | |
|---|---|---|
| **दिग्दर्शन आनी नेपथ्य** | : | जयेंद्रनाथ य. हळदणकार |
| **पार्श्वसंगीत** | : | विश्वास |
| **उजवाडा येवजण** | : | सिद्धार्थ हळर्णकार |
| **रंगभुशा** | : | श्रीकांत नायक |
| **वेशभुषा** | : | मंगला कारापुरकार |
| **प्रस्तुती** | : | ज्योती कुंकळकार |

'सांगोड' नाटकाचो पयलो प्रयोग, अथश्री–फोंडे, हे संस्थेन, कला अकादमी नाट्यस्पर्धेत, ता. 2 नोव्हेंबर 2004 दिसा सां. 7.00 वरांचेर, राजीव कला मंदिर, फोंडे हांगासर सादर केलो.

## श्रेयनामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. **गिरिधर** | : | सुभाष जाण |
| 2. **धिराई** | : | गिरिजा जठार |
| 3. **पंकजा** | : | डॉ. गायत्री बखले |
| 4. **कमला** | : | डॉ. देवयानी देसाय |
| 5. **प्रधान** | : | व्यंकटेश गावणेकार |
| 6. **डॉ. कामत** | : | निता देसाय |
| 7. **डॉ. दीक्षित** | : | डॉ. संतोष देसाय |
| 8. **हुसेनजी** | : | रवींद्र नायक |
| 9. **गोडखिंडी** | : | मनोज देसाय |
| 10. **वार्ताहर** | : | सुशांत सरदेसाय |
| 11. **सारा** | : | कॅसी रोड्रीक्स |
| 12. **समीर** | : | अनील कोरडे |
| 13. **प्रवीण** | : | चंद्रानंद नायक |
| 14. **मिसेस प्रधान (आवाज)** | : | मेघना केणी |
| 15. **रघुराजन (आवाज)** | : | दयानंद नाडकर्णी |
| 16. **फोटोग्राफर** | : | जितेंद्र जोशी |
| 17. **बाकिचे** | : | श्रुती देसाय, तन्वी देसाय, वासंती जठार |

| | | |
|---|---|---|
| **दिग्दर्शक** | : | दिलीप देसाय |
| **नेपथ्य** | : | राजा खेडेकार |
| **उजवाडा येवजण** | : | चतुरा साकोर्डेकार |
| **ध्वनिसंकल्पना आनी पाश्र्वसंगीत** | : | साईश देशपांडे |
| **रंगभुशा** | : | लवलेश कवळेकार |
| **वेशभुषा** | : | निता देसाय |
| **नृत्य संकल्पना** | : | श्रुति देसाय, तन्वी देसाय |
| **रंगमंच व्यवस्था** | : | गौतम बखले, सदानंद देसाय |
| **गावपी आनीवाद्यवृंद** | : | मनोज देसाय, गायत्री बखले, देवयानी देसाय, विष्णू सूर्यकांत |
| **नेपथ्य निर्मिती आदार** | : | विनय पाटील, मंगलदास नायक |
| **उजवाड येवजण, आदार** | : | काशिनाथ सराफ |
| **वेशभुषा आदार** | : | मिनल हसबनीस |
| **खाशेले उपकार** | : | दयानंद भगत, विजया वर्कशॉप. |

'कथा अस्तुरी' ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग, अपुरबाय चित्र, वळवय हे संस्थेन ता. 24 जानेवारी 2006 ह्या दिसा सां. 7.00 वरांचेर मा. दिनानाथ मंगेशकर कला मंदिरात सादर केलो.

## श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. प्रतिमा | : | ज्योती कुंकळकार |
| 2. प्रतिभा | : | प्रशांती तळपणकार |
| दिग्दर्शक | : | श्रीधर कामत बांबोळकार |
| रंगभूशा | : | प्रेमानंद पोळे |
| संगीत | : | अजय नायक |
| संगीत संयोजन | : | संपदा कुंकळकार |
| प्रस्तुती | : | ज्योती कुंकळकार |

'दिव्या दिव्या दिपत्कार' नाटकाचो पयलो प्रयोग, वरदांबिका कला संघ, फोंडें हे संस्थेन कला अकादमीचे 25 वे कोंकणी नाट्यस्पर्धेत, ता. 23 आक्टोबर 2000 ह्या दिसा, सां. 7.00 वरांचेर, मा. दिनानाथ मंगेशकर कला मंदिर, कला अकादमी पणजी हांगासर सादर केलो.

## श्रेय नामावळ

1. **वैभवी** : गौरी अ. कामत
2. **विवेक** : नामदेव शेट
3. **वर्धन** : गौतम बखले
4. **हर्षा** : प्रियांका बिडये
5. **अलाद्दीन प्रतिमा** : रवीन्द्र नाईक
6. **हवालदार** : अवधूत कामत
7. **इन्स्पेक्टर मॅग्र्युल्यांव** : डॉ. संतोष देसाय
8. **दूदकार** : मोहन बांदोडकार
9. **पेपर दिवपी** : प्रेमानंद नायक
10. **आयदनकार** : मनोज देसाय

**दिग्दर्शन** : दिलीप देसाय
**नेपथ्य** : राजा खेडेकार
**उजवाडा येवजण** : शेखर साकोर्डेकार
**संगीत** : साईश देशपांडे
**रंगभुशा** : दास कवळेकार
**वेशभुशा** : निता देसाय

**सहाय्यक**
**दिग्दर्शन** : हसबनीस
**उजवाडा येवजण** : काशिनाथ सराफ
**संगीत** : श्रुती देसाय
**वेशभुशा** : शोभना बिडये
**नेपथ्य** : सॅबी नायक, आनंद नायक, एश्वर्या हसबनीस

# परिशिश्ट : 2

## पुंडलीक ना. नायक हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां (वर्सांच्या क्रमान)

| | | |
|---|---|---|
| 1) | खण खण माती | 1977 |
| 2) | रक्तखेव | 1978 |
| 3) | राखण | 1979 |
| 4) | देमांद | 1980 |
| 5) | मुक्तताय | 1980 |
| 6) | सूर्यसांवट | 1981 |
| 7) | शबै शबै भौजन समाज | 1981 |
| 8) | सुरींग | 1982 |
| 9) | मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) | 1982 |
| 10) | पिंपळ पेटला | 1984 |
| 11) | श्री विचित्राची जात्रा | 1986 |
| 12) | दायज | 1990 |
| 13) | चैतन्याक मठ ना | 1991 |
| 14) | आत्मवंचना | 1992 |
| 15) | परिक्रमा | 1993 |
| 16) | दिश्टदौलत | 1995 |
| 17) | तकली तड्डकी (रुपांतरीत) | 1998 |
| 18) | तिरंगी चक्राचक्री | 1998 |
| 19) | प्रेमजागोर | 1999 |
| 20) | शिरी रे शिरी! अधांतरी! | 1999 |
| 21) | काळजाची काणी | 2000 |
| 22) | प्रेमयुद्ध | 2000 |
| 23) | दिव्या दिव्या दिपत्कार | 2000 |
| 24) | अंता घरा भगवंता | 2001 |
| 25) | कांसुलो | 2002 |
| 26) | धनयां देंवचारा | 2003 |
| 27) | चित्र स्वयंवर | 2003 |
| 28) | सांगोड | 2004 |
| 29) | चतुरंगा | 2005 |
| 30) | कथा अस्तुरी | 2008 |
| 31) | फिंर्गी फटास | 2011 |

# परिशिश्ट : 3

## पुंडलीक ना. नायक हांगेलीं पुस्तकां, फिल्मां लाबिल्ले पुरस्कार, भुशयिल्लीं पदां आनी भौमान

उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां

1. रानसुंदरी (बालनाट्य) 1974, 1984, 1996
2. गांवधनी गांवकार (एकांकी संग्रह) 1975
3. गा आमी रासणे (कविता) 1976, 1990
4. बांबर (नवलिका) 1977
5. पिशांतर (कथा) 1977
6. मुठय (कथा) 1977
7. अच्छेव (कादंबरी) 1977, 2009
8. खण खण माती (नाटक) 1977
9. रक्तखेव (नाटक) 1979
10. राखण (नाटक) 1979
11. छपन्न थिगळी येसवंत (एकपात्री) 1980
12. चौरंग (एकांकी संग्रह) 1982, 1991, 2000
13. सुरींग (नाटक) 1982
14. आळशांक वाग खातलो (बालनाट्य) 1984, 1996
15. सूर्यसांवट (नाटक) 1984, 1998
16. वसंतोत्सव आनी दायज (नवलिका) 1985
17. देमांद (नाटक) 1986
18. मुक्तताय (नाटक) 1986
19. शबै शबै भौजनसमाज (नाटक) 1986
20. पिंपळ पेटला (नाटक) 1986
21. श्री विचित्राची जात्रा (नाटक) 1986, 1995
22. आकाशमंच (नभोनाट्य संग्रह) 1987
23. मनू (किशोर नवलिका) 1988
24. अर्धूक (कथा) 1989
25. दिगंत (एकांकी संग्रह) 1980
26. दायज (नाटक) 1991

27. **रंगपाट** (नाट्य नियाळ) 1992
28. **चैतन्याक मठ ना** (नाटक) 1992
29. **आत्मवंचना** (नाटक) 1995
30. **गोंयचो पावस** (बालसाहित्य) 1996
31. **शिंवाचो बळी** (बालनाट्य) 1998
32. **गुणाजी** (नवलिका) 1998
33. **गौरी आनी कल्परूख** (बाल नवलिका) 2005
34. **बेकार भोंवडेकार** (किशोर नवलिका) 2005
35. **छूम् छूम घुंगरी** (बालकविता) 2009
36. **पाजण** (निबंद) 2009
37. **प्रेमजागोर** (नाटक) 2011
38. **प्रेमयुद्ध** (नाटक) 2011
39. **सांगोड** (नाटक) 2011
40. **कथा अस्तुरी** (नाटक) 2011
41. **दिव्या दिव्या दिपत्कार** (नाटक) 2011
42. **रंगकाव्य** (नाटक संग्रह) 2011

**अणकारीत**

1. **काजी नजरूल इस्लाम** (चरित्र) 1985
2. **नानालाल** (चरित्र) 1987

**संपादित**

1. **वेंचीक कोंकणी एकांकी**
   (प्रातिनिधीक एकांकी - साहित्य अकादेमी) 1992
2. **समकालिन कोंकणी लघुकथा**
   (प्रातिनिधीक कथा - नॅशनल बुक ट्रस्ट) 1997, 2010
3. **कोंकणी नाटकाचीं पंचवीस वर्सां**
   (नियाळ - गोवा कला अकादमी) 2001
4. **दोन दसकांकी**
   (प्रातिनिधीक एकांकी - सा. अकादेमी) आगामी

हेर भाशांनी अनुवादित

1. **गुजराती** भाशेंत **'गुणाजी'** 2004
2. **तमीळ** भाशेंत **'श्री विचित्राची जात्रा'** 1989
3. **कन्नड** भाशेंत **'चैतन्याक मठ ना आनी श्री विचित्राची जात्रा'** 2008
4. **पंजाबी भाशेंत 'चौरंग'** 2011
5. **इंग्लीश** भाशेंत **'अच्छेव'**
   (The Upheaval) ऑक्सफोर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेस 2002, 2007

पुंडलीक नायकाच्या साहित्याचो अभ्यास

1. **वेंचीक पुंडलीक** – संपा. राजू नायक 1999
2. **पुंडलीक नारायण नायक साहित्य सूची** –
   संपा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार 1999
3. **मार्कण्डेय एवं पुंडलीक नायक का कथा साहित्य**
   (हिंदी) डॉ. वृषाली मांद्रेकार 2010

फिल्मां

1. **जैत** (टेलिफिल्म – कोंकणी) कथा, पटकथा, संवाद 1991
2. **रानसुंदरी** (टेलिप्ले – कोंकणी) 1991
3. **मर्णकटो** (टेलिप्ले – कोंकणी) 1992
4. **स्वीकृती** (टेलिफिल्म – कोंकणी) संवाद 1993
5. **वधचक्र** (फिल्म – मराठी) कथा, पटकथा, संवाद, गीत 1993
6. **देखणी दुराय** (फिल्म – कोंकणी) कथा, पटकथा, संवाद, गीत 1994
7. **सांगाती** (टेलिफिल्म – कोंकणी) गीत 1996
8. **दौलत** (फिल्म – कोंकणी) कथा, पटकथा, संवाद, गीत 2003
9. **परिक्रमा** (टेलिफिल्म – हिंदी) कथा 2006
10. **गौरी** (टेलिफिल्म – कोंकणी) 2006
11. **भाक्राबाबाली भोंवडी** (टेलिप्लेट – कोंकणी) 2008
12. **शिंवाचो बळी** (टेलिप्ले – कोंकणी) 2009
13. **कथा अस्तुरी** (टेलिप्ले – कोंकणी) 2009

10\. **गुणाजी** (फिल्म – कोंकणी – मराठी) कथा, संवाद, गीत 2002

## लाबिल्ले पुरस्कार

1. कोंकणी भाशा मंडळ गोंय साहित्य पुरस्कार 1975, 1977
2. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार 1975, 1978
3. अखिल भारतीय आकाशवाणी नभोनाट्य पुरस्कार 1980, 1986, 1987
4. साहित्य अकादेमी पुरस्कार 1984
5. पॅटर्स ऑस्ट्रेलिएन अॅवार्ड 1988
6. पटकथा पुरस्कार – गोवा राज्य चित्रपट महोत्सव 1997
7. गोंय सरकाराचो स्टेट रिवार्ड 2007
8. अखिल भारतीय दूरदर्शन बालनाट्य पुरस्कार 2007-08
9. गोंय सरकार – सांस्कृतिक राज्य पुरस्कार 2008-09
9. राज्य रंगसन्मान पुरस्कार 2008
10. गोमंतक शारदा पुरस्कार 2011

## भुशयिल्लीं पदां आनी भौमान

1. वांगडी, पश्चिम विभागीय सांस्कृतिक केंद्र, उदयपूर 1992-97
2. वांगडी, कला अकादमी, गोवा 1993-96
3. वांगडी, संगीत नाटक अकादेमी, नवी दिल्ली 1993-98
4. वांगडी, नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्ली 1997
5. अखिल भारतीय कोंकणी भाशा परिशद, बेळगांव अधिवेशन अध्यक्षपद 1999
6. सी. आर. पारेख राबितो फेलोशीप, अमेरिका 2002
7. संस्कृती मंत्रालय, भारत सरकार, फेलोशीप 2002-04
8. अध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमी, गोवा 2002-2008
9. निमंत्रक, कोंकणी सल्लागार मंडळ आनी कार्यकारी वांगडी, साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली 2008-2012
10. शिश्टमंडळ वांगडी, आंतर राष्ट्रीय पुस्तक जात्रा, तुरीन – इटली 2010
11. कोंकणी भास आनी संस्कृतिक प्रतिष्ठान, मंगळूर फेलोशीप – 2001



1912 ते 2012 हें कोंकणी नाटकाचें शताब्दी वर्स. पूण तातूंत 1975 ते 2010 हो सुमार 35 वर्सांचो काळ सामको नदर दिपकावणो. ह्याच काळांत स्वतंत्र कोंकणी नाटक कोंकणी जनमानसांत घट रूजून आयलें आनी राष्ट्रीय थराचेर भारतीय रंगमाचयेकडेन समांतर उरलें. आयच्या कोंकणी नाट्यवैभवांत पुंडलीक नारायण नायक हांगेलो वांटो शिंवाचो. साहित्यिक मूल्य आनी रंगमाचयेवयल्या तंत्रीक व्यवहाराची पुरती जाण आशिल्ल्या ह्या नाटककाराचो, पांच वेंचीक नाटकांचो हो 'रंगकाव्य' खंड म्हणल्यार फक्त कोंकणी नाटकाचोच मानदंड न्हय तर राष्ट्रीक थरावयल्या उत्कृश्ट नाटकांचोय एक प्रातिनिधीक नमूनो आसा.

पुंडलीक ना. नायक हांकां नाट्यलेखना खातीर कोंकणी भाशा मंडळ, कला अकादमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय आदि राज्यसंस्थांचे तशेंच साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली आनी पॅटर्स ऑस्ट्रेलियन ॲकाडेमीचे राष्ट्रीय आनी आंतर राष्ट्रीय पुरस्कार लाबिल्ले आसात.




ISBN : 81-86488-88-X